# वोंवळ्यां

यादींचो सर

उजवाडावपी
अरविंद पांडुरंग भाटीकार
चवथी माळी,
4 सी, मॉडेल्स मिलेनियम विश्तास
करंजाळे – गोंय 403 002

पयली उजवाडावणी
जानेवारी 2012

प्रकाशन क्र. 17

प्रकाशक
युगवेद प्रकाशन
पणजी–गोंय
Email : yugved@hotmail.com
Contact No.: 2465127 / 2465080

अक्षर जुळोवणी
रामा हरमलकार

छापणावळ
मुविंग ॲण्टस्

मुखपृश्ठ
अमृत गायतोंडे

मोल
₹ 300/-

# प्रस्तावना

तुजी ही काणी तूं कित्याक बरयता? कोणेंय म्हाका हो प्रस्न विचारल्यार ह्या प्रस्नाची जाप म्हजे कडेन ना.

व्हड व्हड मनीस आत्मचरित्र बरयतात. लोक तांकां बरय अशें सांगतात, वा लोकांनी आपणालें चरित्र जाणून घेवचें आनी तातूंतल्यान तांचो फायदो जावचो अशें ह्या व्हड मनशांक दिसता जावंये. पूण व्हड कोण आनी ल्हान कोण हें कोण सांगतलो? हें थारावपाक आमचे कडेन व्हडपणाची व्याख्या ना. व्हडपण कशें जोखतात वा मेजतात हें आमकां खबर ना. ल्हानपण व्हडपण हें मानपाचेर आसता.

हांव व्हड काय ल्हान हें कोण थारायतलो? आनी ह्या प्रस्नाची आमकां जाप मेळना जाल्यार हांवें म्हजी काणी बरोवची काय ना हें कोण सांगतलो? कित्याक बरोवची? कित्याक बरोवची न्हय ?

कांय जाणां कडेन राशींनी पयसो आसता; खानदानी पयसो काय आपणें जोडिल्लो पयसो ह्या प्रस्नाक म्हत्व ना. पयशेकार मनशाक हो पयसो ताणें कसो जोडलो हें कोण विचारिना. समाजान आपणाक मान दिवचो अशें सगल्या पयशेकार मनशांक दिसता आनी ताचोच एक भाग म्हणून आपणालें आत्मचरित्र बरोवचें अशें तांकां दिसता जावंये. पूण चडश्या पयशेकारां कडेन बरोवपाची कला नासता, वा तांकां बरोवंक वेळ नासता. आमच्या समाजांत उतरांचें भांडार आनी विचारांची गिरेस्तकाय आशिल्ले, पूण पयशे नाशिल्ले खूबशे लेखक आनी कवी आसात. तांकां पयशे दिवन कांय पयशेकार तांचे कडल्यान आपणालें 'आत्मचरित्र' बरोवन घेतात. हांव पयशेकार न्हय म्हणटकच म्हजी काणी हेरां कडल्यान बरोवन घेवपाचो प्रस्नूच येना.

एकुणीसशें पंच्यायशीं वर्सा एकवटीत राष्ट्रांनी (युनायटेड नेशन्स) म्हाका कन्सलटण्ट म्हणून नेमलो आनी पंदरा देशांची भोंवडी करून एक रिपोर्ट बरोवंक सांगलें. तेन्ना हांव भारत सरकाराच्या केंद्रीय रेशीम निगमाचो मुखेल आशिल्लों. भारत, जपान, चीन आनी हेर देशांतलें रेशीम येवरोपांत आनी अमेरिकेंत चड कशें खपोवं येत ह्या विशयाचेर हो रिपोर्ट आशिल्लो. हांव युनायटेड नेशन्सच्या जिनिवा (स्वित्झरलॅण्ड) ऑफिसांत पावलों तेन्ना थंय हांवें हेर सल्लागारांनी तयार केल्ले कितलेशेच रिपोर्ट दाळ मारून दवरिल्ले पळयले. ह्या सगल्या रिपोर्टांचेर त्या त्या देशांतल्या सरकारांनी कारवाय केल्या काय ना हो प्रस्न हांवें दोन-तीन ऑफिसरांक विचारलो. दरेकल्यान 'खबर ना' अशें सांगलें. ''हो असले अर्थ नाशिल्ले प्रस्न कित्याक विचारता?'' अशें तांकां दिसलें जावंये, कारण तांणी 'खबर ना' म्हणटना ते हांसून फकांडां केल्ले भशेन उलयले. मागीर थंय म्हाका सुब्रह्मण्यम नांवाचो एक उत्तर प्रदेश सरकारांतलो तमीळ आयएएस ऑफिसर मेळ्ळो. आमी दोगूय थंयच्या कॅण्टिनांत च्या पियेवंक बसले. हांव जिनिवाक कित्याक आयलां आनी म्हजें काम कितें हें हांवें ताका समजावन सांगलें. असले रिपोर्ट बरोवपाचें उद्दिश्ट कितें हें ताका हांवें विचारलें. ''रिपोर्ट बरोवप हेंच रिपोर्ट बरोवपाचें उद्दिश्ट,'' अशें म्हणून तो म्हजे कडेन पळोवंक लागलो आनी आमी दोगूय व्हडल्यान हांसले.

म्हाका आयज ते गजालीची याद जाता. आत्मचरित्र बरोवपाचें उद्दिश्ट कितें? बरोवप हेंच उद्दिश्ट! कोणें बरय म्हणून सांगिल्लें, कित्याक बरयलें, कोण वाचतलो ह्या प्रस्नांक कांय अर्थ उरना! बरयन दिसलें, बरयलें!

– अरविंद भाटीकार

# यादींच्यो पण्टयो........अणभवांच्यो ज्योती

दर एका मनशाचें आत्मचरित्र वा चरित्र छापून आयिल्लें वा ताच्यो यादी उजवाडाक आयिल्ल्यो जाल्यार काय बरें जावपाचें ! संवसार खरेपणीं कसो चलता, लोक कसले अणभव घेतात, समाज कसो वावुरता हें भोव बरे तरेन कळपाचें. आनी राज्यकर्त्यांच्या इतिहासा वांगडाच लोकांचोय इतिहास बरोवन पूर्ण इतिहास उजवाडाक हाडपाक खूब आदार मेळपाचो. पूण वेव्हारांत तशें घडप भारी कठीण. फुडारिल्ल्या देशांनीय तशें घडना. हे परिस्थितींत, जांचे कडेन बरोवपाची कला वा उक्तावपाची तांक आसा तांणी आत्मचरित्र बरोवंक जाय, यादी उजवाडावंक जाय. जांचे कडेन ती कला वा तांक ना, पूण सांगपा सारको अणभव आसा, खेरीत विशयांचें गिन्यान आसा तांच्या अणभवांचें वा गिन्यानाचें शब्दांकन जावंक जाय. हाचो एक मोटो लाब म्हणचे जें आमकां खबर नासता वा जाणा जावपाचो हेर मार्ग नासता तें कळूंक पावता. एकेच गजालीचीं वेगवेगळीं रुपां, एकाच विशयाचीं वेगवेगळीं तासां आमचे नदरेक येवंक पावतात आनी आमची समजणी सत्याक चडांत चड लागीं उरूंक पावता.

अरविंद भाटीकार हांच्या ह्या पुस्तकाक वयर उक्तायिल्ले भावने वांगडाच हेर कारणां खातीरूय येवकार दिवंक जाय. तांणी ह्या बरपाक 'काणी' अशें उतर लायलां. हे काणयेक आत्मचरित्र म्हणूंक जावचें ना. ह्यो यादी. आनी ह्या यादींतल्यान बरोवप्याची वळख तर घडटाच पूण गिन्यानांत भर घालपी अशें भांडारूय उक्तें जाता. ह्या यादींनी इतिहासीक घडणुको मेळटात, सर्वसामान्य मनशाचो संबंद येना अश्या क्षेत्रांची म्हायती मेळटा. मनशाच्या बऱ्यावायट सभावाचें आनी चलणुकेचें दर्शन घडटा तेच भाशेन सरकारी प्रशासनाच्या मळार कितें आनी कशें घडटा हाचीय खबर तरेकतरांच्या प्रकरणांतल्यान मेळटा आनी हें बरप वाचतना सुरबूस लागता.

अरविंदबाबाल्या जिवितांतलीं खूबशीं वर्सां सरकारी प्रशासनांतलो एक कर्तबगार अधिकारी म्हूण वावुरपांत गेलीं हें खरें आनी ताका लागून ह्या पुस्तकांतले चडशे अणभव हे त्या क्षेत्रांतले आसात हेंवूय खरें, पूण कोंकणी चळवळ नांवाचे स्वाभिमानाचे चळवळींत ते एक कार्यकर्तो म्हूण वावुरल्यात आनी शिक्षक ह्या नात्यान शिक्षणीक मळार वावुरल्यात. ते विशींचे अणभवय ह्या पुस्तकांत मेळटात. हे अणभव म्हत्वाचे. समाजांत पिळगी बदलता तेन्ना खूब फावटीं नवे पिळगे मेरेन फाटले पिळगेन काडिल्ले कश्ट, केल्लो वावर आनी त्याग, जोडिल्लें येस आनी सादिल्ली उदरगत हांची खबर पावना. ताका लागून फाटले पिळगेंतले एखाद्रे कर्तुत्वी व्यक्तीची सारकी वळख नवे पिळगेक जावंक पावना. अखिल भारतीय मराठी साहित्य संमेलनांत कुसूमाग्रज हांणी अध्यक्षपदा वयल्यान स्वाभिमानी गोंयकारांक 'काळोखाचे पुजारी' म्हळें तेन्ना निशेध केलो म्हूण कदेलाचो मार खावप्यां मदीं अरविंदबाब आशिल्ले, आनी त्या निशेधा खातीर धेंपे महाविद्यालयान तांची अध्यापकी सेवा बंद करूंक लायली हें आयच्या कितल्या तरनाट्यांक खबर आसा? आमकां इतिहास बरोवपाची संवय ना म्हूण अशें घडटा. देखुनूच यादी तरी उजवाडाक येवप गरजेचें थारता. दुदाची तान भागोवपाक ताक तरी नाका?

सुटके उपरांतची स्वाभिमानाची चळवळ खंय आनी कशी सुरू जाली हाची खबर अरविंदबाबाल्या ह्या यादींनी मेळटा. उपरांत 'काळोखाचे पुजारी' ह्या उतरांक लागून महाराष्ट्रवादा आड पेटिल्ल्या उज्यांत तेल कशें पडलें हाचीय खबर मेळटा. अरविंदबाबाल्या भुरगेपणांतल्या मडगांव शाराचें थोडें दर्शन घडटा. पी. एच्. डी. खातीर अभ्यास करपाचो तसोच सोडून आयएएसची परिक्षा कित्याक दिली तें कळटा. आयएएस अधिकाऱ्याचें प्रशिक्षण कशें आसता ताची म्हायती मेळटा आनी मागीर घडटा तो तांणी प्रशासकी अधिकारी ह्या नात्यान वेगवेगळ्या क्षेत्रांनी आनी वेगवेगळ्या पांवड्यांचेर घेतिल्ल्या बऱ्यावायट अणभवांचो प्रवास. अणभव - कांय मौजेचे, कांय देखदिणे.

कंपनी क्षेत्रांतले वरिश्ठ अधिकारी ली आयाकोका हांच्या यादींचो ग्रंथ गाजला. परराष्ट्र सेवेंतले वरिश्ठ अधिकारी बी. के. नेहरू तशेच प्रशासकी सेवेंतले वरिश्ठ अधिकारी पी. सी. आलेक्झांडर हांच्योय यादी गाजल्यात. हाचें कारण, तांचे कडेन सांगपा सारकें खूब आसलें आनी तें सांगपाची शैली आसली. कांय वेळा संघर्शा उपरांत वा उग्र वादविवादा उप्रांत एक कबलात जाता. ती जाली म्हूण कळटा, पूण पड्ड्या फाटल्यान कितें घडलें हें तेन्ना कळना. ती खबर असल्या यादीं वरवीं मेळटा. अरविंदबाबा संबंदानूय हेंच घडलां. तांची यादस्ती घट आसा, सांगपाची शैली आसा आनी पड्ड्या मुखा वेल्या तशेंच पड्ड्या फाटल्या अणभवांचें भांडार आसा. हें ह्या पुस्तकाचें एक खाशेलपण थारता.

प्रशासकी सेवेंतल्या अधिकाऱ्याक वरिश्ठ आसतात तशेच कनिश्ठ आसतात. ह्या दोगांय मर्दी तरेकतरांच्या सभावांचे मनीस आसतात. तीं रुपां अरविंदबाबान चितारल्यांत. प्रशासकी अधिकाऱ्यां मदले मत्सर, दुश्टपण, असहकार असल्या अवगुणांच्या आयिल्ल्या अणभवांचीं त्या त्या प्रसगां सयत वर्णनां ह्या पुस्तकांत चुरचुरीत भाशेंत वाचूंक मेळटात. अधिकारी कर्तव्यभावनेन, प्रामाणीकपणान आनी बुद्द वापरून वागलो जाल्यार लोकांचें बरें जावं येता हाच्योय देखी तांच्या अणभवांतल्यान मेळटात.

विचित्र आनी मौजेच्यो अश्यो गजालीय प्रशासकी मळार घडटात. तसल्यो कांय गजाली ह्या पुस्तकांत वाचूंक मेळटात. तातूंतली एक तर अदिकूच मौजेची. अरविंदबाब असिस्टण्ट कलेक्टर ह्या पदाचेर मदुराय आसतना ते घरकान्नी सयत कोडायकनालाक वतात. थंय घरकान्नीची-लताची वेड चोरयेक वता. वेड मेळना पूण असिस्टण्ट कलेक्टराचे बायले कडेन वेड खंयच्यान आयली ह्या विशयाचेर एक फायल दाट जायत वता. हे वटेन, आपणालो दुबाव घेतलो म्हूण एक हवालदार जीव दिता, मात तपास फुडें वचना. अखेरेक ती दाट फायल बंद जाता पूण वेड गेली ती गेलीच!

दर एका मनशाचे अणभव वेगळे आसतात. प्रशासकी अधिकाऱ्यांचे कांय खेरीत आसतात. तांचे वरवीं प्रशासकी अधिकाऱ्यांच्या जिवितांचें वेगळें आंग दिश्टी पडटा. तें खेरीतपण ह्या पुस्तकांत आसा. जें सांगलां तें दाखय-लिपय करिनासतना मेकळेपणान मांडलां म्हणपाचीय जाणविकाय जाता.

म्हजे म्हायती प्रमाण अशे तरेचें कोंकणींतलें हें पयलेंच पुस्तक. तशें दीसपटयेच्या रुपान उजवाडा आयिल्लें साहित्य आसा. एके खेरीत घडणुके विशींचे उगडासूय पुस्तक रुपांत आयल्यात. पूण जिवीत खाजगी आसलें तरी भौशीक प्रस्नांचेर आनी धा-जाणांच्या विशयांचेर उजवाड घालपी असो हो पयलोच यत्न आसा आनी तो फळादीक जाला.

'नॉन फिक्शन' अशी ज्या साहित्याची वर्गवारी करतात तें साहित्य कोंकणी भाशेंत वाडूंक लागलां ही भोव बरी आनी खोशेची गजाल. तबलें ह्या वाद्याचेर पुस्तक येता म्हणसर 'कामजिवन' हें शास्त्रीय रितीन बरयल्लें पुस्तक उजवाडा आयलां. हे विविधतायेंत अरविंदबाबालें हें पुस्तक वेगळे तरेन भर घालता. ह्या पुस्तका वरवीं हेर क्षेत्रांनी वावुरिल्ल्यांक, खेरीत अणभव घेतिल्ल्यांक, भौशीक मळार कार्य केल्ल्यांक, कलाकारांक आनी हेरांक आपणाल्यो यादी बरोवन काडून त्यो उजवाडावपाची प्रेरणा जाल्यार हो आरंभ अदिकूच सुफळ जातलो.

मडगांव

01 मे 2011

– उदय भेंब्रे

# उपकाराचीं उतरां

फाटलीं 65 वर्सां एकठांय जाल्लीं यादींचीं वोंवळां पुंजावन तांचो परमळ भोंवतणच्या संवसारांत पातळावप हें काम सोंपें न्हय. आपूण एकलोच करतलों म्हणल्यार तें जमपाचें न्हय. ह्या 'वोंवळां' फाटल्यान कितल्याश्याच जाणांचे मानसीक आनी शारिरीक श्रम आसात.

सगल्यांत पयलीं लताचे. एक फावटीं सुरवात करतकच मागीर तें आपले आपूण फुडें वतलें अशें म्हणून हें पुस्तक बरोवपाक हांवें सुरवात करची हे खातीर दीसरात तें म्हजे फाटीक लागतालें. अखेरेक हांवें बरोवंक सुरवात करतकच हांवें आनी ताणेंय बी सुटकेचो स्वास सोडलो. घरचें, आपणालें कावन्सलिंगाचें, म्हज्या वांगडा म्हजो हात धरून गोंयभर भोंवपाचें, अशीं कितलीशींच कामां सांबाळून, संगणकाचेर प्राप्तीन टायप केल्लीं शेंकड्यांनी पानां वाचून पळोवप, चूक दिसल्यार सारकी करप, होय वावर ताकाच करचो पडलो. ताणें ह्या पुस्तकाची पालखी उखलपाक खांदो दिवंक नाशिल्लो जाल्यार ही पालखी केन्नाच उखलची नाशिल्ली. ताचे व्हड उपकार!

पालखी उखलपाक दुसरो खांदो दिलो तो प्राप्ती प्रभू कोंकारान. संगणकाचेर हांवें सांगिल्ले प्रमाण टायप मारप, इतलेंच न्हय तर खंयच्या वाक्यांच्या मुदयांनी खंयच्या उतरांचीं थिकां सारकीं बसतलीं हें सुचोवप, फावो तें उतर सुचना जातकच आडावल्ले विचार त्या जाग्यार फिट्ट बसपी उतरां सुचोवन विचारांची गाडी फुडें व्हरप हें भोव जापसालदारकेचें काम ताणें केलें. आकाशवाणी पणजीचेर खबरां निवेदकाचें काम सांबाळून वेळ मेळटा तेन्ना ताणें हें काम सांबाळ्ळें. कोंकणी जरी गोंयची राजभास आसली, तरी संगणकाचेर देवनागरींत फिशालकायेन आनी वेगान टायप करपी गोंयांत

सामकेच उणे लोक आसात. हांव प्रुडण्ट टिवी चॅनलाचो अध्यक्ष आसतना प्राप्ती थंय कार्यावळ उप-संपादक म्हणून काम पळयतालें. प्राप्तीचे उपकार मानीत तितले थोडे! ताणें प्रुडण्ट सोडिल्लें म्हणून म्हाका त्या वेळार खूब वायट दिशिल्लें. पूण म्हजें पुस्तक टायप करपाचो प्रस्ताव ताणें मानून घेतकच ताणें प्रुडण्टांतलें काम सोडलें तें बरें केलें अशें म्हाका दिसूंक लागलें.

लांकडाची, पंचधातूची वा आनीक कसलीय शिल्पकलेची वस्त आसली जाल्यार फिशाल शिल्पकारान ते वस्तूच्यो बारीकसाणी सारक्यो करचे पयलीं ताच्या हाता सकयल आसतात ते हेर शिल्पकार ती वस्त सादारण 75- 80 प्रतिशें तयार करून हाडटात. मागीर 'फिनीश' करपाचें काम तो फिशाल शिल्पकार करता. कोशकार दामोदर घाणेकार हो कोंकणी व्याकरणाच्या मळा वयलो एक फिशाल शिल्पकार. म्हजो इश्ट व्याकरणकार सुरेश बोरकार हाचे आनी म्हजे मागणेक मान दिवन, घाणेकारान आपणालें गोंय विद्यापीठांतलें काम सांबाळून, दीसपट्ट्यो रातपाळयो मारून, हें पुस्तक वाचून सगल्यो चुकी सुदारल्यो; ते भायर खंयचीं वाक्यां फुडेंफाटीं वयरसकयल केल्यार चड बरीं दिसतलीं हेंय बी ताणें सुचयलें. ताचेय बी खूब उपकार मानूंक जाय.

पुस्तक छापपाक वचचे पयलीं ताचेर नदर मारून उरिल्ल्यो चुको सुदारपाचें, तशेंच कांय कडेन वाक्यांची वेगळी मांडावळ सुचोवपाचें काम शांतारामबाब वालावलीकारान सांबाळिल्ले खातीर ताचेय बी व्हड उपकार आठोवंक जाय.

ह्या पुस्तकाक ॲड. उदयबाब भेंब्रे हाणें प्रस्तावना बरोवन पुस्तकाचो दर्जो वाडयलो. गोंयकारांक उदयबाबाची वळख करून दिवपाची गरज ना. वाडटे पिरायेची पर्वा करिनासतना कोंकणी भास आनी संस्कृताय हांची सेवा स्तंभलेखन करून, सभांनी, बसकांनी उलोवन तो अजुनूय आपलो वकिलीचो वेवसाय करता. वेळांत वेळ काडून ह्या पुस्तका खातीर ताणें प्रस्तावना बरयली म्हणून ताचे उपकार मानीत तितले थोडे.

घर बांदता आसतना फिशाल गवंडी जितलो म्हत्वाचो तितलोच विटो, शिमीट, अवजारां आनी हेर सामान एकठांय करून दवरपी ज्युनियर सुपरवायजरूय बी तितलोच म्हत्वाचो. मनिशा नाईक हाणें कांयच घुस्पागोंदळ करिनासतना ह्या पुस्तकाचें काम बरे भशेन चलोवपाची जापसालदारकी घेतली. देखून ताचेय उपकार मानीत तितले थोडे.

छापी प्रत काडटा आसतना जाल्ल्यो चुको अमोल कामतीन सुदारल्यो हे खातीर हांव ताचेय बी उपकार मानतां.

छापणावळीची जापसालदारकी घेवपी आनी चार रंगी मुखपृश्ठ तयार करपी चित्रकार अमृत गायतोंडे हाचेय बी व्हड उपकार.

अक्षर जुळोवणी करपी रामा हरमलकारान म्हज्यो यादी पुस्तक रुपांत हाडपाक खूब कश्ट घेतले ते खातीर ताकाय धन्यवाद.

आपणालो मोलादीक वेळ म्हजे खातीर वापरून पुस्तक बरे तरेन छापून घेवंक पालव दिल्ले बद्दल प्रभाकर भिडे हाचेय बी खूब उपकार मानूंक जाय.

वोंवळांचो परमळ भोंवतणच्या संवसारांत आनी गोंयभर पातळावपांत वयर नोंद केल्ल्या सगल्यांचो हात आसा. ह्या पुस्तकाची पालखी सगल्यांनी खांदार उबारली म्हणून ती वयर सरली. म्हज्या यादींचो परमळ वाचप्यांचे जिणेंत सासणाचो उरतलो अशी आस्त दवरतां.

– अरविंद भाटीकार

# मांडावळ

# भाग 1
# बापू

संस्था सुरू करपी लोक आनी त्यो चलोवपी लोक येतात आनी वतात, पूण संस्था मात सासणाच्यो उरतात. संस्था नामनेक पावल्यार ती संस्था सुरू केल्लो मनीस फामाद जाता, आनी मनीस फामाद जाल्यार ताका लागून संस्था फामाद जाता. दक्षीण गोंयांत मॉडॅल इंग्लीश स्कूल म्हूण इश्कोल म्हज्या बापायन 1934 त सुरू केल्लें. तें इश्कोल दक्षीण गोंयांत एका मुखेल आनी बऱ्या इश्कोलां मदलें म्हणून नामनेक पावलें. पांडुरंग राया प्रभू भाटीकाराक दक्षीण गोंयच्या भौसा मदीं एक खास सुवात मेळ्ळी.

म्हज्या बापायक आमी सगलीं भुरगीं 'बापू' म्हणटालीं. आमी सगलीं भुरगीं जल्मलीं त्या काळांत महात्मा गांधी भारतीय स्वतंत्रताये खातीर ब्रिटीशां आड झगडटालो आनी ताका भारतांतले सगले लोक बापू म्हणटाले. आपणाकूय आपल्या भुरग्यांनी बापू म्हणचो अशें म्हज्या बापायक दिसलें जावंये; आमीच न्हय, तर हेर सोयरे, इश्ट आनी भोंवतणच्या वाठारांतले सगले लोक म्हज्या बापायक बापू म्हणूंक लागले. सांगें भाटी ह्या गांवांतले जाणटे म्हज्या बापायक पांडू आनी बापू परस ल्हान आशिल्ले इश्ट बापूक पांडूबाब म्हणटाले.

सह्याद्री पर्वताच्या पांया म्हऱ्यांत दाट रानांत आशिल्ल्या माणकुल्या भाटी गांवांत बापूचो जल्म 20 मार्च 1906 ह्या दिसा जालो. बापूच्या पुतांक आनी धुवांक बापूचीं आवय आनी बापूय पळोवंक मेळ्ळीं नात. बापू दोन वर्सांचो आसतना ताची

आवय भायर पडली आनी  बारा वर्सांचो आसतना ताचो बापूय भायर पडलो. भाटी, नेतुर्ली, विळयेणां ह्या वाठारांत भाटीकार घराब्याचीं 36 व्हड व्हड भाटांबेंसां आशिल्लीं, आनी हातूंतलीं चडशीं भाटांबेंसां आपणाल्या व्हडल्या भावान जुगारांत व्हगडायलीं अशें बापू म्हाका सदांच सांगतालो. सांवड्डें-कुडचडें वाठारांत एका व्हड वेपाऱ्या कडेन तीं घाण दवरिल्लीं आनी मागीर तीं रीण फारीक जावंक नाशिल्ल्यान ताच्याच हातांत गेलीं.

हेर लोकांचें आपणालें म्हूण एक घर आसता, आनी दीसपट्टें यो-वच करपाक कसलेंय वाहन आसता! तशें आमचे कडेन आसूंक जाय अशें हांव केन्नाय म्हणटालों, तेन्ना बापू ह्यो गजाली म्हाका सांगतालो. आपल्या कडेन इतलीं भाटांबेंसां आशिल्लीं जाल्यार तीं इतल्या सोंपेपणान लोकांच्या हातांत कशीं वतलीं हो प्रस्न म्हजे मुखार उबो रावतालो, आनी खंयच्याय सोयऱ्याच्या भाटांबेंसांचेर आमचोय बी हक्क आसा अशें बापू चुकून बी समजलो काय कितें असो म्हाका दुबाव येतालो. पूण बापू सांगतालो तातूंत खरेपण आसा हें म्हाका खूब वर्सांनी कळ्ळें. सांग्यार तालुको ऑफिसांत एक सहाय्यक मामलेदार काय मामलेदार, जो मडगांवां भाटीकाराल्या इश्कोलांत शिकिल्लो, ताणें म्हज्या व्हडल्या भावाक दामूक  सांगिल्ली ही गजाल: जशीं जशीं वर्सां वतात तशीं तशीं कुटुंबां वाडटात, आनी तशींच भाटीकारांचींय बी खूबशीं कुटुंबां जालीं. तातूंतल्या एका भाटीकार कुटुंबाचो मुखेली जाणटेल्यां कडल्यान आयिल्ली जमीन आपल्या नांवार करपा खातीर तालुको ऑफिसांत अर्ज घेवन आयिल्लो. त्या भाटीकारांचे जमनीचेर बापूचोय हक्क आसूंक जाय अशें त्या मामलेदाराक दिसलें. खोलायेन चवकशी करतकच अर्ज घेवन आयिल्ल्या त्या भाटीकार कुटुंबांतल्या मनशान ते जमनींत बापूचोय बी वांटो आसूंक जाय हें मानून घेतलें. आनी मागीर बापूचें नांव सरकारी नोंदणेंत आयलें. मागीर कांय वर्सांनी हांव वास्को एमपिटीचो अध्यक्ष आसतना भाटीकारां मदल्या एका कुटुंबाचो जाणटेलो म्हजे म्हऱ्यांत आयलो आनी आमचें, म्हणल्यार सगल्या भाटीकारांचें सुमार वीस एकर रान आसा, तें कोणूय तरी सात-आठ लाखांक घेवपाक तयार आसा, देखून "तुजी आनी तुजे बायलेची निशाणी घेवंक आयलां" अशें ताणें म्हाका सांगलें. आमचीं आनीक कितलीं भाटां आनी रानां खंय खंय आसात तें तुवें सांगले बगर म्हाका हाचेर निशाणी करपाक जमचें ना अशें हांवें ताका सांगलें! मागीर तो जाणटेलो परतून म्हजे म्हऱ्यांत आयलो ना.

भाटीचे सरकारी मराठी शाळेंत बापू मराठी तिसरी मेरेन शिकलो आनी मागीर कोलव्यां आपल्या मामागेर रावून पुर्तुगेज सेगुंद ग्रावा मेरेन शिकलो. मागीर दीसपट्टें कोलवेंच्यान मडगांवां चलत वचून बापू इंग्लीश शिकलो. मॅट्रिके मेरेन पावून अर्थीक अडचणीं खातीर बापूक इंग्लीश शिक्षण अर्धारूच सोडचें पडलें. 1926 जुलय म्हयन्यांत

हळदोणच्या सेंट अँथनी स्कूलांत बापून टिचराची नोकरी धरली. पगार फकत म्हयन्याक बारा रुपया! रावपाची आनी जेवणाखाणाची वेवस्था आनी खर्च इश्कोल करपाचें आशिल्लें. पूण तांणी उतर दिवन लेगीत तशें केलें ना. इश्कोलांत फटींगपणां केलीं म्हूण बापून चार म्हयन्यां भितर तें इश्कोल सोडलें, आनी वास्को मद्रास सदर्न मराठा रेल्वेच्या असिस्टंट ट्रॅफीक सुपरीण्टॅण्डॅण्टाच्या ऑफिसांत कारकुनाची नोकरी धरली. शिक्षक जावपाची आवड आशिल्ल्यान बापूक ते कारकुनाचे जिणेंत मन लागना जालें. एप्रील 1927 त बापून तिवूय बी नोकरी सोडली आनी कोलव्यां प्रोग्रेसीव इंग्लीश स्कुलांत टिचराची नोकरी धरली. 1929 वर्सा मेरेन ताणें त्या इश्कोलांत शिकोवन मागीर वास्को वचून पंढरीनाथ पाणंदीकारा वांगडा आपणालें वेगळें इंग्लीश इश्कोल सुरू केलें. कवी बाकीबाब बोरकार हो बापूचो आनी पाणंदीकाराचोय बी इश्ट आशिल्लो. "तुमीं वेगळें इश्कोल चलयनाकात, तें कुस्तार जातलें, तुमचें इश्कोल सेंट जोजेफ इश्कोलाचोच एक भाग करात" अशें बापूक आनी पाणंदीकाराक बाकीबाबान सुचयलें. 1931 त बापून आनी पाणंदीकारान आपणालें इश्कोल सेंट जोजेफ स्कूलाक दिलें आनी बापू परतून मडगांवां येवन ध कॅथलीक एज्युकेशनल इन्स्टिटयूट आनी मागीर श्री दामोदर विद्यालयांत शिकोवंक लागलो. इंग्लीश आनी ॲरीथमॅटीक बरो शिकयता अशी बापूची नामना जावंक लागली. 1934 वर्सा दत्तात्रय वेंकटेश पै हाचे खाणावळीच्या वारांदाचेर 14 भुरग्यांक घेवन बापून 'मॉडॅल क्लासीस' सुरू केल्यो आनी 1935 वर्सा मॉडॅल इंग्लीश स्कूल सरकारांत रजिस्टर केलें. सरकारान मॉडॅल इंग्लीश स्कूलाक पांचवी मेरेन शिकोवपाची परवानगी दिली. 1937 वर्सा बापून स्कूल हरी मंदिरा शेजरा आशिल्ले व्हड बिल्डिंगेंत हालयलें. आनी तेच बिल्डिंगेंत तें स्कूल मागीर फामाद जालें. ते उपरांत बापूची काणी म्हणल्यारूच त्या स्कुलाची काणी!

त्या काळांत इंग्लीश इश्कोलांक सरकार कांयच पालव दिनाशिल्लें. भुरग्यां कडल्यान वसूल केल्ले फीचेर इश्कोल चलोवपाचें! इश्कोलाच्या खर्चाचो आनी आपणाल्या कुटुंबाच्या खर्चाचो वेगळो हिशोब नासतालो. भुरग्यांचे फीयेंतल्यान येवपी येणावळींत मास्तरांचो पगार, इश्कोलाचो हेर खर्च आनी कुटुंब चलोवपाचो खर्च करचो पडटालो. इश्कोलाचो दर्जो बरो आशिल्ल्यान मडगांवच्या आनी सरभोंवतणच्या वाठारांत इश्कोलाक बरें नांव मेळ्ळें. 1946 वर्सा इश्कोलांत शिकपी भुरग्यांचो आंकडो साडेचारश्यांचेर पावलो. हेर कांय इश्कोलांचे धनी भाटीकार स्कूलाचेर जळूंक लागले. आनी बॉम्बे युनिवर्सिटी कडेन तांणी तरातरांच्यो कागाळी करपाक सुरवात केली. त्या काळांत गोंयचीं सगलीं इंग्लीश इश्कोलां मुंबय युनिवर्सिटीचे मान्यताये खाला चलतालीं. भाटीकाराच्या इश्कोलाक मुंबय युनिवर्सिटीन 1941 त मान्यताय दिल्ली. 1942 वर्सा त्या

इश्कोलांतल्यान 14 विद्यार्थी मॅट्रिकेचे परिक्षेक बशिल्ले आनी तातूंतले धा पास जाल्ले. कवी डॉ. मनोहरराय सरदेसाय हो ह्या इश्कोलांतल्यान पयल्याच वर्सा पास जाल्ल्यां मदलो एकलो.

लोकांनी केल्ल्या कागाळींक लागून म्हणात वा इश्कोलाचें वायट नशीब म्हणात, मुंबय युनिवर्सिटीन 1946 त स्कुलाची मान्यताय काडून घेतली. युनिवर्सिटीन मान्यताय काडून घेतले बाराबर भुरग्यांचो आंकडो 450 वयल्यान 120 चेर घसरलो. खूबशे शिक्षक सोडून गेले, कारण पगार सारको मेळना जालो, आनी इश्कोल चलोवप कुस्तार जावंक लागलें.

बापूचो देवाचेर खूब विस्वास! मराठी धर्मग्रंथांचो आनी महाराष्ट्रांतल्या संत लिखाणांचो ताणें खूब अभ्यास केल्लो. यत्न केल्यार देवाचे दयेन आपल्याक जाय तें मेळटलें अशें सदांच तो म्हणटालो. मुंबय, पुण्यांत दीसरात वचून युनिवर्सिटींतल्या लोकांक दुकुमेंत दाखोवन तांचे लागीं भासाभास करून 1949 त ताणें स्कुलाची मान्यताय परतून मेळयली. ते मेरेन बापूची अर्थीक परिस्थिती सामकी खालावल्ली. म्हजे आवयचीं भांगरा कांकणां जायत्या फावटीं घाण दवरून ताणें कोणा कडल्यान तरी रीण घेवन मास्तरांक पगार फारीक केल्लो तें म्हाका याद आसा. भुरग्यां कडल्यान फी जमयतकच तीं कांकणां सोडोवन हाडून तो आवयक दितालो. आपणाल्या हिंदू आनी क्रिस्तांव इश्टां कडल्यान इश्कोल चलोवपा खातीर तो रीण काडटालो. जायत्या फावटीं तें रीण परतून वेळार फारीक जायनाशिल्लें. ताचे हिंदू इश्ट वा सोयरे (नांवां म्हाका खबर आसात पूण तीं सांगप बरोबर जावचें ना) जायते फावटीं आमगेर येवन ताका तापयताले, तें म्हाका याद आसा. पूण क्रिस्तांव इश्टांनी केन्नाच ताका तापयिल्ल्याची म्हाका याद ना. कुंडयचो वामनबाब कुंडयकार हाचे कडल्यान बापून केन्ना तरी अडेजशें रुपया घेतिल्ले. खूब वर्सांनी फाटलीं कागदपत्रां सोदता आसतना बापूक तें निशाणी केल्लें कागद आपणाले आरमारींत मेळ्ळें. हे पयशे परतून दिवंक जाय, पूण आयज दिवचे, फाल्यां दिवचे अशें करून ते पयशे परतुपाचें काम फुडें धुकलत उरलें. 1980 साकून, "आरे, तागेले पयशे ताका धाडून दी," म्हणून बापू म्हाका याद करीत आसतालो, आनी आयज धाडचे, फाल्यां धाडचे अशें करून हांव ते पयशे धाडपाची प्रक्रिया फुडें धुकलीत रावलों. बापू भायर पडटकच म्हाका ते गजालीचें खूब वायट दिसलें आनी हांवें एक पत्र बरोवन ते अडेजशें रुपया वामनबाब कुंडयकाराक धाडून दिले. 'तुज्या बापायक हांवें केन्ना पयशे दिल्ले तें म्हाका याद ना, पूण तुवें धाडल्यात म्हणून हांव ते दवरून घेतां, देव बरें करूं," अशा अर्थाचें ताणें म्हाका मराठींतल्यान पत्र बरयलें. ही गजाल जेन्ना हांवें एका लागींच्या सोयऱ्याक सांगली, तेन्ना वेव्हार गिन्यानाचीं तत्वां सारकीं पाळून आनी खूबशीं चिकानां करून गिरेस्त जाल्ल्या त्या सोयऱ्यान बापूच्यो आनी म्हज्यो दोगांच्योय बकत्शायो केल्यो.

1950 त रत्नाकर – म्हणल्यार स भुरग्यां मदलो सगल्यांत व्हडलो पूत – धारवाडा बिए पुराय करून इश्कोलांत शिकोवंक लागलो आनी मागीर ताणें मास्टर ऑफ एज्युकेशन हीय पदवी मेळयली. ताणें इश्कोलांत शिकोवपाक सुरवात करतकच आनी इश्कोलाचें वेवस्थापन हातांत घेतकच ल्हवूल्हवू स्कुलाचें वेवस्थापन सुदारूंक लागलें आनी 1959 वर्सा गुरुदास शिरोडकार हो भाटीकार इश्कोलांतलो विद्यार्थी एसएससी परिक्षेंत गोंयांत पयलो आयलो.

"तुज्या इश्कोलांत जयहिंद चलता, देखून इश्कोल बंद करचें पडटलें", अशी 1959 वर्सा पुर्तुगेज अधिकाऱ्यांनी शिटकावणी दिली. पुर्तुगेज सरकाराच्या शिक्षण विभागांत कांय गोंयकार अधिकारी आशिल्ले तांणी मर्दी पडून इश्कोल बंद जावपाचें आडायलें. ते उपरांत इश्कोलाची उदरगत कोणूच थांबोवंक शकलो ना.

बापू 1971 त निवृत्त जालो आनी आपणालो सबंद वेळ पुजा, धर्मग्रंथांचें वाचन, प्रवचनां आनी किर्तनां करपांत घालोवपाक लागलो. हरी मंदिरांत दर आशाढी एकादशीक तो प्रवचनां करतालो. गोंयांत खंयूय ताका प्रवचन वा किर्तन करूंक आपयल्यार तो वतालो. सामक्या जाणटेपणांत दोळ्यांक मोतीबिंदू जाल्लो आसतना लेगीत तो बोरये, शिरोड्यां आनी हेर ल्हान ल्हान गांवांनी वचून प्रवचनां करतालो. प्रवचन वा किर्तन करूंक तो कांयच मानधन मागनाशिल्लो. तूं मानधन घेना जाल्यार घेनाका, पूण जे लोक तुका आपयतात, तांकां तुका व्हरपाची आनी हाडपाची वेवस्था करपाक लाय," अशें हांव सदांच ताका सांगतालों. जायत्या फावटीं गोंयच्या खेडेगांवांतल्या वाठारांनी रातच्यो बशी आसनात तेन्ना तो मडगांवां परत येवपाक कोणाचेंय वाहन मेळटा काय म्हूण पळोवपाक रातच्या णव–धा वरांचेर रस्त्या कुशीक उबो रावतालो. घरच्यांक हुस्को जातालो. मागीर ताका कोणूय हाडून पावयतालो.

मडगांवां 'विद्याभुवनाच्या' काय 'सारस्वत ब्राह्मण समाजाच्या' हॉलांत दर वर्सा व्याख्यानमाळ जाताली. देव बीव म्हणल्यार सगलीं फकांडां, देव आसा अशें म्हणप म्हणल्यार अंधश्रद्धा, अशें महाराष्ट्रांतल्यान आयिल्ल्या एका उलोवप्यान म्हणलें. व्याख्यान आयकूंक गेल्ल्या बापूची तकली तापली आनी ताणें सभाघरांत उबो रावून त्या उलोवप्याक विरोध केलो आनी ही व्याख्यानमाळ घडोवन हाडपी लोकांनी आपल्याक दोन व्याख्यानां दिवपाक परवानगी दिवची, देव आसा अशें आपूण सिद्ध करून दाखयतां अशें बापून तांकां आव्हान दिलें. भाटीकाराक उलोवपाक दियात असो लोकांनीय बी बोवाळ मारपाक सुरवात केली. मागीर कांय दिसांनी 'देव आसा' हें सिद्ध करपाक बापूचीं दोन व्याख्यानां जालीं. कांय लोकांक तीं अजुनूय याद आसात. बापू प्रवचनां कोंकणींत आनी मराठींत करतालो आनी तातूंत इंग्लीश आनी पुर्तुगेज म्हणीय बी वापरतालो. देखून तीं प्रवचनां लोकांक चड आवडटालीं.

दिसाळ्यांनी लेख बरयता आसतना बापू 'संत चरणरज' पांडुरंग राया भाटीकार अशें आपलें नांव घालतालो. संतांच्या पांया कडलो धुल्ल असो ताचो अर्थ! धर्मा संबंदीचें बापूचें वाचप चडशें मराठींत आनी थोडें इंग्लीशींत जातालें. ज्ञानेश्वरी आनी हेर धर्मग्रंथां वयलीं प्रवचनां मराठींतल्यान आनी कोंकणींतल्यान जातालीं. खेरीज, हेर गोंयकारां भशेन भजनां, आरत्यो बी मराठींतल्यान जाताल्यो. पूण आपणाली आवयभास मराठी अशें मात बापून केन्नाच म्हणलें ना.

गोंयकारांची आवयभास कोंकणी, गोंयच्या भुरग्यांचें मुळावें शिकप हें कोंकणींतल्यान जावंक जाय अशें बापूक सदांच दिसतालें. ते खातीर गोंय स्वतंत्र जाले बाराबर कांय पाद्रीं वांगडा गांवागांवांनी भोंवून भुरग्यांचें मुळावें शिकप कोंकणींतल्यान जावचें म्हूण बापून प्रचार केल्लो. बापूचो कोंकणी विशींचो अभिमान आनी कोंकणी वयलो मोग केन्नाच लिपून उरलो ना हाची याद काडून म्हजो एक इश्ट नारायण मावजो सदांच एक उदाहरण दिता. मडगांवच्या कांय जाणटे पिरायेच्या इश्टां वांगडा सद्दां सांजेचो मडगांवच्या गार्डनांत वचून बापू खबरांक बसतालो. एके फावटीं एका इश्टान आपले नातीन "कोकोनट कसो हाडलो आनी त्या कोकोनटाचीं सोण्णां कशीं काडलीं" हाचें वर्णन केलें. "तूं कोकोनट कोकोनट जो म्हणटा तें तुका कोकोनटाक कोंकणींत नाल्ल म्हणटात म्हूण खबर ना रे?" अशें म्हणून बापून ताचीं फकांडां केलीं.

1964 वर्सा मडगांवां जाल्ल्या अखिल भारतीय मराठी संमेलनांत 'कुसुमाग्रजान' कोंकणी आपली आवयभास म्हणपी गोंयकारांची तासंपट्टी केल्ली. कोंकणी आपली आवयभास आनी ती एक वेगळी भास म्हणपी लोक 'काळोखाचे पुजारी', अशें ताणें म्हळें. माटवांत बशिल्ले थंयच्यानूच उबे रावन आमी व्हडाव्हडान आड्डून 'शब्द मागें घ्या' म्हूण विरोध केलो. पुलिसांनी आमकां थापटायत आनी धपकायत माटवा भायर घाले. मागीर आमी घोशणा दीत व्हडलो मोर्चो काडलो. कांय दिसांनी लोहिया मैदानाचेर आमची सभा जाली, आनी ते सभेक शंकर भांडाऱ्यान बापुकूय उलय म्हूण सांगलें. "तुमकां भुरग्यांक मार पडला तो दामबाबाचो प्रसाद म्हूण समजून आनीक नेटान तुमी फुडें वचूंक जाय," अशें म्हूण बापून भाशण दिलें.

"हांव जरी भुरग्यांक गणीत शिकयतां तरीय म्हजे जिणेचें गणीत हांवें केन्नाच मांडलें ना!" अशें बापू केन्नाकेन्नाय म्हणटालो. आपणाक वेव्हार म्हणटात तो समजना अशें तो म्हणटालो. वेव्हारगिन्यान म्हणल्यार कितें? कसलेंय काम करतना आपणाक फायदो जातलो काय ना? हेरांनी, म्हणल्यार इश्टांनी आनी सोयऱ्यांनी कितेंय सांगल्यार ताचेर पुराय विस्वास दवरचो काय कितें? कांय वेळार दुसऱ्यांक फटोवन आपणाक फायदो करून घेवप हातूंत कांय वायट ना अशें समजप, हे गजालींक वेव्हारगिन्यान म्हणटात अशें म्हाका दिसता. बापूक तें नाशिल्लें हीच खरी गजाल!

"भाड्याचे बिल्डिंगेंत चलिल्लें इश्कोल आमी आमची अशी बिल्डींग बांदून ते बिल्डिंगेंत व्हरपाक जाय," अशें बापू सदांच म्हणटालो. आमच्या कुटुंबाक आपणालें अशें एक घर आसूंक जाय, आमी आतां भाड्याच्या घरांत रावंक जायना, अशें मात ताणें केन्नाच म्हणलें ना. तो सदांच भाड्याच्याच घरांत रावलो आनी भाड्याच्याच घरांत भायर पडलो. ताचे कडेन बाजारांत वा मडगांवां आनीक खंयूय वचपाक सायकल लेगीत नाशिल्ली. लोक आपणाक 'लिफ्ट' दितात, आपणाले विद्यार्थी आपल्याक जाय थंय पावयतात, आपणाक वेगळें वाहन कित्याक जाय अशें बापू सदांच म्हणटालो. आमी सगल्यांनी दीसरात ताचे फाटीक लागून ताका एक फ्लॅट विकतो घेवंक लायलो. अखेरेक निवृत्त जातकच जाणटेपणांत मडगांवां दामोदर सोसायटींत तिसरे माळयेर ताणें एक फ्लॅट घेतलो, चार बॅडरुमांचो. ते बिल्डिंगेंत लिफ्ट नाशिल्ली. थोडो काळ थंय रावन वयर चडपाक त्रास जाता म्हूण तो फ्लॅट विकचो पडलो.

गोंय स्वतंत्र जावचे आदीं 1950 च्या अदमासाक गोंयांत मिनाच्यो खणी सुरू जाल्यो. मिनेर जावपाची इत्सा आशिल्ल्या लोकांनी पुर्तुगेज सरकारा कडल्यान सवाय दरान दोंगर आनी रानां लिजाचेर घेतलीं. बापुकूय आपूण मिनेर जायन दिसलें. ताचे कडेन पयसो नासतालो. दोन पयशेकार इश्ट बापून तयार केले आनी तांणी तिगांयनी कुळें-कालें ह्या वाठारांत एक व्हडलें रान लिजाचेर घेतलें. तें रान पळोवंक बापू आनी ताचे इश्ट गेल्ले तेन्ना हांवूय बी तांचे वांगडा गेल्लों. कुळ्यां काय काल्यां खंय तरी रेल्वे स्थानकाचेर देंवून एका थळाव्या मनशा बाराबर रानांतल्यान सुमार दोन वरां चलून आमी ते खणीर पावले. पाचव्याचार दाट रानांतल्यान, एके ल्हान न्हंयेंचे देगेर पावतकच "तुमचें रान हांगा सुरू जाता आनी हेवटेन एक कोस, तेवटेन चार कोस" अशें कितें तरी ताणें ते वटेन बोटां दाखोवन सांगलें. घरच्यान व्हेल्ली बटाटभाजी आनी चपाती खावन आमी परतून रेल्वे स्थानकाचेर आयले. बापू कडेन लिजाचे हप्ते फारीक करपाक पयशे नाशिल्ले, देखून ताणें आपलें आंग थोड्या काळा उपरांत तातूंतल्यान काडून घेतलें. आपले सगले हक्क आनी जापसालदारकी त्या इश्टांक दिली. त्या इश्टांचीं नांवां म्हाका खबर आसात पूण सांगप समा जावचें ना.

आपणें जरी घर बांदलें ना, तरीय आपल्या भुरग्यांनी फुडाराक आपापलीं घरां बांदचीं अशें म्हूण मडगांवच्या शेजरा रावणफोंड वाठारांत बापून दोन हजार चौखण मिटर जमीन गावड्या जमातीच्या एका मनशा कडल्यान विकती घेतली. विकती घेता आसतना त्या गावड्याचो पूत थंय रावतालो. "तो कांय तुमकां त्रास दिवचो ना, मागीर भायर सरून वतलो," अशें त्या गावड्यान बापूक सांगलें आनी बापून तें आयकलें. आपूण ह्या जाग्याचो मुंडकार आशिल्लों अशी एक केस आनी आपूण त्याच जाग्यार शेत रोयतालों अशी दुसरी केस त्या गावड्याच्या पुतान कांय काळा उपरांत मामलेदाराच्या कोर्टांत

घाली. ते जमनीचेर खरें म्हणल्यार शेत बी कांय नाशिल्लें; फकत एक चिऱ्यांची खण आशिल्ली. बापू 15 वर्सां ती केस लडलो. थंय शेत नाशिल्लें तरीय तो ह्या जाग्यार शेतकार आशिल्लो अशें म्हूण केशीचो निकाल ताच्या फावोराद जालो. पूण त्या जाग्याचो तो मुंडकार न्हय, म्हणून मुंडकार केशीचो निकाल ताचे आड लागलो. मुंडकार न्हय आसतना लेगीत त्या जाग्याचेर तो सध्या रावता, परिस्थितींत बदल जाला तो म्हणल्यार ताचे खोंपीचो आतां व्हड बंगलो जाला. जाणटेल्यांचीं भाटांबेंसां खंय गेलीं कोणाक खबर! पूण आपल्या कर्तुबाच्या बळग्याचेर भाटीकाराचो भाटकार जावपाचो हो बापून एकूच यत्न केल्लो आनी तो फसलो.

सोनू सुर्लकार, तुकाराम सावंत, तातो नेवगी हे बापूचे सामके लागींचे इश्ट! तसोच भाई सरदेसाय (जो चडसो मुंबय आसतालो आनी केन्नाय गोंयांत येतालो आनी बापू भशेनूच जाका ज्ञानेश्वरी आनी हेर धर्मग्रंथांचो अभ्यास आशिल्लो) तो खासा 'ज्ञानेश्वरी – इश्ट'! हे दोगूय जाण आमच्या भायल्या सालांत बसून वरांचीं वरां ज्ञानेश्वरीचेर आनी हेर धर्मग्रंथांचेर भासाभास करून 'दे टाळी' म्हूण एकामेकांक ताळी दिताले, तें हांवें जायत्या फावटीं पळयलां. "हांव 82 वर्सां पिरायेचेर मरतलों" अशें बापू सदांच म्हणटालो. 81 वर्सां जावन 82 वें वर्स चलता आसतना बापू भायर पडलो. बापू भायर पडला तेन्ना म्हणल्यार 1987 त 'स्टडी लीव' घेवन हांव आनी लता पणजे रावतालीं. म्हजी स्टडी लीव काबार जावन तीन म्हयने हांवें ती वाडयिल्ली. म्हाका कसल्या तरी कामाक दिल्लीक वचचें पडलें देखून दिल्लीक वचून येतां अशें बापूक सांगूंक हांव मडगांवां गेल्लों. "तूं केन्ना परतून येतलो?" अशें ताणें विचारतकच 'हांव 22- 23 तारखेक परतून येतलों'. अशें हांवें सांगले. "ओहो! ईट वील बी टू लेट" अशें ताणें म्हळें. 'म्हणचे कितें?" अशें हांवें विचारतकच, "कांय ना, बरो करून वचून यो!" अशें ताणें सांगलें. वीस ऑगस्टाक हांव दिल्लीक आसतना तो भायर पडलो.

बापू कडेन पयसो नाशिल्लो आनी राजकी सत्ताय नाशिल्ली. ताणें फकत हजारांनी भुरग्यांक फुकट शिकोवन वयर काडिल्ले. ताणें कोणाक फटयलो ना आनी कोणाचेंच वायट येवजिलें ना. ताच्या मरणाक शेंकड्यांनी लोक आयिल्ले. राजकी सत्ता, पयसो आनी समाजाचे नदरेन मोटो मनीस नासल्यार लेगीत बऱ्या मनशाक समाज अजुनूय लेखता म्हणपाचें बापूच्या मरणाक जाल्ले गर्दे वयल्यान दिसतालें.

"सोरो पियेवचो न्हय, सिगरेट, विडी ओडची न्हय, दुसऱ्याक फटोवचें न्हय, देवाची भक्ती करची," ही बापूची आमकां सगल्यांक शिकवण आसताली. त्याच मुल्ल्यांच्या आदाराचेर तो जियलो.

2006 वर्सा भाटीकार मॉडॅल हायस्कूलांत बापूची शताब्दी मनयली. 2010 वर्सा इश्कोलाक 75 वर्सां पदयजालीं. देखून जानेवारी 2010 ते डिसेंबर 2010 हें सबंद वर्स प्लॅटीनम ज्युबिलीच्यो कार्यावळी जाल्यो. पालक आनी शिक्षक संघटणेन फुडाकार घेवन, कांय वर्सां आदीं तेन्नाचो अध्यक्ष किरण नायक हाच्या फुडारपणा खाला एकठांय येवन, बापूचो आनी भाईचो (रत्नाकराचो) अशे दोन पुतळे इश्कोलाच्या कम्पावण्डांत उबे केले. आतां भाटीकार मुळावें इश्कोल आनी भाटीकार माध्यमीक इश्कोल म्हूण घोगळांत आशिल्ल्या दोनांय इश्कोलांनी हजारां वयर भुरगीं शिकतात. पांडुरंग भाटीकार कोण आनी रत्नाकर भाटीकार कोण, आनी तांचे पुतळे हांगा कित्याक, हें कितल्या भुरग्यांक खबर आसा तें सांगप कुस्तार! फुडल्या पिळग्यांक ह्या दोगांचेंय योगदान आनी चड करून बापून गोंयच्या भौसाची केल्ली सेवा याद उरतली काय ना हें खबर ना. पूण म्हजे जिणेचेर ताचो पुराय परिणाम जाला.

भुरग्यांक जल्म दिवन, बरे तरेन सांबाळून, तांका वाडोवप, आनी तांचे जिणेक कुटुंबाचे, अस्मितायेचे आनी संस्कृतायेचे फास्केंत बरें रूप दिवप हें सगलें चडशें आवयक करचें पडटा. भुरग्यांक दिवंक जाय तीं मुल्ल्यां बापाय परस आवय बरी दिवंक शकता, अशें जाणकार मानतात. म्हज्या पुस्तकांत बापाय विशीं हांवे खूब बरयलां पूण आवय विशीं कांयच बरोवंक ना हाचें कारण कांय जाणांक समजलें ना.

म्हजी आवय मूळ बाणावलेची, केंकरे घराब्यांतली. बापूच्या आवयबापायक पळोवपाची संद म्हाका मेळ्ळी ना, पूण आईच्या आवयबापायक खूब वर्सां पळोवंक मेळ्ळें. ल्हानपणांत भाऊ वांगडा (म्हज्या आज्याक भाऊ म्हणटाले) चलून बाणावले वता-येतालों हाची याद आसा. बणावले भाऊचो पसरो आसतालो. पसऱ्यार विकपाक आजी खटखटीं आनी हेर जिनस करताली. तीं खटखटीं खावपा खातीर बाणावले वचपाची संद हांव केन्नाच सोडिनासलों.

आमी स भावंडां! काणयो सांगप वा वाचून दाखोवप, वांगडा बसून खबरो करप, भुरग्यांक घेवन खंयूंय भोंवपाक वचप, असल्यो आतांचे जिणेंत घडटात त्यो गजाली म्हज्या भुरगेपणांत, म्हणजे 1940-1950 वर्सां घडनाशिल्ल्यो. स भुरग्यांचें काम, घरांतलें रांदपाचें आनी हेर काम करपांत आईक सुसेगाद बसपाक वेळ केन्नाच मेळनाशिल्लो. सकाळची च्या, दनपारचें आनी रातचें जेवण आनी घरचीं हेर कामां करपांतूच तिचो वेळ वतालो.

तेन्नाच्या काळांत भाडेलां आसतालीं. पयलीं 'कोयसांव' आनी मागीर 'मोरी' अश्या दोन भाडेलांची म्हाका याद आसा. बापू बाजारांत वचून नुस्तें, भाजी आनी हेर जिनस घेवन त्या भाडेलां कडेन दितालो आनी तीं तें सामान घरा हाडून आई कडेन दितालीं आनी बापूचो रेकाद पावयतालीं: "सांग धाडल्याय, सुंगटां हुमण कोर म्हूण

सांगलां" "भेंड धाडल्याय, भेण्या-भाज कोर म्हूण सांगल्या." दनपारच्या जेवणाक तो 'मेनू' आमकां सगल्यांक मेळटालो. "आतां कितें करूं? म्हजे हातपांय मोडून चुलींत घालूं?" असले प्रस्न, बाजारांतल्यान बापू कांय धाडनाशिल्लो तेन्ना आई तापून विचारताली.

आई मराठी शाळेंत शिकिल्ली, पूण कसलेंय पुस्तक वा हेर कितेंय वाचूंक बशिल्ली हांवे तिका केन्नाच पळोवंक ना. सांजेच्या वेळार शेजारच्या दोन बायलां वांगडा आमच्या भायल्या सोप्यार बसून खबरांत ती गुल्ल जाल्ली हांवे जायत्या फावटीं पळयल्या.

आपणालीं भांगराचीं कांकणा बापू कडेन दितना आनी मागीर कांय काळा उपरांत बापू कडल्यान घेतना तिका हावें पळयल्या. इश्कोलाच्या आनी घरच्या खर्चा खातीर बापूक जायत्या फावटीं रीण काडचें पडटालें. रीण फारीक करतकच कांकणां आईक परतून मेळटालीं.

आईक पोटाचें कसलें तरी खर दुयेंस आशिल्लें. दोन फावटीं ऑपरेशन करून लेगीत गुण आयलो ना, देखून तिसरे फावट ऑपरेशन करपा खातीर बापून आईक मिरजेच्या हॉस्पिटलांतल्या दोतोर सेसिल हाच्या म्हऱ्यांत व्हेल्ली. हांव तेन्ना 7-8 वर्सांचो आशिल्लों. हांवूंय बी तांचे वांगडा गेल्लों. तिसरे फावट ऑपरेशन करप धोक्याचें, ती ऑपरेशन जाता आसतनाच मरूंक शकता, अशें दोतोरान सांगतकच आमी गोंयांत परतून आयलीं.

''पुट्टपरती वचून सत्यसाईबाबाचें दर्शन घेतल्यार तूं बरी जातली'' अशें कोणेंय तरी आईक सुचयलें. बापू आईक घेवन पुट्टपरती गेलो. सत्यसाईबाबान तिका बुको दिलो आनी दर दिसा जप करपाक एक मंत्र दिलो. आईक तेन्ना इल्लेशें शीत वा भाजी पोटांत घाल्यार खूब कळा येताल्यो. पुट्टपरतीच्यान परतून येवन दर दिसा त्या मंत्राचो जप करतकच आईच्या पोटांतल्यो कळा बंद जाल्यो. सगल्या तरांचें खाण खावन पचोवपाची शक्त तिका आयली. मर मेरेन तिका पोटाचो त्रास केन्नाच परतून जालो ना. हो सगलो सत्यसाईबाबाचो काय बापूक आनी आईक ताचेर आशिल्ले भक्तीचो चमत्कार, हें सांगप कुस्तार. ''फेथ कॅन मुव्ह मावंटन्स-खरी भक्ती व्हड व्हड पर्वत लेगीत हालोवंक शकता,'' अशें म्हणटात. आईचे जिणेंत हें खरें जालां जावंये.

आईचो सभाव खूबश्या जाणांक आवडनाशिल्लो. अहंकार हो सगल्यांक आसता. आमचे आईच्या वांट्याक तो मातसो चड आयिल्लो काय दिसता. जाणटेपणांत आई आनी बापू एक बेडरूम आशिल्ल्या एका धाकल्याशा फ्लॅटांत वेगळीं रावंक गेलीं. कारणां म्हाका केन्नाच समजलीं ना. पूण आईच्या अहंकाराक लागून बापूक अशें करचें पडलें जावंये. कारणां कितेंय आसूं, बापूच्या मरणा उपरांत तिका खयंच्यानूच व्हडलोसो मोग मेळ्ळो ना.

हेरांचें तिजे विशीं मत कितेंय आसूं, आपणालो संवसार बरे तरेन चलोवन, भुरग्यांक कठीण परिस्थितींत वाडोवन, बायलांचे जिणेचे फाटल्या काळांतले व्याख्ये प्रमाण ती बरे तरेन जीण जगली, अशें म्हणचें पडटलें.

## भाग 2
# गड्डे, लगोन्यो आनी शाळा

"चायल्ड इज ध फादर ऑफ मॅन!" "मुलाचे पाय पाळण्यांत दिसतात!" आनी अश्यो कितल्योश्योच म्हणी आसतल्यो! कोणूय फुडाराक व्हड मनीस म्हूण नामना मेळोवपाचो आसल्यार ताचो संकेत भुरगेपणांतूच तो दिता अशें म्हणटात. म्हजी गजाल उलोवपाची जाल्यार व्हड कोण आनी ल्हान कोण ह्या प्रस्नाचो घुस्पागोंदळ सदांच हांवें पळयला. घुस्पागोंदळ म्हजे जिणेचेंच एक आंग हें म्हज्या भुरगेपणांतूच कळिल्लें. ल्हानपणांत म्हाका पाळण्यांत घाल्लो काय ना हें खबर आशिल्ले लोक आयज नात. चड करून आमच्या घरांत तेन्ना पाळणें नाशिल्लें काय दिसता, कारण थंय पाळणें दवरपाक जागोय नाशिल्लो, म्हण्टकच म्हजे पांय पाळण्यांत दिसपाचो प्रस्नूच येना. पूण म्हजे जिणेंतलो घुस्पागोंदळ हांव जालां त्या दिसाच्यान सुरू जाला.

कॉलेजींत शिकता आसतना कसल्याय तरी कारणाक लागून काम्रांत वचून जल्माचो दाखलो काडचो पडलो. बापू वांगडा हांवें काम्रांत वचून दोग चौग जाणांक मेळून, दोन चार मेजां मुखार उबो रावून, अखेरेक तो दाखलो मेळयलो. म्हजो जल्मदीस आठ डिसेंबर अशी आयज मेरेन तारीख नोंद जाल्या; पूण त्या दाखल्याचेर मात णव डिसेंबर अशी आशिल्ली. चोवीस वरांचो हो घुस्पागोंदळ! ह्या घुस्पागोंदळांतल्यान कितेंय लुकसाण जालें अशांतली गजाल न्हय! पूण जल्मदीस ही सादी गजाल; थंयूय बी घुस्पागोंदळ कित्याक जावंक जाय?

मडगांवां हरी मंदिरा म्हऱ्यांत पेरेर फामिलीचे चाळींत एका ल्हानशा घरांत आमी रावतालीं. म्हाका याद आसा ती काळीकिट्ट शिमिटाची जमीन, एक 8x8 फूट साल, रांदचेकुडींत वचपाचे पायणीचे उजवे वटेन सालाच्याकूय ल्हान कूड, आनी मातशी व्हडशी रांदचीकूड! त्या काळांत बसप, न्हिदप, रांदप, जेवप, बी सगलें जमनीचेर! हिंदूंच्या घरांनी मेजां, कदेलां बी आसतालीं काय नात तें खबर ना, पूण आमगेर नाशिल्लीं. भायर इल्लोसो वारांद आशिल्लो. आमच्या शेजरा आमच्या असल्याच बिराडांत एक मुसलमान फामील रावताली. मुसा, उस्मान आनी अमीना अशीं तीन ल्हान भुरगीं तांगेर आशिल्लीं. फाटीं एके मुसलमानांचे सभेंत उलयतना मुसा, उस्मान आनी अमीना आतां खंय आसात कोणाक खबर अशें हांवें म्हणलें, त्या बाराबर सभाघरांतलो एक दादलो उठून हांव तो उस्मान अशें सांगूंक लागलो. सभाघरांत देड दोन हजार मुसलमान आशिल्ले म्हणटकच त्या सगल्यां हुजीर माचये वयल्यान ताचे कडेन उलोवप जमचें नासलें. सभा सोंपतकच तो येवन मेळ्ळो, पूण म्हाका फोन कित्याक केलो ना, म्हजे कडेन संपर्क इतलीं वर्सां कित्याक सादलो ना हें तो सांगिना जालो! हांव आपले कडेन सारको उलयन ना उलयन, हे भिरांतीन ताणें संपर्क दवरलो ना अशें मागीर म्हाका कळ्ळें.

आनीक दोन यादी आसात म्हणटात त्यो 'काका' आनी रंगनाथ हांच्यो! काका म्हणल्यार उस्मान, अमीना हांचो काका; तो मंगळूरच्यान येवन कांय काळ रावतालो आनी परतून वतालो. मोहिद्दीन हो उस्मान अमीनाचो बापूय! ताजो मडगांवच्या पिंपळा पेडा म्हऱ्यांत आशिल्ल्या बाजारांत एक गाडो आशिल्लो. काका मंगळूरच्यान येवन मोहिद्दीनाक धंद्यांत मजत करतालो. सद्दां सांजेचो घरा परततना काका आमकां लिंबाचीं चिंचे बोटाच्या आकाराचीं पिपिरमिटां हाडटालो. सांजेचीं सात वरां जालीं की आमी सगलीं काकाची वाट पळयतालीं. आमकां तो पिपिरमिटां केन्नाच चुकयनाशिल्लो. म्हजी दुसरी याद म्हणल्यार रंगनाथाची. रंगनाथ आमचे वांगडा शाळेक येनाशिल्लो. ताचो बापूय सोर्ती विकतालो आनी रंगनाथ ताका वचून केन्नाकेन्नाय मजत करतालो. आमचो खेळ म्हणल्यार गड्डयांनी आनी लगोऱ्यांनी. आमचे वांगडा दिलीप सरदेसाय बी आसतालो. दिलीप आमचे बाराबर गड्ड्यांनी खेळटालो ही म्हाका याद नासली. फकत आमी वांगडा क्रिकेट खेळटाले इतलीच याद आसली. हालीं पांच-स वर्सां पयलीं दिलीपान म्हाका फोन केल्लो. ताणें बेतीं-वेऱ्यां घर बांदिल्लें. वीस-पंचवीस वर्सां पयलीं तो खंय तरी मेळिल्लो. ते उपरांत आमी मेळूं नाशिल्ले! "तुका म्हजी याद आसा काय ना तें खबर ना! आमी ल्हानपणचे शेजारी आनी बाराबर गड्डयांनी खेळपी! " अशें ताणें म्हणलें. मागीर तो आनी ताची बायल आमगेर आयलीं आनी आमी बाराबर जेवलीं आनी सगल्यो पयलींच्यो यादी काडल्यो. आमचे ते यादींचे वळेरेंत रंगनाथ मात नाशिल्लो.

रंगनाथ एके ल्हानशे खोर्पींत रावतालो. एक दीस आमकां दोगांकूय भूक लागिल्ली. ताचे खोर्पींत वचून आमी ताचे आवयन एका मातयेच्या कुळण्यांत घालून दवरिल्लें हुमण आनी दोन रोटयो खाल्यो. तेन्ना हांव नुस्तें बी खातालों जावंये. त्या हुमणाची आनी रोटयांची म्हाका अजुनूय याद आसा. रंगनाथाची याद आसा, पूण तो खंय आसा तें मात म्हाका खबर ना.

हेर भुरग्यां वांगडा हांवूय बी पाटी–पुस्तक घेवन पाजीफोंडांतले मराठी शाळेंत वतालों. आमकां दोन मास्तर शिकयताले. एकाचें नांव गवरी मास्तर आनी दुसऱ्याचें कांबळी मास्तर. गवरी मास्तर काळोकिट्ट, पूण सदांच धवेंफुल्ल पुडवें, धवोफुल्ल सदरो आनी आकार नाशिल्ली गांधी तोपी घालतालो. कांबळी मास्तराचो रंग गोरोय न्हय आनी काळोय न्हय, शिमिटा भशेन सो. ताचे तोपयेक मात आकार आसतालो. पाडे, कविता बी आमी पाठ करताले. "कशासाठी पोटासाठी–," "आळंदीच्या ज्ञानोबाला, जेजुरीच्या खंडोबाला," "गरीब बिचारा माधुकरी, दुःख तयाला जन्मभरी" असल्यो कविता आसताल्यो. आळंदी, ज्ञानोबा, खंडोबा, हे कोण आनी खंय आसतात हें कोणाक खबर नाशिल्लें. आमी फकत पाठ करताले. म्हजी एक माधुरी नांवाची मावशेभयण आशिल्ली. कोलव्यां रावताली. गरीब बिचारा माधुकरी म्हणटा आसतना म्हाका सदांच माधुरीची याद जावप. माधुकरी म्हणजे भिक्षा हें म्हाका मागीर कॉलेजींत वतकच कळ्ळें. शिवाजी, तानाजी, संभाजी ह्या सगल्यांचीं नांवां म्हाका पाठ आशिल्लीं. पूण ते कित्याक झगडटाले आनी 'हिंदवी स्वराज्य' म्हणल्यार कितें हें आमकां कोणाक खबर नाशिल्लें. आमकां समजावन सांगपाचो त्रास कोणेंच घेतलो ना. पाठ करपाचें आनी बरोवपाचें!

1944 ते 1947- 48 ह्या काळांत हांव मराठी शिकतालों. त्या काळांत भारत स्वतंत्र जावचें म्हूण आंदोलन चलिल्लें आनी दीसपट्ट्यो सभा, प्रभातफेरयो आनी हेर बोवाळ चालूच आशिल्लो. मडगांवांय बी प्रभातफेरयो जाताल्यो! "महात्मा गांधी की जय, जवाहरलाल नेहरू की जय, जयहिंद!" अश्यो घोशणा दीत आमी तिरंगी बावटे घेवन सकाळीं फुडें प्रभातफेरयो काडटाले. पूण पुलीस येतात म्हूण कोणेंय सांगिना फुडें नाच्च जाताले. भारत स्वतंत्र जाला त्या दिसाची म्हाका व्हडलीशी याद ना. पूण गांधीक ज्या दिसा मारला त्या दिसाची म्हाका घट्ट याद आसा. आमच्या घरा मुखार रजनी म्हात्म्याचें घर आशिल्लें. व्हडलें कम्पावण्ड आनी माळयेचो व्हडलो बंगलो. कम्पावण्डा भायर भरपूर मेकळो जागो आमचो क्रिकेट ग्रावण्ड! रजनी म्हात्मो, सुरेश होडारकार, दत्ता (आडनांव याद ना), हांव आनी आनीक दोग जाण (नांवां आतां याद नात) क्रिकेट खेळटाले. इतल्यांत 'गांधीक मारलो' अशी सुरेश होडारकारान खबर हाडली. आमी खेळ बंद केलो आनी घरा गेले.

आनीक एक याद आसा ती मशिदी मुखा वयल्यान वतले दिंडेची. मडगांवां वा गोंयांत केन्नाच धर्मकोल्ली दंगली जाल्यो नात. आमच्या घरा मुखार मडगांवची मशीद आशिल्ली. तेन्ना ती एकूच मशीद आशिल्ली अशें म्हणटात. आतां मुसलमानांचो आंकडो वाडला आनी मडगांवांत वीस मशिदी जाल्यात अशें म्हणटात. आतां गोंयांत केन्नाकेन्नाय धर्मकोल्ली दंगलीय बी जावंक लागल्यात. तेन्नाच्या काळांत दंगली जरी नाशिल्ल्यो तरीय भारतांत हेर कडेन जाल्ल्या हिंदू-मुस्लीम झगड्यांचो गोंयकारांच्या मनाचेर परिणाम जातालो अशें दिसता. हरी मंदिराची दिंडी मडगांवकार हिंदूंचे जिणेचें एक म्हत्वाचें आंग! ही दिंडी नोव्हेंबराच्या अदमासाक कार्तिकी एकादशीक जाता. पयल्या दिसा सांजे सुरू जावन मडगांवच्या बाजारांतल्यान भोंवत भोंवत गार्डनाक भोंवताडो घालून, दामोदरा साला कडल्यान विठ्ठल मंदिरा कडेन वचून, दुसरे दीस सकाळीं स्टेशन रोडा वयल्यान, मशिदी म्हऱ्यांतल्यान परतून हरी मंदिरा कडेन पावता.

विठ्ठल मंदीराच्या वाठाराक जात्रेचें रूप येतालें. दिंडेचे वाटेर सबंद रात लोकांची गर्दी आसता. हॉटॅलां, दुकानां आनी तरातरांचे मांड बी सबंद रात उक्ते आसतात. फांतोड जातां जातां दिंडे बाराबर वचपी लोक उणे जाताले. पूण मशिदी कडेन पावतां पावतां आकांताची गर्दी जाताली. एक फावट म्हजो आतेभाव केशव स्टेशन रोडाचेर दिंडे वांगडा वचपाक आयलो. ताच्या हातांत दोन दांडे आशिल्ले. जायत्या जाणांच्या हातांत तसल्योच ल्हान व्हड बडयो आशिल्ल्यो. दांडे घेवन कित्याक आयला अशें विचारतकच दिंडी आतां मशिदी मुखा वयल्यान वतली. आमी तिचें रक्षण करूंक जाय अशें भारत-पाक लडायेचेर गेल्ले वरी तोंड करून ताणें सांगलें. मशिदी म्हऱ्यांतल्यान वतकच लोकांचो आंकडो उणो जातालो, आनी मागीर हरी मंदिरा फाटल्यान बागेवाडीच्या कम्पावण्डांत बसून फोव खावपा वेळार तो आंकडो परतून वाडटालो. त्या वेळार मडगांवच्या हिंदूंच्या मनांत मुसलमानां विशीं आशिल्लो अविस्वास हो भारतांत सगले कडेन चलिल्ल्या दंग्यांचो परिणाम काय हिंदू-मुसलमानां मदीं आशिल्ल्यो तिरस्काराच्यो मुळाव्यो भावना हें खबर ना.

मराठी शाळेंत आसतना केन्नाच बापू कडेन बसून उलयिल्ल्याची म्हाका याद ना. बापू आमचे दीसपटटे जिणेचो भाग नाशिल्लोच म्हणल्यार जाता. आमकां बरे भशेन खावपाक, जेवपाक, न्हेसपाक, शिकपाक मेळचें म्हूण आमचे खातीर तो त्रास काडटालो. त्या वेळार तें आमकां कळनासलें. 1946-1949 हो काळ भाटीकार स्कूलाक खूब कश्टांचो आशिल्लो. 1946 त बॉम्बे युनिवर्सिटीन इश्कोलाची मान्यताय फाटीं घेतिल्ली आनी ती परतून मेळोवपा खातीर बापू दीसरात धडपडटालो. परतून परतून मुंबय, पुण्याक वचून थंय

8-8 दीस रावतालो. आमचे दीसपट्टे जिणेंत वेगळेंशें कांयच घडलें ना. शिकप, खावप, जेवप, खेळप नेमान चलतालें. म्हणटकच आवयबापायन त्या काळांत कसले त्रास सोंसले हें आमकां केन्नाच कळ्ळें ना.

# भाग 3
# भाटीकाराले इश्कोल

1948-49 वर्सा आमच्या इश्कोलांत पयले यत्तेंत भितर सरलों. तेन्नाच्या काळांत सातवी म्हणल्यार एसएससी. चडशे हिंदू भुरगे मराठींतल्यान चवथी मेरेन शिकून मागीर माध्यमीक शिकपा खातीर इंग्लीश इश्कोलांत वताले. तेन्नाच्या काळांत शिकपाक हुशार आशिल्ल्या भुरग्यांक एका वर्साक दोन क्लासी करपाक मेळटाल्यो. हांव हुशार अशें टिचरांक दिसलें जावंये वा प्रिन्सिपलाचो पूत म्हूण तांणी तशें म्हणलें जावंये; हांवें एकाच वर्सा फर्स्ट आनी सॅकण्ड केलें. 1949 वर्सा इश्कोलाक बॉम्बे युनिवर्सिटी कडल्यान परतून मान्यताय मेळ्ळी. पूण मदल्या काळांत इश्कोलांत शिकपी भुरग्यांचो आंकडो साडेचारशें वयल्यान एकशें विसांचेर घसरिल्लो आनी अर्थीक परिस्थिती वायट जाल्ली. म्हजो व्हडलो भाव रत्नाकर (भाई) 1950 त धारवाडच्या कर्नाटक कॉलेजींतल्यान बिएची पदवी घेवन परतून आयलो आनी इश्कोलांत बापू वांगडा शिकोवपाक लागलो. उपरांत इश्कोलाची परिस्थिती ल्हवू ल्हवू सुदारपाक लागली. तरीय अर्द्या वयर भुरगीं एक तर फुकट शिकतालीं वा फी दिवपाक कटकट करतालीं. सप्तकांतल्यान एक फावटीं तरी दर क्लासींत फी दिवंक नाशिल्ल्या भुरग्यांचीं नांवां बरोवन बापू क्लासींत नोटीस धाडटालो. नोटीस आयले बाराबर, "आयली रे नोटीस" अशें म्हणून भुरगे खो करून हांसताले. "आदींच हे फी दिनात आनी वयल्यान हांसतात" अशें येवजून म्हाका वायट दिसतालें. टिचरांनी तापोवन काडटकच भुरगे हांसपाचें बंद करताले, पूण फी दिवपाचो त्रास चालूच

उरतालो. जायते फावटीं सांजेच्या आदेसाक हांव फी मागपाक लोकांगेर वतालों. तेन्ना “फी मागपाक आयला? आनीक थोड्या दिसांनी दितां म्हूण सांग!” अशें सांगून लोक म्हाका परतून धाडटाले. कांय वेळ बाजारांत नुस्तें वा भाजी घेवंक गेल्ले कडेन कांय भाजी वा नुस्तें विकपी पालक मोडचे पयशे फीचो हप्तो म्हणून बापू कडेन दिताले. बापू घरा येवन तो हिशोब बरोवन दवरतालो. केन्नाकेन्नाय हांव ती मोड मेजूंक बसतालों आनी नाण्यांक नुसत्याचो वास आयल्यार लुगटाक पुसून दवरतालों. इश्कोलाच्या काळांतल्यो थोड्यो यादी शेतांतल्यान निकतेच काडिल्ले भाजये भशेन ताज्यो आनी टवटवीत आसात.

एक याद म्हणल्यार, ‘मुसिदाद पुर्तुगेज’(पुर्तुगेज तरनाटे)! पुर्तगेज सरकार दर वर्सा इश्कोलांतल्या भुरग्यांक एक दीस पिकनिकेक व्हरतालें. मडगांवच्यान शिरदोनां, काणकोणां, बेतलांत, ओल्ड गोवा आनी हेर जाग्यांनी दर वर्सा आमच्यो पिकनिको वताल्यो. आनी दर वर्सा आमकां अळसांद्याची पातळ भाजी, दोन उंडे, एक केळें आनी इल्लो साकरभात अशें खाण दिताले. कोणूय पाखलो (गोरो पुर्तुगेज) आमकां भाशण दितालो काय ना तें आतां याद ना, पूण आमकां पुर्तुगालचें राष्ट्रगीत म्हणपाक शिकयताले तें याद आसा. तो दीस वर्साक एके फावटीं! तो ‘मुसिदाद पुर्तुगेजीचो’ एक दीस केन्ना येता काय म्हूण आमी वाट पळयताले. पिकनिकेचे उमेदीन आमी तें राष्ट्रगीत लेगीत उमेदीन म्हणटाले. पूण दर वर्सा आमकां अळसांद्यांचेंच तोंडाक आनी साकरभात कित्याक दिताले तें म्हाका समजूंक ना. खंयच्याय तरी पुर्तुगेज अधिकाऱ्याक तो साकरभात आनी तें तोंडाक खूब्ब आवडटालें, वा गोंयांत भुरग्यांक दिवपा सारकें आनीक कांय ना अशें तांकां दिसतालें आसुंये. पुर्तुगेजांक आमी धांवडायले, नाजाल्यार खरें कारण सोदून काडूं येतालें.

त्या काळांत केन्नाय तरी हरी मंदिरा कडली ती चाळ सोडून आमी सध्या आक्यां ‘विशांत सिनेमा’ आसा त्या वाठारांत एका व्हड घरांत रावंक आयलीं. ह्या घराच्या मालकाची फामील एके वटेन रावताली आनी आमी दुसरे वटेन! घराक फुडल्यान बरें व्हडलें वारांद, कोनशाक तांबड्या शिमिटाचें बल्कांव, भितर व्हडलें साल, तीन कुडी, रांदची कूड आनी पायण, अशें व्हड घर आशिल्लें. आतांचे एकविसाव्या शेंकड्याचे भाशेंत उलयतलो जाल्यार वराण्डा ,ड्रॉइंग रूम, डायनींग, तीन बॅडरूम आनी किचन अशें हें घर. संडास, बाथरूम बी वेगळो! घरा कडल्यान वीस-तीस मिटर पयस! घराक नळाचें उदक नाशिल्लें. बांय आशिल्ली. घरा फाटल्यान मेंदीशाचे मालकीचो दोंगर आशिल्लो. मेंदीश आफ्रिकेक आसतालो आनी केन्नाय दोन तीन वर्सांतल्यान एक फावट येतालो. मेंदीश कसो दिसतालो ही म्हाका याद ना, कारण तो आमकां चडसो पळोवंक मेळनाशिल्लो. तांच्या घरांतल्या वाडिल्ल्या बोवाळा वयल्यान तो येवपाचो आसा आनी

मागीर तो आयला म्हणपाचें कळटालें. सोरपातेलाचो वास (तो वास काय त्यो घाणी हाचेर मेंदीशाचो पूत कोलार आनी म्हजो सदांच वाद जातालो) आयलो म्हणटकच आतां मेंदीशाक आफ्रिकेक व्हरपाची बोट येतली हें कळटालें.

त्या दिसांनी म्हाका वाचपाची खूब्ब आवड! इंग्लीश क्लासिक्सांचे मराठी अणकार हांव वाचून काडटालों. सद्दां सकाळीं पावणेआठांक इश्कोलाची चावी घेवन इश्कोलांत वचप, दार उगडून दारा कडेन गर्दी करून राविल्ल्या भुरग्यांक भितर सोडप आनी गरज पडल्यार बांक निवळ करून दवरप अशी दीसपट्टी कार्यावळ आसताली. तेन्ना इंग्लीशींतल्यान बरे शिकोवपी टिचर गोंयांत मेळनाशिल्ले जावंये. पूण मद्रास (तमिळनाड), केरळ आनी नागपूर वाठारांतले टिचर आमच्या इश्कोलांत शिकयताले. जिक्रे म्हूण नागपूरचो आनी राव म्हूण बेंगळुरुचो हे दोन टिचर आमगेर रावताले. तेन्ना टिचरांक पगार बी सामको उणो आशिल्ल्यान तांचें लॉर्जींग बोर्डींग आमगेरूच आसतालें. आनीक एक सुब्रमण्यम म्हूण आशिल्लो. सदांच धवी लुंगी न्हेसून तो इश्कोलाक येतालो. "तूं पॅण्ट घालून यो, लुंगी न्हेसून इश्कोलाक येवं नाका," अशें एक दीस बापून ताका म्हणलें, आनी तो बापूक मारपाक आयलो! ताचे उपरांत तो म्हाका केन्नाच इश्कोलांत दिसलो ना. एक तर बापून ताका काडून उडयलो जावंये वा लुंगी सोडपा वाट्याचें तो इश्कोलूच सोडून गेलो जावंये. राधाकृष्ण कांदे म्हूण लांबरुंद, गोरोपिट्ट एक मास्तर आशिल्लो आनी तो सदांच धवेंफुल्ल पुडवें न्हेसून कासाटो मारून आनी ज्युदी (कोट) घालून इश्कोलाक येतालो. राधाकृष्ण कांदेक पॅण्ट घालून यो अशें बापून केन्नाच सांगलें ना, पूण सुब्रमण्यमाक मात सांगिल्लें. गोंयकार म्हणल्यार स्पेशल आनी भायले म्हणल्यार आमचे परस उणाक अशें आयज थोड्या गोंयकारांक दिसता, तशें बी तेन्ना बापूक दिशिल्लें जावंये.

तेन्नाची आनीक एक याद म्हणल्यार आमच्या घरांत जावपी दीसपट्टें भजन. बापूक ज्ञानेश्वरी, तुकारामाची गाथा, एकनाथी भागवत हे ग्रंथ तोंडपाठ आसताले, आनी ताका भजनाची खूब्ब आवड आशिल्ली. तिनसांजच्या वेळार बापू, म्हजे व्हडले भाव भाई आनी दामू , व्हडल्यो भयणी माणीक आनी प्रमिल, धाकली भयण निला आनी हांव अशीं सगलीं भजनाक बसतालीं. बापू तबलें वाजयतालो आनी माणीक वा भाई पेटी! दोगांय पेटी एकदम बरी वाजयतालीं आनी म्हाका तीं सगलीं 'ताळ स्पेशलिस्ट' म्हणटालीं. हांव सदांच ताळ वाजयतालों. तेन्ना आमी अभंग म्हणटालीं ते आज लेगीत गोंयांत सगले कडेन आयकूंक येतात. "रूप पाहतां लोचनी, सुख झालें हो साजणी," "कृपाळु सज्जन तुम्ही संत जन," "ॐ नमोजी आद्या वेद प्रतिपाद्या," ज्ञानेश्वरींतलें "पसायदान" हें आमकां सगल्यांक तोंडपाठ आसतालें. ह्या उतरांचो अर्थ आमकां केन्नाच समजलो ना

आनी आमी तो केन्नाच कोणाक विचारलो ना. देवाचीं भजनां मराठींतल्यान कित्याक, कोंकणींतल्यान कित्याक नात, हे प्रस्न म्हजे मुखार केन्नाच आयले नात. मागीर हांव कॉलेजींत, युनिवर्सिटींत पावतकच हो प्रस्न आमच्या सगल्यां मुखार उबो रावलो. गोंयांतल्या हिंदूंच्या देवांक महाराष्ट्रांतल्यान आयिल्ल्या भटांनी फकत मराठी शिकयल्या म्हणपाचें तेन्ना आमका कळ्ळें!

आमच्या घरांतल्या तीन कुडींतली एक कूड देवाक ओंपिल्ली. तिका आमी देवाकूड म्हणटाले. बॅडरुमाक बाज्जेकूड आनी किचनाक रांदचीकूड! आमच्या देवाकुडींत सगल्या देवांचे आनी संतांचे फोटे आशिल्ले. देवाकुडींत बसून आमी अर्द पावूणवर भजन करताले. दुकानां बंद करून घरा वता आसतना लोक रस्त्याचेर एक पांच धा मिणटां उबे रावन आमचें भजन आयकून फुडें सरताले, इतलें आमचें भजन तेन्ना फामाद आशिल्लें. त्या भजनाच्या आदाराचेर म्हाका पदां म्हणपाची संवय जाली आनी मागीर कॉलेजींत, युनिवर्सिटींत वा आयएएसांत वेगळेवेगळे कडेन काम करतना म्हजीं एक-दोन पदां आसले बगर एकूय कार्यावळ जायनाशिल्ली. एमपिटींत अध्यक्ष आसतना गोंयच्या राज्यपालान म्हाका एक पद म्हणूंक लायलें आनी म्हाका 'छुपा रुस्तम' अशें नांव दिलें. त्या राज्यपालाक संगिताची खूब्ब आवड आसली. गोंयच्या राजकारणांत सूर आनी ताल आसूंक जायना अशें गोंयच्या राजकारण्यांचें मत आसा जावंये, कारण त्या संगीतप्रेमी राज्यपालाची रोखडीच बदली जाली.

त्या काळांतली आनीक एक याद म्हणल्यार, आमचो 'प्रिमेयर ग्राव!' इंग्लीश चवथेक पावचे पयलीं सगल्या भुरग्यांनी पुर्तगेज प्रिमेयर ग्राव परिक्षा पास जावंक जाय असो तो कायदो. प्रिमेयर ग्रावाचीं पुर्तुगेज पुस्तकां आनी धडे इंग्लीश इश्कोलांनीच आमकां शिकयताले. परिक्षा घेवपाक सरकारी अधिकारी येताले. परिक्षेक वट्ट वीस मार्क आसताले आनी तातूंतले पंदरा मार्क पडल्यार ताका 'ऑप्तिम् आबिल्दाद' अशें म्हणटाले. म्हाका परिक्षकांनी 'ऑप्तिम आबिल्दाद' दिल्ली. ती कित्याक दिल्ली तें म्हाका आयज मेरेन कळूंक ना. कारण हांवें एकाच प्रस्नाची जाप समा दिल्ली, हेर प्रस्न परिक्षकांनी विचारून तांणीच तांच्यो जापो दिल्ल्यो. चडश्या प्रस्नांच्यो जापो तेच दिताले आनी मागीर 'नांव यॅ व्हॅर्दाद?' अशें ते विचारताले. आनी हांव 'सीं सिन्योर' म्हणटालों. एकाच प्रस्नाची हांवें खऱ्यांनीच समा जाप दिल्ली. पेर आनी पेरेर हातूंत दिफेरेंस कितें अशें तांणी म्हाका विचारलें. "पेर म्हणल्यार फळ आनी पेरेर म्हणल्यार पेराचें झाड" अशें मोडके पुर्तुगेजींत सांगतकच तांणी 'मुयतुबॅ' म्हूण शाबासकी दिल्ल्याची म्हाका अजुनूय याद आसा.

परिक्षा घेवपाक येवपी सरकारी अधिकारी आमगेर जेवपाक येताले आनी तांचे खातीर बरें म्हारग नुस्तें घरांत येतालें. म्हाका पडिल्ल्या "ऑप्तिम आबिल्दादींत" त्या जेवणाचो आनी म्हारग नुस्त्याचोय हात आशिल्लो हातूंत दुबाव ना.

त्या काळांत म्हणल्यार 1948 -54 मेरेन लोकांगेर फकत रेडियो आसताले. तेन्नाचो फामाद रेडियो म्हणल्यार मार्कोनी रेडियो! हिंदी पदां आयकुपाचें स्टेशन म्हणल्यार “कमर्शियल सर्वीस ऑफ रेडियो सिलोन!” बाजारांत रेडियो विकपी सगल्यांत फामाद दुकान म्हणल्यार मगनलालालें दुकान. मगनलाल मूळ गुजीर, पूण गोंयांत कितलींशींच वर्सां राविल्ल्या कारणान सगले वेव्हार कोंकणींतल्यानूच करतालो. इण्डिया – पाकिस्तान क्रिकेट टॅस्ट चलता आसतना आमी सगले मगनलालाच्या दुकाना मुखार वर वर उबे रावून ताच्या मार्कोनी रेडियोचेर मॅचीची कॉमॅण्ट्री आयकताले. मडगांवच्या लोकां खातीर एक सोशल सर्वीस म्हूण क्रिकेटची कॉमॅण्ट्री मगनलाल व्हड आवाजांत चालू दवरतालो.

तेन्ना मडगांवांत दोनूच सिनेमा थेटरां आसतालीं. एक सिने ओलिम्पिया आनी दुसरें सिने लता. रेल्वे दरवट्या कडेन विर्जिनकार, रायतूरकार हांच्या दुकानां सामकार वयर माळयेर सिने ऑलिम्पिया आशिल्लें. सिने लता ताच्या फाटल्या रस्त्याचेर, आतां आसा थंयच आशिल्लें. भोमा–कुंडयचो एक भाटकार आमचो पयशिल्लो सोयरो लागतालो. तो आमगेर केन्नाय येतालो आनी म्हाका आपणा वांगडा सिनेमा पळोवपाक व्हरतालो. सिने लता थेटर ताचो कोणूय तरी पयशिल्लो सोयरो चलयतालो देखून ताका सिनेमा फुकट! तो सिगरेट फुसकायत आसतालो आनी ताजे दोळेय बी सदांच मातशे तांबसार आसताले. तो खूब वेसनी देखून ताचे वांगडा हांवें सिनेमाक बी वचचें न्हय अशें बापूक दिसतालें. ‘सरगम’ हो त्या वेळचो एक फामाद सिनेमा हांवें चार फावटीं सिने लतांत पळयलो. बापून तापोवन काडलो. बापून खरो बोवाळ घालो तो हांव ‘नगिना’ पिक्चर पळोवंक गेलों म्हणून . बापूक ‘नगिना’ ह्या शब्दाचो अर्थूच खबर नाशिल्लो. माणीक (म्हजी व्हडली भयण) राष्ट्रभाशा हिंदी प्रचार सभेची ‘कोवीद’ परिक्षा पास जाल्लें. देखून ‘नगिना’ ह्या उतराचो अर्थ कितें अशें बापून ताका विचारलें. तेन्ना ताणें ‘दागिना’' अशें सांगलें. मागीर बापू म्हजेर तें पिक्चर पळयिल्ले खातीर तापपाचो थांबलो. बापूक ‘नगिना’ ह्या शब्दाचो अर्थ नागडो बी असो कितेंय तरी दिसलो देखून हांवें तसले हळशीक सिनेमा पळोवचे न्हय म्हणून तो तापतालो अशें म्हाका थोड्या दिसां उपरांत कळ्ळें.

म्हाका तेन्नाच्यो यादी आसात त्यो बॉम्बे कार्फेतली चार आण्यांक मेळपी मुगांची पातळ भाजी, पाव आनी च्या, दिंडे वेळार रातभर केल्लीं जागरणां आनी तेन्नाचे जिणेंतले वेगवेगळे परमळ. ह्यो यादी सासणाच्यो पाचव्योचार उरतल्यो. इश्कोल सोंपून दनपारचो घरा वता आसतना हरी मंदिराचे चाळींतल्यान येवपी खोबरेल तेलांत तळिल्ल्या नुस्त्याचो वास, हरी मंदिराक दर वर्सा दिंडे पयलीं पेण्ट काडटात त्या ऑयल पेण्टाचो वास, दिंडेच्या दिसांनी रातचीं जातालीं तीं किर्तनां आयकून रातच्या बारा, एक वर रातीर

घरा कडेन परततना बाबय वेरेंकाराच्या घरा मुखार आशिल्ल्या पारजताच्या फुलांचो मंद परमळ आनी काम्राचो उदका टॅङ्कर दर दिसा मातयेच्या रस्त्यार उदक शिंपता आसतना येवपी मातयेचो दरवळ!

इश्कोलांत आसतना बॉम्बे काफे म्हणल्यार आमी आमच्या स्कुलाचेंच कॅण्टीन अशें धरताले. इंटरवाल जायना फुडें 15-20 मिणटां भितर पातळ भाजी, पाव आनी च्या पियेवन आमकां इश्कोलांत परतुपाचें आसतालें. आमी होटॅलांत पावचे पयलींच कोंबेल्ल्या मुगांची पातळ भाजी बशयेंत घालून, शेजरा दुसरे बशयेंत पाव दवरिल्ले आसताले. अशे कितलेशेच 'सॅट' थंय तयार करून दवरिल्ले आसताले. आमी बशयेंत भाजी आनी हातांत पाव घेवन कदेलार बसून खावपाक सुरवात करी मेरेन ती भाजी खतखतिता वयल्यान हुनहुनीत स्टेजीचेर येताली. इतली खतखतीत भाजी इंटरवाला वेळारूच सगल्या बशयांनी घालून, विद्यार्थ्यांक 15 मिणटां भितर क्लासींत पावंक जाय म्हूण शिस्तीन आनी आवडीन सगलें करता आसतना मॅनेजर आमचेर केन्नाच तिडकलो ना. उरफाटें, केन्नाय पयशे नासले जाल्यार आमी दुसऱ्या दिसा दिल्यात.

चाळीस वर्सां उपरांत हांव एमपिटीचो अध्यक्ष म्हूण येतकच सिंगापूरांत पोर्टाचें प्रशासन कशें चलयतात तें शिकपा खातीर भारत सरकारान म्हाका एक म्हयनो सिंगापूराक धाडिल्लो. "वेवस्थापनाच्यो हालीं सुरू जाल्ल्यो तरा" ह्या विशयाचेर उलयतना एका जाणकारान आमकां म्हणलें, "व्हड व्हड फॅक्टरींनी कच्चो म्हाल कितलो हाडपाचो, केन्ना हाडपाचो आनी चड खर्च करिनासतना जाय तितलोच कच्चो म्हाल कसो एकठांय करून दवरपाचो हाचेर पयलीं तरातरांच्यो येवजण्यो आसताल्यो. हालीं हालीं "जस्ट ईन टायम," म्हणल्यार ऐन वेळार जाय तें हाडप, तें एकठांय करिनासतना दवरप, अशी आतां नवी येवजण आयल्या आनी हे येवजणेक लागून आतां फॅक्टरींचे खूब पयशे वाटावतात. "इन्वॅण्टरी"चेर खर्च करपाची गरज ना. म्हाका हें आयकून बॉम्बे काफेंतले पातळ भाजयेची याद जाली. भुरग्यांनी धाड घालचे पयलीं ज्युस्त ऐन वेळार खतखतीत आनी हुनहुनीत भाजी रांदनी वयली काडून, ती सगल्या बशयांनी घालून, मांडून दवरप ही "जस्ट ईन टायम" टॅक्निकेची सुरवात. तशें पळोवपाक गेल्यार, वेवस्थापन घरच्या बायलां कडल्यान शिकचें; वेवस्थापनाचीं व्हड-व्हड पुस्तकां तांणी वाचिल्लीं नासतात; पूण तातूंत बरयिल्ल्यो टॅक्निको सामक्या ल्हान प्रमाणांत तीं दीसपट्ट्या कारबारांत वापरतात.

बॉम्बे काफेची आनीक एक याद म्हणल्यार 'दुदपाणी!' गोंयच्या च्या च्या होटॅलांक पयलीं 'ब्राह्मणी' म्हणटाले. मागीर 'हॉटिल' म्हणपाक लागले. आतां सगले कडेन 'रॅस्टोरण्ट' नाजाल्यार 'काफे' म्हूण बोर्ड आसतात. हीं नांवां कोण बदलपाक सुरवात करता आनी कित्याक हें आमकां केन्नाच समजुचें ना. आमी हॉटेलांत वचून

दुदपाणी मागताले. दूद आनी उदक मिक्स करून तातूंत साकर घालून तें दुदपाणी आमकां दिताले. जिणेंतल्या कांय कुस्तार प्रस्नांच्यो जापो म्हाका अजून मेरेन मेळूंक नात. तातूंतलो एक प्रस्न म्हणल्यार दीसपट्ट्या कारबारांत उदकाक आमी उदक नाजाल्यार उदीक म्हणटात, पूण हॉटेलांत वतकच मात "एक ग्लास पाणी हाड रे!" अशी ऑर्डर दितात. घरचें उदक हॉटेलांत पाणी कशें जाता हो एक व्हड प्रस्न! दुदपाणी आयजकाल हॉटेलांत चडशे लोक कित्याक मागिनात हो आनीक एक प्रस्न! प्लास्टीकाच्या पोतयांनी येवपी डेरीच्या दुदांत आदींच खूबशें पाणी आसता म्हणून काय?

हालींच्या दिसांनी मडगांवच्या लोकांचे आनी चड करून भुरग्यांचे जिणेंत हरी मंदिराक आनी दिंडेक कितलें म्हत्व आसा तें म्हाका खबर ना, पूण ल्हानपणांत हरी मंदिर आनी दिंडी म्हजे जिणेचो एक म्हत्वाचो वांटो आशिल्लो. आमच्या इश्कोलाचें नांव मॉडॅल इंग्लीश हायस्कूल, पूण मडगांवचे आनी सरभोंवतणच्या गांवांतले लोक ताका भाटीकारालें इश्कोल म्हूण वळखताले. तेन्ना आमकां स्कूल युनिफॉर्म नासतालें. गोंय स्वतंत्र जातकच कांय वर्सांनी इश्कोलांनी युनिफॉर्म घालपाची चाल सुरू जाली. भुरगे जेन्ना रोपा आळींत युनिफॉर्मांचें लुगट घेवंक वताले तेन्ना पसरकार लेगीत आपणाल्या सेल्समॅनाक "हाका एक भाटीकार दी रे, ताका दोन भाटीकार दी" अश्यो ओर्दी सोडटालो. तें भाटीकाराचें इश्कोल, हरी मंदिराची चाळ सोंपता ताचे मुखार आशिल्लें. ते चाळीच्या वारांदार कितें कितें चलता तें सगलें आमच्या इश्कोलाच्या वारांदा वयल्यान दिश्टी पडटालें. इश्कोल आनी घर हांचे मदीं यो–वच करतना हरी मंदिरा मुखा वयल्यान वचचें पडटालें, आनी बापूचे शिकवणेक लागून येतना वतना देवाक पांयां पडूंक हात आपले आपूण नमस्कार करताले. हात नमस्कार करतना दोळ्यांक देव दिसतालो वा तकलेंत देवाचो विचार आसतालो अशांतली गजाल न्हय, पूण कांय गजाली आपले आपूण घडटात, तातूंतली ती एक!

मडगांवां पयलीं सावन तीन देवळां फामाद! दामोदरा साल, विठ्ठल मंदीर आनी हरी मंदीर. दामोदरा साल हें पोरण्या बाजारांत नरशींव नायक फामिलीच्या पोरण्या घरांत अजुनूय आसा, जशें वास्कोचें दामोदरा साल जोश्याच्या घरांत आसा. मडगांवकारांचो हो खास देव मडगावांत आनी वास्कोंत आपणालें वेगळें घर बांदून कित्याक रावना हें म्हाका खबर ना. देव आनी देवूळ अमके जमातीचीं वा समाजाचीं अशीं मर्यादीत आसूंक फावनात. आनी तीं सगले मनीसजाती खातीर उक्तीं आसूंक जाय हें खरें आसलें तरीय बी आयज लेगीत अमकें देवूळ अमके जमातीचें अशें म्हणून लोक वळखतात. सगल्या देवळांनी सगल्यांक वचूंक मेकळीक आसता पूण अमकें देवूळ अमक्या समाजाचें म्हूण त्या त्या देवाक वा ते ते देवीक वेगवेगळ्या जातींनी बांदून दवरिल्लीं आसतात.

पयलींच्या काळा विशीं जाणविकाय आशिल्ल्या जाणट्या लोकांक मडगांवच्या मुखेल देवळां विशीं विचारल्यार, पोरण्या बाजारांतलें दामोदरा साल हें बामणांनी सुरू केल्लें, कोंबातलें विठ्ठल मंदीर हें वाणयांनी सुरू केल्लें, पोरण्या बाजारांतलें राम मंदीर शेटींनी आनी पाजीफोंडचें हरी मंदीर हें कर्नाटकांतल्यान येवन गोंयांत बस्तान बसयिल्ल्या वेपाऱ्यांनी, म्हणल्यार मुंज, बागेवाडी, दलाल, घोळबा हांणी सुरू केल्लें अशें सांगतात. आतां सगल्या जातींचीं आनी जमातींचीं नांवां बदल्ल्यांत. आतां बामणांक सारस्वत, वाणयांक वैश्य, शेटींक दैवज्ञ अशें म्हणटात. कित्याक म्हूण कोणाक खबर!

हरी मंदिराची दिंडी हो त्या देवळाचो मुखेल उत्सव. हरी मंदीर सुरू जावचे पयलीं कोंबांत मडगांवचे वैश्य जमातीन विठ्ठल मंदीर बांदिल्लें. विठ्ठल देव हो मूळ पंढरपूरचो. मडगांवच्या वैश्य समाजान देवूळ बांदपाचें थारायलें तें विठ्ठलाचेंच कित्याक, हेर खंयच्याय देवाचें कित्याक न्हय हें खबर ना. बागेवाडी आनी हेर फामिलींनी आपणालें मंदीर बांदपाचें थारायलें. त्या वेळार त्याय देवळांत तांणी विठ्ठलाची मूर्त स्थापन केली, पूण देवळाक नांव दवरलें हरी मंदीर. कार्तिकी एकादर्शीक दिंडेचे रातीं हरी मंदिरांतली आनी विठ्ठल मंदिरांतली, अश्यो दोनूय दिंड्यो दामोदरा सालांत वतात, आनी फांतोडेचेर विठ्ठल मंदिराची दिंडी त्या मंदिरांत पावोवन हरी मंदिराची दिंडी मडगांवभर भोंवडी करून हरी मंदिरांत परतता. दिंडेच्या अदमासाक, म्हणल्यार नोव्हेंबरांत, दिंडेक एक म्हयनो आसा, वीस दीस आसात, पंदरा दीस, धा दीस, पांच दीस अशें म्हूण दिंडेची हांव वाट पळयत आसतालों. दिंडी जातकच एकदम बोमाडो फुटिल्ले भशेन खंयचे कडेन कांयच ना, जीण सामकी रिकामी, आतां कित्याची वाट पळोवपाची अशें दिसतालें. दिंडे वांगडा आमी सबंद रात भोंवताले. आबाद फारीय रस्त्याचेर किर्तन्यांच्या हॉटलांत आनी मागीर फांतोडेचेर विठ्ठल मंदिराच्या वाठारांत पडिल्ल्या च्या च्या होटॅलांत कडक फुटी च्या पियेवप हो दिंडेचोच एक वांटो अशें म्हणूं येता. दिंडी येवचे पयलीं, "अदूं तूं सबंद रात जागरण करतलो?" अशें आमी एकामेकाक विचारताले, आनी तो एक व्हड आंतरराष्ट्रीय म्हत्वाचो विशय जाल्ले भशेन ताचेर भासाभास करताले.

ती सबंद रात आमी दिंडे फाटल्यान कित्याक भोंवताले तें आयज लेगीत म्हाका खबर ना. खूबश्यो गजाली आमी कित्याक करतात तें आमकां खबर नासता पूण त्यो केले बगर आमच्यांनी रावूं नजो, आनी त्यो केल्यार आमकां मनाक खोस भोगून आपणें कितेंय तरी जोडिल्ल्याचें समाधान मेळटा. पिराय वाडटा तश्यो संवयोय बदलतात आनी देवळांचें, उत्सवांचें म्हत्व उणें जाता. तशेंच आमचेंय बी जालें. रातभर जागरण करपाची गरज ना, देवाक वचून पांयां पडून येतकच जालें, अशें आमकां आमी एसएससीक पाव म्हणसर दिसूंक लागलें.

आयज हरी मंदिराची चाळ पयलीं भशेन तशशी आसा. फकत तातूंत निमाण्या बिराडांत रावपी गोपाळराव घोळबा मात ना. घोळबा एक लांब, रुंद, मोट्टो, तोंडार देवीच्यो मावो आशिल्लो, लिडर कसो दिसपी मनीस! हरी मंदीर चलोवपांत ताचो कितेंय तरी वांटो आशिल्लो. दिंडेक जाल्यार तो सामको फॉर्मांत येतालो. कपलाक व्हडलो तिबो लावन, वालो कमराक बांदून, सबंद दिंडेचो 'ट्राफिक मॅनेजमॅण्ट' तो करतालो. सद्दां इश्कोल सुटून आमी घरा वता आसतना तो वारांदाचेर पासेयो मारतना आमकां दिसतालो. आमकां पळयना फुडें तो आमचीं फकांडां मारतालो. "रताळ्याचीं सालें, कर्ता, कर्म, क्रियापद सांगा." आमी हांसताले आनी फुडें वताले. म्हाका रताळें म्हणटात तें कितें तें खबर नाशिल्लें, आनी क्रियापद म्हणटात तें कांबळी मास्तरान शिकयिल्लें, पूण रताळें हें कितें तें खबर नाशिल्ल्यान फुडलो विचार करपाचो प्रस्नूच येनाशिल्लो. घर आनी इश्कोल हांचे मदीं तेन्ना सगल्यो चाळी वा आसनमांडी घालून बशिल्लीं घरां आशिल्लीं! आयज पयलींच्यो गजाली उरल्यात त्यो हरी मंदिराची चाळ, भाटीकार इश्कोलाची बिल्डींग, न्यू इरा स्कूल, नानीलो पसरो, पांडवां कपेल आनी काणेकारालो पसरो. आतां सगले कडेन स ते आठ मजली बिल्डिंगो जाल्यात, मातयेचे रस्ते वचून डांबरी रस्ते आयल्यात. नव्या पावसाचो मातयेचो दरवळ गेलो. बाबय वेरेंकारालें बल्कांव वचून स मजली बिल्डींग आयली. तें पारजताचें झाड गेलें आनी तो परमळूय ना जालो. दिलीप सरदेसायाली चाळ वचून थंय एक कमर्शियल कॉम्प्लॅक्स आयलो. जितलो मनीस वयर वयर रावंक वता तितलो ताजो भुंये कडलो संबंद उणो जाता आनी जिणेंतलो परमळ खंयचे खंय ना जावन जीण म्हणल्यार एक वास-घाण नाशिल्ली, रूप-आकार नाशिल्ली वस्त कशी जावन पडटा.

पुर्तुगेजा काळांत जे पुर्तुगेज अधिकारी मिलिटरींत वा सरकारी प्रशासनांत काम करताले तांकां "पाखले" म्हणटाले. ते येवरोपी म्हणटकच गोरेपिट्ट आसताले. मिलिटरींत सकयल्या पांवड्या वयले शिपाय आनी कामगार वर्ग जे आसताले ते काळेकिट्ट आफ्रिकी आसताले. तांकां आमी 'खापरी' म्हणटाले. 'खापरी' हें उतर 'काफीर' ह्या उतरा वयल्यान आयलां. मुसलमान धर्म आफ्रिकेक पावलो तेन्ना आफ्रिकेंत रावपी अनुसुचीत जमातींतल्या लोकांक ते काफीर म्हणटाले. पूण 'पाखलो' हो शब्द कित्या वयल्यान आयलो तें मात खबर ना. गोंयच्या हिंदू आनी क्रिस्तांव समाजांतले लोक पाखल्यां कडेन इश्टागत करपाक सदांच फुडें सरताले आनी तांचे कडेन पुर्तुगेज उलयलो म्हणटकच आपणें व्हड कितेंय तरी मेळयलें अशें तांकां दिसतालें. खापऱ्यां कडेन मात कोणूच उलोवपाक फुडें सरनाशिल्लो. हाचो परिणाम भुरग्यांचेरूय जातालो.

एक फावट एक पाखलो आमच्या घरांत आयलो आनी वारांदाचेर उबो रावलो. पावस अकस्मात सुरू जाल्लो देखून तो पावस चुकोवपाक आमच्या वारांदार उबो रावलो. आमच्या फ्रेंश्च विण्डोंतल्यान – फ्रेंश्च विण्डों म्हणल्यार दार आनी जनेल एक! येवरोपांत, चड करून फ्रान्स, पुर्तुगाल, स्पेन ह्या देशांनी वारांदाचेर वचपा खातीर वयलो अर्द हारसो आशिल्लीं दारां आसतात. तांकां फ्रेंश्च विंडो म्हणटात. हांवें ताका पळयलो आनी भायर वचून ताका आमची सत्री दाखोवन विचारलें, "नांव इश्ता?" ताणें हांसून "नांव" म्हणून तकली हालयली आनी सत्रे कडेन बोट दाखोवन म्हाका म्हणूंक लागलो, "पुर्तुगेज, ग्वार्द द शूव्व!" तो म्हाका सत्रेक पुर्तुगेजींत कितें म्हणटात तें सांगतालो. पावस थांबना फुडें तो गेलो. खापरी मात पावस चुकोवपा खातीर वारांदार येवन रावल्यार हांवें केन्नाच तांकां जाप दिली ना. ते सामके आडदांड, लांबरुंद आसताले. अरेबियन नायट्स, गुल बकावली, रामायण बी असल्या पुस्तकांनी वर्णन केल्ले राक्षस ते हेच काय असो दुबाव येतालो आनी भिरांत दिसताली. भारतीयां आड अस्तंतेच्या खंयच्याय देशांत अत्याचार जाल्यार आमी तो वर्णभेद म्हणून कागाळ करतात, आनी जातीच्या आनी कातीच्या आदाराचेर मनशा मनशां मर्दी झगडीं जावंक जायनात अशें आमी म्हणटात. पूण पयलीं सावन आमकां जात कात म्हत्वाची हें खरें! आपणाक एक नेम आनी हेरां खातीर दुसरो हीच आमची संस्कृताय! पाखल्यां कडेन आनी खापऱ्यां कडेन पळोवपाची आमची नदर म्हणल्यार हे संस्कृतायेचो एक व्हड पुरावो.

# भाग 4
# कर्नाटक कॉलेज, धारवाड

हालींच्या काळांत भायल्या देशांनी वचप म्हळ्यार व्हडली गजाल न्हय. लाखांनी भुरगे आनी जाणटे शिक्षणा खातीर वा धंद्या खातीर भायल्या देशांनी पावल्यात. वीस तीस वर्सां आदीं कोणूय भायल्या देशांनी वचून आयिल्लो आसल्यार तो खंय गेल्लो, कितें पळयलें, आमचे परस थंयचे लोक कितले सुदारिल्ले, हें जाणून घेवपाक लोक फुडें सरताले. आमी गोंयकार हेर भारतीयां परस मातशे सुपेरयोर! पुर्तुगेज राजवटींत आसतना आमी 'आंतरराष्ट्रीय' प्रवास करताले. म्हणल्यार आमी गोंयच्यान धारवाड, बेळगांव आनी भारतांत हेर कडेन वताले. ट्रेनीन गेल्यार 'कॅसलरॉक' हें भारतांतलें पयलें व्हड स्टेशन आनी  कारवारा वटेन बशीन गेल्यार पोळें आनी माजाळी हांचे मदीं आमची आंतरराष्ट्रीय शीम. उत्तरेक भारतांतलो पयलो व्हड गांव म्हणटात तो सावंतवाडी.

गोंयांत इंग्लीश शिकपी भुरगीं एसएससीची परिक्षा दिवपाक बेळगांव, धारवाड, कोल्हापूर आनी हेर जाग्यांनी वतालीं. तेन्ना गोवा एसएससी बोर्ड नाशिल्लो आनी महाराष्ट्र एसएससी बोर्डाच्यो परिक्षा गोंयांत जायनाशिल्ल्यो.

भाई – म्हजो व्हडलो भाव – धारवाडांतल्या कर्नाटक कॉलेजींत शिकिल्लो. कॉलेज सोंपतकच लेगीत आपणाल्या आदल्या प्रोफेसरां कडेन आनी इश्टां कडेन ताणें संपर्क दवरिल्लो. म्हणटकच एसएससीचे परिक्षे खातीर खंय वचचें हो प्रस्न उबो रावतकच भाईन आमचे खातीर धारवाड केंद्र थारायलें आनी आमचे क्लासींतल्या खूबश्या भुरग्यांक

भाई धारवाडाक घेवन गेलो. आमच्या एसएससीचे क्लासींत सुमार वीस विद्यार्थी आशिल्ले. म्हजो नंबर सदांच पयलो येतालो. एसएससी परिक्षेक लेगीत म्हज्या इश्कोलांत हांव पयलो आयलों. पूण मार्क फकत 54 काय 56 प्रतिशें. त्या वर्सा, म्हणल्यार 1954 त गोंयांत पयलो आयिल्ल्या विद्यार्थ्यान फकत 76-77 प्रतिशें मार्क घेतिल्ल्याची म्हाका याद आसा.

एसएससी पास जावन 1954 वर्साच्या जून म्हयन्या सावन कर्नाटक कॉलेज, धारवाड हातूंत हांव आर्ट्स विभागांत शिकूंक लागलों. म्हाका गणीत विशय हो साप्प आवडनाशिल्लो. पूण इंग्लीश हांव एकदम बरी बरयतालों अशें म्हज्या टिचरांचें मत आशिल्लें. देखून हांव बिए आनी मागीर एमए जातलों अशें हांवे थारायलें. आयज जांणी नामना जोडल्या तातूंतले कांय लोक तेन्ना म्हजे वांगडा शिकताले : एक म्हणल्यार शशिकला बांदोडकार (आतांची शशिकला काकोडकार) भाऊ बांदोडकाराली धूव, दुसरो म्हणल्यार गिरीश कर्नाड (नामनेचो लेखक आनी ज्ञानपीठ पुरस्कार जिखपी), अनील गोकाक जो मागीर आयएएस जालो आनी भारत सरकारांत सेक्रेटरी आशिल्लो, दोड्डमने जो मागीर इण्डियन फॉरेन सर्विसींत भितर सरलो; तो मागीर कितल्याश्याच देशांनी भारताचो दूत आशिल्लो.

कोंकणी ही गोंयकारांची आवयभास! हेर राज्यांच्या लोकांक जशी आपणाली खाशेली संस्कृताय आनी अस्मिताय आसता, तशीच गोंयकारांकूय बी आपणाली अशी संस्कृताय आनी अस्मिताय आसा. गोंयकारांनी ती सांबाळून दवरपा खातीर यत्न करूंक जाय ही जाणविकाय आमकां कॉलेजींत भितर सरना फुडें आयली. गोंयकार चले आनी चलयो आपले आपूण एकठांय येवन आनी थोडे कारवार, कुमठा, होन्नावर हांगाचे कोंकणी विद्यार्थी मुखार येवन आमी कोंकणी समाज नांवाचें असोसिएशन सुरू केलें. कॉलेजींत मराठी मंडळ आनी कन्नड असोसिएशन हीं आदींच आशिल्लीं. कोंकणी समाज आमी सुरू केल्लो काय आमी वचचे पयलींच थंय चालू आशिल्लो तें आयज म्हाका याद ना. प्रो. काशिनाथ महाले हो एक लांब, गोरोच आनी सिनेमा नटा भशेन दिसपी आमचो फुडारी. गोंयचीं कांतारां, पदां, नाटकुलीं आनी हेर कार्यावळी हेरां मुखार सादर करपाक तो फुडाकार घेतालो. तो म्हाका फ्रेञ्च शिकयतालो म्हणटकच तो म्हजो सामको लागींचो इश्ट कसो जालो. ताका कोंकणी विशीं आनी गोंया विशीं खूब मोग आसलो. आपूण रिटायर जातकर गोंयांत वचून गोंया खातीर काम करतलों अशें तेन्नाच तो सांगतालो. मागीर फुडाराक तो दिल्लीच्या जवाहरलाल नेहरू युनिवर्सिटीचो रेक्टर जालो आनी मणिपूर युनिवर्सिटींत व्हायस् चान्सलर जालो. चडशे गोंयकार "न्यू ब्लॉक्स" हॉस्टेलांत रावताले आनी तांच्या जेवणा-क्लबाक "ब्रदर्स क्लब" म्हणटाले. हेर विद्यार्थ्यांचो एक फ्रॅण्डस् क्लब म्हूण आसलो. ब्रदर्स क्लबाचें खाशेलेपण म्हणल्यार दीसपट्ट्या जेवणाचेर सोलकडी

मेळटाली. कोणूय नवो गोंयकार भुरगो आयलो जाल्यार आपले आपूण तो ब्रदर्स क्लबाचो वांगडी जातालो.

1954 - 55 आनी 1955 - 56 हीं दोन वर्सां गोंयच्या भुरग्यांनी कांयच त्रास नासतना काडलीं. ते मजगतीं गोंयांत स्वातंत्र्य सैनिकांचें झूज वाडटालें आनी आयज अमकें जालें, फाल्यां तमकें जालें अश्यो खबरो येताल्यो. त्या वर्सा खूबशे स्वयंसेवक कर्नाटकांतल्यान आनी महाराष्ट्रांतल्यान पत्रादेवी लागसार गोंयचे बॉर्डरीचेर एकठांय जाले, आनी तांणी गोंयांत भितर सरपाचो यत्न केलो. धारवाडच्यान फ्रान्सीस मिनेझीस म्हूण आर्मांद मिनेझिसाचो पूत ह्या आंदोलनांत वांटो घेवंक गेल्लो आनी तो परतून येतकच कानडी विद्यार्थ्यांनी ताचो जयजयकार करून ताका उखलून धरिल्लो. त्याच काळांत हांव आनी आनीक खूबशे जाण धारवाडच्यान बेळगांवां गेले आनी बेळगांवचे आनी धारवाडचे मेळून शंबर देडशें गोंयचे विद्यार्थी कॅसलरॉकाक वचून थंयच्यान रानांतल्यान कितलेशेच किलोमिटर चलून घोडगेवाडी गेले. भारता वटेंतले रेल्वे लायनीचेर चार पांच वरां घोशणा दिवन निदर्शनां केलीं. आमी रेल्वे लायनी वयल्यान गोंयची शीम हुपून भितर सरुया आनी ट्रेन आयल्यार आडावया अशें कांय जाणांनी सुचयलें, पूण भोवसंख्य विद्यार्थ्यांक ती आयडिया मानवलिना आनी निदर्शनां करून आमी बेळगांवां वा धारवाडाक परतले. 1956 त भारतांत राज्यांची पुनर्रचणूक जाली आनी कर्नाटक जल्माक आयलें. बेल्लारी वाठारांतले थोडे गांव कर्नाटकांत येवचे म्हूण आमचे कॉलेजींतल्या भुरग्यांनी दीसरात आंदोलन केल्लें; त्या आंदोलनांतूय बी आमी वांटो घेतलो. ते गांव खरें म्हणल्यार कर्नाटकांत उरले वा आंध्रांत गेले हे विशीं गोंयच्या विद्यार्थ्यांक व्हडलेंशें कांय लागनाशिल्लें. पूण वांगडा शिकपी सगले आंदोलन करताले म्हणटकच आमीय बी तांचे बाराबर फुडें सरले.

गोंयकार भुरग्यांनी कोंकणी प्रोग्राम करून सगल्यांचेर आपणाली छाप दवरिल्ली. संगिताक भास लागना हें सिद्ध करपाक आमी खूबश्या जाणांनी कानडी पदां म्हणपाक सुरवात केलीं. त्या काळांत दर वर्सा भारत सरकार दिल्लीक आंतरविश्वविद्यालयीन युवा महोत्सव करतालें. तातूंत भारतांतलीं सगलीं विश्वविद्यालयां वांटो घेतालीं. तातूंत सगल्या तरांच्यो सर्ती आसताल्यो : समुहगीत (ग्रूप सिंगींग), चले आनी चलयो हांच्यो पदां म्हणपाच्यो सर्ती (इण्डिविज्युअल सिंगींग), वाद्य संगीत (इंस्ट्रुमॅण्टल), वक्तृत्व (एलोक्युशन), नाटक (ड्रामा), आनी हेर. कर्नाटक युनिवर्सिटींतल्यान समुहगिता खातीर (ग्रूप सिंगींग), आमचे कॉलेजीची टीम वेंचून काडिल्ली. वेंचून काडिल्ल्या ग्रूप सिंगींग पंगडांत 7 वांगडी आशिल्ले, तातूंतले पांच गोंयकार. कानडी पद नागरी लिपयेंत बरोवन घेवन आमी तें म्हणिल्लें. दिल्लींतल्या कन्नड संघान आमकां जेवणाक आपयले तेन्ना सातांतले पांच गोंयकार म्हूण तांकां अजापूय जालें आनी ते पिकारूय जाले.

आनीक एक याद आसा ती 'कोंकणी समाजां'तल्या एका वांगड्याची, श्रीपाद बैकेरीकार हाची. हो कारवार होन्नावर वटेंतलो. म्हजे क्लासींत शिकतालो. संगीत गायनांतलो जाणकार! पेटी वाजयतालो तें वरांचीं वरां आयकत रावनशें दिसतालें. कोंकणी समाजाच्या कार्यावळींनी चाली लावपाक आनी पदां शिकोवपाक सदांच तो आमचे वांगडा आसतालो. बिए मेरेन शिक्षण सोंपतकच आमी वेगवेगळ्या वटांनी गेले आनी आमचो संपर्क तुटलो. कांय वर्सां उपरांत बेंगळुरुक म्हजी बदली जाली तेन्ना कर्नाटक कॉलेजींत शिकपी पयलींचो एक इश्ट मेळ्ळो. पयलींच्यो यादी काडटां काडटां ताणें बैकेरीकाराची काणी सांगली. ताच्या घरची परिस्थिती सामकी गरीब आशिल्ली. ताका खंयच नोकरी मेळना जाली. जिणेंत फुडें कांयच मार्ग दिसना जालो, आनी ताणें जीव दिवपाचें थारायलें. कोणें तरी वळखीच्या मनशान ताका सत्य साईबाबा म्हऱ्यांत व्हेलो. 'तूं उजवाती करून वीक' अशें सत्य साईबाबान ताका सांगलें. मुंबय ताणें ल्हान प्रमाणांत उजवाती करपाक सुरवात केली. हळूहळू ताच्यो उजवाती फामाद जाल्यो, एक्सपोर्ट जावपाक लागल्यो आनी उजवातींच्या बळाचेर तो कोट्याधीश जालो. मागीर सगलो धंदो आपल्या तरनाट्या पिळग्यां कडेन दिवन तो साईबाबाच्या भजनी मंडळाचो वांगडी जालो आनी साईबाबा वांगडा भजन करीत, पेटी वाजयत सगल्याक भोंवूंक लागलो. साईबाबाल्या भजनांच्यो आपल्या आवाजांतल्यो ताणें कितल्योश्योच सिडी तयार केल्यो. बैकेरीकर खंय आसा तें सोदून काडपाचो कांय तेंप हांवें यत्न केलो, पूण सफळ जालों ना. आयज तो खंय आसा तें म्हाका खबर ना. पूण मनीस खंयच्यान खंय पावूंक शकता आनी आपणाल्याच फुडाराचेर आपणालो कंट्रोल आसता काय ना हो विशय खंयूय उलयता आसतना म्हाका ताची याद जाता.

कॉलेजींतल्यो यादी म्हणल्यार इंग्लीश शिकोवपी इनामदाराच्यो आनी मराठींतल्यान आमचे कडेन उलोवपी ढेकणेच्यो. प्रो. इनामदार हो एक खडेगांठ कानडी लेखक आनी एकदम बरो शिक्षक. तो आमकां इंग्लीश वाङ्मय शिकयतालो. थॉमस हार्डीची 'मेयर ऑफ कॅस्टरब्रीज' हे कादंबरेचेर उलयतना ताचें लेक्चर आयकुपाक धारवाडच्या सगल्या कॉलेजींतले विद्यार्थी आनी विद्यार्थिनी येवन जमनीचेर, लेक्चरराच्या प्लॅटफॉर्माचेर लेगीत बसून, 45 मिणटां तल्लीन जावन आयकताले. तो शिकयतना टायम कसो वतालो हें कळनाशिल्लें, आनी कांय फावटीं तो हीं कादंबरेंतलीं वर्णनां विसकटावन सांगता आसतना आमच्या दोळ्यांत दुकां लेगीत येतालीं.

प्रो. ढेकणे मराठी आनी अर्थशास्त्र शिकयतालो. ताका गोंयकारां विशीं खास आपलेपण. आमी सर्तींत वांटो घेवन पदां म्हणूंक लागतकच तो आमची तोखणाय करतालो. तो दुसऱ्या परिक्षकांक सांगतालो, 'या मुलांना गळा आहे हो, थोडी ट्रेनींग पाहिजे!'

1956 त इकॉनॉमीक ब्लॉकेड म्हणल्यार अर्थीक नाकेबंदी जाली. गोंयांत ट्रेनींचें यो–वच आशिल्लें ताचेर भारत सरकारान बंदी घाली. आमकां 1956 ते 1958 मेरेन बशीन पोळ्यां वचून मागीर 'आंतरराष्ट्रीय शीम' हुपून, कारवारचे 'काळी नदी' वयली तार काडून मागीर कारवार, यल्लापूर, हुबळी बशीन वचचें पडटालें. म्हाका अर्दे फीची स्कॉलरशीप मेळटाली आनी उरिल्ले पयशे बापू धाडटालो. अर्थीक नाकेबंदीक लागून पयशे उसरां पावताले. खूबश्या गोंयकारांक हे गजालीचो खूब त्रास जातालो. पूण कर्नाटक कॉलेजींत फी वेळार दिली ना म्हूण आमकां केन्नाच त्रास जालो ना. परिस्थिती समजून घेवन प्रिन्सीपल व्ही के गोकाकान आनी हेर टिचरांनी आमकां जाता तितलो चड पालव दिलो. कर्नाटक कॉलेजींतल्यान बिए डिग्री घेतकच हांव गोंयांत आयलों. म्हाका फुडें शिकपाक वचपाची इत्सा आशिल्ली. "इश्कोल आमचें, फामिलीच्या इश्कोलांत तूं एक वर्स तरी शिकय" अशें बापून म्हाका सांगलें, आनी 1958 - 59 हें एक वर्स हांवें इश्कोलांत शिकयलें. तेन्ना सातवी म्हणल्यार एसएससी आनी आमच्या इश्कोलांत एक ते सात अशे वर्ग आसताले. इश्कोलाचे बिल्डिंगेंत जागो नाशिल्ल्यान पयली, दुसरी आनी तिसरी हे वर्ग सांजेचे आसताले आनी चवथी, पांचवी, सवी, सातवी सकाळचे आसताले. हांव तिसरेक आनी चवथेक इंग्लीश शिकयतालों.

1958 च्या मे म्हयन्यांत हांव गोंयांत आयलों तेन्ना स्वातंत्र्य चळवळ वेगळ्यावेगळ्या रुपांनी चड खतखत्ताली आनी पुर्तुगेज सरकार त्याच नेटान चळवळ चिड्डितालें. 1953 - 54 त आग्वाद आनी रेयश मागूश ह्या किल्ल्यांतल्या बंदखणींनी घाल्ले खूबशे स्वातंत्र्यसैनीक सुटिल्ले. तातूंतल्या खूब जाणां कडेन म्हजी वळख जाल्ली. आनी जें कितें घराच्या चार वणटीं भितर शिजतालें ताचो हांव आपले आपूण एक वांटो जालों. म्हाका आतां याद ना, पूण कोणें तरी म्हाका पुरुषोत्तम (भाऊ) काकोडकारा म्हऱ्यांत व्हेलो. भाऊ काकोडकार खूब वर्सां पुर्तुगालाक नदरकैदेंत आशिल्लो. नदरकैदेंतल्यान सुटून 1958 त तो मुंबय आयलो. मुंबय थोडो काळ रावन मागीर तो गोंयांत आयलो आनी मागीर ताणें आपणालें भुमिगत काम चालू दवरलें.

मडगांवां फातोड्डें वाठारांत एका पोरण्या घरांत ताणें एक आश्रम सुरू केलो. त्या आश्रमांत सकाळीं फुडें संस्कृत प्रार्थना, गोंयचें स्वातंत्र्य आनी हेर वेगळ्यावेगळ्या विशयांचेर भासाभास आनी असल्योच खूबश्यो कार्यावळी जाताल्यो. दामोदर कवळेकार, हांव, आनास्तासियु आल्मेद, चंद्रकांत केरकार, मोहन कारापूरकार, प्रफुल्ल प्रियोळकार आनी बायलां मर्दीं शरद नाडकर्णी आनी बेबी काकोडकार, आनी कितलेशेच स्वातंत्र्यसैनीक वा ते धर्तेच्या वा विचाराचे लोक त्या आश्रमांत भाऊ वांगडा रावताले.

बापूक पुलिसांनी एक दीस पुलीस स्टेशनार आपयलो आनी "तुजो पूत जोयीन कोत्ता, तेका तिंगाचो चोल म्हूण सांग, नाजाल्यार भितो उडोयतोलों" अशें म्हूण धमकी

दिली. "कितें करता तें सांबाळून कर," अशें बापून म्हाका म्हणलें. पूण त्या विशयाचेर तो आनीक कांयच उलयलो ना. आमी धा-पंदरा दीस त्या आश्रमांत आशिल्ले. सगले स्वातंत्र्यसैनीक एकठांय येवन कितेंय तरी येवजण करतात अशें पुर्तुगेज सरकाराक दिसलें. तांणी भाऊक आश्रम बंद कर म्हूण ओर्द दिली. भाऊक तो आश्रम बंद करचो पडलो. सगले आपापणाल्या घरा गेले. पुर्तुगेज सरकाराची नदर चुकोवन स्वातंत्र्याचें झूज फुडें कशें व्हरचें हाचेर आयज ह्या बल्कांवाचेर, फाल्यां त्या बल्कांवाचेर बसून आमी विचार करताले. भाटीकार हे मूळ सांग्या लागसार आशिल्ले भाटीचे, हें आर्दी सांगलांच. देखून हांवें त्या गांवांनी वचून स्वातंत्र्यझुजाचो प्रचार करचो अशें दोग जाणांनी सुचयलें. "तुका हांवें एक वर्स इश्कोलांत शिकय अशें सांगिल्ले, तें वर्स सोंपलें; आतां तूं मुंबय एमए करपाक वच" अशें म्हणून बापू म्हजे फाटल्यान लागलो. "तूं फुडल्या शिक्षणाक चल," अशें म्हणून भाईय म्हजे फाटल्यान लागलो. अखेरेक हांव एमए शिकपा खातीर मुंबय युनिवर्सिटीच्या फामाद 'स्कूल ऑफ इकॉनॉमिक्स' ह्या विभागांत अर्थशास्त्र शिकपा खातीर पावलों, आनी 1961 त हांवें अर्थशास्त्र हो विशय घेवन एमए पूर्ण केली.

# भाग 5
# बॉम्बे युनिवर्सिटी

मुंबय युनिवर्सिटींत एमए शिकता आसतना जाणकार आनी नामनेच्या अर्थशास्त्रज्ञांच्या हाता सकयल शिकपाचो योग आयलो. डॉ. लकडावाला, डॉ. दांतवाला, डॉ. ब्रह्मानंद अशे आंतरराष्ट्रीय नामनेचे अर्थशास्त्रज्ञ आमकां शिकयताले. डॉ. लकडावाला 'स्कूल ऑफ इकॉनॉमिक्सा'चो मुखेल आशिल्लो. तो आमकां 'पब्लीक फायनान्स – सरकारी येणावळ, खर्च, सरकारी कर' हो विशय शिकयतालो. ताचीं लेक्चरां शिस्तबद्द आसतालीं आनी ताचे मुखेल मुद्दे बरोवन घेवपाक बऱ्याक पडटालें. तो मागीर कांय तेंपान भारत सरकाराच्या येवजण आयोगाचो उपाध्यक्ष जालो.

तसोच डॉ. दांतवाला! हो शेतकी अर्थशास्त्रांतलो जाणकार म्हूण भायल्या देशांनी लेगीत ताची वळख आशिल्ली. भारत सरकाराच्या ॲग्रिकल्चरल प्रायूस कमिटी, म्हणल्यार शेतांतल्या पिकांक फावो आशिल्ले दर तीन–तीन वर्सांनी थारावपाक भारत सरकार जी समिती घडयतालें तिचो तो अध्यक्ष आसतालो. भारतांतल्या शेती उत्पादनाक सरकारान पालव कसो दिवपाचो आनी कितलो दिवपाचो हाचेर भारत सरकार सदांच डॉ. दांतवालाच्या मताक म्हत्व दितालें. तोय बी शिकयता आसतना बरे शिस्तबद्द रितीन शिकयतालो, आनी आमकां नोट्स घेवपाक बऱ्याक पडटालें. डॉ. बह्मानंदाक मात शिकयता आसतना ताळतंत्र कांय नासतालो. दर फावटीं 45 मिणटां उलयतालो. तो उलयता तातूंतलें कितें धरचें आनी कितें सोडचें हें कोणाक समजनाशिल्लें. प्लॅनींग

म्हणल्यार येवजण हो विशय तो शिकयतालो. अर्थीक उदरगती खातीर येवजण्यो करपाचे सिद्धांत तो आमकां शिकयतालो. तोय बी ताच्या विशयांत आंतरराष्ट्रीय जाणकार आशिल्लो. पूण जाणकार म्हणल्यार कोण? जो उलयल्यार कोणाक कांय समजना तो मनीस व्हड जाणकार अशें समजुचें अशें आमी डॉ. ब्रह्मानंदाचें लेक्चर जातकच सदांच म्हणटाले.

हार्ली एनडीटिवी आनी हेर इंग्लीश चॅनलांचेर दिसपी लॉर्ड मेघनॉड देसाय हो 'स्कूल ऑफ इकॉनॉमिक्सां'त म्हज्याकूय दोन वर्सां सिनियर! तेन्ना ताका आमी मेघनाथ देसाय म्हणटाले. मागीर तो केन्नाय तरी लंडन स्कूल ऑफ इकॉनॉमिक्सांत गेलो आनी थंयच मेघनाथाचो मेघनॉड जाला जातलो.

चर्चगेट 'बी रोडा'चेर युनिवर्सिटीचे नवें हॉस्टेल तेन्नाच सुरू जाल्लें आनी हांव तातूंत रावतालों. त्या हॉस्टेलांत तेन्ना रावपी म्हणल्यार एस एम याहया! हो थंय एलएलएम शिकतालो. फुडें तो राजकारणांत भितर सरलो आनी कॉंग्रेस पक्षाचो फुडारी जावन तो खूब तेंप कर्नाटक सरकाराचो अर्थमंत्री आनी मागीर उपमुख्यमंत्री आशिल्लो. कांय वर्सां आदीं कॅन्सराच्या दुखण्यान तो भायर पडलो, पूण अखेरे मेरेन आमी एकामेकां कडेन संपर्क दवरिल्लो. केन्नाय हांव बेंगळुरुक पावल्यार आमी उण्यांत उणें अर्द वर तरी खबरो, च्या वा जेवण ह्या गजालीं खातीर राखून दवरताले.

आनीक एकलो हॉस्टेलांत आशिल्लो तो सद्या राजकारणांत आसा, तो म्हणल्यार शिवराज पाटील. हो मागीर भारताचो गृहमंत्री आशिल्लो आनी सध्या पंजाबाचो गव्हर्नर आसा. हांव भारत सरकारांत केंद्रीय रेशीम बोर्डाचो मुखेल अधिकारी (वांगडी सचीव) आसतना शिवराज पाटील म्हज्या मंत्रालयाचो, म्हणल्यार वाणिज्य मंत्रालयाचो मंत्री जालो. आमी मुंबय युनिवर्सिटीच्या हॉस्टेलांत एका वांगडा आशिल्ले आनी एकामेकाक वळखताले, पूण व्हडलीशी इश्टागत नाशिल्ली. हॉस्टेलाची याद करून दितकच ताणें म्हजे कडेन खंयच्याय तरी गिऱ्या वयल्यान आयिल्ल्या मनशाक अजापान पळोवचें तशें पळोवन अजाप उक्तायलें. ताणें मुद्दाम म्हाका वळख नाशिल्ल्याचें सवंग केलें असो दुबाव मारतकच हांवें मागीर ताका मेळपाचेंच टाळ्ळें. आनीक एका आमचे वांगडा हॉस्टेलांत आशिल्ल्या इश्टा कडेन उलयतना ताणें हांव मेळिल्ल्याचें त्या इश्टाक सांगलें.

आनीक एकलो आमचे वांगडा हॉस्टेलांत रावपी, जो राजकारणांत वयल्या पांवड्याचेर पावलो, तो कर्नाटकाचो आदलो उपमुख्यमंत्री एम.पी. प्रकाश. हांव हॉस्टेलांतल्यान भायर सरतकच आमचो संपर्क तुटिल्लो. बेंगळुरूक एके पार्टेक गेल्ले कडेन तो मेळ्ळो. वीस वर्सां उपरांत लेगीत रोखडोच तो म्हाका वळखलो आनी म्हाका घट्ट वेंग मारली. मडगांवां हरी मंदिरा म्हऱ्यांत हांवें युगवेद पुस्तकघर सुरू केल्लें ताचें

उक्तावण ताणें केलें. तो आनी हांव, हालीं मेरेन एकामेकां कडेन संपर्क दवरून आशिल्ले. आनीक एक आशिल्लो तो डॉ. आप्पू नायर. तो कोईंबतुराक भारतीयार युनिवर्सिटीचो व्हायूस चान्सलर जावन गेलो. तोवूय बी आतां ना. आर.एच. पाटील म्हजे बाराबर एमए करतालो. मागीर ताणें रिझर्व बँकेंत नोकरी धरली,आयडिबिआयचो एक्झिक्युटीव डायरेक्टर जालो, आनी मागीर नॅशनल स्टॉक एक्सचेञ्जाचो मॅनेजींग डायरेक्टर जालो. तसोच बि.बी. शेट्टी, जो आमचे वांगडा एमए करतालो आनी हॉस्टेलांतूय रावतालो, तो मागीर विजया बँकेचो अध्यक्ष जालो. थिंगलया जो एमए जातकच म्हजे वांगडा पिएचडीचो अभ्यास करतालो तो सिण्डिकेट बँकेचो अध्यक्ष जालो.

म्हजे बाराबर हॉस्टेलांत आनी क्लासींत आशिल्ले सगलेच व्हड-व्हड पदांचेर पावले अशांतली गजाल न्हय. म्हज्या रुमांत दोन गुजीर भुरगे, सुरेश पटेल आनी शिरीष कापाडिया रावताले. सुरेश पटेल हो गुजरातींतल्यान बिए जाल्लो आनी इंग्लीशींतल्यान म्हजे भशेन अर्थशास्त्र हो विशय घेवन एमए करपा खातीर मुंबय युनिवर्सिटींत आयिल्लो. ताका इंग्लीश भाशेचो बिलकूल गंध नाशिल्लो आनी जी भास आपल्याक सारकी कळना, ते भाशेंतल्यान अर्थशास्त्र विशयांत एमए करपाचें धाडस ताणें केलें तरी कशें हें म्हाका समजलें ना. "तूं हो यत्न सोड आनी गुजरातींतल्यान एमए कर" अशें ताका कितले फावटीं सांगलें, पूण ताणें आयकलें ना. अखेरेक दोन वर्सां हॉस्टेलांत रावन, परिक्षेक बसनासतनाच तो आपल्या गांवांत परतलो. शिरीष कापाडिया इंग्लीशींतल्यान बिए जाल्लो पूण ताकाय बी इंग्लीश बरी जमनाशिल्ली. ताणें समाजशास्त्र हो विशय घेवन, दीसरात धडपड करून, अखेरेक सामको धडेर पास जावन, एमएची डिग्री मेळयली. मागीर तो गुजरात सरकारांत क्लार्क म्हूण नोकरेक लागलो.

बाराबर शिकपी चले-चलयो जिणेच्या वेगळ्यावेगळ्या वाटांचेर नाच्च जातात. जिणेचो चडाव चडून थोडे तेंगशेर पावतात आनी थोडे मुळसाकूच उरतात. समाजाचे नदरेन कोण चड सुखी आसा, जिणेंत कोणें येस मेळयलें, आनी कोणें आयुश्य पेड्डेर केलें, हे गजालीचेर एकमत केन्नाच आसचें ना. पूण खूब वर्सांनी केन्नाय कोणाचोय फोन येता आनी आमी दोगूय वांगडाच एमए शिकताले वा हॉस्टेलांत रावताले अशें तो सांगता तेन्ना हावें आयुश्यांत खंयूंय तरी नांव कमयलां हाची खात्री जाता! जो मनीस 'येसस्वी' जाता ताका हेर मनीस येवन चिकटुपाक सोदतात, मागीर त्या येसाची व्याख्या बरोबर आसूं वा चूक.

एमएची परिक्षा जाली तेन्ना स्कूल ऑफ इकॉनॉमिक्सांत म्हजो दुसरो नंबर आयलो. सगल्यांक अजाप जालें. हो दीसरात कॅरम, टेबलटॅनीस खेळटालो, पदां म्हणटालो, पिक्चराक वतालो आनी हाणें इतले मार्क कशे घेतले अशें म्हणून सगल्यांक

अजाप जालें. अजुनूय कोणूय पयलींचे क्लासमेट खंयूय मेळ्ळे जाल्यार विचारतात, “लेकीन एक बात बताव, वो फ्लूक कैसा हो गया?” मागीर हांव तांकां फकांडांनी सांगतां, “जिसका कारण हम बता नही सकते, उसीको हम फ्लूक बोलते हैं; वो हमें भी मालूम नही.”

# भाग 6
# फुडार घडटा काय फुडार घडयतात?

1961- 1965

मनशाची जीण म्हणल्यार न्हंयेच्या प्रवाहा भशेन. व्हड व्हड न्हंयांचे प्रवाह अकस्मात बदलून केन्नाच येवजूंक नाशिल्ल्या दिकांनी फुडें वचपाक लागतात, हें आमकां खबर आसा. उदक वयल्या पांवड्या वयल्यान सकल्या पांवड्यार देंवंक जाय हो नेम! पूण सकल्या पांवड्यार देंवपाक हजार वाटो आसूं येतात. आनी न्हंयेचो फुडलो प्रवाह आयज मेरेन जे वाटेर आशिल्लो तेच वाटेर आसतलो अशें सांगूंक येना. मनशाचे जिणेचें तशेंच. तुवें हो धंदो कित्याक सुरू केलो, वा तुवें ही नोकरी कित्याक धरली, अशें कोणाकूय विचारल्यार, खरें म्हणल्यार हांव हो धंदो करतलों वा ही नोकरी करतलों अशें हांवें केन्नाच येवजूंक नासलें अशी जाप तुमकां चडश्या जाणां कडल्यान मेळटली.

मनीस जल्मता तो ताका जाय म्हूण न्हय! तो जे फामिलींत, जातींत, प्रदेशांत वा देशांत जल्मता तें सगलें ताणें वेंचून काडिल्लें न्हंय. जितले बरे तरेन जीण जगूं येता तितली तो जगपाचो मागीर यत्न करता. जिणेंतल्या सुखाचो पांवडो उंचावपाक वा हेर कसल्याय कारणां खातीर तो वयल्या पांवड्या वयल्यो डिगऱ्यो घेवपाचो यत्न करता. चड बरो धंदो करता, व्हडल्या पगाराच्यो नोकऱ्यो सोदता, लग्न जाता, भुरग्यांक शिकयता, हें सगलें आपणाल्या सुखा खातीर! जीण बरे तरेन जगपा खातीर तो हें सगलें करता. पूण जियेवप कित्याक, जिणेचें उद्दिश्ट कितें हाचेर तो चडसो विचार करिना. जगांतल्या

सगल्या धर्मांनी जिणेच्या तत्वगिन्यानाचो अभ्यास केला आनी खोलायेन विचार केला. पूण दीसपट्टे जिणेचे धडपडींत गुल्ल आशिल्ल्या मनशाक हीं तत्वगिन्यानां वाचपाक, तांचेर येवजुपाक वेळ नासता.

जिणेचें उद्‌दिश्ट कितें हो प्रस्न म्हजे मुखार सदांच उबो रावतालो. मनशान समाजा खातीर काम करून समाजांतल्यान वचचे पयलीं समाजाक कितेंय तरी दिवन वचूंक जाय, हेंच जिणेचें उद्‌दिश्ट अशें म्हाका दिसतालें. कॉलेजींत आनी युनिवर्सिटींत शिकता आसतना वादविवाद जाताले तातूंत होच विचार हांव मांडटालों.

एसएससी जातकच फुडें इंजिनियर, डॉक्टर बी जावपा खातीर विज्ञान विभागांत वचचें, काय सोंपो उपाय म्हूण कला विभागांत वचचें आनी ग्रॅज्युएट जावचें हो प्रस्न उबो रावलो. म्हाका गणिताची आवड नाशिल्ली आनी देखून विज्ञान विभागांत हांवें प्रवेश मेळयलो ना. जाय जाल्यार मेळटालो, पूण हांव कला विभागांत भितर सरलों. तेन्नाच्या काळांत आतां भशेन फुडाराक म्हाका कोण जावंक जाय आनी ते खातीर म्हाका आतांच्यानूच कसलीय तरी तयारी करूंक जाय, असले विचार कोणाचेंच तकलेंत नासताले. फुडें शिकपाक जाय, मागीर फुडलें फुडें पळोवया आनी विज्ञान आवडना देखून कलेच्या विभागांत (आर्ट्स) भितर सरुया, असो तो विचार.

तुका गणीत हो विशय आवडनाशिल्लो आनी देखून जिणेचें गणीत तुवें चुकयलें जावंये अशें मत म्हजे कांय इश्ट केन्नाय उक्तायतात. पयली गजाल म्हणल्यार तुवें सायन्स विभागांत वचपाचें, आनी मागीर खंयूय तरी व्हड नोकरी धरून खूब पयशे करपाचे. दुसरी चूक तुवें केली ती, एमए जातकच आयएएसाक बसलो ती. तुका व्हड व्हड बँकांनी वा रिझर्व बँकेंत सोंपेपणान नोकरी मेळटली आशिल्ली कारण युनिवर्सिटींत तुजो दुसरो नंबर आयिल्लो, पूण तुवें तें केलें ना. नाजाल्यार तूं बँकेचो चेअरमेन वा भारत सरकाराचो ॲडवायझर बी असो कोणूय तरी जातलो आशिल्लो. अशे भशेन गणीत खूब कडेन चुकलें, अशें जायत्या जाणांचें मत.

पूण लोकांचे नदरेन चुकिल्ल्या ह्या गणिताक आनी जिणेचें उद्‌दिश्ट कितें ह्या प्रस्नाक कांयच नातें ना. बिए जायना फुडें मडगांवां आमच्या इश्कोलांत शिकयता आसतना, भाऊच्या आश्रमांत गेल्लों तेन्ना म्हाका दिसूंक लागलें कीं गोंयच्या स्वातंत्र्या खातीर झगडप आनी मागीर स्वतंत्रताये उपरांत समाजसेवा करप, हेंच म्हजे जिणेचें उद्‌दिश्ट आसूंक जाय. आश्रम बंद जातकच हांवें 'भाटी' वाठारांत वचून स्वातंत्र्याचो प्रचार करचो अशे कांय इश्टांनी सुचयिल्लें. दुसरे वटेन, मुंबय वचून शिकप फुडें चालू दवर असो बापून आग्रो धरलो. तेन्ना मनांत गोंदळ जालो आनी फुडें शिकपाचो सोंपो उपाय हांवें आपणायलो. 1961 त एमए जातकच आतां फुडें कितें हो प्रस्न परतून आयलो. आनी विचारांचो गोंदळ परतून सुरू जालो.

1961 डिसेंबरांत गोंय स्वतंत्र जालें आनी रोखडेंच गोंय महाराष्ट्रांत वचचें काय संघप्रदेश म्हूण वेगळें उरचें, कोंकणी ही स्वतंत्र भास काय मराठीची बोली, गोंय वेगळें संघराज्य म्हूण उरल्यार ताची उदरगत चड जातली, काय उणी जातली हे वाद सुरू जाले. हिमालयांत रावन जशें थंड हवामान चुकोवपाक जमना, उदकांत उबो रावन जसो सुको उरुंक शकना, तसोच हांव गोंयच्या राजकी आनी सामाजीक वादाच्या भोंवऱ्यांत घुस्पनासताना उरूंकच शकनाशिल्लों. म्हाका तातूंत घुस्पल्ले खातीर कांयच वायट दिसूंक ना. ती एक ते पिराये वयली विचारांची धुंदी!

मुंबय आमी धा-पंदरा गोंयकार तरनाटे, कशे म्हूण कोणाक खबर, एकठांय जाले. आमचें माणकुलें गोंय महाराष्ट्रान गिळचें न्हय म्हूण आमचे भशेन आमी यत्न करूंक लागले.

हांवें मुंबय युनिवर्सिटींत रिसर्च फेलो म्हूण प्रवेश घेतलो. शेतकी अर्थशास्त्र ह्या विशयाचेर हांवे पिएचडी खातीर अभ्यास सुरू करचो आनी संशोधन करचें अशें म्हज्या प्रोफेसरांचें मत जालें. हुशार भुरग्यांनी संशोधन करून पिएचडी मेळोवन शिक्षणाच्या वाठारांतूच काम करचें अशें आमच्या चडश्या प्रोफेसरांक दिसतालें. दोग प्रोफेसरांनी म्हाका आग्रो केल्ल्यान खंयच्याय बँकांनी वा प्रायवेट कंपन्यांनी नोकरे खातीर अर्ज करिनासतना हांवें बॉम्बे युनिवर्सिटिंतूच शेतकी अर्थशास्त्र विभागांत पिएचडी खातीर अभ्यास चालू दवरलो. दर म्हयन्याक म्हाका 250 रुपया स्कॉलरशीप मेळटाली. थोडे पयशे घरच्यान येताले. 1961-63 ह्या दोन वर्सां मदीं हांव रिसर्च स्कॉलर म्हूण युनिवर्सिटी ग्रंथालयांत आनी संशोधन रुमांत (ज्या वेगळ्या रुमांत म्हजे खातीर वेगळें मेज आनी कदेल आशिल्लें) वचून बसतालों खरो, पूण गोंयच्या राजकी प्रस्नांनी इतलो घुस्पलों कीं संशोधनांत व्हडलोसो फुडें सरपाक पावलों ना.

जानेवारी 1962 – जुलै 1966 हो म्हजे जिणेंतलो अनपेक्षीत घडणुकांनी भरिल्लो काळ. आपूण जावन कितेंय करपा वांट्याचें आपणा कडल्यान कोणूय तरी ह्यो सगल्यो गजाली करून घेता अशें जायत्या फावटीं आमकां सगल्यांक दिसता. त्या चार-पांच वर्सां भितर खंयच्याय तरी दोंगराळ आनी खडपाळ भागांतल्यान वयर-सकयल उडक्यो मारीत धांवतल्या भौशीक आनी राजकी प्रवाहांत हांव आनी कांय समविचारी तरनाटे सांपडिल्ले आनी आमी खंय पावतात, कितें करतात हाचेर आमचो कांयच कंट्रोल नासतालो. कसलेय तरी व्हड घुंवळींत आमी सांपडिल्ले.

त्या काळांतली म्हजी पयली याद म्हणल्यार 'गोवन प्रोग्रेसीव ग्रुपाच्यो' मिटिंगो. मुंबय आपली दोतोरकी चलोवपी डॉ. श्रीपाद नगर्शेकार हाणें हो ग्रूप सुरू केल्लो. ह्या ग्रुपांत हांव, फुर्ताद, रिबेलो, उदय भेंब्रे, लालन नगर्शेकार, चंद्रशेखर नगर्शेकार, (दोगांय

जाणां डॉ. नगर्शेंकाराचीं सोयरीं) आनी थोडे गोंयकार भुरगे असो हो ग्रूप आशिल्लो. दर सप्तकाक वा पंदरा दिसांनी मेळून गोंयच्या फुडाराचेर भासाभास करप हेंच आमचें काम आशिल्लें. हो आमचो ग्रूप कितलो तेंप उरलो हें म्हाका आतां याद ना. भासाभास करपा पेल्यान आमी आनीक कांय केलें ना हाची म्हाका सारकी याद आसा. दुसरो आमचो उपद्व्याप म्हणल्यार शंकर भांडाऱ्याच्या बिराडाचेर, 'कोंकणी' हें पंद्रशी नेमाळें उजवाडावप. डॉ. मनोहरराय सरदेसाय, उदय भेंब्रे, अ.ना. म्हांबरो, हांव आनी कांय जाण शंकर भांडाऱ्याच्या 36 डी, स्लेटर रोड, गांवदेवी हे सुवातेर नेमान जमताले, लेख बरयताले, आनी कोंकणी पंद्रशी नेमाळें उजवाडायताले. गिरगांवांत खबरेपत्रां आनी मासिकां विकपी एका गाड्याचेर आमी तें विकपाक दवरताले. त्या नेमाळ्याक लागून आनी गाड्याक लागून पणजेचो गुरुदास पै (दुकळो)आमच्या ग्रुपा कडेन पावलो. मुंबय आयिल्लो आसतना गिरगांवांतल्या त्या गाड्यार कितेंय तरी घेवपाक आयिल्ले कडेन ताका आमचें कोंकणी नेमाळें दिसलें. ताचे वयलो पत्तो सोदीत तो आमकां येवन मेळ्ळो. शंकर भांडाऱ्याच्या बिराडांत रिझर्व बँकेंत काम करपी बोरकार आनी आनीक कांय तरनाटे आसले. नांवां आतां याद नात. पूण आमचो हो कोंकणी भाशेचो आनी संस्कृतायेचो रथ ओडपाक सगलेच हातभार लायताले. सप्तकांतल्यान उण्यांत उणे म्हणल्यार दोन फावटीं तरी आमी सगले स्लेटर रोडाचेर मेळटाले.

गांवदेवीच्याच वाठारांत मणीभवन बिल्डिंगेंत गांधी स्मारक निधीचें व्हड ऑफीस आशिल्लें. ऑफिसाचे एके वटेंतले कुडींत रवीन्द्रबाब केळेकार 'गोमंत भारती' हें नेमाळें चलयतालो. गोंय, कोंकणी, गांधीवाद ह्या विशयांचेर तागेलें आनी हेरांचें लिखाण त्या नेमाळ्यांत आसतालें. रवीन्द्रबाबाक पयलेच फावटीं हांव थंय मेळ्ळों. थंय हांव कसो पावलों हाची म्हाका याद ना. थंयच म्हाका म्हाळू कामत (आतांचें देशपांडे) मेळ्ळें. तें तेन्ना सिल्वास, नगरहवेलीच्या कोर्टांत नोकरी करतालें; गोंयच्या स्वातंत्र्य लड्यांत जे गांधीवादी आशिल्ले तांचे वांगडा तें आसतालें. भाऊ काकोडकारूय बी मणिभवनांत नेमान येतालो. पूण हांव ताका थंय मेळिल्ल्याची याद म्हाका ना.

आमच्या उपद्व्यापांचें आनीक एक केंद्र म्हणल्यार मुंबयचें कोंकणी भाशा मंडळ. मुसोलिनी मिनेझीस हो तेन्ना सेक्रेटरी काय प्रेसीडॅण्ट असो कोणूय तरी आशिल्लो. तो आनी ताची बायल नेमान भाशा मंडळांत येवन बारीकसारीक कामां करतालीं, आनी भाशा मंडळ चलयतालीं. आमी सगल्यांनी मेळून मुंबय स्थायीक जाल्ल्या गोंयकारांचो विलिनीकरणा आड एक म्हामोर्चो काडलो. धोबीतलाव, भायखळा, बांद्रा आनी हेर कडेन रावपी हजारांनी क्रिस्तांव गोंयकार त्या मोर्चांत वांटेकार जाल्ले. मोर्चो धोबीतलाव सुरू जावन फ्लोरा-फावण्टना मेरेन गेलो, आनी थंयच खंयच्याय तरी ग्रावण्डार व्हड

मिटींग करून सोंपलो. मागीर आमचें एक शिश्टमंडळ दिल्लीक वचून थंयच्या कॉंग्रेसीच्या मुखेल फुडाऱ्यांक मेळ्ळें आनी गोंय महाराष्ट्रांत कित्याक वचचें न्हय हें तांकां समजावन सांगलें. दिल्लींत कनॉट प्लेसांत, 'व्हेंगर्स' रेस्टोरण्टांत एक पत्रकार परिशद घेवन विशय कितें आनी गोंय वेगळो संघप्रदेश उरल्यार कित्याक बरें हें हांवें पत्रकारांक सांगलें. तेन्ना आमी मोरारजी देसायाक मेळिल्ल्याची याद आसा.

म्हजी त्या काळांतली आनीक एक याद म्हणल्यार बोटलेरांक शिकोवपाची. भायखळा आनी धोबीतलाव ह्या सुवातांचेर गोंयच्या बोटलेरांचे क्लब आसताले. थंय वचून तांकां हिंदी शिकोवप! मुंबयंत असले दोनशां वयर क्लब आशिल्ले. ह्या क्लबांक 'कूड' म्हणटाले. देखीक, केळशेचो 'कूड', बाणावलेचो 'कूड', कोलवेंचो 'कूड'. दर कूड त्या गांवच्या लोकांनी स्थापन केल्लो आनी त्या गांवचो कोणूय भुरगो मुंबय नोकरेक आयल्यार पयले दोन-तीन म्हयने ताका थंय फुकट जेवपाची आनी रावपाची वेवस्था आसताली. नोकरी मेळटकच ताणें थंयच्यान हालूंक जाय असो कायदो! बोटीचेर वचपी बोटलेर आपणाली एक व्हड पेट थंय दवरताले आनी तातूंत तांचें सामान आसतालें. पेट बंद करतकच तेच पेटेचेर न्हिदपाक मेळटालें. मुंबय वा बोटीर वचपी चडश्या बोटलेरांक इंग्लीशीचें लेगीत शिक्षण नासतालें. हिंदी जाल्यार कांयच कळनाशिल्ली. हांकां वचून हिंदी शिकयात म्हणटकच भारतीय संस्कृतायेची तांकां वळख जातली अशें कोणें तरी शंकर भांडाऱ्याक सुचयलें आसतलें. म्हणून ताणें ह्या कुडांनी वचून चार-चार, पांच-पांच जाणांक एकठांय करून तांकां कोंकणींतल्यान हिंदी शिकोवपाक सुरवात केली. मागीर हांवूय शंकर भांडाऱ्या वांगडा ह्या कुडांनी वचूंक लागलों. चडश्या जाणांक हिंदी शिकपाचो वाज येतालो, पूण आमी तांकां फुकट शिकोवपाक येतात, इतलो आमचो वेळ तांचे पासत वापरतात म्हूण जावंये, ते आमकां धांवडायनासले. आमी सांगतात वा शिकयतात तें थंडपणान आयकताले, पूण तांकां तातूंत कांय व्हडलोसो इंटरेस्ट ना हें तांचे कडेन पळयतकच कळटालें. "तुमी केन्नाय येयात, आमी हांगा आसल्यार शिकयात, पूण आयतारा सांजेचे मात येनाकात; आयतारा आमकां कुपरेज ग्रावण्डार फुटबॉल पळोवंक वचूंक जाय" अशें ते सांगपाक विसरनाशिल्ले.

1962 त पणजे अखिल गोमंतकीय मराठी साहित्य संमेलन जालें. असल्या संमेलनांनी सदांच एक राजकी थाराव आसतालो आनी तो म्हणल्यार गोंय महाराष्ट्रांत विलीन जावंक जाय. दीसरात गोंयचे हिंदू फुडारी आनी मराठी दिसाळें 'गोमंतक' हेंच 'भजन' चालू दवरतालें. गोंयांत कोणूच ताचे आड उलयनाशिल्लो. ह्या संमेलनाक वचून हे राजकी आत्महत्येक आमी विरोध करूंक जाय, कितें जाता तें जावं अशें म्हूण हांव, उदय भेंब्रे, अ. ना. म्हांबरो आनी आनीक चार-पांच जाण मुंबयच्यान पणजे पावले.

गोंयांत मागीर आमकां शशिकर केळेकार, हरिश्चंद्र नागवेंकार, गोविंद मुद्रस, गुरुदास पै, देवेंद्र केळेकार आनी हेर तरनाटे मेळ्ळे. त्या मराठी संमेलनाक तेन्नाच्या मराठीवादी राजकारणांत गुल्ल आशिल्ले गोंयचे सगले हिंदू फुडारी आनी महाराष्ट्रांतल्यान आयिल्ले व्हड नामनेचे काकासाहेब गाडगीळ, आचार्य अत्रे आनी हेर कांय मराठी लेखक हाजीर आशिल्ले. कोंकणी आपणाली आवयभास म्हणपी लोक 'देशद्रोही' अशें पेंपारें वाजतकच आमी व्हडा व्हडान घोशणा दिवन तांकां विरोध केलो. आमच्या विरोधा आड मराठीवादी घोशणा दिवंक लागले. माटवांत गोंदळ आनी बोवाळ सुरू जालो. आमचे मदल्या एक-दोग जाणांनी तांचे माचयेर वचून भाशणां लेगीत केलीं. मागीर आमी थंयच्यान वॉकआवट केलो. आमकां पुलिसांनी वचात अशें सांगलें काय आमीच वॉकआवट केलो हाची म्हाका याद ना. संमेलनाचो पयलो दीस जातकच ते रातीं गुरुदास पै हागेर रावून ताच्या दुकाना वयल्यान कांयच फारीक करिनासतना सामान बी हाडून आमी व्हड तकटे तयार केले. तकट्यांचेर विलिनीकरणा आड घोशणा बरयल्यो आनी संमेलनाच्या माटवा मुखार रस्त्या कुशीक पांच-स वरां उबे रावून घोशणा दिल्यो. "कोंकणी ही स्वतंत्र भास," 'गोंय महाराष्ट्रांत विलीन जावंक जायना' असल्यो घोशणा गोंयकारांनी येद्या व्हडल्यान पयलेच फावटीं आयकल्यात जातल्यो. म्हाका याद जाता त्या प्रमाण क्रिस्तांव समाजांतले कोणूच त्या वेळार आमचे वांगडा नासले. कोंकणी आमची वेगळी भास आनी गोंय वेगळें राज्य उरूंक जाय, हे खातीर आमकां झगडचें पडटलें असले विचार क्रिस्तांव समाजांत आशिल्ले काय ना हें खबर ना. पूण आशिल्ले जाल्यार असले विचार करपी लोक त्या वेळार संघटीत जावंक नाशिल्ले. 'युनायटेड गोवन्स' हो राजकी पक्ष उपरांत जल्माक आयलो.

रस्त्या कडेक रावून वरांचीं वरां घोशणा दिवपी वट्ट कितले तरनाटे आशिल्ले हाची म्हाका याद ना, पूण आमी इकरा जाण आशिल्ले अशें आचार्य अत्रेचें मत जालें, आनी अत्रेन आमकां 'अकरा डांस' म्हणलें. ''हीं इकरा जळारां कितें करतलीं?' गोंय महाराष्ट्रांत विलीन जावपाची प्रक्रिया हीं जळारां कशीं आडायतलीं?' अशें म्हणून ताणें आमचीं फकांडां मारलीं. त्या काळार महाराष्ट्रांतल्या मराठी फुडाऱ्यांनी कितेंय उलयल्यार गोंयचे हिंदू फुडारी तांकां माथ्यार घेवन नाचताले. म्हणटकच अत्रेन मारिल्लीं फकांडां आयकून गोंयकार फुडाऱ्यांनी ताळयो पेटल्यो.

त्या काळार गोंयांत दोनूच नेमाळीं आशिल्लीं. एक मराठी 'गोमन्तक' आनी दुसरें - इंग्लीश 'ध नवहिंद टायम्स'! मराठी 'गोमन्तक' चौगुले कंपनीन आनी इंग्लीश 'ध नवहिंद टायम्स' धेंपो कंपनीन सुरू केल्लो. चडशे हिंदू गोमन्तक आनी चडशे क्रिस्तांव आनी कांय मध्यमवर्गीय हिंदू ध नवहिंद टायम्स वाचताले. पुर्तुगेज शेकातळा गोंयांत

मराठी वा इंग्लीश दिसाळीं नाशिल्लीं. चडश्या गोंयकारांक वाचूंक येनाशिल्लीं आनी अर्थ कळनाशिल्लीं दोन-तीन पुर्तुगेज नेमाळीं चलतालीं. गोंयांत उजवाडाक येवपी मराठी वा इंग्लीश नेमाळीं वाचपाची गोंयकारांक संवय नाशिल्ली. गोमन्तक सुरू जातकच तातूंत छापून आयलां तें सगलें खरें अशें चडशे गोंयकार हिंदू मानपाक लागले. कोंकणी ही मराठीची बोली, गोंय महाराष्ट्रांत वचुंकूच जाय, हे विचार गोमन्तक दिसाळें पातळायतालें. "गोमन्तकांत छापून आयलां न्हय तें, फट कशें आसतलें?"अशें विचारपी खूबशे लोक म्हाका मेळ्ळे. गोंयकार हिंदू समाजाची तेन्नाची एक 'हिपोक्रसी' म्हणल्यार दीसपट्टे जिणेंत एकामेकां कडेन कोंकणी उलोवपी गोंयकार खंयचेय भौशीक माचयेर चडलो की मराठी उलयतालो. त्या मराठीचो पांवडो मागीर कितलोय सकयलो आसूं.

जानेवारी 1962 ते मार्च 1963 ह्या काळांत कोंकणी, विलिनीकरण ह्या विशयांनी हांव इतलो घुस्पल्लों की म्हजो पिएचडीचो अभ्यास कुशीन उरलो. दर दोन-तीन म्हयन्यांनी म्हज्या 'गायडाक' रिपोर्ट दिवपाचे आसताले ते तशेच उरले. म्हजी स्कॉलरशीप बंद जाली आनी म्हाका एका स्कुलांत सकाळच्या आदेसाक नोकरी धरची पडली. मागीर तिवूय बी सोडची पडली. कारण म्हगेल्या हेर कार्यक्रमांक लागून टिचराचेंय काम सारकें नेमान करूंक मेळना जालें.

गोंय स्वतंत्र जायना फुडें पणजे धेंपे समुहान 'धेंपे आर्टस अ‍ॅण्ड सायन्स' कॉलेज सुरू केल्लें. म्हजे वांगडा एमए शिकपी जी. जी. बखले नांवाचो एक इश्ट एमए जातकच धेंपे कॉलेजींत प्राध्यापक म्हूण नोकरेक लागिल्लो. "धेंपे कॉलेजींत अर्थशास्त्र शिकोवपी प्राध्यापक जाय, तूं कित्याक येना?" अशें ताणें म्हाका विचारलें. "तुजे फामिलीक आमी वळखतात, तुजो बापूय आमचे वांगडा 'विवेकानंद सोसायटींत'आसता, तूं येवन आमचे कॉलेजींत शिकयल्यार आमकां आनंद जातलो"अशा आशयाचें धेंपे कॉलेजीचो प्राचार्य डॉ. लवंदे हांणी म्हाका पत्र बरयलें. गोंयांत वचून कोंकणी खातीर आनी गोंयचे अस्मिताये खातीर काम करपाची बरी संद आसा अशें हांवें येवजिलें. पिएचडीचें रजिस्ट्रेशन चालू आसुनूय हांव गोंयांत प्राध्यापकाची नोकरी करीत पिएचडीचो अभ्यास चालू दवरतां अशें हांवें स्कूल ऑफ इकॉनॉमिक्साचो डायरेक्टर, डॉ. लकडावालाक सांगून ताची मान्यताय घेतली. हांव धेंपे कॉलेजींत प्राध्यापक म्हूण येवपाक तयार आसां अशें हांवें डॉ. लवंदेक बरयलें.

जून 1963 सावन हांवें धेंपे कॉलेजींत बिएच्या भुरग्यांक अर्थशास्त्र हो विशय शिकोवपाक सुरवात केली. पणजे मळ्यांत स्वातंत्र्य सैनीक शंकर सरदेसायाल्या घरांत पयले माळये वयले एके कुडींत हांव रावतालों आनी जेवणाचो डबो कॉलेजीच्याच हॉस्टेलांतल्यान येतालो. तेन्ना कॉलेजींत प्राध्यापकांक टाय बांदून वचचें पडटालें. टाय

कसो बांदपाचो हें बखलेन म्हाका व्हड उमेदीन शिकयलें. टाय बांदपाक हांव शिकलों पूण अजून मेरेन सारकी जाय तशी लांबाय आनी जाय तसो त्रिकोणी 'नॉट' बांदपाक म्हाका बरोच वेळ लागता.

एकेवटेन कॉलेजींत शिकोवपाचें काम आनी दुसरे वटेन कोंकणीच्यो आनी राजकी मिटिंगो चालूच आशिल्ल्यो. पिएचडीचो अभ्यास चालू दवरप शक्यूच नाशिल्लें कारण कॉलेजीच्या ग्रंथालयांत जाय तसले ग्रंथ आनी हेर म्हायती नाशिल्ली. तेन्ना गोंयांत युनिवर्सिटी बी नाशिल्ली.

डिसेंबर 1963 त गोंयांत पयली वेंचणूक जाली. युनायटेड गोवन्स पार्टी, महाराष्ट्रवादी गोमन्तक पार्टी आनी कॉंग्रेस! यु.गो. पक्षांत चडशे क्रिस्तांव आनी म. गों. त हिंदू! आपलो राजकी पक्ष निधर्मी (सॅक्युलर) म्हूण दाखोवपाक यु. गों. त कोणूय एकलो हिंदू आनी मगोंत कोणूय एकलो क्रिस्तांव आसतालो ! यु.गो. पक्षांतलो तेन्नाचो हिंदू फुडारी म्हणल्यार अण्णा सरमळकार आनी मगोंतलो क्रिस्तांव फुडारी म्हणल्यार प्रो. दियोनीज रिबैर. हेवटेन तेवटेन आमचे भशेन कोणूय 'वाट चुकिल्ले' खूबशे लोक कॉंग्रेसींत! स्वातंत्र्य सैनीक चडशे कॉंग्रेसींत आसताले. रवीन्द्र केळेकार हो दक्षीण गोंयांत कॉंग्रेसीचो उमेदवार आशिल्लो. रंजन सरदेसाय आनी हांव दीसरात खंयचीय तरी जीप घेवन लावडस्पिकरांतल्यान रवीन्द्रबाबाचो प्रचार करताले. गोंयचे पयले वेंचणुकेंत म.गो.क हिंदूंनी आनी यु.गो.क क्रिस्तांवांनी वोट दिले; कॉंग्रेसीचो एक्कूय उमेदवार वेंचून आयलो ना. हिंदू वोटरांची संख्या चड आशिल्ल्यान मगो पार्टी जिखली.

भाऊ बांदोडकारान सरकाराचीं सुत्रां हातांत घेतलीं आनी गोंयचें प्रशासन चलोवपाक सुरवात केली. गोंय महाराष्ट्रांत वचचें काय ना ह्या प्रस्नाचेर आतां चड उजो पेटूंक लागलो, कारण क्रिस्तांव समाज आतां युनायटेड गोवन्स पार्टीच्या रुपान संघटीत जाल्लो.

गोंय महाराष्ट्रांत वचूंक जायना, गोंयकारांनी राजकी आत्महत्या करची न्हय, हो विचार क्रिस्तांव लोकांक पटिल्लो. पूण ह्या विचारांचो हिंदू मर्दी प्रसार करपाक कांयच उपाय वा माध्यम नाशिल्लें. 'गोमन्तक' दिसाळें महाराष्ट्राचो प्रचार करतालें आनी 'ध नवहिंद टायम्स' हें इंग्लिश दिसाळें आपणाक राजकारण लागना अशें म्हूण कानार केंस ओडटालें. विलिनीकरणाचो प्रचार करतना 'गोमन्तक' खरेंफट पळयनासतना, जातीयवाद, धर्मकोल्ल, भाटकारशाय, मुंडकारशाय, ह्या मुद्द्यांची रुचीक पूण पोटफुगी भेळ करून गोंयकार हिंदूंक खावयता अशें कांय जाणांक दिसतालें. भास, संस्कृताय, अस्मिताय आनी राजकी, भौशीक आनी अर्थीक फुडारा विशीं हेर कसलेय विचार गोंयकारां मुखार दवरतलो जाल्यार कांयच माध्यम नाशिल्लें. पूण ल्हान ल्हान ग्रुपांनी भासाभास जाताली. तातूंतल्यान विलिनीकरणा आड मुद्दे किल्लुपाक आनी वाडपाक लागले.

मिनाचो धंदो गोंयच्या फुडाराची वाट लायतलो आनी देखून सगल्या तरांच्या मिनाक शीम घालून दिवंक जाय, असो आयज बोवाळ जाता. पूण गोंयकारांनी फाटलो काळ केन्नाच विसरूंक जायना. पुर्तुगेजाच्या शेकातळा आसतना 1950 उपरांत जी गोंयची इल्ल्याश्या प्रमाणांत अर्थीक उदरगत जावंक लागली ती मिना खातीर. गोंय महाराष्ट्राच्या जबड्यांतल्यान वाटावपाक कांय गोंयकार मिनेरांनी पावल फुडें घालूंक नाशिल्लें जाल्यार आयज गोंय एखाद्रें महाराष्ट्राचो जिल्लो म्हूण आसतलें आशिल्लें. वासुदेव साळगांवकार, रामकृष्ण साळगांवकार, पांडुरंग तिंबलो, गुरुदास तिंबलो, मधू तिंबलो, शांतीलाल गोसालिया आनी बाप्पालाल गोसालिया ह्या गोंयकार मिनेरांनी एकठांय येवन 'नवगोमंत प्रकाशन' ही पार्टनरशीप संस्था स्थापन केली. आनी 1 सप्टेंबर 1963 ह्या दिसा ते संस्थे वरवीं 'राष्ट्रमत' हें मराठी दिसाळें मडगांवच्यान सुरू जालें. मडगांवच्या बड्डें वाठारांत एका भाड्याच्या पोरण्या घरांत हें दिसाळें सुरू जालें.

राष्ट्रमताचो पयलो संपादक वसंत कारे. ताचे फाटल्यान चंद्रकांत केणी. चंद्रकांत केणी हाणें दैनीक 'मराठां'त पयलीं काम करपी अण्णा फणसे हाचो पालव घेवन राष्ट्रमत सुरू करपाची जापसालदारकी घेतिल्ली. चंद्रकांत केणी जेन्ना गोंयांत मराठी दिसाळें सुरू करपाक जाय म्हूण प्रस्ताव घेवन अण्णा फणसे म्हऱ्यांत गेलो तेन्ना फणसे मुंबयचे म्हानगरपालिकेंत काम करतालो. थंयच्यान सुटी घेवन महाराष्ट्रांतल्यान हेर कांय मराठी पत्रकार आनी छापणावळीचो अणभव आशिल्ले लोक घेवन तो मडगांवां आयलो आनी राष्ट्रमत सुरू जालें. विलिनीकरणा आड अण्णा फणसे व्हड व्हड लेख बरयतालो. गोंयकारांनी अण्णा फणसेचे उपकार केन्नाच विसरूंक फावनात.

उदय भेंब्रे मुंबयच्यान गोंयांत परतलो आनी 'राष्ट्रमतां'त उप-संपादक म्हूण ताणें काम सुरू केलें. ताणें राष्ट्रमतांत 'ब्रम्हास्त्र' म्हूण दीसपट्टें सदर सुरू केलें आनी गोंयच्या शिक्षीत हिंदू मदीं विलिनीकरणा आडच्या विचारांचे निकतेच फुटपी झऱ्यांचे व्हाळ जाले आनी व्हाळांची न्हंय जाली. ओपिनियन पोलांत विलिनीकरणा आड 1,72,000 (54.20%) आनी विलिनीकरणा फावोराद 1,38,170 (43.50%) गोंयकारांनी मतां दिलीं . वट्ट 3,17,633 गोंयकारांनी मतां घालीं. गोंयांत त्या वेळचे वट्ट लोकसंख्येंतले 65 टक्के हिंदू आनी 35 टक्के क्रिस्तांव हें मतींत धरल्यार आनी सगल्या क्रिस्तावांनी विलिनीकरणा आड मतां दिल्लीं अशें धरल्यार, सुमार 62 हजार हिंदूंनी विलिनीकरणा आड मतां दिलीं अशें कोंत करूं येता. राष्ट्रमत दिसाळें 1963 त सुरू जावंक नाशिल्लें जाल्यार, आनी तातूंतले बरपावळींतल्यान विलिनीकरणा आडचे मुद्दे लोकां मुखार येवंक नाशिल्ले जाल्यार, गोंय महाराष्ट्रांत विलीन जातलें आशिल्लें हातूंत दुबाव ना.

मडगांवां सकयल्या बाजारांत होली स्पिरीट इगर्जेच्या ग्रावण्डा म्हऱ्यांत एका क्रिस्तांव भाटकाराच्या व्हड घरांत शंकर भांडारी आनी हेर तरनाटे रावताले. कोंकणी खातीर आनी विलिनीकरणा आड चलिल्ल्या कामाच्यो जायत्यो येवजण्यो थंय तयार जातात्यो. थंय आमच्यो बसका जातात्यो आनी तरातरांच्या विशयांचेर भासाभास जाताली.

1964 एप्रील-मेंत मडगांवां अखिल भारतीय मराठी साहित्य परिशद जावपाची आशिल्ली आनी मराठीचें आनी महाराष्ट्रवादाचें राजकारण ते साहित्य परिशदेंत खुद्द साहित्या परस चड गाजतलें हें आमकां खबर आशिल्लें. वि.वा. शिरवाडकर (कुसुमाग्रज) हो ते परिशदेचो अध्यक्ष. परिशदेच्या आदल्या दिसा चंद्रकांत केणयान अध्यक्षाच्या भाशणाची एक प्रत हाडली आनी त्याच दिसा सांजवेळची त्या भाशणाचेर आमची भासाभास जाली. जे लोक विलिनीकरणाक विरोध करतात आनी कोंकणी आपणाली आवयभास, मराठी न्हय, म्हूण आड्डतात ते 'काळोखाचे पुजारी' अशें शिरवाडकर संमेलनाच्या भाशणांत दुसऱ्या दिसा म्हणपाचो आशिल्लो. तें वाचून आमची तकली तापली. ह्या फावटीं हांकां कशेंच सोडप ना, हांचे आड कितेंय तरी करूंक जाय, अशें आमी थारायलें. मडगांवां राजेंद्रप्रसाद स्टेडियमाचेर (तेन्ना स्टेडियम बी कांय नाशिल्लो, फकत मैदान आशिल्लें) चार पांच हजार लोकांक बसपा सारको व्हड माटव घाल्लो. फाल्यां ह्या पांच हजार लोकां मर्दी वचून आमी 20-25 लोक कितें करतले असो निर्शेणेचो विचार कोणाचेच तकलेंत आयलो ना. जाता तें जावं, हांकां मेकळे सोडूंक जायनात, अशें आमी थारायलें. आमचेच भशेन कोंकणीचें 'पिशें' लागिल्ल्या आनी गोंयभर शिंपडिल्ल्या आनीक 40-50 तरनाट्यांक दुसऱ्या दिसा परिशदेक आपोवचें अशें थारलें. पूण मोबायल फोनाची गजाल सोडाच, त्या काळांत चडश्या लोकांच्या घरांनी सादे लॅण्डलायन फोन लेगीत नासताले. म्हणटकच सगले कडेन रेकाद धाडपाक जमलें ना. दुसऱ्या दिसा आमी 20-25 जाण हे परिशदेच्या माटवांत वेगळेवेगळे कडेन बसले आनी शिरवाडकरान 'काळोखाचे पुजारी' अशें वाचतकच आमी उठून "शब्द मागें घ्या, शब्द मागें घ्या" अश्यो घोशणा दिवपाक सुरवात केली. हांव बशिल्लों ते लायनींत आनी ताचे फुडले लायनींत गोंयच्या 'नामनेच्या कुटुंबांतले' कांय 'फुडारी' आनी धेंपे कॉलेजीचो प्रिन्सिपल, डॉ. लवंदे हे बशिल्ले. हांवें उठून आड्डुपाक सुरवात करतकच ते आपणालो तिसरो दोळो उगडून तिडकीन म्हजे कडेन पळोवंक लागले. तांच्या त्या तिसऱ्या दोळ्यांत उजो आशिल्लो जाल्यार हांव थंयच जळून भस्म जावपाचों. पुलिसांनी येवन आमकां ओडीत आनी फाटीर धपके घालीत भायर घाले. रंजन सरदेसायाक मडगांवच्या हॉस्पिसियोंत घालचो पडलो. दोन दिसां उपरांत लोहिया मैदानाचेर आमी व्हडली सभा

घडोवन हाडली आनी महाराष्ट्रवादाचो निशेध केलो. साहित्य परिशदेक बोवाळ घालपी तरनाटे 20-25 आशिल्ले जावंक जाय. म्हाका याद आसात ते शंकर भांडारी, उदय भेंब्रे, हरिश्चंद्र नागवेंकार, श्याम वेरेंकार, शशिकर केळेकार, रंजन सरदेसाय आनी फेलिस्यु कार्दोज.

दोन तीन दिसां उपरांत डॉ. लवंदेचें एक पत्र आयलें, “गेल्लें एक वर्स बिएच्या भुरग्यांक तुवें बरे तरेन अर्थशास्त्र शिकयिल्ले खातीर धेंपे कॉलेजीच्या जाळवणदारांचो तुका धन्यवाद. ह्या वर्साच्या जून म्हयन्या साकून तुजे सेवेची आमकां गरज लागची ना अशें तुका आमी ह्या पत्रा वरवीं कळीत करतात,” अशें त्या पत्रांत बरयिल्लें. मराठीवादी आनी महाराष्ट्रवादी फुडाऱ्यां मदीं कोंकणी आवयभाशेचो अभिमान आशिल्ल्या तरनाट्यांचें भस्म करपाचें बळगें नाशिल्लें, पूण तांच्या फुडाराक चुट्टी लावपाचो हो एक यत्न हें म्हाका कळ्ळें.

हांव करतां तें चूक, हांव म्हज्या फुडाराची वाट लायतां अशें बापून म्हाका केन्नाच म्हणलें ना. गोंय स्वतंत्र जातकच कांय क्रिस्तांव पाद्रीं वांगडा बापू गांवागांवांनी भोंवून मुळावें शिकप कोंकणींतल्यान जावचें म्हूण प्रचार करतालो, हें आदीं सांगलांच. साहित्य परिशदे उपरांत लोहिया मैदानाचेर जाल्ले सभेंत बापूय बी उलयिल्लो. “तूं अशें करूं नाका, तशें करूं नाका” अशें बापून म्हाका तेन्ना केन्नाच म्हणलें ना. पूण अर्द्यार उरल्या ती पिएचडी पूर्ण कर, डॉक्टरेटीची पदवी घे आनी मागीर तुका जाय तें कर, अशें बापू म्हाका परतून परतून सांगूंक लागलो. जून 1964 त हांव परतून मुंबय गेलों आनी हांवें पिएचडीचो अभ्यास चालू केलो.

ह्या दोन वर्सां मदीं गोंयच्या फुडारा विशीं ज्यो कांय ल्हान-व्हड चळवळी मुंबयंत जाताल्यो त्या सगल्यांचें केंद्र आतां गोंयांत जालें. गोंयांत महाराष्ट्रवादी गोमंतक पक्षाचें सरकार कदेलार बसलें आनी तें आपलें कदेलूच ना करपा खातीर यत्न करूंक लागलें. महाराष्ट्रांतल्या राजकारण्यांच्या आशिर्वादान आनी गोंयांत बसकण मारिल्ल्या एका मराठी मिनेराच्या पयशांच्या बळाचेर गोंय महाराष्ट्रांत घालपाच्या हालचालींक नेट आयलो आनी तितलोच नेट गोंय वेगळें दवरपा खातीर वावुरपी चळवळिकूय बी आयलो. झूज वाडलें आनी झुजाचे पडसाद दीसरात मुंबयच्या मराठी आनी इंग्लीश पेपरांनी वाडूंक लागले. गोंय वेगळें उरचें न्हय, गोंयकारांची संस्कृताय मराठी आनी देखून तें महाराष्ट्रांत वचचें, अशें मुंबयच्या इंग्लीश आनी मराठी दिसाळ्यांनी खंयूय वाचतकच म्हजें रगत खतखत्तालें आनी तकली तापून दिसांचे दीस हांव तेच घुंवळींत उरतालों.

म्हजे बाराबर शिकपी भुरगे शिक्षण सोंपोवन फायनान्शियल एक्सप्रॅस, इकॉनॉमीक टायम्स, टायम्स ऑफ इण्डिया असल्या दिसाळ्यांनी वा आयसीआयसीआय,

स्टेट बँक ऑफ इण्डिया, रिझर्व बँक ऑफ इण्डिया वा बॉम्बे युनिवर्सिटी आनी मुंबय-पुण्यांतल्या कॉलेजींनी बऱ्यो बऱ्यो नोकऱ्यो करपाक लागले. तूं बेठोच टायम व्हगडायता, एक तर पिएचडी काबार कर, नाजाल्यार खंयूय तरी व्हडल्या आस्थापनांत ऑफिसराची नोकरी धरून तुजे जिणेक सुरवात कर अशें म्हणून म्हजे कांय प्रोफेसर आनी वांगडा शिकपी इश्ट म्हाका पिडपाक लागले. हांवें गोंयांत वचून बेठेंच एक वर्स व्हगडायलें म्हूण म्हजो गायड म्हजेर रागार आशिल्लो. तो दिसान दीस चड चड बेजार जावंक लागलो. आनीक एक वर्स पिएचडीचो अभ्यास करचो, मागीर फुडें कितें करपाचें तें थारावपाचें, अशें म्हूण हांव नेमान युनिवर्सिटींत वचून बसूंक लागलों.

'भारतीय शेतकारां मर्दी शेताची पिकावळ वाडोवपा खातीर नव्यो पददती शेतकार आपणायतात काय कितें' ह्या विशयाचेर म्हाका पिएचडी करपाची आशिल्ली. हे खातीर महाराष्ट्रांतल्या आजरा, गडहिंग्लज, पन्हाळा, निपाणी, कोल्हापूर ह्या वाठारांनी भोंवून शेतकारां कडल्यान आनी तांच्या सहकारी संस्थां कडल्यान हांवें जायती म्हायती एकठांय केली. हांवें जरी पिएचडी खातीर म्हज्या अभ्यासाचो नेट वाडयलो तरीय हाची पिएचडी केन्नाच पूर्ण जावची ना, हो असोच एके दिकेन वचपा वांट्याचो दर दिकेन हेवटेन तेवटेन मेळत थंय उडक्यो मारतलो आनी अखेरेक खंयच पावचो ना अशें म्हज्या गायडाक दिसूंक लागलें. आमचे मदले मतभेद वाडले आनी वाद सुरू जाले. गायडा कडेन वाद घालून ताचे कडेन कोंत्रसाण करून तुका डॉक्टरेट केन्नाच मेळची ना, तुवें आनीक खंयचीय तरी लायन धरल्यार बरी, असो पिएचडी जावन बॉम्बे युनिवर्सिटींत लेक्चरराची नोकरी धरिल्ल्या म्हज्या कांय इश्टांनी म्हाका उपदेश केलो.

धेंपे कॉलेजींत आसतना काँग्रेसीच्या फुडाऱ्यांक परतून परतून मेळप जातालें. भाऊ काकोडकार, प्रफुल्ल प्रियोळकार हांचे कडेन जायत्या फावटीं भासाभास जाताली. त्याच काळांत बाबू पानवेलकाराची वळख जाली. घरचो गिरेस्त, भाटबेंसकार, बिझनेसमेन आनी कोंकणीचो अभिमानी. महाराष्ट्रवादा आड चलिल्ल्या राजकारणांत ताचो म्हत्वाचो वांटो आसतालो. मागीर कांय वर्सांनी तो काँग्रेसीचो गोंयांतलो जनरल सेक्रेटरी लेगीत जाल्लो.

आनीक एक म्हजो तेन्नाचो इश्ट म्हणल्यार म्हापशेंचो गुरुदास शिरोडकार. तो धेंपे कॉलेजींत डेमोन्स्ट्रेटर आशिल्लो. आंगान मातसो मोटोसो आनी मोटवो आनी सभावान एकदम आनंदी आनी मेकळो. प्रत्येकाक तो आपणाले जिणेचो एक भागूच कसो दिसतालो. म्हजे धेंपे कॉलेजी उपरांतचे जिणेक रूप आनी दिशा दिवपाक ताणें खूब आदार दिलो.

गायडाचे आनी म्हजे वाद वाडत गेले आनी ह्या गायडाच्या हाता सकयल काम करून पिएचडी मेळप कुस्तार अशें म्हाकाय बी दिसूंक लागलें. हांवें आयएएसचे परिक्षेक बसचें अशें बऱ्याचश्या जाणांक दिसतालें. हांवेंय बी ल्हवू ल्हवू तयारी केली आनी फॉर्म भरलो. आयएएसचे परिक्षेक बसपाक आनीक एक कारण जालें. हांव धेंपे कॉलेजींत शिकयता आसतना बाबू पानवेलकाराची भयण लता पानवेलकार तेच कॉलेजींत शिकताली. लताक हांव शिकयनाशिल्लों तरी, वेगळ्यावेगळ्या कार्यावळींच्या निमतान आमचें एकामेकाक मेळप जातालें. "म्हाका तुजे कडेन लग्न जावंक जाय," अशें हांवें ताका मुंबयच्यान एक पत्र बरयलें आनी तें ताच्या घरच्यांच्या हातांत पडूंक जायना म्हूण गुरुदास शिरोडकारा कडल्यान ताका धाडून दिलें. "आमचे फामिलींत आमचे जाणटे आमकां लग्न करून दितात थंय आमी वतात. आमी कोणा कडेन लग्न जावचें हें थारावपाची मेकळीक आमकां नासता," अशें ताणें म्हाका बरोवन धाडलें. मागीर हांवें ह्या विशयाचेर एक दोन इश्टां कडेन सल्लो मागलो. तें घराणें गिरेस्त आनी लताचो बापूय कोणूय तरी पयशेकार जांवय सोदतलो, तूं व्हडलोसो जाल्यार कॉलेजींत लेक्चरर जातलो देखून तुका ताचे कडेन लग्न जावपाचो चान्स येवचोच ना, अशें मत त्या इश्टांनी दिलें. हांव आयएएसांत भितर सरल्यार समाजांत म्हाका चड मान मेळटलो, नामना जातली आनी ते खातीर एकाद्रे लताच्या घरांतले जाणटेले लताचें म्हजे कडेन लग्न करपाक तयार जावंये अशें म्हाका दिसलें आनी देखून आयएएस परिक्षेक बसपाच्या यत्नांक आनीक नेट आयलो. मुंबय 1965 ऑक्टोबर–नोव्हेंबरांत हांव परिक्षेक बसलों आनी लेखी परिक्षेंत पास जालों आनी इण्टरव्यू खातीर दिल्लीक येवपाचें म्हाका भारतीय लोकसेवा आयोग (युनियन पब्लीक सर्वीस कमिशन) हांचे कडल्यान आपोवणें आयलें. युनिवर्सिटींत शिकतना म्हजे कडेन एकूच सूट आशिल्लो. पुर्तुगेज राजवटीच्या काळांत गोंयांत फॉरेन कपडे सवाय मेळटाले. तसल्याच एका काळश्या निळश्या टेरिवूल लुगटाचो तो सूट! पळोवपाक बरो दिसतालो. एमए शिकता आसतना म्हजेच भशेन आंगलोट आशिल्ले हेर कांय भुरगे तो सूट मागून व्हरताले. दोन वर्सां भितर तो सूट पोरणो दिसूंक लागलो. बापू कडल्यान पयशे घेवन इण्टरव्यू खातीर म्हाका दुसरो सूट शिंवचो पडलो.

इण्टरव्यूक कितें विचारतले आनी कितें विचारचे नात हें कोणाक खबर नासतालें. सामान्य गिन्यान (जनरल नॉलेज) बरें आसूंक जाय, इंग्लीश एकदम बरी उलोवंक जाय, इण्टरव्यू घेवपी लोकांनी नर्वस करपाक कित्याय कितें प्रस्न विचारल्यार नर्वस जावंक जायना, असल्यो कितल्योश्योच वावड्यो कानार येताल्यो.

म्हाका इण्टरव्यू रुमांत आपयतकच हांवें दारा कडेन पावतकच "हांव भितर येवं?" अशें विचारलें आनी तांणी 'यो' म्हूण सांगचे पयलींच हांव भितर सरलों. "तूं पयलींच भितर सरलो, आतां तुज्या कदेलाचेर बस," अशें म्हणून ते पांचूय इण्टरव्यू

घेवपी जाणकार हांसले. हांवेंय बी हांशिल्ले भशेन केलें आनी बसलों. इण्टरव्यू बोर्डाच्या अध्यक्षा कडेन म्हजे विशींची सगली म्हायती आशिल्ली. "तूं पिएचडी पूर्ण करपाची सोडून आयएएसाक कित्याक बसलो?" एकल्यान विचारलें. हो प्रस्न येतलो म्हणून म्हाका खबर आशिल्लें म्हणून हांवें एक फटीची जाप तयार करून दवरिल्ली. "लोकांची सेवा करपाचो चान्स पिएचडी परस आयएएसांत चड मेळटलो म्हणून हांव हेवटेन आयलों," अशी हांवें जाप दिली. "तुवें बेठींच चार वर्सां व्हगडायलीं. तुका सारको निर्णय घेवपाची संवय ना, हें हाचे वयल्यान सिद्ध जाता," अशें ताणीं म्हणलें. हांवें पोटतिडकीन जाप दिली, "सर, खंयचोय निर्णय घेवचे आदीं त्या निर्णयाक जाय ती सगली म्हायती जर आपले कडेन आशिल्ली जाल्यार कोणूच खंयच चुकीचो निर्णय घेवचो नाशिल्लो. हांवें पिएचडी करपाचो निर्णय घेतलो तेन्ना एमए जातकच लोकांची सर्वीस करपाच्यो कसल्यो कसल्यो नोकऱ्यो आसात हाचेर सारको अभ्यास केल्लो नाशिल्लो. पूण बेटर लेट देन नेव्हर". तांकां म्हजी ती जाप बरी आवडली काय दिसता कारण सगले एकामेकां कडेन पळोवन तकली हालोवपाक लागले. "अमेरिकेच्यान तुजो कोणूय इश्ट दिल्लीक आयल्यार तूं ताका कितें कितें दाखयतलो?" "हांव पयलीं ताका पार्लामिण्ट हावस भायल्यान दाखयतलों," म्हजी जाप! खोऽऽ करून ते पांचूय जाण व्हडान हांसले. हांवें खरें म्हणल्यार ज्योक करूंक नाशिल्लो. पार्लामॅण्टांत भितर वचपा खातीर पास बी काडपाच्यो कटकटी कोण घेवन बसतलो आनी भितर कोणाक वचूंक येता, कोणाक वचूंक येना ते नेमूय बी म्हाका सारके खबर नाशिल्ले. देखून हांवें पार्लामॅण्ट हावस भायल्यान दाखयतलों अशी जाप दिल्ली. पार्लामॅण्ट हावसा भितर चलता तें पळोवपा सारकें नासता, वा कोणाक दाखोवपा सारकें नासता आनी देखून हांव म्हज्या इश्टाक तें फकत भायल्यानूच दाखोवंक सोदतां असो अर्थ लावन ते हांसले. हो इण्टरव्यूक नर्वस जायना आनी प्रस्नांच्यो जापो हेरांक हांसपाक लावपा सारक्यो दिता, अशें तांकां दिसलें जावंये. ते उपरांत ताणी भारतीय, अमेरिकी आनी रुसी अर्थवेवस्थेचेर म्हजे कडेन भासाभास केली. भारतांत सहकार चळवळ जाय तशी फुडें कित्याक वचना हाचेर प्रस्न विचारले. इंग्लीश आनी पुर्तुगेज राजवटींतलो फरक विचारलो. इण्टरव्यू सुमार अर्दवर चल्लो. आयएएस परिक्षेंत कितले मार्क पडले तें लोकसेवा आयोग आमकां कळयना, फकत आमकां वेंचून काडल्यात काय ना आनी वेंचून काडिल्ले आसल्यार वट्ट जाणां भितर आमचो नंबर कितल्यावो हें ते आमकां कळयतात. 1966 च्या एप्रील-मेंत केन्नाय तरी आमचो रिजल्ट आयलो आनी आयएएसाक वेंचून काडिल्ल्या 150 तरनाट्यां मदीं म्हजो नंबर 33 वो म्हूण म्हाका कळ्ळें. आयएएसाक त्या वर्सा म्हणल्यार 1965-66 वर्सा सुमार तीन लाख तरनाटे परिक्षेक बशिल्ले. तातूंतले 150 तरनाटे वेंचून आयिल्ले. मागीर भारताच्या राष्ट्रपतीच्या ऑफिसांतल्यान म्हजी आयएएसांत नेमणूक केल्ल्याचें पत्र आयलें.

आयएएसांत नेमणूक जायना फुडें म्हाका लता कडेन लग्न जावंक जाय अशें म्हूण एका इश्टा वरवीं हांवें बाबू पानवेलकाराक रेकाद धाडलो. विष्णूबाब पानवेलकार, ज्याका लोक रायबंदरचो भाटकार म्हूण वळखताले, तो बाबू आनी स्नेहलताचो बापूय. गोंयच्या व्हड भाटकारां मदलो तो एक. आपणाली फामील आनी भाटबेंस हातूंत तो गुल्ल आसतालो आनी उक्त्या हातान लोकांक आलाशिरो दितालो. भारतीय प्रशासन, लोकसेवा आयोग, आयएएस असल्यो गजाली ताणें आयकल्ल्यो काय ना हें खबर ना. पूण ताणें म्हज्या एका इश्टाक आयएएस म्हणल्यार कितें आनी ताका पगार कितलो अशें विचारलें. आयएएस म्हणल्यार अमकें अमकें आनी ताका भारतभर खूब्ब ओंर्र आनी मान आसता, पगार सुरवातीक सामको उणो आसता, पूण घर, नोकरचाकर, गाडी हीं सगलीं सोंपेपणां सरकार दिता ही म्हायती म्हज्या इश्टान विष्णूबाब पानवेलकाराक दिली. त्या वेळार आयएएसाचो सुरवातीचो पगार फकत बेझीक चारशें आनी हेर बारीकसारीक भत्ते धरून म्हयन्याक वट्ट सातशें रुपया मेळटाले. तातूंतले हेवटेन तेवटेन कापून हातांत पांचशें कांय साडेपांचशें उरताले. त्या पगाराचे आंकडे आयकना फुडें लताचो बापूय मातसो नर्वस जाल्लो आसुंये. तुजो पगार सामको उणो आनी देखून तूं आमकां पसंत ना, अशें ताणें म्हाका सांगिल्लें जाल्यार, "तुमी एक बरो मुंडकार सोदून ताकाच तुमचो जांवय करात, कारण मुंडकाराची येणावळ आयएएसच्या पगारा परस चड आसूंक जाय," अशें ताका सांगपाची म्हजी तयारी आशिल्ली. पूण म्हजेर तशें सांगपाची पाळी आयली ना. जुलय म्हयन्यांत ट्रेनिंगाक मसुरीक वचचे पयलीं लताचो आनी म्हजो एङ्गेजमॅण्ट जालो. गोंयांत हरशीं सोयरीक जातकच 'साकरपुडो' जाता. ही साकरपुडो करपाची चाल महाराष्ट्रांतल्यान आयल्या अशें थोडे लोक म्हणटात. आपूण मातसो वेगळो हें उक्तेपणान उलयनासतना हेरांक कळीत करपा खातीर जायते गोंयकार 'साकरपुडो' करिनासतना 'एङ्गेजमॅण्ट' करताले. म्हजोय बी 'एङ्गेजमॅण्ट' जालो आनी ते उपरांत 1966 वर्सा जुलय म्हयन्याचे दोन तारखेक हांव लालबहादूर शास्त्री राष्ट्रीय प्रशासन अकादेमी, मसुरीक आयएएसाचें प्रशिक्षण घेवपा खातीर गेलों.

# भाग 7
# आयएएस प्रशिक्षण

लालबहादूर शास्त्री प्रशासन अकादेमींत आमचें प्रशिक्षण जुलय1966 त सुरू जालें. अकादेमींत एका माळ्याच्यो खूबश्यो ल्हान-ल्हान बिल्डिंगो आशिल्ल्यो. चडश्यों बिल्डिंगो 'शार्ल व्हील' ह्या समुहांत आशिल्ल्यो. मसुरी बाजारांतले सगले दुकानदार, टॅक्सीवाले आनी हमाल ताका 'चार्लीबिली' म्हणटाले. आमची आयएएस अकादेमी पयलीं दिल्लीक आशिल्ली आनी मागीर ती मसुरीक हालयल्ली. मसुरीक ती कित्याक हालयली हें म्हाका खबर नाशिल्लें पूण मसुरीक पावना फुडें अकादेमी हांगा केल्या तें बरें जालें अशें दिसलें. खंयच्याय तरी सरकारी आस्थापनांनी सोडिल्ल्यो जायत्यो बिल्डिंगो हांगा आशिल्ल्यो म्हूण अकादेमी हांगा हालयल्लीशी दिसता.

मुंबयच्यान हांव रेल्वेन देहरादूनाक गेलों आनी देहरादूनच्यान मसुरीक टॅक्सीन. मसुरी देहरादूनच्यान 34 किलोमिटर. उंचाय स हजार ते सात हजार फूट. एवरेस्ट ह्या इंग्लीश सर्वेयरान भारताची सर्व्हे करपाक सुरवात केली ती मसुरीक आपलें ऑफीस थाटून! देखून हिमालयांतल्या सगल्यांत व्हड पर्वताच्या माथ्याक मावण्ट एवरेस्ट अशें नांव दिलां. मसुरीक अजुनूय एवरेस्टाचें पोरणें ऑफीस दिश्टी पडटा. दलाय लामा 1958-59 वर्सा आपल्या तिबेटी लोकां वांगडा तिबेट सोडून भारतांत पयलीं मसुरीक येवन राविल्लो आनी मागीर तो हिमाचल प्रदेशांत धरमसाला गांवांत वचून रावलो. मसुरीक अजुनूय 60-65 हजार तिबेटी लोकांची वस्ती आसा. मसुरी हिल स्टेशन देडशें पावणेदोनशें

वर्सां आदीं ब्रिटीशांनी सोदून काडून थंय घरां-स्कुलां बी बांदूंक सुरवात केली. उत्तर हिंदुस्थानांत सगल्या हिल स्टेशनांतल्या मुखेल बाजाराक मॉल म्हणटात. मसुरीच्याय मुखेल बाजाराक मॉल म्हणटात. ब्रिटीशांच्या काळांत पयलीं पयलीं थंय खंय एक बोर्ड मारिल्लो आसतालो, "सुणीं आनी भारतीय लोकांनी हांगा येवंक जायना"(डॉग्स ॲण्ड इण्डियन्स नॉट अलावड). मोतिलाल नेहरू खंय मुद्दाम तेवटेन भोंवंक वतालो आनी गेल्ले फावटीं आपणें कायदो मोडलो म्हूण दंड फारीक करतालो. मसुरीक सगले कडेन देवदार, सुरू, ओक आनी पायन हीं लांब लांब झाडां आनी तातूंतल्यान दिसपी धव्याफुल्ल बर्फाचें पांगरूण घेवन उबे आशिल्ले पर्वत! खंयचेय वाटेन रानावनांतल्यान भोंवंक गेल्यार वनस्पतींच्या वासान भरिल्ली शांतताय मनशाच्या आंगापांगांत भरताली; आपणें उलोवन हे शांततायेंत बादा हाडल्यार व्हड गुन्यांव जातलो अशें दिसूंक लागता आनी शांततायेंत कांयच उलयनासतना चलत रावचें अशें दरेकलो आपुणूच थारायता. पळयत तितलें चड पळयन दिसता.

सगल्या ऑफिसरांक दोन तारखेक सकाळचें हाजीर रावपाक सांगिल्लें. पूण म्हजी गाडी लेट जाल्ल्यान हांव अकादेमींत दोन तारखेक रातचो पावलों. ऑफिसां बी सगलीं बंद! मसुरी बाजारांत देंवन थंयच्यान एका हमाला कडेन म्हजी सुटकेस दिवन देड-दोन किलोमिटर चलून वचचें पडलें, कारण लायब्ररी पॉयंट ह्या मसुरीच्या मुखेल ठाण्या कडल्यान शारांत भितर मोटारी, टॅक्सी बी कांयच सोडिनाशिल्ले. चलून वा सायकलींनी वचपाचें. हो कायदो अजुनूय आसा काय ना तें खबर ना. फार्टीं हांव माथेरानाक गेल्लों, थंयूय बी एका पॉयंटा पेल्यान मोटारी, टॅक्सी आनी हेर वाहनांक बंदी आशिल्ली. चलून नाजाल्यार घोड्याचेर बसून वचपाचें. वातावरणांतलें प्रदुशण आडावपाचो हो एक यत्न. खरें म्हणल्यार गोंयांतूय बी दाट रानांनी अरुंद रस्ते आसात, थंय वाहनांचेर अशीच बंदी घालपाक जाय अशें म्हाका दिसतालें. पूण गोंयच्या सरकाराक तशें केन्नाच सुचलें ना जावंये.

अकादेमींत हांव रातचो पावलों तेन्ना एका भुरग्यान म्हाका 'फर्टेडो'क मेळ म्हूण सांगलें. "तो तुका कितें करूंक जाय तें सांगतलो" अशें सांगलें. फर्टेडो 'ऑफिसर्स मॅस'चो मुखेल आशिल्लो. हो फर्टेडो न्हय, तर तो गोंयचो वा मंगळूरुचो फुर्तादो आसूंक जाय अशें म्हाका दिसलें, आनी ताका हांवें सरळ विचारलें, "तूं गोंयचो काय मंगळुरूचो?" ते बाराबर आपूण मंगळुरूचो आनी ह्या लोकांनी आपल्याक फुर्तादो वयल्यान फर्टेडो केलो, अशें म्हणून तो व्हडल्यान हांसलो. हांव गोंयचो अशें सांगतकच ताणें म्हाका कितें जाय, कितें नाका हाचेर खास ध्यान दिवंक सुरवात केली.

राष्ट्रीय अॅकॅडॅमींत भारतीय प्रशासन सेवा (आयएएस) 150, भारतीय विदेश सेवा (आयएफएस) 8, भारतीय पुलीस सेवा (आयपीएस) 200, कस्टम्स, इनकम टॅक्स, ऑडीट अॅण्ड अकावण्टस आनी हेर विभाग 450 अशे वट्ट सुमार 800 चले आनी चलयो प्रशिक्षणा खातीर आयिल्ली. अकादेमींत आयएएस ऑफिसर एक वर्स आनी हेर सगले चार म्हयने आसताले. आयएएस सोडून हेर सगल्या विभागांतले ऑफिसर चार म्हयन्यां उपरांत ट्रेनींग (प्रशिक्षण) सोंपोवन भारतांत वेगळ्यावेगळ्या सुवातांनी फुडली खासा ट्रेनींग घेवपाक वतात.

सक्काळीं फुडें साडेपांचांक उठून सं क व्यायाम करपाक वचप, एक वर व्यायाम जातकच मागीर न्हावन, तयार जावन, सूट-बूट चडोवन, च्या घेवंक डायनींग हॉलांत वचप आनी च्या सोंपोवन णव ते एक मेरेन वेगळ्यावेगळ्या क्लासींनी बसप, एक ते दोन जेवण आनी मागीर तीन ते साडेपांच मेरेन घोड्यार बसपाची ट्रेनींग. सकाळचे च्याक टोस्ट, ऑमलेट, लोणी, जॅम, पराठे, दोन-तीन तरांच्यो पातळ भाजयो, कॉर्नफ्लेक्स, दूद, च्या, काफी-आपल्याक जाय तें आनी जाय तितलें खावचें. सकाळच्या एका वराच्या व्यायामा उपरांत सडिक्क भूक लागतकच भरपूर ब्रेकफास्ट घेवन भरिल्ल्या पोटाचेर वचून चार वरां क्लासींत बसून लेक्चरर कितें सांगतात तें आयकप! अर्द्या अर्द भुरगे सुसेगाद न्हिदताले. म्हाका सामकी न्हीद येताली तेन्ना हांव फाटल्यान वचून बसतालों. हे सगले ऑफिसर व्हड व्हड कदेलांचेर बसपाचे आसात, आतां मातशी हांणी न्हीद काडल्यार कांयच बिगडना, अशें म्हूण लेक्चरर काकुळटेन आमकां कांयच म्हणिनासले. खूबशे ऑफिसर, चड करून दक्षीण भारतांतले, रातचे नेमान अभ्यास करताले, आनी दुसऱ्या दिसा लेक्चररांक प्रस्न विचारून बेजार करताले.

दनपारच्या जेवणाक ब्रेकफास्टा भशेनूच जायते नग आसताले. मसुरीच्या थंड वातावरणांत भूक बेगीन लागता आनी जेवले उपरांत न्हीद येवंक लागता. सुरवातीक हांव जेवन न्हिदतालों तेन्ना शंतनू म्हजीं फकांडां मारतालो. शंतनू हो एक रजपूत पुलीस ऑफिसर. आमी दोगूय एका रुमांत रावताले. तो लांबरुंद, राजस्थानांतल्या भरतपूर गांवचो. कांय वर्सां फाटीं तो राजस्थानचो डायरेक्टर जनरल ऑफ पुलीस (डिजिपी) जावन निवृत्त जालो म्हूण आयकल्लें. ताका दुर्बिणींतल्यान सवणीं पळोवपाचें पिशें. दनपारचो जेवलो की घोड्या वयली ट्रेनींग सुरू जावच्या आदीं मेळिल्ल्या वेळांत तो खास हण्टर बूट चडोवन, दोन-चार तरांच्यो दुर्बिणी घेवन भायर सरतालो आनी, "क्या सोता है, बर्ड वॉचींग करने के लिए आओ," अशें म्हणून म्हाका हालयतालो. "तुम जाके आओ हम कल आयेंगे" अशें म्हणून हांव ताका धांवडायतालों. म्हजें तें 'कल' केन्नाच उजवाडलें ना. शंतनूनय मागीर म्हाका आग्रो करपाचें सोडलें.

शंतनूक घोडे सामके आवडटाले. दर दिसा एक वर तो घोड्यांक सांसपुपांत आनी तांचे कडेन उलोवपांत घालयतालो. तांकां गॉड खावपाक घालतालो. घोड्यांक गॉड खाववयतकच ते आमचे इश्ट जातात अशें तो म्हाका सांगतालो. घोड्याचेर बसप, ताका ट्रॉट करपाक लावप (सवकास चलपाक लावप), गॅलप करपाक लावप (फास्ट धांवप), उजवे दावे वटेन घुंवडावप, हें सगलें करप म्हणल्यार चडश्या ऑफिसरांच्या जिवार येतालें. घोड्यां भितर थोडे मस्ते आनी थोडे बऱ्या सभावाचे-थंड, अशी वेगळ्यावेगळ्या घोड्यांची वेगळीवेगळी नामना आशिल्ली. हांव आनी कांय जाण बऱ्या सभावाच्या आनी थंड घोड्यां म्हऱ्यांत धांव घेताले. मस्त्या घोड्यांचो आमकां भंय दिसतालो. दरेकल्याक आपणाक जाय तो घोडो घेवपाची मेकळीक आशिल्ली, आनी थंड सभावाचे घोडे घेवपा खातीर सगल्या ऑफिसरांची सर्त लागताली. ध्यानसिंग हो आमचो इन्सट्रक्टर! घोड्यार कशें बसप आनी घोडो कसो चलोवप हें तो आमकां शिकयतालो. तो सदांच आमकां म्हणटालो, "घोडा संभाल नहीं सकते तो जिल्हा कैसे संभालोगे?"

एके फावटीं एक बायल ऑफिसर घोड्याक वेंग मारून "तुम कितने अच्छे हो, बहुत प्यारे हो" अशें कितेंय तरी उलोवन घोड्याक सांसपिताली. ध्यानसिंगान तें आयकलें आनी "मेमसाब, वह घोडा है, आदमी नहीं" अशें म्हणून तिका तापयली. ते बाराबर तिणें डायरेक्टरा कडेन ध्यानसिंगा आड कागाळ केली. मागीर ध्यानसिंगाक तापोवणी पडली काय ना तें खबर ना, पूण 'आदमी' आनी 'घोडा' हांचे मदलो फरक समजावन सांगपाचे भानगडींत तो त्या दिसा उपरांत केन्नाच पडलो ना.

अकादेमी भायरूच रस्त्या कुशीक एक व्हड जनरल स्टोर आशिल्लो. पंजाबी कसलेंय तरी नांव. पूण ताजो धनी बार्रेत. बार्रेतान हांव गोंयचो म्हूण कळना फुडें आपूण कुंकळ्ळेचो म्हणून सांगलें. तूं हांगा कसो पावलो अशें विचारतकच ताणें म्हाका आपली काणी सांगली. पयलीं तो दिल्लीक नोकरी करतालो. थंयच्यान मागीर देहरादूनाक आयलो. हें दुकान तेन्ना देहरादूनाक आशिल्लें. तो ह्या दुकानांत नोकरी करूंक लागलो. थंय तो ह्या पंजाबी धनयाचे धुवे कडेन लग्न जालो आनी मागीर तांणी दुकान मसुरीक हालयलें. ताच्या बापायच्या काळांत ताची फामील मुंबय येवन राविल्ली. ताचीं दोगांय भुरगीं पंजाबी उलयतालीं. ताका कुंकळ्ळेची व्हडलीशी कांयच याद नाशिल्ली. तो मुंबयूच जल्मल्लो. पूण मेळिल्ले फावटीं आमी गोंयच्यो खबरो करताले.

आमकां क्लासी आसताल्यो त्यो वेगळ्यावेगळ्या विशयांचेर-भारतीय संविधान, क्रिमिनल प्रोसिजर कोड, इण्डियन पिनल कोड, इण्डियन एविडन्स् अॅक्ट, पब्लीक अॅडमिनिस्ट्रेशन, पब्लीक सॅक्टर, गवर्नमॅण्ट कंपनी, बेलन्स शीट, फायदो आनी

लुकसाण, इण्डियन हिस्ट्री ह्यो गजाली शिकयताले. भारतांतल्या सगल्या वाठारांतले ऑफिसर थंय आसताले. खूबश्या बायलांक आनी दादल्यांक 'टेबल मॅनर्स' म्हणल्यार सुरी, गार्फ आनी कुलेर कशें वापरप, खावन जातकच नेपकीन कसो दवरप, खातना कशें खावप, बायल मनीस म्हऱ्यांत बसपाक आयली जाल्यार तिका कसो मान दिवप आनी कशी मजत करप, नुडल्स, चणे, चिकन हे नग फोर्क आनी सुरयेन कशे खावप, ह्यो गजाली आमकां फर्टेडो शिकयतालो. "आमी चॉपस्टीक वापरतात, ब्रिटिशांनी आमकां सुरी आनी फोर्क दिलीं म्हणून आमी तींच कित्याक वापरचीं, चॉपस्टीक कित्याक न्ही?" पिंपुटकराक कोणें तरी हो प्रस्न विचारलो. "तुमी चॉपस्टीक वापरतले जाल्यार वापरात, पूण फोर्क आनी सुरी कशी वापरपाची हें तुमकां खबर आसपाकूच जाय" अशें ताणें सांगलें. तमिळनाडूच्या तंजावूर गांवांतली एक हुशार चली आयएएस पास जाल्ली, "म्हाका पावाची स्लायस दुदांत बुडोवन खावंक आवडटा" अशें तिणें फर्टेडोक सांगलें. "ना तशें करूंक जायना" फर्टेडोन सांगलें. "तशें दुदांत बुडोवन चारचौगां हुजीर खायनात". "कित्याक खावची न्हय? कोणें कायदो केला?" अशें म्हणून ती चली तापली. "कायदो कोणेंच करूंक ना, पूण तशें खायनात. हांगाच्यान भायर सरतकच तुमी जाय तें करात, हांगा आसा म्हणसर तुमी तशें करपाक लागल्यार तुमचे आड रिपॉर्ट करचो पडटलो." अशें म्हणीत फर्टेडो तापलो. "म्हाका सुरयेन आनी फोर्कान चिकन खावंक कळना, म्हाका हातांनी खावपाची संवय" अशें एकल्यान म्हणलें. पिंपुटकरान सामको सादो उपाय सुचयलो; "तुमकां सुरयेन आनी फोर्कान चिकन खावपाक कळना जाल्यार चिकन खावं नाकात." सूप पियेता आसतना तो सुपाच्याच कुलेरान पियेवंक जाय, आनी फुर्र करून आवाज करूंक जायना. मिझोरामचो एक ऑफिसर आशिल्लो तो म्हणूंक लागलो, "आमच्या वाठारांनी सूप कुलेरान पियेनात; बावल तोंडाक लायतात आनी सूर्र करून पियेतात." ताका फर्टेडोन सांगलें, "तूं थंय वतकच तशें कर, पूण जगांत खंयूय गेल्यार आमी शिकयलां तशें कर."

ट्रेनिंगा वेळार सगल्यांनी क्लासीक वता आसतना टाय मारून ब्लेझर घालून वचपाक जाय आशिल्लें. मसुरीक ब्लेझर शिंवपी कांय खास शिम्पी आशिल्ले. तातूंतलो एकलो 'जॅक्सन'. हो कोणूय तरी हिंदू धर्म बदलून क्रिस्तांव जाल्लो आसुंये अशें म्हाका दिसलें, कारण कात भारतीय दिसताली. तूं क्रिस्तांव काय म्हणून विचारल्यार ताणें आपूण हिंदू म्हणून सांगलें. इतलेंच न्हय, तर आपूण हिंदू ब्राह्मण अशेंय सांगलें. जॅक्सन कशें अशें विचारतकच, आपलें मूळ नांव जयकिशन, पूण फॉरेन नांव आसतकच लोक चड मान दितात, देखून आपणें जयकिशनाचें जॅक्सन केलें अशें ताणें सांगलें. मसुरी जांव, गोंय जांव, गोरे काती विशीं आमकां आशिल्लो मान आनी आमचेच विशीं आशिल्लो

न्युनगंड हो भारतीय संस्कृतायेचो एक वांटोच काय कितें ह्या प्रस्नाक अजुनूय म्हाका जाप मेळूंक ना.

मसुरीक जरी 800 ऑफिसर एकाच वांगडा ट्रेनिंगेक आशिल्ले, तरी पूण चारूच म्हयने एके कडेन आशिल्ल्यान खूबशे एकामेकाक वळखनासतनाच उरले. म्हजो एक इश्ट तमिळनाडूचो डायरेक्टर जनरल ऑफ पुलीस आशिल्लो. तो पयलीं सैन्यांत आशिल्लो आनी मागीर आयपीएस जालो. हांव निवृत्त जातकच गोंयच्यान आनी तो चेन्नयच्यान, दिल्लीक गेल्ले कडेन जायते फावट मेळटाले. एके फावटीं आमी दिल्लीक मेळिल्ले. सीबीआय डायरेक्टर आपलो इश्ट, आपूण ताका मेळपाक वचपाचो आसा, तुंवूय यो, अशें ताणें म्हाका सुचयलें. आमी ताका मेळपाक गेल्ले तेन्ना, "तूं खंयच्या बॅचाचो आयएएस?"अशें त्या सीबीआय डायरेक्टरान म्हाका विचारतकच हांवें म्हणलें, '66 बॅच.' ताका अजाप जालें. "कितें? हांवूय 66 बॅचीचो, मागीर आमी कशे एकामेकांक वळखनात तर?" मागीर आमी अर्दवर सुमार पयलींच्यो यादी काडल्यो. आयएएस ऑफिसर मात धा-बारा म्हयने एक कडेन आशिल्ल्यान सगले एकामेकांक वळखताले. पूण सगल्यांचे आपआपणाले ल्हान ग्रूप आसताले. देखीक तमिळनाडूच्यान आयिल्ले ऑफिसर एका ग्रुपांत, केरळचे दुसऱ्या ग्रुपांत, दिल्लीचे तिसऱ्या ग्रुपांत, बंगाली चवथ्या ग्रुपांत अशे आसताले. गोंयचो हांव एकलोंच जाल्ल्यान म्हाका प्रादेशीक असो ग्रूप नाशिल्लो. पूण गोस्वामी (दिल्ली), बोंगिरवार (मुंबय), कवडे (औरंगाबाद) असो आमचो ग्रूप आशिल्लो. तीन-चार दिसांच्यो सुटयो मेळ्ळे बाराबर आमी लागींच्या खंयच्याय तरी वाठारांत भोंवंक वताले. उत्तर हिंदुस्थानच्या लोकांक गोडशें खावपाची खूब आवड हें म्हाका तांचे वांगडा भोंवडेर वतकच कळ्ळें. "मिठाई खाया जाय," अशें गोस्वामी म्हणटालो, आनी आमी सगले खंयच्याय तरी मिठायेच्या दुकानांत वचून जिलबी, दुदफेणो, संदेश, गुलाबजामून असले तरातरांचे नग एका फाटल्यान एक खाताले. म्हज्यान ती मिठाय चड खावंक नजो आसताली. "तुम गोआवालोंको मिठाई खाना नहीं आता," गोस्वामी सदांच म्हणटालो. गोस्वामी मागीर हिमाचल प्रदेशाचो चीफ सेक्रेटरी आसतना आमी शिमलांत मेळ्ळे. ताचे खूबशे दांत किडेल्ले आनी ताणें दोन-चार नवे घाल्ले. "आरेऽ तुज्या दांतांक कितें जालां?" अशें विचारतकच, "वो अपनी पुरानी आदत मिठाई खाने की" अशें म्हणून तो व्हडल्यान हांसलो. बोंगिरवार आनी हांव अजून लेगीत वर्सांतल्यान दोन-तीन फावट मेळटात. तो महाराष्ट्राचो चीफ सेक्रेटरी आनी जवाहरलाल नेहरू पोर्टाचो अध्यक्ष जावन निवृत्त जालो. ताचे आनी म्हजे दांत मात बरे आसात.

अकादेमींत कोंकणी उलोवपी फकत हांव, आयपीएस ऑफीसर रॉनी मेंदोंसा आनी आयएएस ऑफिसर मायक पिंटो. मायक पिंटो आनी मेंदोंसा दोगूय महाराष्ट्रांत

आशिल्ले, आनी हांव तमीळनाडूंत. मेंदोंसा आनी पिंटो मूळ मेंगळुरूचे. मसुरींत मेंदोंसा आपलें गितार घेवन बसतालो आनी आमी तिगूय मेळून कोंकणी कांतारां म्हणटाले. मसुरीक कितलेशेच संगीत प्रोग्राम जाताले. जेन्ना जेन्ना ऑफिसरांनी प्रोग्रामांत वांटो घेवपाचो आसतालो, तेन्ना तेन्ना आमचें कोंकणी कांतार आसतालेंच. रॉनी मेंदोसा महाराष्ट्राचो डायरेक्टर जनरल ऑफ पुलीस आनी मायक पिंटो भारत सरकाराचो शिपींग सेक्रेटरी जावन निवृत्त जाले.

महादेव गोविंद पिंपुटकर हो आमचो डायरेक्टर आशिल्लो! सामको कडक! पयल्याच दिसा सगल्या 800 ऑफिसरांक भाशण दितना ताणें सांगलें, "बरोबर णवांक तुमी क्लासींत भितर सरूंक जाय. णव जावन एका मिणटान क्लासीचीं दारां बंद जातलीं आनी 'णव' हीं तुमचे घडयाळी प्रमाण न्हय, तर अकादेमीचे मदले बिल्डिंगेचेर एक व्हडली घडयाळ आसा, ते घडयाळी प्रमाण हांगाचे सगले प्रोग्राम चलतले". पिंपुटकर एक आयसीएस ऑफिसर (इंडीयन सिवील सर्व्हीस). तो मुंबयचो म्युनिसिपल कमिशनर आशिल्लो तेन्नाच्यो ताच्यो गजाली अजुनूय थंयचे लोक सांगतात. शिस्त म्हणल्यार कितें हें ताचे कडल्यान शिकचें अशें महाराष्ट्रांतले ऑफिसर तेन्ना सांगताले. एके फावटीं ताची बायल ताची प्रायवेट मोटार चलयताली आनी ती नो-एण्ट्रीत भितर सरली. एका पुलिसान गाडी आडायली आनी तिका दंड घालो. तिचे कडेन रोख पयशे नाशिल्ले. तिणें घोवाक फोन केलो. घोवान रोखडेच पयशे धाडून दिले आनी तिका दंड भरपाक लायलो.

पिंपुटकर म्हजीं सदांच फकांडां मारतालो, "काय भाटीकर, आतां तुमचा गोवा आमच्या महाराष्ट्रांत येणार," अशें तो म्हणी. हांव ताका सदांच म्हणटालों, "नाहीं सर, तें शक्यच नाहीं". गोंयचो ओपिनियन पोल 1967त जानेवारींत जावपाचो आशिल्लो. ओपिनियन पोलाचो रिजल्ट कितें जातलो अशें ताणें म्हाका विचारलें. गोंय महाराष्ट्रांत वचचें ना, संघप्रदेश म्हूण उरतलें अशें हांवें सांगलें. पैज मारुया काय म्हूण ताणें विचारलें. हांवें पैज मारली. "तूं जिखल्यार हांव तुका म्हगेर च्याक आपयतां आनी हांव जिखल्यार तूं म्हगेर येवन च्या पी" अशें म्हणून तो व्हडल्यान हांसलो. ओपिनियन पोलाचो रिजल्ट येतकच ताणें मुद्दाम म्हाका आपल्या घरा व्हरून साबुदाणा वडा आनी च्या दिली.

फायनल परिक्षे वेळार घोड्यार बसपाच्या स्पोर्टांतूय आमकां थोडे मार्क आशिल्ले. पिंपुटकाराक घोड्यार बसपाची आवड आशिल्ल्यान तो आमची घोड्या वयली परिक्षा चलता आसतना दर दिसा थंय हजर आसतालो. म्हाका जाय तो थंड सभावाचो घोडो मेळिल्लो, पूण ताणेंच म्हजो घात मारलो. ट्रॉट, लॅफ्ट टर्न, रायट टर्न, गॅलप बी सगलें सारकें केलें, पूण हर्डल्सांचो वेळ आयलो, तेन्ना ताची तकली फिरली.

हर्डल्स म्हणल्यार चार फूट उंचायेचो लांकडी आडो आसता आनी ताचे वयल्यान आपणें घोड्याचेर बसून उडकी मारची पडटा. त्या कामाक घोड्याचेर बसून फास्ट येवचें पडटा आनी ज्युस्त त्या पॉयंटाचेर पावतकच दोनूय पांय घोड्याच्या पोटापोंदा मारून, मानेक हात लावन हर्डल्सां वयल्यान उडी मारपाक लावची पडटा. पूण म्हजो घोडो, जो हर्डल्स कांयच न्हय करून तांचे वयल्यान उडकी मारतालो तो परिक्षे वेळार दोन फावटीं हर्डल्सां म्हऱ्यांत पावतकच थांबलो आनी म्हाका ताका परतून व्हरचो पडलो आनी तिसरे फावटीं अकस्मात चड फास्ट धांवलो, आनी हर्डल्सां वयल्यान उडकी मारतना म्हाकाच सकयल उडयलो. मागीर पिंपुटकारान म्हाका आनीक एक चान्स दिलो. "ट्राय अगेन, ट्राय अगेन," ताणें म्हणलें. ते फावटीं घोड्यान आनीक त्रास दिनासतना आनी म्हाका सकयल उडयनासतना हर्डल्सां वयल्यान उडकी मारली. भाटीकर आनी पिंपुटकर दोगूय महाराष्ट्रीय देखून पिंपुटकरान भाटीकराक आनीक एक चान्स दिलो अशें म्हणून कांय अधिकाऱ्यांनी म्हर्जी फकांडां मारलीं.

मसुरींतल्यान आमकां 'भारत दर्शन' म्हूण वेगळवेगळे ग्रूप करून प्रत्येक ग्रुपाक थोड्या राज्यांची भोंवडी करची पडटा. कांय दीस थंयच्या गांवांनी रावन त्या वाठारांतलें सामकें तळागाळाच्या पांवड्या वयलें प्रशासन कशें चलता तें पळोवचें पडटा. प्रत्येक ग्रुपाक एक ग्रूप लिडर आसता. म्हज्या ग्रुपाचो म्हाका लिडर केल्लो आनी म्हाका राजस्थान आनी अस्तंत बंगाल हीं राज्यां दिल्लीं. आमकां एक खास डबो आसतालो. बायल ऑफिसरांक आनी दादले ऑफिसरांक वेगळेवेगळे भाग आसताले. मनशाचो मूळ सभाव वता काय ना, मनीस सुदारता काय ना, संकश्टांच्या वेळार मनीस कसो वागता, मनशाचो सुवार्थ केन्ना दिसता, हें सगलें वांगडा टुरार वतकच कळटा. राजस्थानांतलो टोंक हो जिल्लो सामको फाटसारिल्लो. थंय खंयच्याय तरी एका गांवांत भौशीक बांदकाम विभागाच्या एका गेस्ट हावसांत आमकां स जाणांक धा दीस रावचें पडलें. थंयच्या तलाठ्यान आमकां खंयच्यान तरी एक रांदपी हाडून दिल्लो. आमी ताका भाजी, तांदूळ, गंवाचें पीठ बी हाडून दिवचें पडटालें. खर्च सगल्यांनी सारको वांटून घेवपाचो आशिल्लो. सकाळचे आनी सांजचे गांवांनी आनी शेतांनी भोंवून पुरो जावन आमी परते येताले. रांदपी कितें रांदता तें जेवन बेगीन न्हिदताले, कारण केन्नाकेन्नाय लायटीय नासताल्यो. कृष्णन (नांव बदल्लां) हो ऑफिसर कोणाक आवडनाशिल्लो. हांव पावाचे स्लायसीक लोणी लायना, म्हणटकच म्हजे कडल्यान तुमी उणे पयशे घेवंक जाय, नाजाल्यार म्हाका पावाची आनीक एक स्लायस दियात अशें म्हणून तो सदांच आमचे कडेन वाद घालतालो. मागीर आमी ताका खूब बेजार करताले. तूं पावाचे स्लायसीक लोणी लायल्यार कितलें लायता, ताचें मोल कितलें, पावाचे स्लायसीची लांबाय, रुंदाय, दाटाय केदी, ताचें मोल

कितलें, हीं दोनूय मोलां एकेच भशेन आसले बगर तुका आमी एक्स्ट्रा स्लायस कशी दिवं येता अशीं आमी तार्चीं फकांडां मारप. कॉलिफ्लावर हाडटा तेन्ना तो आपूण सगल्यांत पयलीं फुलाचे कुडके वाडून घेतालो आनी आमकां देंठ दवरतालो. तो हुशार आनी दीसरात काम करपी. देखून मागीर ताका बडटी मेळत रावली आनी दक्षीण हिंदुस्तानांत एका राज्याचो तो चीफ सेक्रेटरी जालो. अकादेमी सोडटकच ताका केन्नाच मेळपाचो योग आयलो ना. आतां कॉलिफ्लावर तो कसो खाता, देंठ आपूण खाता काय बायलेक सोडटा, लोणी खाता काय ना, हें ताका विचारपाची संद म्हाका अजून मेळूंक ना.

राजस्थानच्यान कोलकाताक वतना वाटेर खजुराहोक भेट दिवपाचो बेत आशिल्लो. मसुरीच्यान भायर सरचे पयलीं आमचो सगलो प्रोग्राम वेगळ्यावेगळ्या रेल्वे अधिकाऱ्यांक आमी धाडिल्लो आनी खंयच्च्या दिसा, खंयच्च्या वेळार आमचो डबो खंयचे गाडयेक लावंक जाय आनी खंयचे गाडये कडल्यान वेगळो करून, खंयच्च्या स्टेशनार तो दवरपाक जाय, हे सगले बेत तांकां कळयिल्ले आनी ते प्रमाण तांणी वेवस्था करपाक जाय आशिल्ली. हातूंत कांय गोंदळ जावचो न्हय ही जतनाय घेवपाचें काम म्हजें. खजुराहो वचूंक आमकां मध्य प्रदेशांतल्या माणिकपूर ह्या स्टेशनाचेर आमचो डबो मुखेल गाडये पसून वेगळो करून थंय दवरपाचो आसलो. आमी सगलीं एके खास बशीन खजुराहो वचपाचीं आशिल्लीं. माणिकपूर पावपाचे आशिल्ले त्या दिसा सक्काळीं फुडें पळयल्यार आमचो डबो वेगळेच खंयचे तरी गाडयेक जोडला अशें आमकां कळ्ळें. फुडल्या स्टेशनार गाडी मातशी चड वेळ थांबोवन स्टेशन मास्तरा कडेन संपर्क सादून आमकां फुडलो सगलो बेत बदलचो पडलो आनी स्टेशन मास्तरा वरवीं माणिकपूर पावोवपाचो नवो बेत करचो पडलो. माणिकपूरच्यान खजुराहोक बशीन 45 मिणटांची वाट. आमी माणिकपूराक सकाळीं पावन आनी सबंद दीस खजुराहोक सारून तिनसांजचे थंयच्यान भायर सरपाचे आशिल्ले. पूण गोंदळाक लागून आमी माणिकपूर सांजचे चारांक सुमार पावले. आमकां खजुराहोचीं देवळां पळोवपा खातीर फकत पावूण वर वेळ मेळटालो. पावूण वर जाल्यार पावूण वर, पूण खजुराहो पळयले बगर वचप ना अशें आमी थारायलें.

खजुराहो हो गांव मध्य प्रदेशाच्या छत्तरपूर जिल्ल्यांत आसा. ख्रिस्ता उपरांत धाव्या आनी बाराव्या शेकड्यां मर्दी 200 वर्सांच्या काळात चंदेल राजांनी ह्या वाठारांत सुमार 80 ल्हान व्हड देवळां बांदिल्लीं. तातूंतलीं आतां 25 उरल्यांत. 1839 वर्सा इस्ट इण्डिया कंपनीच्या एका अधिकाऱ्यान गांवच्या लोकांनी दिल्ले म्हायती वयल्यान घनदाट रानांत लिपून बशिल्लीं हीं देवळां सोदून काडलीं आनी संवसारा मुखार हाडलीं. भारतांत फाटल्या अडेज हजार वर्सां मर्दी बांदिल्लीं देवळां खूब कडेन आसात. पूण खजुराहोंतल्या देवळांचो चोंबो सगल्यांत व्हड चोंबो अशें म्हणटात. हो देवळांचो चोंबो "जगाचें दायज"(वर्ल्ड हेरिटेज मॉन्युमेंण्ट) अशें युनेस्कोन उजवाडायलां.

खजुराहोच्या देवळांची शिल्पकला हें तांचें खास आकर्शण! सगल्यांत व्हडलें देवूळ खंडरिया महादेव. दादलो आनी बायल हांचे मदलो शारिरीक मोग फातरांचेर कोरांतिल्ल्या तरातरांच्या मुर्ती वरवीं थंय दाखयला. ही शिल्पकला फकत देवळांचे भायले वटेन दिश्टी पडटा. देवळांचे भितरले वटेन फकत देवांच्यो मुर्ती आसात. इतिहास-जाणकार हाचीं खूबशीं कारणां दितात. त्या काळांत बुद्ध आनी जैन धर्मांचो खूब प्रचार चलतालो आनी लोकांक हिंदू देवळां कडेन ओडून हाडपा खातीर हिंदू राजपूत राजांनी हो उपाय आपणायलो अशें कांय जाण म्हणटात. देवळांत वतना पवित्र मनान वचूंक जाय आनी ते खातीर मनांत आशिल्ले दीसपट्टे जिणेचे सगले भोग-विकार देवळा भायर सोडून वचूंक जाय देखून फातरांचेर कोरांतिल्लो हो मोग देवळांचे भायले वटेन आसा अशें हेर कांय जाणांचें मत!

खजुराहो आमकां फकत 45 मिनटां भोंवपाक मेळटालें. आमी चले आनी चलयो मेळून 20 अधिकारी आसले. आमी आमचे दोन पंगड केले आनी दोग गायडांक, "आमकां सगलें दाखोवपाची गरज ना, देवळांतल्या देवाचें दर्शन आमकां चुकल्यार जाता, पूण तुमकां जें चड म्हत्वाचें अशें दिसता तें शिल्प आमकां 45 मिनटां भितर दाखयात," अशें सांगलें.

अकादेमींतलें आमचें प्रशिक्षण काबार जातकच भारतांतल्या वेगळ्यावेगळ्या राज्यांनी आमी गेले. मागीरच्या काळांत केन्नाय खंयूय मेळटकच इतिहासांतल्यो यादी काडटा आसतना अर्द्याअर्दो वेळ आमी खजुराहो कशें पळयलें आनी गायडांनी बेस बरें काम केलें काय ना, हाचेर चड उलोवप जातालें.

अस्तंत बंगालांत बेलूर मठ (रामकृष्ण परमहंसाचें देवूळ), शांतिनिकेतन, आसानसोलच्यो कोळशाच्यो भुंयारी-खणी, दुर्गापूरचो सरकारी लोखंडां कारखानो आनी हेर प्रशासकी म्हत्वाच्यो सुवातो पळोवन आमी मसुरीक परतले. अस्तंत बंगालांत खंयच्याय तरी एका विभागांत थंयच्या प्रशासनाचेर भासाभास करपाक बशिल्ले थंय त्या विभागाची मुखेल एक 45-50 वर्सांची सुंदर दिसपी बायल आशिल्ली. शरतचंद्र चटर्जीचे कादंबऱ्यांतली हिरोइन आमी इतले दीस सोदताले ती आमकां आयज मेळ्ळी अशें म्हणून आमचे मदल्या एका अधिकाऱ्यान ते बायलेची तुस्त केली. तें आयकतकच ती बायल 'थँक्यू थँक्यू' म्हणटा आसतना बरीच लजली आनी तिणें म्हणलें, "कातीची गोरसाण वा सुंदरताय जातीचेर अवलंबून आसता, अस्तंत बंगालांत खंयूय भोवल्यार बामण आसात ते तुमकां गोरे आनी सोबीत दिसतले आनी हेर सकयल्या जातींचे लोक काळे आनी कुरूप दिसतले." तिचें हें उक्तेपणान केल्लें उलोवप आयकून आमी खोऽ करून हांसले. आमच्या वीस जाणांच्या पंगडांत सगल्या जातींचे अधिकारी आशिल्ले आसूंक जाय.

कोण खंयचे जातीचो तें आमकांच खबर नाशिल्लें. कोणूच तिचे कडेन वाद घालूंक गेलो ना. जातीचेर उक्तायिल्ल्या तिच्या मताक आमी म्हत्वूच दिलें ना.

ऑक्टोबर जातकच मसुरीक शीं वाडपाक लागलें आनी पर्वताच्या वाठारांनी शीं म्हणटात तें कितें तें कळपाक लागलें. डिसेंबराच्या निमाण्या सप्तकांत जेन्ना बर्फ पडपाक लागलो तेन्ना बर्फ केन्नाच अणभवूंक नाशिल्ल्या गोंय, महाराष्ट्र, कर्नाटक आनी दक्षीण भारतांतल्या ऑफिसरांचें मन कशें भुल्लुसलें हें उतरांनी सांगपाक जावचें ना. तो अणभव घेतले बगर कळचो ना. तकली कानतोपयेन धांपून आनी आशिल्ले तितलेय गरम कपडे घालून आमी सगले बर्फांत उबे रावताले आनी हजागांनी पडपी बर्फाच्यो कापट्यो उक्त्या हाताचेर घेवन हात थंड जातकच, एकामेकाचेर चोंळून गरम करून परतून तोच खेळ खेळटाले. मागीर रस्त्याचेर दाटिल्ल्या बर्फाचे ल्हान-ल्हान लाडू करून एकामेकांचेर मारताले. आमी मसुरीक आसतना असो बर्फ पांच-स फावटीं पडलो आनी दर फावटीं आमी तशेच भुल्लुसले.

आयएएस परिक्षेक बसपाची पिराय घालून दिल्ली आसता. तेन्नाच्या काळांत उण्यांत उणी पिराय बावीस आनी चडांत चड चोवीस. अनुसुचीत जमातींचे ऑफिसर आसल्यार चडांत चड पिराय 29.

अकादेमींत येवन एक वर्स त्या वातावरणांत उरून मोग करतलो जाल्यार सैमान फाटभूंय आदींच तयार करून दवरिल्ली आसता : "हांगा तुमी प्रेमांत पडात"अशें सगल्या ऑफिसरांक सांगिल्ले भशेन! सगले बायलो आनी दादले ऑफिसर 24-25 वर्सांच्या लागीं आसतात. आनी कोणाकोणाचें जुळटा, कोणाकोणाचें तुट्टा हो विशय एक सामान्य विशय आसता. भारतीय संविधान, भारतीय इतिहास, भारतीय दंड संहिता हे कठीण आनी सामके वाज हाडपी विशय शिकून जातकच दर सांजचें कोणाकोणाचें प्रेम जमलां, कोण कोणा कडेन कम्पिटिशन करता अशे रुचीक विशय घोळटाले आनी जिणेक मातसो रंग चडटालो. भारतीय संस्कृतायेंत सगल्यांचीं पाळांमुळां इतलीं घट रुतिल्लीं, कीं उत्तर भारतीय चलयेन केन्नाच दक्षीण भारतीय ऑफिसराचेर प्रेम करूंक ना वा दक्षीण भारतीय चली उत्तर भारतीया लागीं गेली ना. ताचेकूय चड म्हत्वाचें म्हणल्यार प्रेम करतना अर्थीक पांवडो, समाजीक सुवात आनी जात हेंवूय बी ऑफिसर ध्यानांत दवरताले काय दिसता. तमीळनाडूचो एक आकांताचो हुशार अय्यर ऑफिसर त्याच राज्यांतले एके अय्यर चलयेच्या प्रेमांत पडलो. अकादेमींत हरशीं सुंदर दिसपी ऑफिसर चलयो जायत्यो आशिल्ल्यो. पूण आपले जातीची, आपल्या प्रदेशांतली चली ऑफिसर सोडून काडून ताका तिचेर प्रेम करपाक कितेंय फावो! आमची एका वर्साची ट्रेनींग सोंपतां सोंपतां तांचें प्रकरण बरेंच गाजलें आनी अकादेमींतल्यान आपापणाल्या राज्यांनी वता

आसतना सगल्या अधिकाऱ्यांनी तांकां व्हडली पार्टी दिली. लग्न जातकच न्हवरो आनी व्हंकल हनिमुनाक वतना तांकां बाय बाय म्हणटात ते भशेन हेरांनी बोवाळ केलो. तीं दोगांय वेगळ्यावेगळ्या राज्यांनी गेलीं. तांच्या लग्नाचें आमंत्रण केन्ना येतलें काय म्हणून सगले वाट पळोवंक लागले. पूण मागीर ती ऑफिसर आनीक एका अयंगार आयएएस ऑफिसराच्या प्रेमांत पडली आनी आमच्या इश्टाक तिणें सोडलो. सांगपाचें म्हणल्यार शिक्षण कितलेंय आसूं, जात आमचे भारतीय संस्कृतायेंत इतली घट रुतल्या कीं जिणेंत कितेंय जाता तें सगलें जातीचे फास्केंत जावंक जाय अशें सगल्यांक दिसता; नाजाल्यार सगल्यांकूच हो हुसक्याचो विशय जाता. केलिडोस्कोप हातांत धरतकच तातूंत तरातरांचे आकार पळोवंक मेळटात. मसुरींतय तशेंच जोडपाचें आनी मोडपाचें काम चालू आशिल्लें. जें तेन्ना दिसतालें तें मागीर उरलें ना आनी जें तेन्ना नाशिल्लें तें मागीर जालें.

एक मराठी बायल ऑफिसर आशिल्ली. पळोवपाक सामकी बरी दिसनाशिल्ली. ती उलोवपाक लार्गी येता म्हणल्यार सगले पळ काडटाले. आमी सगले सांजचे भोंवपाक वता आसतना ती आमचे वांगडा येत म्हूण आमकां सदांच भंय आसतालो. एके फावटीं महाराष्ट्रांतले दोग ऑफिसर पिक्चराक वचूंक भायर सरिल्ले. हिका खंयच्यान तरी ती खबर कळ्ळी आनी तांचे वचपाचे वाटेर तिणें तांकां आडायले. आनी "मी पिक्चरला येऊं का?" म्हणून विचारलें. ते बाराबर तांणी आमी पिक्चराक वचनात, आमी बारांत सोरो पियेवंक वतात अशें तिका सांगलें. त्या दिसाच्यान तिचे भिरांतीन तांणी पिक्चराकूच वचपाचें बंद केलें.

वर्सभराची ट्रेनींग सोंपचे पयलीं आमकां एका म्हयन्याचो "मिलिटरी अटेचमॅण्ट" आसतालो. धा धा ऑफिसरांचे पंदरा पंगड करून भारत-पाकिस्तान बॉर्डरी वयल्या वेगळ्यावेगळ्या गांवांनी लश्करा वांगडा आमकां रावपाक धाडटाले. आमच्या देशाचेर दुसऱ्या देशान घुरी घाली जाल्यार वा जायत्या फावटीं आमच्या राज्यांत सवस्तकाय सांबाळून दवरचे खातीर लश्कराचो पालव घेवचो पडल्यार लश्कराच्यो काम करपाच्यो आनी विचार करपाच्यो पद्दती, तांची शिस्त बी ह्या सगल्या गजालींची वळख जावपा खातीर आयएएस ऑफिसरांनी तांचे वांगडा एक म्हयनो रावन येवंक जाय असो तो नेम! आमचो पंगड जम्मू आनी कश्मीरांतल्या कुपवाडा नांवाच्या बॉर्डरी वयल्या गांवा म्हऱ्यांत आशिल्ल्या लश्कराच्या कॅम्पांत रावपाक गेलो. कुपवाडा हो धाकलोसो गांव बारामुल्ला जिल्ल्यांत, म्हणल्यार कश्मीर आनी पाकिस्तान हांचे मदल्या वायव्य (उत्तर-अस्तत) शिमेचेर, 5300 फूट उंचायेचेर आसा. शमवार आनी पिरपंचाल ह्या पर्वत रांकां मदीं तो आसा. भारत आनी पाकिस्तान हांचे मदीं कांय वाठारांनी आंतरराष्ट्रीय शीम सारकी घालून दिल्ली आसा. पूण कश्मीरांत चडशी आसा ती आंतरराष्ट्रीय शीम न्हय-ती नियंत्रण

रेशा (लायन ऑफ कंट्रोल). नियंत्रण रेशा चडशी बर्फान धांपिल्ल्या पर्वतांतल्यान वता आनी त्या वाठारांत पाकिस्तानांतल्यान आकांतवाद्यांक कश्मीरांत घुसूंक सोंपें पडटा. देखून ह्या वाठारांत भारतीय लश्कराक सदांच चड जागरूक रावचें पडटा. थंय सैन्याच्या ऑफिसरांनी आमकां तरातरांचे व्यायाम करूंक लावन आमकां बरेच सतयले. सैन्यांतल्या ऑफिसरांक आनी शिपायांक कसले त्रास काडचे पडटात तें तुमकां कळूंक जाय, नाजाल्यार तुमची ट्रेनींग तुमकां उपकारा पडची ना अशें ते म्हणटाले. फास्ट धांवून येवन रूंद खळये वयल्यान उडकी मारप, कांट्यांच्या सरयां पोंदच्यान कोंपरांचेर सरकटत सरकटत फाटीक सरी लागूंक दिनासतना 40 - 50 फूट फुडें सरप, फाटीर 15- 20 कील वजनाची पोटली घेवन धांवप, आर्म वापरपाक शिकप, अश्यो जायत्यो गजाली करच्यो पडटाल्यो. आमचे शिमेचेर ऑफिसर आनी जवान कसले परिस्थितींत रावतात तें पळोवपा खातीर बर्फान भरिल्ल्या धव्याफुल्ल दोंगरा वयल्यान तीन दीस आमी चलत गेले आनी रातच्या वेळार तांच्या बंकरांनी रावले. एका बंकरांत जेवणा उपरांत आमकां लातांतल्यो आंब्यांच्यो शिरो खावंक मेळ्ळ्यो. आंब्याच्या ल्हानश्या डब्याचेर 'कोस्तास मँगो, मारगांव गोआ' अशें आशिल्लें. तें पळोवन बेठोच मडगांवचो अभिमान दिसलो. कोस्ताचे आकेंचे फॅक्टरीक आमी ल्हानपणांत 'फाब्रीक' म्हणटाले, आनी फाब्रिका शेजारच्या उक्त्या मळार फुटबॉल खेळूंक वताले. कश्मीरांतल्या थंड हवेच्या ल्हारां भशेन एका सेकंडा भितर म्हज्यो पयलींच्यो यादी झुम्म करून येवन गेल्यो.

आमच्या सगल्या ट्रेनिंगांत दादले आनी बायल ऑफिसरांक वांगडाच ट्रेनींग आसताली. बायलांची ट्रेनींग दादल्यां इतल्या कश्टांची नासताली. शिमे वयल्या कॅम्पांनी आंकवार तरनाटे ऑफिसर आनी फॅमिली बी आशिल्ले ऑफिसर आपल्यो फॅमिली वेगळ्यावेगळ्या शारांनी सोडून थंय येवन रावताले. हांगा बायल ऑफिसरांनी सांबाळून वागूंक जाय, नाजाल्यार सगल्यांकूच त्रास जावं येता अशी शिटकावणी मिलिटरी ट्रेनिंगेच्या पयल्याच दिसा एका ब्रिगेडियरान आपणाल्या येवकाराच्या उलोवपांत दिल्ली. आमचे वांगडा आशिल्ली एक बायल ऑफिसर एका मेजरा वांगडा तिनसांजची एकलीच भोंवंक वचूंक लागली. तशें करूं नाका अशें आमचे बाराबरच्या हेर बायल ऑफिसरांनी तिका कितल्याश्याच फावटीं सांगलें. अखेरेक आमची ट्रेनींग अर्द्यार पावचे पयलींच त्या ऑफिसरान आपणाचेर बलात्कार करपाचो यत्न केलो अशी कागाळ तिणें कॅम्पाच्या मुखेल ऑफिसरा कडेन केली. तो मेजर रोखडोच निलंबीत जालो आनी मागीर ताचेर कोर्ट मार्शल जालो. हे बायल ऑफिसराची आदींच दुसऱ्या एका ऑफिसरा कडेन सोयरीक जाल्ली आनी ट्रेनींग सोंपतकच तांचें लग्न जावपाचें आशिल्लें. त्या मेजराचें करियर पेड्डेर जालें म्हण आमकां सगल्यांक वायट दिसलें. पूण ती बायल मात खंयचे कडेन कांयच जालें ना अशी वागताली.

आमचे वांगडा बालराज नांवाचो एक तमीळ ऑफिसर आसलो. कुपवाडा कॅम्पांत कांय तमीळ सैनीक आसले. तांचे कडेन बालराज तमीळींत उलोवन दोस्ती करूंक लागलो. "तुज्या प्रदेशांतले ते आसले म्हणून तांचे फाटीर हात मारून तांचे कडेन दोस्ती करप म्हणल्यार शिस्त पेड्डेर करप. मिलिटरींत सिर्वीस करतल्या तरनाट्यांची आमी जतनाय घेवंक जाय. तांच्या फामिलींक त्रास जावचो न्हय हे खातीर यत्न करूंक जाय, पूण आमची शिस्त कडक आसूंक जाय. भास, जात, धर्म, प्रदेश बी हांच्या आदाराचेर कांय लोक आमकां लागीं आनी हेर लोक पयस अशी परिस्थिती जावंक जायना", अशी कॅम्पाच्या मुखेल ऑफिसरान आमकां सगल्यांक शिटकावणी दिली.

सैन्यांतले शिस्तीची ही व्याख्या हेर कडेनूय लागू जाता काय ना, खबर ना; आनी कॅम्पाच्या मुखेल ऑफिसरान दिल्ली ती शिटकावणी भारतीय सैन्याच्या धोरणांत आसपावता काय ना, तेंवूय खबर ना. आयजकालच्यो वेवस्थापन पद्दती पळयल्यार शिस्तीची ही व्याख्या सगलेच कडेन उपकारा पडटली काय ना हातूंत दुबाव आसा.

अकादेमीची ट्रेनींग जून म्हयन्यांत सोंपून रोखडेंच आमकां त्या त्या राज्यांनी वचून रिपोर्ट करचें पडलें. म्हाका तमीळनाडू काडरांत घाल्लो. आयएएस परिक्षे खातीर अर्ज करतना आपणाक खंयचें राज्य जाय हें सांगचें पडटा. म्हाका गोंय जाय अशें हांवें बरयिल्लें. गोंयाक वेगळो काडर ना आनी गोंय हें संघप्रदेश काडरांत आसपावता, देखून तुका जाय जाल्यार संघप्रदेश काडरांत घालूं येता अशें आयएएस पास जातकच भारत सरकारच्या गृहमंत्रालयान म्हाका सांगलें. संघप्रदेश काडर म्हणल्यार दिल्ली, अंदमान निकोबार, पॉंडिचेरी, चंदीगड, मिझोराम, गोंय, दमण-दीव ह्या सगल्या संघप्रदेशांनी म्हाका काम करचें पडटलें आशिल्लें. 'तुमकां जाय थंय तुमी म्हाका घालात' अशें हांवें तांकां सांगलें आनी तांणी म्हाका तमीळनाडूंत घालो. तमीळनाडू आनी महाराष्ट्र हीं प्रशासनीक पांवड्याचेर भारतांतल्या राज्यां मदीं सगल्यांत चड मुखार पाविल्लीं आनी चड सुदारिल्लीं अशें तेन्नाच्या जाणकार लोकांचें मत आशिल्लें. "तूं नशीबवान देखून तुका तमीळनाडू राज्य मेळ्ळें" अशें जायत्या वडील अधिकाऱ्यांनी म्हाका म्हणटकच तमीळनाडू मेळ्ळें म्हणून पयलीं मातशें वायट दिशिल्लें तें उणें जालें.

तमीळनाडू हें भारतांतले सगल्यांत चड शारीकरण जाल्लें राज्य! दर 25-30 किलोमिटरांचेर उद्देग-धंद्यांनी भरिल्ल्या वाठारांत 20-25 टॅक्सी सदांच रस्त्याकुशीक उब्यो आशिल्ल्यो दिश्टी पडटात. वचत थंय ल्हान ल्हान माणकुलीं शारां!

ह्या राज्याचो इतिहास - म्हणल्यार पुराव्यांच्या आदाराचेर बरयिल्लो इतिहास - 2500 वर्सां पयलींच्यान सुरू जाता. हजारांनी वर्सां पयलीं बांदिल्लीं देवळां ह्या राज्यांत आसात तितलीं आनीक खंयच्याच राज्यांत नात. सुमार सात कोटी लोकसंख्या आशिल्ल्या

ह्या राज्याची द्रवीड संस्कृताय उत्तर हिंदुस्थानांत आशिल्ले आर्य संस्कृताये इतलीच पोरणी आनी गिरेस्त अशें म्हणटात. उत्तर हिंदुस्थानांत जशे मौर्य, गुप्त आनी हेर राजवंश जावन गेले, तशेच पल्लवन, चोळन, पांड्यन, चेरन, नायक आनी विजयनगर ह्या राजवंशांनी दक्षीण भारताक गिरेस्त भासो आनी संस्कृतायो दिली. तमीळ भास ही संस्कृत भाशे इतलीच पोरणी आनी तमीळ भाशेंतलो तिरुक्कुरळ हो धर्मग्रंथ दोन हजार वर्सां पयलीं तिरूवळ्ळूवर ह्या संतान बरयिल्लो. आयज दक्षीण भारतांत चार राज्यां आनी एक संघप्रदेश आसात. तमीळनाड, आंध्र, कर्नाटक, केरळ आनी पुडुचेरी. हजारांनी वर्सां पयलींच्या इतिहासांत कर्नाटक, केरळ आनी आंध्र हांतूतलो चडसो वाठार तमीळनाडूंत आसपावतालो. "जगाचें दायज" म्हूण भारतांत 41 इतिहासीक स्मारकां युनेस्कोन वेंचून काडल्यांत आनी तातूंतलीं 8 'वर्ल्ड हेरीटेज सायट्स' तमीळनाडूंत आसात.

आयएएस ऑफिसरांक दोन वर्सांचें प्रशिक्षण आसता. एक वर्स मसुरीक आनी ज्या राज्यांत तांणी काम करपाचें आसता त्या राज्यांत आनीक एक वर्स! म्हज्या प्रशिक्षणाचो पयलो एक म्हयनो मद्रासाक काडून मागीर सरकारान म्हाका मदुरायाक धाडलो.

आयएएस ऑफिसरांक प्रशासनाच्या सगल्या विभागांनी प्रशिक्षण घेवचें पडटा. सुरवातीक 'कर्णम'(तलाठी), 'रेव्हेन्यू इन्स्पेक्टर' (तलाठी आनी मामलेदार हांचे मदलो अधिकारी, चार पांच तलाठ्यांचेर देखरख करपी), 'तहसीलदार' (हाका गोंयांत मामलेदार म्हणटात), 'बिडिओ', 'सब-कलेक्टर' - (हाका गोंयांत डेप्युटी कलेक्टर म्हणटात). तमीळनाडूंत डेप्युटी कलेक्टराचें पद सांबाळपी आयएएस अधिकाऱ्याक 'सब-कलेक्टर' म्हणटात आनी हेरांक 'डेप्युटी-कलेक्टर' म्हणटात. भारतांत हेर कडेन स-सात वर्सां सिर्वीस जातकच, आयएएस ऑफिसरांची जिल्ल्याचो कलेक्टर म्हूण नेमणूक जाता. पूण फकत तमीळनाडूंत धा-बारा वर्सां सिर्वीस जातकच कलेक्टर जावंक मेळटा. कलेक्टर म्हूण सिर्वीस जातकच मागीर चडशी जीण मद्रासाक (आतांचें चेन्नय) घालोवची पडटा. सचिवालयांत जोड-सचीव, सचीव, मुख्य सचीव नाजाल्यार सरकारी आस्थापनांचे वेवस्थापकी संचालक, अध्यक्ष वा वेगळ्यावेगळ्या खात्यांचे मुखेल म्हणल्यार संचालक, जोड संचालक आसतात.

आयएएसांत दोन तरांचे लोक आसतात. एक म्हणल्यार म्हजे भशेन परिक्षा दिवन पास जावन नेमिल्ले आनी दुसरे म्हणल्यार कांय वर्सां आदींच सरकारी सिर्विसेंत आशिल्ले आनी ते उपरांत 8-10 वर्सां बरें काम करतकच बडटी मेळून आयएएस ही पदवी मेळिल्ले. तेन्नाच्या काळांत दर राज्यांत 66 प्रतिशें डायरेक्ट परिक्षा दिवन पास जाल्ले आसताले आनी 33 प्रतिशें परिक्षेक बसनासतना सिर्विसेच्या आदाराचेर नेमिल्ले

आसताले. डायरेक्ट घेतिल्ल्यां मदले 50 प्रतिशें त्या राज्यांतले आनी 50 प्रतिशें हेर राज्यांतले अशे आसताले. हाचें कारण म्हणल्यार राष्ट्रीय एकचार वाडचो आनी राज्याच्या प्रशासनांत लेगीत एक व्हड राष्ट्रीय पांवड्या वयल्यान विचार करपाची संवय आसची हे खातीर एका राज्यांत जल्म जाल्ल्या ऑफिसरांनी दुसऱ्या राज्यांत सिर्वीस करपाचो कायदो भारतीय घटनेंतूच घालून दिल्लो आसा.

मसुरीक ट्रेनींग सुरू जावन दोन-तीन म्हयने जातकच आमकां खंयच्या राज्याच्या काडरांत घाल्यात हें ताणी आमका सांगलें आनी तेन्नाच्यान हांवें तमीळ शिकपाक सुरवात केली. म्हजे वांगडा तमीळनाडूचे ऑफिसर आशिल्ले तांचे कडल्यान हांवें तमीळ शिकूंक सुरवात केली. पूण खरी तमीळ शिकपाक सुरवात जाली ती तमीळनाडूंत पावतकच. 1966 त द्र.मु.क. (द्रवीड मुन्नेत्र कळ्ग्हम) पार्टीचें सरकार स्थापन जाल्लें. "तमीळ आमची भास, आमचो इतिहास आनी आमची संस्कृताय! आमचें प्रशासन तमीळींतल्यानूच जावंक जाय आनी देखून सगल्या आयएएस ऑफिसरांक तमीळ बरी कळ्ळूंक जाय" हें थंयचें सरकारी धोरण. आदल्या काळांत हेर कडले ऑफिसर चडशे इंग्लीशींतल्यान काम चलयताले. कांय ऑफिसर भौशीक सभांनी लेगीत इंग्लीश उलोवन हेर कोणाकूय ताचो अणकार करूंक लायताले. द्र.मु.क. सरकार येतकच ती परिस्थिती उरली ना.

तमीळनाडूंत पयल्याच वर्सा म्हाका तमीळींतल्यान दोन परिक्षा दिवच्यो पडल्यो. तमीळींतल्यान परिक्षा पास जाले बगर फुडली पगारवाड मेळची ना असो सरकारान कायदो घालून दिल्लो. परिक्षा म्हणल्यार सादी 'नाम के वास्ते' परिक्षा न्हय. म्हजी परिक्षा घेतना परिक्षकांनी रस्त्या वयले खंयचेंय तरी एके बायलेक हाडून म्हजे मुखार उबी केली. म्हजें काम म्हणल्यार, तमीळींतल्यान तिचे प्रोब्लेम जाणून घेवप आनी मागीर त्या प्रोब्लेमाचेर उपाय कितें हें तमीळींतल्यान बरोवन काडून परिक्षकांक दिवप. तमीळनाडूंत बरोवपाची भास आनी उलोवपाची भास-दोनूय वेगळ्यो पद्दती. म्हणटकच उलोवपाचे भाशेंत ते बायले कडेन म्हाका उलोवचें पडलें आनी मागीर ताचोच आपरोस साहित्यीक भाशेंत बसोवन बरोवन काडून परिक्षकांक दिवचो पडलो.

थळावे भाशेंत प्रशासन चलोवप आनी लोकशाय वेवस्थेंत आपणाले भाशेंत राज्य चलोवपाची संद लोकांक दिवप आतां भारतांत सगले कडेन सुरू जालां. सामक्या वयल्या पांवड्यार जरीय इंग्लीश भाशा चलता तरीय प्रशासनाच्या चडश्या पांवड्यांचेर आनी चडश्या भागांनी थळाव्या भाशांनी काम चलता. आमचें गोंय मात स्पेशल! 95 प्रतिशें वयर लोक कोंकणी उलयतात पूण कोंकणी राजभास आसुनूय प्रशासन मात अजून इंग्लीशींत चलता. पुर्तुगेज आयले आनी गेले. आमकां स्वातंत्र्य मेळ्ळें पूण तें

स्वातंत्र्य पचोवपाची आमकां शक्त ना. आमचे मालकीचें घर आसा, पूण दुसऱ्यांचे पडवेचेर पडून रावपाची आमची संवय अजून वचूंक ना. तमीळनाडूंतल्यान जेन्ना जेन्ना सुटी घेवन हांव गोंयांत येतालों तेन्ना तेन्ना म्हाका हें पळोवन खंत भोगताली.

तमीळनाडूंत हांव दोनूय तमीळ परिक्षा बरे भशेन पास जालों. मदुराय जिल्ल्यांत प्रशिक्षण घेतना मदीं मद्रासाक वचून म्हाका ह्यो परिक्षा दिवच्यो पडल्यो. मदुराय जिल्ल्यांत म्हजें प्रशिक्षण देवदानपट्टी ह्या इल्ल्याशा खेड्यांत सुरू जालें. पेरियकुळम ह्या तालुक्यांतलो तो धाकटुलो गांव. पेरियकुळम शारांतल्यान धा-बारा किलोमिटर पयस! देवदानपट्टींत म्हाका रावपाक जागोच नाशिल्लो. चडश्यो ल्हान ल्हान खोंपी, मातयेचीं घरां आनी कांय शिमिटाचीं घरां, जेवणाखाणा खातीर हॉटल लेगीत नाशिल्लें. गांवांत पोस्टमास्टर सोडलो जाल्यार कोणाक इंग्लीश उलोवंक येनाशिल्ली. पूण हांवें त्या गांवांतूच रावंक जाय आनी काम शिकूंक जाय हो कायदो ! म्हणटकच हांव पंचायतीच्या ऑफिसांत रावूंक लागलों. कर्णम आपणाल्या घरच्यान म्हाका च्या आनी जेवण हाडून दिवंक लागलो. कर्णमान खंयच्यान तरी लुगटाच्या पट्टयांची, लांकडाचे फ्रेमीची एक खाट हाडून घाली. तमीळ शिकपाक हांवें थळावे तमीळ शाळेंतल्या एका पंडिताक आपयलो. दोन हजार वर्सां पयलीं बरयिल्लें तिरुवळ्ळूवराचें तिरुक्कुरळ तो दीसरात म्हाका शिकोवंक लागलो. तिरुवळ्ळूवर हो दोन हजार वर्सां पयलींचो एक संत. मराठींत जसो दासबोध आसा, हिंदींत जशे कबीराचे दोहे आसात तशेंच तमीळींतल्यान तांचे परस पोरणें तिरुवळ्ळूवराचें तिरुक्कुरळ आसा. तमीळ संस्कृतायेचें एक प्रतीक म्हणून तिरुक्कुरळांतल्यो वळी आनी तिरुवळ्ळूवराचो फोटो सगल्या सरकारी ऑफिसांनी आनी डाक बंगल्यांनी लावपाक जाय अशी द्र.मु.क. सरकारान सक्ती केली. चेन्नैंत 'वळ्ळूवर कोट्टम' नांवाचें तिरुवळ्ळूवराचें एक भव्य स्मारक उबारलें.

ती पयलींच्या काळांतली तमीळ इतली कुस्तार कीं आतांच्या तमीळ लोकांक लेगीत ती समजना. म्हाका दीसपट्टे जिणेंत उपकारा पडपी तमीळ शिकय, ही दोन हजार वर्सां पयलींची तमीळ नाका, अशें त्या पंडिताक कितल्या फावटीं सांगलें तरी आसतना तो, "शी:शी:शी:शी:!!! आमी रस्त्याचेर आनी बाजारांत उलयतात ती तमीळ कोणेंच शिकची न्हय, तमीळ शिकतलोच जाल्यार सारकी तमीळ शीक" अशें म्हणून तमीळ संस्कृताय फुडें चलोवपाचो भार तिरुवळ्ळूवरान फकत आपल्याचेरूच घाल्ले भशेन तो उलयतालो. हांव दीसरात ताचे मुखार बसून फडफडटां आनी वांकडीं तोंडां करतां तें पळोवन कर्णमान् ताका थयंचो निखळायलो आनी तूं आपणा कडेनूच सदूदां तमीळींतल्यान उलय, बेगीन शिकतलो अशें सांगलें.

कर्णमाच्या त्या गांवांत रावन म्हाका कर्णमाचें आनी रेव्हेन्यू - इन्स्पेक्टराचें काम शिकपाचें आसलें. खंयचें शेत कोणाचें, ताचो आवांठ केदो, थंय अंदू कितें पिकलां, ताका उदक खंयच्यान मेळटा, असल्यो गजाली कर्णम आपल्या रजिस्टरांनी बरयतालो. तीं रजिस्टरां आनी ते नकाशे घेवन मैलांचे मैल पसरिल्ल्या शेतां मदल्यान वाट काडीत रजिस्टरांत बरयिल्लीं शेतां सारकीं खंय आसात तें जाणून घेवन आनी शेताचो आवांठ मेजून त्या रजिस्टरांनी तो सारको बरयला काय ना हें तपासपाचें काम चलतालें. तमिळनाडूंत वत कडक. म्हणटकच शेतांतल्यान भोंवपाचें काम सकाळच्या धा पयलीं आनी सांजच्या पांचां उपरांत आमी करताले.

आपूण एका इश्टाची 'वंडी' घेवन येतां, आमी मंजळार धरण पळोवया अशें एक दीस कर्णमान म्हाका सुचयलें. देवदानपट्टीच्या चडश्या शेतांक मंजळार धरणाचें उदक मेळटालें. तें धरण केन्नाय तरी वचून पळोवंक जाय अशें हांवें कर्णमाक कांय दिसां आदीं म्हणिल्लें. 'वंडी' जेन्ना आयली तेन्ना म्हाका म्हजीच लज दिसली. हांव रावतालों मोटारीक! (तमीळींत मोटारीक वंडी म्हणटात) म्हाका व्हरूंक आयली ती बैलगाडी! तमीळींत बैलगाडयेकूय वंडी म्हणटात हें हांव विसरिल्लों. बैलगाडी मात बरी सजोवन हाडिल्ली. बैल बरे लाबरुंद, घटमूट, शिंगांक तांबडे - हळडुवे गोंडे बांदिल्ले आनी गाड्यांत भितर बसपाक बरें दाट कुलच्यांव घाल्लें. 'तुमी मोटारीक कितें म्हणटात रे?' अशें हांवें कर्णमाक विचारलें. मोटारीक ते सगले 'प्लॅशर' (प्लॅजर) म्हणटाले. त्या गांवांत एकूच प्लॅशर आशिल्ली आनी ती थंयच्या सावकाराची. लोकांक व्हड कळंतराचेर रीण दिवपी त्या सावकाराची प्लॅशर हाडल्यार म्हाका राग येवंये देखून कर्णमान एका शेतकाराचो गाडो पसंत केल्लो. तुवें बरें केलें अशें म्हणून हांवें ताका शाबासकी दिली.

त्या गांवची म्हाका आनीक एक याद म्हणल्यार जातीय वेवस्थे विशीं जाल्लें आमचें उलोवप! "ह्या गांवांत केन्नाच जाती वयल्यान झगडीं जावंक नात. सगले जातींचे लोक एकामेकां कडेन मोगान वागतात" अशें कसल्या तरी विशयाचेर उलयतना कर्णमान म्हाका म्हणलें. "कसलोय भौशीक सुवाळो आसल्यार सगले लोक येतात?" अशें हांवें विचारलें. "सगले येतात आनी गांवच्या मुखेल मनशाक नमस्कार करून आपापणाल्या जाग्यांचेर बसतात." "शेड्युल्ड कास्ट लोक खंय बसतात?" अशें हांवें विचारलें. "निमाणे रांकेंत! हे लोक जमनीचेर नाजाल्यार बांकाचेर बसतात." " ते फुडले लायनींत येवन कदेलांचेर कित्याक बसनात?" हांव. भुंयकांप जाल्ले वरी शॉक जावन कर्णमान मळबा वटेन हात केले आनी म्हणूंक लागलो, "गावांत उजो पेट्टलो, गांवची सवस्थकाय नश्ट जातली. आमच्या समाजांत प्रत्येकाचो जागो नेमून दिल्लो आसा, ते जागे बदलत जाल्यार आमचो समाज नश्ट जातलो".

भौसाचे दिसपट्टे जिणेंत सगले कडेन जातीय वेवस्थेक कितलें म्हत्व आसा हें भारतांतल्या ल्हान ल्हान गांवांनी गेले बगर कळचें ना. आनी जे मेरेन हे वेवस्थे आड कोणूच झूज उबारिना ते मेरेन सगलें सारकें चलता. भारतांत हेर कडेन भौशीक जिणेंत जाती वेवस्थेक जितलें म्हत्व आसा तितलें गोंयांत ना. हाचीं कारणां खूबशीं आसूं येतात. हेर राज्यां परस चड आनी फास्ट अर्थीक विकास जाल्ल्यान वा मध्यमवर्गीय लोक चड आनी गरिबी उणी आशिल्ल्यान अशें जालां जावंये.

देवदानपट्टींतल्या अणभवांतल्यान एक गजाल कळ्ळी. समाजीक बदल घडटा आसतना सवस्तकाय पेड्डेर जावं येता. पूण सवस्तकाय पेड्डेर जाता म्हणून समाजीक बदल जावंकूच जायना अशें म्हणप चूक. सवस्थकाय बरे भशेन सांबाळून अर्थीक आनी समाजीक बदल घडोवन हाडपाची जापसालदारकी प्रशासन चलयतल्या ऑफिसरांचेर आसता. तमीळनाडूंत जात तकलेंत घेतले बगर विकासाच्यो कसल्योच येवजण्यो फुडें वचनात. सरकारी अधिकाऱ्यांचे अधिकार आनी तांची जापसालदारकी तांचे जातीचेर निंबून नासता, तरी आसतना अधिकारी सांगता ते प्रमाण धरचें काय ना हें थारायतना लोक तो अधिकारी खंयचे जातींतलो तेंय बी पळयतात. अनुसुचीत जाती–जमातींतल्या कलेक्टराक तो अमके अमके जातीचो, तो प्रशासन कितें चलयतलो? अशें म्हणून हिणसायतना हांवें खूब फावटीं आयकलां.

कर्णम, रेव्हेन्यू इन्स्पेक्टर आनी मामलेदार हांच्या कामांचें प्रशिक्षण पुराय जातकच बिडिओचें काम शिकूंक कलेक्टरान म्हाका मदुरायच्यान तेरा मैल अंतराचेर आशिल्ल्या तिरुमंगलम ह्या गांवांत धाडलो. हो गांव पेरियाकुळम शारा परस ल्हान पूण देवदानपट्टी खेड्या परस व्हड. ह्या गांवाक 'नगरपंचायत' आशिल्ली. तमीळनाडूंत सामक्या ल्हान गांवांनी पंचायती आसतात आनी सादारण व्हड गांवांनी नगरपंचायती आसतात. बिडिओच्या पालवान गांवांतल्या, तांतले तातूंत मातशा एका निवळ दिसपी वाड्यार नवेंच बांदिल्लें घर भाड्याक घेतलें – भाडें म्हयन्याक शंबर रुपया. शिक्षण, भलायकी आनी अर्थीक विकासाच्या मळार सरकाराच्यो येवजण्यो गांवगिऱ्या वाठारांनी चालीक लावपाचें काम बिडिओ पळयतालो. दोन म्हयने बिडिओ वांगडा काम करून मागीर मदुराय शारांत कलेक्टराच्या ऑफिसांत ताच्या हाता सकयल वेगळ्यावेगळ्या विभागांतलें काम पळोवपाचें प्रशिक्षण घेवपाचो प्रोग्राम आसलो.

तितले मजगतीं 11 डिसेंबर 1967 ह्या दिसा गोंयांत कवळें देवस्थानांत म्हजें लग्न जालें. म्हाका चड सुटी घेवंक मेळनाशिल्ली, देखून लग्न जातकच दुसऱ्याच दिसा म्हाका मदुराय वचूंक भायर सरपाचें आशिल्लें. लग्नाची तारीख दरेकल्याक याद उरता, पूण म्हज्या लग्नाची तारीख चड याद उरपाचें कारण म्हणल्यार लग्नाच्या आदल्या दिसा,

धा आनी इकरा डिसेंबर हांचे मदले रातीं, कोयना धरणा म्हऱ्यांत व्हडलो भुंयकांप जालो आनी तो गोंयांतूय बी लोकांक जाणवलो. भुंयकांप म्हणल्यार कितें हें ते रातीं आमकां कळ्ळें. मडगांवां आक्यां आमच्या घरांत खूबशे लोक जमनीचेर शेकान शेक हांतरुणां घालून न्हिदिल्ले ते सगले धांवून रस्त्याचेर गेले. हिंदू धर्मांतले सगले विधी हेरां परस आपणाक चड बरे खबर आसात अशें समजुपी दोग-तीग जाणांनी लग्ना दिसा भुयंकांप जाला म्हणटकच खास पुजा करची पडटली अशें मत उक्तायलें. पूण आमी तशी खास पुजा बी कांय केली ना. लग्नां, मरणां, मुजी आनी हेर कसलींय कार्यां जाता आसतना धर्माच्या नांवान आमी जीं कितें कितें कार्यां करतात तीं सगलीं धर्मांत सांगिल्लीं आसतात काय ना तें आमकां खबर ना. भट सांगता म्हणून करपाचें. हालींच्या काळांत हें सगलें करपाक लोकांकूय त्रास जातात हें भटांक कळ्ळां म्हणून भट आपले आपूण वेगळेवेगळे उपाय सुचयतात. आमचें लग्न जातकच दुसऱ्याच दिसा आमकां मदुराय वचपाक भायर सरूंक जाय आशिल्लें पूण म्हूर्त ना, भायर सरूंक जायना, अशी ओर्द भटजीन दिली. भटजी कडेन आडवे तिडवे सगले तरेचे वाद घालतकच भटजीन एक उपाय सुचयलो. वायट टायम सुरू जावचे पयलीं एक नाल्ल व्हरून तुळशींत दवरप, म्हणटकच त्या वेळार घरांतल्यान भायर सरिल्ल्याचें बरें फळ मेळटलें आनी मागीर वायट म्हुर्तार मडगांवच्यान भायर सरिल्ल्याचो परिणाम जावचो ना, हो तो उपाय. देवाची प्रार्थना करून आमी नाल्ल तुळशींत दवरलो आनी भायर सरपाक जाय आशिल्लें त्याच दिसा भायर सरलीं. तेन्ना गोंयची रेल्वे "मिटर गेज". लोंड्यार गाडी बदलून तिरुचिरापल्ली आनी थंय परतून गाडी बदलून मदुराय वचपाचें! दोन दिसांचो प्रवास. मदुराय वचून थंयच्यान आमी टॅक्सी घेवन तिरुमंगलमाक गेलीं. आनी लताची तमीळनाडूंतली जीण सुरू जाली.

लताक तेन्ना रांदपाक कळनाशिल्लें आनी तमीळ भाशाय समजनाशिल्ली. तें रेल्वेंत पयलेच फावटीं बशिल्लें. तमीळनाडूंत आमचे कडेन सात वातींचो एक पॅत्रॉलाचो स्टोव्ह आनी आलिमीनाचीं दोन-तीन आयदनां आनी स्टीलाचीं दोन ताटां, रांदपाचें आनी जेवपाचें इतलेंच सामान आशिल्लें.

एक दीस हांव सांजेचो ऑफिसांतल्यान येतकच 'अंजीरुबा' म्हणल्यार कितें अशें लतान विचारलें. 'पांच रुपया'अशे हांवें ताका सांगले. दूदकार येवन दुदाचे पांच रुपया मागतालो अशें ताणे सांगलें. 'अंजीरुबा' हें उतर संगीतान भरिल्लें; तमीळ भाशा "म्युजिकल" काय कितें हो प्रस्न लतान विचारलो. म्हाका जाप खबर नाशिल्ली.

एक म्हयनो तिरुमंगलम रावन मागीर म्हजी बदली मदुराय शारांत जाली. थंयच्या हावसिंग बोर्डांत एका बेडरुमाचो फ्लॅट म्हाका मेळ्ळो. मागीर हांवें 500 रुपयांचें 'फर्निचर लोन' सरकारा कडल्यान घेतलें आनी त्या 500 रुपयां भितर एक डबल कॉट, एक जेवपाचें

मेज, एक वोल्तेर आनी एक सोफा-कम्-बॅड घेतलो. जेवपा खातीर मागीर एक एक करून कदेलां घेतलीं. ताचे पयलीं प्लेट घेवन एक तर सोफा-कम-बॅडाचेर, नाजाल्यार लाताचेर लुगट बी घालून ताचें आसन करून ताचेर बसून आमी जेवतालीं. डबल कॉट बेडरुमांत घालतकच बेडरुमांत भितर सरना फुडें कॉटीचेर उडकी मारची पडटाली कारण आनीक उबो रावपाक खंयच सुवात नाशिल्ली.

मारीयप्पन्न हो म्हजो प्यून आनी रत्नस्वामी हो म्हजो पिए-पर्सनल असिस्टंट! बाजारांतल्यान कसलीय भाजी हाडपाची जाल्यार लता तें भाजयेचें चित्र काडून मारीयप्पन्नाक  दाखयतालें. तोमाट हाडपाचें जाल्यार तोमाटाचें चित्र. मागीर तो ताचें तमीळ नांव सांगतालो. अशे तरेन भाजयांचीं आनी हेर वस्तूंचीं नांवां लता शिकलें.

नरसिंव्हन मुदलियार हें म्हज्या कलेक्टराचें नांव. रामस्वामी नायकर, ज्याका तमिळनाडूंत 'पेरीयार' म्हणून वळखतात आनी ज्याणें द्रवीड लोकांची 'स्वाभिमान चळवळ' सुरू केल्ली, आनी जो व्हड समाजसुदारक आशिल्लो, ताणें जात दाखोवन दिवपी आडनांवां आसप हें समा न्हय, देखून लोकांनी तसलीं आडनांवां वा फामिलीचीं नांवां वापरचीं न्हय अशें घालून दिल्लें. देखीक अय्यर वा अयंगार, मुदलियार, गौडर, चेट्टियार असल्या आडनांवां वयल्यान जात कळटा देखून असलीं जात दाखोवपी आडनांवां लोकांनी वापरचीं न्हय अशी तांणी चळवळ सुरू केल्ली. आयज जरी तमीळनाडूंत चडशे लोक असलीं आडनांवां वापरिनात, तरी 40-50 वर्सां पयलीं तीं वापरताले. आमचो कलेक्टर नरसिंव्हन हो 'मुदलियार' हें आडनांव वापरतालो. आपूण बामणां परस मातसो सकयल पूण हेरां परस वयर अशें तो सांगी. सरकारी सेवेंत तो मामलेदार म्हणून लागिल्लो आनी ल्हवूल्हवू कांय वर्सांनी डेप्युटी कलेक्टर जालो आनी मागीर सरकारान ताका आयएएस काडरांत भितर घेतलो. नवे विचार, नव्यो पददती ताका आवडनाशिल्ल्यो. आनी जें कितें चलत आयलां ताचेर विस्वास दवरून तशेंच आमी फुडें वचपाचें अशें ताका दिसतालें. एके फावटीं दोन गटां मदीं झगडीं जाल्ली ताचेर उपाय काडपाक तो एका गांवांत गेल्लो. म्हाका तो सदांच आपले वांगडा घेवन वतालो कारण प्रशिक्षणाचो तो एक वांटो. शेतांतल्या अशीर बांदा वयल्यान तो फुडें आनी आमी सगले ताचे फाटल्यान अशे एके रांकेंत चलून वता आसतना  अकस्मात दावे वटेंतल्या बांदा वयल्यान एक काळें माजर आडवें गेलें. तो रोखडोच थंय उबो रावलो आनी म्हाका म्हणपाक लागलो, "बट्टीकर-(तमीळनाडूंत म्हाका चडशे ऑफिसर बट्टीकर म्हणून उलो मारताले) आमी परतून या." हांवें म्हणलें, "कित्याक? जिवाक बरें दिसना?" तो म्हणूंक लागलो, "ना, ना. म्हाका कांयच जावंक ना, पूण काळें माजर आडवें गेलें तें पळयलें ना तुवें? आतां आमचें काम जावचें ना, फाल्यां आमी परतून येवया". मागीर आमी परतून गेले.

एके फावटीं हांव ताचे म्हऱ्यांत बशिल्लों आसतना एक आमदार एके जाणटे बायलेक घेवन आयलो. तिगेलो कसलो तरी व्हड प्रस्न आशिल्लो. तिणें बरोवन हाडिल्लो अर्ज कलेक्टराक दिलो आनी ती कुशीक उबी रावली. ती बायल कसल्या त्रासांत आसा आनी तिका कलेक्टरान कसली मजत करूंक जाय हें सगलें तो आमदार कलेक्टराक सांगतालो. "तुका आपूण सगली मजत करतां, आमदार तुजे वांगडा आसतना तुवें कांयच भियेवपाची गरज ना" अशें कलेक्टरान ते बायलेक सांगतकच आमदार आनी ती बायल गेलीं. तीं वचना फुडें कलेक्टरान तो अर्ज घेतलो आनी पिंजून कोयराचे पेटयेंत उडयलो. म्हाका अजाप जालें. "हें कांयच जावपाचें ना, तें त्या आमदाराकूय खबर आसा. तो तिका घेवन आयला, तें तिचेर इम्प्रॅशन मारपाक. तांची कोर्टांत केश चालू आसा, हांवें तातूंत तकली घालूंक जायना, देखून हांवें तें भायर उडयलें", अशें ताणें म्हाका सांगलें. "तुवें तांकां सरळ तशें कित्याक सांगलें ना?" हांवें विचारलें. "शी, शी! तशें केन्नाच सांगपाक जायना, मजत करूं, ना करूं, आपूण यत्न करतां, तपासून पळयतां अशें कितेंय तरी सांगपाक जाय." कलेक्टर सांगता तें म्हाका पटलें ना, पूण तूं म्हणटा तें म्हाका पटना, अशें जाणट्या आनी वडील अधिकाऱ्याक सांगप हें समा न्हय. भारतीय प्रशासन सेवेंत खंयच बरोवंक नाशिल्ले पूण सगल्यांनी मोन्यांनी मानून घेतिल्ले जे नेम आनी कायदे आसात तातूंतलो हो एक कायदो.

मदुराय हें एक इतिहासान भरिल्लें शार! 2500 वर्सां पयलींचें तें शार. मूळ शार मिनाक्षीच्या देवळा भोंवतणीं आंखिल्लें. मिनाक्षीच्या देवळाच्या चौकोनी वाठारांत चारूय दिकांनी देवळांत भितर येवपाच्यो चार वाटो आसात - उदेंत, अस्तंत, दक्षीण आनी उत्तर. मिनाक्षीचें देवूळ आनी ताचे भोंवतणच्या कम्पावण्डांतलो आवांठ 45 एकर आसा. सध्याचें मिनाक्षीचें देवूळ सोळाव्या शेंकड्यांत बांदिल्लें. मूळ मिनाक्षीचें देवूळ ख्रिस्ता उपरांत सव्या शेकड्यांत बांदिल्लें अशें म्हणटात. ख्रिस्ता उपरांतच्या पयल्या स शेंकड्यांनी मदुराय शारांत व्हड व्हड संत, बरोवपी, कलाकार जावन गेले. तेन्नाच्या तमीळ लिखाणाक संगम युगांतलें लिखाण अशें म्हणटात. संगम यूग हें तमीळ लिखाणाचें भांगरा यूग (गोल्डन इरा) अशें म्हणटात. हेलिकॉप्टरांतल्यान देवळा भोंवतणचें हें शार पळयल्यार तें मावलेच्या जाळ्या भशेन दिसता. मदुराय शाराक तमीळनाडूची संस्कृतीक राजधानी अशें म्हणटात. त्या शाराक उदेंते कडलें एथेन्स अशेंय बी म्हणटात. चेन्नय शारा फाटोफाट लोकसंख्येन आनी आवाठान मदुराय शाराचो दुसरो नंबर लागता. तमीळनाडूच्या हेर वाठारा भशेनूच ह्याय शाराचो इतिहास 2500 वर्सां परस चड पोरणो आसा.

आमचें बिराड तिरुमंगलमच्यान मदुराय हालयतकच आनी कलेक्टराच्या ऑफिसांत म्हजें प्रशिक्षण सुरू जातकच आतां एक मोटार घेवया अशें आमी थारायलें.

मोटारीचें लोन बी पास जातकच एक पोरणी मोटार सोदपाक सुरवात केली. राजन नांवाच्या गिरेस्त आनी खानदानी मनशाची एक स्टॅण्डर्ड हेरल्ड मोटार विकपाची आसा आनी ती सात हजारां भितर मेळटली अशी खबर म्हज्या पी ए रत्नस्वामीन हाडली. मोटार चलना काय ना, चालू आसा काय बंद आसा, इतलें सोडल्यार म्हाका मोटारींतलें कांयच समजना आशिल्लें. अजुनूय समजना. तो मनीस गिरेस्त आनी खानदानी, ताची मदुराय शारांत मोटो आनी बरो मनीस म्हूण नामना आसा. तो आमकां कित्याक फटयतलो? आनी मोटार विकती घेवपी आयएएस अधिकारी म्हणटकच तो बिलकूल फटोवचो ना, अशें रत्नस्वामीन सांगतकच सात हजार रुपयांक हांवें ती गाडी घेतली. थोड्या दिसां भितर हांव मोटार चलोवपाक शिकलों. मोटारीची चेसी सारकी घट ना आनी मोटारीचें इंजीन तितलें बरें ना हें मागीर आमकां समजलें. मनीस गिरेस्त आसूं वा खानदानी, विकतें घेवपी गिरायक कोणूय आसूं, पयशांचो विशय आयलो कीं मनशाची बुद्द घुंवता हें म्हाका तेन्ना कळ्ळें. कोणा कडेनूय खूब्ब पयसो आसा म्हणून तो दुसऱ्यांक फटोवचो ना अशें समजप म्हणल्यार सामकें चूक! उरफाटें, लोकांक फटोवन फटोवनूच ताणें पयसो केल्लो आसुंये!

ती मोटार खंयूय पयस व्हरपाची जाल्यार तरातरांची तयारी करून, म्हणल्यार खूबश्यो दोरयो, लुगटां, रबराचे कुडके बाराबर घेवन आमी वतालीं. जाय ते फावटीं चेसी दोरयांनी बांदून लेगीत आमी मोटार चलयल्या.

आमी मदुराय आसतना लताची आवय बापूय म्हणल्यार बाबा, बाय, आनी भाव – उल्हास हीं गोंयच्यान आपली मोटार घेवन आमगेर आयलीं. सरकारान दिल्ल्या ल्हानशा एका बेडरुमाच्या फ्लॅटांत आमी रावतालीं आनी थंय तिसऱ्या मनशाक रावंक जागो नाशिल्लो. तांची रावपाची वेवस्था आमी थंयच्या सर्किट हावसांत केली. तमिळनाडूंत आनी भारतांतल्या चडश्या जिल्ल्यांनी सरकारी ऑफिसरांक रावपाक सर्किट हावस, डाक-बंगलो, इन्स्पेक्शन हावस अशे सरकारी बंगले आसतात. सरकारी ऑफिसरांक सवाय भितर रावपा-जेवपाची वेवस्था थंय जाता. आमचो 8 फूट x 8 फूट बेडरुम फ्लॅट पळयतकच बाबाक वायट दिसलें जावंये. पूण हांव ऑफिसांत वतना आर्म हातांत धरिल्ले शिपाय म्हाका सलामी दितात तें पळोवन, रावपाची वेवस्था सारकी ना जाल्यार जाता, पूण मान भरपूर आसा, अशेंय बी ताका दिसलां जावंये. आयएएस अधिकाऱ्यांक कसलो मान मेळटा हें आमच्या बाराबर भोंवडेर वतना ताका कळ्ळें.

बाबाक घेवन आमी रामेश्वरम् आनी कन्याकुमारीक वचून आयलीं. रामेश्वरमाक वतना 'मंडपम्' म्हणटात त्या गांवा मेरेन रस्तो वता आनी मागीर दर्यावेल्यान रेल्वेचो पूल. रामेश्वरम् हें एक जुंवें आनी 'धनुश्कोडी' हो त्या जुंव्यांचो दर्यादिगे वयलो भाग. धनुश्यकोडीच्यान श्रीलंकेचे उत्तरेक जोडपी फातरांचो पूल रामाचे वानरसेनेन बांदिल्लो अशें भारतीय लोक मानतात.

रामेश्वरमाक वता आसतना वाटेर आमकां परमकुडी म्हूण एक गांव लागलो, आनी थंय आमी सगलीं म्हळ्यार हांव, लता, बाबा, बाय, उल्हास आनी ड्रायव्हर दशरथ एका ल्हानशा हॉटेलांत जेवपाक भितर सरलीं. 30-40 वर्सां पयलीं तमिळनाडूच्या ल्हान ल्हान गांवांनी शिवराक हॉटेलां आनी मांसाहारी हॉटेलां वेगळींवेगळीं आसतालीं. शिवराक हॉटेलांक 'ब्राम्हीन्स् काफे' आनी मांसाहारी हॉटेलांक 'मिलिटरी काफे' म्हूण बोर्ड आसताले. मिलिटरींत वचपी चडशे लोक मांस खावपी, म्हूण मांसाहारी हॉटेलांक तशें नांव पडलां आसुंये. तमिळनाडूंत तेन्ना बामण सगले शिवराक आसताले, म्हूण शिवराक हॉटेलाक 'ब्राम्हीन्स् काफे' हें नांव पडलें जावंये. आतां 'मिलिटरी' हॉटेलांत शिवराक जेवपी लोक वतात आनी बामण लोक मनशाचे मांस सोडून सगलें खातात.

आमी जेवपाक भितर सरलीं तीं एका ब्राम्हीन्स् काफेंत. जेवन बी जातकच आमी सगलीं उठून हात धुवपाक गेलीं. थंय जेवपाक ताटां बी नाशिल्लीं. काळशीं-पाचवीं, निवळ चकचकीत केळीचीं पानांच म्हळ्यार आमची ताटां. तुमी तुमचीं पानां उखलून थंय कुशीन कोयराचे पेटयेंत उडोवंक जाय, अशें म्हूण थंयच्या एका कामेऱ्यान आमकां सांगलें. "हांवे म्हजें पान कित्याक उखलपाचें? हें आनी नाका आशिल्लें!" अशें म्हणून बाबा तापलो. धाकल्या धाकल्या गांवांनी अशीच रीत आसता अशें म्हणून हांवें सांगल्यार लेगीत ताका पटलें ना. मागीर लतान ताजें पान व्हरून भायर उडयलें आनी मागीर हेर सगल्यांनी आपापलीं पानां उखल्लीं. तमिळनाडूंत हरशीं काम करूंक खूब्ब लोक मेळटात आनी सवाय भितर मेळटात. थंय आपणें आपलींच पानां उखलपाची ही चाल व्हड शारांत नासताली, पूण धाकल्या गांवांनी आसताली. अशें कित्याक हें कोणूच सारकें सांगूंक शकलो ना. ल्हान ल्हान गांवांनी जातींक चड म्हत्व आसता आनी जातीवेवस्थेंत थोड्यो जाती वयर आनी थोड्यो सकयल अशें म्हणून मानतात. सकयल्या जातीच्या गिरायकाचें पान उखल्ल्यार वयल्या जातीच्या कामेऱ्यांक पाप लागतलें वा तो भश्टतलो अशें कितेंय तरी तांकां त्या वेळार दिशिल्लें आसुंये.

रामेश्वरम् हो जुंवो तमिळनाडूच्या दक्षिण तोंका म्हऱ्यांत, मन्नारचे दर्यादिगेर वशिल्लो एक इल्लोसो जुंवो. त्या जुंव्याचेर पावपाक रस्तो ना, फकत रेल्वेचो एक पूल आसा. त्या काळांत, म्हळ्यार 1967-68 त दिसाक फकत दोन फावटीं मिटरगेज रेल्वे गाडयो थंय वताल्यो. रामेश्वरमाचें श्री रामनाथ स्वामीचें देवूळ आनी थंयची अग्नितीर्थ सुवात हें संवसारांतल्या हिंदू खातीर एक म्हत्वाचें तीर्थ. भारतांतल्या बारा ज्योतिर्लिंगा पैकीं रामेश्वरमाचें श्री रामनाथ स्वामी देवूळ एक ज्योतिर्लिंग. काशीची यात्रा रामेश्वरमाक गेले बगर पुराय जायना अशें मानतात. धनुश्यकोडी ही सुवात रामेश्वरम देवळा कडल्यान सुमार 8 किलोमिटर दक्षिण उदेंतेचे दिकेन आसा. थंयच्यान श्रीलंका फकत 24 किलोमिटर.

रामाचे वानरसेनेन ते सुवाते वेल्यान लंकेक सेतू बांदिल्लो अशें सांगतात. रावणाक मारून सितेक घेवन भारतांत परतून येता आसतना रावणाक मारिल्ल्याचें पातक धुवन वचचें म्हूण रामेश्वरमाक अग्नितीर्थ हे सुवातेर रेंवेचें शिवलिंग करून रामान शिवाची पुजा केली अशी एक आख्यायिका आसा. हीच आख्यायिका दुसरे भशेन सांगतात आनी ती म्हळ्यार लंकेक रावणा कडेन लडाय करपाक वचचे पयलीं सगलें बरे भशेन जावचें म्हूण श्री रामान शिवलिंगाची स्थापना करून थंय पुजा केल्ली.

रामेश्वरम् देवूळ बांदपाक ख्रिस्ता उपरांतच्या बाराव्या शेंकड्यांत सुरवात केल्ली अशें कांय इतिहासकार म्हणटात. सबंद देवूळ सतराव्या शेंकडयांत बांदून काडलां अशें चडश्या इतिहासकारांचें मत आसा. थंय आशिल्ली बाराशें फातरी- खांब्यांची लांबचेलांब, म्हणल्यार 1.2 किलोमिटर लांबायेची पायण संवसारभर फामाद जाल्या. आनी स्थापत्यशास्त्राचो (आर्कीटेक्चराचो) तो बेस बरो नमुनो अशें म्हूण जाणकार मानतात.

आपूण 'वंडी' घेवन तुमकां रेल्वे स्टेशनार व्हरपाक येतलों अशें म्हूण आमी रामेश्वरमाक वचचें पयलीं थंयच्या 'रेव्हेन्यू इन्स्पेक्टरान' रेकाद धाडिल्लो. 'हिवूय बी 'वंडी ' बैलगाडी बी न्हय मूं?' असो म्हाका दुबाव मारलो. रामेश्वरम जुंव्यार मोटारी बी नात आनी आपूण रेल्वे स्टेशनार बैलगाडी घेवन येतलों असो रेकाद ताणें आमी मोटारी विशीं चवकशी करतकच धाडलो. हांवें कोणाक कांय सांगलें ना. रामेश्वरमाक पावचे पयलींच हेरांचो मूड कित्याक पेट्टेर करुया अशें म्हूण हांव ओग्गी रावलों. बैलगाडी पळयना फुडें बाबा नर्वस! आपणालो जांवय असिस्टंट कलेक्टर, ताचे भोंवतणीं धा-पंदरा लोक सदांच हेवटेन तेवटेन धांवतात, ताचे सेवेक ही बैलगाडीशी? अशें ताका दिसलें जावंये. ताच्या तोंडा कडेन पळयल्यार तो आतां हांसतलो काय रडटलो हेंच कळपाक मार्ग नाशिल्लो. गाडयाचेर बरें दाट्ट कुलच्यांव आनी रंगीत चादर बी घाल्लें. बैलांच्या शिंगांक रंगीत गोंडे आनी गळ्यांत व्हडल्यो घांटी बांदिल्ल्यो. थंयचो डेप्युटी तहसिलदार (डेप्युटी मामलेदार), रेव्हेन्यू इन्स्पेक्टर, कर्णम् आनी हेर चार-पांच जाण गाडया मुखार आनी गाडया फाटल्यान सायकलींनी वताले. देवळांत पावतकच मात थंयचो मान सन्मान पळोवन बाबा खूश जालो.

देवळाच्या भायल्या आर्का म्हऱ्यांत पावना फुडें थंयच्यान 'नादस्वरम्' आनी 'मृदंगम्' वाजयत आमकां ताणी मिरवणुकेन देवळांत व्हरून खास पुजा केली आनी देवाचो मुकूट सगल्यांचे तकलेक लावन आशिर्वाद दिलो. थंयचे भट मराठी उलयतात तें आयकून खूब दीस रानां वनांत काडून आपूण आतां मनशां मदीं पाविल्ले वरी बाबाक खूब आनंद जालो. मराठी भास देशांत सगले कडेन पावल्या काय कितें अशें म्हूण बाबान म्हाका प्रस्न केलो. अडेजशें-तिनशें वर्सां पयलीं मराठा सरदार तंजाउराक आनी तमिळनाडूंत

ेर कडेन पाविल्ले आनी तांणी थंय राज्य करपाक सुरवात केली. कांय वर्सां उपरांत रामनाथपुरम राज्यांत सेतुपती राजाच्या प्रशासनांत मजत करपाक महाराष्ट्रांतले खूबशे ब्राम्हण येवन थंय स्थायीक जाले. रामेश्वरमाच्या देवळांत पुजा करपा खातीर तांणी महाराष्ट्रांतल्यान आनीक ब्राम्हण हाडून दवरले. तेन्नाच्यान ह्या मराठी ब्राम्हणाच्यो पिळग्यान पिळग्यो थंय पुजा करीत आयल्यात. आतां तांच्या पैकीं खूबशा जाणांनी आपलीं नांवां बदल्ल्यांत. 'मुर्ती', 'रामचंद्रन', 'ईश्वरन्' अशीं नांवां तांणी घेतल्यांत आनी ते उलयतात त्या मराठींत खूबशीं तमीळ उतरां घुसल्यांत. तांच्यो सुनो आनी जांवय मात ते अजुनूय महाराष्ट्रांतल्यान हाडपाचो यत्न करतात.

देवूळ जातकच मागीर दुसऱ्या दिसा सकाळीं फुडें धनुश्यकोडी बी पळोवन रामाच्या त्या दिसनाशिल्ल्या 'सेतूक' नमस्कार करून आमी परतून मदुराय आयलीं. मदुराय 'असिस्टंट कलेक्टर' (ट्रेनी) ही म्हजी पदवी. भारतीय प्रशासन पद्दतींत मामलेदार, डेप्युटी कलेक्टर आनी कलेक्टर हांकां न्यायदंडाधिकारी म्हूण काम करचें पडटा. क्रिमिनल प्रोसीजर कोड कायद्या खाला तांकां अधिकार दिल्ले आसतात. प्रशिक्षण चलतना म्हाका न्यायदंडाधिकारी म्हूण कोर्ट चलोवचो पडटालो. साक्षीदार, वकील तमीळींतल्यान उलयताले. हांव इंग्लीशींतल्यान बरोवन घेतालों. मागीर कांय वर्सांनी इंग्लिशींत बरोवन घेवपाची पद्दत बंद जाली आनी सकयल्या पांवडया वयल्या कोर्टांनी सगलें काम तमीळींतल्यान जावंक लागलें.

इंग्लिशींतल्यान बरोवन घेतल्यार लेगीत तमीळींतल्यान बरोवपाची संवय हांव करीत आशिल्लों. कारण आनीक कांय वर्सांनी फायलींनी सगलें तमीळींत बरोवचें पडटलें हें खबर आसलें. म्हाका तमीळ बरयतना पळोवन म्हज्या परस म्हज्या भोंवतणीं आशिल्ल्या सरकारी नोकरांक चड खोस भोगताली आनी हांव बरयतां तें वाचून तांकां पोट फुटसर हांसूंक मेळटालें.

बाजारांतल्यान भाजी बी हाडपाची जाल्यार म्हाका वचपाक वेळ मेळनाशिल्लो आनी लता एकलेंच बाजारांत वचपाक फाटीं फुडें सरतालें. म्हूण आमी मारिअप्पनाक, म्हळ्यार आमच्या प्यूनाक बाजारांत धाडटालीं आनी कितें जाय तें हांव बरोवन दितालों. एक दीस सकाळचो धा वरांचेर हांव ऑफिसांत आयले बाराबर आमचो थंयचो प्यून, म्हजो पी. ए., क्लार्क, दारा वेलो शिपाय हे सगले एकामेकां कडेन पळोवन तोंड दुसरे वटेन करून हांशिल्ले भशेन करताले. "कितें जालां रे, सगले हांसतात शे?" अशें म्हणून हांवें रत्नस्वामीक विचारलें. रत्नस्वामीन सांगलें तें अशें : आदल्या दिसा हांवें 'कायकरी कोंडु वा' म्हळ्यार 'भाजी घेवन यो' अशें बरोवन चीट धाडिल्ली. तें कायकरींतलें 'का' बरयता आसतना हांवे तें 'ना' बरयलें. तमीळींत सारकी जतनाय घेवन बरयना जाल्यार

'क' आनी 'न' हीं दोनूय एकाच भशेन दिसूं येतात. 'कायकरी' म्हळ्यार भाजी आनी 'का'चें 'ना' जाल्यार 'नायकरी' जाता; 'नायकरी' म्हळ्यार सुण्याचें मांस. म्हणटकच हांवें भाजी घेवन यो म्हूण सांगपाचें तें सुण्याचें मांस घेवन यो म्हूण सांगलें म्हणून ते हांसताले.

मदुराईंतली ट्रेनिंग सप्टेंबर 1968 त सोंपली आनी सरकारान म्हाका होसूराक सब-कलेक्टर म्हूण नेमलो. मदुराय दोन एस. पी. (पुलिस अधिक्षक) आशिल्ले. एक मदुराय शाराचो एस.पी., आनी दुसरो मदुराय जिल्ल्यांतल्या गांवगिऱ्या वाठाराचो एस.पी. मोहनदास हो मदुराय शाराचो एस.पी आशिल्लो. तो म्हाका आनी लताक बरो वागयतालो. ताजीं बायल, भुरगीं आमचे कडेन बरेतरेन वागतालीं. म्हजी बदली जाली तेन्ना "आमी 'कोडायकनल' या, थंय सुटी घेवन दोन दिस रावुया आनी ती सुटी म्हळ्यार म्हजी तुमकां फॅरवेल पार्टी"अशें म्हूण मोहनदासान आमकां सांगलें आनी दोगूय एस.पी., तांच्यो बायलो, आनी हांव आनी लता कोडायकनलाक गेलीं. कोडायकनल हें तमिळनाडूंतलें उटी भशेन फामाद हिल स्टेशन- 6300 ते 7000 फूट उंचायेचें. अस्तंत पर्वतांचे रांगेंत ताचो आसपाव जाता. मदुरायच्यान 72 मैल आशिल्लें हें हिल स्टेशन थंयच्या थंड हवामानाक आनी थंय ब्रिटीशांच्या काळांत सुरू जाल्ल्या कांय आंतरराष्ट्रीय स्कुलांक लागून फामाद जालां. उटी भशेन चड लोकवस्ती नाशिल्ल्या कारणान ह्या हिल स्टेशनार अजुनूय सगळे कडेन पाचव्याचार दोंगरांचीं माथीं दिश्टी पडटात. 'कोहिनूर' सरकारी गेस्ट हावसांत आमी रावलीं. कांय वर्सां आदीं ह्या बंगल्यांत काश्मिरचो आदलो मुख्यमंत्री शेख अब्दुल्ला रावतालो. भारत सरकारान ताका बंदिस्त केल्लो आनी कोडायकनल हाडून कोहिनुरांत नजरकैदेंत दवरिल्लो. दोन दीस कोडायकनल रावून मदुराय परतून वता आसतना वाटेर 'राजपळायम्' गांवचो राजा म्हणून एका व्हड भाटकाराच्या बंगल्यार आमकां च्या घेवपाचें आमंत्रण आशिल्लें. त्या भाटकाराचें आडनांव राजा. राजपळायम गांवांत राजा म्हूण नांवाचे खूबशे भाटकार आसात. थंय खूबश्या भाटकारांचीं नांवां राजा आसात म्हूण त्या गांवचें नांव राजपळायम् पडलां अशें म्हूण त्या राजान आमकां सांगलें. आमचें सगलें सामान कोहिनूर बंगल्यांत दवरून आमी त्या "राजा" गेर च्या पिवपाक गेलीं. सामाना बाराबर लतान आपली पर्सूय बी कोहिनूर बंगल्यार आमचे कुडींत दवरिल्ली आनी कानांतल्यो वेडीय बी ते पर्सींत दवरिल्ल्यो. त्यो वेडी 'ब्लू जॅगोवार' ह्या वज्रांच्यो आशिल्ल्यो आनी खूब्ब चकचकताल्यो. आपणें ह्यो वेडी झेत दाखोवपाक घाल्यात अशें राजाच्या लोकांक दिसत म्हूण आनी पर्सूय बी खूब्ब फॅशनेबल आशिल्ल्यान दोनूय वस्तू कोहिनूर बंगल्यार दवरून तें आयिल्लें. आमच्या फाटल्यान आमचें सगलें सामान आनी ती पर्सूय बी, जिपींत घालून, आमच्या प्यूनांनी आनी एस.पी. वांगडा आशिल्ल्या पुलिसांनी तें

दुरायक व्हरून सोडलें. मदुरायक पावतकच त्यो वेडी ते पर्सीत नात हें लताक कळ्ळें. रतून कोडायकनलाक वचून पळोवन येवया अशें म्हणून आमी कोडायकनाल परतून र्ली. 'वेडी' मेळ्ळ्यो नात. सकाळीं न्हांवंक वता आसतना आपणें त्यो ड्रेसींग टेबलाचेर सींत दवरिल्ल्यो अशें लता म्हणूंक लागलें. असिस्टंट कलेक्टराचे बायलेच्यो 'वेडी' ना जाल्यो आनी त्योवूय बी दोगूय पुलिस अधिक्षक वांगडा आसतना अशें म्हूण मदुराय आनी कोडायकनल दोनूय कडेन सरकारी ऑफिसांनी बोवाळ जालो. "वेडी ना जाल्यो रे? हे पुलीस आतां खूब्ब बोवाळ घालतले, पूण कांय मेळचें ना, त्यो गेल्यो म्हूण समज पूण हांवें अशें म्हळां म्हूण पुलीस अधिक्षकांक बी सांगशी आं!" अशें कलेक्टर नरसिंव्हन् मुदलियारान म्हाका आपोवन सांगलें. वेड चोरली म्हूण पुलीस केस नोंद जाली आनी पुलिसांचे सदांचे पद्दतीन सोद घेवपाक सुरवात जाली. कोहिनूर गेस्ट हावसांत काम करतल्यांक आनी आमी थंय आसतना ड्युटेर आशिल्ल्या पुलिसांक सगल्यांक आपोवन तांचे कडेन वासपूस सुरू जाली. तातूंतलो एक कॉन्स्टेबल खूब वर्सां पुलिस सेवेंत आशिल्लो. वयल्या ऑफिसरांनी ताचो चड दुबाव घेतलो. ताका एकदम वायट दिसलें आनी ताणें कोडायकनलाच्या तळ्यांत जीव दिलो. राज्यांत जाल्ल्या सगल्या 'सिरियस' गुन्यांवांचो रिपोर्ट दर जिल्ल्यांतल्यान म्हयन्यांतल्यान एक फावट चीफ सेक्रेटरीक वतालो. असिस्टंट कलेक्टराचे बायलेच्या वेडींची चोरी जाली आनी ते खातीर एका कॉन्स्टेबलान जीव दिलो अशें म्हूण रिपोर्ट चीफ सेक्रेटरीक गेलो. "भीक नको, पण कुत्रा आवर" हे मराठींतले म्हणीचो अर्थ म्हाका तेन्ना कळ्ळो. हांवें ह्यो वेडी खंय घेतल्यो, कितले पयशे फारीक केले, ते पयशे म्हजे कडेन खंयच्यान आयले, हे आनीक असले कितलेशेच प्रस्न विचारून चीफ सेक्रेटरीचें म्हाका रोखडेंच पत्र आयलें. त्यो वेडी हांवें विकत घेवंक नात. म्हज्या मांवान लग्नावेळार म्हजे बायलेक दिल्ल्यो आनी घेतिल्ल्यो तेन्ना तांकां बारा हजार रुपया पडिल्ले अशी जाप हांवें धाडली. असिस्टंट कलेक्टर ट्रेनी हाका कांय अधिकार नासतात आनी अधिकार वापरून बेकायदेशीर पयसो करपाची संद थंय बिलकूल नासता. देखून हे पयशे खंयच्यान आयले असो प्रस्न विचारपाची गरजूच ना अशेंय हांवें बरयलें. ह्यो वेडी गेल्यो त्यो गेल्यो, सरकारी प्रस्न आनी म्हज्यो जापो आनीक कांय म्हयने चलत रावल्यो. मागीर चेन्नय सचिवालयांतल्या खंयच्याय तरी ऑफिसराक म्हजी काकुळट येवन ताणें ती फायल बंद केली.

1967 ते 1985 ह्या 18 वर्सांत लताच्या कानांत वेडी नाशिल्ल्यो. 1985 त 6 म्हयन्यां खातीर म्हाका युनायटेड नेशन्साचो सल्लागार म्हूण काम करपाची संद मेळ्ळी आनी जगभर भोंवन हांवें आनी एका चीनी अधिकाऱ्यान एक रिपोर्ट तयार केलो. रावपा जेवपाचो आनी प्रवासाचो सगलो खर्च आनी 15 हजार डॉलर म्हाका मेळ्ळे. त्या पयशांतल्यान मागीर आमकां नव्यो वेडी विकत्यो घेवंक मेळ्ळ्यो.

जावंक जाय त्यो गजाली थंयच उरून सरकारांत अर्थ नाशिल्ल्या गजालींक चड म्हत्व येता, हें म्हाका आयएएसांत भितर सरतकच पयल्याच वर्सा मदुराय कळ्ळें. फुडल्या तीस वर्सांच्या अणभवांत असल्यो कितल्योश्योच गजाली घडल्यो आनी सरकाराचे कामाचे नेम आनी चालीरिती केन्नाच सुदारच्यो नात हाची खात्री जावंक लागली.

कलेक्टर नरसिंव्हन मुदलियाराचो ज्योतिशाचेर खूब विस्वास. म्हजी होसुराक सब-कलेक्टर म्हूण बदली जातकच ताणें आमकां आपल्या घरा 'च्या' घेवपाक आपयलीं, आनी खंयचेंय तरी तमीळ पंचांग उक्तें केलें. आमी अमक्या वरांचेर हांगाच्यान भायर सरूंक जाय, अमक्या वरांचेर होसुराक सब-कलेक्टराच्या बंगल्याचेर पावंक जाय आनी अमक्या दिसा अमक्या वरांचेर होसुरांत सब-कलेक्टराच्या ऑफिसांत कदेलाचेर बसूंक जाय अशें ताणें सांगलें. असले गजालींचेर म्हजो विस्वास आसुंये वा नासुंये, पूण ह्या गजालींक खूब म्हत्व आसा, आमकां आतां तें कळचें ना, जिणेच्या फुडल्या अणभवांत तें आमकां कळटलें अशें ताणें आमकां सांगलें.

दर दिसा एक देड वराचो काळ वायट आनी त्या देड वरांत कांयच नव्या कामाक सुरवात करूंक जायना. त्या देड वराच्या काळाक 'राहूकालम' म्हळ्यार राहूचो वेळ अशें म्हण्टात. दर दिसा हो राहूकालम वेगळ्या टायमार येता. आनी खंयच्या दिसा खंयचो वेळ राहूकालम आसता हें तमिळनाडूंत सगल्या लोकांक खबर आसता. राहूकालमाचें भूत आमचे फाटीर घट्ट वेंग मारून बसलां इतलेंच न्हय, तर तमिळनाडूंतल्यान गोंयांत येतकच लेगीत खूब वर्सां तें भूत आमचे फाटी वेल्यान देंवलें ना. 'राहूकालम केन्ना?' म्हूण प्रस्न हालीं हालीं तरी हांवें लताक विचारिल्ल्याची याद ना. एक तर तें भूत म्हजे फाटी वेल्यान देंवलां वा हांवें नवीं कामां हालीं कांयच हातांत घेवंक नात.

आमच्या स्टॅण्डर्ड हेराल्ड मोटारीची चेसी, दोरयो आनी कपडे बांदून घट्ट करून मोटारीच्या आंगांतल्यान खण्ण खण्ण जंय जंय आवाज येतालो, थंय थंय रबराचे कुडके भरून आमी 40 किलोमिटर स्पिडीचेर मोटार चलोवन देड दिसाचो प्रवास करून होसुराक पावलीं. थंयच्या 'कॅटल फार्मा'च्या गेस्ट हावसांत थोडे दिस रावून मागीर आमी आमच्या अधिकृत बंगल्यांत रावपाक गेलीं.

# भाग 8
# होसूर सब-कलेक्टर

होसूर उपजिल्ल्याचो सब-कलेक्टर (डेप्युटी कलेक्टर) म्हणून म्हजी नेमणूक जावन ऑक्टोबर 1968 त हांवें ती जापसालदारकी घेतली. तमीळनाडूंत एका जिल्ल्यांत तेन्ना सादारण दोन ते तीन उपजिल्ले आसताले आनी एका उपजिल्ल्यांत तीन ते चार तालुके आसताले. होसूर उपजिल्ल्यांत तीन तालुके, म्हणल्यार तीन तहसिलदार (मामलेदार) आनी बारा बिडिओ आशिल्ले. ब्रिटीशांच्या काळांत शेतां-भाटांतल्यान येवपी कर एकठांय करप आनी आपणाल्या हाता सकयल्या वाठारांत सवस्तकाय राखप हीं दोन मुखेल कामां कलेक्टराक करचीं पडटालीं. भारत स्वतंत्र जातकच अर्थीक आनी समाजीक उदरगती खातीर नव्यो नव्यो येवजण्यो आयल्यो आनी ह्यो सगल्यो येवजण्यो चालीक लावपाची जापसालदारकी कलेक्टर, सब-कलेक्टर आनी बिडिओ हांचेर आयली. अर्थीक उदरगती वांगडाच शेतां-भाटांतल्यान येवपी करांचें म्हत्व उणें जालें आनी वेपार, उद्देग-धंदो वाडिल्ल्यान तातूंतल्यान येवपी करांचो वांटो वाडलो. कलेक्टराक, सब- कलेक्टराक समाजीक उदरगती खातीर केल्ल्यो येवजण्यो चालीक लावप, तळागाळांतल्या लोकां खातीर घडोवन हाडिल्ल्या खास येवजण्यांचो फायदो त्या लोकांक दिवप, मुळावें शिक्षण, भलायकी आनी वीज, उदक आनी रस्ते असल्यो मुळाव्यो सुविधा दिवपा खातीर सरकाराच्या हेर खात्यांचेर नदर दवरप, सरकारी दुकानांतल्यान सवाय दरान विकपा खातीर शेतकारां कडल्यान भात विकतें घेवप, जिल्ल्यांत सवस्तकाय

दवरप आनी सरकाराचे 'कान आनी दोळे' कशे जिल्ल्याचेर नदर दवरप अशीं कलेक्ट
आनी सब-कलेक्टरांचीं कामां आसतालीं.

होसूर हो गांव सादारण शारा परस ल्हान म्हणून थंय नगरपालिका नाशिल्ली.
पूण सादारण गांवा परस व्हड गांव म्हणून नगरपंचायत आशिल्ली. तेन्नाच्या काळांत पांच
ते पंदरा हजार लोकसंख्या आशिल्ल्या गांवांनी नगरपंचायती आसताल्यो. होसूर गांवाची
लोकसंख्या तेन्ना सुमार 14 हजार आशिल्ली. तमीळनाडूचे उत्तर-अस्तंत दिशेक
आशिल्लो हो गांव कर्नाटक आनी तमीळनाडू हांचे मदले शिमेर आशिल्लो. होसूरच्यान
बेंगळुरू फकत 25 मैल. होसूराक उद्देग-धंदे कांय नाशिल्ले आनी तमीळनाडू सरकारान
एक उद्देगीक वसणूक थंय तेन्नाच उबारिल्ली. बारीकसारीक कामां करूंक लेगीत थंयच्यान
लोक बेंगळुरूक वतात आनी देखून होसूराची केन्नाच उदरगत जावंक पावंक ना अशें
सदांच थंयचे लोक म्हणटाले.

होसूर उप-जिल्ल्यांतले चडशे लोक तमिळी परस तेलगू आनी कानडी चड
उलयताले. तो सगलो वाठार त्रि-भाशीक आशिल्ल्यान वेंचणुकांच्या काळांत वेंचणूक
कायद्या खाला सरकारी पत्रकां तेलगूंत, तमिळींत आनी कानडींत काडचीं पडटालीं.
सरकार तेलगू आनी कानडी लोकांचेर तमीळ भास बळयां थापपाक सोदता, अशी थंयच्या
तेलगू आनी कानडी लोकांची सदांच कागाळ आसताली. 1956-57 च्या काळांत भाशेच्या
आदाराचेर भारतांतल्या राज्यांची रचणूक जाली. तेन्ना खूबश्या राज्यांनी शिमे वयले गांव
अमक्या एका राज्यांत आसचे काय दुसऱ्या राज्यांत, हाचेर खूब वाद आनी आंदोलनां
जालीं. होसूर उप-जिल्ल्यांतूय अशीं आंदोलनां जाल्लीं. कृष्णगिरी हो तालुको आंध्र
प्रदेशाचे शिमेर आशिल्लो आनी होसूर आनी देंकनीकोट्टा हे तालुके कर्नाटकाचे शिमेर
आशिल्ले. गोंयची भास कोंकणी आनी ते खातीर गोंय महाराष्ट्रांत वचूंक जायना, वेगळें
उरपाक जाय अशें गोंय स्वतंत्र जायना फुडें जाल्ल्या आंदोलनांनी हांवेंय बी हेर तरनाट्यां
वांगडा वांटो घेतिल्लो. देखून, तेलगू आनी कानडी भाशांक त्या वाठारांतल्या प्रशासनान
फावो तें म्हत्व दिवचें आनी थळाव्या लोकांचेर तमीळ बळयां थापची न्हय अशें म्हाकाय
दिसतालें. सरकाराच्या धोरणांतूय ह्या विचारांचो आसपाव आशिल्लो. पूण सरकारी
धोरणां चालीक लावपी चडशे तमीळ ऑफिसर बारीकसारीक किजिलां करीत आसताले.

भाशेचो आनी अस्मितायेचो अभिमान कितलो खोल रुजिल्लो आसता आनी
तीं पाळांमुळां खणपाचो यत्न केल्यार भौशीक भुंयकांप कशे जावं येतात, हाचें उदाहरण
सब-कलेक्टराचीं सुत्रां हातांत घेतले बाराबर पळोवंक मेळ्ळें. होसूर उप-जिल्ल्यांतलो
राष्ट्रीय म्हामार्ग 7 (एन. एच.) सोडल्यार हेर सगले मार्ग राज्य सरकाराचे, नगरपालिकेचे
वा पंचायतीचे आशिल्ले. गांवांचीं नांवां दाखोवपी, दर मैला मैलाक गांवागांवां मदलें

तर दाखोवपी सगले बोर्ड तेलगूंत वा कानडींत आसताले. तमीळ भाशेचो फुडार ?बाळपाची जापसालदारकी फकत आपल्याचेरूच आसा अशें दिसपी एका इंजिनियरान ष्ट्रीय म्हामार्ग धरून सगल्या रस्त्यांचेर तमीळ बोर्ड आसूंक जाय असो आदेश काडलो. नगू आनी कानडी बोर्ड काडून उडोवन त्या जाग्यार तमीळ बोर्ड रंगोवपाक एका कामेऱ्यान रवात केली. ते बाराबर होसूरांत हाच्या पयलीं केन्नाच कोणें पळोवंक नासलें अशें iदोलन सुरू जालें. सी. एन. अण्णादुराय हो तमीळनाडूचो मुख्यमंत्री आनी द्रमुकाचो खेल. तो तमीळ लोकांक देवा भशेन. ताच्या उतराक मान दिवपा खातीर तेन्ना द्रमुकाचे iगडी जीव लेगीत दिवंक तयार आसताले. तमीळनाडूच्या लोकांच्या मनाचेर आनी ग्रणेचेर आशिल्लो ताचो शेक हेर राज्यांतल्या लोकांक समजुपाक कुस्तार, कारण तसले ьडारी आनीक खंयच जावंक नात. होसूराच्या आंदोलनांत लोकांनी ताचो पुतळो फोडून, ोडून चुरो करून उडयलो. अण्णादुरायचो पुतळो फोडून उडयिल्ल्याची घडणूक मीळनाडूंत आनीक खंयच्याच गांवांत केन्नाच घडली ना.

हांवें पयली गजाल केली ती म्हणल्यार तमीळ बोर्ड रंगोवपाचें बंद केलें. दुसरी जाल म्हणल्यार तीन-चार हजार लोकांचो मोर्चो घेवन थंयचे फुडारी म्हज्या ऑफिसांत आयिल्ले कडेन "तुमी तुमकां कितें सांगपाक जाय तें तुमकां जाय ते भाशेंत सांगात आनी जाय ते भाशेंत बरोवन दियात, तुमचो प्रोब्लेम सोडोवपाचें काम म्हजेर सोडात" अशें सांगतकच तांणी तेलगूंत बरोवन हाडिल्ल्यो मागण्यो हांवे घेतल्यो, तेन्नाच ते थंड जाले. तेलगू आनी कानडी बोर्ड काडून उडोवपाच्या प्रकरणाची मामलेदारान चवकशी करून एका सप्तका भितर रिपोर्ट दिवचो, त्या असिस्टण्ट इंजिनियराची दुसरे कडेन बदली करची अशी हांवें ऑर्डर दिली. आनी होसूर शारांत क्रिमिनल प्रोसिजर कोडाच्या कलम 144 खाला जमावबंदीची ऑर्डर दिली.

कोदंडरामय्या नांवाचो एक तेलगू शिक्षक थंयचो विधानसभा वांगडी. मनीस सादो, सरळ आनी प्रामाणीकपणाची मनीसरुपी प्रतिमा. शाळेंत शिकोवन उरिल्ल्या वेळांत सरकारी ऑफिसांनी चलून वचून तो लोकांचीं कामां करतालो. होसूराक आंदोलन जालें ते रातीं म्हाका चेन्नयच्यान पा.ऊ.षण्मुगम नांवाच्या एका मंत्र्याचो फोन आयलो. तो मंत्री तिरुवण्णामलय गांवचो. कोदंडरामय्याक धरून बंदखणींत उडय अशी ताणें म्हाका फोनाचेर ऑर्डर दिली. ताका धरून भितर उडयल्यार होसूर पेट्टलें आनी मागीर परिस्थिती हाता भायर वतली, देखून म्हज्यान ताका धरपाची ऑर्डर दिवंक जमचें ना अशें हांवें मंत्र्याक सांगलें. मंत्री म्हजेर खूब्ब तापलो आनी आपूण सांगतां तें तुवें चालीक लावंकूच जाय अशें म्हणूंक लागलो. तें जमचें ना अशें हांवें ताका सांगलें. "एक तर कितें करपाचे तें तुमी म्हजेर सोडात, नाजाल्यार तुमी बरोवन ऑर्डर धाडात," अशें सांगतकच ताणें फोन

आपटिलो. त्या काळांत खंयूय फोन करतलो जाल्यार पयलीं टेलिफोन एक्स्चेंजीक फोन करचो पडटालो आनी मागीर ते ट्रंक कॉल करून लोकांक उलोवपाक दिताले. कशें म्हणून कोणाक खबर, कोदंडरामय्याक हांव धरचों ना आनी मंत्र्याक हांवें तशें सांगलें अशी खबर टेलिफोन एक्स्चेंजींत आनी होसूर गांवांत सगल्याक पातळ्ळी. कांय फुडारी मागीर म्हाका मेळूंक आयले आनी "तुवें मंत्र्याक कितें सांगलें तें आमकां खबर आसा. तुजे असलो सब-कलेक्टर आसा म्हणसर आमकां कसलीच भिरांत ना" अशें म्हणून म्हाका धन्यवाद दिवन ते गेले.

होसूर उप-जिल्लो हो धर्मपुरी जिल्ल्याचो भाग. सुलेमान नांवाचो थंय कलेक्टर आशिल्लो. तमीळ एकदम बरी उलयतालो आनी बरयतालो. होसूराचें आंदोलन बरे तरेन हाताळ्ळें आनी कोदंडरामय्याक धरचो ना अशें सांगलें तें एकदम बरें केलें म्हणून ताणें म्हाका शाबासकी दिली.

म्हाका आनीक कांय यादी आसात त्यो कृष्णन ह्या कलेक्टराच्यो (नांव बदल्लां). तो तमीळनाडू सरकारी सेवेंत तहसिलदार म्हणून लागिल्लो आनी ल्हवू ल्हवू वयर चडून कांय वर्सां उपरांत सरकारान ताका आयएएस पदवी दिल्ली. कृष्णनाक कायदो, प्रशासन बी व्हडलेंशें समजनाशिल्लें. तो दीसरात चिकन मटण खाता देखून ताची बुद्द मंद अशें कांय तरनाटे ऑफिसर उलयताले. तो म्हाका आपलो पूत आनी लताक आपली धूव म्हणटालो. कुटुंब नियोजनाचो लोकां मदीं प्रसार करप हें कलेक्टराचें एक मुखेल काम! कृष्णनाक चार भुरगीं. कलेक्टर जाला तेन्ना ताची पिराय 50 - 51 वर्सां आशिल्ली आनी ते पिरायेचेर ताका आनीक एक पूत जालो - म्हणल्यार फामिलींत पांच भुरगीं. म्हयन्या कणकणीं जावपी ऑफिसरांच्या मिटिंगांनी सगल्या तरांचें उदरगतीचें काम कशें चल्लां हाचो नियाळ कलेक्टरान घेवपाचो आसता. कुटुंब नियोजनाक तो म्हत्व कित्याक दिना हें सगल्यांक खबर आशिल्लें आनी कोणूच ताचे मुखार त्या मुद्द्याचेर उलोवपाचे भानगडींत केन्नाच पडनाशिल्लो. धर्मपुरी जिल्ल्याचें प्रशासन हेर अधिकारी बरे तरेन चलयताले, देखून चलतालें. कृष्णन त्या प्रशासनाच्या वयल्या पांवड्या वयलें 'शेतांतलें बावलें' आशिल्लें. कृष्णनाच्यो दोन यादी म्हज्या मनांत सामक्यो घडिल्ल्यो तश्श्यो त्याच रुपांत आसात.

पेण्णाग्राम ह्या ल्हानशा गांवांत जाल्ल्या सुवाळ्यांत वांटो घेवपाक कलेक्टर, हांव आनी कांय अधिकारी आनी आमच्या वांगडा सकयल्या पांवड्या वयल्या अधिकाऱ्यांची एक लांब शेंपडी अशे आमी सगले लोक गेल्ले. थंयच्या एका गिरेस्त भाटकारान आमकां सगल्यांक जेवणाक आपयले. सकयल शिमिटाचे जमनीर लांब शेंदरी घालून केळीच्या पानार आमी जेवले. कृष्णनाचें पान उखलून भायर उडोवपाक सगल्या

ामेऱ्यांनी न्हयकार दिलो अशी खबर मागीर म्हज्या कानार आयली. कृष्णन सामके फयले जातीचो आनी आमी ते जातीच्या लोकांनी उश्टें केल्लें पान काडचीं नात अशें ा कामेऱ्यांनी सांगलें. जितलो वाठार चड मागाशिल्लो, तितलें जातीचें म्हत्व चड!

आनीक एक गजाल म्हज्या कानार आयली, ती म्हणल्यार, "शी:शी! तो ानीक कितें करतलो? ताचे कडल्यान कसलेंच बरें काम जातलें म्हणून आमी वाट ठोवंक जायना. तो खंयचे जातीचो तें आमकां खबर ना?" अशें कांय फुडारी उलयतना वें आयकल्लें. हांव, 'वयले' जातीचो अशें कोणेंय तरी तांकां सांगलां जावंये, देखून लेक्टराचीं फकांडां मारतना तांकां म्हजी भिरांत दिसली ना.

कर्नाटक आनी तमीळनाडू हांचे शिमेचेर आशिल्लो पेण्णाग्राम गांव होगनक्कल ा घसघशा खातीर खूब्ब फामाद. कलेक्टर कृष्णन, ताची बायल आनी आमी केन्नाय ागनक्कलाक पिकनीक करून दुसऱ्या दिसा परतून येतालीं. 800 किलोमिटर लांबायेची ावेरी न्हंय कर्नाटकांतल्या कोडगू दोंगरांतल्यान सुरू जावन होगनक्कलच्या रानांनी मीळनाडूंत भितर सरता. होगनक्कलच्या दोंगराळ रानांतल्यान येता आसतना थंयच्या हड-व्हड खडपांक लागून न्हंय फुट्टा आनी न्हंयेचे कितलेशेच ल्हान ल्हान घसघशे ावन ते सुमार शंबर मिटरां वयल्यान सकयल पडटात. अमेरिकेंतलो नायगारा घसघसो सोच खूबश्या ल्हान-ल्हान घसघश्यांनी सकयल पडिल्ले भशेन दिसता देखून होगनक्कल सघश्याक दक्षीण भारतांतलो नायगारा घसघसो अशें म्हणटात. ह्या घसघशाचें खास ाकर्शण म्हणल्यार घसघशा वयल्या फातरांचेर रावन थंयच्यान घसघसो सकयल पडटा ो पळोवंक मेळटा. दुसरें आकर्शण म्हणल्यार, परिसल! वेताचो वा कोंड्याचो पोंदच्यान ामड्यान बांदून काडिल्लो 8-10 लोकांक बसून वचपा सारको व्हड पांटलो. लोकांक ा पांटल्यांत बसोवन एक मनीस खडपां मदल्यान व्हांवपी न्हंयेंतल्यान व्हलयत व्हलयत ोंवडावन हाडटा. तिसरें आकर्शण म्हणल्यार मेलगिरी दोंगरी रानांतल्यान व्हांवून येवपी न्हंयेच्या उदकांत आशिल्लो वखदी गूण. हजारांनी लोक थंय न्हावपाक येतात आनी हावचे पयलीं आंगाक तरातरांचीं तेलां लावन शेंकड्यांनी दादले मालीश करून घेतना देश्टी पडटात. देखुनूच होगनक्कलची वखदी मालिशूय बी फामाद जाल्या. हांवें मात ती ालीश केन्नाच करून घेतली ना. कृष्णन मात ती मालीश करून घेवपाक केन्नाच विसरनाशिल्लो.

सरकारी अधिकाऱ्याक लाचार जा म्हूण कोण सांगना. मंत्र्यांच्या आनी हेर ुडाऱ्यांच्या लागीं वचून तांचे कडल्यान कितेंय तरी घेवपा खातीर कितलेशेच अधिकारी कितेंय करपाक तयार आसतात.

कृष्णनाक धर्मपुरीक आसतना चार भुरग्यां उपरांत आनीक एक पूत जालो कृष्णनान आपल्या पुताक तेन्नाच्या एका फामाद मंत्र्याचें नांव दिलें. कांय वर्सांनी त्य मंत्र्याचें सरकार पडलें. आनी कृष्णनान आपल्या पुताचें नांव बदल्लें.

रामस्वामी नायकर हो विसाव्या शेंकड्यांत जल्मल्लो तमीळनाडूंतलो एव येसस्वी समाजसुदारक! जातीचेर आदारिल्लीं आडनांवां लोकांनी वापरचीं न्हय अस एक विचार ताणें पातळायलो, आनी सगल्या जातींतल्या लोकांनी तो आपणायलो. दे म्हणल्यार फकांडां, देव म्हणल्यार मनशाचेच तकलेंतली एक कल्पना, आनी भौसाचें आपणालो शेक सासणाचो उरचो देखून बामणांनी फुडें काडिल्ली ती एक येवजण, असं ताचो एक विचार! ताणें 'द्रवीड कळघम्' नांवाचो राजकी पक्ष सुरू केलो. पूण तो पक्ष लोकां मदीं पातळूंक शकलो ना, कारण देवा आडचो हो विचार सादारण मनशाक मानवलं ना. अण्णादुराय, करुणानिधी, एम.जी. रामचंद्रन, हे सगले रामस्वामी नायकराचे शिश्य रामस्वामी नायकराक पेरियार (म्हान मनीस) म्हणून वळखताले. ताचे उपरांत अण्णादुरा हाणें द्रावीड मुन्नेत्र कळघम नांवाचो पक्ष सुरू केलो. त्या पक्षाच्या धर्मपुरी फांट्यान धर्मपुरीं एक व्हड सभा घडोवन हाडिल्ली. एक व्हड माची घाल्ली आनी माचये फाटल्या पड्ड्याचेर व्हड अक्षरांनी 'देव आसा म्हणटात ते मूर्ख' ह्या अर्थाचीं उतरां बरयिल्लीं. सभा सुरू जावचे पयलीं हजारांनी लोक सभा सुरू जावपाची वाट पळयता आसतना तीं माची घोऽ करून कोसळ्ळी. ती कित्याक कोसळ्ळी तें कोणाक सारकें समजलें ना. "देव ना म्हणटात न्हय? म्हणून देवाक राग आयलो" अशें मागीर लोक उलोवंक लागले. धर्म आनी संस्कृताय हांचीं पाळांमुळां इतिहासांत आनी लोकांचे जिणेंत खोल रुतिल्लीं आसतात. तीं हुमटून उडोवपाचें काम खूब कुस्तार! तें काम पेरियारान हातांत घेतलें पूण ताका तातूंत येस मेळ्ळें ना. ह्याच विचारांचें दुसरें तोंक म्हणल्यार धर्माचेर आनी संस्कृतायेचेर आदारून तरातरांचीं पिशेपणां आनी मदांधपणां लोकांक करपाक लावन, ताचो राजकी फायदो घेवप. हेंवूय बी लोकांक मानवना. फाटल्या वीस वर्सां मदीं असलो यत्न कांय राजकी पक्षांनी केलो. पयलीं पयलीं लोक बळी पडले, पूण मागीर लोक जाग्यार आयले आनी तांणी धर्माचेर आदारिल्लें राजकारण भायर मारलें. जिणेंतल्यान धर्म आनी संस्कृताय भायर उडोवंक मेळना पूण धर्माच्या आनी संस्कृतायेच्या नांवान राजकारणूय करूंक मेळना, हें आतां सगल्या राजकी पक्षांक कळ्ळां. द्रमुक पक्षान 'देव ना, देव आसा म्हणटात ते मूर्ख' असल्यो गजाली उलोवपाचें बंद केलें, आनी सादारण लोकांक भजनांचो आनी प्रार्थनांचो अर्थ कळचो, म्हणून संस्कृता वांट्याचीं तमीळ भजनां, तमीळ आरत्यो आनी तमीळ पुजा व्हड-व्हड देवळांनी सुरू केल्यो. तमीळनाडूंत व्हड-व्हड देवळां सरकारान आपणाल्या आलाशिऱ्या खाला घेतल्यांत आनी देवळांचें प्रशासन सरकार चलयता.

होसूराक सब-कलेक्टराचो बंगलो म्हणल्यार त्या काळांत सगल्यांत व्हड गलो. बंगल्या भोंवतणचो आंवाठ सुमार पांच एकर आनी मुखेल दरवट्यांतल्यान भितर रतकच बंगल्याचेर पावपाक सुमार 100 मिटर चलून वचचें पडटालें. एके माळयेच्या ा बंगल्यांत सकयल लोकांक बसपाचें एक व्हड साल, जेवपाचो हॉल, रांदचीकूड ानी न्हिदपा खातीर वयर दोन व्हड कुडी. आनी दोनूय कुडीं मदीं लोकांक बसपाक ानीक एक साल. फुडल्यान फाटल्यान व्हड-व्हड वारांद. भारतांत सगले कडेन आसता भशेन बंगल्याकूच तेंकून एक धाकलेंशें ऑफीस. कलेक्टर, सब-कलेक्टर, पुलीस धिक्षक हे सगले 24 वरां ड्युटीचेर आसतात, देखून तांच्या रावपाच्या सरकारी बंगल्यांत ायले भायर येवपा वचपाची वाट आशिल्लें एक 'कॅम्प-ऑफीस' म्हणून आसता.

होसूरच्या बंगल्यांत आळीपाळीन येवन काम करपी स प्यून, दोन ड्रायवर, ाळी आनी घर निवळ करपाक वावराड्यो आशिल्ल्यो. कोण खंयचे जातीचो हें जाणून ेवपाचें आमकां केन्नाच म्हत्व दिसलें ना. लता गुरवार आसतना घरा मुखा वयल्या ोरसांत आशिल्ल्या एका झोंपाळ्याचेर वचून बसतालें आनी पापम्मा हे वावराडेन पोरसांतले ोगऱ्यांचे कळे काडून हाडटकच तांची माळ गुंथीत बसतालें. एके फावटीं ताणें पापम्माक पियेवपाक उदक हाडपाक सांगलें. दोन तीन फावटीं सांगून लेगीत पापम्मान तें उदक हाडलें ना. आपूण हरिजन, आपल्या हातचें उदक तूं कशें पियेतलें देखून आपणें तें उदक हाडलें ना अशें तिणें लताक सांगलें. "आपल्याक तसलें कांय लागना, तूं उदक हाडून दी" अशें लतान सांगतकच तिणें उदक हाडून दिलें.

युगेश ऑगस्ट 1969 त जल्मलो. सब-कलेक्टराचो चलो म्हणून बंगल्या वयलो सगलो स्टाफ ताची भरपूर अपुरबाय करतालो आनी ताका खूब खेळयतालो. सब-कलेक्टराचे जिपीच्या बोनेटाचेर उदारो घालून, ताका खातकुल्यो करून, ताका हांसयताले, आनी कांय काम नासता तेन्ना ताजे कडेन खेळत बसताले. माती वा हेर कसलीय वस्त ताच्या तोंडांत वचत, खंयूय कितेंय तोपत हाची आमकां भिरांत दिसताली. कृष्णगिरीचो डॉ. अण्णाजी हो एक कॉमरेड डांगे वांगडा वावुरिल्लो स्वातंत्र्य सैनीक आमचो बरो इश्ट जालो. युगेशाक मातशें लेगीत जिवाक बरें ना अशें दिसल्यार आमी डॉ. अण्णाजीक फोन करतालीं. "तुमी भुरग्याक चड सांबाळटात. ताका सोडात, दिमखुऱ्यांनी ताका जाय थंय वचुंदी, मातयेंत खेळुंदी! कायंच भिवपाची गरज ना. झोंपडपट्टींनी रावतात त्या भुरग्यांक पळयात, कशीं गुबगुबीत आसतात तीं!" अशें तो सदांच आमकां सांगतालो.

डॉ. अण्णाजी आतां ना, पूण अजुनूय ताची बायल नागरत्नम हिचे कडेन आमी संपर्क दवरून आसात.

हरिजन हें उतर महात्मा गांधी वापरतालो. हांवें खंयच्या तरी संमेलनांत माचयें वयल्यान उलयता आसतना हें उतर वापरलें तेन्ना "आमकां हरिजन म्हणल्यार आमचें अपमान जाता, आमी देवाचे मनीस न्हय, आमकां आवयबापूय आसात, आमकां तुमी अनुसुचीत जातींतले लोक म्हणात, हरिजन म्हणूं नाकात" अशें एका अनुसुचीत जातींतल्या फुडाऱ्यान म्हाका सांगलें. त्या दिसाच्यान हांवें हरिजन हें उतर वापरपाचें बंद केलें. आमच्या ऑफिसांत आनी बंगल्यार जातींचेर आदारून कसलेंच वेगळेपण आसूंक जायना अशी आमी सगल्यांक शिटकावणी दिल्ली.

आनीक एक याद आसा ती रामकृष्णप्पा ह्या प्युनाची! सगल्यां परस जाणटो आनी पिरायेच्या आदाराचेर सगल्यां कडल्यान मान घेवपाचो हक्क दीसरात गाजोवपी हो प्यून सदांच पुडवें, सदरो आनी फेटो बांदून येतालो. गोंयच्या पोरण्या घरांनी वणटींचेर लायिल्ल्या, फेटो बांदिल्ल्या आज्या-पणज्यांच्या फोट्यांतल्या मनशां भशेन तो दिसतालो. तो जितलो सिनियर तितलोच ताचो भ्रश्टाचारूय बी सिनियर हें म्हाका पयलीं खबर नाशिल्लें. "तुजो प्यून चार आणे दिले बगर कोणाक तुका मेळपाक भितर सोडिना" अशें एके फावटीं म्हाका एका ऑफिसरान सांगलें. हांवें ऑफिसांतल्या हेडक्लार्काक आनी म्हज्या पिएक विचारलें तेन्ना सगल्यांनी आमकां कांयच खबर ना, अशें म्हणून आपल्याचेरूच भ्रश्टाचाराची कागाळ जाल्ले भशेन तोंड वांकडें केलें. हांवें रोखडीच ताची बदली केली आनी लोकां कडेन संपर्क येनाशिल्ल्या एका ऑफिसांत ताका धाडलो. तहसिलदार आनी सब-कलेक्टराच्या ऑफिसांनी भ्रश्टाचार आसता, हातूंत दुबाव ना. पूण थंय भ्रश्टाचार आसा, हाताक कितेंय लायले बगर कामां जायनात, अशी कोणेंच म्हजे कडेन कागाळ केली ना. "लोक कागाळ कित्याक करिनात?" अशें एका रिटायर्ड तहसीलदाराक विचारतकच "आयएएस ऑफिसर येतात आनी वतात; फकत दोन वर्सां उरतात; आतां ताचे कडेन कागाळ केल्यार तो बदली जावन वतकच आपल्याक ताच्या ऑफिसांतले लोक त्रास दितले अशें येवजून भ्रश्टाचारा आड कोणूच कागाळ करपाक सोदिनात" असो खुलासो ताणें केलो. त्या मानान आमच्या गांवांत तितलो भ्रश्टाचार ना. आपणालें काम बरे भशेन जातकच लोक आपखोशेन तांकां कितेंय दितात, ते मागिनात वा कांय दिलेंना म्हणून काम करपाचे रावनात अशीय बी वकिली त्या रिटायर्ड तहसीलदारान केली.

होसूर उप-जिल्ल्यांतली आनीक एक याद म्हणल्यार थंयच्या सरकारी सुवाळ्यांची! सगल्या सरकारी सुवाळ्यांक म्हजे वांगडा लतानूय येवचें असो थंयच्या गांवच्यो बायलो हट्ट धरताल्यो आनी थंयचे जाळवणदार लताकूय कितेंय तरी काम दवरताले. लताक पळोवपाक लोकांची गर्दी जाताली-चड करून बायलांची. 'तूं आमच्या सिनेमांतल्या नट्यां भशेन सोबीत दिसता," अशें म्हणून बायलो ताची तुस्त करताल्यो.

एके फावटीं गोरवांचें प्रदर्शन आशिल्लें. हांवें भाशण दिवन लतान इनामां ांटपाचीं आशिल्लीं. थंयच्या अधिकाऱ्यान आमकां बरीं बरीं गोरवां दाखयतां म्हणून ्दर्शन दाखोवपाक व्हेलीं. "ही म्हस पळयात कितली सुंदर," अशें म्हणून एके म्हशी ह्यांत पावतकच त्या अधिकाऱ्यान लताक सांगलें. आमकां दोगांकूय म्हस सुंदर हणल्यार कितें हें समजलें ना. म्हशीं भितर बऱ्यो आनी वायट दिसपी आसतात हें आमकां ब्बर नाशिल्लें. आमच्या तोंडा वयलो गोंदळ पळोवन त्या अधिकाऱ्यान म्हस सुंदर हणल्यार कितें हें सांगपाक सुरवात केली. "कान पळयात काय बरे, नाक पळयात काय रें, दोळे पळयात काय बरे." आमी हय हय म्हणीत थंयच्यान बेगीन सुटका करून तली.

होसूराक म्हाका दोन बरे इश्ट मेळ्ळे, एक डॉ. केशव रामानुजन आनी दुसरो इंजिनियर देवदिगा. डॉ. केशव रामानुजन तेलगू मनीस आनी तो पेशण्टां कडल्यान पयशे ्नेनासतना तांकां तपासता म्हूण ताची घरकान्न ताचेर सदांच पिकार जाताली. ताच्या सभावाक लागून थंयचे तेलगू लोक ताका देव मानताले. देवदिगा हो मूळ दक्षीण कन्नड जिल्ल्यांतलो, म्हणल्यार मंगळूर वाठारांतलो तुळू मनीस! तेन्ना तो तमीळनाडू सरकारांत असिस्टण्ट इंजिनियर आशिल्लो आनी होसूरांत तमीळनाडू सरकाराची नवी उद्देगीक वसणूक घालपाचें काम सरकारान ताचेर सोंपयिल्लें. मनीस प्रामाणीक आनी कर्तबगार! प्रशासनांत कर्तबगार मनीस सदांच भ्रश्ट आसतात आनी प्रामाणीक मनीस कर्तबगार आसुंकूच शकनात असो एक समज आसा. प्रामाणीकपण आनी कर्तबगारी हातांत हात घालून वांगडाच कशीं सांपडूं येतात हाचें उदाहरण म्हणल्यार देवदिगा. सादारण मनशाक पचपाक कुस्तार असलें पोरण्या आनी नव्या विचारांचें मिश्रण ताणें कांय न्हय करून पचयिल्लें. पयले बायलेक भुरगें जायना म्हणून पयली बायल जिती आसतना, घटस्फोट घेनासतना आनी सरकारी नोकरेंत आसतनाच तो दुसरे खेपे लग्न जालो. पयली बायल आनी दुसरी बायल दोगी भयणी आनी तीं दोगांय एकाच घरांत रावतालीं. मजा म्हणल्यार तांचीं केन्नाच झगडीं जायनाशिल्लीं. "तुका टॅन्शन जायना?" अशें विचारल्यार "म्हाका कांयच टॅन्शन ना, शेजाऱ्यांक जाता" अशें म्हणून तो व्हडल्यान हांसतालो.

5 - 6 वर्सां उपरांत हांव मद्रासाक (आयचें चेन्नय) आशिल्लों तेन्ना "तूं होसूराक घर बांद, आमी तुका बांदपाक मजत करतात, आमी जाणटेपणांत तिगूय एके कडेन रावुया" अशें म्हणून डॉ. केशव रामानुजन आनी देवदिगा म्हजे फाटल्यान लागले. मागीर आमी होसूरा भायर सुमार पांच हजार चौखण मिटर जागो विकतो घेतलो आनी ताचे तीन वांटे केले आनी मागीर म्हज्या वांट्याक आयिल्ल्या प्लॉटाचेर हांवें घर बांदलें.

कृष्णगिरीक एक व्हड धरण आशिल्लें. आनी धरणा सकयल सगले कडेन

आसता तशें ऑफिसरांक रावपा खातीर एक 'गेस्ट हावस' आशिल्लें. कृष्णगिरी वाठारांत भोंवडी करता आसतना आमी केन्नाय थंय रावतालीं. टायटस नांवाचो एक जाण्टेलो क्रिस्तांव त्या गेस्ट हावसाची जतनाय घेतालो; रांदून वाडटालो. म्हाका इडली, दोसा, उपीट आनी असलें तमीळ खाण आवडटालें. लताक ब्रॅड, लोणी, जॅम आवडटालें. "बरे लोक सदांच ब्रॅड बटर खातात, हेर लोक इडली दोसा खातात" अशें ताणें सदांच म्हणप. टायटसान ब्रिटिशांच्या काळांत काम केल्लें आनी निवृत्त जातकच आमच्या इंजिनियरांनी गेस्ट हावसांत ताका कामाक दवरिल्लो.

आमच्या वांगडा कृष्णगिरीक हरिहर अय्यर नांवाचो जिल्लो कोर्टाचो जज्ज आशिल्लो. तमीळनाडूंत खूबशे कडेन अय्यर आनी अय्यंगार हीं आडनांवां लावपाचें त्या लोकांनी बंद केल्लें, पूण हरिहर अय्यरान तें सोडलें ना. आपल्या शेजारचो एक वॉचमॅन बायलेक खूब्ब मारता आनी दुसरे बायले कडेन संबंद दवरता, ताका मातसो जाग्यार हाडात अशें म्हूण टायटसान हरिहर अय्यराक आनी म्हाका सांगलें. "हें काम आमी कशें करतले? तिणें पुलिशेंत केश करची पडटली!" अशें म्हणून हरिहर अय्यरान तें प्रकरण आंगा वयलें फाफडून उडोवपाचो यत्न केलो. आमी कितेंय तरी करूंक जाय, ते बायलेक त्रासांतल्यान वांचोवंक जाय, अशें म्हणून हांव हरिहर अय्यरा फाटल्यान लागलों. आमी उलयतात तें थंयच्या तहसीलदारान आयकलें. तें प्रोब्लेम आपणें सोडयलें आनी आतां सगलें सारकें चल्लां अशें दुसऱ्या दिसा येवन ताणें आमकां सांगलें. तहसीलदारान पुलीस इन्स्पेक्टराक सांगलें आनी त्या इन्स्पेक्टरान त्या वॉचमॅनाक तापयना फुडें तो वॉचमॅन जाग्यार आयलो.

प्रशासनांत सगलेच प्रस्न सोडोवपाक कायद्याचो वापर करपाची गरज नासता. कायदो कुशीक दवरून मनीसपणाची जतनाय करपाक आपलो अधिकार वापरूंक जाता. पूण अधिकाराचो सुवार्था खातीर चड उपेग जाता आनी लोकांच्या बऱ्या खातीर उणो. देखून प्रशासनाचें नाव पेड्डुयार जाता.

होसूराक हांव दोन वर्सां उरलों. ऑक्टोबर 1970 त पोळ्ळाचीचो सब-कलेक्टर म्हणून म्हजी नेमणूक जाली. नेमणूक जातकच पयलींची मोटार विकून दुसरी घेवया अशें आमी थारायलें. मोटार बरी-वायट, म्हारग-सवाय हें थारावपी आमचो ड्रायवर हनुमंतप्पा. आमच्या स्टेंडर्ड हेराल्ड मोटारीची तो बरी जतनाय घेतालो आनी सदांच मोटारीचो बोवाळ जावचो न्हय आनी चेसी मोडची न्हय म्हणून रबराचे कुडके आनीक सुमां घेवन भोंवतालो. नवी मोटार आमकां परवडपा सारकी नाशिल्ली म्हणून आमी पोरणीच मोटार सोदपाक लागलीं. अखेरेक पयलींची मोटार विकून दुसरी एक पोरणी मोटार बेंगळुरूक वचून घेतली. हे मोटारीची चेसी फस्ट क्लास आसा आनी आंगूय बी बरें आसा, व्हडलोसो आवाज

ायना, अशें हनुमंतप्पान सर्टिफिकेट दिलें. नवे 'पोरणे' मोटारीन आमी पोळ्ळाचीक
र्ली. पोळ्ळाचीक वता आसतना चार-पांच कडेन मोटार बंद पडली. ते मोटारीचें इंजीन
ारकें नाशिल्लें हें आमकां तेन्ना कळ्ळें. चेसी सारकी आसा काय ना, हें तपासपाच्या
न्शनांत हनुमंतप्पा इंजीन पळोवपाक विसरिल्लो. होसूरच्यान पोळ्ळाचीक वतना आनी
ाळ्ळाचीक कामाचो ताबो घेतना आमी 'राहू कालम' पळोवपाक मात विसरलीं नात.
ामीळनाडूंत रावन राहू कालमाच्या भुताक विसरप अशक्य!

# भाग 9
# पोळ्ळाची सब-कलेक्टर

पोळ्ळाची हें होसूरा परस कितलेंशेंच व्हड शार! कोइंबतूर जिल्ल्याचो हो एक उप-जिल्लो. ह्या उप-जिल्ल्यांत तीन तालुके - पोळ्ळाची, उदमलपेठ आनी तिरुप्पूर. पूण हे तालुके खूब व्हड. तालुक्याचे कांय भाग केरळचे शिमेचेर आसात. अस्तंत पर्वतांचे रांगेंतले कांय दोंगर आनी रानां ह्या उप-जिल्ल्यांत आसात आनी ह्या दोंगरांनी व्हड व्हड फामाद च्याचे मळे आनी धरणां आसात. भारतांतल्यान दर वर्सा सुमार 5 हजार कोटींचीं बानयनां, टी-शर्टां, चेड्ड्यो बी निर्यात करपी वसणूक तिरुप्पूर गांवांत पडटा. ह्या उप-जिल्ल्यांत तीन शारां, म्हणल्यार पोळ्ळाची, उदमलपेठ आनी तिरुप्पूर. ह्या उप-जिल्ल्यांतलीं शारांच न्हय तर गांव लेगीत गिरेस्त लोकांनी भरिल्ले. ल्हान-ल्हान गांवांनी रावून सगलीं आधुनीक सोंपेपणां थंय हाडून, त्या गांवांत लेगीत शारांतली जीण ते लोक जियेताले. सैमाची नितळसाण आनी सुंदरकाय आनी शारांतलीं सोंपेपणां हांचो मेळ ह्या गांवांनी पळोवपाक मेळटा. तमीळनाडूंतल्यान केरळांत चोरयां वचपी भात आडावप, हें आमच्या उप-जिल्ल्यांतलें एक मुखेल काम आशिल्लें. केरळांत वतल्या सगल्या रस्त्यांचेर चेक नाके आशिल्ले आनी दिसाचे, रातचे, केन्नाय अकस्मात, पयलीं सांगिनासतना थंय ट्रक आडावपाक आनी तपासपाक आमी वताले.

त्याच वर्सा फकीरचंद शर्मा ह्या भारतीय सैन्यांतल्यान भायर सरिल्ल्या आनी इण्डियन पुलीस सर्वीस, म्हणल्यार आयपीएसांत आसपावन घेतिल्ल्या एका पंजाबी

ोटयाची कोइंबतूरांत नेमणूक जाली आनी म्हजी आनी ताची बरी इश्टागत जाली. रियां वचपी ट्रकांचेर धाड घालपाक म्हजे वांगडा तोवूय बी येतालो.

पोळ्ळाचींत आनीक एके फामिली कडेन वळख जाली, ती नंदा फामील - शपाल नंदा आनी रणबीर नंदा. हांचे आवयबापूय पंजाबच्यान येवन पोळ्ळाचीक स्थायीक ाल्ले. बापायन लांकडांची वखार सुरू केल्ली. सरकारी रानां कापपाचीं व्हड-व्हड त्राटां घेवन वखारींत हाडून कापून विकपाचो धंदो तो करतालो. तो धंदो चलोवपाक ानी वाडोवपाक यशपाल आपल्या बापायक मजत करतालो.

आयएएस ऑफिसरांनी समाजांत कितें करचें आनी कितें करचें न्हय, खंय चचें आनी खंय वचचें न्हय, समाज तांचे कडल्यान कसली अपेक्षा करता, ह्या सगल्या जालींचेर मुळावे धडे म्हाका पयलीं पोळ्ळाचीक शिकूंक मेळ्ळे.

अमक्या एका हॉटेलांत दोसा बरो मेळटा, थंय बसपाक भितर फॅमिली रूम बी आसा, आमी थंय वचून दोसा खावया अशें नंदान म्हाका एक दीस सुचयलें. नंदा, ताची ायल, लता, हांव आनी शर्मा दोसा खावंक गेलीं. म्हाका वायट दिसत म्हणून सांगचें ाय ना ह्या दुबावांत, अर्दकुट्या उतरांनी नदर चुकोवन दुसऱ्या दिसा म्हाका हेड क्लार्क सांगूंक लागलो, "सराक दोसा आवडटा जाल्यार प्युनाक सांगून बंगल्यार हाडून घेवचो, हॉटेलांत वचून खावपाची गरज ना." हॉटेलांत कित्याक वचूंक जायना काय म्हूण विचारल्यार सब-कलेक्टर आनी कलेक्टर हॉटेलांत वचनात, अशें ताणें सांगलें. हांवें कित्याक काय म्हूण ताका विचारलें ना, कारण ताची जाप ताका येवची नाशिल्ली. "भांगो नांवाचो एक सरदारजी आयएएस ऑफिसर कोइंबतूरचो कलेक्टर आशिल्लो. हें अशें कित्याक, 20 व्या शेंकड्यांत लेगीत आमी अमके कडेन वचपाक जायना, तमके कडेन वचपाक जायना, असले विचार कित्याक आसूंक जाय, असल्या विचारांक आनी प्रशासनाक संबंदूच ना," अशें हांवें म्हणलें. "प्रशासन म्हणल्यार भौशीक उद्दिश्टां गांठपाचें एक साधन. अर्थीक उदरगत आनी भौशीक सवस्तकाय हीं दोन मुखेल उद्दिश्टां. हीं उद्दिश्टां गांठपा खातीर लोकांनी काम करचें पडटा आनी प्रशासनान तांकां पालव दिवचो पडटा आनी जाय तेन्ना कायदे, नेम, चालीरितींक धरून वाट दाखोवची पडटा. प्रशासनांत आशिल्ल्या अधिकाऱ्यांचें आयकून काम करतलो जाल्यार भौसाक त्या अधिकाऱ्यां विशीं मोग, आपलेपण आनी आदर आसूंक जाय. अधिकाऱ्यांची वागणूक, तांचो सभाव आनी तांची काम करपाची रीत हांचे विशीं लोकांच्यो कांय अपेक्षा आसतात. त्या अपेक्षां प्रमाण अधिकारी वागलेनात जाल्यार ते बरे भशेन प्रशासन चलोवंक शकनात. सादारण हॉटेलांनी वयल्या पांवड्या वयल्या ऑफिसरांनी वचचें न्हय अशें ल्हान ल्हान गांवांतल्या लोकांक दिसता. व्हड व्हड शारांनी असल्यो शिमो लोकांनी घालून दिल्ल्यो

नासतात, कारण थंय कोण कोणाक वळखना. देखून ल्हान-ल्हान गांवांनी कितें कर
समा आनी कितें करप समा न्हय हें आयएएस ऑफिसरांनी पयलीं थारावंक जाय आनी
प्रमाण वागूंक जाय,'' अशें लेक्चर म्हाका कलेक्टरान दिलें.

भौशीक सभांनी तमीळींतल्यान उलोवचें पडटालें आनी ल्हवू-ल्हवू म्हाक
ताची संवय जाताली. पोळ्ळाची-तिरुप्पूर हांचे मदीं आशिल्ले एके ल्हानशे पंचायती
म्हाका एके मुळावे शाळेचें उक्तावण करपाक मुखेल सोयरो म्हणून आपयलो. तिनसांजच
वेळ आशिल्लो. हांव आनी लता थंय पावचे पयलींच गांवांतल्या बायलां-भुरग्यांची ग
जमिल्ली. हांवें तमीळींत उलोवपाक सुरवात केली आनी हांव सुमार पंदरा मिनटां उलयलों
चली भुरग्यांक शाळांनी कित्याक धाडूंक जाय, तांकां कामाक कित्याक धाडूंक जायना
तांकां शिकयल्यार फामिलीकूय बरें आनी देशाकूय बरें, सान भुरग्यांक शेतांत धाडूंव
जायना, शाळेंत धाडूंक जाय, अश्यो खूबश्यो गजाली तांकां हांवें सांगल्यो. दर मिनटाव
लोक ताळयो वाजयताले. म्हजें भाशण लोकांक आवडलें म्हणून म्हाका खूब्ब खोस
जाली. मागीर हांवें पाशाणी बोर्डा वयलो सॅटिनाचो पड्डो ओडून ते बिल्डिंगेचें उक्तावण
केलें. तो बोर्ड पळोवन म्हाका शॉक बसलो! ती मुळावी शाळा न्हय, तर पंचायतीचे
ऑफीस आशिल्लें. म्हाका तांणी पंचायतीच्या ऑफिसाचें उक्तावण करपाक आपयिल्लें
आनी हांवें म्हज्या भाशणांत "म्हाका मुळावे शाळेचें उक्तावण करपाक खूब खोस जाता,''
अशें सांगिल्लें आनी लोक तें आयकून ताळयो मारताले. मागीर च्याचो प्रोग्राम
आशिल्लो. ताळयो कित्याक मारताले अशें हांवें च्या पियेता आसतना सरपंचाक विचारलें.
''तूं तमीळींतल्यान उलयतालो तें तांकां आवडटालें. कितल्योय चुकी केल्यो जाल्यार
लेगीत तूं तमीळींतल्यान उलयलो, देखून तांकां खोस जाताली आनी ते ताळयो मारताले,''
अशें ताणें म्हाका सांगलें.

गोंयांत येतात त्या आयएएस ऑफिसरांक कोंकणी उलोवपाक येना, इतलेंच
न्हय, तर ते शिकपाचो लेगीत यत्न करिनात. हिंदी खबर आशिल्ल्यांक कोंकणी शिकूंक
चडशी कुस्तार न्हय, तरी आसतना कोण्ण कोंकणी शिकपाचो यत्न करिनात. गांवागांवांनी
वचून लोकांक भेळप, तांचे प्रस्न समजून घेवप, तांचे कडेन भासाभास करप आनी असलीं
कितलींशींच कामां हेर कडेन चलतात, तीं गोंयांत चलनात; ताचें एक मुखेल कारण
म्हणल्यार, ऑफिसरांक कोंकणी उलोवंक येना, हेंच जावंये. तमीळनाडूंतल्यान दर वर्सा
जेन्ना सुटी घेवन हांव गोंयांत येतालों, तेन्ना गोंयची ही परिस्थिती पळोवन म्हाका वायट
दिसतालें आनी म्हज्या पोळ्ळाचीच्या दिसांची म्हाका याद जाताली. म्हज्या वांगडा
वेंचणूक आनी प्रशिक्षण जाल्ले दोग आयएएस ऑफिसर कांय वर्सां फाटीं गोंयांत चीफ
सेक्रेटरी म्हणून आयिल्ले. "हांगा येतात ते आयएएस ऑफिसर कोंकणी कित्याक शिकनात,

कां तुमी कोंकणी कित्याक शिकपाक लायनात?" अशें हांवें तांकां विचारलें. तेन्ना हांगा सगले लोक हिंदी ना जाल्यार इंग्लीश उलयतात म्हणटकच कोंकणी शिकपाची ायल्या ऑफिसरांक गरजूच पडना, राजकी फुडारीय बी तें कानामनार घेनात,'' अशें ांणी सांगलें.

सवस्तकाये विर्शीचो पोळ्ळाचींत म्हाका आनीक एक अणभव आयलो. रकारान चड सोंपेपणां दिवचीं म्हणून शेतकारांच्यो आनी जमीन धनयांच्यो खूबश्यो ंघटणा एकठांय येवन तिरुप्पूर तालुक्यांत आंदोलन सुरू केल्लें. हांगा फातर मारप, थंय ाहनां जाळप आनी खंयूय धरणें धरप, असल्यो गजाली जायत आशिल्ल्यो. सप्तकांतल्यान ोन दीस हांव तिरुप्पूर वचून येतालों. तमीळनाडूंत सब-कलेक्टराक मोटार नासता, फकत ीप आसता. तिरूप्पूर पोळ्ळाचीच्यान 45 किलोमिटर आशिल्ल्यान हांव थंय सकाळचो चून सांजेचो येतालों. एके फावटीं असोच सकाळचो वचून साडेबारा मेरेन सगलें काम ोंपोवन, आनीक कितेंय काम करपाचें उरलां काय म्हणून रेहमान नांवाचो तहसीलदार आशिल्लो ताका विचारलें. ''आनीक कांय काम ना, तुवें पोळ्ळाचीक परतून गेल्यार जाता, जेवणाक घरा पावतलो,'' अशे ताणें म्हाका सुचयलें. हांव पोळ्ळाचीक परतून येवपाक भायर सरलों. शेतकारांचें आंदोलन खंय पावलां, आयज खंयूय बोवाळ जावपाचो आसा काय ना, हें विचारतकच, "आयज खंयच कांयच जावपाचें ना" अशें रेहमानान सांगलें. मागीर हांवें पोळ्ळाचीक परतून वचपाचें थारायलें. परतुचे पयलीं तिरुप्पूर शारा भोंवतणच्या वाठारांतल्यान एक पासेय मारून पळोवया अशें म्हजे तकलेंत आयलें. तिरुप्पूर शारांतल्यान एक किलोमिटर भायर पावलां मात, एका पुलीस कॉन्स्टेबलान आमची जीप आडायली. ''थंय फायरिंग चलता, थंय वचूं नाकात,'' अशें ताणें सांगलें. तो पुलीस कसले घुंवळींत आशिल्लो कोणाक खबर; तो जीप कोणाची तें वळखलो ना. देखून म्हज्या ड्रायवरान आनी प्युनान, ताका ताच्या आयुश्यांत कोणेंच तापयिल्लो नासतलो इतलो तापोवन काडलो. ड्रायवराक हांवें जीप मुखार व्हरपाक लायली. जीप मातशी मुखार पावतकच खूबशे लोक दोनांय वटांनी शेतांतल्यान धांवतात आनी पुलीस तांचेर फार मारतात हें हांवें पळयलें. हांवें व्हडल्यान आड्डून सगल्या पुलिसांक परतून आपोवपाक लायले आनी तांकां रांकेंत उबे केले. रानांतल्या जनावराची शिकार करतना तांचे फाटल्यान आर्म घेवन धांविल्ले वरी हे पुलीस त्या शेतकारांच्या फाटल्यान धांवताले. हें खंयच्याच कायद्यांत बसना, म्हणून हांवें त्या इन्स्पेक्टराक तापोवन काडलो. ते सगले 200-300 शेतकार आशिल्ले. ते हेवटेन येतले म्हणून पुलीस आर्दीच थंय रस्त्या कुशीक उबे राविल्ले. ते लोक व्हड-व्हड फातर मारूंक लागले, दोन पुलीस कॉन्स्टेबल जखमी जाले, अशें म्हणीत तांणी जखमी जाल्ले दोग पुलीस आनी पुलीस व्हॅनीक पडिल्लीं चेपां दाखयलीं.

कितेंय जालें जाल्यार लेगीत फायरींग अशी करिनात, अशें सांगून तांगेल्ल्या फायरिंगा
कोण जखमी जाल्यात वा मरून पडल्यात जाल्यार सोदून काडात, अशें सांगून हांवें तांव
सरभोंवतणच्या शेतांनी धाडले. तीन शेतकारांच्यो कुडी सांपडल्यो. इतली गंभीर घडणू
जाली आसतना तुमकां ताची कसलीच खबर नाशिल्ली म्हणून तालुक्याच्या ऑफिसां
तहसीलदार आनी हेरांक हांवें तापोवन काडले . "ना सर, म्हाका खबर आशिल्ली;
पोळ्ळाचीक वतकच तेवटेन वचपाचो आशिल्लो; तुका आनीक बेठोच त्रास कित्याक
म्हणून घरा जेवपाक वच म्हूण हांवें सांगलें' अशें सांगून, आनीक थोड्याच दिसांन
रिटायर जावपा आशिल्ल्या जाणट्या रेहमान तहसीलदारान, जी घडणूक घडली ती
कांयच न्हय, म्हजें जेवण चड म्हत्वाचें आशिल्ले भशेन उलोवन दाखयलें. त्या दिस
म्हाका पोळ्ळाचीक परत वचूंक मेळ्ळें ना. दुसऱ्या दिसा भोंवतणच्या सगल्या गांवांतल्यान
सुमार पांच हजार शेतकारांनी त्या तीग जाणांचे निमणे यात्रेंत वांटो घेतलो. तापिल्ल्या
शेतकारांचो तो जमाव मसुंडेंत वतना परतून कांय हिंसा जावची न्हय म्हणून हांव, कोइंबतू
जिल्ल्याचो एसपी, राखीव पुलीस दळाचे 100 सशस्त्र जवान, हे सगले यात्रे वांगडा गेले
सगलें सोंपोवन मद्रासाक (चेन्नय) रिपोर्ट धाडून मागीर हांव पोळ्ळाचीक परतलों.

हाता सकयले अधिकारी सुचोवणी करतात त्यो सदांच सारक्यो आसतात
अशें ना. त्या अधिकाऱ्यांची बुद्द आनी तांचो सभाव हांचो परिणाम ते कितें सुचयतात
हाचेर जाता. सिक्स्थ सॅन्स वा इण्ट्युशन म्हणल्यार भितरलो आवाज जायत्या फावटीं
अमकें केल्यार बरें, तमकें केल्यार वायट अशें सुचयता. भितरल्या आवाजाची सुचोवणी
तर्कशास्त्राचे फास्केंत चडश्या फावटीं बसना. तरी आसतना ह्या आवाजाक जिणेंत म्हत्व
आसता. आनी जिणेंत म्हत्व आशिल्ल्या गजालींक प्रशासनान म्हत्व दिवंकूच जाय.

पोळ्ळाचीक आसतना एक स फूट उंचायेचो मुथ्थुस्वामी म्हूण प्यून आशिल्लो.
आंगाक स्वेटर आनी तकलेक तोपरें बी घालून इल्ल्याशा युगेशाक लता मुथ्थुस्वामी
वांगडा भोंवपाक धाडटालें. युगेश मुथ्थुस्वामीच्या हाताक धरून चलतना पळोवन रस्त्या
वेल्यान वचपी लोक "तूं ताका धर रे. ताका चलयता कित्याक?" अशें म्हूण मुथ्थुस्वामीक
तापोवन काडटाले. त्या गांवांत सब-कलेक्टरा परस ताच्या प्युनाक लोक चड वळखताले.
मुथ्थुस्वामी वांगडा भोंवपाक वता तो सब-कलेक्टराचोच चलो आसूंक जाय अशें लोकांक
दिसतालें जावंये.

पोळ्ळाचीचो आनीक एक अणभव आमी केन्नाच विसरचीं नात. एक दीस
युगेश अकस्मात नाच्च जालो. आपूण आनी आपली फामील कांय दिसां खातीर उटी
वतात म्हूण ल्हान भुरग्याक धरपा खातीर तागेर आशिल्लें एक 14-15 वर्सांचें चली भुरगें
एका ऑफिसर इश्टान कांय दिसां खातीर आमगेर हाडून दवरिल्लें. तें सदांच युगेशा वांगडा

ासतालें. तेंय बी खंयच दिसलें ना. बंगल्याच्या त्या व्हड कंपावण्डांत आनी कंपावण्डा ायर लेगीत युगेश मेळ्ळो ना. आमी पुलिसांक फोन केलो. बंगल्या वेले तीन प्यून आनी ायव्हर सगले वटेन युगेशाक सोदूंक गेले. एक प्यून बस स्टॅण्डार पावलो. तें चली युगेशाक ांडीर मारून एके बशीर चडटना प्युनान पळयलें. युगेशाक घेवन खंय वतालें तें ते चलयेन ामकां अखेर मेरेन सांगलें ना. ताका आमी रोखडेंच आमच्या इश्टागेर धाडून दिलें.

एक वर्स पोळ्ळाचीक सब-कलेक्टर म्हणून जापसालदारकी सांबाळटकच ोळ्ळाचीच्यान 23 किलोमिटरांचेर अमरावती सहकारी साकर कारखान्यांत 'स्पेशल ऑफिसर'(खास अधिकारी) म्हणून म्हजी नेमणूक जाली आनी रोखडोंच वचून त्या ादाचो हांवें ताबो घेतलो.

# भाग 10
# अमरावती सहकारी साकर कारखानो

तमीळनाडूंत चलिल्ली सहकारी चळवळ हेर राज्यांनी आशिल्ले सहकारी चळवळी परस मातशी वेगळी. अधिकाऱ्यांनी चलयिल्ल्या प्रशासनाचेर तमीळनाडूच्या लोकांचो आनी राजकारण्यांचो खडेगांठ विस्वास आशिल्ल्यान, सहकारी चळवळ लेगीत तांणी अधिकाऱ्यांनी चलयिल्ल्या प्रशासनाचे फास्केंत बसयल्या. सहकारी पद्दतीन चलिल्ल्यो सुताच्यो गिरणी, साकर कारखाने आनी तरातरांचीं आस्थापनां लोकांनी वेंचून काडिल्ले प्रतिनिधी चलयतात, पूण सरकारी प्रशासनाचे कडक नदरे खाला ही सगली चळवळ चलता. खूबश्या साकर कारखान्यांचीं आनी सुताच्या गिरणींचीं अध्यक्षपदां आनी संचालक मंडळां बी सरकारान आपल्या अधिकारांचो वापर करून बरखास्त केल्लीं आसतात आनी थंय चड करून आयएएस अधिकाऱ्यांक खास अधिकारी म्हणून नेमतात. खास अधिकारी म्हणल्यार तो त्या कारखान्याच्या अध्यक्षाचीं, संचालक मंडळाचीं आनी वेवस्थापकी संचालकांचीं अशीं सगल्यांचीं कामां पळयता. जंय खास अधिकारी कारखान्याचो मुखेल आसता, थंय त्या कारखान्याक वेगळो अध्यक्ष, संचालक मंडळ वा वेवस्थापकी संचालक नासता.

उदमलपेठ शारांतल्यान 5 किलोमिटर पयस आशिल्ल्या अमरावती सहकारी साकर कारखान्याक अध्यक्ष आनी संचालक मंडळ नाशिल्लें. तांचे बदला म्हाका थंय खास अधिकारी म्हणून सरकारान नेमिल्लो. साकर कारखान्याचें प्रशासन हेर कारखान्यां

रस वेगळें. हेर कारखान्यांनी तरातरांचो मुळावो म्हाल हाडून त्या म्हालाचेर तरातरांच्यो प्रक्रिया करून बाजारांत विकपा खातीर वस्तू तयार करतात. मुळावो म्हाल वा कच्चो म्हाल तयार करपांत ह्या कारखान्यांचो हात नासता. भारतांतल्या साकर कारखान्यांची गजाल वेगळी. कारखान्यांत उशीकांडो हाडून ताची अखेरेक साकर जाय मेरेन त्या उशीकांड्याच्या रोसाचेर वेगळ्योवेगळ्यो प्रक्रिया जातात आनी शेतकारांनी उशिकांडो रोवचो आनी रोवपा खातीर तांकां सगलीं सोंपेपणां मेळचीं म्हूण यत्नूय बी साकर कारखान्याक करचे पडटात. सब-कलेक्टराच्या पदा वयल्यान करचें पडिल्लें काम आनी साकर कारखान्याचें काम सामकें वेगळें. उदमलपेठ तालुक्यांतल्यान अमरावती न्हंय व्हांवता आनी ते खातीर ह्या साकर कारखान्याक अमरावती साकर कारखानो अशें नांव दिल्लें.

तमीळनाडूंत जात कितली म्हत्वाची हें म्हाका परतून एक फावट अमरावती साकर कारखान्याच्या वाठारांत येना फुडें कळ्ळें. साकर कारखान्याचो ताबो घेतकच 2-3 दिसां भितर सुंदरकुमार नांवाचो थंयचो कॅमिस्ट म्हाका मेळूंक आयलो. कॅमिस्ट आनी चीफ इंजिनियर हांचे मदीं थंय सदांच झगडीं चलतात अशें म्हज्या कानार आयिल्लें. चीफ इंजिनियर हो जातीन गौडर. तमीळनाडूच्या बामणांनी हेर जातींक सदांच उणाक लेखल्यात. हेर राज्यां परस तमीळनाडूंत बामणांचेर लोक चड तिडकून आसतात. हांव आनी लता खंयच्या जातीचीं हें सोदून काडपाक सुंदरकुमार आनी ताची बायल पेटिल्लीं. पूण सरळ कशीं विचारतलीं? तशें विचारप म्हणल्यार अपमान जावं येता. आमी शिवराक काय मांस खातात, हें ताणी पयलें विचारलें. हांव शिवराक, लता मांस खाता म्हणले बाराबर तीं मातशीं गोंदळ्ळीं. "शिवराक आवडटा म्हणून, काय जल्मा सावन शिवराक?" असो तांचो दुसरो प्रस्न आशिल्लो. "हांव जल्मा सावन शिवराक न्हय, मागीर नुस्तें आवडना देखून हांव शिवराक जालों" अशी हांवें म्हायती दिली : हांची आनीक मातशी धांदळ उडोवया म्हूण हांवें तांकां आनीक म्हायती दिली. गोंयचे बामण शिवराक नासतात आनी हेर जातींतले खूबशे लोक शिवराक आसतात. मागीर कांय वेळान तांचो घुस्पागोंदळ पळोवंक नजो जाल्ल्यान, हांव आनी लता सारस्वत बामण अशें हांवें सांगलें. ते बाराबर तांच्या तोंडार खोशेचें ल्हार पातळ्ळें आनी हजारांनी बल्ब एकदम पेटिल्ले वरी तांचें तोंड झग्ग करून चकचकपाक लागलें. हांव बामण आनी आपुणूय बामण म्हूण हांव ताच्या फावोराद रावून हेर जातींच्या लोकांक त्रास दितलों, अशें तो समजतलो हे भिरांतीन हांवें ताका रोखडेंच सांगलें, "जात म्हत्वाची न्हय, काम म्हत्वाचें. कोणूय कसलेय जातीचो जावं, काम बरें केल्यार ताका आमी शाबासकी दिवंक जाय आनी बडटी दिवंक जाय, म्हाका तें बामण-बिमण तसलें लागना." ते हजार बल्ब पुक्क करून पालवले आनी सुंदरकुमार आनी ताची बायल मागीर 'गूड नायट' म्हणून बेगिबेगीन थंयच्यान पळ्ळीं.

साकरेचो रंग सामको धवोफुल्ल, पारदर्शक आनी चकचकीत आसल्यार तिका बाजारांत चड मोल आसता. देखून धवीफुल्ल आनी पारदर्शक साकर सगल्यांत बरी अशें मानतात. आमच्या कारखान्यांत तसली साकर कित्याक तयार जायना, म्हूण विचारतकच चीफ इंजिनियर आनी कॅमिस्ट एकामेकांक दुशण दिवंक लागताले. तरातरांच्यो रसायनीक प्रक्रिया करता आसतना हाच्या डिपार्टमॅण्टांतले लोक सारकी जतनाय घेनात, अशें चीफ इंजिनियर म्हणटालो. जाल्यार मशिनांचो सांबाळ करपाक आनी मशिनां नितळ दवरपाक इंजिनियरींग विभागांतल्या लोकांक जमना, अशें कॅमिस्ट म्हणटालो. तांच्या झगड्यांक लागून आमचे साकरेक बाजारांत दर उणो येतालो. दोगूय म्हजे परस खूब जाणटे आनी म्हजे परस धा पटींनी चड पगार घेवपी. पूण अधिकार हो फकत पगाराचेर आनी पिरायेचेर नासता. कायद्यांत कितें सांगलां वा सरकारी आदेशांत कितें बरयलां, ताचेर तो निंबून आसता. चीफ इंजिनियर आनी कॅमिस्ट हे दोगूय जाण तांच्या विशयांतले जाणकार. कोण चूक आनी कोण बरोबर हें थारावपाक म्हाका जमचें नाशिल्लें. खरें म्हणल्यार, कोणाकूच तें जमचें नाशिल्लें. कारण तें थारावपाक रसायनशास्त्र आनी अभियांत्रिकी गिन्यान दोनूय एकाच मनशाक आसचें पडटलें आशिल्लें. हांवें दोगांकूय वांगडा आपयले आनी शिटकावणी दिली, "एका म्हयन्या भितर तुमी साकरेचो दर्जो वाडयनात आनी आमची साकर धवीफुल्ल, पारदर्शक करिनात, जाल्यार तुमकां दोगांकूय नोटीस दिवन हांव काडून उडयतलों. तुमी एके कडेन बसात, उलयात आनी कितें करपाचें तें करात."

एका म्हयन्या भितर धवीफुल्ल न्हय तरी साकरेचो दर्जो बरोचसो सुदारलो आनी बाजारांत चड दर मेळपाक लागलो.

प्रशासनांत कितें कितें चलता आनी फुडाराक कसल्या कसल्या राजकी प्रसंगांक तोंड दिवचें पडुंये हाची कल्पना म्हाका अमरावती साकर कारखान्यांत आयली. थंय दोन कामगार संघ आशिल्ले. एक कामगार संघ बालन नांवाच्या कामगाराचो. ताका आमी मान्यताय दिल्ली, कारण तातूंत कारखान्या भायले फुडारी कोण नाशिल्ले आनी कारखान्यांत काम करपी चड कामगार ताचे वांगडी आशिल्ले. दुसऱ्या संघांत भायलेय थोडे लोक आशिल्ले आनी त्या संघाक तेन्नाचो एक बळिश्ट मंत्री सादीक पाशा हाच्या भावाचें फाटबळ आशिल्लें. सादीक पाशा आनी ताचो भाव उदमलपेठाक रावताले, म्हणल्यार फॅक्टरी कडल्यान पांच किलोमिटरांचेर! बालनाच्या संघाक भायर मारून आपणाल्या भावाचो संघ वयर सरचो आनी ताका हांवें मान्यताय दिवची अशें सादीक पाशाक दिसतालें आनी ते खातीर ताचो यत्न आसतालो. सादीक पाशाच्या संघान नाका आशिल्ल्यो, अर्थहीण मागण्यो आमचे मुखार दवरल्यो आनी मागण्यो आमी मान्य करिनात म्हणून संप सुरू केलो. त्या संघा फाटल्यान मंत्री आसा, देखून खूबशे कामगार त्या संघाक

नेव्ळे. बालनाचे कामगार संपार गेले नात. संपार गेल्ल्या कामगारां मदल्या जायत्या जाणांक हांवें निलंबीत केले, कारण कामार वचपी लोकांक तांणी आडायले आनी मारले. हांव आपणालें आयकना आनी द्र.मु.क. पार्टीची लोकां मदीं लज वचची म्हूण काम करतां, अशी सादीक पाशान मुख्यमंत्र्या कडेन कागाळ केली. सभानायगम हो तेन्ना चीफ सेक्रेटरी आशिल्लो. हांव कसो आनी सादीक पाशा म्हजेर पिकार कित्याक, अशें मुख्यमंत्री करुणानिधीन चीफ सेक्रेटरीक विचारलें तेन्ना सभानायगमान म्हजे कडल्यान सगली खबर काडून घेतली आनी खरी गजाल मुख्यमंत्री करुणानिधीक सांगली. "अमरावती साकर कारखान्यांत तुमचें राजकारण करूं नाकात, हेर कडेन वचून करात", अशी करुणानिधीन सादीक पाशाक शिटकावणी दिली.

हें प्रकरण इतल्याचेरूच सोंपतलें आशिल्लें. अमरावती साकर कारखानो हो कोइंबतूर जिल्ल्यांत आसा. कोइंबतूर जिल्ल्याचो कलेक्टर तेन्ना एक हुशार पूण सुवार्थी अधिकारी आशिल्लो. "तूं कांय भिये नाका, भाटीकाराक आपूण जाग्यार हाडटां आनी त्या साकर कारखान्यांत तुका जाय तशें करून दितां," अशें ताणें सादीक पाशाक उतर दिलें. "दोन म्हयने सुटी घेवन तूं सुटयेर चल, म्हणटकच आपले आपूण तुजी बदली जातली, नाजाल्यार तूं त्रासांत सांपडटलो, हो सादीक पाशा तुका सोंपेपणान तमीळनाडूंत जियेवंक दिवचो ना," अशें सांगून तो ऑफिसर – म्हजे परस स वर्सांनी सिनियर – म्हाका धमकावंक लागलो. "हांव सुटयेर वचचों ना, ताका जाय तें करूं दी," अशें हांवें त्या कलेक्टराक सांगलें. त्या कलेक्टराचीं आनी म्हजीं झगडीं जालीं, पूण ताका ओगी बसचें पडलें, कारण हांव साकर कारखान्यांत बरें काम करतां आनी थंय कोणेंच मेतेर जावंक जायना अशें चीफ सेक्रेटरीन ताकाय बी सांगलें.

त्या दिसांनी जिपींत एक प्यून आनी एक वॉचमॅन घेवन सगलें सारकें चललां काय ना हें पळोवपाक हांव रातचो कारखान्याच्या वाठारांत भोंवडी मारतालों. हांव रातच्या वेळार रिव्हॉल्वर घेवन भोंवता अशी कांय कामगारांनी फाम घाली. "तुका फार मारूंक येता?" असो कलेक्टरान म्हाका फोन करून प्रस्न विचारलो. "हांवें आर्म केन्नाच हातांत घेवंक ना" अशी हांवें जाप दिली. "तूं रातचो रिव्हॉल्वर घेवन भोंवता अशी कलेक्टराच्या ऑफिसांत कागाळ आयल्या," अशें ताणें म्हाका म्हणलें. "तुका आयिल्ले कागाळीचेर तुवें तुका जाय ती कारवाय करपाची; हांवें तुका म्हजे वटेन दिवपाची ती म्हायती दिल्या आनी हाचे भायर हांव कांय करपाक शकना," अशें हांवें ताका सांगलें. मागीर तें प्रकरण तितल्याचेरूच सोंपलें.

साकर कारखान्यांत आसतना कोंकणी मनशां कडेन म्हजो बरोचसो संबंद आयलो. कोइंबतूराक 'हरिदास भगत' नांवाची कोंकणी लोकांची एक फामाद कंपनी

आसा. वॉश बाशयो, कोमोड (संडास), उदकाचीं पायपां आनी असलें हेर सामान विकपाचीं तांचीं दोन–तीन दुकानां कोइंबतूराक आसात. हरिदास भगताचो पूत चंद्रशेखर एक दीस साकर कारखान्यांत आयलो. ऑफिसांतल्यान ताका कसल्या तरी पायपांची ऑर्डर दिल्ली, जे विशीं तो उलोवपाक आयिल्लो. "तुमचो खास अधिकारी खंयचो, नांव तमीळशें दिसना," अशें चंद्रशेखरान कारखान्यांतल्या मुखेल क्लार्काक विचारलें. "तो तमीळनाडूचो न्हय, तमीळ बरी उलयता, पूण खंयचो तें खबर ना," अशी ताका जाप मेळ्ळी. "कसली भास उलयता?" चंद्रशेखरान विचारलें. "भास कसली तें खबर ना. पूण सवणीं उलयिल्ले वरी दिसता," अशें त्या मुखेल कारकुनान ताका सांगलें. मागीर चंद्रशेखर म्हाका मेळूंक आयलो. उलयतां उलयतां ताणें हांव गोंयचो म्हणून म्हजे कडल्यान काडून घेतलें आनी मागीर "कोंकणी उलयतवे?" अशें विचारलें. आनी हांवें 'हय' अशी जाप दितकच आमच्या मुखेल कारकुनान आमचे भाशे विशीं कितें म्हणलें तें ताणें सांगलें.

वेपारांत आनी उद्देगांत प्रामाणीकपण चलना अशें म्हणटात. आपणालो सुवार्थ सादले बगर आनी सुवार्थ सादतना चड उण्या प्रमाणांत दुसऱ्याक तोपी घाले बगर धंद्याक नेट येना, अशेंय म्हणटात. कसलेंच लेखी कागदपत्र नासतना फकत टेलिफोनाचेर वेव्हार करप आनी दिल्ल्या उतरा प्रमाण वागप हेंय बी एके तरेचें प्रामाणीकपण. साकरेच्या धंद्यांत ही प्रामाणीक रीत म्हाका सगले कडेन पळोवंक मेळ्ळी. कोट्यांनी रुपयांचो वेव्हार फकत टेलिफोनाचेर जातालो आनी एक उतर लेगीत हेवटेन तेवटेन जायनाशिल्लें. बाजारांत साकरेचो दर वयर–सकयल जातालो आनी दर दिसा कितल्या दरान साकर विकची हें आमी बसून थारायताले. ''अमकी टन साकर तुका अमक्या दरान विकली,'' अशें टेलिफोनाचेर हांव सांगतालों आनी घालून दिल्ल्या दिसां भितर तितल्या पयशांचो ड्राफ्ट हाडून तो ती साकर आमच्या गुदांवांतल्यान उखलतालो.

आमची चडशी साकर केरळ राज्यांत वताली आनी केरळांत सगले कडेन कोचीच्या वेपाऱ्यां वरवीं वांटप जातालें. साकरेच्या दर्ज्या विशीं आनी वेपाराच्या हेर गजालीं विशीं कोचीच्या वेपाऱ्यां कडेन उलोवपा खातीर हांव आमच्या अधिकाऱ्यां सयत कोचीक गेलों. थंय साकरेच्या वेपाऱ्यांची बसका आपयली. शंबर प्रतिशें वेपारी कोंकणी : शणै, पै, प्रभू, कामथ, बैंदूर आनी हेर. तमीळनाडूक पावले बाराबर कोंकणी भाशे कडल्यान आनी कोंकणी मनशां कडल्यान पयस पाविल्ल्याचें म्हाका केन्ना केन्नाय वायट दिसतालें. पूण तितलें वायट दिसपाचें कारण ना, अशें म्हाका कोचीक वतकच दिसलें. वेपारा विशीं उलोवन जातकच च्या घेतासतना कोंकणी भाशे विशीं दोग–तीग जाणां कडेन उलोवपाचो यत्न केलो. पूण सारस्वत, जिएसबी, कामाक्षा, म्हाळसा, स्वामी बी असल्या विशयांचेर उलोवपाक तांकां चड आवडटालें काय दिसता. देवळां, जिएसबी,

वामी ह्या विशयांचेर म्हाका चडशी म्हायती नाशिल्ल्यान आमच्या उलोवपाची गाडी ग्गळ्या मार्गाचेर घुंवडावन साकर वेपाराचे दिकेन व्हरची पडली. कोंकणी मनशांक शळिल्ल्याची खोसूय बी मातशी उणी जाली.

साकर कारखान्याक बरो फायदो जालो. फायद्याचो एक वांटो शेतकारांक देवचो, कारण हो साकर कारखानो उबारपा खातीर शेतकारांनी खूब पयशे घाल्यात अशें हांवें सरकाराक सुचयलें. खूब यत्न करतकच सरकारान तें मानून घेतलें आनी कारखान्याक उशीकांडो दितल्यांक चड पयशे मेळ्ळे. साकर कारखान्याचे वर्सुकी सभेक शेतकारांच्या फुडाऱ्यांनी म्हाकाच थंय आनीक दोन वर्सां खास अधिकारी म्हूण दवरचो असो थाराव हाडपाचो केलो. ''तो थाराव तुमी हाडूं नाकात कारण हांवेंच तुमचे फाटीक लागून तसलो थाराव हाडपाक लायला अशें सरकाराक दिसूं येता,'' अशें सांगतकच अखेरेक तांणी तो थाराव हाडपाचो बेत फाटीं घेतलो.

1973 च्या जूनाक मद्रास सचिवालयांतल्या डेप्युटी सेक्रेटरी पदाचेर म्हजी नेमणूक जाली.

आपणाल्या सुवार्था खातीर वडील अधिकारी आपले परस ज्युनियर आशिल्ल्या अधिकाऱ्यांचो कसो घात मारूं शकतात, राजकारणी फुडारी प्रशासनाची लेगीत वाट लावन आपली पोळी कशी भाजून घेवंक सोदतात आनी भौसाच्या फायद्या खातीर प्रामाणीकपणान केल्लें काम केन्नाच फुकट वचना, भौसाचे आशिर्वाद सदांच मेळटात, ह्या गजालींचो अमरावती साकर कारखान्यांत काडिल्ल्या दोन वर्सांत म्हाका अणभव आयलो.

मद्रासाक डेप्युटी सेक्रेटरी म्हणून फकत 15 दीस सुमार हांवें काम पळयलें. तमीळनाडू हस्तकले खातीर फामाद! हस्तकलेची विक्री वाडोवन हस्तकलेच्या कलाकारांची अर्थीक उदरगत करपाक तमीळनाडू सरकारान हस्तकला विकपाचे पसरे उगडिल्ले. पूण ते सारके चलनाशिल्ले. लुकसाण जातालें. हस्तकलेचे सगले प्रकार शेंकड्यांनी वर्सां पयलीं आशिल्ले तेच स्थितींत आशिल्ले. हस्तकले खातीर एक नवें आस्थापन उबारून तीं सगळीं दुकानां त्या आस्थापना खाला हाडून हस्तकलांची विक्री वाडोवपाचो ह्या आस्थापनान यत्न करचो, अशें थारावन तें आस्थापन उबारपाक तमीळनाडू सरकारान म्हजी नेमणूक केली. तें आस्थापन उबारचे पयलीं म्हजें पद स्पेशल ऑफिसर (खास अधिकारी) म्हणून आशिल्लें. आस्थापनाची कंपनी कायद्या खाला नोंद जातकच म्हजें पद वेवस्थापकी संचालक (मेनेजींग डायरेक्टर) तमीळनाडू हस्तकला म्हामंडळ (तमिळनाडू हॅण्डीक्राफ्ट कॉर्पोरेशन लिमिटेड) अशें जालें.

# भाग 11
# तमीळनाडू हस्तकला म्हामंडळ

तमीळनाडू हस्तकला म्हामंडळ (तमीळनाडू हॅण्डिक्राफ्ट कॉर्पोरेशन) उबारपा खातीर खास अधिकारी म्हणून लेबल चिकटावन म्हजी नेमणूक जाली. म्हाका ऑफीस बी कांय नाशिल्लें. पिए, टायपिस्ट, प्यून, मोटार, ड्रायवर हें मेळपाचो प्रस्नूच ना. जंय बसपाक जागोच ना, थंय हेर सगलें खंयच्यान येतलें? चेपॉक वाठारांत उद्देग आनी वेपाराचें संचालनालय आसा. म्हज्या वांगडा आयएएसांत वेंचणूक आनी प्रशिक्षण जाल्लो एक अधिकारी पेजावर शंकर थंय जोड-संचालक (जॉयंट डायरेक्टर) म्हणून त्या संचालनालयाचें पद सांबाळटालो. ताच्या ऑफिसांत ताका एक मेज आनी कदेल घालपाक लावन ताचे जिपींतल्यान येवन वचून ताच्या ऑफिसांतल्यान हांवें म्हजें काम सुरू केलें. अण्णा सालै (मावंट रोड) ह्या रस्त्याचेर तमीळनाडू सरकाराचो हस्तकला विकपाचो एक व्हडलो शोरूम आशिल्लो. त्या शोरुमाचे माळयेचेर म्हजें ऑफीस सुरू करून थोड्याच दिसां भितर हांवें तमीळनाडू हस्तकलेचो नवो संवसार थाटलो. अडेज-तीन हजार वर्सांची तमीळ संस्कृताय आनी तमीळ इतिहास हांचो अर्थीक नदरेंतल्यान खूब्ब म्हत्व आशिल्लो एक वांटो म्हणल्यार तमीळ हस्तकला! मदुराय, कांचीपुरम, तिरुचिरापल्ली, तंजावूर, स्वामीमलै, चिदंबरम, तिरूचेंदूर, पळणी, रामेश्वरम्, तिरुवारूर, सुचिंद्रम, तिरूत्तनी, महाबळीपुरम ह्या सुवातां वयल्या हजार-दोन हजार वर्सां पयलीं बांदिल्ल्या देवळांतली शिल्पकला आयजूय बी तमिळनाडूंत सगले कडेन फुलता आनी फळटा. फातर कोरांतून तयार केल्ल्यो देवदेवतांच्यो व्हड व्हड मुर्ती, तरातरांचे आकार

नाशिल्ल्यो पंचधातूच्यो ल्हानव्हड मुर्ती, लांकडांत कोरांतिल्लें शिल्प, तरातरांच्यो ल्हान-हड दिवल्यो, लामणदिवे, पितूळच्यो वस्तू, विंगडविंगड रंग आनी आकारांच्या शिंपल्यांच्यो कला वस्तू, शेंदऱ्यो, सिल्काच्यो साडयो, पेपर मॅशाच्यो बावल्यो आनी हेर कितल्याश्याच रांच्यो हस्तकला ही तमीळनाडूची गिरेस्तकाय! भारतांत हेर कडेन आसा ताचे परस चड पुरातन आनी विविधताय आशिल्ल्यो कला तमीळनाडूंत आसात, तरी आसतना ते कले भरवीं त्या कलाकारांची अर्थीक उदरगत करपा खातीर चडशे यत्न जावंक नाशिल्ले. ही परिस्थिती सुदारपा खातीर सरकारान तमीळनाडू हस्तकला म्हामंडळ सुरू करपाचें येवजिलें आनी ती येवजण चालीक लावपाची जापसालदारकी म्हजेर आयली.

खंयचोय धंदो सुरू करतलो जाल्यार मुदल पयशे लागतात आनी धंदो चलयतो जाल्यार कच्चो म्हाल घेवन बाजारांत विकपाचो म्हाल तयार करपा खातीर खंयच्यानूय तरी पयसो हाडचो पडटा. मुदल (कॅपिटल) आनी धंदो चलोवपाक रीण (वर्किंग कॅपिटल) चडशे फावटीं सरकारान वा बँकेन दिवचें पडटा. तमिळनाडू हस्तकला म्हामंडळ सुरवात करूंक आनी चलोवंक सरकारान पयशे दिवचे अशें हांवें सरकाराक बरयलें. पूण सरकारान कांय पयशे दिले नात; म्हामंडळाक दिल्ल्यो सरकारी इमारती आनी त्या इमारतींतलो म्हाल हेंच सरकारान दिल्लें भांडवल अशें म्हणून सरकाराचें पत्र आयलें. लुकसाणांत चलपी 15 सरकारी शोरूम म्हामंडळाच्या पाख्या खाला हाडून हांवें म्हामंडळ सुरू केलें, पूण तें चलोवपाक पयशे नाशिल्ल्यान सकाळचे धा ते सांजे स मेरेन कपलार हात घेवन बसपा बगर म्हाका आनीक कांयच उपाय नाशिल्लो. सगल्या शोरुमांतल्यो आरमारी खंयच्या तरी मेस्तांनी 50- 60 वर्सां पयलीं केल्ल्यो आसतल्यो. आरमारी केल्ल्यो तेन्ना हारशे धुल्ले आसतले; मागीर हारशांक कोणेंच हात लावपाचें धाडस करूंक नाशिल्लें. त्या हारशांच्या आरमारींनी बंद करून गिरायकांक दिश्टी पडना जाल्यार जाता, पूण वस्तू चोरयेक वचूंक जायनात, म्हणून कांय हस्तकलेच्यो वस्तू दवरिल्ल्यो आसताल्यो. खूबश्या शोरुमांनी 'सेल्स गर्ल' म्हूण काम करपी कांय बायलो लंकेंतल्या रावणाच्या अशोकवनांतल्यान हालींच ट्रान्सफर करून आमच्या शोरुमांनी दवरल्यात काय म्हणून दुबाव मारतालो. "इतल्यो सुंदर हस्तकला वस्तू तुमी कुलूप लावन भितर कित्याक दवरतात?" अशें विचारल्यार, "गत्यो कोणेंय चोरल्यार सरकार आमचे कडल्यान पयशे वसूल करता", अशें सांगून तीं आपणाक वांचोवपाचो यत्न करतालीं.

कारागिरांक चड ऑर्डरी दिवन तांचे कडल्यान चड वस्तू करून घेतल्यो जाल्यार हातांत पयशे जाय आशिल्ले. कारागीर इतले गरीब आसताले की पयलीं थोडे पयशे दिले बगर तांकां काम सुरू करूंक मेळनाशिल्लें. सरकाराची 'गॅरण्टी' आसले बगर आमी म्हामंडळाक रीण दिवंक शकनात, अशें सगल्या बँकांनी सांगलें.

एक दीस सदां भशेन कपलार हात दवरून बशिल्लों आसतना चेन्नयंतले कॅनरा बँकेचो डिविजनल मॅनेजर भितर सरलो आनी सरळ कोंकणींतल्यान विचारपाक लागलो. "तूमी गोंयचे वे?" ताच्या विजिटींग कार्डाचेर फकत आर रत्नाकर अशें नांव आशिल्लें. राव हें आडनांव तो लिपयतालो. खंयचीच बँक 'रिस्क' घेवंक सोदिना, दरेकलो सरकारी गॅरण्टी मागता अशें उलयतां उलयतां उबगून हांवें सांगलें. "कितलें रीण जाय?" अशें ताणें विचारतकच हांवें सुरवातीक 15 लाख जाय अशें सांगलें. "आमकां सरकारी गॅरण्टी बी कांय नाका, आमी तुका रीण दिलें अशें समज," अशें म्हणून सात दिसां भितर दुकुमेंतांचेर निशाण्यो बी करून जातकच आमी कॅनरा बँकेंत अकावंट उगडलो आनी ताणें दिल्ल्या रिणाचेर धंदो नेटान सुरू केलो. रत्नाकराची बिझनेस करपाची रीत आनी बिझनेस वाडोवपाचो वेग पळोवन ताका बडट्यो मेळत रावल्यो आनी मागीर तो कॅनरा बँकेचो अध्यक्ष जालो. अध्यक्ष जातकच लेगीत बेंगळुरूक ताच्या ऑफिसांत आमी मेळटकूच सरकारी गॅरण्टी नासतना दिल्ल्या रिणाची तो अजुनूय याद काडटालो.

हस्तकला म्हामंडळांत हांव तीन वर्सां उरलों. ह्या तीन वर्सां भितर दिल्ली, मुंबय आनी कोलकाता हांगा हांवें नवे शोरूम उगडले आनी तमिळनाडू हस्तकलेचीं प्रदर्शनां घडोवन हाडलीं. चडशे शोरूम लुकसाणींत चलताले ते आतां फायद्यांत चलूंक लागले. "तुमी वॉचमॅन न्हय, तुमकां वस्तू राखपाक न्हय, विकपाक दवरल्यात," अशें म्हणून आमच्या शोरुमांतल्या बायलांक ट्रेनींग दिली. चड खर्च करिनासतना सगल्या शोरुमांक एक नवें रूप दिलें. म्हामंडळ सुरू जावन एक वर्स जातकच तें फायद्यांत चलपाक लागलें. म्हामंडळाचो धंदो खूब वर्सां कांय लाखांचे पलतडीं वचनाशिल्लो तो आतां भराभर वाडून एका कोटीच्या पेल्यान गेलो. तमीळनाडू सरकारान शोरुमांक 'पुंपुहार' अशें नांव दिलें. देड-दोन हजार वर्सां पयलीं जावन गेल्ल्या 'चोला' राजांच्या काळांत कावेरी न्हंयेचेर पुंपुहार नांवाचें एक व्हड बंदर आशिल्लें. त्या बंदरांतल्यान दक्षीण आशियेच्या हेर देशां कडेन तमीळनाडूचो वेपार चलतालो.

आयएएस जातकच सरकारा वतीन धंदो चलोवपाची म्हाका ही दुसरी संद मेळिल्ली. पयले फावट धंदो चलयलो तो अमरावती साकर कारखान्याचो. सरकारान धंद्यांत हात घालचो न्हय, कारण सरकारी चालीरिती आनी बंधनां हीं धंदो वा बिझनेस चलोवपाक उपकारा पडनात. धंदो बरे तरेन चलयतलो जाल्यार धंदो चलोवपी मनशाक सगलें थारावपाचो पुराय अधिकार आसचो पडटा आनी वेगान कारवाय करची पडटा. सरकारी चालीरिती आपणायल्यार वेगान कारवाय करूंक मेळना. दर एकल्याच्या अधिकाराक शीम आसता आनी शिमे भितर रावून काम करचें पडटा. शिमे भायर वचून केल्ल्या कामांक लागून सरकाराक फायदो जाल्यार लेगीत फायदो जालो म्हणून सरकार शाबासकी दिना, पूण शिमे भायर गेलो म्हणून सरकार ख्यास्त भोगयता. सरकारी बंधनां

ाळून, सरकारी चालीरिती आपणावन आनी प्रायवेट लोकां कडेन सर्त करून सरकारी दो फायद्यांत चलोवप हें प्रायवेट धंदो चलोवपा परस चड कुस्तार!

तमीळनाडू हस्तकला म्हामंडळाची स्थापणूक करून तें फायद्यांत चलोवपा ग्रातीर हांवें आनी हेर ऑफिसरांनी जे कश्ट काडले, तातूंत दोनांय तरांचे म्हणल्यार ग्रोसदिणे आनी दुखदिणे अणभव आयले.

महादेवन नांवाचो एक वेपारी लांकडांचीं शिल्पां (वूड कार्विंग) हाडून चेन्नयच्या पुहार शोरुमांत विकपाक दवरतालो. आमी तीं विकपाचीं, 15 प्रतिशें पयशे आमकां ःवरपाचे आनी 85 प्रतिशें ताका दिवपाचे. 15 हजार, 20 हजार असो दर आशिल्ल्यो त्यो हारग लांकडी वस्तू खंय करतात तें आमच्या अधिकाऱ्यांक खबर नासलें. तांणी केन्नाच या विशयांत तकली घालिना. मूळ कारागिरां म्हऱ्यांत आमी पावचे न्हय आनी तांचे फडल्यान सवाय भितर त्यो वस्तू आमी घेवच्यो न्हय म्हणून महादेवन जतनाय घेतालो. नटराजन म्हणून चेन्नयच्या शोरुमाचो मॅनेजर आशिल्लो - कश्टी आनी प्रामाणीक. त्यो लांकडी शिल्प वस्तू तिरुचिरापल्ली जिल्ल्यांत खंय तरी करतात, अशी आपल्याक खबर मेळ्ळ्या अशें एक दीस ताणें म्हाका सांगलें. तिरुचिरापल्ली जिल्ल्यांत दोन चार दीस भोंवडी करून हें कुवाडें सोडवपा खातीर आमी थंय गेले. थंयचीच एक थळावी टॅक्सी घेवन भोंवंक लागले. वेपारी भायल्यान येवन हांगाच्यान त्यो वस्तू विकत्यो घेवन व्हरतात, जाल्यार हांगाच्या टॅक्सी वा लॉरी ड्रायवरांक खबर आसूंक जाय, अशें धरून आमी चवकशी सुरू केली. तिरुचिरापल्लीच्यान 100 - 125 किलोमिटर पयस आशिल्ल्या अरुमबाऊर नांवाच्या एका गांवांत त्यो शिल्प वस्तू करपाचें काम चलता म्हणपाचें कळ्ळें. थंय पावतकच तो देखावो पळोवन आमकां एकाच वांगडा शॉक, खोस आनी दुखख ह्या तिनूय भावनांचो अणभव आयलो. 25 - 30 खोंपींनी अनुसुचीत जातींचे कारागीर बसून रानांतल्यान चोरून हाडिल्ल्या लांकडांचेर तरातरांच्या आकाराच्यो मुर्ती कोरांताले. 100-150 कारागीर काम करताले. खंयच्याच कारागिरान शाळेंत पावल दवरूंक नाशिल्लें आनी कोणूच शिल्पकला शिकूंक नाशिल्लो. जाणटेल्यांचें पळोवन भुरगे शिकिल्ले. लांकूड कोरांतून केल्ल्यो व्हड व्हड मुर्ती वणटीर हुमकळायिल्यो. महादेवन 15 हजार रुपयांक जीं पुंपुहारांतल्यान लोकांक विकतालो तीं वूड कार्विंगां हे कारागीर ताका पांचशें ते एक हजार रुपयां भितर विकताले. आमी मागीर थंय दोन दीस रावून, तांच्यो बसका घेवन, तांची सहकारी संस्था स्थापन केली आनी तांच्या वस्तूंचे दर पांच-स पटींनी वाडयले आनी मदल्या वेपाऱ्यांक कुशीक काडून सरळ तांच्यो वस्तू पुंपुहाराक विकपाची वेवस्था केली. ह्या इतल्या बोवाळांत महादेवनान मात आमकां खूब्ब स्राप दिले, पूण आमचे खातीर हो एक खोसदिणो अणभव आशिल्लो.

सरकारी नेम आनी रिती धंद्याक उपकारनात म्हणपाचें एक उदाहरण म्हाका महाबळीपुरमाक सांपडलें. महाबळीपुरम हें फातरांचेर कोरांतिल्ल्या शिल्पकले खातीर फामाद! चोला राजांच्या काळांत, ख्रिस्ता उपरांतच्या सव्या आनी सातव्या शेंकड्यांनी दोंगरांचेर आनी खडपांचेर कोरांतिल्लीं शिल्पां आनी दर्यादिगेर अर्दकुटीं बांदून सोडिल्लीं देवळां हांगा दिश्टी पडटात. थंय आशिल्ल्या फातरांच्या शिल्पांक 'संवसारीक दायज' (वर्ल्ड हॅरिटेज मॉन्युमॅण्टस) अशें म्हणून युनेस्कोन मान्यताय दिल्या. तमिळनाडू सरकारान थंय शिल्पकला शिकोवपा खातीर एक व्हड शिक्षण संस्था स्थापन केल्या आनी थंय शिकिल्ले 'स्थपती' म्हणल्यार शिल्पकार सगल्या संवसारभर पातळ्ळ्यात. हेर देशांनीय बी तांणी व्हडव्हड देवळां बांदल्यांत. महाबळीपुरमाक खूबशे ल्हान–व्हड स्थपती फातरांच्यो मुर्ती पर्यटकांक विकतात. खूबश्या फावटीं मूळ शिल्पकारांची येणावळ उणी आनी मदल्या वेपाऱ्यांची चड अशी परिस्थिती जाता; देखून तमीळनाडू सरकारान थंय हस्तकला विकपा खातीर एक शोरूम आनी फातरांचीं ल्हान–व्हड शिल्पां तयार करपा खातीर एक केंद्र सुरू केलें. हस्तकला म्हामंडळाची स्थापणूक जायना फुडें तो शोरूम आनी तें केंद्र दोनूय हस्तकला म्हामंडळान आपणाल्या पाख्या खाला घेतलीं. त्या शिल्पकला केंद्रांत खूबशे स्थपती पगार दिवन दवरिल्ले. पूण तांकां सरकारी नोकर म्हणून लेबल नाशिल्लें. सरकारी प्यून उण्यांत उणो 8वी पास जाल्लो आसूंक जाय आनी स्थपती लेगीत 10 वी मेरेन शिकिल्लो आसूंक जाय असो कायदो आशिल्लो. निलमेघम नांवाचो एक 55 वर्सांचो स्थपती त्या केंद्राचो मुखेल स्थपती आशिल्लो. तो एसएससी जावंक नाशिल्लो, देखून ताका सरकारी नोकर हें लेबल फावो नाशिल्लें. देखून ताका पेन्शन बी मेळचें नाशिल्लें. ताचे कलेक तमिळनाडूचे सगले व्हड व्हड स्थपती मान दिताले आनी भायल्या देशांनी लेगीत आपयताले. पूण तो महाबळीपुरमाचें हें सरकारी केंद्र सोडपाक तयार नाशिल्लो. हांवें सरकारा कडेन भासाभास करून, सरकाराच्या फाटल्यान लागून, तो कायदो बदलून घेतलो आनी ताका आनी ताचे सारकेल्या स्थपतींक सरकारी नोकर केले आनी पगारा भायर जितलीं चड शिल्पां करतात आनी चड मोलाचीं करतात, तितलीच तांची येणावळ वाडपा सारकी वेवस्था केली. फुडलीं वीस वर्सां हांव जेन्ना जेन्ना महाबळीपुरमाक पावलां, तेन्ना तेन्ना हांवें त्या केंद्राक भेट दिल्या. तें केंद्र म्हजे खातीर सुदारलें आनी त्या स्थपतींची परिस्थिती म्हजे खातीर बरी जाली, अशें थंयच्या कारागिरांनी हांव दर फावटीं थंय गेल्ले कडेन म्हाका सांगलें.

सरकारांत रावून लेगीत सरकारान घालून दिल्ले शिमे भितर रावून आनी सरकारी नेम पाळूनय भौसाचें खूब बरें करूं येता. बरें काम केल्ल्याची शाबासकी भौसा कडल्यान मेळटकच जी खोस भोगता ती उतरांनी बांदप शक्य नासता.

महाबळीपुरमाची गजाल करतना आनीक एक याद जाता, ती अशी : इंदिरा ांधी, राजीव आनी सोनिया हांकां घेवन 1974 त काय1975 त महाबळीपुरमाक ायिल्ली. तेन्ना पुंपुहार शोरुमाक तिणें भेट दिल्ली. हांवें पुंपुहार शोरूम तांकां भोंवडावन 'ाखयलो आनी शिल्पकले विशीं थोडी म्हायतीय बी दिली. आमचो एकलो मॅनेजर ाजीव गांधीक कितें तरी समजावन सांगूंक लागलो तेन्ना आपल्याक हातूंत व्हडलोसो ण्टरॅस्ट ना, तिकाच सांग म्हणून ताणें आवयक बोट दाखयलें. सोनिया गांधी मात ओग्गी ाशिल्ली. धा मिनटां सुमार शोरुमांत भोंवन तीं दुसरे कडेन गेलीं.

तांच्या बाराबर हांवें फोटू काडून घेतिल्लो काय ना हाची म्हाका आतां याद ा. व्हड व्हड लोकां वांगडा फोटू काडून घेवन, ते मागीर खंयच्यान तरी छापून हाडून वा ाणटींचेर लावन हेरांक दाखोवपाची पद्दत कांय जाणांक आवडटा. आयएएसांत खूब ाड लोकांक मेळपाची संद म्हाका आयली, पूण फोटू एकठांय करून दवरपाचो विशय ाजे तकलेंत केन्नाच आयलो ना. भारतांतल्या भोवतेक सगल्या राज्यांचे मुख्यमंत्री, ारताचे आदले प्रधानमंत्री नरसिंहराव, मोरारजी देसाय हांचे बाराबर म्हजे फोटे आसात. ाशेंच व्हेल्लोराक हांव कलेक्टर आसतना मदर तेरेझा म्हाका एक फावट मेळूंक आयिल्ली. फ़ोटोग्राफर धाडपाची तयारी कलेक्टराच्या ऑफिसांतल्यान केल्ली, पूण हांवें नाका म्हणून सांगलें. इंदिरा, राजीव आनी सोनिया गांधी बाराबर म्हजो फोटो काडिल्लो जाल्यार हांव सामकोच ल्हान मनीस अशें समजुपी म्हज्या खंयच्याय 'बरे मागप्याक'तो फोटू दाखोवंक मेळटलो आशिल्लो. पूण जें जालें ना ताचेर पिरंगून आनी फडफडून कांय फायदो ना.

धंदो करूंक सरकारी कायदे कशे आड येतात हाचें आनीक एक उदाहरण म्हाका याद आसा. तंजावूर जिल्ल्यांत नाचियार कोविल गांवांत ल्हान-व्हड दिवल्यो करपाची हस्तकला म्हामंडळाची एक फॅक्टरी आशिल्ली. दिवल्यो एकदम सुंदर जाताल्यो, पूण खूब म्हारग! बाजारांत तसल्योच दिवल्यो अर्द्या दराक मेळटाल्यो, कारण आमच्या दिवल्यांचे दर पयलीं सावन एक हिशोबनीस थारायतालो. दिवलेक सामान कितल्या पयशांचें लागलें आनी कितल्या लोकांनी कितले दीस काम केलें, हाचो हिशोब करतालो आनी वट्ट खर्चाचेर 250 प्रतिशें वाडयतालो आनी दिवलेचो दर थारायतालो. हे 250 प्रतिशें कित्याक काय विचारतकच, हे 250 प्रतिशें आसचे अशी सरकारी ऑर्डर आसा अशें म्हणून ताणें म्हाका सरकारी ऑर्डर दाखयली. ती सरकारी ऑर्डर कोणें दिली आनी कित्याक दिली हें कोणाक खबर नाशिल्लें. पूण ती ऑर्डर आसा म्हणून ती चालीक लायताले आनी दिवल्यो विकिनासतना तश्योच दवरताले. फॅक्टरी लुकसाणांत चलता असो दर वर्सा सरकाराक रिपोर्ट वतालो. बाजारांत प्रायवेट लोक विकतात त्याच दरान आमच्यो दिवल्यो विकच्यो अशी हांवें ऑर्डर दिली आनी आमच्यो दिवल्यो खपपाक

लागल्यो आनी चड दिवल्यो तयार करच्यो पडल्यो. दिवल्यांचो नंबर वाडत वतकच कांय काळान फॅक्टरी फायद्यांत चलपाक लागली.

हस्तकला म्हामंडळाची स्थापणूक जावचे पयलीं सरकारी शोरुमांतल्यान भायल्या देशांत कसलीच निर्गत जायनाशिल्ली. म्हामंडळ जातकच चेन्नयच्या शोरुमांतल्यान आमी निर्गत करपाक सुरवात केली. निर्गत करता आसतना कांय सरकारी नेम आनी रिती पाळच्यो पडटात. एक म्हणचे, भायल्या देशांतल्या गिरायकांनी पयलीं 'लेटर ऑफ क्रेडीट' उक्तें करचें पडटा आनी त्या लेटराचेर आमकां निर्यात करपाक मेळटा. दुसरो नेम म्हणल्यार, भायल्या गिरायकाक उदार विकतें घेवपाची संद आमी दिवंक जाता आनी ताणें स म्हयन्यां भितर पयशे दिता अशी दुकुमेंतांचेर निशाणी करची पडटा. प्रायवेट धंद्यांत दोनूय तरा वापरतात. सरकारांत चडसो धंदो 'लेटर ऑफ क्रेडीटा'चेर चलता, कारण उदारीचो धंदो करून मागीर भायल्या गिरायकान पयशे फारीक केलेनात जाल्यार सरकाराक लुकसाण जातलें आनी तें बगलांट आपल्याचेर येतलें म्हणून सरकारी ऑफिसर कोणाकूच उदार दिवपाचें धाडस करिनात. धंद्यांत जायते फावटीं फायदो जावपा वांट्याचें लुकसाण जाता. प्रायवेट धंद्यांत हांगाथंय लुकसाण जालें म्हणून कांय बिगडना, वट्ट फायदो जातकच जालो, अशें तत्व आसता. सरकारी धंदो चलयतना धा पावलां घालचीं पडलीं जाल्यार धाय फावटीं फायदो जावंक जाय, एक-दोन फावटीं लुकसाण जाल्यार तें लुकसाण कित्याक जालें, कोणा खातीर जालें, तें पावल घालतासतना सगले नेम पाळिल्ले काय नात, हाचेर खर चवकशी जाता. आठ फावटीं फायदो जाल्यार त्या आदाराचेर सरकारी नोकराक शाबासकी मेळना, पूण दोन फावटीं लुकसाण जाल्यार ताका ख्यास्त भोगता. हाचें कारण म्हणल्यार ज्या लोकांनी केन्नाच धंदो चलोवंक ना, ते लोक धंदो सारको चल्ला काय ना आनी सरकारी नेमा प्रमाण धंदो चल्ला काय ना हें थारायतात. कसलेंच पावल घालिनासतना, कांयच काम करिनासतना, ओग्गी बसलो जाल्यार सरकारी नोकराक कांयच ख्यास्त जायना. चुको केल्यार ख्यास्त जाता. कांयच काम करिना जाल्यार चुको करपाचो प्रस्नूच येना. म्हण्टकच चडशे सरकारी नोकर काम करिनासतनाच रावल्यार बरें अशें येवजितात. काम करिनासतना जाल्लें लुकसाण मेजपाची पद्दत सरकारांत ना, पूण चूक करून जाल्लें लुकसाण मेजपाची पद्दत सरकारांत आसा. ह्या गजालींचो म्हाका सामको वायट अणभव तमिळनाडू हस्तकला मंडळ चलयतासतना आयलो.

राव नांवाचो लंडनाक राबितो केल्लो एक मंगळूरुचो कोंकणी मनीस आमचे कडल्यान थोडें थोडें सामान आयात करतालो. पयलीं पयलीं ताका आमी 'लेटर ऑफ क्रॅडिटा'चेर सामान निर्गत केलें. मागीर ताणें चार लाखांची एक व्हड ऑर्डर दिली. आनी स म्हयन्यां भितर आपूण पयशे दितां अशें म्हणून दुकुमेंताचेर निशाण्यो केल्यो. कायद्यान

गजालीक बंदी नाशिल्ली. सरकार उदारीचेर धंदो करिना, देखून सरकारी धंदो वाडूंक ावना आनी उदारीचेर धंदो केल्ल्यान प्रायवेट लोकांचो धंदो सडसडीत वाडटा, ही गजाल ारकाराकूय खबर आसा. उदारीचेर धंदो करपाचें धाडस सरकारांत कोण करिना. कारण 'यशे फारीक जायना जाल्यार आपूण त्रासांत पडटलो अशें अधिकाऱ्यांक दिसता. हांवें ावाक स म्हयन्यांनी पयशे फारीक करपाची मेकळीक दिली आनी हांव त्रासांत पडलों. ाच्या धंद्यांत खंय तरी चुकी जाल्यो, ताचीं रिणां वाडत रावलीं, हांगाच्यान व्हेल्लो म्हाल वेकपाक प्रोब्लेम जालो आनी ताणें जीव दिलो. म्हामंडळाचे चार लाख रुपया बुडले. भ्रायज मेरेन म्हामंडळाक आनी तमीळनाडू सरकाराक फायदो करून दिल्ले खातीर म्हाका कोणेंच शाबासकी दिली ना, पूण उदारीचो धंदो हांवें करूंक जायनाशिल्लो आनी जरीय तो बेकायदेशीर नाशिल्लो, तरीय धंद्यांत लुकसाण जालें देखून सरकार म्हाका दुशण दिवंक लागलें. धंद्यांत फायदो जाता, तशें लुकसाणूय जावं येता, ते खातीर अधिकाऱ्यांक जापसालदार धरल्यार सरकारी म्हामंडळांनी कसलोच धंदो फुडें वाडचो ना, अशें हांवें जेन्ना सरकाराक सांगलें, तेन्ना थोड्या ऑफिसरांक तें पटलें, हेरांक पटलें ना. अखेरेक म्हामंडळांत जाल्ल्या लुकसाणा खातीर म्हजी बडटी सरकारान एक वर्स फुडें धुकल्ली.

सरकारी बांदावळींत आनीक एक प्रोब्लेम आसता : तो म्हणल्यार सरकारी अधिकाऱ्यां मदीं एकामेकां विशीं आशिल्लो दुस्वास आनी ते खातीर सरकाराचें जाल्लें लुकसाण! खंयच्याय म्हामंडळांत आयिल्लो नवो अधिकारी आपल्या पयलींच्या अधिकाऱ्यान जें जें केल्लें तातूंत चुकी काडीत बसता, कारण त्यो चुकी काडले बगर आपूण पयलीं आशिल्ल्या त्या अधिकाऱ्या परस चड बरो अशें ताका म्हणूंक मेळना. हाका 'प्रेडिसेसर–सक्सेसर कॉम्प्लॅक्स' म्हणटात. पयलींचो अधिकारी काम बरें करतालो आनी खूब्ब बरें नांव मेळयतालो जाल्यार हो कॉम्प्लॅक्स चड जाता.

ऑगस्ट 1976 त भारत सरकारान म्हाका पॅरिसाच्या इण्टरनॅशनल इन्स्टिट्यूट ऑफ पब्लीक ॲडमिनीस्ट्रेशन, म्हणल्यार आंतरराष्ट्रीय भौशीक प्रशासन संस्थेंत एका वर्साच्या प्रशिक्षणा खातीर धाडलो. हांव फ्रॅञ्च भाशा हो विशय बिए मेरेन शिकिल्ल्यान भारत सरकारान ह्या प्रशिक्षणा खातीर म्हजी वेंचणूक केल्ली. हस्तकला म्हामंडळांत हांवें रित्या केल्ल्या कदेलाचेर एक तमीळ अधिकारी येवन बसलो आनी चार लाखांचें जें लुकसाण जाल्लें ताचेर तरातरांचे रिपोर्ट तो सरकाराक धाडूंक लागलो. त्या अधिकाऱ्यान म्हामंडळाचो धंदो वाडोवपा खातीर कांय केलें ना, पूण त्या चार लाख रुपयांच्या लुकसाणाची फायल हेवटेन तेवटेन पत्रां बरोवन दाट करून दवरली आनी त्या बोवाळांत तें चार लाखांचे लुकसाण कित्याक जालें तें सोदून काडपाक तो लंडनाक वचून आयलो आनी त्या चार लाखांच्या लुकसाणा खातीर ताणें म्हामंडळाक आनीक एका लाखाचें लुकसाण केलें.

# भाग 12
# फ्रांन्सांतलें प्रशिक्षण

ऑगस्ट 1976 ते जुलय 1977 मेरेन हांव फ्रान्साक, पयलीं व्हिशी शारांत आनी मागीर पॅरिसाक प्रशिक्षणाक आशिल्लों. फ्रान्सांतलें प्रशिक्षण, लेक्चरां, भासाभास, प्रस्न–जापो, सगलें फ्रॅञ्च भाशेंत जातालें. भारतांतल्यान थंय वचपी चडशे अधिकारी पयलीं फ्रॅञ्च शिकिल्ले आसताले, पूण भारतांत शिकिल्ली फ्रॅञ्च आनी आमची फ्रॅञ्च उलोवपाची पद्दत फ्रान्साक पावतकच साप्प कोंताक येना, हें आमकां कळ्ळें. फ्रॅञ्च सरकाराकूय हाची जाणविकाय आशिल्ल्यान आमकां पयले तीन म्हयने फ्रॅञ्च भाशेची ट्रेनिंग दिताले आनी मागीर पॅरिसाक हाडून प्रशासनाचें प्रशिक्षण सुरू जातालें.

व्हिशी म्हणटात तो एके ल्हानशे न्हंयेचे देगेर आशिल्लो ल्हानसो, सोबीत गांव. थंय खूबश्यो गंधक (सल्फर) आशिल्ल्या उदकाच्यो झरी आसात. फ्रॅञ्च लोकांक सोरो पियेवपाची खूब संवय. दनपारचें आनी रातचें जेवता आसतना वायन म्हणल्यार सोरो पियेतात. आमी हॉटेलांनी बी वताले तेन्ना पियेवपाक नळाचें उदक मागताले. नळाचें उदक त्या गांवांत पियेनात अशें वेटरान सांगल्यार मागीर बाटलेंत पॅक केल्ल्या उदका परस सोरो सवाय म्हणून सोरो पियेताले. फ्रान्सांत दर दिसा नवो सोरो पियेल्यार आनी नवें चीज खाल्यार वर्सूयभर तुज्यान पयलीं खाल्लें चीज आनी पयलीं पियेल्लो सोरो परतून खावपाची आनी पियेवपाची गरज ना अशें म्हणटात. सांगपाचें म्हणल्यार थंय सोरो पियेवन पियेवन जाण्टेपणांत लिव्हराची पिडा जाता आनी ही पिडा बरी करपाची एक मांडणी म्हणल्यार

पांतल्यान कांय दीस गंधक (सल्फर) आशिल्लें उदक पियेवप. देखून लाखांनी जाण्टे दले आनी बायलो जून ते सप्टेंबर म्हयन्यांत व्हिशीक झरीचें उदक पियेवंक येतात. दरा-पंदरा दीस, एक-एक म्हयनो रावून, दोतोरान घालून दिल्ले प्रमाण दीसपट्टे कांय नास झरीचें उदक पियेतात. पर्यटन धंदो कसो उबारचो आनी कसो चलोवचो हें वरोपांतल्या लोकां कडल्यान शिकचें. गोंया कडेन तुळा केल्यार व्हिशी गांवांत कांयच ा म्हणल्यार जाता; फकत गंधकाच्यो झरी आनी एक ल्हानशी न्हंय आसा. झऱ्यांचेर ाय तशे नळ लावन झऱ्यांचें उदक नळांतल्यान पियेवपाची वेवस्था केल्या. झऱ्यां भोंवतणीं ांक, कदेलां, माटोव बी घालून जाणट्या लोकांक सुसेग घेवपाचीय बी वेवस्था केल्या. हान ल्हान हॉटेलांनी न्हावपाची वेवस्था नासता. देखून भौशीक न्हाणीघरां आनी जाणट्या ोकांच्या हातां पांयांचो, फाटीचो मसाज करपाक भौशीक मसाजघरां सगले कडेन ांदिल्लीं आसात. न्हंयेक एक ल्हानसो बांद घालून न्हंयेंतूच एक व्हड तळ्याची निर्मिती केल्या आनी तातूंत तरातरांचे वॉटर स्पोर्ट सुरू केल्यात. चारूय म्हयने दर दिसा सांजेचे व्हिशीचे मुखेल बागेंत गायनाच्यो आनी संगिताच्यो कार्यावळी जातात.

आफ्रिकेंतल्या आनी आशियेंतल्या लोकांक दीसपट्टे फ्रॅन्च शिकोवपा खातीर फ्रॅन्च सरकाराच्या आलाशिऱ्या खाला व्हिशीक एक संस्था सुरू जाल्या. खंयच्याय वेळार भायल्या देशांतले हजारांनी विद्यार्थी विद्यार्थिनी थंय आसतात. थंयच राबितो करतल्या जायत्या फामिलींनी विद्यार्थ्यां खातीर आपणाल्या घरांतूच भाड्यान कूड दिवपाक सुरवात केल्या.

व्हिशींत तीन-चार म्हयने आसतना याद उरपा सारक्यो कांय गजाली घडल्यो. श्रीलंकेंतल्यान दोग चलयो थंय फ्रॅन्च शिकपाक आयिल्ल्यो. सिन्हाला चलयेचें नांव प्रेमा आनी तमीळ चलयेचें नाव निर्मला. दोगांचींय दीसरात झगडीं. श्रीलंकेंत तमीळ आनी सिन्हाला लोकां मदीं चलिल्लीं झगडीं तांणी आपणा वांगडा फ्रान्साक हाडिल्लीं आनी चालू दवरिल्लीं. थंय आशिल्ले सगले भारतीय विद्यार्थी आपापलें जेवण रांदून जेवताले. प्रेमान आमकां जेवणाक आपोवन बरें जेवण करून वाडलें, अशें म्हणून निर्मलाक सांगल्यार तेंय बी आमकां जेवणाक आपयतालें आनी ताच्याकूय बरें जेवण करून वाडटालें. काल म्हाका बाजारांत वचूंक मेळूंक ना, देखून प्रेमान म्हाका जाय तें हाडून दिलें अशें सांगल्यार निर्मला दुसऱ्या दिसा बाजारांत वतना तुमकां कितें हाडूंक जाय काय म्हणून विचारतालें. कांय विद्यार्थी तांचे मदल्या झगड्याचो फायदो घेताले. दुसरे कांय जाण तांकां दोगांकूय बाराबर आपोवन तांची इश्टागत करपाचो यत्न करताले पूण तांच्या यत्नांक फावोशें येस मेळ्ळें ना.

व्हिशीक लता म्हजे वांगडा रावंक आयलें. मद्रासाक आसतना लता 'बाटीक'

पेण्टींग करपाक शिकिल्लें आनी आपणें केल्लीं थोडीं पेण्टींगां ताणें आपले वांगडा हाडिल्लीं. ताच्या पेण्टिंगांचें प्रदर्शन भरोवचें अशें एका फ्रॅञ्च आर्टिस्टान सुचयलें आनी व्हिशीक आशिल्ल्या एका ल्हानशा प्रदर्शन हॉलांत ताज्या बाटीक पेण्टींगांचें प्रदर्शन केलें. सगलीं पेण्टींगां लोकांनी विकतीं घेतलीं आनी आमकां बाटीक कशें करतात तें शिकय, म्हणून कांय बायलो ताचे फाटल्यान लागल्यो. इंग्लीश आनी फ्रॅञ्च दोनूय भासो खबर आशिल्ल्या थंयच्या बायलांचे मजतीन लतान तांकां बाटीक करपाक शिकयलें. थंयच्या गांवांनी ल्हान ल्हान थळावीं खबरांपत्रां आसतात. व्हिशींतूय तशेंच एक आपणालें म्हणून दर सप्तकाक एके फावटीं उजवाडाक येवपी नेमाळें आशिल्लें. तातूंत लताच्या बाटीक पेण्टींगांची खूब तुस्त जाली आनी तें बाटीक पेण्टींग करता म्हणून ताचें नांव भाटीकार अशें म्हूण ते लेखिकेन बरयलें. ताचे पयलीं थंयच्या आर्टिस्टांनी लताचो भोवमान करपा खातीर घडोवन हाडिल्ले खास सभेंत उलोवप्यांनी होच विचार मांडिल्लो. आयजकाल फामिलीची परंपरा कोणूच चालू दवरना. पूण लतान आपणाली बाटीकाची परंपरा चालू दवरल्या म्हणून सगल्यांनी ताची तोखणाय केली. ताचे उपरांत लतान बाटीक पेण्टींग कांय करूंक ना, पूण अजुनूय तें भाटीकार उरलां.

व्हिशीक आमचें प्रशिक्षण म्हळ्यार कानाक इयरफोन लावन फ्रॅञ्च रेडियोचेर लागतात त्यो बातम्यो आयकप, वेगळ्यावेगळ्या विशयांचेर भासाभास जाता ती आयकप, तांचो सारांश बरोवन काडप आनी ताचेर भासाभास करप. पयलीं पयलीं ते उलयतात तें कांयच समजनाशिल्लें. ल्हवू ल्हवू सगलें समजुपाक लागलें आनी दीसरात हेरां कडेन उलोवन आमकांय बी बरे तरेन फ्रॅञ्च उलोवपाची संवय जाली.

पयशांक आनी अधिकाराक मान आसा तितलो आनीक कित्याक मेळना हें आमकां व्हिशीक कळ्ळें. हाशीमोटो नांवाचो बँक ऑफ जपान हे बँकेचो एक ऑफिसर फ्रॅञ्च भाशा शिकपाक व्हिशीक आयिल्लो. आमी रावतालीं त्याच हॉटेलांत तो रावतालो. ताचो सगलो रावपा जेवपाचो खर्च बी बँक करताली. ताणें एक मोटार घेतिल्ली आनी चड पयशे दिवन हॉटेलांतलो सगल्यांत व्हड रूम घेतिल्लो, तातूंत न्हावपा खातीर शावर बी आपले खातीर घालून घेतिल्लो. दर सप्तकाक एके फावटीं तरी त्या हॉटेलाची धनीण ताका आपल्यागेर जेवपाक आपयताली. आमकां मात तिणें केन्नाच आपयलें ना. ताचे कडेन खूब पयसो आसा, म्हणून ताका ती खूश दवरताली, हातूंत दुबाव ना. भारतीय लोकां कडेन पयसो नासता, म्हणटकूच तांकां आपणें जेवण कित्याक दिवचें अशें तिका दिसतालें जावंये.

एक दीस अकस्मात ती हॉटेलाच्यो वणटी, सोंपणां पुसता आसतना आनी रूम फ्रॅशनर सगल्या सोंपणांचेर मारतना दिश्टी पडली. हॉटेल तपासपाक म्युनिसिपाल्टीचो

सपेक्टर येवपाचो आसा अशें तिणें सांगलें. म्हाका गोंयांतल्या भ्रश्टाचाराची याद जाली. ताका पयशे बी कितेंय दितली काय कितें अशें हांवें तिका विचारलें. पयशे दिवचीं ना, ग एक बरें जेवण दिवचें पडटलें अशें तिणें हांसत सांगलें.

भारतांतले हेर जागे जावं, गोंय जावं वा येवरोप जावं, अधिकाऱ्यां विशीं ाशिल्ली भिरांत आनी ते भिरांतींतल्यान उप्राशिल्ली अधिकाऱ्यां मुखार 'हांजी हांजी' रून वागपाची पद्दत संवसारांत सगले कडेन सारकीच हें त्या वेळार कळ्ळें.

तीन म्हयने व्हिशीक रावन मागीर हांव पॅरिसाक गेलों. आंतरराष्ट्रीय भौशीक शासन संस्था (आंस्तित्युत आंतरनासियोनाल द आदमिनिस्त्रासियों पुब्लीक) हे सुवातेर रिल्ली सात म्हयन्यांची ट्रेनींग आशिल्ली. ही संस्था फ्रान्साचो आदलो प्रेसिडेण्ट जनरल ार्ल्स द गॉल हाणें सुरू केल्ली. फ्रॅञ्च लोक हुशार, तांचे कडल्यान हेर देशांतल्या ोकांनी खूब शिकपा सारकें आसा, अशें मानपी लोकां मदलो जनरल द गॉल हो एक!

प्रशासनाच्या वेगळ्यावेगळ्या विशयांनी आमकां थंयचे प्रोफेसर लेक्चर दिवंक ताले. तांचे कडेन वेगळ्या वेगळ्या देशांतले अधिकारी भासाभास करताले. भारत शांत चलपी प्रशासनाच्यो प्रथा, कायदे आनी नेम हें हेर आफ्रिकी आनी आशियायी शां परस बरें आसा हें सगले मान्य करताले आनी खंयचोय विशय उलयता आसतना 'तुमच्या देशांत हें कशें चलता?'' हो प्रस्न आसतालोच. प्रशिक्षणाचो एक भाग म्हणल्यार ंयचीं सरकारी म्हामंडळां कशीं चलतात तें पळोवपाचें. फ्रॅञ्च रेल्वे, गाज द फ्रान्स फ्रान्साची गॅस कंपनी), फ्रान्साची विद्युत कंपनी ह्यो तिनूय कंपन्यो कश्यो चलतात हें ामी पळयलें. सरकारान धंद्यांत भितर सरप काय ना, काय धंदो फकत प्रायवेट लोकांचेर ोडचो आनी सरकारान शिक्षण, भलायकी, अर्थवेवस्था, देशाची राखण, मुळावीं सोंपेपणां, ांचेर लक्ष दिवचें हाचेर आमची सगल्यां कडेन सदांच भासाभास जाताली. दुसरी गजाल म्हणल्यार, सरकारान धंदो सुरू केल्यार तो फायद्यांत चलूं येता काय ना, ह्याय प्रस्नाचेर सगले वटांनी विचार जातालो. चडशे सरकारी उद्देग-धंदे फायद्यांत चलनात देखून भारतांत व्हड व्हड सरकारी आस्थापनांचेर सदांच टिका जाता हें जेन्ना आमी फ्रॅञ्च अधिकाऱ्यांक सांगलें, तेन्ना फ्रान्साक अशी टिका जायना, सरकारी आस्थापनां फायदो करपाक नासतात, पूण लोकांची सेवा करपाक आसतात आनी तांणी फकत आपलो खर्च आनी येणावळ हांचो मेळ बसयल्यार पुरो, फायद्यांत चलपाची गरज ना, हें सगल्यांनी मानून घेतलां, अशें तांणी सांगलें. पॅरीसाची भुंयारी रेल्वे ही जगांतल्यो सगल्यांत बऱ्यो ज्यो रेल्वे आसात तातूंतली एक अशी तिची नामना जाता. भारतांतल्यान प्रशिक्षणाक पॅरीसाक येवपी चडशे अधिकारी पॅरीस विश्वविद्यालयाच्या सिते युनिवर्सित्येर (युनिवर्सिटी सिटी) ह्या वाठारांत आशिल्ल्या वेगळ्यावेगळ्या हॉस्टेलांनी रावताले. दर देशाच्या नांवान

एक हॉस्टेल आशिल्लें. फ्रॅञ्च सरकारान दिल्ल्या जाग्याचेर आनी त्या त्या सरकारा दिल्ल्या पयशांच्या आदाराचेर वेगळ्या वेगळ्या देशांच्या नांवान हीं हॉस्टेलां बांदिल्लीं भारताच्या हॉस्टेलाक 'मॅझों द लँद'(इण्डिया हावज) अशें नांव आशिल्लें. दर हॉस्टेलां कांय रूम हेर देशांतल्या विद्यार्थ्यांक राखून दवरिल्ले आसताले. आंतरराष्ट्रीय इश्टाग वाडोवपाची ही एक रीत म्हणून हो कायदो फ्रॅञ्च सरकारान घालून दिल्लो. पॅरीस शार जगांतल्या सुंदर शारां मदलें एक अशी ताची नामना आसा. सवाय कोटी लोकसंख्य आशिल्ल्या ह्या शाराचो इतिहास दोन हजार वर्सां परस पोरणो आसा. फ्रान्स देशांतले 2 प्रतिशें लोक हांगा रावतात. 300-400 वर्सां पयलींचे व्हड व्हड राजवाडे, 14 वस्तुसंग्रहालयां, हजारांनी वर्सां पोरणीं आनी जगभर नामना आशिल्लीं 50 वयर स्मारकां व्हड व्हड बागो, इगर्जो हे खातीर फामाद आशिल्लें, तशेंच 20-21 व्या शेंकड्यांत परफ्यूम फॅशन आनी व्हड व्हड कारखाने हांचे खातीर जगांतल्या सगल्यांत चड म्हत्वाच्या ती शारां मदलें एक शार म्हणून पॅरीस शाराक फॉरच्यून मॅगझिनान मानलां. जगांतल्या सगल्यांत व्हड 500 कंपन्यांतल्यो 38 कंपन्यो पॅरीसांत आसात. युनेस्को आनी ऑर्गनायझेशन फॉ इकॉनॉमीक को-ऑपरेशन अॅण्ड डेवलॉपमॅण्ट ह्या युनायटेड नेशन्साच्या दोन संघांचं मुखेल कार्यालयां पॅरीसांत आसात. इतिहास, कला आनी आर्विल्लो उद्देग-धंदो हांच्य म्हत्वाक लागून दर वर्सा साडेचार कोटी भोंवडेकार ह्या शाराक भेट दिवन वतात.

पॅरीसांतलें सगल्यांत फामाद वस्तुसंग्रहालय म्हणल्यार 'लूव्र म्युझियम'. 60 हजार चौखण मिटर आशिल्ल्या ह्या वस्तुसंग्रहालयांत सुमार 35 हजार इतिहास आनी कला हांचे नदरेन म्हत्वाच्यो आशिल्ल्यो वस्तू लोकांक पळोवंक मेळटात. पयलींच्या काळांत फ्रॅञ्च राजांचो हो राजवाडो आशिल्लो आनी 1793 वर्सा त्या राजवाड्यांत हें वस्तुसंग्रहालय सुरू जालें. लूव्र वस्तुसंग्रहालयांत आशिल्लें 'मोना लिझा' हें 'लियोनार्द दा व्हिन्सी' ह्या चित्रकारान सोळाव्या शेंकड्यांत काडिल्लें चित्र जगांतलें सगल्यांत म्हारग आनी सगल्यांत सोबीत अशें मानतात.

पॅरीसाक लोकांक उलोवपाची आनी भासाभास करपाची खूब संवय. असली संवय येवरोपांतल्या सगल्याच लोकांक आसता काय ना हें आमकां खबर ना. इंग्लीश लोकांक नासता इतलें खबर आसा. फ्रॅञ्च आनी इंग्लीश लोकां भितर "आमी तुमचे परस सुपिरियोर" अशा अर्थाची, उक्तेपणान नासली तरी शीतयुद्धा भशेन मोन्यांनी झगडीं चलतात. चडश्या फ्रॅञ्च लोकांक इंग्लीश समजता, उलोवपाक येना जाल्यार लेगीत समजुपाक कांय प्रोब्लेम नासता, कारण शाळेंत, स्कुलांत आसतना एक विशय म्हणून इंग्लीश खूबशे जाण शिकिल्ले आसतात. पूण आमी कोणाकूय इंग्लीशींतल्यान कितेंय विचारल्यार, "आमकां इंग्लीश समजना, फ्रॅञ्च भाशेंतल्यान विचार" अशें सांगताले, आनी मागीर उलयता उलयता मदींच एक इंग्लीश वाक्य उलयताले.

आमी पॅरीसाक पावना फुडें आमचे परस चड तेंप पॅरीसाक राविल्ल्या अधिकाऱ्यांनी आमकां दोन-तीन उपदेश केले. पयलो उपदेश म्हणल्यार च्या पियेवपाक खंयूय गेल्यार काफे वा काफेतेरिया असो बोर्ड आशिल्ल्या हॉटेलांत चलात, थंय जेवण-खाण सवाय मेळटा. रेस्टोरण्ट असो बोर्ड आशिल्ल्या हॉटेलांत वचूं नाकात, थंय जेवणखाण म्हारग आसता. दुसरी गजाल म्हणल्यार, मेळटा थंय नळाचें उदक पियेयात. पॅरीस शारांत पियेवपाचें उदक नळांतल्यान येता, पूण खंयूय जर नळाचें उदक नासत, जाल्यार उदकाच्यो बाटल्यो सोऱ्याच्या बाटल्यां परस म्हारग हें लक्षांत दवरात. म्हणटकूच, सोरो पियेवपाचो काय उदक पियेवपाचें तें तुमी थारावपाचें. तिसरो उपदेश म्हणल्यार पॅरीसांत थोडे वाठार सवाय आसतात, थोडे म्हारग आसतात. कपडे बी जाय जाल्यार सवाय वाठारांनी चलात, म्हारग वाठारांनी वचूं नाकात. रस्त्या कुशीक आशिल्लीं 'काफे' बोर्डाचीं हॉटेलां आपलीं कदेलां फुटपाथाचेर घालतात. जून, जुलय, ऑगस्ट आनी सप्टेंबर म्हयन्यांत लोक फुटपाथा वयल्या कदेलांचेर बसून च्या, काफी वा वायन घेवन वरांचीं वरां खबरी मारीत बसतात. फ्रॅञ्च लोकांक गोंयकारां भशेन जेवणाखाणाचेर खूब उलोवपाची संवय. गोंयांत आमकां सदांच आयज बाजारांत कितें आयलां, आयज दनपारां कितें खालें, ह्या गजालींचेर उलयल्ले आयकूंक येता. भारतांत हेर कडेन असल्यो गजाली आयकूंक येनात. ही संवय आमी पुर्तुगेज, फ्रॅञ्च, स्पॅनीश लोकां कडल्यान शिकल्यात जावंये.

आमी फ्रॅञ्च गॅस कंपनी, फ्रॅञ्च रेल्वे आनी हेर सरकारी आस्थापनांनी तांचीं प्रशासनां पळोवपाक वताले, तेन्ना दनपारचें जेवण आमकां वयल्या पांवड्या वयल्या अधिकाऱ्यां वांगडा दवरिल्लें आसतालें. फाटले फावट बसकेक जेवण कसलें आशिल्लें, तेन्ना कसले कसले जिनस आशिल्ले, खंयचे जिनस बरे जाल्ले, हे फावटीं कितें करपाक जायलां आनी तो शॅफ कसले कसले जिनस बरे करता, हाचेर व्हड चर्चा जाताली. दोन फावटीं आमी डायरेक्टरांच्या बोर्ड मिटिंगांनी बसले; आमी थंय साडेइकरा ते साडेतीन मेरेन आशिल्ले. साडेइकरा ते साडेबारा मेरेन मिटींग जाली आनी साडेबारा ते तीन मेरेन जेवण आनी वायन, आनी त्या विशयांचेर भासाभास!

फ्रॅञ्च लोक सकाळची च्या घेवपाक चड वेळ व्हगडायनात. उंड्याक लोणी आनी जॅम लावन काफी वा च्या वांगडा खावन कामाक वतात. दनपारचें जेवण मात घेवपाक दोन अडेज वरां घालयतात. हाचे उरफाटे ब्रिटीश आनी अमेरिकी लोक! सकाळचे च्याक खूबशे जिनस खातात आनी दनपारचें जेवण इल्लेंशें कितेंय खावन बेगिबेगीन सोंपयतात. गोंयकारांनी ब्रिटीश आनी अमेरिकी लोकांच्यो सकाळच्यो संवयो आनी येवरोपी लोकांच्यो दनपारच्यो संवयो आपणायल्यात काय दिसता. खूबश्या क्रिस्तांव लोकां मदीं दनपारच्या जेवणा वांगडा सोरो पियेवपाची पद्दत अजुनूय चालू आसा. फ्रॅञ्च लोकांक सिगरेट ओडपाची खूब संवय, देखून सरकारानूच एक सिगरेटीचो कारखानो सुरू केला.

व्हिशी तशेंच पॅरीसाक थंयचो उंडो खातकच परतून परतून गोंयची याद येताली. कवी दोतोर मनोहरराय सरदेसायान 'गोंया तुज्या मोगा खातीर' कविता संग्रहांतल्यो खूबश्यो कविता सॉरबॉन युनिवर्सिटींत शिकता आसतना बरयिल्ल्यो. पॅरीसाच्या कॅफेंनी आनी हॉस्टेलांत पॅरीसाचो उंडो खाता आसतनाय बी म्हाका गोंयची याद येताली आनी डॉ. मनोहरराय सरदेसायाकूय बी अशीच उंडे खातना गोंयची याद येताली काय किते असो म्हाका प्रस्न पडटालो. येवरोप, अमेरिका आनी हेर फुडारिल्ल्या देशांनी कसल्योय वस्तू करपाच्यो जाल्यार मशिनां चड वापरतात. हाचे उरफाटें आफ्रिकेच्या आनी आशियेच्या देशांनी हात चड वापरतात आनी मशिनां उणीं. सभ्यताय आनी संस्कृताय हांचो प्रवास वर्तुळाकार दिकेन चलता, दोनूय एकमेका फाटल्यान घुंवतात. फुडें कोण आनी फाटीं कोण हें सांगपाक कुस्तार! फ्रान्साक 'बागॅत' नांवाचो एक लांब दांडो कसो उंडो आसता. ह्या उंड्याचो घेर सादारण मनशाच्या मनगटा इतलो आसता आनी लांबाय पावूण ते एक मिटर आसता. वयलें कट्टें सामकें कुरकुरीत आसता आनी भितरलो घोरोप सामको मोव. कसलोय मेथो आशिल्लो शिवराक वा मांसाचो जिनस हॉटलांनी वचून मागयल्यार ताचे बाराबर बागॅताचे कुडके फुकट दितात. जपानाक भारतीय रेस्टोरण्टांनी मुख्य वस्त कसलीय मागयल्यार ताचे वांगडा नान वा शीत फुकट दितात. "फकत हात वापरून केल्लो, मशीन वापरूंक ना" असो बोर्ड आशिल्ले बेकरे भायर बागॅत व्हरपाक लायनी लागतात. हाचे उरफाटें, सुपर मार्केटांनी कागदाच्या लांब पोतयांनी घाल्ले बागॅत मांडून दवरिल्ले आसतात. ते सामके उणे लोक व्हरतात. बेकरे भायर ते बोर्ड पळोवन म्हाका भारतांतली याद जाताली. मॉडर्न ब्रॅड ही सरकारी कंपनी सुरू जातकच "फकत मशीन वापरून केला, हात लावंक ना" अश्या अर्थाच्यो जायराती ते उजवाडायताले. आमी हात वापरतात तें येवरोपी लोकांक बरें दिसता आनी ते मशीन वापरतात तें आमकां बरें दिसता. एकामेकां फाटल्यान आमी धांवतात म्हणटकच कोण सुदारिल्लो आनी कोण फाटसारिल्लो हें कशें आनी कोणें थारावपाचें?

भारतीय लोक केन्नाकेन्नाय हेरां परस आपणाक चड हुशार समजतात. हेर देशांची जी सिस्टम आसा, तांतूतलें उणेपण दाखोवपांत खूब वेळ घालयतात. पॅरीसचे भुंयारी रेल्वेंत तिकेटी तपासपाक तिकेट कलेक्टर नासता. मशिनांतल्यान तिकेट घेवपाची आनी स्टेशनाचेर भायर सरतना कमरा इतले उंचायेचेर आशिल्ले एका खांब्याचे इल्लेशे खांचींत ती घालपाची, म्हणटकच थंय आड आशिल्लो लोखंडाचो दांडो उबो जाता आनी मनशांक भायर वचूंक मेळटा. सगले लोक मशिनांतल्यान तिकेट काडटात आनी भायर सरतना ते खांचींत तिकेट घालून भायर सरतात. पॅरीसांत आमचे बाराबर इण्डिया हावसांत रावपी कांय भुरगे "आंवयऽ हें किते, ही कसली सिस्टम?" अशें म्हणून रेल्वेंत

सताले आनी स्टेशनाचेर त्या खांच आशिल्ल्या खांब्या वयल्यान उडकी मारून पलतडीं ताले. उडकी मारून वचपाचें जाल्यार येवरोपी लोकांक भारतीयां परस चड सोंपें, पूण कलोय येवरोपी उडकी मारून गेल्लो हांवें पळोवंक ना. आमच्या इण्डियन भुरग्यांचे कलेंत मात आपणें खूब व्हड काम केल्ले भशेन ही आयडिया आयली!

थंय दर स्टेशनार पयशांची मोड घेवपाचीं मशिनां आसतात. त्या मशिनांक ऱ्टोवपाक मेळटा अशें एका भारतीय विद्यार्थ्यान सोदून काडलें आनी अमक्या फावटीं ाटी घालतकच खूब मोड भायर सरता अशें ताणें पळयलें आनी ताणें म्हाका तशें करून ाखयलें. आपणें परतून परतून केल्यार आपणाक कोणूय धरतलो, देखून तो तशें सदांच करिनाशिल्लो.

स्पेन, इंग्लंड आनी फ्रान्स ह्या तीन देशांनी जगाच्या वेगळ्यावेगळ्या भागांचेर ाज्य केलें. आयज चडशे देश स्वतंत्र जाल्यात, पूण पयलीं आपणाचेर जे शेक चलयताले ांची भास अजुनूय ते देश वापरतात. इंग्लीश, फ्रॅञ्च आनी स्पॅनीश जाणा आशिल्ल्या नशाक जगांतल्या चडश्या भागांनी भाशेचो कांयच प्रोब्लेम जायना. इंग्लंड, स्पेन आनी फ्रान्स ह्या देशांच्या इतिहासाक लागून तांच्या आदल्या वसणुकांतल्या लाखांनी लोकांनी ह्या देशांनी राबितो केला. देखीक, इंग्लंडांत लाखांनी हिंदुस्तानी, पाकिस्तानी आनी बांगलादेशी लोक आसात. फ्रान्साक लाखांनी भारत (पुदुचेरी), आल्जेरिया, मोरोक्को ह्या देशांतल्या लोकांनी राबितो केला. येवरोपांतल्या हेर देशां परस स्पेन मातसो गरीब आशिल्ल्यान थंय हेर देशांतले चड लोक रावंक पावंक नात, पूण स्पॅनीश भास सबंद दक्षीण अमेरिकेक पातळ्ळ्या. देशा भायर आशिल्ल्या भारतीयांक इंग्लीश समजता अशें आमी धरून चलतात, ती गजाल सामकी फट. फ्रान्सांत पुदुचेरीचे लोक आसात, तांकां फकत तमीळ आनी फ्रॅञ्च समजता; इंग्लीश समजना.

आशियेंत आनी आफ्रिकेंत येवरोपी देशांचीं राज्यां चलतालीं तेन्ना जे गोरे न्हय, ते सकयल्या पांवड्या वयले लोक आनी गोरे ते वयल्या पांवड्या वयले, अशें राज्य करतल्या देशांतल्या लोकांक दिसतालें जावंये. आयजूय बी येवरोपांत जायते कडेन तशें दिसता काय, हो प्रस्न जायत्या फावटीं उप्रासता. दोन-तीन फावटीं पॅरीसाक काफेतेरियांनी गेल्ले कडेन हे लोक असो भेदभाव करतात काय कितें असो आमकां दुबाव आयलो. कितलोय आपयल्यार आमच्या टेबलार वेटर येना आनी आमचे उपरांत आयिल्ल्या गोऱ्या लोकां म्हऱ्यांत तो पयलीं वचून तांची चवकशी करता म्हणून आमकां तिडक येताली. एके फावटीं आमकां मॅनेजरा कडेन कागाळ करची पडली आनी मागीर मॅनेजराक त्या वेटराक तापोवन काडचो पडलो. फ्रान्सांत कातीचेर आदारिल्लो भेदभाव अजुनूय जायते कडेन तिगून उरला म्हणपाचें दिसता.

चलो आनी चली हांचे मदले संबंद कशे आसचे हाचेर भारतीय नितीमुल्यां बरीं. येवरोपी, अमेरिकी संस्कृतायेंत मुल्ल्यांक कांयच म्हत्व ना, अशें आमी समजतात. पूण ही गजाल खरी न्हय. भायल्या देशांनीय बी नितीमुल्यां बरीं आनी घट आसतात आनी आमच्या समाजांत आसता तें खूबशें धोंग भायल्या देशांनी नासता. फ्रान्सांत व्हिर्शीक म्हजे टिचरीक दोन भुरगीं आशिल्लीं - एक चलो आनी एक चली. तेरा-चवदा वर्सां जातकच दोगांय वेगळ्या गांवांत रावूंक गेलीं. दोगांय नोकरी करतालीं. चल्याची एक इश्टीण आशिल्ली आनी चलयेचो एक इश्ट आशिल्लो. तीं आपल्या इश्टा कडेन आनी इश्टिणी कडेन लग्न जातलीं काय म्हणून विचारतकच, "सद्या तीं एकमेकां बाराबर आसात. तांचें बरें पटलें जाल्यार मागीर योग्य वेळार तीं लग्न जातलीं," अशें तिणें म्हाका सांगलें. पूण जे मेरेन तीं एकामेकां वांगडा आसात, ते मेरेन तीं दुसऱ्या चल्या कडेन वा दुसरे चलये कडेन अशी दाट इश्टागत करचीं नात, अशें तिणें सांगलें. भायल्या देशांनी कोणूय कोणाय वांगडा लिंगीक संबंद दवरता अशें जें आमी समजतात तें सामकें चूक; अर्थीक परिस्थिती बरी आशिल्लीं हुशार भुरगीं फुडें शिकूंक वतात आनी सादारण बुद्दीचीं भुरगीं हायस्कूल जाले उपरांत रोखडींच नोकरेक लागतात. सगलीं भुरगीं आवयबापायचें घर सोडून दुसरे कडेन रावतात आनी ते खातीर तांकां स्वतंत्र जीण जगपाची मेकळीक आसता. पूण ते जिणेंतूय नितीमुल्यां आसतात, तीं आमचे इतलीं बरीं नासतात अशें आमच्यांनी म्हणूं नजो.

पॅरीसांत आसतना आमी चार पांच जाण लुव्र वस्तुसंग्रहालय पळोवपाक गेल्लीं. आमचे बाराबर दोन चलयो आशिल्ल्यो. सगल्यांक एकाच भागांत इण्टरॅस्ट नासता. देखून दरेकान आपणाक जाय जाय थंय वचचें आनी एका सॅण्ट्रल हॉलांत अमक्या वरांनी मेळचें, अशें आमी थारायलें. आमचे मदली एक चली एक पेण्टींग पळयता आसतना एक फ्रॅञ्च भुरगो ताचे म्हऱ्यांत आयलो आनी त्या पेण्टींगा विशीं उलोवपाक लागलो. तें काचाबूल जायनासतना उलयता तें पळोवन तूं खंयचें, तुका कितें आवडटा, अशें तो विचारपाक लागलो आनी मागीर काफी पियेवंक या अशें ताणें सुचयलें. ते बाराबर आपले वांगडा आनीक लोक आसात, अशें म्हणून ताणें थंयच्यान धांव मारली आनी आमकां सोदीत आयलें. काफी पियेवपाक या म्हूण सांगपाची, इश्टागत वाडोवपाची आनी इश्टागतींतल्यान आनीक फुडें कितेंय उप्रासता काय ना हें पळोवपाची थंयची पद्दत. पूण आपणाक इण्टरॅस्ट ना अशें चलयेन सांगल्यार इश्टागत वाडोवपाचो चल्याचो यत्न थंयच थांबता. इतल्यो भारतीय चलयो फ्रान्सांत रावन आयल्यात, पूण कोण्णाक कसलोच त्रास जावंक ना.

फ्रान्सांतल्या प्रशिक्षणांत प्रशासना विशीं खबर नाशिल्लें व्हडलेंशें कांय शिकपाक मेळ्ळें ना, पूण जगांतल्या वेगळ्यावेगळ्या भागांतल्या ऑफिसरां कडेन भासाभास

करपाची संद मेळ्ळी आनी भारतांत चलिल्ल्या प्रशासनाची आनी सरकाराची आमी भेतल्ले भितर गरजे परस चड तासमपट्टी करतात हें जाणवलें. भारतांतल्या समाजीक आनी प्रशासकी बांदावळीक हेर आशियायी आनी आफ्रिकी देशांनी खूब मान आसा, हें थंयच्या अधिकाऱ्यां लागीं उलयतना कळ्ळें. पूण आपूण जसो व्हड अधिकारी, तसोच हेर देशांतल्यान हेर व्हड अधिकारी हांगा प्रशिक्षणाक आयल्यार तांकांय तितलोच मान फावो जाता, अशें मानपाची तरा फ्रान्सांत नाशिल्ली; हेर येवरोपीय देशांनीय बी ती ना शी दिसता.

भारतांत जसो सगल्या राज्यांनी भारतीय प्रशासन सेवेंत आशिल्ल्या अधिकाऱ्यांक (आयएएस) लोक खूब मान दितात, तसो फ्रान्सांतूय बी थंयच्या 'एना' अधिकाऱ्यांक मान दितात. एना म्हणल्यार एकोल नासियोनाल द आदमिनिस्त्रासियाँ (नॅशनल स्कूल ऑफ ॲडमिनिस्ट्रेशन). भारतांत जशे सरकारांतले व्हड व्हड मुखेल जाग्यांनी भारतीय प्रशासन सेवेंतले अधिकारी नेमिल्ले आसतात, तशेच फ्रान्साक प्रशासकी विभागांचे मुखेल म्हणून 'एनां'तल्यान पास जाल्ल्या अधिकाऱ्यांक नेमतात. भारतांत जशे आयएएस अधिकाऱ्यांक कलेक्टर नेमतात, तशे फ्रान्साक एनांतल्यान पास जाल्ल्या अधिकाऱ्यांक 'प्रेफे' (कलेक्टर) म्हणून नेमतात. स्ट्रासबुर्ग हें जर्मनी आनी फ्रान्स हांचे शिमे वयलें व्हड शार. त्या शारांतल्या प्रेफे म्हऱ्यांत दोन सप्तकां प्रशिक्षणा खातीर म्हाका धाडिल्लो. जिल्ल्याक थंय 'प्रेफेकत्युर' म्हणटात. प्रेफेकत्युराचें प्रशासन सगले कडेन भोंवन पळयलें, आनी हांव भारतांतलो प्रेफे आनी म्हाका तुमच्या प्रेफेक मेळपाक जाय अशें हांवें धा-पंदरा फावटीं सांगून लेगीत थंयच्या सरकारी अधिकाऱ्यांनी म्हाका त्या प्रेफेक मेळूंक दिलो ना. हांव जर लांब, रुंद आनी येवरोपी लोकां भशेन गोरोपिट्ट आशिल्लों आनी थंयच्या देशांतलो प्रेफे आशिल्लों, जाल्यार म्हजो मान भोवमान जातलो आशिल्लो, अशें म्हाका दिसलें. "तो एनांतलो अधिकारी, ताका कोणाकूच मेळपाक वेळ नासता," अशें दोग तीग अधिकाऱ्यांनी म्हाका सांगलें. हांव भारतांतलो एना अधिकारी अशें सांगल्यार लेगीत तांणी कानामनार घेतलें ना. आफ्रिका आनी आशिया खंडांतले लोक येवरोपी लोकां परस सकयल्या दर्ज्याचे अशें चडश्या येवरोपी लोकांक दिसता, हाची म्हाका खात्री जाली. तातूंत तांची कांय चूक ना. काती वयल्यान वा जाती वयल्यान लोकांचो दर्जो थारावपाची संवय आमकां लेगीत आसा. पुर्तुगेजा काळांत गोंयांत आफ्रिकेक सावन शिपाय येताले, तांकां आमी उणाक लेखताले आनी पाखल्यां कडेन इश्टागत करपाक मेळ्ळ्यार आमकां अभिमान दिसतालो.

# भाग 13
# तमीळनाडू विद्युत म्हामंडळ

पॅरीसांतलें प्रशिक्षण सोंपोवन हांव जुलय 1977 त मद्रासाक (चेन्नय) आयलों आनी सरकारान म्हाका तमीळनाडू विद्युत म्हामंडळाचो (तमीळनाडू इलेक्ट्रिसिटी बोर्ड) सेक्रेटरी नेमलो. विद्युत म्हामंडळांत काम सामकें वेगळे तरेचें. म्हामंडळाचो अध्यक्ष हो ताचो मुखेल अधिकारी आनी तो सदांच आयएएस अधिकारी आसतालो. म्हामंडळाचो दुसरो आयएएस अधिकारी म्हणल्यार सेक्रेटरी. अध्यक्षा फाटोफाट म्हामंडळ चलोवपाची जापसालदारकी सेक्रेटरीची. म्हामंडळांत सुमार एक लाख कामगार काम करताले. णव्वद प्रतिशें कामगार गांवांनी लोकांच्या घरा मेरेन वीज पावोवपाच्या विभागांत काम करताले.

म्हामंडळांत तीन मुखेल विभाग आशिल्ले. वीज तयार करप (जनरेशन), वीज गांवागांवांनी, घराघरांनी पावोवपा खातीर खांबे उबे करप आनी वायरी जोडप (कन्स्ट्रक्शन) आनी वीज सगल्या गांवांनी आनी घरांनी पावोवपाची दीसपट्टी वेवस्था सांबाळप (डिस्ट्रिब्युशन). ९० प्रतिशें कामगार डिस्ट्रिब्युशन विभागांत आसताले. म्हामंडळाचें प्रशासन चलोवपा खातीर अध्यक्षांक सगल्या तरांचो पालव दिवप हें सेक्रेटरीचें काम. वेगळ्या वेगळ्या विभागांचे मुखेल अभियंते येवजण्यो, प्रशासनीक बारीकसाणी, कामगारांचे प्रस्न, हें सगलें पयलीं सेक्रेटरीन मानून घेतकच अध्यक्षा कडेन धाडटाले. म्हामंडळांत आशिल्ल्या सुमार एक लाख कामगारांचीं, स्टाफाचीं आनी अधिकाऱ्यांचीं मेळून 60 युनियनां आशिल्लीं. तातूंतलीं वीस युनियनां म्हामंडळान मानून घेतिल्लीं, म्हणल्यार त्या त्या कामगारां वतीन उलोवपाचो अधिकार तांकां दिल्लो.

म्हजें मुखेल काम म्हणल्यार त्या युनियनां कडेन, तांच्या मागण्यांचेर आनी ांणी प्रशासना मुखार दवरिल्ल्या प्रस्नांचेर भासाभास करप. सकाळीं णवांक सुरू जावपी ासाभास मदीं जेवणा खातीर अर्दवर सोडून रातची ४ - ९ मेरेन चालू आसताली.

म्हामंडळाचो सेक्रेटरी जायना फुडें हांवें डिस्ट्रिब्युशन विभागांतल्या मुखेल अभियंत्याक आपोवन फाटल्या वर्सा कितले संप जाल्ले काय म्हणून विचारलें. डिस्ट्रिब्युशन वेभागांतले कामगार केन्नाच संप करिनात; आमचें प्रशासन तांकां आवडटा म्हणून न्हय, र संपार गेल्यार लोक तांच्या बोल्सांत कितेंय घालतात तें बंद जाता आनी तांचीं बोल्सां रेकामीं जातात, अशें सांगून तो व्हडल्यान हांसलो. पूण संप ना जाल्यार लेगीत कामगार संघांच्यो मागण्यो दिसानदीस वाडत आशिल्ल्यो. मुखेल कामगार संघ आशिल्लो तो ऑल इंडिया ट्रेड युनियन काँग्रेस, म्हणल्यार कम्युनिस्ट पक्षाचो. कृष्णन म्हणून एक बरो शिकिल्लो आनी हुशार फुडारी तांचो मुखेल आशिल्लो. पयल्याच दिसा तो म्हाका मेळपाक आयलो तेन्ना आपणालें कदेल फाटल्यान ओडून, वोल्तेरार बशिल्ल्या भशेन पांयांचेर पांय उडोवन, सिगरेट फुसकायत, म्हजे कडेन उलोवंक लागलो. ॲर कण्डीशन्ड ऑफिसांत सिगरेट ओडूंक जायना हें ताका खबर आशिल्लें. दुसऱ्या दिसा परतून आयलो तेन्ना तो येना फुडें हांवें ॲर कण्डीशन बंद केलें आनी ताचे मुखार ॲश ट्रे दवरलो. ऑफिसांतल्या म्हज्या मुखा वयल्या कदेलांचो नंबर उणो केलो. कृष्णन मातसो अस्वस्थ जालो. ताचे वांगडा आयिल्ल्या तीन चार लोकांक उबे रावचे पडले. ॲश ट्रे दवरला म्हणून 'थँक यू' म्हणपाक लागलो आनी एसी कित्याक बंद केला आनी कदेलां कित्याक उणीं केलीं अशें विचारपाक लागलो. "तुका पांयांचेर पांय उडोवन सुसेगाद बसपाक मेळचें म्हणून तुका व्हडलें कदेल घालां, ते खातीर तीन कदेलां काडचीं पडलीं आनी तुका सिगरेट ओडूंक आवडटा म्हूण एसी बंद करचो पडलो." ताणें रोखडीच सिगरेट पालयली आनी आपणाक धाकलें कदेल हाडूंक लायलें. मागीर थंय आनीक कदेलांक सुवात जाली. पांयार पांय घालिनासतना हेरां भशेन बसून तो उलोवंक लागलो. "म्हाका तुमचे कडेन कसलोच आपालिपा करपाचो ना, हय तें हय, ना तें ना, सरळ उलोवपाचें. तुमच्या हक्कां खातीर झगडपाचें तुमचें काम आनी सगल्यांच्या हक्कां प्रमाण सोंपेपणां दिवपाचें म्हजें काम! पूण तुमकां कसले आनी कितले हक्क आसात हाचेर तुमचे आनी म्हजे विचार वेगळे आसूं येतात. त्या वेगळ्या विचारांतल्यान झगडीं पेटून सरकाराचें आनी लोकांचें लुकसाण जावचें न्हय म्हणून आमी यत्न करूंक जाय. पूण तुमी संप करून काम थांबयतलेच म्हणल्यार मागीर म्हाका संप मोडपाचे यत्न करचे पडटले. देखून ती परिस्थिती येवंक जायना," अशें हांवें ताका सांगलें. म्हजे विचार कृष्णनाक आवडले आनी मागीर तो म्हजो इश्ट जालो. कम्युनिस्ट कामगार संघाचे सगले फुडारी विशय

शिकून उलयताले. केन्नाच बेजापसालदारपणान उलयले नात. ते खातीर त्या फुडाऱ्यां विशीं म्हाका आदर दिसतालो.

च्योक्कलिंगम् नांवाचो एक वडील आयएएस अधिकारी म्हामंडळाचो अध्यक्ष जालो. राजकी फुडाऱ्यांक तो सामको लागींचो आनी तांकां जाय तशें तो करता अशी ताची नामना आशिल्ली. पूण सगल्यो गजाली कायद्या प्रमाण जावंक जाय, कोणेंय राजकी चेपण हाडल्यार तुमी ताका बळी पडूंक जायना, अशी ताणें आपल्या वांगडा काम करतल्या सगल्या अधिकाऱ्यांक ओर्द दिली. उतरां बारीक बारीक किसोवन युनियनां कडेन वरांचीं वरां उलयत रावप ताका केन्नाच आवडलें ना. युनियनां कडेन मिटींग जावचे पयलीं हांव च्योक्कलिंगमाक सगली म्हायती दितालों. अमकें अमकें करपाचें, अमकें अमकें नाकारपाचें अशें तो थारायतालो. युनियनाचे फुडारी सदांच 15 - 20 लोक घेवन मिटिंगेक येताले तें ताणें बंद केलें. जे उलयतले तांणीच येवचें अशी ओर्द काडली. मिटींग सुरू जायना फुडें, "तुमी पंदरा मागण्यो दिल्ल्यो, हांवें स मागण्यो मान्य केल्यात, स मागण्यो नाकारल्यात आनी तीन मागण्यो आनीक स म्हयन्यांनी तुमचे कडेन भासाभास करपाक दवरल्यात"अशें तो तांकां सांगतालो. "आपणें मान्य केल्यात त्या मागण्यांचेर तुमकां उलोवपाची गरज ना. मान्य करूंक ना त्या मागण्यांचेर तुमी कितलेंय उलयल्यार आपूण त्यो मान्य करपाक ना. म्हणटकच तुमी उलोवन कांयच अर्थ ना," अशें म्हणून तो धा मिनटां भितर मिटींग गुठलायतालो.

कृष्णन एक दीस एकलोच आयलो आनी ह्या अध्यक्षान आपणाक त्रासांत उडयला अशें सांगूंक लागलो. "आमी फुडारी जर झगडनात जाल्यार युनियनाचे वांगडी आमकां भायर मारतले. हो अध्यक्ष आमकां झगडपाची संदूच दिना. ज्यो मागण्यो तो मानून घेता त्यो लेगीत ताणें रोखड्योच मानून घेवंक जायनात, आमकां थोडो वेळ वाद घालून झगडपाक दिवन मागीर त्यो मानून घेवपाक जाय. नाजाल्यार आमी कांयच केलें ना अशें आमच्या वांगड्यांक दिसतलें. देखून खंयचीय मागणी रोखडीच मानून घेवं नाका म्हणून ताका सांग," अशें कृष्णनान म्हाका सांगलें, आनी तें मागीर हांवें च्योक्कलिंगमाक सांगलें. ते उपरांत च्योक्कलिंगमाचें आनी कृष्णनाचें बरें पटलें.

दर विद्युत म्हामंडळांत डिआयजी नाजाल्यार आयजी दर्ज्याच्या ऑफिसराच्या हाता खाला एक दक्षताय विभाग आसता. विद्युत म्हामंडळांत जावपी भ्रश्टाचाराचेर नदर दवरप आनी भ्रश्टाचारी अधिकाऱ्यांक आनी कामगारांक ख्यास्त करप, हें त्या विभागाचें काम. सकयल्या दर्ज्याच्या कामगारांक ख्यास्त करप आनी भ्रश्टाचार करतल्या व्हड व्हड इंजिनियरांक आनी अधिकाऱ्यांक मेकळे सोडप, हें समा न्हय, अशें हांव तांकां सदांच सांगतालों. हुशारकायेन केल्लो आनी जतनाय घेवन केल्लो भ्रश्टाचार केन्नाच

ांपडना; वयल्या दर्ज्याचे अधिकारी कोणाच्याच जाळ्यांत सांपडनासतना आपणालो भ्रश्टाचार करतात, देखून ते मेळपाक कुस्तार, अशें आमच्या दक्षता विभागाचो डिआयजी म्हाका सांगतालो. "राजकी फुडारी जायते फावटीं भ्रश्ट अधिकाऱ्यांक वाचयतात, कारण त्या भ्रश्टाचारांत राजकी फुडाऱ्यांचेय बी हात म्हेळे जाल्ले आसतात. जायते फावटीं आपणाल्या भ्रश्टाचारांत हात म्हेळे करपाची तयारी नाशिल्ल्या प्रामाणीक अधिकाऱ्यांच्या फाटल्यान राजकारणी लोक लागतात. भ्रश्ट अधिकाऱ्यांक ख्यास्त करपाची आनी प्रामाणीक अधिकाऱ्यांक वांचोवपाची, दोनांय तरांची जबाबदारी आमच्या विभागाचेर आसता," अशें डिआयजी सांगतालो. ह्या विशयाचेर आमी सप्तकाक एके फावटीं तरी भासाभास करताले.

एक फावट मातसो नर्वस जावन तो डिआयजी म्हज्या कॅबिनांत आयलो. "सुदर्शनाक निलंबीत (सस्पेण्ड) करचो पडटली," अशें ताणें म्हाका सांगलें. सुदर्शन हो आमचो डिस्ट्रिब्युशन विभागांतलो चीफ इंजिनियर. मनीस एकदम बरो आनी प्रामाणीक अशी ताची नामना आशिल्ली. ताच्या प्रामाणीकपणाक लागून आपणालीं कामां जायनात म्हणून विद्युत मंत्री ताचेर फडफडटालो आनी पिकार जातालो. "असल्या प्रामाणीक चीफ इंजिनियराक सस्पेण्ड करप? तुका कितें सांपडलां रे?" अशें हांवें विचारतकच, "ताचें प्रामाणीकपणूच ताका भुजलें, ताका खंयूंय तरी धरपाक मेळटा काय म्हणून मंत्री रावतालो. ताणें निशाण्यो केल्लीं कांय टिए बिलां मंत्र्यान मागून व्हेल्लीं आनी आपल्याक येवपाक जाय ताचे परस चड रक्कम मागल्या, अशें म्हणून ताका सस्पेण्ड करपाची ऑर्डर मंत्र्यान दिल्या," अशें ताणें सांगलें. सुदर्शनाक कसल्याय बिलांचेर निशाणी करता आसतना बारीकसाणीन वाचपाची संवय नाशिल्ली. आपूण प्रामाणीक, एक्क पयसो खायना आनी हेरांकूय बी खावपाक दिना, म्हजेर कोण बगलांट घालुंकूच शकना, अशें येवजून तो बेफिकीर जाल्लो. ताचो पिए बिलांतले आंकडे आनी सगली म्हायती बी बरोवन ताचे मुखार दवरतालो, ताचेर तो निशाणी करतालो. "तुवें सगल्यो फटी बरोवन चीफ इंजिनियरा कडल्यान निशाणी कित्याक घेतल्यात?"अशें विचारल्यार पिएक कांयच जाप दिवंक जमलें ना. "येद्या व्हडल्या चीफ इंजिनियराक पयसो करतलो जाल्यार व्हड-व्हड म्हारगीं मशिनां विकतीं घेतात तांचेर पयसो करूं येता. फटीच्या टिए बिलांचेर तो कित्याक पयसो करतलो?" अशें विचारतकच कांय सकयल्या स्टाफान मंत्र्या कडेन हातमेळोवणी करून ताका फटयलो म्हणपाची म्हायती डिआयजीन दिली. सुदर्शनाक निलंबीत करप समा जावचें ना, असो हांवें आमच्या अध्यक्षा कडेन खूब वाद केलो. पूण "मिनिस्टराची ऑर्डर आसा, आपणाच्यान कांयच करूं नजो, ताका सस्पॅण्ड करचो अशी आतां तुजे कडेन ऑर्डर येतली, ती ताका धाड," अशें अध्यक्षान म्हाका सांगलें.

हांव चीफ इंजिनियराच्या कॅबिनांत गेलों, ताची माफी मागली आनी ताज्या हातांत ती ऑर्डर दिली. 'तुजेर म्हजो कांय राग ना, म्हज्याच लोकांनी म्हाका फटयला आनी तांच्या भ्रश्टाचारांत हांव म्हजे हात म्हेळे करिना, हाचो हो परिणाम,'' अशें ताणें म्हाका म्हणलें. सुदर्शनाक निलंबीत केल्लो, तेन्ना ताका रिटायर जावंक फकत तीन दीस उरिल्ले. तो रिटायर जावचे पयलीं ताका कशीय तरी बुद्द शिकोवंक जाय म्हण मंत्री हट्टाक पेटिल्लो. ह्या विभागा कडेन संबंद आशिल्ल्या वडील आयएएस अधिकाऱ्यांच्यान मिनिस्टराक आडावं येतालो, पूण कोणेंच तातूंत भितर आपली तकली घाली ना. कांय तेंपान त्या मंत्र्याचें खातें बदल्लें आनी सुदर्शनाच्या निलंबनाचो आदेश रद्द जालो. मागीर ताका रिटायर जावंक मेळ्ळें आनी पेन्शन बी सगलें सुरू जालें. पूण इन्कायरी बी चालू उरली.

भ्रश्टाचारान भरिल्ली सरकारी वेवस्था प्रामाणीक सरकारी अधिकाऱ्यां परस चड घट्ट आनी बळिश्ट, काय प्रामाणीकपण चड बळिश्ट, हो प्रस्न साहित्यांत, सिनेमांत, नाटकांनी भासाभास करूंक बरो. सरकारी वेवस्थेंत काम करतल्यांचे दीसपट्टे जिणेंत जें घडटा, तें वेगळेंच आसता. वेवस्थे आड झगडटलो वा वेवस्थे भितर रावून वेवस्थेचो आपूण वांटो जावचो ना, उदकांत बुडून लेगीत सुको रावतलो अशें म्हणल्यार तें जमचें ना. जे ऑफिसर वेवस्थेच्या चालीरितींत बसनात तांकां वेवस्था खोंट मारून भायर धांवडायता. देखून वेवस्था सुदारूंक सोदतल्यांनी वा चिखलांत बुडून नितळ रावूंक सोदतल्यांनी आपणाली जतनाय घेवंक जाय.

आयएएस पास जातकच गोंयांत येवन गोंयच्या प्रशासनांत काम करचें आनी प्रशासन सुदारपांत वांटो घेवचो अशें म्हाका सदांच दिसतालें. म्हाका डेप्युटेशनाचेर गोंयांत धाडचो अशी भारत सरकाराक हांवे दोन फावटीं विनवणी केल्ली, पूण गोंय सरकाराक हांव नाका, अशें दिल्लीच्या वडील अधिकाऱ्यांनी म्हाका कळयलें. ऑगस्ट-सप्टेंबर 1978 त म्हाका विद्युत म्हामंडळांत एक वर्स जालें. गोंयच्या पोर्ट ट्रस्टांत उपाध्यक्षाचो जागो रिकामो आसा, ''तुका जाय जाल्यार तुजी नेमणूक आमच्यानी थंय करूं येता, गोंय सरकाराक विचारपाची गरज ना,'' असो म्हाका दिल्लीच्यान रकाद आयलो. ही गजाल हांवें चीफ सेक्रेटरीक सांगली आनी म्हाका गोंयांत घालपा विशीं भारत सरकारान विचारल्यार ताका हरकत घेवची न्हय अशें ताका सुचयलें. म्हाका उत्तर आर्कोट जिल्ल्याचो कलेक्टर म्हणून नेमपाची फायल मुख्यमंत्र्या कडेन गेल्या, ती दोन तीन दिसां भितर पास जावन येतली, तेन्ना कलेक्टर म्हणून वचपाचें, काय पोर्टाचो उपाध्यक्ष म्हणून, तें हांवें थारावचें, अशें ताणें सांगलें. ''हांवें कितें करपाचें, तें तूं म्हाका सांग, तूं सल्लो दी,'' अशें हांवें ताका सांगलें. आयएएस ऑफिसराच्या करीयरा खातीर कलेक्टर म्हणून अणभव कसो

ल्याक पडटा, हें ताणें म्हाका सांगलें आनी व्हेल्लोराक कलेक्टर म्हणून वचून काम सुरू करपाचो सल्लो ताणें म्हाका दिलो. हांवें तें मानून घेतकच आनीक सात-आठ दिसां भितर विद्युत म्हामंडळांतल्यान बदली जावन व्हेल्लोराक (उत्तर आर्कोट जिल्लो) कलेक्टर म्हणून म्हजी नेमणूक जाली आनी रोखडींच हांवें थंय वचून सुत्रां हातांत घेतलीं.

# भाग 14
# कलेक्टर

कलेक्टर ह्या अधिकाऱ्याक ब्रिटीश राजवटीन भारतांत हाडून बसयलो. ब्रिटीश सरकाराक जिल्ल्यांतल्यान येवपाचो आशिल्लो महसूल कलेक्टरान एकठांय करप आनी भारत सरकाराचे येणावळीची जतनाय करून ती वाडोवपाचो यत्न करप आनी दुसरे वटेन जिल्ल्यांतली सवस्तकाय राखून दवरप, हें कलेक्टराचें काम. सवस्तकाय राखून दवरपाक कलेक्टराक क्रिमिनल प्रोसिजर कोडा खाला कांय अधिकार दिल्ले आसतात. ते अधिकार वापरून कलेक्टरान जिल्ल्यांतली सवस्तकाय राखून दवरपाची आसता. ताका लागून ताका डिस्ट्रिक्ट मॅजिस्ट्रेट्रूय म्हणटात. उत्तर भारतांत चडश्या राज्यांनी डिस्ट्रिक्ट मॅजिस्ट्रेट आनी दक्षीण भारतांत कलेक्टर हें उतर चड वापरतात.

ब्रिटीशांच्या काळांत जरी सवस्तकाय राखप आनी महसूल एकठांय करप इतलींच कामां आसतालीं, तरी स्वतंत्र भारतांत भोंवतणच्या वाठाराची उदरगत करपाक आनी तळागाळांतल्या लोकांक खास येवजण्यो करून उदरगतीचें फळ तांचे मेरेन पावोवपाक सरकार खूबश्यो येवजण्यो आंखता. सरकाराच्यो सगल्यो सामान्य आनी खास येवजण्यो कलेक्टरा वरवीं चालीक लागतात. भारतांत सगले कडेन कलेक्टर म्हणल्यार सरकाराचे दोळे, कान आनी तोंड अशें समजतात.

उत्तर आर्कोट जिल्ल्याचें व्हेल्लोर हें मुखेल शार. 1971 त जिल्ल्याचो वाठार सुमार तेरा हजार चौखण किलोमिटर, गोंया परस तीन पटींनी व्हड आनी लोकसंख्या

मार 40 लाख आशिल्ली. तेन्ना गोंयची लोकसंख्या सुमार धा लाख आशिल्ली. ातां व्हेल्लोर जिल्ल्याचे दोन जिल्ले जाल्यात. क्रिश्चन मेडिकल कॉलेज (सिएमसी ॉस्पिटल) हें भारतभर फामाद आशिल्लें हॉस्पिटल व्हेल्लोराक आसा. त्या हॉस्पिटला ातीर व्हेल्लोराक खूब नामना मेळ्ळ्या. भारतांतल्यान निर्यात जावपी चामड्यांतलें अर्दो र्द उत्तर आर्कोट जिल्ल्यांतल्यान निर्यात जाता. इस्ट इण्डिया चामडें (इस्ट इण्डिया ंदर) नांवान हें चामडें फामाद! व्हेल्लोर शार हें पालार न्हंयेचे देगेर आसा. थंय चारशें र्सां पोरण्या एका किल्ल्यांत म्हजें ऑफीस आशिल्लें. ह्या किल्ल्यांत पयलीं ब्रिटीशांच्या ाळांत ब्रिटीश फौज रावताली. ताचे पयलीं व्हेल्लोर शार हें सतराव्या शेंकड्यांत जयनगर राजांची राजधानी आशिल्ली. 1806 त ब्रिटीशां आड भारतीय शिपायांचें ाल्लें आंदोलन हें ब्रिटीशां आडचें भारतीय सैन्यांतलें पयलें आंदोलन अशें म्हणटात. ांव कलेक्टर म्हूण व्हेल्लोराक आयलों तेन्ना व्हेल्लोर शाराची लोकसंख्या णव लाख आशिल्ली. उत्तर आर्कोट जिल्ल्याचेर ब्रिटीशां आदीं मुसलमान राजा राज्य करताले. ब्रिटीशांच्या वेळार लेगीत आर्कोटाचो नवाब हाचो थंय शेक चलतालो.

तमीळनाडूंत दोन तरांचे मुसलमान आसात. एक उर्दू -हिंदी उलोवपी, बरे शिकिल्ले, गिरेस्त, गोरेच, पंजाबी लोकां भशेन दिसपी, जे आपणाक खानदानी म्हणटात; आनी दुसरे, लेब्बै मुसलमान, जे तमीळनाडूंतल्या हेर तमीळ लोकां भशेन दिसतात आनी तमीळ उलयतात. इतिहासीक कारणांक लागून मुसलमान लोकसंख्या आनी चामड्याचो धंदो (थंयचे हिंदू चामड्याचें काम करिनात) ह्यो दोनूय गजाली एकामेकांक पालवी गजाली कश्यो आसात. निर्यातीच्या धंद्यांत आनी चामड्याच्या धंद्यांत हिंदू कोणूच नाशिल्ल्यान हजारांनी मुसलमान कुटुंबांची अर्थीक परिस्थिती भोंवतणच्या हिंद कुटुंबा परस चड बरी आसा. गिरेस्त मुसलमानांनी खूबशे हेर धंदे आनी कारखाने सुरू केल्यात आनी तातूंत भोंवतणचे हिंदू काम करतात. हिंदू- मुसलमानां भितर खूबसो तणाव आनी धुसफूस चालू आसता. गोबरा खाला इंगळे धगधगतात, थंय कोणेंय केन्नाय वारो घाल्यार भग्ग करून उजो पेटपाक वेळ लागना. हिंदू मुसलमानां भितर कितल्याश्याच फावटीं त्या जिल्ल्यांत उजो पेटिल्लो आनी ते खातीर भारतांत धर्मीक तणावाच्या आदाराचेर जे थोडे जिल्ले 'अति-संवेदनशील' (हायपर सॅन्सिटीव) म्हणून भारत सरकारान जाहीर केल्यात तातूंत उत्तर आर्कोट जिल्लो हो एक.

जिल्ल्यांतली आनीक एक मुखेल गजाल म्हणल्यार तिरुवण्णामलय ह्या गांवांत आशिल्लो रमण महर्षीचो आश्रम. रमण महर्षी हो 1879 वर्सा मदुराय जिल्ल्यांत एका ल्हानशा गांवांत जल्मल्लो. 1896 वर्सा तिरुवण्णामलयक येवन ताणें आपल्या आश्रमाची स्थापना केली. संत ज्ञानेश्वरान जशें बारा वर्सां पिरायेचेर संवसारीक जीण सोडून पुराय

अध्यात्मीक जीण आपणायिल्ली, तशेंच रमण महर्षीन ल्हानपणांतूच, म्हणल्यार सोळा-सतरा वर्सांचो आसतना, घरदार आनी कुटुंब सोडून, 'हांव कोण' ह्या प्रस्नाची जाप सोदपाक तिरुवण्णामलय येवन आपली अध्यात्मीक जीण सुरू केल्ली. तिरुवण्णामलयक दर वर्सा थंयच्या अरुणाचल दोंगराचेर कार्तीक एकादशीक व्हडली ज्योत पेटयतात आनी ते ज्योतीचें दर्शन घेवपाक सबंद भारतांतल्यान लाखांनी लोक त्या वेळार तिरुवण्णामलय जिल्ल्यांत पावतात. रमण महर्षी ल्हान आसतना सदांच हे ज्योतीचें आनी अरुणाचल दोंगराचें ध्यान करतालो. देखून घर सोडून वतकच तो कोणेंय तरी ओडून व्हेल्ले भशेन तिरुवण्णामलयक पावलो.

''मनशाची कूड म्हणल्यार मनीस न्हय, हांव म्हणल्यार म्हजी कूड न्हय, हांव म्हणल्यार म्हजो आत्मो,'' ह्या तत्वज्ञानाचो तिरुवण्णामलय आश्रमांतल्यान तो लोकां मदीं प्रचार करतालो.

जिल्ल्यांत चार तालुके आशिल्ले आनी सोळा बिडिओ उदरगतीच्यो येवजण्यो चालीक लायताले. सवस्तकाय दवरपाचें आनी महसूल एकठांय करपाचें काम तहसिलदारा वरवीं (मामलेदार) चलतालें. जिल्ल्यांत चालीक लायिल्ल्यो येवजण्यो म्हणल्यार, शेतकामत्यांक सहकारी संघांतल्यान बियाण्यीं, सारें, रीण सारकें मेळटा काय ना हाचेर नदर दवरप, कुटुंब नियोजनाच्यो येवजण्यो ग्रामसेवकां वरवीं चालू दवरप, गांवगिऱ्या वाठारांनी 'लघु बचत' येवजण्यो वाडोवप, मुळाव्या भलायकी केंद्रां वरवीं पोलियो, मलेरिया आनी हेर दुयेंसां आड कारवाय करप, हीं सगलीं कामां! तशेंच पंचायतींच्या हाता खाला आशिल्ल्या इमारतींचीं कामां, शाळांची, रस्त्यांची, तळ्यांची बी दुरुस्ती आनी तीं कामां वेळार जातात काय ना हाचेर नदर दवरप.

धर्मीक आनी जातीय तणाव कसो आसता, तो उजो पालोवंक कितलो कुस्तार हाचो खूब अणभव म्हाका कलेक्टर आसतना आयलो.

पेरनामपेठ हो नगरपंचायत आशिल्लो धाकलोसो गांव. मुसलमानांची लोकसंख्या व्हड प्रमाणांत आशिल्ल्या वाणिअंबाडी तालुक्यांत पेरनामपेठ आसा. एक दीस रातच्या णव वरांचेर म्हाका एसपीन फोन केलो, ''पेरनामपेठांत हिंदू मुसलमानां मदीं दंगल चलल्या, मुसलमानांच्या खोंपींक उजो लायला आनी एक मुसलमान बायल लासून मेल्या,'' अशें ताणें सांगले. व्हेल्लोरच्यान पेरनामपेठ पावपाक 45 मिनटां लागतात. आर्म्ड रिझर्व पुलीस घेवन थंय येवपाची पुलीस सुपरिण्टॅण्डंटाक ऑर्डर दिवन हांव पेरनामपेठेक गेलों. मुसलमानांच्यो पांच-स खोंपी लाशिल्ल्यो, सामान जळिल्लें आनी एक बायल लासून मेल्ली. मशिदींत मुसलमान जमिल्ले. हिंदू दुसरे वटेन जमपाची तयारी

ग्रताले. मुसलमानांच्यो तीन व्हड फॅक्टऱ्यो त्या गांवा भायर आशिल्ल्यो. तांकांय बी लोकांनी उजो लायिल्लो. त्या फॅक्टऱ्यांच्या धनयांचो आवाज मद्रासच्यान (तेन्ना चेन्नयक मद्रास म्हणटाले) दिल्ली मेरेन पावपा इतलो बळिश्ट आशिल्लो. तांचो तो आवाज थंय पावन, थंयच्यान 'कितें चल्लां?' अशी चवकशी जावंक लागली.

हें सगलें कशें सुरू जालें अशें विचारतकच पुलीस इन्स्पेक्टरान सगली गजाल सांगली. खंयच्या तरी धाकल्या देवळांतल्यान 10-15 जाण पालखी मिरवणूक व्हरताले. अकस्मात ते पालखेचेर कोणें तरी जोतें मारलें. जोतें मारपी कोण तें अखेर मेरेन समजलेंच ना, पूण पालखेचेर जोतें मारपी कोण आसूं येता? फकत मुसलमान! अशें म्हणून वादळी वाऱ्या भशेन खबर पातळ्ळी आनी शेंकड्यांनी हिंदू एकठांय येवन मुसलमानांच्या घरांचेर हल्लो करूंक लागले. सगल्या खोंपींतल्या कुटुंबांतले लोक भायर धांवन आयले, मात एके खोंपींत एक जाणटी बायल उरली, ती जळून मेली. बोवाळाक रातच्या 8-9 क सुरवात जाल्ली, म्हणटकच फाल्यां ही खबर सगले कडेन पावतकच आनी खास करून एक मुसलमान बायल जळून मेल्या हें कळटकच सबंद जिल्ल्यांत उजो पेटपाची शक्यताय आसा, अशें येवजून हांवें संबंद जिल्ल्यांत क्रिमिनल प्रोसिजर कोड ह्या कायद्याचें 144 कलम लागू केलें. लोकांनी एके कडेन येवचें न्हय, मिटिंगो करच्यो न्हय, अश्यो खूबश्यो ऑर्डरी दिल्यो आनी जिल्ल्यांतल्या सगल्या पुलीस स्टेशनांतल्यान गांवांनी त्यो जाहीर करपाक लायल्यो. तशेंच, खबरांपत्रांतूय दुसऱ्या दिसा सकाळीं तें छापून येवपाची तजवीज केली. 4-5 दिसां खातीर सँट्रल रिझर्व पुलिसांच्यो दोन कंपन्यो मागयल्यो. मद्रासाच्यान थोडे सिआरपिएफ जवान त्या आर्दी फांतोडेर चार वरांचेर सुमार पावले.

चार दिसां उपरांत गांवा भायर आशिल्ल्या एका देवळांत एक ल्हानसो उत्सव जावपा आशिल्लो. हिंदू लोकांच्यो तकल्यो पयलींच तापिल्यो आशिल्ल्यो. सेलम जिल्ल्यांतल्यान उत्तर भारतीय स्टायलीन पुडवें न्हेसून आनी कपलाक मोट्टो कुकूम लावन, गोरेशेच, मोट्टे विश्व हिंदू परिशदेचे कार्यकर्ते पेरनामपेठाक पावले आनी तांणी उज्यांत आनीक तेल घालें. गांवा भायर उदेंते वटेन आशिल्ल्या एका देवळांतल्यान आमी व्हडली मिरवणूक काडून गांवांतल्यान अस्तंते वटेनच्या एका देवळांत व्हरतले, अशें सरभोंवतणच्या गांवांतल्यान आयिल्ल्या सगल्या हिंदूनी थारायलें. ते मिरवणुकेंत 10 ते 15 हजार लोक सामील जातले अशी खबर मेळ्ळी. तांणी मुद्दाम मिरवणूक मुसलमान वस्तीच्या रस्त्या वयल्यान आनी मशिदी मुखा वयल्यान व्हरपाचें थारायिल्लें.

तमीळनाडूच्या चडश्या गांवांनी वेगळ्या वेगळ्या जातींचे वेगळे वेगळे वाडे आसतात आनी तांकां वेगळीं वेगळीं नांवांय बी आसतात. पेरनामपेठच्या मुसलमान वाड्यार एकूच रस्तो आशिल्लो; सामको अशीर. रस्त्याचे दोशीं वटेन मुसलमानांचीं

घरां. त्या 10 फूट रुंदायेच्या रस्त्या वयल्यान ही मिरवणूक कशी व्हरतले, हें येवजून आमचेर आकांत आयलो. मिरवणुकीचेर बंदी घालची, कारण हिंसा जावपाची शक्यताय आसा आनी त्या रस्त्याचेर फायरींग केल्यार वा टियर गॅस सोडल्यार शेंकड्यांनी लोक मरतले, कारण थंय पळून वचपाक वाटूच ना, अशें हांवें मद्रासाक वायरलॅसीन कळयलें. "मिरवणुकीचेर बंदी घालूंक जायना, हिंसा जातली ह्या भंयान तुमी भोवसंख्य लोकांचो हक्क नाकारूंक जायना, तांकां मिरवणूक काडूं दी, सवस्तकाय सांबाळपाची जापसालदारकी तुमची," अशें म्हूण त्या वेळार आशिल्लो मुख्यमंत्री एमजी रामचंद्रन (एमजीआर) हाणें ऑर्डर सोडली. 10-15 हजार तापिल्ल्या हिंदूंची मिरवणूक आपणाल्या दारा मुखा वयल्यान वतली हें आयकून त्या वाड्या वयले सगले मुसलमान घरांक कुलप लावन दुसऱ्या गांवांनी गेले. पूण खूबशे हट्टाक पेटून त्याच गांवांत रावले.

उत्सवा दिसा सुमार वीस हजार लोक ते मिरवणुकींत आशिल्ले. थळाव्या हिंदू फुडाऱ्यांनी सगले कडेन रकाद धाडून सगल्या गांवांतल्यान लोकांक आपयिल्ले. हांव, डिआयजी, एसपी, दोन–तीन डेप्युटी कलेक्टर आनी शेंकड्यांनी सिआरपीएफ आनी आर्म्ड रिझर्व पुलीस मिरवणुके बाराबर भायर सरले. मुसलमानांच्या वाड्याच्या तोंकार आशिल्ले मशिदी मुखार मिरवणूक थांबली आनी थंयच व्हडा व्हडान भजन सुरू जालें. "फुडें वचात, फुडें वचात," म्हूण आमी कितलेय आड्डुल्ल्यार लेगीत मिरवणूक फुडें सरलीच ना. इतल्यान मशिदींतल्यान जोत्यांचो शिंवर आयलो. ते बाराबर लोकांनी हातांत मेळत ते फातर घेवन मशिदीचेर मारपाक सुरवात केली. हांवें लावडस्पिकरा वयल्यान एक शिटकावणी दिली, दुसरी शिटकावणी दिली, टीयर गॅस सोडले, तरीय लोक गेले नात. मागीर हांवें फारपेट करपाची ऑर्डर दिली. मशिदींतल्यान सुमार दोनशें मुसलमान जमून जोतीं मारताले, तांचेरूय फारपेट करपाची ऑर्डर दिली. फायरींग केले बाराबर सगले वटेन लोक नाच्च जाले. मशिदींतले लोक मशिदीचे फाटले वटेन पळून गेले. मागीर फायरींग जातकच ज्यो पुलिसांच्यो पद्दती आसतात त्या प्रमाण पुलिसांनी कितले रावंड फायर केले हाचो हिशोब घेतलो आनी कोणूय गुळी लागून मेलो काय कितें तें पळोवपाक चोंय वटांनी पुलीस धाडले.

अजापाची गजाल म्हणल्यार एकल्याकूय गुळी लागूंक नाशिल्ली आनी घुंवळ येवन सकयल पडपा इतली कोणाक जखमूय बी जावंक नाशिल्ली. मिरवणूक आमी थंयच बंद केली आनी पालखी परतून देवळांत व्हरपाक लायली. जिल्ल्यांत सगले कडेन 144 कलम लायिल्लें, तें चालू आशिल्लें. ह्या गांवांत मिरवणुकेक मान्यताय दिल्ले खातीर आमी 144 कलमाची ऑर्डर फाटीं घेतिल्ली, ती आतां परतून चालीक लायली. घडिल्ले गजालेचो नियाळ घेवंक आनी दर मिनटाक सबंद वाठारांतल्यान येवपी खबरांचेर

ारवाय करपाक आमी सबंद दीस पुलीस स्टेशनाचेर बसून रावले. रातचो डिआयजी, सपी, डिव्हायएसपी, सी.आर.पी.एफाचे अधिकारी, आनी हांव पुलीस स्टेशनार बशिल्ले ासतना म्हाका मुख्यमंत्री रामचंद्रनाचो फोन आयलो. ''हांवे थय येवंक जाय? आयल्यार ुमकां मजत जातली, काय तुमचें काम वाडटलें?'' अशे ताचे म्हाका प्रस्न आशिल्ले. 'आमी 144 कलम चालीक लायलां आनी तुमी हांगां आयल्यार लोक तें मोडून तुमकां ळपाक येतले, गर्दी जातली आनी सवस्तकाय इबाडटली, देखून तुमी आतां येवचें ह्य, सगलें शांत जातकच तुमकां येवपाक हरकत ना,'' अशें हांवें सांगलें. ''बरें तर, हांव ेना'' अशें म्हणून ताणें फोन दवरलो.

''वातावरण कशें आसा?'' अशें मुख्यमंत्र्यान तमीळींतल्यान विचारिल्लें. वातावरण हून हून आसा अशी ताका हांवें तमीळींतल्यान जाप दिल्ली. गरम ह्या उतराक तमीळींत 'श्यूड' म्हणटात. ''सिच्युएशन रोम्ब श्यूड श्यूड इरक्का!'' अशें हांवे ताका सांगिल्लें. हाचो अर्थ, ''सिच्युएशन खूब हून हून आसा.'' म्हजी तमीळ आयकून मुख्यमंत्री थप्प जालो आनी मातसो रावून आपल्याक जमता ते भशेन म्हजे कडेन तो इंग्लीशींतल्यान उलोवंक लागलो. कलेक्टराची तमीळ आपणें आयकुचे परस आपणाली इंग्लीश कलेक्टरान आयकल्ली चड बरी, अशें ताका दिसलें जावंये. ताचे कडेन उलोवन जातकच हांव कदेलार येवन बसले बाराबर डिआयजी आनी एसपी खोऽ करून हांसले आनी ''तुजें श्यूड श्यूड एकदम आवडलें,'' अशें म्हणूंक लागले. ''म्हजी तमीळ ताका समजली ना आनी ताची इंग्लीश म्हाका समजली ना. प्रशासन बरे तरेन चलपाक होच एक उपाय,'' असो हांवें ज्योक करतकच त्या दोन दिसांत पयलेच फावट आमी सगले पोटभर हांसले. थंय आशिल्ले डिव्हायएसपी, इन्स्पेक्टर, सब-इन्स्पेक्टर सगले भितरले भितर हांसले, कारण कलेक्टर, एसपी मुखार व्हडल्यान हांसप हें तमीळनाडूचे शिस्तींत कशेंच बसचें नाशिल्लें.

दुसऱ्या दिसा दनपारां गांवा भायर आशिल्ल्या 'ट्रेवलर्स बंगलों'त हांव आनी डिआयजी सुसेग घेताले. म्हाका न्हीद येनाशिल्ली म्हणून हांव एका वोल्तेरार पांय वरशे करून सुसेग घेतालों आनी डिआयजी एका व्हड लांकडाच्या मेजाचेर न्हिदिल्लो. भायर फकत एक कॉन्स्टेबल आशिल्लो. बाकी सगल्यांक आमी पुलीस स्टेशनार वचून रावात, अशें सांगिल्लें. कांय वेळान भितर वाज येता म्हणून हांव वारांदार वचून उबो रावलों. कॉन्स्टेबल खंय तरी गेल्लो. अकस्मात चारूय दिकांनी 15-20 लोक धांवून म्हजे वटेन येवंक लागले. डिआयजी त्या बोवाळान जागो जालो आनी आपलें पिस्तोल घेवन भायर आयलो. तो आपल्या युनिफॉर्मांत आशिल्लो. तो भायर येतनाच पिस्तोल हातांत घेवन भायर आयलो आनी ताणें हवेंत दोन फावटीं फार मारलो. ते बाराबर ते पळून गेले. तो

एकदम नर्वस जाल्लो. "तुवें म्हाका कित्याक उठयलो ना? त्या लोकांनी तुजेर हल्लो केल्लो जाल्यार तूं कितें करतलो आशिल्लो?" अशें ताणें विचारलें. "आरे, रातीं सबंद रात आमकां न्हीद ना, त्या सगल्या लोकांक हांवें धांवन येतना पळयले खरे, पूण म्हजे तकलेंत भितर कांयच सरलें ना. तकली न्हिंदिल्ली. तूं जागो जावन बरें जालें. नाजाल्यार फाल्यां भारतांत सगले कडेन हेडलायनी येतल्यो आशिल्ल्यो 'थळाव्या लोकांनी कलेक्टराक जितोच मारलो!' अशें हांवें ताका म्हणलें. 'शी शी' म्हणीत डिआयजी भितर गेलो, बूट घाले आनी आमी परत पुलीस स्टेशनार गेले. तीन दीस त्या गांवांत रावून मागीर हांव, एसपी, डिआयजी सगले व्हेल्लोराक परतले. मागीर मुख्यमंत्र्यान सगली चवकशी करपाक एका मंत्र्याक धाडलो. तो मंत्री आनी हांव एकेच गाडयेंत बसून पेरनामपेट वताले, तेन्ना आमी एकामेकां कडेन उलयताले. "पाडिगर (तमीळनाडूंत भाटीकर हें नांव खूबश्या जाणांक सारकें म्हणूंक येना, थोंडे लोक भट्टीकर, थोंडे पाडिगर, थोंडे बाटीकर अशें म्हणटात. तमीळ लोकांक 'भ, ध, थ, ह' हे उच्चार येनात. आतांचे तमीळ उतरावळींत हीं उतरां नात) हें नांव कसलें? क्रिश्चन, मुसलमान काय हिंदू?" अशें ताणें विचारलें. "हांव हिंदू, हें नांवूय बी हिंदू."

"पूण हे लोक म्हणटात तुका विनायगर (विनायक- गणपती) कोण तो खबर ना म्हणून!"

"म्हाका विनायक, गणपती, सगलें खबर आसा. गोंयांत आमच्या घरांत एका रुमांत एके वटेनची सबंद वणत देवांच्या फोट्यांनी भरल्या. हांव हिंदूच न्हय, तर हिंदू ब्राम्हीन," अशें हांवें ताका सांगलें.

हांव हिंदू बामण हें कळटकच तो मंत्री मातसो काचाबूल जालो. तमीळनाडूंत लोक बामणांचो तिटकारो करतात, ते दुश्ट बुद्दीचे अशें धरतात, पूण मनांतल्यान सामके तांकां भियेवन, रेश्पेत दितात अशें म्हाका दिसतालें. तो मातसो काचाबूल जाला तें पळोवन हो म्हाका चड रेश्पेत दितलो अशें म्हाका दिसलें.

"आं, म्हणजे तुका विनायगर कोण तें खबर आसा तर!" हांवें 'हय' म्हणून सागलें. आनी ताणें विनायगरा विशीं चड प्रस्न विचारिना जाल्यार पुरो अशी हांवें विनायगराचीच प्रार्थना केली, कारण विनायगरा विशीं म्हायती ल्हानपणांत वाचिल्ली, ती सगली विसरून गेल्लों. आनीक कांय दिसांनी केंद्रीय अल्पसंख्यांक आयोगाचे (सॅण्ट्रल मायनॉरिटी कमिशन) एके समितीन सगल्या घडणुकांची चवकशी केली. हांवें मशिदींत फारपेट करपाचो न्हय, अशी मुसलमानांनी कागाळ केल्ली आनी पालखेचे मिरवणुकींत फायरींग करपाची न्हय आनी पालखी परतून धाडपाची न्हय, म्हणून हिंदूंनी

गाळ केल्ली. कलेक्टरान कोणाच्याच फावोराद वचनासतना सारकें कायद्या प्रमाण म केलें म्हणून अल्पसंख्यांक आयोगान म्हाका शाबासकी दिली आनी अल्पसंख्यांक ायोगान शाबासकी दिली म्हूण सरकारानूय बी शाबासकी दिली. तो मंत्री मात ते उपरांत न्नाय मेळ्ळ्यार तूं मुसलमान न्हय हें म्हाका खबर आसा अशें म्हणून विनोद करतालो.

तमीळनाडूंत धर्माच्या आदाराचेर जातात ताचे परस चड झगडीं जातींच्या ादाराचेर जातात. प्रशासकी भाशेंत उलयता आसतना श्येड्युल्ड कास्ट आनी कास्ट ंदू हांचे मदलीं झगडीं अशें म्हणटात; कास्ट हिंदू म्हणल्यार श्येड्युल्ड कास्ट सोडून हेर गले. तातूंत नायडू, गौडर, पिळ्ळय आनी हेर जातींचो आसपाव जाता. श्येड्युल्ड ास्टां भितर हेरां परस चड उप-जाती आसात. तातूंत भितरूय बी वयल्यो आनी सकयल्यो प-जाती आसात. भारतांत हेर राज्यांनी अशेंच जाता काय ना, हें म्हाका खबर ना, पूण मीळनाडूंत धर्मा परस जातींक चड म्हत्व आसा. आयचे क्रिस्तांव आनी मुसलमान हणल्यार कालचे हिंदू; आनी हिंदू म्हणल्यार जाती आयल्योच! हिंदू मर्दी आशिल्ल्यो ाती ते लोक मुसलमान आनी क्रिस्तांव जातकच लेगीत चालू उरतात. तिरुनेलवेल्ली ाठारांत हिंदू मर्दी नाडार जातीचे लोक क्रिस्तांव जातात, तेन्ना तांकां क्रिस्तांव नाडार अशें म्हणटात. क्रिस्तांव नाडार आनी क्रिस्तांव पिळ्ळय हांचे भितर लग्न जावप कुस्तार, ूण क्रिस्तांव नाडार आनी हिंदू नाडार हांचे मर्दी लग्न जावप सोंपें!

झगडीं जातात तीं वेगळ्या वेगळ्या कास्ट हिंदू मर्दी जायनात आनी अनुसुचीत जातींत आपले भितरूय जायनात. जाती वेल्यान जावपी झगडीं सदांच कास्ट हिंदू एके वटेन आनी अनुसुचीत जाती दुसरे वटेन अशीं आसतात. कितल्याश्याच कारणांक लागून काळजांतले इंगळे धुंवत आसतात आनी खंयच्यानूय काडी पेटोवन उडयली जाल्यार उजो एका खिणांत पेट घेता. वयले वयर साद्यो दिसपी गजाली एकामेकाच्या घरांक उजो लावपाक पुरो जातात. 'वयले' जातीचे चलयेची अनुसुचीत जातींतल्या चल्यान फकांडां मारलीं, दंगे सुरू! अनुसुचीत जातींतलें मडें तांचे मसुंडेंत व्हरतना तें 'वयल्या' जातींच्या वाड्या वयल्यान व्हेलें, दंगली सुरू! अनुसुचीत जातींतली बायल उदक भरूंक 'वयल्या' जातींतल्या वाड्या वयले बांयचेर गेली, मारामारी सुरू! दीसरात बारीक सारीक गजालीं वयल्यान ल्हान-व्हड तणाव जायत आसतात. मागीर सगल्या जातींतले जाणटे फुडारी एके कडेन येवन तो तणाव उणो करपाचो यत्न करतात. तणाव उणो करपाक पुलीस इन्स्पेक्टर आनी तहसीलदार हांचो मुखेल वांटो आसता. सरकारी अधिकारी एकेच वटेन चड बागवतात अशें दिसल्यार तणाव उणो जावपा वांट्याचो आनीक वाडटा.

एक दीस सकाळीं फुडें व्हेल्लोरच्यान 18 किलोमिटर पयस आशिल्ल्या राणीपेठ गांवांत अनुसुचीत जाती आनी कास्ट हिंदू मर्दी झगडें पेटपाचें आसा, असो म्हाका

राणीपेठच्या तहसीलदाराचो फोन आयलो. हांव थंय पावचे पयलीं डिआयजी, एसपी, डेप्युटी कलेक्टर सगले पाविल्ले. वातावरण निवळावपाचो यत्न करताले. मुखेल रस्त्याचे एके वटेन अनुसुचीत जातींतल्या लोकांची कॉलनी आशिल्ली आनी दुसरे वटेन 'वयले' जातींतले लोक रावताले. वयले जातींतली एक चली आनी अनुसुचीत जातींतलो एक चलो एकामेकांचेर मोग करतालीं. तांकां घरचे लोक आडायनात म्हणून हो तणाव! हांव थंय पावलों, तेन्ना रस्त्याचे एके वटेन हजारभर लोक आनी दुसरे वटेन तशेच हजार-देड हजार लोक त्या वाठाराचें कुरुक्षेत्र करून एकामेकाचेर हल्लो करपाचे तयारेंत आशिल्ले. मदल्या रस्त्याचेर हॅल्मेटां घालून आनी हातांत आर्मां घेवन 60-70 खास पुलिसांचो फोर्स आनी आमी सगले उबे. दोन-अडेज वरां उलोवन, हातापांयां पडून, बाबा-पुता करून, तालुका ऑफिसांत येयात, उलोवया, झगडीं करूं नाकात, अशें सांगुनूय दोनय वटेनचे लोक कशेच आयकनात जाले. आनी एकामेकांचेर हल्लो करपाक फुडें सरपाक लागले. हांवें लावडस्पिकरा वयल्यान शिटकावणी दिली आनी कोणूच ती कानामनार घेना, अशें दिसतकच टियरगॅस (दुकां धुंवर) सोडपाक लायले. टियरगॅस सोडटकच थोडो वेळ लोक हेवटेन तेवटेन धांवले, पूण वाऱ्या वांगडा रोखडोच गॅस ना जाल्ल्यान परतून तो जमाव एके कडेन जावंक लागलो. लाठीचार्ज करपाक पुलीस भायर सरले तेन्ना पुलिसांचेर लोकांनी हल्लो केलो. मागीर हांवें फायरिंगाची ऑर्डर दिली. आनी दोंशीं वटांनी पुलिसांची फायरींग सुरू जायना फुडें लोक एका मिनटा भितर खंयचे खंय नाच्च जाले. एका सोळा वर्साच्या भुरग्याक गुळी लागून तो बेशुद्ध पडिल्लो, ताका व्हेल्लोर हॉस्पिटलांत व्हेलो. 5-6 जाणांक किरकोळ दुखापती जाल्ल्यो. मागीर सदां भशेन पीस कमिटी, म्हणल्यार सवस्तकाय राखपा खातीर सगल्या जमातींतल्या जाणट्या फुडाऱ्यांची समिती म्हाका घडोवची पडली.

असले सवस्तकाय-समितींत सदांच एक प्रोब्लेम आसता. तळागाळांतल्या लोकांचेर हल्लो करपी 'वयल्या' जातींतले लोक आपणें केल्ले सगले गुन्यांव माफ करचे, तांचेर सरकारान कारवाय करची न्हय आनी अशें केलें जाल्यार हाचे मुखार आमी सगले बरे सवस्तकायेन रावतले, हो सूर काडटात. पुलीस, कलेक्टर आनी तहसीलदार हे चडशे फावटीं 'वयल्या' जातीं वटेन तडजोड करपाक सोदतात. "जालें तें जालें, तें घेवन बसप ना, हाचे फुडें शांतताय राखप!" असो उपदेश सरकारी अधिकारी दितात. अनुसुचीत जातींतल्या लोकांक पुलिसांचो आनी हेर अधिकाऱ्यांचो सदांच चड भंय दिशिल्ल्यान चडशे फावटीं सरकारी अधिकारी सांगतात तें ते आयकतात. राणीपेठाक हांवें सवस्तकाय-समिती घडयली आनी समितीची बसका घेतली. सदां भशेन बसकेंत पयलो सूर आयलो तो अनुसुचीत जातींतल्या लोकांच्या घरांक ज्या लोकांनी उजो लायिल्लो त्या लोकांचेर

ऱसलीच कारवाय करची न्हय. ही सुचोवणी हांवें भायर मारली आनी गुन्यांवकारांक ऱ्यास्त ही जावंकूच जाय, पुलीस तांचेर केशी सुरू करतले आनी सवस्तकाय समितीच्या ांवा खाला आपणाले गुन्यांव पचोवन व्हरपाचो कोणेंच यत्न करचो न्हय, अशी शिटकावणी देली. ती चली आनी तो चलो दोगांय पिरायेन 18 वर्सां परस चड आशिल्ल्यान तांकां लग्न जावपाक जाय जाल्यार कोणेंच आडावंक जायना, अशी शिटकावणी दोनय वटेंतल्या लोकांक दिवची पडली. तमीळनाडूंत आंतरजातीय लग्न केल्यार घोव-बायलांक सरकार खूबश्यो सवलती दिता. त्यो सवलतीय बी तांकां बेगीन मेळोवन दिवपाचो यत्न आमी करतले अशें आमी तांकां सांगलें.

अशेंच प्रकरण एक दीस तिरुपत्तूर ह्या शारा म्हऱ्यांतल्या एका ल्हानशा गांवांत जालें. एक हिंदू चली आनी एक मुसलमान चलो घरच्या लोकांच्या त्रासाक लागून पळून गेलीं. एके बसींत चडटना तांकां एका वळखीच्या मनशान पळयलीं आनी एका वरा भितर हिंदू आनी मुसलमानां भितर झगडीं पेटलीं. दोनय वटेंतलीं कांय घरां आनी दुकानां लोकांनी लासलीं. आमी दोनय वटेंतल्या कांय गुन्यांवकारांक धरून पुलीस स्टेशनार दवरले आनी दोन तीन दीस त्या गांवांत खूबशे पुलीस दवरून आनी सवस्तकाय-समिती स्थापन करून, तणाव ना केलो. त्या तरणाट्या जोडप्याक सोदून हाडून तांच्या जाणटेल्यां बाराबर दोन-चार बसका घेवन तांकां लग्न जावपाक वाट मेकळी करून दिली.

भारतांतल्या 'अतीसंवेदनशील'(हायपर सॅन्सिटीव) जिल्ल्यां मदलो उत्तर आर्कोट (व्हेल्लोर) जिल्लो - हो एक! पूण हांगा लेगीत जातीच्या आदाराचेर जितलो तणाव जाता, ताच्या धाव्या वांट्यान लेगीत धर्माच्या नांवान झगडीं जायनात. जातीय तणाव, धर्मीक तणाव, खास सवलती, घटनेंत दिल्ले अधिकार ह्या विशयांचेर कायदे केले म्हणून समाजीक बदल जावचो ना. व्हड व्हड शारांनी धर्मीक आनी जातीय तणाव दिसना, पूण ल्हान ल्हान खेड्यांनी दिसता. शिक्षण आनी अर्थीक उदरगत जितली चड, तितलो समाजांत जातीय आनी धर्मीक तणाव उणो, अशें म्हणचें पडटा. मुंबय युनिवर्सिटींत शिकतना 'मद्रास काफेंत' वचून आमी जेवताले. ज्या ताटांत आमी जेवतात, त्याच ताटांत आमचे पयलीं खंयचे जातीचो मनीस जेवला, हो प्रस्न आमचे तकलेंत केन्नाच आयलो ना. तमीळनाडूंत मात एके अनुसुचीत जातींतल्या कलेक्टराचें उश्टें पान आपूण काडून उडोवचीं ना, अशें एके 'वयले' जातींतले वावराडेन सांगिल्लें, हें म्हाका घट्ट याद आसा. शिक्षण आनी अर्थीक उदरगत हांचे वांगडा प्रशासन कितें करता, अधिकारी हो बदल घडोवन हाडपाक कसल्यो कारवायो करतात, हेंवूय बी खूब म्हत्वाचें. कडक शिस्तीचे, कायद्या प्रमाण वचपी आनी खंयचेच जातीक चड लागीं नाशिल्ले अधिकारी समाजीक बदल घडोवन हाडपांत चड येसस्वी जातात.

व्हेल्लोर शारांत आनीक एक म्हत्वाची गजाल आसा. ती म्हणल्यार, व्हेल्लोर सॅण्ट्रल जेल! ही तमीळनाडूची मुखेल बंदखण. राजीव गांधीची हत्या करपांत मुखेल हात आशिल्ली नलिनी सध्या हे जेलींत ख्यास्त भोगता. कलेक्टर ह्या नात्यान जेलीच्या प्रशासनाचेर नदर दवरची पडटाली. जल्मठेपेची ख्यास्त जाल्ल्या सगल्या कैद्यांक चवदा वर्सां बंदखण जातकच सोडपाचें काय ना, हें थारावपा खातीर जी समिती आसता, ते समितीचो अध्यक्ष कलेक्टर आसता. नलिनी विशीं जेन्ना जेन्ना टिवीचेर खबरो येतात आनी आपले ख्यास्तीचीं चवदा वर्सां काबार जालीं आनी देखून आपल्याक बंदखणींतल्यान सोडची अशें तिणें सरकारा कडेन मागलां, अशें कळटकच हांव थंय कलेक्टर म्हणून आतां आशिल्लों जाल्यार कितें शिफारस करतलों आशिल्लों, हाचेर हांव विचार करपाक लागतां. बंदखणींत आशिल्ल्या गुन्यांवकाराची वागणूक जर बरी आसत, आनी तो/ती चवदा वर्सां बरे भशेन जर ख्यास्त भोगीत, जाल्यार ताका/तिका चवदा वर्सां जातकच सोडून दितात. नलिनीक सोडप काय ना, हो व्हड राजकी प्रस्न! तो राजकी प्रस्न कलेक्टरान मतींत घेवचो काय ना, हाचेर कांयच नेम वा कायदो आशिल्ल्याचो म्हाका याद ना. कायद्या प्रमाण नलिनीक सोडूं येता, देखून तिका सोडची, अशीच शिफारस हांव करतलों आशिल्लों. मागीर राजकी प्रस्न आसा तो मुखेल सचिवान आनी मुख्यमंत्र्यान हाताळचो पडटलो आशिल्लो. सरकारांत वेगळ्या वेगळ्या पांवड्यांचेर, एकाच विशयाचेर विंगड विंगड तरांनी कारवाय जावं येता, कारण जे परिस्थितीचेर आदारून कारवाय जाता, ती परिस्थितीच वेगळी आसूं येता.

व्हेल्लोराक आशिल्लें क्रिश्चन मेडिकल कॉलेज आनी हॉस्पिटल खूब फामाद. कांय इतिहासीक कारणांक लागून उत्तर पूर्व भारतांत आशिल्ल्या नागालॅण्ड, मिझोरम, मणिपूर, मेघालय ह्या राज्यांतल्यान खूबशे राजकी फुडारी आनी अधिकारी आपणाल्या दुयेंसांचेर उपाय करून घेवपाक ह्या हॉस्पिटलांत येताले. खंयचोय म्हत्वाचो राजकी फुडारी ह्या हॉस्पिटलांत येवपाचो आसलो म्हणटकच व्हेल्लोरांत ताका सगल्या तरांचो पालव दिवपाची जापसालदारकी कलेक्टराची आसताली. ब्रिगेडियर सायलो हो मिझोरमचो त्या काळांतलो मुख्यमंत्री व्हेल्लोर हॉस्पिटलांत पावलो. हांवें ताका मजत करपाक लोक दवरले. आमगेर जेवपाक आपयलो. तागेलो हॉस्पिटलांतलो काळ सोंपतकच जिल्ल्यांत आमी उदरगतीचीं कसलीं कसलीं कामां करतात तीं सगलीं ताका व्हरून दाखयलीं. म्हज्या कामा परस ताका घरा कडेन जेवपाक आपयलो आनी ताची दीसपट्टी हॉस्पिटलांत वचून वासपूस केली म्हणून तो चड खोशी जालो, आनी म्हणूंक लागलो, "तूं एकदम बरें काम करता, तुजे असले ऑफिसर आमकां मिझोरमांत जाय, मिझोरमांत येतात ते आयएएस ऑफिसर थंय आपणाक ख्यास्त भोगूंक धाडला अशें समजतात आनी कामांत कांयच

रक्ष घालिनात. तुज्यान एक चार-पांच वर्सां खातीर थंय येवंक जाता?" जायत्या फावटीं आमचे खोशयेक खतखतो येता, तेन्ना आमी कित्या कितेंय थारायतात आनी मागीर तें वेसरून वतात. हाच्या रावपाची, जेवपाची, खावपाची वेवस्था हांवें बरे तरेन केल्ल्यान हो एकदम खूश जाला आनी मिझोरमाक परतून वतकच हो तें विसरतलो, अशें म्हाका देसलें. देखून, मिझोरमांत येवपाक तयार आसा काय म्हणून विचारतकच हांवें रोखडेंच 'हय' म्हणून सांगलें, आनी हांव ती गजाल विसरून गेलों. एका म्हयन्यान सुमार भारत सरकाराच्या गृह मंत्रालयांतल्यान, दिल्लीच्यान म्हाका फोन आयलो : मिझोरमाच्या मुख्यमंत्र्यान तुका थंय धाडचो अशी मागणी केल्या. आयएएस अधिकाऱ्यां विशींच्यो सगल्यो गजाली तेन्ना पी चिदंबरम ह्या मंत्र्याच्या हातांत आशिल्ल्यो. सायलो चिदंबरमा कडेन लेगीत उलयलो. हांव येवपाक तयार आसां अशें सायलोन चिदंबरमाक सागिल्लें. मिझोरमाक वचपाची म्हाका इत्सा ना आनी थंयच्या मुख्यमंत्र्यान म्हाका विचारलें तेन्ना ताणें तें 'सिरियसली' विचारिल्लें अशें म्हाका दिसूंक ना, देखून हांवें 'हय' अशें सांगलें, ह्या अर्थाची जाप हांवें दिल्लीक धाडली. मागीर तें प्रकरण थंयच मिटलें. आनीक कांय म्हयन्यांनी म्हाका सायलोचो फोन आयलो, "तुमी सगले सारकेच, कोणूच मिझोरमाक येवंक सोदिनात, आमचें प्रशासन सुदारप कशें?" अशें ताणें म्हाका हांसत विचारलें. हांवें आवयबापूय जाणटीं जाल्यांत, गोंयांत परतून परतून वचचें पडटा, अशें म्हणून सांगून वेळ मारून व्हेलो. उपरांत सायलोचो पूत एके फावटीं व्हेल्लोराक आयिल्लो. तो पयलीं 'अंडरग्रावण्ड' म्हणल्यार 'भुमीगत' बंडखोर आशिल्लो आनी हेरां वांगडा मेळून भारत सरकारा आड झगडटालो. मागीर ताणें बंडखोरी सोडली आनी तो कोलकात्याक खंय तरी नोकरी करपाक लागलो. ताकाय बी जाय तो आदार दिवन ताचीय बी बरे तरेन वासपूस करून ताचे कडल्यान ताच्या बापायक हांवें माफी मागून पत्र धाडलें.

व्हेल्लोराची आनीक एक याद म्हणल्यार मदर तेरेझाची. 'सिस्टर्स ऑफ चॅरिटी' ही मदर तेरेझाची संस्था. संस्थेचो एक फांटो व्हेल्लोराक आशिल्लो. 'मदर तेरेझा तुका येवन मेळूंक सोदता' असो एक दीस म्हाका फोन आयलो. तेन्ना तिका भारतरत्न बी मेळूंक नाशिल्लें, पूण ती कोण तें सगल्यांक खबर आशिल्लें. ती आयली, मेळ्ळी, आपल्या फांट्याक कसलो कसलो त्रास जाता आनी कसली कसली मजत जाय, हें तिणें सांगलें आनी तिका सगल्या तरांचो आदार दिवचो अशी हांवें ऑफिसरांक ऑर्द दिली. तिणें च्या बी कांय घेतली ना. एक अर्द वर सुमार बसून ती गेली.

मदर तेरेझाक हांवें जायते फावटीं फोट्याचेर आनी टिवीचेर बी पळयल्ली. पूण प्रत्यक्षांत केन्नाच पळोवंक नाशिल्ली. सामकी बारीक, मोटवीचशी आनी फटफटीत गोरी, माथ्या वयल्यान सदां भशेन धवो पदर. ल्हवू, मंद, इटालियन उच्चारान ती इंग्लीश

उलयताली. इतली सादी आनी इल्लीशी बायल, लाखांनी बायलां-भुरग्यांक आलाशिरो दिवपाचें काम कशें करता हाचें म्हाका सदांच अजाप दिसतालें. तें अजाप तिका पळयतकच चड वाडलें. एक म्हत्वाची गजाल हांव करपाक विसरलों आनी ती म्हणल्यार तिचे वांगडा फोटू काडून घेवपाची.

तमीळनाडूंत आनी भारत सरकारांत काम करतना खूब राष्ट्रीय आनी आंतरराष्ट्रीय फुडाऱ्यांक मेळपाची संद आयली, पूण फोटू काडून दवरपाची गजाल मात म्हाका केन्नाच सुचली ना. एकूच फोटो आयज म्हजे कडेन आसा, तो आदले प्रधानमंत्री नरसिंह राव हांचे वांगडा हांव एमपीटीचो अध्यक्ष आसतना काडिल्लो तो. रोमेश भंडारी हो गोंयांत गव्हर्नर आशिल्लो, त्या वेळार तेन्नाचो प्रधानमंत्री नरसिंह राव गोंयांत आयिल्लो. नरसिंह रावाचो सेक्रेटरी पीव्हीआरके प्रसाद म्हजो वांगडी आनी बरो इश्ट. रोमेश भंडारीन नरसिंह रावा खातीर एक पार्टी दिली. ते पार्टेचें म्हाकाय बी आमंत्रण आशिल्लें. ते पार्टेक गेल्ले कडेन भंडारीन म्हाका नरसिंह रावाच्या शेजरा उबो केलो आनी फोटो काडपाक लायलो. नरसिंह रावा बाराबर फोटो काडूंक मेळ्ळो म्हणून हांव फकत थंय खोशेन भरतनाट्यम करपाचों उरलों. म्हजी खोस कितें करून उक्ती करची तें समजलें ना. नरसिंह रावान राजभवनांत आयिल्ल्या चडश्या लोकां वांगडा फोटो काडून घेतला म्हणपाचें म्हाका मागीर कळ्ळें आनी खोशेचो बोमाडो फुटलो. तो फोटो मात अजुनूय म्हजे कडेन आसा.

आनीक एक म्हाका याद आसा, ती फादर कोडेल्लो ह्या इटालियन पाद्रीची! नॉर्थ आर्कोट जिल्ल्यांत जव्वादी दोंगरांची रांक आसा. त्या दोंगरांनी अनुसुचीत जमाती रावताल्यो. हीं रानां चंदनाच्या झाडांनी भरिल्लीं! दक्षीण भारतांत चंदन हें कर्नाटकांत आनी तमीळनाडूंत जाता. जव्वादी दोंगर हो तमीळनाडूंतलो चंदन जावपाचो एक मुखेल वाठार! फादर कोडेल्लो हो 75 वर्सां पिरायेचो जाण्टो, आपणाली जीप 50 किलोमिटर वेगान चलोवन जव्वादी दोंगरांतल्यान व्हेल्लोराक येतालो. ताचे हात एका जाग्यार उरनाशिल्ले; खूब कडकडटाले. पूण जिपीचें चाक हातांत घेतकच थीर उरताले. रानांतले अनुसुचीत जमाती खातीर ताणें स्कुलां उक्तीं केल्लीं आनी तांच्या भुरग्यांक शिक्षण आनी दादल्या-बायलांक भलायके विशीं शिक्षण दिवप हें ताचें काम चालू आसलें. आपूण हांगाच्या लोकांक धर्म बदलूंक लावचों ना. धर्म म्हत्वाचो न्हय, मनीसपण म्हत्वाचें, अशें म्हणून ताणें आपले मिशनरी संस्थे कडेन झगडीं सुरू केलीं आनी मिशनरी संस्थेन ताका संस्थेंतल्यान काडून उडयलो. तो आपल्या वळखीच्या बळार लोकां कडल्यान पयशे एकठांय करून त्या रानांतल्या लोकांची सेवा करतालो. आमगेर पाविल्ल्या फावटीं ताका आमी जेवंक रावयतालीं आनी तो मोटे खोशयेन रावतालो. ताका आमचें जेवण

खूब आवडटालें. सोनिया गांधी आनी आपूण एकाच गांवचीं अशें तो आमकां सांगी. सोनिया गांधी जेन्ना जेन्ना मद्रासाक येताली, तेन्ना तो तिका वचून मेळटालो. व्हेल्लोरच्यान बदली जातकच कांय वर्सांनी हांव व्हेल्लोराक गेल्लों तेन्ना फादर कोडेल्लो कांय दिसां फाटीं भायर पडलो अशी खबर कळ्ळी. तो हरशीं आमचो कोणूच न्हय, ताचे कडेन आमचें खाजगी कामूय केन्ना नाशिल्लें आनी सरकारी कामूय नाशिल्लें. पूण लताक आनी म्हाका ताचे विर्शी खूब आपलेपण आनी प्रेम दिसतालें. तो इतल्या जाणटेपणांत लेगीत इतले कश्ट सोंसून त्या रानांतल्या लोकांची सेवा करता तें पळोवन अजाप दिसतालें.

व्हेल्लोरचे प्रशासकी जिणेंतली आनीक एक याद म्हणल्यार आरटिओ वेंकटरमणाची! तमीळनाडूंत कलेक्टराक रिजनल ट्रान्सपोर्ट ऑथोरिटी अशी पदवी आसता. नव्या आनी पोरण्या बसींक परमिटां दिवप हें ताचें काम. म्हयन्यांतल्यान दोन फावटीं आरटिएची बसका जाताली. सगले व्हड व्हड वकील आनी बस धनी ते बसकेक हजर आसताले आनी आपणाक अमक्या वाठारांत बस-परमीट कित्याक दिवचें आनी दुसऱ्याक कित्याक दिवचें न्हय हाचेर भासाभास करताले. अमक्याक परमीट दी आनी तमक्याक दिवं नाका अशें म्हणून म्हजेर खूब चेपण येतालें. तें चेपण हाडपाची संद वयल्या ऑफिसरांक आनी राजकारण्यांक मेळची न्हय म्हणून ती बसका जायना फुडें ऑर्डर तयार करून नोटीस बोर्डार लावपाची प्रथा हांवें सुरू केली. ती प्रथा सुरू जाले बाराबर ऑफिसांतल्या लोकांचो आनी राजकारण्यांचो भ्रश्टाचार करपाचो चान्स बंद जालो. दोन फावटीं मद्रासच्यान वडील अधिकाऱ्यां कडल्यान फोन आयले, अमकें अमकें करूंक जाय, अशें मंत्र्यान सांगलां, तुवें अमक्या अमक्याक परमीट दिलां तें कॅन्सल कर, कितेंय कारण काड आनी परतून बसका कर; आनी ते बसकेक अमक्या अमक्याक परमीट दी', असो म्हाका रकाद आयलो. तशें करपाक मेळचें ना, कारण कायद्या प्रमाण ह्यो बसका कोर्टाच्या बसकां भशेन, हांवें थारायलां तें मागीर बदलपाक मेळना, अशें सांगतकच मागीर ते अधिकारी ओगी बसले.

प्रशासनाची वाट लागता ती चडशे फावटीं अधिकाऱ्यांक लागून. मंत्र्यांक वा हेर राजकारण्यांक माथ्यार घेवन नाचप, तांचीं बेकायदेशीर कामां करप, वा बेकायदेशीर कामां कशीं करप वा भ्रश्टाचार करपाच्यो नव्यो वाटो सुचोवप, असल्या गजालींक लागून प्रशासनाची वाट लागता.

एक फावट वेंकटरमण, आरटीओ, म्हजे म्हऱ्यांत आयलो आनी सांगूंक लागलो, "म्हजी चली उटी कॉन्वॅण्टांत शिकता, थंय कितेंय तरी प्रोब्लेम जाला, थंय वचचें पडटलें. तीन दिसांची सुटी जाय." उटी, कोडायकनाल आनी हेर पर्यटक थळांनी आशिल्लीं इश्कोलां खूब म्हारगीं आसतात आनी थंय फकत गिरेस्त लोक आपणाल्या

भुरग्यांक धाडटात हें म्हाका खबर आशिल्लें. म्हज्या तोंडा वयलें अजाप पळोवन तो हांसून म्हणूंक लागलो, "सर, तुजे कडेन मेकळेपणान उलोवंक म्हाका कसलीच भिगंत दिसना, कारण मनीस स्पश्ट आनी प्रामाणीकपणान उलयल्यार तूं ताका त्रासांत उडयना, हें म्हाका खबर आसा. ह्या सरकारी ऑफिसराक आपणाले चलयेक उटी कॉन्वॅण्टांत शिकपाक कशें धाडूंक जमता, हो खूब भ्रश्ट आसूंक जाय, असो विचार तूं करता जावंये. आमकां आरटिओंक आनी आमच्या ऑफिसांत काम करतल्या हेरांक भ्रश्ट जाले बगर उपाय ना. दर म्हयन्याचे पयले तारखेक 25 हजार रुपयांचो एक बंद लाखाटो म्हज्या मेजार येता. बस धनयांचो संघ बसवाल्यां कडल्यान एकठांय करून तो लाखाटो म्हाका धाडटा. म्हाकाच न्हय, तर हेर सगल्यांक अशे वेगळे वेगळे लाखाटे दर म्हयन्याचे एक तारखेर मेळटात. हें वयल्या ऑफिसरां मेरेन चलता. हांवें ही सिस्टम बंद करपाचो यत्न केल्यार वा लाखाटो म्हाका नाका अशें म्हणल्यार म्हजी रोखडीच बदली जातली.'' ''तुमचेर भ्रश्टाचाराचे आरोप जायनात रे? भ्रश्टाचाराच्या आरोपा खाला धरून डिसमीस करीत म्हणून तुका भंय दिसना?'' हांवें विचारलें.

''कोण धरतलो आनी कोण डिसमीस करतलो? आतां वेंचणुको येवपाच्यो आसात. आमकां दर बशी कणकर्णी एक लाख रुपया एकठांय करून ते सगले मद्रासाक पावोवंक जाय. असल्यो ऑर्डरी सगल्या आरटिओंक गेल्या. हें कलेक्टराक खबर नासता. चडशे आयएएस ऑफिसर हे सिस्टमीच्या भायर आसतात. ते आपणाक त्रास करीत म्हणून आमचे मंत्री आनी हेर राजकारणी थेट आमचे कडेन संपर्क सादतात. कलेक्टरा कडेन कोणूच कागाळ करपाक वचना. देखून, ह्या भ्रश्टाचारी दोंगराच्या तेंगशेर बसून लेगीत ताका आपूण कित्याचेर बसलां हें खबर नासता. चडशे आरटीओ हो काळो पयसो जुगारांत आनी रेसींनी काबार करतात. शेतां, भाटां, घरां विकतीं घेतल्यार तीं आनीक कोणाच्याय नांवार घेवचीं पडटात आनी ते इश्ट जावं, सोयरे जावं, सगले नागयतात; अखेरेक वखदांक लेगीत पयशे नासतना खूबशे रिटायर्ड आरटीओ हालहाल जावन मरतात,'' अशी म्हायती ताणें दिली.

राजकारण्यांक आपणालीं बेकायदा वा अनितीक कामां करपाक सकयल्या पांवड्या वयले अधिकारी बऱ्याक पडटात. पुलीस खात्यांत सब-इन्स्पेक्टर हो सगल्यांत चड म्हत्वाचो अधिकारी, अशें म्हाका एके फावटीं एका डिआयजीन सांगिल्लें. मुख्यमंत्री धरून सगले राजकारणी सब-इन्स्पेक्टराक हाता कडेन धरून आपणालीं कामां करून घेतात. एसपी, डिआयजी, आयजी, ह्या पांवड्या वयल्या अधिकाऱ्यांक कितेंय करूंक सांगल्यार ते कायद्याच्यो गजाली सांगतात, आनी हें करूंक जायना, तें करूंक जायना, असलीं शापोतां जायते फावटीं आयकुचीं पडटात. देखून आपणालीं बारीकसारीक वैयक्तीक कामां राजकारणी सकयल्या पांवड्या वयल्या ऑफिसरां कडसून करून घेतात.

रिटायर जातकच गोंयचें प्रशासन कशें चलता हें लागींच्यान पळोवपाची संद म्हाका मेळ्ळी. आमच्याय राज्यांत हीच गजाल चलता हें पळोवन गोंय भारतांत पुराय रदेन एकरूप जालें म्हणपाचें कळटा. भ्रश्टाचारांत मात गोंयच्या राजकारण्यांनी आनी अधिकाऱ्यांनी हेर राज्यांक सायड मारून आपणाली गाडी फुडें धांवडायल्या. इनकम टॅक्स खातें धरीत वा सरकाराचें विजिलन्स खातें धरीत म्हणून हेर कडले अधिकारी काळ्या पयशांनी घरां, शेतां, भाटां विकतीं घेतना हेरांच्या नांवार घेतात. गोंयांत कोणाक कसलोच भंय ना! कोट्यांनी रुपयांचीं घरां सरकारी अधिकारी आपल्याच नांवाचेर बांदतात आनी भाटांबेंसां आपल्याच नांवान विकतीं घेतात. गोंयकार धीट काय निर्लज्ज हेंच समजना. चडशे भ्रश्टाचारी लोक वखदाक लेगीत पयसो नासून हाल हाल जावन मरतात, अशें व्हेल्लोरच्या आरटीओन म्हाका सांगिल्ले. गोंयांत मात भ्रश्टाचारी लोक वखदाक पयशे नासून मेल्ले आयकूंक येवंक ना. सोरो अती जाल्ल्यान, लिवर पेड्डेर जावन, खूबशे जाण मेल्ल्याचें मात आयकूंक येता.

व्हेल्लोरची आनीक एक मजेशीर घडणूक म्हणल्यार थंयचो स्पेशल ब्रांच इन्स्पेक्टर आनी ताच्या फोगेट्यो! युगेश त्या गावांतल्या यो-वच करपी बशींतल्यान इश्कोलाक वचून येतालो. सद्दां सांजेचो बंगल्याचे सभोंवतणीं रावतल्या ताच्या इश्टां वांगडा तो खेळूंक वतालो. ते इश्ट कोण म्हूण आमी केन्नाच विचारलें ना. पुलिस खात्यांतल्या स्पेशल ब्रांच इन्स्पेक्टराचो चलोय बी ताचो इश्ट आशिल्लो. "त्या इन्स्पेक्टर अंकलागेर सबंद रूम भरून फोगेट्यो आसात, आमगेर मात कांयच ना," अशें म्हूण युगेशान म्हजे कडेन दिवाळेच्या कांय दिसां आदीं कागाळ केली. युगेश त्या इश्टा वांगडा ताच्या घरा गेल्ले कडेन ताका त्या इन्स्पेक्टराच्या घरांत एका रुमांत सगले कडेन फोगेट्यांच्यो आनी हेर फोगाच्यो राशी मारिल्ल्यो दिसल्यो.

समाजांत सगल्या तरांच्या लोकांक सकयल्या पावंड्या वेल्या पुलिसां कडेन बरे संबंद दवरचे पडतात. चवथ, दिवाळी, क्रिसमस आनी नव्या वर्साचे सुरवातीक लोक तांकां भेटवस्तू धाडटात. चवथीक आनी दिवाळेक फोगूय बी धाडटात. भेटवस्त घेवपाची प्रथा आवडटा म्हूण कळ्ळ्यार लोक कलेक्टराचेर भेटींचो मारो करतात. म्हाका असल्यो गजाली आवडनात म्हूण खंयच्यान तरी सगल्यांक कळिल्लें आनी देखून आमगेर फोगेट्यो आनी हेर फोग कोणेंच धाडूंक नाशिल्लो.

पुलिस इन्स्पेक्टरागेर राशीक मारून दवरिल्लो फोग त्या भ्रश्टाचाराचोच एक भाग अशें म्हूण युगेशाक कसो सांगतलों? आमच्या बंगल्यार तशें कित्याक जायना, हें युगेशाक कशें सांगतलों? त्या विशयाचेर चडशें कांयच उलयनासताना, "तुका कसलो फोग जाय तो सांग, हाडून दितां," अशें सांगून मागीर ताका जाय तो फोग हाडून दिलो.

व्हेल्लोराक कलेक्टर आसतना एक बरी गजाल जाली आनी ती म्हणल्यार क्रिश्चन कावन्सलिंग सँण्टर हे संस्थे कडेन लताचो आनी म्हजो लागींचो संपर्क आयलो. डॉ. प्रशांतम हो ते संस्थेचो मुखेली आशिल्लो आनी डॉ. कार्लोस वेल्च हो अमेरिकी आनी डॉ. सरोज वेल्च (कार्लोसाची भारतीय बायल) हीं थंय काम करतालीं. दक्षीण भारतांतल्या सगल्या इगर्जांनी एकठांय येवन ती संस्था स्थापन केल्ली. थंय कावन्सलिंगांत (मानसशास्त्रीय उपाय ह्या विशयांत) प्रशिक्षण घेवपाक सबंद आशियांतल्यान समाजसेवक आनी शिक्षक येताले. लतान थंय देड वर्स प्रशिक्षण घेवन कावन्सलिंगाचो एडवान्स्ड कोर्स करून डिप्लॉमा घेतलो.

डॉ. प्रशांतम आनी डॉ. कार्लोस वेल्च हे क्रिस्तांव. डॉ. सरोज वेल्चूय बी क्रिस्तांव. भारतांतले क्रिस्तांव आनी मुसलमान हे मूळ हिंदू आशिल्ले आनी इतिहास काळांत केन्नाय तरी ते क्रिस्तांव वा मुसलमान जाले. कार्लोस मूळचोच क्रिस्तांव. तो आनी सरोज दोगांय क्रिश्चन मिशनरी म्हणून कावन्सलींगाच्या मळार काम करतालीं. आमी सगलीं तमीळ, हिंदी आनी इंग्लीश अश्या तिनांय भाशांनी उलयतालीं. जेवणखाण, न्हेसप, सगलें एकेच भशेन. कोण हिंदू आनी कोण क्रिस्तांव हें सांगपाक कुस्तार! भारतांत सगले कडेन हीच तरा. लोकांचो धर्म बदल्ला, पूण संस्कृताय बदलूंक ना. हिंदू धर्मांतल्यो जातीवेवस्था लेगीत धर्म बदलतकच लोकांनी चालू दवरल्यात.

गोंयांत मात हिंदू आनी क्रिस्तांव हांचे मदलें वेगळेपण जाणवता. अनुसुचीत जमातींतले आनी फाटसारिल्ल्या वर्गांतले क्रिस्तांव सोडले जाल्यार हेर जातींतले क्रिस्तांव गोंयकार आपणाली अस्तंतेची संस्कृताय तिगोवन दवरपा खातीर चड यत्न करतात अशें दिसता. भारतीय अस्मितायेचे नदरेन ही गजाल राष्ट्रीय एकवटाक बरी काय वायट हें खबर ना, पूण जायत्या म्हालगड्या क्रिस्तांव बरोवप्यांनी आनी विचारवंतांनी ही गजाल वायट आनी ती बदलूंक जाय, अशें म्हणलां. भारतांत सुमार अडेज कोटी क्रिस्तांव लोक आसात. गोंयांत फकत साडे तीन लाख! म्हणजे भारतांतल्या क्रिस्तावांत गोंयचो वांटो देड प्रतिशें लेगीत जायना. भारतीय संस्कृताय ही भोवरुपी संस्कृताय अशें आमी मानतात आनी इतिहासान दाखयल्ले सगले रंग आमी आमचे संस्कृतायेंत आपणावन घेतल्यात अशें आमी म्हणटात. गोंयांत खूबश्या क्रिस्तांवांचे संस्कृतायेंत आशिल्ले काय वेगळे रंग भारतीय संस्कृतायेंत आसपावतात काय ना हें समजुपाक कुस्तार.

डॉ. प्रशांतम, डॉ. कार्लोस वेल्च, सरोज वेल्च आनी भारतांतल्या हेर शारांनी मेळिल्ल्या क्रिस्तावां कडेन तुळा करतकच, गोंयचे आमचे चडशे क्रिस्तांव वेगळे हें जाणवता. हें वेगळेपण फुडल्या पिळग्यांनी ल्हवू ल्हवू ना जातलें काय भारतीय संस्कृतायेच्या म्युझियमांत लोकांनी पळोवपा सारकी ही एक वस्त जावन उरतली हें फुडाराक थारतलें.

ऑगस्ट 1980 त म्हजो कलेक्टराचो काळ सोंपलो आनी म्हजी बदली मद्रासाक (चेन्नय) जाली. पशू संवर्धन खात्याचो (ॲनिमल हजबण्ड्री) डायरेक्टर म्हणून म्हजी नेमणूक जाली. कलेक्टर आसतना सगल्या खात्यांच्या कामांचेर नदर दवरची पडटाली आनी खंयच्या खात्यांत कसलें काम चलता तें शिकून घेवचें पडटालें. राज्यांतलें दूद उत्पादन वाडोवप, वयल्या दर्ज्याच्यो गायो, म्हशी हांचो आंकडो वाडोवप, कोंबयो आनी तांतयां हांचो दर्जो आनी उत्पादन वाडोवप आनी हें सगलें करपा खातीर नव्यो नव्यो आंखण्यो आंखून त्यो चालीक लावपाचें काम हें खातें करता. ह्या खात्यांत येवन चार म्हयने जावचे पयलींच रिपेट्रिएटस् कॉ-ओपरेटिव्ह बँक हे संस्थेचो मॅनेजींग डायरेक्टर (वेवस्थापकीय संचालक) म्हणून म्हजी बदली जाली. म्यानमारांतल्यान (बर्मा) आनी श्रीलंकेच्यान लाखांनी भारतीय ते देश सोडून परतून आयले आनी तमीळनाडू, आंध्र आनी कर्नाटक ह्या राज्यांनी राबितो करूंक लागले. ह्या लोकांचो अर्थीक पांवडो सामको सकयलो आशिल्लो आनी तांकां रावपाक लेगीत घरां नाशिल्लीं; तांकां घरां घेवपाक, वेपारधंदो सुरू करपाक रीण दिवप हें हे बँकेचें मुखेल काम आनी ही बँक भारत सरकाराच्या पुनर्वेवस्थापन (रिहेबिलिटेशन डिपार्टमॅण्ट) खात्या सकयल काम करताली. हांगा काम करपी मॅनेजींग डायरेक्टर आनी हेर अधिकारी भारत सरकाराच्या प्रशासनांत काम करतात अशें मानताले.

हे संस्थेचो मुखेल म्हणून काम करप ही खूब कुस्तार गजाल आनी थंय वचपाक खंयचोच आयएएस अधिकारी तयार नाशिल्लो. एक कारण म्हणल्यार श्रीलंका आनी म्यानमारच्यान परत आयिल्ले भारतीय रिणां घेताले, पूण कोणूच फारीक करनाशिल्ले. आपूण भारत सरकाराचे जांवय जाल्ले भशेन वागताले. दिल्ले पयशे परतून येना म्हणटकच आनीक रिण दितलो जाल्यार सरकारा कडल्यान आनीक भांडवल मागचें पडटालें. "तुमी आनीक आनीक कित्याक भांडवल मागतात, दिल्लीं रिणां आदीं वसूल करात, मागीर आमचे कडेन येयात," अशें म्हणून सरकाराच्या अर्थ खात्यांतले अधिकारी आमकां धपकायताले. मृदंगा भशेन आमकां दोनय वटेन लोक बडयताले. म्हाका ह्या जाग्यार हाडून कित्याक बसयला, अशें म्हज्या वडील अधिकाऱ्याक विचारतकच हांगाचो कोणूच अधिकारी थंय वचूंक तयार ना, दरेकलो खंयच्या नाजाल्यार खंयच्या तरी राजकारण्याक धरून आपणालें आंग काडून घेता, तूं गोंयचो, तुका हांगा राजकी आवयबापूय कोण ना, देखून तुका हांगा घाला, अशें म्हणून ताणें हांसत हांसत, आपणाच्यान कांयच करूं नजो अशा अर्थाचे हातवारे करून म्हाका वयार केलो. हांगा आनीक कितलो तेंप कुसत रावचें पडटलें काय, ह्या हुसक्यांत आसतनाच भारत सरकाराच्या वाणिज्य मंत्रालयांत (कॉमर्स मिनिस्ट्री) केंद्रीय रेशीम निगमचो (सॅण्ट्रल सिल्क बोर्ड) मुखेल म्हणून तुका हाडपाचो

विचार चल्ला, असो म्हाका दिल्लीच्यान फोन आयलो. म्हाका ह्या कदेला वयल्यान हालोवन हेर कडेन खंयूय व्हेल्यार हांव एका पांयार वचपी अशें हांवें ताका सांगलें. हांव येवंक तयार आसां म्हणटकच वाणिज्य मंत्रालयांत प्रक्रिया सुरू जाली. तमीळनाडू सरकारान आदींच म्हाका भारत सरकारांत डेप्युटेशनाचेर धाडिल्लो, म्हणटकच परतून तमीळनाडू सरकाराक विचारपाची गरज नाशिल्ली. फकत भारत सरकारांतल्या एका खात्यांतल्यान दुसऱ्या खात्यांत बदली करपाचो प्रस्न – सोंपी प्रक्रिया! वाणिज्य मंत्रालयांत प्रक्रिया सुरू जाली. केंद्रीय रेशीम बोर्डाचें तेन्ना ऑफीस मुंबय आशिल्लें आनी तें बेंगळुरूक हालोवपाचो विचार चलतालो. म्हजो प्रशासकी प्रवास बेंगळुरूच्यान 25 मैल आशिल्ल्या होसूर गांवांत 1968 त हांवें सुरू केल्लो. आनीक एक फावट बेंगळुरूक येवंक मेळटा म्हणून आनी रिपेट्रियेटस बँकेंत दोळ्यां मुखार सदांच काळोख येतालो, तो आतां बंद जातलो हे आशेन जीण मातशी चड उमेदी जाली. बेंगळुरूक खंयच्या वाठारांत घर घेवचें, युगेशाक खंयचे शाळेंत घालचो, हाचेर आमचे विचार सुरू जाले. मे 1981 त केंद्रीय रेशीम निगमाचो सदस्य सचीव म्हणून म्हजी नेमणूक जाली.

# भाग 15
# केंद्रीय रेशीम बोर्ड

रेशीम बोर्डांत प्रशासनांतल्या आनी हेर मळा वेल्या मनीस सभावाचे म्हाका खूबशे अणभव आयले. म्हजी थंय नेमणूक जावचे पयलीं एका आयएएस अधिकाऱ्यान म्हाका खूबशीं आडमेळीं हाडलीं. भारतभरांत लाखांनी तरनाटे आयएएसाचे परिक्षेक बसतात आनी दर वर्सा तातूंतले फकत 100-150 वेंचून काडटात. परिक्षा बरी कठीण आसता. परिक्षेक मनशाचे बुदवंतकायेचो आनी गिन्यानाचो अदमास घेतात. पूण मनशाच्या मनीसपणाचो अदमास घेवपाची प्रक्रिया खंयच नासता. मनीस बुदवंत आसलो, फावो तें गिन्यान आसलें, म्हणटकच मनीसपणाचे बरे गूण ताचे कडेन आसतले अशें धरून चलतात. बरें कितें आनी वायट कितें, चूक कितें आनी बरोबर कितें, हें भारतीय प्रशासन सेवेंत भितर सरतल्या तरनाट्यांक खबर आसता काय ना हें कोण पळयना.

केंद्रीय रेशीम बोर्डांत वांगडी सचीव म्हणून पद सांबाळपी हांव पयलोच आयएएस अधिकारी. म्हजे पयलींचे सगले सचीव खूब वर्सां रेशीम बोर्डांत नोकरी करून थंयच बडटी मेळिल्ले अधिकारी आसताले. केंद्रीय रेशीम बोर्डाचें फुडारपण करपाचें, राज्य सरकारां कडेन, भायल्या देशांतल्या सरकारां कडेन, हेर देशी आनी विदेशी संस्थां कडेन संपर्क दवरपाचेंय काम, असल्या अधिकाऱ्यां कडेन सारकें हाताळूंक जायना अशें भारत सरकाराक दिसूंक लागलें; देखून रेशीम बोर्डांत वांगडी सचीव म्हणून एका आयएएस अधिकाऱ्याची नेमणूक करची असो विचार थंय सुरू जाल्लो. इतले मजगतीं रेशीम बोर्डांत

सचिवाचो जागो रिकामो उरलो आनी दिल्लीक वाणिज्य मंत्रालयांतलो एक डेप्युटी सेक्रेटरी आयएएस अधिकारी तें काम पळोवंक लागलो. हो आयएएस अधिकारी मूळ तमीळनाडूचो. रेशीम बोर्डाचें काम पळयता आसतना ताका भारतांत सगले कडेन आनी भायल्या देशांनी परतून परतून भोंवपाची संद मेळूंक लागली. हेर कोणूय रेशीम बोर्डाचो वांगडी सचीव म्हणून काम करपाक लागल्यार आपणाक ही संद मेळची ना अशें त्या डेप्युटी सेक्रेटरीक दिसलें जावंये. तो बारीकबारीक पुलितिकां करून वांगडी सचिवाचो जागो रिकामोच दवरपा खातीर यत्न करपाक लागलो. पयली गजाल म्हणल्यार, ''भाटीकर हो मराठी आयएएस अधिकारी, रेशीम बोर्डाचें मुखेल ऑफीस तो मुंबयच्यान बेंगळूरूक हाडपाक दिवचो ना, भितरले भितर चिकानां करतलो आनी देखून तूं ताची नेमणूक थंय जावंक दिवं नाका,'' अशें त्या डेप्युटी सेक्रेटरीन रेशीम बोर्डाचो अध्यक्ष बसवय्या हाका सांगलें. बसवय्या हो कर्नाटकांतलो एक जाण्टो कँग्रेस फुडारी. तो अनुसुचीत जातींतलो, व्हडलोसो शिकूंक नाशिल्लो, सामको सादो, सरळ आनी बरो मनीस! केंद्रीय रेशीम बोर्डांत वांगडी सचीव हो सदांच मुखेल अधिकारी आसता. पूण अध्यक्ष म्हणून खंयचो तरी लोकसभेचो वांगडी वा हेर राजकारणी नेमिल्लो आसता. अध्यक्षाक कांय अधिकार नासतात. कर्नाटकांतले मलबरी शेतकार आनी रेशमाच्या मळा वयले राजकारणी रेशीम बोर्डाचें मुखेल ऑफीस बेंगळुरुकूच आसपाक जाय म्हणून भारत सरकारा कडेन झगडटाले. तांच्या आग्राक लागून मुंबय आशिल्लें मुखेल ऑफीस बेंगळुरूक हाडचें अशें भारत सरकारान थारायल्लें. हांव हें ऑफीस बेंगळुरूक हाडचों ना अशें डेप्युटी सेक्रे टरीन बसवय्याक सांगतकच म्हजी नेमणूक करची न्हय म्हणून बसवय्यान भारत सरकाराचेर दबाव हाडलो. एक फावट एक बसकेक दिल्लीक गेल्ले कडेन हांव रामदुरयक वचून मेळ्ळों. रामदुरय हो मूळ तमीळनाडूचो पूण ओरिसा काडराचो आयएएस अधिकारी! वाणिज्य मंत्रालयांत तो विकास आयुक्त आशिल्लो आनी केंद्रीय रेशीम बोर्ड ताच्या हाता सकयल आशिल्लो. ''तुमी म्हजी केंद्रीय रेशीम बोर्डाचो वांगडी सचीव म्हणून नेमणूक करपाचे आशिल्ले, तें खंय पावलां, अजून मेरेन म्हाका कसलीच ऑर्डर मेळूंक ना,'' अशें हांवें विचारलें. ''तो बसवय्या नाका म्हणटा! ताजें आनी तुजें कितें जालां? म्हाका ताचे कडेन उलोवंक वेळ मेळूंक ना! आनीक थोडे दीस राव. तूं आयिल्लो आमकां जाय,'' अशें रामदुरयन म्हाका म्हणलें. चेन्नैंत रेशीम बोर्डाचीं ऑफिसां आसात त्या ऑफिसांक भेट दिवंक बसवय्या येवपाचो आशिल्लो. बसवय्याक हांवें फोन केलो आनी ''तूं चेन्नैंत येता, तेन्ना म्हाका तुजे कडेन उलोवंक जाय, म्हाका थोडो वेळ दी,'' अशें ताका सांगलें. तो 7-8 दिसां भितर चेन्नयक आयिल्लो आसतना हांव ताका मेळ्ळों आनी ताचे कडेन उलयलों. ''आमी बोर्डाचें मुखेल ऑफीस मुंबयच्यान बेंगळुरूक व्हरपाक

ोदतात, भारत सरकारान आमचो प्रस्ताव मानून घेतला, तुजें कितें मत?'' अशें ताणें ड़ाका विचारलें. 'रेशीम बोर्डाचें मुखेल ऑफीस खरें म्हणल्यार पयलीं सावन बेंगळुरुकूच ासपाचें, तें मुंबय कित्याक जालें म्हाका खबर ना; तें मुंबय आसपाचें कांयच कारण ा,'' अशें हांवें ताका सांगलें. आनीक अर्द वर सुमार खूबश्या हेर विशयांचेर ताचे कडेन लयतकच तो म्हाका म्हणूंक लागलो, ''तूं मनीस काय बरो! तूं ऑफीस बेंगळुरूक ाडचो ना, पुलितिकां करतलो, अशें त्या डेप्युटी सेक्रेटरीन म्हाका कित्याक सांगलें ाय?'' अशें ताणें हांसत विचारलें. उपरांत 10 दिसां भितर केंद्रीय रेशीम बोर्डांत म्हजी ामणूक जाल्या म्हणून ऑर्डर म्हाका मेळ्ळी. बसवय्या रामदुरय कडेन उलयलो आनी आपल्याक भाटीकार मानवला आनी ताची नेमणूक करपाक कांयच प्रोब्लेम ना, अशें ाणें सांगलें.

म्हजे नेमणुकेची ऑर्डर आयली, तेन्ना 'वांगडी सचीव' ह्या पदाचो ताबो त्या डेप्युटी सेक्रेटरी कडेन आशिल्लो. दिल्लीक वचून हे संबंदी करपाक जाय ती प्रक्रिया करून तो ताबो हांवें घेवंक जाय आशिल्लो, पूण आयज नाका, फाल्यां नाका, आनीक थोडे दीस राव, अशें सांगीत तो डेप्युटी सेक्रेटरी म्हाका ताबो दिवपाचें काम फुडें धुकलूंक लागलो. हांव दिल्लीक वचून रामदुरयक मेळ्ळों. म्हाका पळयना फुडें, ''आरे, तुजी ऑर्डर आमी धाडल्या मरे, खूब दीस जाले, अजून तुवें कित्याक ताबो घेवंक ना,'' अशें ताणें मातसो पिकार जाल्ले भशेन तोंड करून विचारलें. ''डेप्युटी सेक्रेटरी आनीक थोडे दीस राव, आनीक थोडे दीस राव म्हणून फुडें धुकलता. म्हाका कारण खबर ना!'' अशें हांवें ताका सांगलें. रामदुरयन ऑफिसांत चवकशी करतकच ह्या विशयाचेर डेप्युटी सेक्रेटरीन एक फायल धाडल्या अशें ताका कळ्ळें. म्हजे हुजीर ताणें ती फायल हाडूंक लायली आनी म्हाका वाचून दाखयली. डेप्युटी सेक्रेटरीन प्रस्ताव मांडिल्लो: केंद्रीय रेशीम बोर्डाक दोन वांगडी सचीव आसचे, एक भाटीकार आनी दुसरो आपूण. स्टाफ, ऑफीस, राज्य सरकारा कडेन संबंद, बजेट, संशोधन हे विशय भाटीकारान सांबाळचे आनी भायल्या देशांतलीं प्रदर्शनां, भायल्या सरकारां कडेन संबंद, बसका, रेशमी कपड्यांची निर्गत, हे विशय आपणें हाताळचे. डेप्युटी सेक्रेटरी आनी वांगडी सचीव हीं दोनूय कामां आपणें दिल्लीच्यान सांबाळचीं; भाटीकारान बेंगळुरूक रेशीम बोर्डाच्या ऑफिसांत बसचें!

''हो पुलितिकां करता म्हणून म्हाका खबर आशिल्लें, पूण इतल्या सकयल्या पांवड्यार वचत अशें हांवें धरूंक नाशिल्लें,'' अशें म्हणीत रामदुरयन तो प्रस्ताव म्हजे हुजीर पिंजून उडयलो आनी तूं आयला तसोच ताबो घेवन चल, अशें म्हणून ऑर्डर दिली. हांवें मागीर त्या डेप्युटी सेक्रेटरीक मेळून रोखडोच सगल्या दुकुमेंतांचेर निशाण्यो करून ताबो घेतलो. आयज आमी सगले निवृत्त जावन वेगळे वेगळे कडेन राबितो करून

आसात. केन्नाय कोणाच्याय लग्नाक वा हेर सुवाळ्या खातीर चेन्नै, मुंबय, दिल्लीक मेळटात तेन्ना त्या डेप्युटी सेक्रेटरीच्या पुलितिकांची याद काडून पोट फुटसर हांसतात.

हांवें ताबो घेतले बाराबर मुखेल ऑफीस मुंबयच्यान बेंगळुरूक हालोवपाची तयारी सुरू केली. मुंबयच्या मुखेल ऑफिसांत आशिल्ल्या मराठी स्टाफान आडमेळीं हाडूंक सुरवात केलीं. हें ऑफीस बेंगळुरूक हालोवपाचो अधिकार भारत सरकाराक ना आनी तें मुंबयच आसूंक जाय अशी ऑर्डर दिवची, अशा अर्थाचो अर्ज तांणी मुंबय उच्च न्यायालयांत केलो. खंयंच्याय साद्या सरकारी वकिला कडेन ही केस दिल्यार आमी हारतले, केस नामनेच्या वकिला कडेन दिवंक जाय, अशें सांगून सरकारा कडल्यान दिल्लीच्यान परवानगी घेवन आमी केस एका व्हड वकिला कडेन सोंपयली. उच्च न्यायालयांत मुंबयच्या स्टाफाचो अर्ज भायर मारलो आनी आपणालीं ऑफिसां जाय थंय हालोवपाचो भारत सरकाराक हक्क आसा म्हणपाचो न्याय दिलो. ''तुमी ताबडतोब सगल्या स्टाफाक विमानान बेंगळुरूक व्हरात, ऑफिसांत भितर सरात, भायर पाटी मारात, आनी ऑफीस बेंगळुरूक व्हरून थंय काम सुरू केलें अशें भारत सरकारांच्या सगल्या आनी राज्य सरकारांच्या ऑफिसांनी तेलेग्रामा वरवीं कळयात,'' असो सल्लो आमच्या वकिलान आमकां दिलो. आमचो मराठी स्टाफ हाय कोर्टाच्या वयल्या पांवड्यार अपील करपा आदींच आमी सगलो स्टाफ विमानान बेंगळुरूक व्हेलो आनी आमचें काम सुरू केलें. गुंडुराव तेन्ना कर्नाटकाचो मुख्यमंत्री आशिल्लो. राज्य सरकाराचें महात्मा गांधी रोडा वयलें एक व्हड ऑफीस रातयांत रिकामें करून तें ताणें आमकां दिलें. अशे तरेन 1981च्या मे म्हयन्यांत बेंगळुरूक आमचें ऑफीस सुरू जालें. मुंबयचें ऑफीस प्रादेशीक ऑफीस म्हणून चालू उरलें.

केंद्रीय रेशीम बोर्ड ही संस्था भारत सरकाराच्या वाणिज्य मंत्रालयांत आसपावताली. सुरवातीक ती वाणिज्य मंत्रालयांत आशिल्ली, पूण मागीर सरकारान वस्त्र उद्देग खातें (टेक्स्टायल डिपार्टमॅण्ट) जेन्ना सुरू केलें, तेन्ना केंद्रीय रेशीम बोर्डाचो आसपाव त्या खात्यांत जालो. भारतांत बऱ्या दर्ज्याचें रेशीम तयार करपाचें काम ह्या बोर्डा कडेन आशिल्लें. रेशमी किड्याचो दर्जो आनी उत्पादन वाडोवप, रेशमी किड्याची खावड, म्हणल्यार मलबरी (आमोरां) झाडांचो दर्जो आनी उत्पादन वाडोवप, रेशमी किडे पाळपाचे प्रक्रियेंत सुदारणां करप आनी बरे तरेच्या किड्यांच्यो जाती भारतांत वितरावप, हे खातीर तरातरांचें संशोधन करप आनी नव्यो येवजण्यो राज्य सरकारां वरवीं चालीक लावप, हीं सगलीं कामां केंद्रीय रेशीम बोर्डांत चलतालीं.

रेशमी किड्याची जीण आनी तांचें मरण पळयल्यार त्याग म्हणटात तो कितें हें कळटा. रेशमी किड्यांचो जिणे-प्रवास तांतयांतल्यान सुरू जाता. एके ल्हान ताटलेंत

पिसोळीं सांसवा परस ल्हान तांतयां घालतात. मागीर तांतयांतल्यान जीव भायर सरतकच ते सगले एका तीन x तीन फूट आवांठ आशिल्ल्या वाटकुळ्याच, सपाट सुपाचेर पातळावन दवरतात आनी पानांचे बारीक कुडके करून दीसपट्टे तांकां खावपाक घालतात. किड्यांक आनीक कांयच काम नासता, ते फकत दीसरात पानां खायत रावतात. किडे व्हड जाता आसतना चार फावटीं कात सोडटात. जशे जशे ते व्हड जातात, तशी तशी ताटल्यांची व्हडाय आनी आंकडो वाडटा. सांसवां इतल्या ल्हान आशिल्ल्या तांतयांतल्यान भायर आयिल्लो जीव मुयेच्याकूय ल्हान आसता. रेशमी किडो 20-25 दिसां भितर धा हजार पटींनी वाडून ताची वाड बंद जाता. वाड बंद जातकच तो पानां खावपाचें बंद करता आनी लाळ सोडूंक लागता. ते लाळेंतल्यान रेशमाचो धागो तयार जाता. तो धागो तो आपले भोंवतणींच रेवडायता आनी 24 वरां भितर तो वाटकुळोच पोकळ लाडू सो तयार जाता आनी किडो भितर उरता. मागीर तो लाळ सोडपाचें बंद करता आनी 8-10 दिसां भितर किडो ल्हान, घट्ट आनी हळडुवो जाता. मागीर किड्याक पांखां फुट्टात आनी त्या रेशमी लाडवाक बुराक करून तो भायर सरता. किड्याचें पिसोळें जाता. ह्या वेळार ताची पांखां इल्लींशीं आसतात, देखून ताका उडूंक जमना. मादी पिसोळें मागीर तांतीं घालता.

एका पोकळ लाडवांत (ककुन) सशें तें पंदराशें मिटर रेशमाचो धागो तयार जाल्लो आसता. हाचो अर्थ असो कीं णव-धा ककुनांतल्यान रेशमाचे धागे उबे केले जाल्यार दर्यादिगे वयल्यान मावंट एवरेस्टाचे उंचाये मेरेन ते धागे पावंक जाय.

खूबशे रेशमाचे धागे एकठांय करून रेशमाचीं सुतां करतात. किडो ककून फोडून भायर सरल्यार धागो तुट्टा आनी मागीर तो धागो सूत करपाक उपकारना. देखून ककून गरम उदकांत शिजयतात; भितरलो किडो मरता आनी धाग्याक लागिल्लें लाळींतलें मेण विरगळून वता. मागीर ककुना वयलो धागो काडपाक सोंपें पडटा. पांखां येवचे पयलींच किड्याक मारून उडयतात. व्हड प्रमाणांत तांतयां तयार करपा खातीर खास वाठारांनी बऱ्या दर्ज्याचे किडे पाळटात. बऱ्या दर्जाच्या किड्यांच्यो तीन पिळग्यो पाळटकच चवथे पिळगेचे किडे बऱ्या दर्ज्याचीं तांतयां दिवंक सुरवात करतात आनी अशीं कोट्यांनी तांतयां तयार करून सरकारी संस्था रेशमी किडे पोसपी शेतकामत्यांक विकतात. मलबरी रोंपे रोवप, लाखांनी पानांचें उत्पादन करप आनी सरकारी वा खाजगी संस्थांतल्यान किड्यांचीं तांतयां विकतीं घेवन किडे पाळप, हे सगले प्रक्रियेक सेरिकल्चर म्हणटात.

भारतांत सुमार 50 हजार गांवांनी धा लाख शेतकार आपल्या शेतांत मलबरीचे रोंपे रोयतात आनी रेशमी किडे पाळटात. पावस उणो आशिल्ल्या वाठारांत शेतकारांचीं गरीब कुटुंबां घरच्या बायलां भुरग्यांक कामाक लावन, किडे पाळपाचो आनी ककून विकपाचो धंदो करतात. चडशे कडेन हेर तरांची लागवड करून, ते वांगडाच मलबरी

रोंप्यांचें आनी किडे पाळपाचें काम चालू आसता. भारतांत वर्साक वट्ट 18 हजार टन रेशमी सूत तयार जाता, पूण तें पावना. देखून चीनांतल्यान व्हड प्रमाणांत रेशमी सुताची आयात जाता. बऱ्यांतलें बरें रेशमी सूत तयार करून आयात बंद करप आनी जाता तितल्या चड शेतकामत्यांक रेशमी किडे पाळपाक लावप हें उद्दिश्ट दवरून भारत सरकार सेरिकल्चराक पालव दिता.

एक कांचीपुरम साडी विणटलो जाल्यार उण्यांत उणें पांचशें साडेपांचशें ग्राम सिल्काचें सूत जाय आसता. इतलें सूत विणून काडटलो जाल्यार 5-6 हजार किडे मारचे पडटात. एका मनशाच्या सुखा खातीर हजारांनी किड्यांक मारचें पडटा, देखून मोरारजी देसाय आनी ताचे खूबशे गांधीवादी इश्ट केन्नाच रेशमाचे कपडे आंगार चडयनाशिल्ले.

मेणवात आपणाक विरगळावन दुसऱ्याक उजवाड दिता, पूण मेणवाती परस रेशमी किड्याचो त्याग व्हडलो. ल्हानपणा साकून व्हड जावपा खातीर तो दीसरात मलबरीचीं पानां खाता, फकत व्हड जावन रेशमाचे धागे विणपा खातीर. रेशमाचे धागे विणून जातकच ते धागे मनशाक वापरपाक मेळचे म्हणून ताका मारतात. चीनांत आनी कोरियांत मेल्ले किडे चण्या–भिकणां भशेन तळून खातात.

रेशमी किडो पाळपाची प्रक्रिया सुमार पांच हजार वर्सां पयलीं चीनांत सुरू जाल्ली आनी मागीर थंयच्यान ती कोरिया, इटली, जपानांत पावली. पयलीं किडे फकत झाडांचेर व्हड जाताले आनी थंयच रेशमाचे धागे विणटाले. मागीर लोकांनी ते प्रक्रियेंत फावो ते बदल करून आपल्या शेतांनी मलबरीचीं झाडां लावन किडे आपणाल्या घरा बगलेक पाळपाक सुरवात केली. पयलीं जरीय रेशीम फकत थंड प्रदेशांत जातालें, तरीय मागीर भारता सारकिल्या गरम देशांनीय बी किडे पाळप सुरू जालें. भारतांत कर्नाटक, तमीळनाडू, आंध्र, बंगाल बी राज्यांनी मलबरीचे ल्हान ल्हान रोंपे लावन मलबरीच्या शेतां वरवीं रेशमी किड्यांची प्रक्रिया चालू आसता. जम्मू काश्मीराक मात चीन, जपान, कोरियांत आसतात तसलीं व्हड व्हड मलबरीचीं झाडां आसतात.

रेशमी किड्यांच्या तांतयांचें उत्पादन करप, तें शेतकामत्यांक वांटप, किड्यांचें सारकें पालन करपा खातीर शेतकारांक प्रशिक्षण दिवप, ककून विकते घेवन तातूंतल्यान रेशमी धागे काडून ते रेशमी धागे एकठांय करून तातूंतल्यान रेशमी सूत तयार करपा खातीर लोकांक ल्हान ल्हान फॅक्टरी घालपाक पालव दिवप, शेतकारांक आनी फॅक्टरी धनयांक अर्थीक पालव दिवप, आनी हे सबंद प्रक्रियेंत नव्यो तरा आयल्यार त्यो शेतकारां मेरेन वा फॅक्टरी धनयां मेरेन पावोवप, हें सगलें काम राज्य सरकारां करतात.

केंद्रीय रेशीम बोर्डाचें मुखेल काम म्हणल्यार संशोधन. मलबरी पानांचो दर्जो

आनी उत्पादन वाडोवप, किडे पाळपाचे पद्दतींत सुदारणा करप, किड्यांचो दर्जो वाडोवप, तांतयां तयार करपाचे प्रक्रियेंत सुदारणा करप, धाग्यांतल्यान सूत तयार करपाचे प्रक्रियेंत सुदारणा करप, रेशमी लुगटाची निर्गत वाडोवपाक वेपाऱ्यांक पालव दिवप आनी राज्य सरकारांक सेरिकल्चरा खातीर अर्थीक पालव दिवप.

मलबरी रेशीम हें जरी मुखेल रेशीम आसलें, तरी भारतांत हेर तरांचेंय बी रेशीम जाता. मध्य प्रदेश, बिहार आनी झारखंड ह्या राज्यांतल्या रानांनी झाडांचेर वाडपी 'टस्सर' रेशमाचे किडे, आसामचे 'मुगा' रेशमी किडे आनी मणिपूरचे 'एरी' किडे, हेवूय रेशमी धागे तयार करतात. हें रेशीम सामक्या ल्हान प्रमाणांत तयार जाता, पूण तातूंतल्यान येवपी अर्थीक येणावळ रानांनी रावतल्या अनुसुचीत जमातींक मेळटा, देखून भारत सरकार ताका म्हत्व दिता आनी केंद्रीय रेशीम बोर्ड ह्याय वाठारांनी खूबशें काम करता.

केंद्रीय रेशीम बोर्डाच्यो संशोधन संस्था म्हैसूर, रांची, गुवाहाटी, काश्मीर, बेंगळुरू ह्या सुवातांनी आसात. संशोधन हें मुखेल काम जाल्ल्यान केंद्रीय रेशीम बोर्डांत एमएससी आनी पीएचडी जाल्ले तिनशां वयर संशोधक काम करतात.

राज्य सरकारांक अर्थीक पालव दिवपाचें आनी मलबरी पानांचें आनी रेशमी किड्यांचें उत्पादन वाडोवपा खातीर नव्यो तरा तांचे मेरेन पावोवपाचें काम केंद्रीय रेशीम बोर्डाचें आशिल्ल्यान रेशीम बोर्डाच्या अधिकाऱ्यांक सगल्या राज्यांनी परतून परतून वचून तांकां मेळचें पडटालें. तेच भशेन रेशमी कपड्यांची निर्गत वाडोवपा खातीर येवरोप आनी अमेरिकेक जावपी व्हड व्हड प्रदर्शनांनी वांटो घेवचो पडटालो. तशेंच थंयच्या वेपाऱ्यां कडेन, वेपारी संस्थां कडेन आनी सरकारां कडेन संपर्क दवरचो पडटालो. भारतांत आनी हेर देशांनी भोंवपाची संद रेशीम बोर्डाच्या अधिकाऱ्यांक एक खास भेट कशी!

केंद्रीय रेशीम बोर्डाचें मुखेल काम म्हणल्यार देशांतलें रेशीम उत्पादन वाडोवप. ते खातीर किड्यांच्या खावडीचो दर्जो, किड्यांचो दर्जो, धाग्यांतल्यान सूत काडपाच्यो पद्दती आनी भारतांतल्यो शेतकी पद्दती ध्यानांत घेवन संशोधन करून आमच्या शेतकारांक उपकारा पडपाच्यो नव्यो सोंप्यो वाटो, ह्या विशयाचेर संशोधन चलतालें. संशोधन दोन तरांचें आसता: एक, मुळावें संशोधन (फंडामॅण्टल रिसर्च)–वयलेवयर पळयल्यार ह्या संशोधनाचो आनी प्रत्यक्ष रेशमाच्या उत्पादनाचो कांयच संबंद कळना. त्या त्या विशयांतले जाणकार लोक जर सोडले जाल्यार त्या संशोधना विशीं कोणाक कांय व्हडलेंशें समजना. दुसरें संशोधन म्हणल्यार रोखड्या रोखडें शेतकारांक वा कारखान्यांक उपकारा पडपाचें (अप्लायड रिसर्च). देखीक, किडे वाडोवपाच्यो ताटल्यो केद्यो आसच्यो आनी खंयच्या पांवड्यार पावतकच कितले किडे एके ताटलेंत आसचे, हाचेर संशोधन. चडशें संशोधन

वनस्पतीशास्त्र (बॉटनी) आनी प्राणीशास्त्र (झुऑलॉजी) ह्या विशयां कडेन संबंदीत आसता.

रेशीम बोर्डाचो चडसो खर्च म्हणल्यार वर्साक 100 कोटींतले 80-85 कोटी संशोधन करपी विज्ञानिकांच्या पगाराचेरूच वतालो. विज्ञानीक काम सारकें करतात काय ना हाचो नियाळ घेवपाक डॉ. एम एस स्वामीनाथन हाचे अध्यक्षताये खाला एक कमिटी आशिल्ली. मलबरी रेशमाचें संशोधन सारकें चल्लां काय ना, टस्सर, मुगा आनी एरी हातूंत चलिल्ल्या संशोधनाचो आनी मलबरी संशोधनाचो संबंद आसा काय ना, जपान, कोरिया ह्या देशांनी चलिल्या संशोधनाचो आनी भारतीय संशोधनाचो संबंद आसा काय ना, ह्या सगल्या गजालींचेर विचार करप आनी फुडली वाट थारावप हें हे कमिटीचें काम! डॉ. स्वामीनाथन त्या वेळार भारत सरकाराच्या येवजण आयोगाचो एक वांगडी आशिल्लो आनी तो आंतरराष्ट्रीय नामनेचो विज्ञानीक आशिल्ल्यान, आमचे संशोधन कमिटीक खूब म्हत्व आशिल्लें. विज्ञानीक आपलें काम सारकें करतात काय ना, तांणी कितली उदरगत करपाक जाय, तांच्या कामाची उदरगत कशी मेजप, ह्या कुस्तार प्रस्नांक जाप डॉ. स्वामीनाथना कडेनूय नाशिल्ली. हो प्रोब्लेम सगल्या मुळाव्या संशोधनाक (फण्डामॅण्टल रिसर्च) आसता, अशें तो म्हणटालो. गंवाचीं नवे तरेचीं बियाणां विज्ञानिकांनी सोदून काडचे पयलीं भायल्या देशांनी चलपी संशोधनाचेर लोक होच प्रस्न करताले. तीं बियाणां भारतांत हाडून आमच्या शेतकारांक दितकच भारतांत शेतकी क्रांती जाल्ली (ग्रीन रेव्होल्युशन). डॉ. स्वामीनाथनाक भारतांतल्या शेतकी क्रांतीचो एक जनक अशें मानतात. शेतकी क्रांती जावचे पयलीं गंवांचेर चलपी मुळाव्या संशोधना विशीं लोक अशेच प्रस्न विचारताले, अशें तो सांगतालो.

भारतांतले शेतकी क्रांतीक तीन लोक मुखेलपणान जापसालदार आसात, अशें जाणकार लोक मानतात. एक डॉ. स्वामीनाथन, दुसरो इण्डियन सिवील सर्वीस अधिकारी बी शिवरामन आनी तिसरो तेन्नाचो भारतांतलो अन्नमंत्री सी सुब्रमण्यम. तिगूय तमीळनाडूचे. हातूंतले स्वामीनाथन आनी शिवरामन हांचे कडेन म्हजो लागींचो संबंद आयलो. बसवय्याचो अध्यक्षीय काळ सोंपतकच भारत सरकारान शिवरामनाक केंद्रीय रेशीम बोर्डाचो अध्यक्ष केलो. शेतकी क्रांती जाली, तेन्ना शिवरामन पयलीं भारत सरकाराच्या शेतकी खात्याचो सचीव आशिल्लो आनी मागीर येवजण आयोगाचो वांगडी जाल्लो. ताचे पयलीं तो ओरिसाचो मुखेल सचीव आशिल्लो. एकदम कर्तबगार अधिकारी म्हणून ताची नामना आशिल्ली. सिल्क बोर्डाचो अध्यक्ष जालो तेन्ना तो सामको जाण्टो जाल्लो. ताका एका कानान आयकूंक येनाशिल्लें. ताका कितेंय सांगता आसतना आमकां व्हडल्यान उलोवचें पडटालें. ताची तकली मात एकदम फाऽऽस्ट चलताली.

रेशीम बोर्डांत स्वामीनाथन आनी शिवरामन हांच्यो काम करपाच्यो पद्दती म्हाका सामक्यो लागींच्यान पळोवंक मेळ्ळ्यो. संशोधनाचेर खर्च जाता ताचो देशाक उपेग जाता काय ना, फुडाराक केन्नाय तरी ह्या खर्चांतल्यान फळ मेळटलें हे आशेन खर्च करीत रावपाचें काय ना आनी कितलीं वर्सां अशेंच करत रावपाचें, हे प्रस्न शिवरामनाक विचारले तेन्ना ह्या प्रस्नांक जापो नात अशें ताणें सांगलें. पूण ह्या प्रस्नांक जापो नात म्हणून संशोधनाचेर पयसो खर्च करिनासताना रावप ही चूक! अस्तंतेचे देश आनी व्हड व्हड खाजगी कंपन्यो लेगीत संशोधनाचेर खूब खर्च करतात अशें ताणें सांगलें.

कर्नाटक, तमीळनाडू, आंध्र प्रदेश, बंगाल आनी काश्मिराच्या अधिकाऱ्यां कडेन उलयतना केंद्रीय रेशीम बोर्डांत संशोधन चल्लां ताचो आमकां व्हडलोसो उपेग जायना, असो सूर म्हाका आयकूंक आयलो. राज्य सरकारां कडेन जावपी बसकांचो आंकडो हांवें वाडयलो आनी राज्य सरकारांतल्या रेशीम विभागांतल्या अधिकाऱ्यांक आमच्या प्रयोगशाळांनी व्हरून, रेशीम बोर्डांत कसलें काम चलता हें दाखयलें. तशेंच दरेका राज्यांत राज्य सरकाराचे अधिकारी आनी रेशीम बोर्डाचे अधिकारी हांकां एकठांय हाडून शेतकारांच्या प्रस्नांचेर भासाभास केली. रेशीम बोर्ड पयलीं भशेन आपलें काम चालू दवरतालो, पूण हेरां कडेन संपर्क वाडिल्ल्यान रेशीम बोर्डा विशीं हेरांक चड म्हायती मेळ्ळी आनी आमी करतात त्या संशोधनाचें फळ अखेरेक लोकांक आनी देशाक मेळना जाल्यार आमी तें करून कांय फायदो ना, हें रेशीम बोर्डाच्या अधिकाऱ्यांक जाणवलें.

केंद्रीय रेशीम बोर्डांत हांव चार वर्सां उरलों. तातूंतल्यो कांय घडणुको अजुनूय म्हज्याच न्हय, तर म्हज्या वांगडा काम करतल्यांचेय यादींत कालूच घडिल्ले भशेन ताज्यो आसात.

भारतीय पांच वर्सुकी येवजणेंत सेरिकल्चराचें स्थान कितें, भारत आनी राज्य सरकारान कितले दुडू मोडूंक जाय, कितली आनी कसली उदरगत करपाक जाय, हें दर पांच वर्सांनी थारावचें पडटालें. ते खातीर सगल्या विशयांनी पांच वर्सुकी येवजण करची पडटाली. दर विशयाचेर एक कमिटी आसताली. ते कमिटीन आपलो रिपोर्ट, येवजण आयोगाक (प्लॅनिंग कमिशन) दिवपाचो आसतालो. सातवे पांच वर्सुकी येवजणे खातीर नेमिल्ले सेरिकल्चर कमिटीचो हांव अध्यक्ष आशिल्लों. "तुमचो रिपोर्ट जाता तितले बेगीन अमके तारखे भितर धाडून दियात," असो आमकां वाणिज्य मंत्रालयांतल्यान फॅक्स आयलो. 1980-85 ह्या काळांत सरकारी ऑफिसांनी कम्प्युटराचो चडसो वापर जायनाशिल्लो. इलॅक्ट्रॉनीक टायपरायटराचो चड वापर जातालो. सरकारी ऑफिसांनी चलताले ते पद्दती प्रमाण सकयल्या अधिकाऱ्यांनी मसुदो तयार करप आनी तातूंत फावो तो बदल करून मागीर मुखेल अधिकाऱ्यान तो पास करप. सकयल्या ऑफिसरांनी

दिल्ले मसुदे सारके करपाक आनी बदलपाक खूब वेळ लागता. हांवेंच स्टेनोग्राफरा वरवीं म्हाका जाय तशें टायप करून घेतल्यार तें चड बेगीन आनी बरें जातलें हें म्हाका कळ्ळें. दोन दीस आनी राती लागून तीन स्टेनोग्राफर वापरून हांवें आनी हेर धा-बारा अधिकाऱ्यांनी मेळून आमचो अहवाल (रिपोर्ट) तयार केलो आनी तो दिल्लीक व्हरून दिलो. सबंद रात जागरण करून डिक्टेट करप, तें तपासप, परतून डिक्टेट करप, तपासप, ही प्रक्रिया चलनां चलतां भूक लागताली. आमी दर तीन वरांनी भिकणां खाताले आनी थर्मासांतली च्या पियेताले. अशें 40 वरां सुमार आमी न्हिदनासतना काम केलें आनी आमचो रिपोर्ट दिल्लीक धाडलो. सरकारी कचेऱ्यांनी लोक सारके काम करिनात, सरकारी नोकर आळशी, फकत पगार घेवप तांकां आवडटा, काम करपाक आवडना असो सगल्यांचो समज आसता. पूण जाय जाल्यार त्याच पगारांत, एक्क पयसो चड घेनासतना ते जेवणखाण विसरून लेगीत बरें काम करपाक शकतात, हें आमी दाखोवन दिलें.

रेशीम बोर्डांतूच न्हय, तर प्रशासनांत सगले कडेन हो अणभव हांवें घेतला. दर पांच वर्सांनी वेचणुकां वेळार, गांवांत हुंवार येता वा उजो लागता तेन्ना, कायदो आनी वेवस्थेचो प्रस्न येता तेन्ना - थोड्याच उतरांनी सांगपाचें म्हणल्यार, जेन्ना आकांत आनी पेंचप्रसंग येतात, तेन्ना सरकारी नोकर आपणालें कर्तव्य एकदम बेस बरें करतात. पूण हेर दिसांनी काम लोकांक जाय तशें जायना. ताचीं कारणां खूब आसूं येतात, पूण तो विशयूच वेगळो आनी किचकटीचो!

आनीक एक याद बिहाराची! रांची, चायबासा आनी मदलो छोटा नागपूर वाठार पयलीं बिहारांत आशिल्लो. आतां तो झारखंड राज्याचो वांटो जाला. भारत सरकार टस्सर रेशमाचें उत्पादन वाडोवपा खातीर बिहार सरकाराच्या रेशीम खात्याक खूब पयसो दितालें. टस्सर किड्यांचीं बियाणां तयार करून तीं आदिवाशां मदीं वांटप, फुडले प्रक्रियेंत सुदारणा करपाचें तांकां प्रशिक्षण दिवप, ते खातीर खूबश्यो जिपी, स्टाफ, इमारती हे गजालींचेर पयसो खर्च करप, हें मुखेल काम. त्या पयशांचो सारको वापर जाता काय ना, हें पळोवपा खातीर धाकल्या धाकल्या गांवांनी सरकारी ऑफीसां आसूंक जाय. केंद्रीय रेशीम बोर्डाची रांचीक टस्सर रेशमाची मुखेल प्रयोगशाळा आसा. तिका भेट दिवन गांवगिऱ्या वाठारांनी कसलें काम चल्लां तें पळोवंक आमी रांचीच्यान चायबासा वचपाक भायर सरले. सबंद दिसाचो सुमार तिनशां वयर किलोमिटरांचो रस्तो, अर्द्याअर्द मातयेचो, अर्दो डांबरी, तोय बी फोंडकुलांनी भरिल्लो! उदरगती विणें मागाशिल्लो प्रदेश कसो आसता तें समजुपाक त्या वाठारांत भोंवचें. वाटेर च्या लेगीत पियेवपाक एक्क हॉटेल मेळ्ळें ना. ते रातचे चायबासाक रावून दुसऱ्या दिसा धाकल्या धाकल्या खेड्यांनी गेले. भारत सरकारान दिल्ल्या पयशांच्यो जिपी खंय अशें विचारतकच सगले एकामेकां

कडेन पळयताले. कांयच जाप दिनाशिल्ले. टस्सर बियाणां तयार करपाची प्रक्रिया खंयच चालू नाशिल्ली. बिहारांत चलतालो तितलो भ्रश्टाचार आमकां हेर कडेन दिश्टी पडलो ना. ''हेर कडेन लोक पॅट्रॉल नाजाल्यार पोरणे टायर चोरतात, बिहारांत जिपीच ना करतात; म्हणून तुमकां टस्सराचीं बियाणां दिश्टी पडलीं ना जाल्यार अजाप करूं नाकात,'' अशें एका रिटायर जाल्ल्या सरकारी अधिकाऱ्यान आमकां सांगलें. आयज झारखंडांत, छत्तीसगडांत त्या आनी तसल्याच वाठारांत नक्षलवाद्यांचो धुमाकूळ चलता, तो टिवीचेर पळोवन म्हाका त्या वेळचे आमचे भोंवडेची याद जाता.

ओरिसाच्या आनी छत्तीसगडाच्या रानांनी मलबरी रेशमाचें उत्पादन वाडोवपाक हांव खूब भोंवलां. तेन्ना छत्तीसगड वाठार मध्यप्रदेशाचो भाग आशिल्लो. त्या वाठारांतूय बिहारा भशेनूच गरिबी आशिल्ली, पूण थंय बिहारा इतलो भ्रश्टाचार नाशिल्लो. मध्य प्रदेशांत रायपूरा भोंवतणच्या गांवांनी चलिल्लें काम आमकां पळोवंक मेळ्ळें. त्या वाठारांनी मराठी नांवांचे, म्हणल्यार पाठक, देशपांडे, जाधव, जोशी, खूबशे अधिकारी मेळ्ळे. तांचे पुर्वज शेंकड्यांनी वर्सां आदीं महाराष्ट्रांतल्यान राबितो करपा खातीर थंय गेल्ले. आतां त्या लोकांक मराठी उलोवंक येना; ते सगले लोक हिंदी उलयतात. हे चडशे मूळचे महाराष्ट्रांतले लोक, सरकारी खात्यांनी काम करतात. मध्य प्रदेशाच्या त्या वाठारांनी प्रशासन बिहारा परस जायतें बरें चलतालें. महाराष्ट्रांतल्यान कांय शेंकड्यां आदीं निर्गत जाल्ल्या आनी थंयच राबितो करून राविल्ल्या लोकांक लागुनूच हांगा भ्रश्टाचार उणो काय, असो प्रस्न म्हजे मुखार आयलो. ब्रिटीशांच्या वेळार आनी भारत स्वतंत्र जातकच लेगीत खूबशीं वर्सां महाराष्ट्र आनी तमीळनाडू हांगाचें प्रशासन हेर राज्यां परस चड बरें चलता, अशें जाणकार मानताले.

जशी बिहाराची गरिबी, तशीच उत्तर बंगालाची! घनीखान चौधरी नांवाचो माल्दा वाठाराचो कॉंग्रेस फुडारी भारत सरकारांत रेल्वे मंत्री आशिल्लो. आपणाल्या गांवांत आनी प्रदेशांत तुमी मलबरी रेशमाची वाड करपाक जाय आनी थंय मलबरी रेशमाचें उत्पादन वाडोवपाक खूब वाव आसा अशें तो सदांच आमच्या मंत्र्यांक सांगतालो. माल्दा पश्चिम बंगालच्या एका तोंकार आशिल्ल्यान, आनी कोलकाताच्यान थंय वचपाक विमान नाशिल्ल्यान, रेशीम बोर्डाचे अधिकारी थंय चडशे पावच नाशिल्ले. हांव कोलकाता सावन आनीक दोन अधिकाऱ्यां वांगडा एम्बेसिडर टॅक्सी घेवन सकाळच्या स वरांचेर भायर सरिल्लों, तो सांजेचो सात वरांचेर माल्दा पावलों. माल्दा पावतां पावतां खूबशीं मलबरीचीं शेतां दिश्टी पडलीं. रेशमी साडयां खातीर फामाद आशिल्लो मुर्शिदाबाद गांव आनी थंयचे थोडे हातमागूय बी वतना पळयले. झारखंडा भशेन हांगाय बी तीच परिस्थिती! वाटेर च्या पियेवपाक वा जेवणा खातीर भितर सरपा सारकें एक्क हॉटिल आमकां दिसलें

ना. असलेंच हॉटेल जाय, तसलेंच हॉटेल जाय अशें म्हणिनासतना तीन वरांचेर आनीक आनीक नखरे करिनासतना, खंयूय कितेंय मेळटा तें खावपाची आमची तयारी जाली. एका वडा सकयल चुडटांचे खोंपींत मोडक्या कदेलाचेर एकलो च्या पियेतना दिश्टी पडलो. जेवण आसा काय म्हणून विचारल्यार ताणें शीत आनी धंय आसा म्हणून सांगलें. खूब चेपां पडिल्ल्या आलिमीनच्या ताटल्यांनी ताणें शीत, धंय आनी इल्लें लोणचें दिलें. तें मांडयेर दवरून एका हातान मोट्टे निळे मूस आमडीत, दुसऱ्या हातान जाता तितलें बेगीन तें शीत आमी पोटांत चेपलें आनी थंयच्यान पळ काडलो. माल्दाक पावतकच थंयच्या ट्रॅव्हलर्स बंगलोंत आमी रावले. मंत्र्यान आमचे खातीर स्पेशल जेवण धाडिल्लें आनी जेवणा उपरांत खावपाक सगल्या तरांची बंगाली मिठाई आनी 'मिश्टी धंय' आशिल्लें. बंगाली मिठाई मिश्टी धंया बाराबर खावपाची आसता, अशें थंयच्या लोकांनी आमकां सांगलें. दोन तीन दीस सगले कडेन भोंवून, उत्पादन वाडोवपाक आनी शेतकारांची परिस्थिती सुदारपाक, थंय कितें कितें करपाक जाय, हाचेर हांवें म्हज्या बॉसाक, म्हणल्यार विकास आयुक्ताक, रिपोर्ट दिलो. विकास आयुक्तान तो रिपोर्ट तश्यातसो ताज्या बॉसाक म्हणल्यार लुगटां खात्याच्या (टॅक्सटायल डिपार्टमॅण्ट) सचिवाक धाडलो. केंद्रीय रेशीम बोर्ड आतां लुगटा खात्यांत आसपावतालो. म्हजो रिपोर्ट सचिवाक धाडटना विकास आयुक्तान त्या रिपोर्टांत कांयच बदल केलो ना, फकत सकयल म्हजें नांव आशिल्लें तें काडून आपलें नांव घालें. लुगटां खात्याच्या सचिवाक आनी रेल्वेमंत्री घनीखान चौधरीक तो रिपोर्ट पळोवन उपाट खोस जाली आनी तांणी फायलीचेर बरयलें "ह्या विकास आयुक्ताची एकदम फाऽऽस्ट (डायनामीक), बेस बरें काम करपी म्हणून नामना आसा. तें फट न्हय. फकत तीन दीस माल्दाक रावन ताणें टॉप रिपोर्ट दिला. ते प्रमाण आतां सरकारान काम करपाक जाय."

माल्दाच्यान परतून येतकच हांव मलेरियान आड पडलों. माल्दा वाठार मलेरियाच्या जळारां खातीर फामाद अशें बेंगळुरूच्या दोतोरांनी म्हाका सांगलें. एके वटेन म्हज्या बॉसान त्या रिपोर्टांतलें म्हजें नांव काडून उडयलें, म्हाका कांयच शाबासकी दिलिना आनी दुसरे वटेन म्हाका मलेरिया दिलो, देखून म्हाका आनी हेर अधिकाऱ्यांक खूब खंत जाली. पूण सरकारी जिणेचो हो एक वांटो, ही एक सरकारी संस्कृताय, अशें म्हणून कांय काळा उपरांत ही गजाल आमी विसरले.

मलबरीचीं झाडां लावप, रेशमाचे किडे पाळप आनी धाग्यांतल्यान सूत तयार करप, ह्यो प्रक्रिया हजारांनी वर्सां पयलीं चीनांत आनी कोरियेंत चलताल्यो. मागीर भारतांतूय त्यो सुरू जाल्यो. रेशमी कपडे वापरपी लोक चडशे दक्षीण आशिया, अमेरिका आनी येवरोपांतले. पिकता थंय विकना म्हणटात ही गजाल रेशमी कपड्यांक सामकी लागू

जाता. रेशमी सूत करपा मेरेनची प्रक्रिया गरीब देशांनी जाता. रेशमी कपडे, सुती, नायलॉन आनी पॉलियेस्टर कपड्यां परस बरेच म्हारग आशिल्ल्यान अमेरिका आनी येवरोपांतले गेरेस्त लोक रेशीम चड वापरतात. चीन आनी जपानांतल्या रेशमी किड्यांची जात भारतांतल्या किड्यां परस सुपेरियर! त्या किड्यांक बायवॉल्टायन आनी भारतांतल्या किड्यांक मल्टीवॉल्टायन अशें म्हणटात. बायवॉल्टायन किडो म्हणल्यार वर्साक दोन फावटीं रेशीम विणून मरपी वा दोन फावटीं जीण जगपी आनी मल्टीवॉल्टायन म्हणल्यार वर्साक चार ते स फावटीं रेशीम विणून मरपी.

बायवॉल्टायन किड्यांनी विणिल्ले धागे आनी धाग्यांतल्यान जावपी सूत हांचो दर्जो मल्टीवॉल्टायन किड्यांच्या रेशीमा परस खूबसो बरो आसता. मल्टीवॉल्टायन रेशीमाच्या सुताक हातमागाचेर विणटासतना खूब गांठी पडटात. बायवॉल्टायनाक अश्यो गांठी बी पडनात म्हणून तसले रेशीमाचे कपडे बरे सुळसुळीत आनी एकसारके आसतात. येवरोप, अमेरिका आनी जपान ह्या फुडारिल्ल्या देशांनी बायवॉल्टायन रेशीमाक चड मागणी आसा. मल्टीवॉल्टायन रेशीमाक दक्षीण आशियांत, चड करून भारतांत मागणी आसा. कारण सगल्या तरांच्यो रेशमी साडयो चडश्यो असल्या रेशमांतल्यान तयार जातात. आंतरराष्ट्रीय बाजारांत बऱ्या दर्ज्याच्या रेशमी सुताचो आनी कपड्याचो खप वाडूंक जाय म्हूण रेशीम तयार करपी देश आनी वापरपी देश हांचे मदीं मेळ आसूंक जाय. तो मेळ घडोवन हाडपा खातीर आनी चालू उरपा खातीर आंतराष्ट्रीय रेशीम संघटणा (इण्टरनॅशनल सिल्क असोसिएशन) हाची स्थापना जाल्ली. रेशीम तयार करपी आनी रेशमी सूत आनी कपडे वापरपी सगले देश हे संघटणेचे वांगडी आसात. चीन आनी भारत म्हत्वाचे वांगडी. रेशीम संघटणेचें मुखेल ऑफीस फ्रान्साक लियाँ शारांत आसतालें. लियाँत आसपाचें कारण म्हणल्यार रेशीमाचें लुगट विणपाचें हें शार मुखेल ठिकाण आसतालें. वर्साक दोन-तीन फावटीं तांच्या बसकां खातीर म्हाका लियाँ वचचें पडटालें.

आंतरराष्ट्रीय परिशदांक आनी हेर बसकांक एक गजाल मुखेलपणान जाणवताली. ती म्हणल्यार येवरोप आनी अमेरिकेचे लुगटांचे कारखानदार आनी वेपारी चीनाक चड व्हालोर दिताले. भारताक व्हडलोसो मान दिनाशिल्ले. हाचें कारण म्हणल्यार येवरोप, अमेरिकेचो रेशीम कपड्यांचो बाजार चडसो चीनी सुताचेर निंबून आसतालो. भारतांत तयार जावपी सूत चडशें भारतांतच हातमाग साडयो विणपाक वापरताले. देखून निर्गत वेपारांत भारतीय सुताक व्हडलेंशें म्हत्व नाशिल्लें. पूण चीनी लोकांक इंग्लीश उलोवपाक सारकी कळनाशिल्ल्यान, बसकांनी, परिशदांनी भारतीय प्रतिनिधी चड उलयताले. दोन फावटीं आंतरराष्ट्रीय बसकांक येवरोपी अध्यक्ष नाशिल्ल्यान भारताचे वतीन म्हाका अध्यक्ष जावन त्यो बसका चलोवच्यो पडल्यो.

आनीक एक तोखणाय करपा सारकी गजाल म्हणल्यार लियाँ शारांत आनी फ्रांसाक सगले कडेन दिश्टी पडटा ती: पोरण्या आनी पुरातन गजालींक थंय खूब म्हत्व आसता. चारशें-पांचशें वर्सां पयलींच्यो इमारती भायल्यान तश्योच दवरून, फकत भितरल्यान जाय तितलीच दुरुस्ती करून, तातूंत दुकानां, हॉटेलां बी चलोवप आनी येतल्या वतल्यांक त्या इमारतींचें म्हत्व सांगप. मिटिंगांक गेल्ले फावटीं आमचीं रातचीं जेवणां आनी पार्ट्यो असल्याच पुरातन इमारतींतल्या रेस्टोरण्टांनी जाताल्यो. लियाँक गेल्ले फावटीं म्हाका गोंयची याद जाताली, कारण गोंया भशेनूच थंयच्यो पोरण्यो इगर्जो पळोवपाक लाखांनी पर्यटक येताले. गोंयच्या सरकाराक आनी लोकांक पुरातन गजालींचें म्हत्व आसूंक जाय तितलें ना. कांय इगर्जांनी आनी देवळांनी सोडल्यार, खंयच इगर्जो, देवळां, किल्ले हांच्या मुखार तांचे विशीं म्हायती बरयिल्ले बोर्ड नासतात.

1962 वर्सा भारत आनी चीन हांचे मदीं लडाय जाली. मागीर खूब वर्सां भारत आनी चीन हांचे मदीं राजकी संबंद इश्टागतीचे नाशिल्ले. वेपार आनी धंदोय बी चडसो जायनाशिल्लो. 1981 वर्सा भारतांत रेशमाचें उत्पादन उणें जालें, देखून चीनांतल्यान रेशमी सूत मागोवपाचें भारतान थारायलें. ते खातीर दोन अधिकाऱ्यांक घेवन म्हाका बिजिंगाक वचचें पडलें. बिजिंगाक पयलीं पेकिंग म्हणटाले. आमी चीनी सरकाराच्या रेशीम संस्थे कडेन केल्लो 1962 उपरांत हो पयलोच कॉण्ट्रॅक्ट आशिल्लो आनी ताका भारतांतल्या टिवी चॅनलांनी खूब प्रसिद्‌दी दिल्ली.

पेकींग आमी रावताले तें व्हडलें हॉटेल. आमकां हेवटेन तेवटेन भोंवपाक मेळनाशिल्लें. चीनी अधिकारी सकाळीं आमकां व्हरपाक येताले, दनपारचे इण्टरनॅशनल क्लबांत सोडटाले, सांजेचे परतून बसकांक व्हरताले आनी तिनसांजचे परतून हॉटेलांत! बारीकबारीक गजालींचेर चीनी अधिकारी खूब वांटपण करताले. बसकांक बसना फुडें मुखार दवरिल्ल्या कपांत एक बायल च्या घालून वताली. चीनी ग्रीन टी अशें ते च्याचें नांव. साकर ना, दूद ना, सामकी पातळ, उदका भशेन! वातावरणांत कडक शीं आसतालें, सुमार −20/25° सेल्सियस. बसकेचे सुवातेर उणें शीं आसतालें, तरी आसतना त्या शियाची संवय नाशिल्ल्यान हातपांय कडकडटाले.

आमच्या कपांनी च्या घालिना फुडें ती थंड जायत म्हणून आमी बेगिबेगीन पियेताले. कप रिकामें जायना फुडें ती बायल येवन परतून कप भरताली. च्या थंय उदका भशेन पियेतात हें आमकां उपरांत कळ्ळें.

इण्टरनॅशनल क्लब हो आमच्या हॉटेला म्हऱ्यांतूच आशिल्लो, आनी भायल्या देशांतले पत्रकार, वेपारी बी सगले थंय जेवपाक येताले. येवरोपी पद्‌दतीचें जेवणूय बी

ंय मेळटालें. थंयच आमकां एकलो भारतीय पत्रकार मेळ्ळो. आमी थंय कित्याक गेल्ले ानी कसलो कॉण्ट्रॅक्ट सायन केला हाचे विशीं माहिती ताणें भारतीय टिवी चॅनलांक ाडली.

बिजिंगाक डिसेंबरांतलें शीं म्हणल्यार सांगून समजुपाचें ना. दार उगडपाक ाराक हात लायना फुडें शॉक येतालो. ब्रिफकेसीच्या हॅण्डलाक हात लावपाक भंय देसतालो. हात लायना फुडें शॉक येतालो. टिवी चालू करता आसतना थंयूय बी शॉक ोतालो. सुके हवेंत वलसाण बिलकूल नासता आनी ताका लागून 'स्टॅटीक' म्हणून वेजेचे करंटशे वतात.

भायल्या देशांतल्या लोकांक चीनी अधिकारी जाय थंय भोंवपाक दिनाशिल्ले. लोक कशे रावतात, कितें करतात, हें पळोवपाची संद आमकां बिलकूल मेळनाशिल्ली. आमकां ते दीसभर इतले गुंतोवन दवरताले कीं आमकां आनीक कांयच करपाक मेळनाशिल्लें. मदीं एक शेनवार-आयतार मेळिल्लो तेन्ना तांणी आमकां ग्रेट वॉल ऑफ चायना, तियांनानमॅन मैदान, चीनांतल्या आदल्या राजांचे राजवाडे दाखयले. "चीनाची याद म्हूण कितेंय भेटवस्त व्हरतलो जाल्यार फ्रॅण्डशीप स्टोर्सांनी वचात," अशें तांणी सुचयलें. चीनी हस्तकलेच्यो वस्तू, बावल्यो बी थंय मेळटाल्यो. ते कलेचें भांडार इतलें सुंदर आनी सवाय कीं तें सगलेंच विकतें घेन दिसतालें. पूण तितले पयशे आमचे कडेन नाशिल्ले. त्या काळांत, म्हणल्यार 1981-82 वर्सा, भायल्या देशांनी वतल्या अधिकाऱ्यांक परकी चलन सामकें उणें दिताले. आमचो हॉटेलाचो, टॅक्सीचो खर्च बी भारतीय दुतावास करतालो. आमकां फकत जेवणाखाणा पुरतेच पयशे मेळटाले.

1983 वर्सा भारत सरकार आनी सोविएत युनियना मदीं -(तेन्ना सोविएट युनियन फुटून ताचे वेगळे वेगळे देश जावंक नाशिल्ले) कबलात जाली. तांचो रेशीम विभाग आनी भारतीय रेशीम विभाग हांणी एकठांय येवन काम करचें, अधिकारी आनी विज्ञानीक हांचें येवप-वचप वाडोवचें आनी एका देशान केल्ल्या संशोधनाचीं फळां दुसऱ्या देशाक मेळचीं अशी ती कबलात आशिल्ली. म्हाका पांच विज्ञानिकांक घेवन तीन सप्तकां सोविएत युनियनाची भोंवडी करपाची संद मेळ्ळी. सोविएत युनियन ह्या व्हडल्या देशांत एक येवरोपाचो आनी दुसरो मध्य आशियेचो भाग आसा. रेशमी किड्यांचें पाळप, मलबरीचीं झाडां लावप, धाग्यांतल्यान सूत काडप, ह्यो सगल्यो प्रक्रिया उजबेकिस्तान, अजरबायजान अश्या मध्य आशियायी भागांनी जातात. सोविएट युनियन फुट्टकच उजबेकिस्तान, अजरबायजान आनी रशिया वेगळे वेगळे देश जाले. खरें म्हणल्यार आमी दिल्लीच्यान सरळ उजबेकिस्तानाच्या मुखेल शारांत तांश्कंताक वचपाचे. मॉस्कोक कित्याक गेले हाची म्हाका याद ना. मॉस्कोक वचून आमी थंय दोन दीस रावले. मॉस्कोच्या सरकारी

ऑफिसांनी सोविएत संघाची राजकी रचणूक, अर्थीक बांदावळ, उद्देगीक उदरगत आनी रेशमी उद्देग हांचेर सरकारी अधिकाऱ्यांनी आमकां भाशणां दिलीं आनी त्या विशयांचेर दुभाश्या वरवीं भासाभास जाली. मागीर आमी उजबेकिस्तानाचें मुखेल शार ताश्कंताक गेले.

उजबेकिस्तान हो मध्य आशियेंतलो सगल्यांत व्हड देश. मध्य आशिया म्हणल्यार चीन आनी उदेंत आशियेंतले हेर देश आनी येवरोप हांचे मदलो दुवो अशें मानतात. हजारांनी वर्सां पयलीं रेशमाच्या वेपाराक लागून फामाद जाल्लो 'सिल्क रूट' हो चीनाक साकून मध्य आशियेंतल्यान येवरोपांत वचपी मार्ग.

मध्य आशियेंतले देश म्हणल्यार उजबेकिस्तान, कझगस्तान, किर्घीस्तान, तुर्कमेनिस्तान आनी अजरबायजान हे हजारांनी वर्सां पोरणे, गिरेस्त संस्कृतायेन भरिल्ले देश. इस्लाम धर्म आपणावचे पयलीं ह्या सगल्या देशांनी ल्हान सान राजवटी आशिल्ल्यो आनी हिंदू धर्मांतले भशेन सैमाच्या वेगळ्या वेगळ्या रुपांची ते लोक पुजा करताले. सातव्या शेंकड्या उपरांत ह्या सगल्या देशांनी इस्लाम धर्म पातळ्ळो. 16 व्या शेंकड्या उपरांत रशियेच्या झार राजांनी हे सगले देश कार्बीज करून रशियेक जोडले आनी हजारांनी रशियी क्रिस्तांव लोक ह्या राज्यांनी रावंक लागले. उजबेकिस्तान 1812 वर्सा रशियेचो एक प्रदेश जालो. 1917 च्या बोल्शेव्हीक क्रांती उपरांत सोविएत संघांतलें तें एक राज्य म्हूण ताची स्थापना जाली.

ताश्कंत शार ही उजबेकिस्तानाची राजधानी आनी त्या देशाचें सगल्यांत व्हड शार. 1966 त हांगा व्हड भुंयकांप जावन लाखांनी लोक मेले. रशियेच्या कामगारांनी थंय येवन सुमार तीन लाख नवीं घरां बांदलीं आनी ताश्कंत शाराचो चडसो वाठार परतून बांदून काडलो. विसाव्या शेंकड्याचे अखेरेक ताश्कंताच्या 45 लाख लोकां मदीं सुमार णव-धा लाख रशियन लोक आशिल्ले.

मॉस्को आनी ताश्कंत विमानतळांचेर शेंकड्यांनी विमानां रांकेंत उबीं केल्लीं आमकां दिसलीं. हिंदुस्तानांत सायकलींच्या फॅक्टऱ्यांनी सोडल्यार सायकली लेगीत इतल्यो पार्क केल्ल्यो आमकां दिसनात. सोविएत युनियनाचे आशियी आनी येवरोपी भाग हातूंत कांयच साम्य ना. आशियी भाग चडसो मुसलमान आनी येवरोपी भाग चडसो क्रिस्तांव! भास, संस्कृताय, धर्म, खावपाजेवपाच्यो संवयो, शिकप - सगलें वेगळें वेगळें. सगल्या धर्मांचे, सगल्या जातींचे आनी सगल्या संस्कृतायांचे वाठार एकठांय हाडून रचिल्लो हो देश फुटत म्हणून मॉस्कोच्या राजकारण्यांक सदांच भिरांत आसताली. देखून देशांतल्या लोकांक सोंपेपणान आनी चड पयशे खर्च करिनासतना वेगळ्या वेगळ्या वाठारांनी भोंवपाक

मेळचें म्हणून विमानाचो प्रवास सामको सवाय केल्लो. मॉस्कोच्यान ताश्कंताक वतना वाटेर खंय तरी विमान राविल्लें. थंय एक बायल इल्लीशी बोकडी घेवन विमानांत चडिल्ली आनी काळंगां भशेन दिसपी व्हडलीं फळां घेवन आनीक कांय बायलो विमानांत चडिल्ल्यो. आमचे बाराबर रशियन आनी इंग्लीश भास जाणा आशिल्ली एक बायल आसताली. हांगा असलीं व्हड व्हड फळां, बोकड्यो, कोंबयो बी घेवन विमानांत बसपाक दितात काय म्हणून आमी तिका विचारलें. लोकांक सोंपेपणान प्रवास करपाक मेळचो म्हणून सरकारान विमानाचे दर सामके सवाय केल्यात. देश व्हड आशिल्ल्यान चडशे लोक विमानानूच प्रवास करतात म्हणपाचें तिणें सांगलें.

सोविएत युनियनांत चीना परस चड मेकळीक आशिल्ली. आमकां जाय थंय भोंवपाक दिताले. चीनांत 24 वरां आमचेर सरकारी अधिकारी नदर दवरताले. पूण हांगा तितलीं कडक बंधनां नाशिल्लीं. ताश्कंताक बसका बी जातकच आमी सांजेचे भोंवपाक बी वताले तेन्ना आमकां खूब कडेन हिंदी सिनेमांतलीं पदां आयकूंक येतालीं, आनी भारतीय नट्यांचे व्हड व्हड पोस्टर दिश्टी पडटाले. हॉटेलांतलीं जेवणां लेगीत उत्तर भारतांतल्या मुगलाई जेवणां भशेन लागतालीं. म्हाका एके कडेन कोबीची भाजी आनी पुदिना पराठा दिल्लो, तो दोळे धांपून खाल्यार दिल्ली, मुंबय, कोलकाता, खंयूय बसून तो खाता अशें समजूं येतालें. लोकूय बी काश्मिरी लोकां भशेन दिसतात.

रशियन भास संस्कृताक सामकी लागीं. हाची बारीक विसकटावणी जवाहरलाल नेहरून आपल्या 'डिस्कवरी ऑफ इण्डिया' ह्या पुस्तकांत केल्या. दोन ह्या नंबराक रशियन भाशेंत व्दय, तिनाक त्रय, चाराक चतुर्थ म्हणटात. एके फावटीं जेवपाक गेल्ले कडेन तांदळांच्या पायसा भशेन म्हाका कितें तरी दिसलें. वेटरान ताका रशियेंत 'क्षीर' म्हणटात अशें सांगलें. आमची खीर आनी ती क्षीर एकूच हें म्हज्या लक्षांत आयलें. अश्यो कितल्योश्योच गजाली पळयल्यार आपूण भारतांतूच आसा काय दिसतालें.

1965 त भारत पाकिस्तान लडाये उपरांत पाकिस्तानाच्या अयुब खाना कडेन उलोवणीं करपाक भारताचो आदलो प्रधानमंत्री लालबहादूर शास्त्री 1966 त ताश्कंताक गेल्लो आनी थंयच ताका काळजाचो आताक येवन मरण आयलें. उजबेकिस्तानाक जंय जंय आमी रेशमी किड्यांचें, सुताचें आनी कपड्यांचें काम पळोवंक गेल्ले थंय थंय लोकांनी लालबहादूर शास्त्रीची याद काडली. खूबशे कडेन आमकां काळो बुरखो घालून मुसलमान बायलो दिसल्यो. सोविएत युनियनाक अजुनूय बुरखो चलता म्हणून आमकां अजाप जालें. हे मुसलमान वाठार सोविएत युनियनांत आसपावले उपरांत खूबशे कडेन मुसलमान बायलांनी शारांतल्या मुखेल ठिकाणार एकठांय येवन आपल्या बुरख्यांची होळी केल्ली. थोडे कडेन मात जाणट्या बायलांनी आपले बुरखे तशेच दवरले. तरनाट्यो

आनी शिकिल्ल्यो मुसलमान बायलो येवरोपांतल्या बायलां भशेन ड्रॅस घालतात, अशें आमचे बाराबर आशिल्ले रशियन बायलेन सांगलें. वेगळे संस्कृताये विशीं उलयतना तिणें सांगलें तें अशें: आशियेंतले, म्हणल्यार मुसलमान सोविएत दादले सदांच येवरोपी बायलां कडेन इश्टागत करपाचो यत्न करतात आनी लग्न जावंक सोदतात. पूण येवरोपी बायलांक ते आवडनात. आमचे वांगडा आयिल्ली ती एक 30-35 वर्सांची येवरोपी बायल. उजबेकिस्तानाच्या रेशीम विभागाचें काम आमकां व्हरून दाखोवपा खातीर थंयच्या रेशीम विभागान आमचे वांगडा एक मुसलमान अधिकारी दिल्लो. ''आमी रातचीं बाराबर जेवंक या, डान्साक या'' अशें म्हणून हो अधिकारी आमचे वांगडा मॉस्कोच्यान आयिल्ले ते बायले फाटल्यान लागिल्लो. एके फावटीं तिका ताचेर तापतना हांवें पळयली. तूं ताचेर तापता कित्याक, अशें विचारतकच तिणें ही गजाल आमकां सांगली.

आनीक एक गजाल आमच्या ध्यानांत आयली ती म्हणल्यार, भारतांत शिकिल्ल्या मनशांक आसता तितलें सामान्य गिन्यान भायल्या देशांतल्या शिकिल्ल्या मनशांक नासता. तांकां फकत आपणालें काम बरें तरेन खबर आसता आनी भोंवतणच्या संवसारांत कितें चललां वा भायल्या देशांनी कितें चललां हाची म्हायतती तांकां नासताच म्हणल्यार जाता. आमचे वांगडा आसपी तो दादलो आनी ती बायल ह्या दोगांय जाणांनी हें आमकां उलोवन दाखयलें. तुमी रेशीम भागांत काम करतात, पूण तुमकां भारता विशीं खबर आसा तें जालेंच, तुमकां हेर देशां विशींय खूब खबर आसा. आमच्या ह्या देशांत तशें ना अशें ती परतून परतून म्हण्टाली.

उजबेकिस्तान, अजरबायजान ह्या वाठारांनी जें रेशमाचें काम चलता, तें काश्मिरांतल्या भशेन, थंड प्रदेशांत चलपाक जाय तशें (टेम्परेट क्लायमेट). भारतांतल्या दक्षीण भागांत तें लागू जायना. चीनांतले भशेन रशियन अधिकारी आमकां हेर गजालींनी चड गुंतोवन दवरताले आनी रेशीम विभागाचें काम जाता तितलें उणें दाखयताले. दनपारच्या साडेबारांक खंयच्या तरी कलेक्टीव फार्माचेर ते आमकां जेवणाक व्हरताले आनी तें जेवण चार वरां मेरेन चलतालें. मागीर थंयच्यान खंय तरी भेट दिवन हॉटेलांत सोडटाले. ते व्होडका उदका भशेन पियेताले. आनी दर जेवणाक कलेक्टीव फार्माचो अध्यक्ष उठून उबो रावून 'इण्डिया-सोविएत युनियन फ्रॅण्डशीप' म्हणटालो आनी घटाघटा करून व्होडका पियेतालो. व्होडका भयंकर कडक! तीर्थ घेतिल्ले भशेन एक इल्लोसो घोंट घेतल्यार तकलेंत बॉम फुटिल्ले भशेन जातालें. ''आमचे बाराबर तुमीय बी व्होडकाचो ग्लास रिकामो करपाक जाय (बॉटम्स अप) नाजाल्यार इण्डिया-सोविएत फ्रॅण्डशिपीचो अपमान जातलो,'' अशें ते म्हणटाले. कलेक्टीव फार्मा वयलीं आमचीं जेवणां शेतांत खंयूय तरी व्हडलीं मेजां घालून, तांचेर तुवाले बिवाले घालून, वयर प्लेटी दवरून, सामकें

सैमाचे मांडयेर म्हणटात तशें बसून, आमी जेवताले. पांयां पोंदा मोवमोव तण आसतालें, वा आमचे म्हऱ्यांत व्हडव्हड कुंड्यो आसताल्यो. आमी पांचूय जाणांनी 'हो असलो' इण्डिया-सोविएत युनियन इश्टागतीचो प्रस्न कसो सोडोवपाचो हाचो विचार केलो, आनी एक उपाय थारायलो. ते जेन्ना तकली वयर करून घटाघट व्होडका पियेताले, तेन्ना आमी आमच्या ग्लासांतलो व्होडका तणाचेर रकोवन ग्लासांत इल्लोसो दवरून आमी तकली वयर करून पियेल्ले भशेन करताले. तांचे भितरल्या कोणाकूय तरी हें समजलां आसतलें, पूण कोणूच कांयच उलोवंक ना. अशे तरेन इण्डिया- सोविएत इश्टागतीचो तो प्रस्न सुटलो. ताश्कंताच्यान आमी समरकंदाक गेले.

समरकंद हें उजबेकिस्तान देशाचें ताश्कंता फाटोफाट दुसरें व्हड शार. ह्या शारांत आशिल्लो संस्कृतीक इतिहास जतनाय करून दवरचे खातीर युनेस्कोन हें शार संवसाराचें दायज म्हणून मानून घेतलां. व्हड व्हड रुंद रस्ते, व्हड बागो, व्हड चौक आनी निळ्या पाशाणाच्यो मशिदी हांणी हें शार भरलां. ह्या शारा विशींच्यो दोन मुखेल गजाली म्हाका याद आसात म्हणटात त्यो बाबराचो जल्मगांव आनी उलुघबेग हाणें बांदिल्ली वेधशाळा. भारतांत मुगल राजवट सुरू करपी बाबर हाचो जल्मगांव फर्घाना हो समरकंद शारा म्हऱ्यांत आसा. बाबरान हांगा सावनूच हिंदुस्तानाच्या उत्तर अस्तंत वाठाराचेर घुरी घाल्ली.

उलुघबेग ह्या राजान 15 व्या शेंकड्यांत बांदिल्ली वेधशाळा ही 18 व्या शेंकड्यांत भारतांत दिल्लींत आनी जयपूराक राजा जयसिंग-II हाणें बांदिल्ल्या वेधशाळां भशेन आसा. दिल्लीची आनी जयपूरची अश्यो दोनूय वेधशाळा समरकंदांतली वेधशाळा पळोवन बांदल्यात अशें समरकंदांतले गायड सांगताले.

समरकंदाची हजारांनी वर्सां पयलींची भव्य 'रेघीस्थान मशीद' पळोवन गोंयांत आमच्या इगर्जांची आनी देवळांची इतली जतनाय कित्याक घेनात, असो प्रस्न दोळ्यां मुखार उबो रावलो. हेर सगले कडेन, फाटसारिल्ल्या देशांनी लेगीत पुरातन इगर्जांक, मशिदींक म्हत्व दिवन तांची जतनाय घेतात आनी इतली तोखणाय करतात! अशें भारतांत कित्याक जायना? दिल्लीक आनी आगऱ्याक पावला कणकणीं रस्त्या कुशीक इतिहास आमकां सलाम करपाक उबो आसता. आमी ताका कुसकुटा समान लेखतात.

समरकंदांतल्यान आमी अजरबायजान राज्याची राजधानी बाकूक गेले. थंय दोन दीस रावून हांव भारतांत परतून आयलों आनी म्हजे वांगडा आशिल्ल्या विज्ञानिकांनी तांची भोंवडी चालू दवरली.

बाकू शार हें 'कॅस्पियन सी'चे उदेंत देगेर आसा. कॅस्पियन दर्या हो खरें म्हणल्यार दर्या न्हय. हें सवसारांतलें सगल्यांत व्हडलें खाऱ्या उदकाचें तळें, आनी तें पांच देशां

भितर वांटलां. तळ्या खालचे भुंयेंत आशिल्ल्या खनीज तेलाच्या सांठ्याक लागून ह्या पांचूय देशां मदीं सदांच लडाय जाताली. अजरबायजान हो देश मध्य आशियेंतल्या हेर देशां भशेन संस्कृतायेन गिरेस्त. हांगा आशिल्ली राज्य चलोवपाची लोकशाय पद्दत इंग्लंडाचे लोकशाये परसूय पोरणी. बायलांक वेंचणुकांनी मतां दिवपाचो हक्क इंग्लंडा परस पयलीं अजरबायजानांत आशिल्लो. बाकू शाराचे सरभोंवतणीं आशिल्ल्या खनीज तेलाच्या सांठ्याक लागून रशियेन अजरबायजान देश 19व्या शेंकड्याचे सुरवातीकूच काबीज केल्लो. दुसऱ्या संवसारीक म्हाझुजा मेरेन संवसारांतल्या खनीज तेलाचें 50 प्रतिशं उत्पादन अजरबायजानांत आनी खास करून बाकू भोंवतणीं जातालें.

कॅस्पियन दर्या हें सवसारांतलें सगल्यांत व्हड खाऱ्या उदकाचें तळें, अशें भुगोलाच्या पुस्तकांनी वाचिल्लें. ताश्कंत, समरकंद, बाकू हीं शारां पळोवन एक वेगळोच अणभव घेतिल्ल्याची म्हाका खोस जाली. भुरगेपणांत इतिहास आनी भुगोलाच्या पुस्तकां वरवीं वळख जाल्ले गांव खरेपणान पळोवन एक वेगळोच अणभव घेवंक मेळ्ळो. ही संद कितल्या जाणांक मेळटा कोणाक खबर! पूण जाका संद मेळटा तो खरेंच नशीबवान म्हणपाचो.

उजबेकिस्तान, अजरबायजान मुसलमान देश आसले तरीय शिवराक जेवण मेळपाक आमकां कांयच त्रास जाले नात. आमी पांच जाणांतले चौग जाण शिवराक आशिल्ले. वीस दीस भोंवले. पूण मॉस्को सोडून खंयच प्रोब्लेम जालो ना. आमी मॉस्को हॉटेलांत पावित्ले तेन्ना दनपारचीं तीन-साडेतीन वरां जाल्लीं. शिवराक जेवण कांयच नाशिल्लें. शीत आनी धंय आशिल्लें. व्हिनेगरांत घालून केल्लें सफरचंदांचें लोणचें आशिल्लें. आमकां दिसलें आमी उसरां पावल्यात म्हणून आमकां जेवण सारकें मेळ्ळें ना. फुडले दोनूय दीस मॉस्कोक अशेंच शीत, धंय आनी कसलेंय तरी फळांचें लोणचें खावचें पडलें. हेर कडेन मात मुगलाई शिवराक जेवण भारतांतले परस चड बरें मेळ्ळें.

सोविएत युनियन देशाची, म्हणल्यार चडशी दक्षीण सोविएत युनियनाची वीस दीस आमी भोंवडी केली. तातूंत तांच्यो लॅबोरेटरी, सिल्क विणपाचे पावरलूम (विजेचेर चलपी माग), रेशमी किडे पाळपाची प्रक्रिया बी ह्यो सगल्यो गजाली पळयल्यो. तांच्यो पद्दती काश्मीराक सोडल्यार भारतांत आनीक खंयच लागू जावच्यो नात हें आमकां खबर आशिल्लें, कारण थंड प्रदेशांतल्यो चालीरिती आनी तरा, गरम प्रदेशां परस वेगळ्यो आसतात. जें कितें पळयलें ताचेर व्हडलीशी भासाभास तांचे कडेन करपाक मेळ्ळी ना, कारण आमकां मजत करपाक आनी इंग्लीशींतल्यान रशियी भाशेंत अणकार करूंक आमचे वांगडा एक गायड आसून लेगीत म्हजे वांगडा आशिल्ल्या विज्ञानीक अधिकाऱ्यांक तांच्या विज्ञानिकां कडेन उलयतना खूब त्रास पडपाक लागले. आर्दीच ते वेळ उणो

देताले आनी तातूंत भाशेचे अडचणी खातीर आमचें मुखेल कामूय सारकें जायनाशिल्लें. तांच्या फायलींनी आशिल्ली म्हायती रशियी भाशेंतली म्हणून खबर आसतना लेगीत आमी मागल्यार वयल्या अधिकाऱ्या कडल्यान परवानगी घेवन तुमकां हाडून दितां अशें सांगताले आनी मागीर कांयच जाप काडिनाशिल्ले. आमी भोंवत आशिल्ल्यान तांचे कडेन संपर्क सादपाक कुस्तार पडटालें. आमी दक्षीण सोविएत युनियनाची, म्हणल्यार उजबेकिस्तान, अजरबायजान, जे वाठार आतां सोविएत युनियन फुट्टकच वेगळे देश जाल्यात, त्या वाठारांनी भरपूर भोंवले. थंयचो इतिहास, लोकांची जीण, संस्कृताय हें बरें पळोवपाक मेळ्ळें. पूण रेशीम उत्पादनाचे प्रक्रिये विशीं चडशी म्हायती मेळ्ळी ना.

सोविएत युनियनांत आनीक एक गजाल आमचे मतींत आयली, ती म्हणल्यार कम्युनिस्ट राजवटी खाला तांणी लोकांच्यो संस्कृतायो बदलपाचो यत्न केलो. लोकांचीं नांवां बदल्लीं. करीम आशिल्लो तो करीमॉव्ह जालो; अब्दुल आशिल्लो, अब्दुलस्की जालो. नांवांचो पयलो भाग पळयले बाराबर तो मुसलमान काय क्रिस्तांव तें कळटालें. सोविएत युनियन फुटून मुसलमान वाठार वेगळेवेगळे देश जातकच थंय मुसलमान लोकांनी आपलीं पयलींचीं नांवां घेतलीं काय ना हें खबर ना, पूण आदली संस्कृताय संवसारा मुखार दवरपाक खास यत्न तांणी सुरू केले आनी आपले भाशेक आनी संस्कृतायेक प्रशासनांत मुखेलपण दिवंक सुरवात केली.

केंद्रीय रेशीम बोर्डांत आसतना जगभर भोंवपाच्यो खूबश्यो संदी आयल्यो. भारतांतल्या रेशमी कपड्याची निर्गत वाडोवपा खातीर येवरोप आनी अमेरिकेच्या कपड्यांच्या प्रदर्शनांनी वांटो घेवचो पडटालो. व्हड व्हड ठोक वेपाऱ्यांक वचून मेळचें पडटालें. रेशीम किड्यांचें उत्पादन आनी तें पाळपाची प्रक्रिया सुदारपा खातीर जपान, चीन, इण्डोनेशिया आनी हेर देशां कडेन भारत कबलाती करतालो आनी ह्या कबलातीं खाला त्या देशांतले विज्ञानीक आनी अधिकारी भारतांत येताले आनी भारतांतले त्या देशांनी वताले.

भारत-जपान कबलाती खाला पंदरा विज्ञानिकांचो एक पंगड घेवन एक म्हयनोभर जपानाची भोंवडी करपाची संद म्हाका मेळ्ळी. जपानांत मलबरी पानांचें उत्पादन करपाची तरा जरीय वेगळी आसली तरीय किडे पाळपाची प्रक्रिया हजारांनी वर्सां साकून चलत आयिल्ल्यान तांचे कडल्यान भारतांतल्या शेतकारांनी खूबशें शिकपा सारकें आशिल्लें. जपानी विज्ञानीक रशिये भशेन दाखयलिपय करिनाशिल्ले. तांच्यो प्रशिक्षण संस्था, प्रयोगशाळा आनी हेर सरकारी सोंपेपणां जाय तेन्ना आनी जाय तितलीं पळोवंक मेळटालीं आनी तांचे कडेन जाय तितली भासाभास करपाक मेळटाली. तांचें सगलें काम जपानी भाशेंत चलतालें पूण आमचे भोंवडे वेळार इंग्लीश जाणा आशिल्ले कांय जपानी विज्ञानीक तांणी आमचे वांगडा दिल्ले.

हालीं जरी चीनाचो अर्थीक पांवडो ल्हवू ल्हवू वयर सरता आसलो तरीय जपाना परस हालीं मेरेन तो खूब सकयल आशिल्लो. 25-30 वर्सां पयलीं अस्तंत येवरोपाचे आनी अमेरिकेचे रांकेंत बसपी जपान हो आशिया खंडांतलो एकूच देश आशिल्लो. आमी जपानाक 1982 वर्सा जून-जुलय म्हयन्यांत गेल्ले. त्या वेळार लेगीत जपानांतलें रेशीम उत्पादन उणें जाता, जपानी शेतकारांक मलबरी किडे पाळ्ळ्यार आनी करून विकल्यार आतां फायदो जायना, आतांच्यो पिळग्यो शारांनी नोकऱ्यो करपाक धांवतात, अश्यो कागाळी आमकां जाण्ट्या शेतकामत्यां कडल्यान आयकूंक येताल्यो. रेशमी कपड्यांचें उत्पादन आनी किडे पाळपाची प्रक्रिया जपान सरकारान खूब अनुदान दिवन जिती दवरल्या अशें जपानी अधिकारी आमकां सांगताले. हें अशेंच कितलो काळ चलतलें तें तांकांय बी खबर नाशिल्लें. जपानी बायव्होल्टायन किड्यांचें पाळप भारतांतल्या गांवांनी जावं येता काय ना, हाचो आमच्या विज्ञानिकांक दुबाव आशिल्लो.

बायव्होलटायन बियाणांतल्यान जावपी किड्यांचो दर्जो हिंदुस्तानांतल्या मल्टीव्होलटायन किड्यां परस चड बरो. जपानी किडयांनी विणिल्ले रेशमाचे धागे चड चकचकीत आनी सुळसुळीत, तशेच गांठी पडनासतना रेशमी सूत करपाक बरे. पूण ते किडे पाळपाक चड कुस्तार! तांकां वेळार खाण घालचें पडटा, दोळ्यांत तेल घालून नितळसाण राखची पडटा आनी फावो तें तापमान दवरपा खातीर खास येवजण्यो करच्यो पडटात. भारतीय शेतकामत्यांक तें जमत काय ना, हाचो आमकां सदांच दुबाव आशिल्लो. कितलींशींच वर्सां भारतांत बायव्होलटायन किड्यांचें उत्पादन वाडोवपाचो यत्न चलतालो. पूण कसल्या ना कसल्या तरी कारणाक लागून किडे बेगीन मरताले आनी लुकसाणीच्या भंयान शेतकार बायव्होलटायन किडे आपणावपाक भियेताले. नितळसाण सारकी दवरात, तापमान सारकें दवरात, सारकें वेळच्या वेळार खाण घालात आनी हें सगलें केल्यार तुमच्या देशांत बायव्होलटायन रेशमाचें उत्पादन वाडटलें अशें कितलेंय आड्डून सांगलें म्हणून जावचें ना. आयज मेरेन आमच्या उत्पादनांत वाड नासपाचें कारण म्हणल्यार आमच्या शेतकारांची किडे हाताळपाची तांक जपानी पांवड्याचेर अजून पावूंक ना. देखून, आमच्या देशांतली परिस्थिती तकलेंत घेवन आमच्या शेतकारांक सध्याचे परिस्थितींत आपणावपाक जमता तसलें तंत्र दिल्यार आमकां येस येतलें. भारतांत आशिल्ले मल्टीव्होलटायन किडे हाताळपाचे प्रक्रियेंत चुकी जाल्यार लेगीत ते मरनात. तांकां खाण घालपाक, नितळसाण दवरपाक, तापमान राखपाक आनी हेर तरांनी हाताळपाक शेतकारांनी हेवटेन तेवटेन चुकी केल्यार लेगीत ते किडे जगतात आनी रेशमी धागो विणीत रावतात. जपानी बायव्होलटायन आनी भारतीय मल्टीव्होलटायन हांचेर संशोधन करून मल्टीव्होलटायनाची घटाय आशिल्ल्या आनी बायव्होलटायनाचो दर्जो

आशिल्ल्या किड्यांचें उत्पादन आमच्यांनी करूं येता काय ना, हाचेर आमी संशोधन करपाक जाय.

आमी हे गजालीचेर खूबश्या विज्ञानीक आनी अधिकाऱ्यां कडेन भासाभास केली आनी रेशमी किडे पाळपाची प्रक्रिया ज्या प्रदेशांनी जाताली त्या प्रदेशांची भोंवडी केली. जपानी लोकांची शिस्त, संस्कृताय आनी वागपाच्यो पद्दती हातूंत भारतीयांनी आपणावपा सारकें खूबशें आसा. कितल्याश्याच सरकारी ऑफिसांक आमी भेटी दिल्यो. जायत्या फावटीं थंयच्या अधिकाऱ्यांनी आमकां ऑफिसां भोंवडावन दाखयलीं. आमी भोंवता आसतना आपापल्या मेजांचेर काम करपी दादले आनी बायलो 'हे कोण आयल्यात काय,' अशें म्हणून तकली वयर काडून एक खीण लेगीत पळयनाशिल्ले. दरेक मनीस आपापल्या कामांत गुल्ल!

आदल्या तेंपार जपानांत फळयांच्यो जमनी, जमनीचेर कायमच्यो बसयल्ल्यो शेंदऱ्यो आनी कोंड्याच्यो वा शेंदऱ्यांच्यो वणटी आसताल्यो. जमनी कडल्यान देड दोन मिटर वयर तांचीं घरां सुरू जातालीं. भुंयकांपाच्या धक्क्यान चड लुकसाण जावचें न्हय म्हणून असलीं घरां बांदतात अशें ते सांगताले. घरांतल्यो शेंदऱ्यो बसयल्ल्यो जमनी नितळ उरच्यो, देखून भायल्यान येतना लोक जोतीं, बूट काडून दवरून भितर येताले. आतां लोक फ्लॅटांनी रावंक लागल्यात, पूण जोतीं, बूट भायर दवरपाची पद्दत तांणी सोडूंक ना. घरांत भितरले वटेन रबरी जोत्यांच्यो जोडयो दवरिल्ल्यो आसतात. घरा भितर उक्त्या पांयांनी भोंवपा वांट्याचे ते रबरी जोतीं घालून भोंवतात. भारतांतले भशेन जमनीचेर बसून ते जेवताले. अजुनूय खूबश्या घरांनी जमनीचेर बसतात, पूण जेवण एक देड फूट उंचायेच्या मेजाचेर दवरून, मेजा भोंवतणीं सगली फामील बसून जेवता. चडशे लोक शिंटो धर्म पाळटात. शिंटो धर्म हो हिंदू धर्मा भशेन. पावस, वत, वारें, गिन्यान, भलायकी ह्या सगल्या गजालीं खातीर वेगळ्यावेगळ्या देवांची पुजा करतात. तांच्या वेगळ्यावेगळ्या देवळांनी ह्या देवांची पुजा आनी जात्राय बी जातात. आमी देवा मुखार उजवाती लावन पुजा बी करतात, तशे जपानी लोकूय करतात. खूबश्या जपानी लोकांनी बुद्ध धर्म आपणायला. बुद्धाच्याय पुतळ्या वा फोट्या मुखार उजवाती लावन हात जोडून ते पांयां पडटात. चडशे रिती-रिवाज भारतांतले भशेन. वेगळेपण इतलेंच की शिकिल्ले सवरिल्ले लोक भारतांत पयलींची संस्कृताय सोडून दितात आनी आपूण सुदारल्यात अशें भायल्या जगाक दाखोवपाक आपूण अस्तंती संस्कृतायेंत वाडिल्ले भशेन वागतात. जपानांत मात शिकिल्ले, सवरिल्ले लोक लेगीत आपणाली संस्कृताय तिगोवन दवरतात.

"आयज रातची तुमकां सगल्यांक टेम्पुरा पार्टी! हें आमचें खाशेलेपण! आमी तुमचे खातीर ही पार्टी खास घडोवन हाडल्या," अशें आमच्या यजमानांनी आमका एक

दीस सांगलें. प्रत्यक्ष 'टेम्पुरा पार्टी' सुरू जातकच आमचे उमेदीचो बोमाडोच फुटलो. घराच्या मदीं सदां भशेन शेंदरी घाल्लो एक व्हड हॉल आशिल्लो. आमकां 15 जाणांक तांणी जमनीर वाटकुळे बसूंक लायले. आमच्या मुखार दवरिल्ल्या इल्ल्याश्या ग्लासांनी 'साके' म्हणून तांदळाचो सोरो इल्लो इल्लो ओतलो. रशियी व्होडका भशेन आनी गोंयचे फेणये भशेन हो खूब कडक. फेणयेची घाण मात ताका नाशिल्ली. मागीर पांच नखेत्री हॉटेलांनी रांदपी घालतात तसली व्हड धवी तोपी आनी धवें युनिफॉर्म घालून एक मनीस आयलो आनी ताणें मदीं एक व्हडली कायल आनी शेगडी दवरली. पायपांतल्यान येवपी गॅस कायली पोंदा आशिल्ले शेगडेक लायलो. तो हॉल टेम्पुरा पार्ट्यो करपाचोच हॉल आशिल्लो जावंये, कारण ताणें गॅसाचें कनॅक्शन दिवपी पायप हॉलाचे मदींच हाडून सोडिल्लें. मागीर दुसरो एक शॅफ तसलीच तोपी आनी कपडे घालून तेल आनी हेर सामान घेवन आयलो. तागेलें सामान पळयतकच भर्जी काडपाची तयारी करतात, हें आमकां कळ्ळें. वेगळ्यावेगळ्या ताटल्यांनी ताणें नुस्त्याचे, चिकनाचे कुडके, ढब्बू मिरसांगो, लांब मिरसांगो, वांयगीं, बटाट, कांदे आनी चण्याची पिठी अशें भज्यांक लागपी सामान हाडिल्लें. आमचे भितरले चडशे शिवराक आशिल्ले. तो नुस्त्याची, चिकनाची आनी भाजयांचीं भर्जी एकाच तेलांत तळपाक लागलो. आमचें आंग शिरशिरलें, पूण तीं भर्जी नाका कसो म्हणटलो? नुस्त्याचो आनी चिकनाचो वास आशिल्लीं शिवराक भर्जी कशीं पोटांत धुकल्लीं तें म्हाकाच खबर ना. ते राती उपरांत 'आयज रातची टेम्पुरा पार्टी' म्हणले बाराबर आमी शिवराक, आमकां फकत शिवराक टेम्पुरा दियात, अशें आमी सांगताले. आनी साके वांट्याची सॉफ्टड्रिंकांय बी दियात अशें तांकां सांगताले.

जपानी भाशेंत 'एसाय' म्हणल्यार भाजी आनी 'दाके' म्हणल्यार फकत (ओन्ली). 'मिझू' म्हणल्यार उदक. ह्या तीन उतरांच्या आदाराचेर आमी जपानांत एक म्हयनो काडलो. भायर हॉटेलांत जेवचें पडल्यार आमी वेटरांक 'एसाय दाके' अशें सांगताले. ते एके ताटलेंत कसल्या तरी भाजयांचे जिनस आनी दुसरे ताटलेंत शीत हाडून आमचे मुखार दवरताले. खूबशे फावटीं आमी सुपर मार्केटांनी वचून तयार शीत आनी धंय विकते घेताले आनी हॉटेलांत येवन घरच्यान हाडिल्ल्या लोणच्या वांगडा तो धंय-भात आनी लोणचें हें जेवण जेवताले. तें सवाय पडटालें आनी पोटभर जेवंक मेळटालें.

जपानी आनी भारतीय संस्कृतायो सारक्यो. अस्तंती संस्कृतायेंत अर्थीक कारणांक लागून वा संस्कृतायेचो एक वांटो म्हणून भुरगीं चवदा वर्सांचीं जातकच वेगळीं रावंक वतात, शिकतात वा काम करपाक वतात, पूण आवयबापाय म्हऱ्यांत रावनात. चडशे आवयबापूय जाणटेपणांत लेगीत भुरग्यां म्हऱ्यांत रावनात. कुटुंबांतल्या सगल्यांचें एकामेकां कडेन नातें बरें आसल्यार लेगीत जाणटेपणांत आवय वा बापूय एकलोच उरल्यार

तीं खास जाणट्या लोकां खातीर बांदिल्ल्या आश्रमांनी (ओल्ड एज होम्स) वचून रावतात. आशिया खंडांत, म्हणल्यार दक्षीण आशिया आनी दक्षीण उदेंत आशिया देशांनी चडशे जाणटे लोक भुरग्यां वांगडा रावतात. व्हड व्हड शारांनी आतां परिस्थिती बदलूंक लागल्या, पूण अजुनूय अस्तंतेचे संस्कृतायेंत जावपी जाणटेपणांतलो त्रास आशिया खंडांत जायना. जपानाचो अर्थीक पांवडो जरी येवरोप, अमेरिके भशेन आसलो, तरी पूण आशियेची संस्कृताय जपानी लोकांनी सोडूंक ना. चडश्यो बायलो भारतीय बायलां भशेन घर आनी संवसार सांबाळटात. शारांनी मात हालीं हालीं घरा भायर काम करतल्या बायलांचें प्रमाण वाडलां. एका तेंपार दोन तीन किलो वजनाचो किमोनो घालून बायलो सगले कडेन दिश्टी पडटाल्यो. आतां चडश्यो तरनाट्यो बायलो अस्तंती पद्दतीचे कपडे घालतात, कारण घरचें आनी भायलें काम करपाक ते कपडे बऱ्याक पडटात. टोकियोक सरकारी ऑफिसांनी काम करपी लोक मुंबयचे भशेन 50-60 किलोमिटर भुंयारी रेल्वेन प्रवास करून ऑफिसाक येतात. घरा पाव म्हणसर तांकां रातचीं णव-धा वरां जातात. खाजगी कंपन्यांनी आनी सरकारी ऑफिसांनी वयल्या पांवड्याच्या अधिकाऱ्यांक 'काराओके क्लबांचे' वांगडी जावंक मेकळीक दिल्या आनी वांगड्यांची वर्सुकी वर्गणी त्यो कंपन्यो वा सरकार भरता. भोवतेक वयले अधिकारी पांच ते स हाचे मदीं ऑफीस सुट्टकच त्या क्लबांनी वतात आनी फामाद गायकांच्यो वा गायिकांच्यो रिकॉर्डी आयकतात. आपूण ताचे वांगडा म्हणटलो जाल्यार पदांचें फकत संगीत लागता. त्या संगिताच्या तालार आनी सुरार काराओकेच्या वांगड्यांनी पद म्हणपाचें आसता. एका व्हडल्या पड्ड्याचेर त्या पदाचीं उतरांय बी दिश्टी पडटात. एक वर, देड वर त्या क्लबांत पदां म्हणून ते घरा पावता म्हणसर रातचीं साडेणव-धा जातात. हे सगले क्लब टोकियो शाराच्या सरकारी आनी व्हड व्हड कंपन्यांचीं ऑफिसां आसतात, त्या वाठारांत आसतात. वयल्या पांवड्या वयल्या अधिकाऱ्यांनी तकलेक मातशी वेगळे तरेची सवस्तकाय मेळपा खातीर संगीत वातावरणांत वेळ घालोवंक जाय, अशें थंयचे मानसशास्त्रज्ञ सांगतात.

भारतांतल्या भशेन जपानांतूय बी लोकशाय पद्दतीन देश चलता. कांय देशांनी ही पद्दत बरी चलता आनी कांय देशांनी लोकप्रतिनिधी आपणाल्या फायद्या खातीर लोकशाय राजवटीचो उपेग करतात. असल्या देशांनी भ्रश्टाचार आनी अंदाधुंदी वाडटा. जपानांतूय बी अशेंच चलता काय म्हणून आमी थंयच्या वयल्या पांवडया वयल्या अधिकाऱ्यांक विचारलें. सकयल्या आनी मदल्या प्रशासकी पावंड्यांचेर थंय लोकप्रतिनिधी व्हडलेंशें नाक खुपशिनात अशें कळ्ळें. वयल्या प्रशासकी आनी राजकी पांवड्यांचेर जंय अर्थीक आनी समाजीक धोरणां थारायतात आनी चालीक लायतात, थंय खूबशे प्रतिनिधी आपणालें नाक खुपशितात म्हणपाचें कळ्ळें.

आनीक एक गजाल जपानी प्रशासनांत नदरेक आयली आनी ती म्हणल्यार भ्रश्टाचाराची व्याख्या. भारतांत वयल्या पांवड्याचेर विज्ञानीक वा सरकारी अधिकारी सेवेंतल्यान निवृत्त जातकच प्रायव्हेट कंपन्यांचें काम करतात. त्या कंपन्यांचें कसलेंय काम करून घेवपाक सरकाराचेर चेपण हाडटात वा सेवेंत आशिल्ल्या अधिकाऱ्यांक पयशे दिवन कामां करून घेतात. हो भ्रश्टाचार अशें मानतात. पूण जपानांत तशें ना. संवसारीक बँकेन (वर्ल्ड-बँक) रेशीम किड्यांचें, सुताचें आनी कपड्यांचें उत्पादन वाडोवपा खातीर तरातरांच्यो येवजण्यो चालीक लायिल्ल्यो आनी भारत सरकाराक कोट्यांनी रुपयांचें अनुदान दिल्लें. तळागाळांतल्या ल्हान ल्हान शेतकारांक पालव मेळचो आनी तांची जीण सुदारची, हें सगल्या येवजण्यां फाटलें उद्दिश्ट! एक जपानी सरकारी संस्था संवसारीक बँके भशेनूच आशिया आनी आफ्रिकेंतल्या देशांक पालव दिवचे खातीर तरातरांच्यो येवजण्यो चालीक लायता. रेशमाचें उत्पादन आनी दर्जो वाडोवपा खातीर केल्ले येवजणे खाला भारत आनी जपान हांचे मर्दी विज्ञानिकांची यो-वच करपाची तजवीज आशिल्ली. जपानांत सरकारी सिल्क आनी सेरिकल्चर खात्यांतल्यान निवृत्त जाल्ल्या खूबश्या विज्ञानिकांनी आनी अधिकाऱ्यांनी एकठांय येवन एक सहकारी संघ स्थापन केलो. तो संघ सरकारा कडेन संपर्क दवरतालो. भारतांत खंयच्या तज्ञांक धाडपाचे, तांकां पगार कितलो दिवपाचो, कितलो तेंप धाडपाचे, हें थारावपाची आनी ती येवजण चालीक लावपाची जापसालदारकी जपानी सरकारान ह्या संघा कडेन सोंपयल्ली. ताका लागून भारतांत संशोधन करून सुचोवण्यो करपाक येवपी जपानी तज्ञ सगले थंयचे सरकारी सेवेंतल्यान निवृत्त जाल्ले गिन्यानी वा अधिकारी आशिल्ले. हाचे उरफाटें, भारतांत निवृत्त जाल्ल्या तज्ञांक आनी अधिकाऱ्यांक देशाचें प्रशासन फुडें व्हरपांत आनी उदरगतीचीं धोरणां चालीक लावपांत व्हडलोसो वांटो नासता.

जपानांतली आमची भोंवडी, रावप, खावप आनी भोंवप, थंयच्या शेतकार, विज्ञानीक, सरकारी अधिकारी आनी हेरां कडेन भासाभास घडोवन हाडप, थंयच्या सरकारी संस्थांनी काम चलता तें दाखोवप आनी जपानी संस्कृतायेची आमकां वळख करून दिवप हें सगलें काम जपानी सरकारान थंयच्या निवृत्त जाल्ल्या विज्ञानिकांच्या सहकारी संस्थांचेर सोंपयिल्लें. सरकारांत बारीक बारीक गजालींनी जशे सरकारी नेम आनी कायदे लागू जातात, तशे सहकारी संघांच्या कामांत जायनात. हे खातीर त्या जपानी सहकारी संघान आमची भोंवडी बरे तरेन घडोवन हाडली. आमी भारतांत परतून येतकच कांय म्हयन्यांनी त्या संघांतले स विज्ञानीक भारतांत आयले. मलबरी पानांचें उत्पादन करपाच्यो, किडे पाळपाच्यो, धाग्यांतल्यान सूत करपाच्यो, सगल्यो तरा शिकपा खातीर आनी त्यो सुदारपा खातीर बेंगळुरू, अस्तंत बंगाल, आंध्र, काश्मीर आनी हेर सुवातांनी आमी तांकां स

हयन्यां खातीर धाडले. भारतांतले तज्ञ भायर गेल्यार तांकां मेळटा त्या पगारा परस वीस टींनी चड पगार जपानच्यान भारतांत आयिल्ल्या तज्ञांक मेळटालो. आमी हिशोब केल्लो । प्रमाण जपानान भारताक शंबर कोटी रीण वा अनुदान दिल्यार तातूंतले उणेच म्हणल्यार तीस-चाळीस कोटी तरी जपानी विज्ञानिकांक परतून वताले. जपानी विज्ञानिकांक आमी रांगा हाडपाक जाय, ते सांगतात तो पगार दिवंक जाय, अशें म्हूण जपानी सरकार पयलींच अट घालतालें.

सरकारी प्रशासनाचेर नदर दवरपाचें आनी प्रशासनाक बरे रितीन काम करपाक लावपाची जापसालदारकी लोक प्रतिनिधींची आसता. पूण खूबश्या कारणांक लागून हे जापसालदारकेचो आनी आपणाक दिल्ल्या अधिकारांचो लोकांच्या फायद्या खातीर उपेग करपाचें सोडून लोकप्रतिनिधी आपणाल्याच फायद्या खातीर उपेग करतात. ल्हानसान किजिलां करून, तातूंत घुस्पावन उडोवन ते सरकारी अधिकाऱ्यांचो खूबसो वेळ पेड्डेर करतात.

केंद्रीय रेशीम बोर्डाची एक मुखेल समिती आशिल्ली. सगल्या राज्यांनी रेशमी किड्यांच्या उत्पादनाचें काम कशें चल्लां, बारीक शेतकामत्यांक ताचो फायदो जाता काय ना आनी केंद्रीय रेशीम बोर्ड आपलें काम बरें करता काय ना, ह्यो गजाली जाणून घेवपाक आनी तांचेर भासाभास करपाक हे समितीची दर म्हयन्याक बसका जाताली. हे समितींत सदांच लोकसभेचे तीन वांगडी आसताले. हांव रेशीम बोर्डाचो वांगडी-सचीव आसतना एक वांगडी म्हैसूरचो, दुसरो ओरिसाचो आनी तिसरो काश्मीरचो आशिल्लो. काश्मीरचो वांगडी खूब किजिलां करतालो. भारतांतल्या वेगळ्यावेगळ्या वाठारांतल्यान बसकांक येवपी वांगड्यांची आमी बरी वेवस्था दवरताले. तांकां विमानतळार, रेल्वे स्थानकांचेर येवकार दिवप, जंय सरकारी गेस्ट हावस ना थंय बऱ्या बऱ्या हॉटेलांनी दवरप, बसका सोंपतकच पार्ट्यो करप आनी मागीर ते परतून गाडयेंत वा विमानांत बस मेरेन कितें जाय, नाका तें पळोवप, हें काम वेवस्थीतपणान चलतालें.

काश्मीरचो प्रतिनिधी खंयच्यान तरी गाडयेन आयलो आनी केंद्रीय रेशीम बोर्डाचे लोक ताका येवकार दिवंक स्थानकाचेर पावले नात, देखून तो पिकार जालो. अहंकार म्हण्टात तो सगल्यांक आसता. आमच्या लोकप्रतिनिधींक तो हेरां परस इल्लो चड आसता. आमच्या त्या काश्मीरी प्रतिनिधीचो अहंकार दुखावला जातलोच; तो एके ऑटोरिक्षेंत बसलो आनी आमच्या ऑफिसांत आयलो. आमचें ऑफीस बेंगळुरूक महात्मा गांधी रोडाचेर युनायटेड मॅन्शन्स नांवाचे इमारतींत दुसरे माळयेर आशिल्लें. ऑटोरिक्षेन ताका सकयल हाडून सोडलो तेन्ना आमचो प्यून, आमच्या बऱ्या नशिबान आनी ताच्या वायट नशिबान, थंय उबो आशिल्लो. प्यून आनी तो वांगडी एकामेकांक वळखनाशिल्ले. रेशीम

बोर्डाचें ऑफीस खंय आसा, अशें त्या वांगड्यान विचारतकच आपूण थंयचो प्यून आनी ऑफीस वयर आसा अशें ताणें सांगलें. ''तूं ऑफिसाचो प्यून जाल्यार रिक्षेचें भाडें फारीक कर,'' अशें ताणें सांगलें. ''हांव कित्याक करतलों, तुका जाय जाल्यार तूं फारीक कर आनी ऑफिसांतल्यान मागीर घे,'' अशें सांगून तो प्यून आपल्या कामाक गेलो. त्या वांगड्याची तकली आनीक पिकार जाली. रेशीम बोर्डाचें काम सारकें चलना, तें बेठोंच सरकाराचो पयसो इबाडटात, रेशमी किड्यांचें उत्पादन सारकें जायना, अश्यो ताणें खूब कागाळी केल्यो. त्या प्युनाक ख्यास्त कर, म्हणून तो म्हजे फाटीक लागलो. ख्यास्त करपाची प्रक्रिया हांव सुरू करतां पूण ताका ख्यास्त जातली काय ना, हें हांव सांगूंक शकना, कारण त्या विशयांतले नेम बारीकसाणीन तपासचे पडटले अशें हांवें ताका सांगलें. तो आनिकूय पिकार जालो. बोर्डाच्या वांगड्यां खातीर रातची पार्टी घडोवन हाडिल्ली. ते पार्टेक तो आयलो ना. रेशीम बोर्ड पार्ट्यांचेर खूब पयशे वगडायता, फाटल्या दोन वर्सां मर्दी रेशीम बोर्डान कितल्यो पार्ट्यो केल्यो, कितले पयशे मोडले, त्या पार्ट्यांक कितले लोक आयिल्ले, अशे खूबशे प्रस्न ताणें मागीर लोकसभेंत विचारले. रेशीम बोर्ड बेठ्यांच पार्ट्यो दिना, दर म्हयन्याक मुखेल समितीची बसका आसतना भारतांतल्या वेगळ्यावेगळ्या वाठारांतल्यान आयिल्ल्या वांगड्यांक आमी गतचें जेवण दितात, अशें सांगून फाटल्या दोन वर्सां मर्दी असलीं कितलीं जेवणां जालीं, त्या जेवणांक कोण कोण आयिल्ले आनी कितलो खर्च जालो, हाचो सगलो हिशोब आमी वाणिज्य मंत्रालयाक धाडलो आनी तांणी तो लोकसभेक धाडलो. ह्यो सगल्यो जापो तयार करपाक आमकां तीन-चार दीस लागले. लोकसभेंत ताचेर कांय भासाभास जाली ना. चड करून दिल्लीक त्या वांगड्याक आपोवन तूं असल्यो बारीक सारीक गजाली घेवन बसूं नाका, अशें मंत्र्यान सांगलां जातलें.

आमची लोकशाय बांदावळ लोकशायेच्या नांवान वेळ आनी पयसो कसो पेड्डेर करता हाचें आनीक एक उदाहरण! लोकसभेच्या १८ वांगड्यांचो एक पंगड भारतांतलें रेशमी किड्यांचें उत्पादन शिकपा खातीर णव दीस काश्मीराक भोंवडी करतलो, रेशीम बोर्डान तांची सगली तयारी करची, असो वाणिज्य मंत्रालयाच्या सचिवान म्हाका फॅक्स धाडलो. 1980-85 काळांत सरकारांत ई-मेल सुविधेचो वापर जायनाशिल्लो. टेलेक्स नाजाल्यार फॅक्स वापरताले. ''रेशमी किडे पाळपाची आनी रेशमी सूत तयार करपाची प्रक्रिया पळयतलो जाल्यार काश्मीराची भोंवडी करून कांयच उपेग ना, कर्नाटकांत येवंक जाय, कारण रेशमाचें उत्पादन कर्नाटक, तमीळनाडू आनी आंध्रांत चड जाता. काश्मीरचे रेशमी किडे हे थंड प्रदेशांतले किडे, थंय आसात त्यो चालीरिती वेगळ्यो आनी कर्नाटकांतल्यो वेगळ्यो,'' अशें सांगून हांवें दिल्लीच्या सचिवाक एक फॅक्स मारलो. रोखडोच दोन-तीन वरां भितर म्हाका दिल्लीच्यान सचिवाचो फोन आयलो. ''तुका कितें

पिशें लागलां? ते वतात ते फोल्ग मारपाक! रेशमी किड्यांचो अभ्यास करपाक न्हय, हें तुका खबर ना? सगल्यांक खबर आसा, फोल्ग मारपाक वतात म्हणून! आमी तें उक्तेपणान म्हणपाक जायना, देखून थंय कितेंय तरी आमच्या कायद्यांत बसता अशें कारण बरोवंक जाय. हांवें तुगेली ती फॅक्स पिंजून उडयल्या, तूं आनीक बोवाळ घालिनासतना तांचे काश्मीराचे भोंवडेची तयारी कर,'' अशें ताणें सांगलें. ताणें अशें सांगतकच म्हाका आनीक वाट ना जाली. अखेरेक मूळ 18 जाणांतले फकत स वांगडी थंय गेले आनी आमकां तांची सगली वेवस्था करची पडली.

ओरिसाच्या आनी मध्यप्रदेशाच्या कांय वाठारांनी रेशमी किड्यांचें उत्पादन करपा खातीर फावो तशें तापमान आसा. रेशमी किडे पाळ्ळ्यार फायदो जायसारके खूबशे गरीब शेतकारूय थंय आसात. देखून ह्या भागांनी शेतकारां मर्दी हो धंदो पातळावपा खातीर केंद्रीय रेशीम बोर्ड खूबसो यत्न करतालो. भारत सरकारान ते खातीर खूबश्यो येवजण्योय बी आंखिल्ल्यो आनी चालीक लायिल्ल्यो. ओरिसांत अनुसुचीत जमाती रावपी दोंगराळ भागांत, म्हणल्यार ओरिसा आनी आंध्र हांचे शिमेचेर, तशेंच ओरिसा आनी मध्यप्रदेश हांचे शिमेचेर आशिल्ल्या कोरापूट वाठारांत ह्या धंद्याक बरो वाव आसा. कांय विज्ञानिकांक घेवन थंयच्या शेतकामत्यांक आनी गांव पांवड्या वयल्या प्रशासकांक, तशेंच राज्य पांवड्या वयल्या प्रशासनाच्या अधिकाऱ्यांक भेटी दिवन ह्यो येवजण्यो फुडें व्हरपाचो यत्न हांवे केलो. मध्यप्रदेशाच्या ज्या वाठारांत आमी कांय दीस भोंवले, तो वाठार आतां छत्तीसगड राज्यांत आसपावता. बिहारांत टस्सर किड्यांचें उत्पादन वाडोवपा खातीर खूबश्या गांवांनी आमी भोंवले, ते सगले गांव आयज झारखंड राज्यांत आसपावतात.

उत्तर हिंदुस्थानांतलीं प्रशासनां दक्षीण भारतांतल्या प्रशासनां भशेन वयर ते सकयल मेरेन कडक चालीरितींनी बांदिल्लीं नासतात. भारत स्वतंत्र जावचे पयलीं हे सगले वाठार इल्लीं इल्लीं राज्यां वा संस्थानां हांच्या भितर वांटिल्लीं आशिल्लीं. दर्यादेगे वयल्या वाठारांनी जशें ब्रिटीशांचें राज्य बेगीन पावलें, तशें हांगां पावलें ना. देखून आयज बिहार, मध्यप्रदेश, उत्तरप्रदेश, झारखंड, राजस्थान, ह्या भागांनी खूबशें प्रशासन 'हम करे सो कायदा' हे पद्‌दतीचेर चलता. असल्या राज्यांतल्या खूबश्या गांवांनी जात आनी पयसो होच कायदो! ताका लागून तळागाळांतल्या शेतकारांक आनी फाटसारिल्ल्या वाठारांक वयर काडपाच्यो येवजण्यो सारक्यो चालीक लागनात. जायते कडेन खेड्यांतले अधिकारी अनुसुचीत जातींतले आशिल्ल्या कारणान तांकां लोक आपणाल्या घरांनी लेगीत घेनात. ह्या जातींच्या समाजीक वणटींक लागून उदरगतीच्यो येवजण्यो पातळावपाक वेळ लागता. ह्या राज्यांनी सेरिकल्चर पातळावपाचो रेशीम बोर्डान खूब यत्न केला, पूण त्या यत्नांक मेळपाक जाय तितलें येस मेळूंक ना.

भारतांतल्या उदेंतेच्या वाठारांनी, म्हणल्यार मेघालय, मणीपूर, आसाम ह्याय बी राज्यांनी किडे पाळपाची प्रक्रिया सुरू करपाचो यत्न जालो. म्हजे वांगडा वावुरपी अधिकाऱ्यांनी आसाम, मणीपूर, मेघालय ह्या राज्यांच्यो खूबश्यो भोंवड्यो करून त्या कामाक सुरवात केल्ली. बिहारांतले भशेन ह्याय राज्यांनी भ्रश्टाचार खूब, देखून भारत सरकारान दिल्लो पयसो 95 प्रतिशें खंयचे कडेन वता, हें कोणाक समजुचें ना, अशें कांय वयल्या पांवड्या वयल्या अधिकाऱ्यांचें मत आशिल्लें. हेर कडेन करतात तशी थंयूय बी उदरगत करात अशीं पत्रां दिल्लींत कदेलार बशिल्ले आसाम, मेघालय, मणीपूर ह्या राज्यांचे फुडारी आमकां धाडटाले. भ्रश्टाचार चड आसलो म्हणून तुमी काम करपाचें सोडूंक जायना, अशें तांचें मत आसलें. एके वटेन तें म्हणटात तें खरें अशें मानचें पडटालें. प्रशासन जंय बरें चलता, जंय भ्रश्टाचार उणो आसा, थंयच उदरगत करपा खातीर चड पयसो घालो, जाल्यार वायट आनी भ्रश्ट प्रशासन आशिल्लीं राज्यां कोण सुदारतलो, ह्या प्रस्नाकूय अर्थ आसा.

किडे पाळपाची प्रक्रिया भारतांत चड आपणायल्या ती कर्नाटक राज्यान. बेंगळुरू आनी म्हैसूर जिल्ल्यांनी हो धंदो चड चलता. गरीब शेतकारांचो अर्थीक पांवडो वयर काडपाक किडे पाळपाचे प्रक्रिये इतलें सोंपें आनी बरें साधन आनीक खंयचेंच ना, अशें विज्ञानिकांचें म्हणणें आसा. ज्या वाठारांनी पावस उणो आसा थंय मलबरीचे रोंपे लावंक बरे, कारण तांकां उदक चड लागना. दुसरी गजाल, कुटुबांतल्यो बायलो आनी भुरगीं लेगीत फाविल्ल्या वेळार हे प्रक्रियेंत वांटो घेवंक शकतात. भायल्या कामेऱ्यांचेर खर्च करपाची गरज नासता. धरणाचें उदक जंय जंय पावता वा पावस जंय भरपूर पडटा, थंय उशीकांडो, भात, मको बी रोयतात. पूण जंय पावस सारको पडना आनी धरणाचें उदकूय पावना आनी जो वाठार दोंगराळ आसता, तसले जमनीर मलबरी रोंपां बरें तरेन वाडटात आनी पानांचो दर्जोय बी बरो आसता. असल्या वाठारांतले शेतकारूय बी गरीब आसतात.

कर्नाटकांत असले गरीब वाठार खूब कडेन आसात आनी थंय मलबरीची शेती आनी रेशमी किड्यांचो धंदो पातळावपाक रेशीम बोर्ड आनी कर्नाटक सरकारूय बी खूब कश्ट करता. आमी बेळगांव, धारवाड, बिजापूर जिल्ल्यांनी काम सुरू केल्लें. बेळगांव आनी धारवाड जिल्ल्यांतल्या खूबश्या शेतकामत्यांनी मलबरीचीं रोंपां लावंक आनी किडे पाळपाक सुरवात केल्ली. तांकां किड्यांचीं तांतयां दिवंक, तशेच 'ककून' विकूंक त्या त्या संस्थांचे फांटे आमी बेळगांव,धारवाड आनी हेर कडेन उक्ते केल्ले. धाग्यांतल्यान रेशमी सूत तयार करपाच्यो फॅक्टऱ्यो घालपाची तयारी चलताली. म्हैसूर, बेंगळुरू, रामनगर ह्या वाठारांतल्यान बरे फिशाल कामगार हाडून ह्या जिल्ल्यांतल्या लोकांक प्रशिक्षण दिवपाची तयारीय बी केल्ली.

भारतांतल्या दर्यादिगे वयल्या वाठारांनी जंय जंय गरीब शेतकार रावतात, थंय थंय रेशमी किड्यांची प्रक्रिया सुरू करपाक जाय, अशें आमी थारायिल्लें. पावस आनी हवेंत वलसाण आशिल्ल्या वाठारांनी रेशमी किडे बरे तरेन जगूं येतात काय ना आनी ह्या वाठारांनी 'ककून' बऱ्या दर्ज्याचे येवं येतात काय ना, हें आमकां पळोवंक जाय आशिल्लें. गोंयांत लेगीत पेडणें, सत्तरी, सांगें, केपें आनी काणकोण ह्या म्हालांनी फाटसारिल्ले वाठार खूब आसात. त्या वाठारांतल्या गरीब शेतकारांक रेशमी किडे पाळपाची प्रक्रिया शिकयल्यार, तांकां तांतयां दिवपाची आनी 'ककून' विकते घेवपाची वेवस्था केल्यार, तांची येणावळ वाडूंक मजत जातली. हे खातीर पयलीं रेशीम बोर्डान किडे पाळून 'ककून' तयार करपाचो प्रयोग करून पळोवंक जाय, अशें आमी थारायलें. तेन्नाचो गोंयचो उद्देग मंत्री बाबू नायक हाचे कडेन उलोवन, ताचे वरवीं शेतकी खात्या कडेन संपर्क सादून, मलबरी रोंपां लावपा खातीर, रेशमी किडे पाळपा खातीर फोंड्या म्हऱ्यांत आशिल्ल्या तांच्या एका फार्मांत आमी थोडो जागो घेतलो. गोंयचे म्हारगायेक लागून रेशीम बोर्डाचे विज्ञानीक आनी स्टाफ गोंयांत येवंक फाटींफुडें जाताले. गोंयचे म्हारगाये खातीर खास भत्ते दिवन, तांकां हांवें गोंयांत धाडले. एका वर्सा उपरांत बऱ्या दर्ज्याचीं मलबरी पानां, किडे आनी 'ककून' मेळ्ळे. गोंयच्या पावसांत आनी हवामानांत बरे तरेचे 'ककून' जावं येतात आनी गोंयांत जाल्यार, भारतांत दर्यादिगेर सगले कडेन जावं येतात म्हणून आमकां खूब खोस जाली. आतां फुडलें काम म्हणल्यार गोंयच्या शेतकारां मेरेन हो विचार पावोवपाचो. सुमार एक वर्स रेशीम बोर्डाच्या अधिकाऱ्यांनी गोंयच्या शेतकी खात्या वरवीं काम करपाचो यत्न केलो, पूण तांकां येस मेळ्ळें ना. भारतांतल्या खंयच्याच राज्यांत आमकां इतलो त्रास जावंक ना, अशें तांणी आमकां सांगलें. गोंयच्या सरकाराक हाचें इल्लेंय पडून वचूंक ना, अशें तांणी सांगलें. एके वटेन म्हारगाय आनी दुसरे वटेन कानार केंस ओडपी गोंयचें सरकार, हाका लागून जाल्ले निर्शेवणेंतल्यान मागीर आमकां गोंयांतलें काम बंद करून, स्टाफाक हेर कडेन हालोवचे पडले. पूण गोंयांत केल्ल्या प्रयोगाक येस मेळिल्ल्यान, मागीर कर्नाटक सरकाराक हाताक धरून रेशीम बोर्डान कर्नाटकांतल्या दर्यादिगे वयल्या वाठारांनी काम सुरू केलें.

संवसारांतलें सगल्यांत चड रेशीम चीनांत तयार जाता. ताचे फाटोफाट भारतांत. हाचें कारण म्हणल्यार चीनांत आनी भारतांत गरिबी खूब आसा आनी भायल्या कामेऱ्यांचेर खर्च करिनासतना कुटुंबांतल्योच बायलो, भुरगीं बी रेशमी किडे पाळपाचें काम करपाक शकतात. चीनांत जावपी रेशमी किड्यांचो, 'ककुनां'चो आनी रेशमाचो दर्जो भारतांतल्या परस बरो आसता. चीनी रेशमाक येवरोपांत आनी अमेरिकेंत भारतांतल्या रेशमा परस चड मागणी आसा. इण्डोनेशिया, मलेशिया, फिलिपीन ह्याय देशांनी रेशीम तयार जावं येता.

कारण थंयूय बी गरिबी खूब आसा आनी हवामान आनी हेर परिस्थिती भारतांतल्या कांय भागां भशेन आसा.

भारतांतलें रेशीम भारतांतूच खपता. भारतीय भौसांत रेशमी साडयांक आनी कपड्यांक खूब म्हत्व आसा, देखून भारतांत तयार जावपी रेशीम भारताकूच सारकें पावना. ह्या रेशमाचो दर्जो वाडोवन, भायल्या देशांनी ताचो खप वाडयल्यार शेतकारांची येणावळ वाडूं येता. आंतरराष्ट्रीय बाजारांत भारतीय आनी चीनी रेशीम चड खपोवपा खातीर, तशेंच आशियेंतल्या हेर देशांनी रेशीम तयार करून येवरोप आनी अमेरिकेंत विकपा खातीर कितें कितें करपाक जाय, हाचो अभ्यास करूंक जाय अशें जाणकार मानताले. हो अभ्यास करून एक रिपोर्ट तयार करचो, अशें 1984 - 85 वर्सा इकनोमिक ॲण्ड सोशल कमिशन फॉर एशिया ॲण्ड पेसिफिक (इस्काप) हे एकवटीत राष्ट्रांचे संस्थेन थारायलें. रेशमी कपड्यांचे बाजारपेठेचो आनी रेशमी किड्यांच्या आनी मलबरी लागवडीच्या धंद्याचो अभ्यास करून तो रिपोर्ट तयार करपा खातीर एका चीनी अधिकाऱ्याची आनी म्हजी नेमणूक जाली. पयलीं पयलीं बँगकोकाक इस्कापाच्या मुखेल ऑफिसांत वचप, थंय एक सप्तकभर अधिकाऱ्यां लागीं भासाभास करप, मागीर हेर देशांची भोंवडी करप आनी मागीर परतून बँगकोकाक येवन, ऑफिसांत बसून रिपोर्ट तयार करप, हें आमचें काम. रेशीम तयार करपी देश म्हणल्यार चीन, जपान, भारत आनी सामक्या उण्या प्रमाणांत म्हणटात तशे सोविएत युनियनांतले मुसलमान वाठार आनी दक्षीण कोरिया. रेशमाचो चड खप येवरोप आनी अमेरिकेक! आमकां येवरोप, अमेरिका आनी आशियेंतल्या देशांनी भोंवडी करची पडली. येवरोपांत इटली, फ्रांस, स्विट्झरलॅण्ड, इंग्लंड ह्या देशांक आमी भेटी दिल्यो. रोम, मिलान, झुरीक, लंडन, पॅरीस आनी लियाँ ह्या शारांक आमी भेटी दिल्यो. अमेरिकेंत न्युयॉर्क, न्युजर्सी आनी सान फ्रांसिस्को ह्या शारांनी आमी वचून आयले. जपानांत टोकियो आनी क्योटो, इण्डोनेशियेंत जकार्ता, बाली आनी उत्तर इण्डोनेशियेंतले खूबशे ल्हान ल्हान गांव, चीनांत बिजिंग, ग्वांगझाव ह्या शारांक भेटी दिल्यो. भारतांत चीनी अधिकाऱ्याक कर्नाटक, तमीळनाडू, अस्तंत बंगाल आनी काश्मीर राज्यांनी भोंवडावन, थंय रेशीम बोर्डाचें आनी राज्य सरकाराचें काम दाखयलें. भोंवडी सोंपतकच पंदरा दीस बँगकोकाक रावन रिपोर्ट तयार केलो.

म्हजे वांगडा आशिल्ल्या चीनी अधिकाऱ्याक इंग्लीश व्हडलीशी कळनाशिल्ली. चीनी सोडल्यार ताका आनीक खंयचीच भास सारकी कळनाशिल्ली. देखून सगल्यां कडेन उलोवपाची आनी अखेरेक इंग्लिशींतल्यान रिपोर्ट तयार करपाची जापसालदारकी म्हजेरूच पडली. येवरोप आनी अमेरिकेंतले वेपारी आनी फॅक्टरी मालक चीनाक जितलें म्हत्व दितात, तितलें भारताक दिनात. हाचें कारण म्हणल्यार येवरोपांत

आनी अमेरिकेंत चीनी रेशमाचो खप चड आनी भारतीय रेशमाचो खप उणो. वचत थंय 90 प्रतिशें वेळ चीनी रेशमाचो खप कसो वाडोवचो, हाचेरूच येवरोप–अमेरिकेचे लोक चड उलयताले. भारतांतल्या रेशमाक भारतांतूच आशिल्ले मागणेक लागून भायल्या देशांनी भारताचें रेशीम धाडपाक मेळना, ल्हानशी ऑर्डर दिल्यार लेगीत हांगा वेळार पावना आनी वेळार पावल्यार लेगीत ताचो दर्जो सारको नासता, अशें थंयचे वेपारी सांगताले.

भारतांत रेशमाचो प्रस्न हो सामको वेगळे तरेचो. मागणी आसा तितलें रेशीम तयार जायना, देखून रेशमी सुताचें आनी कपड्यांचें मोल हेर कपड्यां परस पांच ते धा पटींनी चड आसता. भारतांत खप कसो वाडोवचो हो प्रस्न ना. वाडत आशिल्ले मागणेक लागून चड रेशीम कशें तयार करचें, हो भारताचो मुखेल प्रस्न आशिल्लो. देखून भायल्या देशांनी भारतांतलें सिल्क सारकें मेळना, जाय तितलें मेळना, वेळार मेळना, दर्जो सारको नासता, अश्यो कागाळी करतकच, "आमकां तुमचे वांगडा रेशीमाचो धंदोच करपाचो ना," अशे विचार तकलेंत येताले.

ह्या 45 दिसांचे आंतरराष्ट्रीय भोंवडेंत याद उरपा सारके खूबशे अणभव आयले. चीनाक वतासतना दोन दीस हांव आनी ली (चीनी अधिकाऱ्याचें नांव) हाँगकाँगांत रावले. थंय जे तरेन थंयचे रेशीमाचे वेपारी ली भोंवतणीं नाचताले ते तरेन ली चीनी रेशीम जगांतलो एक व्हड अधिकारी म्हणपाचें म्हाका कळ्ळें. त्या वेपाऱ्यांनी म्हाका आनी ली'क हाँगकाँगच्या एका व्हड चीनी रेस्टोरण्टांत जेवण दिलें. हांव शिवराक अशें हांवें लीक पयलींच सांगिल्लें. पूण ली तांकां सांगपाक विसरलो जावंये. थंयचें तें जेवण म्हणल्यार सांजेच्या सातांक सुरवात जावन इकरांक सोंपपाचें. सोरो धरून, सगलें जेवण वयल्या पांवड्याचें. नवे नवे जिनस ते मेजाचेर हाडीत रावताले. जेवण सुरू जातकच, हांव शिवराक म्हणपाची ली'क याद करतकच, ली'न नर्वस जावन, दोग तीग जाणांच्या कानांत फुतफुतून तो रकाद पावयलो, आनी आमचे ते वेपारी, वेटर आनी ली हांचे मदीं खूबश्यो वाटाघाटी जाल्यो. ह्या सगल्या वाटाघाटीं उपरांत म्हज्या वांट्याक कितेंय येतलें काय ना, हाचो म्हाका हुसको आशिल्लो. मागीर एके प्लेटींत तांणी म्हजे मुखार एस्पारेगसाचे व्हड व्हड देंठ हाडून दवरले.(एस्पारेगस म्हणल्यार तळ्यांत वा उदकांत जावपी, पिपरे भशेन रुचीचो व्हड देंठ; हो उकडून सेलेडाचो एक वांटो म्हणून खातात). हांवें तातूंतले कांय देंठ व्हिनेगराक आनी सॉसाक लावन खाले. हेरांक मागीर तिसऱ्या चवथ्या फावटीं नवे जिनस हाडटना तांणी दर फावटीं म्हजे मुखार एस्पारेगसाची नवी नवी प्लेट हाडून दवरली. ली'क खूब वायट दिसतालें, पूण ताका कांयच करप जमनाशिल्लें. ली'न म्हाका हळूच विचारलें, "तुज्यान आनीक कितें खावं येता?" 'वेजिटेबल स्प्रिंग रोल्स,' हांवें

सांगलें. ली'न तांकां रकाद धाडलो. दोन-तीन मिनटांनी वेटरान येवन ली'च्या कानांत कितेंय तरी सांगलें. ली'न म्हाका सांगले, "हें रेस्टोरण्ट वयल्या पांवड्या वयलें, हांगा वेजिटेबल स्प्रिंग रोल्स करिनात. वेजिटेबल स्प्रिंग रोल्स म्हणल्यार सामकें सकयल्या दर्ज्याचें खाण; तें हलक्या दर्ज्याच्या रेस्टोरण्टांनी मेळटा.'' हाँगकाँग हो देश 1984-85 वर्सा ब्रिटीशांच्या हाता सकयल आशिल्लो. चीन देशांत तो आसपावंक नाशिल्लो, म्हणटकच कम्युनिस्ट देशांत सवाय खाण आनी म्हारग खाण असो भेद कित्याक, हें तांकां विचारल्यार, हाँगकाँग हो कम्युनिस्ट देश न्हय, अशेंच ते सांगतले आसले. भारतांत वेजिटेबल स्प्रिंग रोल्स पांच नखेत्री हॉटलांनी लेगीत मेळटा. देखून एक तर ते लोक वा ली म्हाका फटी मारतालो, काय हाँगकाँगाक गरीब आनी दुबळो आशिल्लो वेजिटेबल स्प्रिंग रोल भारतांत येवन गिरेस्त जालो, तें म्हाका समजलें ना. हांवें पयल्या दोन प्लेटींतले दोन-दोन देंठ खाले आनी ओग्गी बसून रावलों. धा-पंदरा फावटीं वेगळ्यावेगळ्या जिनसांचेर त्या सगळ्यांनी ताव मारतकच आतां स्वीट डीश (गोडशें) हाडटले तें तुका बरें खावंक मेळटलें अशें म्हूण ली म्हज्या कानांत फुतफुतलो. गोडशें कितें काय म्हूण पळयल्यार तांदळांचो पायस! गोंयचे परस मातसो वेगळो लागतालो, पूण मेळटा तें खरें, म्हणून तो पायस हांवें दोनदां मागून खालो.

चीनांत हांव 1981 त गेल्लों. आतां दुसरे फावटीं ली वांगडा वचपाचो योग आयलो. बिजिंगाक वचून हांव त्याच हॉटलांत रावलों. हे फावटीं सरकाराची परिस्थिती मातशी बदलिल्ले भशेन दिसली. आतां तूं एकलो भोंवपाक वतलो जाल्यार, दुकानांनी वचून बी पळयतलो जाल्यार, कांयच आडखळ ना, तुवें एकलोच भोंवपाक जाता, अशें लीन म्हाका सांगलें. तशेंच, हांव राविल्लो त्या हॉटलांत चीनीच न्हय, तर येवरोपी पद्‌दतीचें कॉण्टिनॅण्टल जेवणूय बी मेळटालें. बिजिंगाक रावन आमी ग्वांगझाव म्हणटात थंय गेले. त्या वाठारांतले शेतकार रेशमा खातीर फामाद! थंय रेशमी सूत विकपी सहकारी संघां कडेन उलोवणीं करून तांचे कडल्यान फावो ती म्हायती एकठांय करून आमी तें शार आनी तो सुंदर वाठार पळोवंक आनीक एक दीस थंय घालयलो. शारा भोंवतणीं खूबशीं तळीं आनी तळ्यां मदीं खूबशे जुंवे आसात. वाठार काश्मीरा भशेन, एकदम सोबीत. भारतांत जशे वयल्या पांवड्या वयल्या अधिकाऱ्यां भोंवतणीं सकयले लोक नाचतात, तशेच चीनांतूय बी! जितलें शार ल्हान, तितलो वयल्या अधिकाऱ्यांचो मान चड! ग्वांगझाव शारांत वचत थंय च्या आनी जेवणाचो मारो, पूण पयलीं भशेन म्हायती लिपोवपाचो यत्न नाशिल्लो. भारतांत जशे सगळे कडेन सरकारा आड कागाळ करतात, तशेंच चीनांतूय बी चलता. भ्रश्टाचारा विशीं उक्तेपणान उलयनाशिल्ले, पूण तो विशय येतकच एकामेकां कडेन पळोवन भितरल्या भितर हांसताले. किड्यांचीं तांतयां विकतीं घेवप, 'ककून' विकप, हातूंत बारीकसारीक भ्रश्टाचार चलतालो.

सगल्या दक्षिण भारतांत कर्नाटक, तमीळनाडू, आंध्र बी राज्यांनी चलता, त्यापरस चीनांतल्या थंड प्रदेशांत (टॅम्परेट झोन) किड्यांच्यो जाती, तश्योच तांकां पाळपाच्यो तरा आनी मलबरीचीं झाडा वेगळीं! हिंदुस्थानांतल्या काश्मीर भागांत चीनांत चलतात त्यो पद्दती आपणावं येताल्यो. ह्या सबंद उद्देगांत सहकारी बांदावळीचें आनी सरकारी आस्थापनांचें काम कशे तरेन चलता, चीनांतल्या रेशमाचो दर्जो आमच्या रेशमा परस बरो, तो ह्या सरकारी आनी सहकारी बांदावळीं खातीर, काय गिन्यान वापरून आनी थंड हवेक लागून पानांचो, तांतयांचो आनी किड्यांचो दर्जो वाडयिल्ले खातीर, हाचो आमी अभ्यास केलो. आंतरराष्ट्रीय बाजारांत रेशमाचो खप कसो वाडोवपाचो, हो आमच्या रिपोर्टाचो मुखेल विशय आशिल्लो. ह्या विशयांत रेशमाचे धागे एकठांय जुळोवन ताचें सूत करपाची प्रक्रिया आनी कपडे विणपाची प्रक्रिया, कपड्यांक रंग दिवपाचें काम, हें सगलें म्हत्वाचें. किडे पाळप वा मलबरी पानांचो दर्जो वाडोवप ह्या प्रक्रियांक आमच्या रिपोर्टा खातीर चड म्हत्व नाशिल्लें. तरी आसतना बाजारांतली मागणी मतींत घेवन सध्या चलिल्ले किडे पाळपाचे प्रक्रियेंत बदल करपाक जाय काय ना, ताचेरूय आमकां विचार करपाचो आशिल्लो. देखून चीन, भारत, इण्डोनेशिया, थायलण्ड ह्यावूय देशांचो आमचे भोंवडेंत आसपाव आशिल्लो.

भारतांत चडशें रेशीम हातमागाचेर विणटात. पुडवीं, कुर्ते, खोमसां हांचे खातीर लागपी रेशमी कपडे आनी तरातरांच्यो साडयो, सगल्यो हातमागांचेर जातात. बेंगळुरू आनी म्हैसूर शारांनी साडयांच्यो वयल्या दर्ज्यांच्यो तरा म्हणल्यार, क्रॅप, शिफॉन बी विजेचेर चलपी मागांचेर (पावरलूम) विणटात. चीनांत सगलेंच रेशीम विजेचेर चलपी मागांचेर विणटात. विजेचेर चलपी मागांची विणपाची तांक चड आशिल्ल्यान हातमागां परस थंय कितलेंशेंच चड आनी बरें विणप जाता. हाचे उरफाटें, आमकां लाखांनी मिटर रेशमी कपडो तीन-चार म्हयन्यां भितर तुमी विणून दितात काय म्हणून विचारल्यार, इतल्या चड प्रमाणांत हातमागाचेर जमपाचें ना, अशें भारतांत सांगचें पडटा. कोणाकूय वेगळ्यावेगळ्या डिझायनांचो आनी रंगांचो थोडो थोडो कपडो जाय जाल्यार तो हातमागांचेर तयार करून दिवं येता. तो चीनांतल्या पावरलुमाचेर जायना. येवरोपांत आनी अमेरिकेंत बाजारपेठेची पद्दत वेगळी. भारतांत वर्सभर लोक रेशीम विकतें घेतात. वेगळेवेगळे सण बी आसतना रेशमाच्यो साडयो बी चड खपतात. येवरोपांत आनी अमेरिकेंत तशें नासता. थंयच्या बाजारांनी चड वेपार जाता तो नातलाक आनी नव्या वर्साक. व्हड व्हड ठोक वेपारी हजारांनी किरकोळ वेपाऱ्यांक लाखांनी मिटर कपडो नातलां पयलीं पावयतात. तितल्या व्हड प्रमाणांत कपडो फकत चीनांतल्यान येवं येता. भारतांत तयार जाता तें रेशीम भारताकूच पावना, म्हणटकच आंतररष्ट्रीय बाजारांत भारतांतल्या रेशमाचो खप

कसो वाडोवपाचो, हो प्रस्न भारत सरकारा मुखार वा रेशीम उद्‌देगा मुखार केन्नाच येवंक ना. हालीं हालीं म्हणल्यार 1970 च्या उपरांत चीनांतल्यान बऱ्या दर्ज्याचें रेशमी सूत आयात करून, नव्या फॅशनींचे कपडे तयार करून, भारतांतल्या वेपाऱ्यांनी अमेरिकेंतल्या आनी येवरोपांतल्या ल्हान ल्हान वेपाऱ्यांक विकप सुरू केल्लें.

ग्वांगझावाक काम सोंपतकच आमच्या चीनी येजमानांनी आमकां लिंग्स ह्या व्हड व्हड दोंगरां मर्दीं आशिल्ल्या देवळांच्या गांवांत व्हेले. त्या गांवांचें सगल्यांत व्हडलें देवूळ म्हणल्यार एक बुद्धाचें देवूळ! एका भारतीय रुशीन हिमालय हुपून, थंय वचून तें देवूळ स्थापन केल्लें. हजारांनी जाण्टे चीनी त्या देवळांत येवन भारतीयां भशेन दिमी घालून, जमनीक तकली तेंकोवन, देवाक नमस्कार करताले, उजवाती लायताले आनी प्रदक्षिणा घालताले. कम्युनिस्ट चीनांत हें कशें चलता अशें विचारतकच, चीनांत जाणट्या लोकांनी आपणाली पोरणी संस्कृताय सोडूंक ना. पूण आतांच्या पिळग्यांक धर्म बी कांय लागना, अशें थंयच्या लोकांनी आमकां सांगलें. त्या देवळांच्या वाठारांत पांच-स रेस्टॉरण्टां आशिल्लीं. सगलीं कडक शिवराक! आमकां तांणी वीस नग आशिल्लें कडक शिवराक जेवण दिलें. तातूंत किल्लाचेच सात-आठ जिनस आशिल्ले. थंय म्हाका नेवरी खावंक मेळ्ळी. फकत नेवरेक भितर सोयेचें चून नाशिल्लें. सोयाबिनाचें पीठ, साकर आनी आनीक कितें तरी कलसून तातूंत भरिल्लें.

चीनांतल्यान आमी बँगकोकाक गेले. मागीर इण्डोनेशियेक गेले. थायलण्डांत जावपी रेशीम भारतीय रेशमा भशेन! पूण आंतरराष्ट्रीय बाजारांत थाय-सिल्क म्हणून थंयच्या रेशमाची चड नामना आसा. हाचें कारण म्हणल्यार थंयचें रेशीम देशांतूच चड विकिनासतना, परकी चलन मेळोवपा खातीर येवरोपाक, अमेरिकेक तें चड खपोवपाचो यत्न थाय सरकार करीत आसा. थायलण्डाची राष्ट्रीय विमान कंपनी म्हणल्यार 'थाय ॲरवेस!' भारतांत 'ॲर इण्डिया' आसा तशी! थाय ॲरवेस हेर देशांनी आपणाली जायरात करता आसतना, "आमचीं विमानां थाय रेशमा भशेन! आमचें रेशीम सुळसुळीत, आमचीं विमानांय बी आडमेळीं नासतना, सरळ, बरीं चलतात" अशी जायरात करतात. थाय सिल्क भारतीय रेशमाच्याकूय वयल्या दर्ज्याचें नासलें, तरी आसतना थाय सरकारान आनी सरकारी कंपन्यांनी यत्न करून आंतरराष्ट्रीय बाजारांत ताका नामना मेळोवन दिल्ली.

मलेशियेच्या दक्षीण भागाक लागीं आशिल्ल्या इण्डोनेशियेच्या उत्तर वाठारांनीय आमी खूब भोंवले. सतरा हजार ल्हान ल्हान जुंवे आशिल्ल्या ह्या देशांत खिस्ता उपरांतच्या पयल्या कांय शेंकड्यांनी हिंदू धर्म आपणायिल्ले लोक आसताले. मागीर सातव्या शेंकड्या उपरांत थंय मुसलमान धर्म पातळ्ळो. देशांतले चडशे भाग भारता भशेन गरीब. भारतांतल्या आनी इण्डोनेशियेंतल्या गांवगिऱ्या वाठारांनी कांयच

वेगळेपण ना. प्रदेश गरम जाल्ल्यान रेशमी किडे पाळपाच्यो तरा सामक्यो भारतांतले भशेन. गांवच्या लोकांची उदरगत करपा खातीर रेशमी किड्यांचें पाळप वाडचें म्हणून थंयच्या सरकारांनी खूबश्यो येवजण्यो चालीक लायिल्ल्यो. इण्डोनेशियेंत हो उद्देग निकतोच सुरू जातालो. अजून ताका व्हडलेंशें येस मेळूंक नाशिल्लें.

गांवांनी भोंवता आसतना आमकां ल्हान ल्हान हॉटेलांनी रावचें पडटालें. हॉटेलांतल्या बाथरुमांनी जमनीचेर शिमिटान बांदून काडिल्ल्यो उक्त्यो टांकयो आसताल्यो. त्यो सदांच उदकान भरिल्ल्यो आसताल्यो. प्लास्टीक मगांनी तातूंतलें उदक काडून न्हावपाचें. जेवणाची पद्दत मात चीना भशेन. इण्डोनेशियेंत 98 प्रतिशें लोक मुसलमान आनी 2 प्रतिशें सुमार हिंदू. हिंदू संस्कृतायेचो परिणाम मुसलमानांचेर अजुनूय दिसता. जकार्ताक वचत थंय हिंदू देवांचीं नांवां दिश्टी पडटात. म्हाका एके कडेन 'गणेशा बार' असो बोर्ड दिश्टी पडलो. सोन्याच्या दुकानाक देवाचें नांव दिल्लें हांवें ताचे पयलीं खंयच पळोवंक नाशिल्लें. आमकां मेळपाक येताले ते सरकारी अधिकारी चडशे मुसलमान आसताले, पूण तांकां रामायण, महाभारत आमच्या परस चड बरें खबर आसतालें. आमचे भोंवडेच्या निमाण्या दिसा आमकां तांणी चामड्याचें एक व्हडलें कळसुत्री बावलें दिलें. कळसुत्री बावल्यांचो खेळ इण्डोनेशियेंतल्या लोकांक खूब आवडटा. त्या कळसुत्री बावल्याचें नांव आशिल्लें 'कर्णा'. तांणी तो 'कर्णा' अशें म्हाका सांगलें. तो 'कर्णा' खूब तेंप एके व्हडले फास्केंत घालून आमच्या घराच्या सालांत आमी लावन दवरिल्लो. आतां तो अमेरिकेंत म्हज्या पुतागेर आसा.

इण्डोनेशियेंत वचून बाली जुंव्याक भेट दिनासतना गेल्यार इण्डोनेशियेची भोंवडी पूर्ण जायना, अशें म्हणून आमच्या येजमानांनी आमकां बाली व्हेले. पुरातन संस्कृताय जंय राखून दवरपाक जाय आनी राखपा खातीर चड जतनाय घेवंक जाय, असल्या जाग्यांची 'युनेस्को'न वळेरी केल्या. बाली असल्या जाग्यां पैकीं एक मुखेल सुवात. बाली जुंवो हो गोंयच्याकूय देड पटीन व्हड आनी चाळीस लाख सुमार लोकसंख्या आशिल्लो वाठार. 88 प्रतिशें लोक हिंदू. संगीत, नाच, शिल्प आनी हेर तरांच्यो कला बाली जुंव्यार पळोवंक मेळटात तश्यो इण्डोनेशियेंत आनीक खंयच पळोवंक मेळनात. हजारांनी वर्सां आदीं आशिल्ली हिंदू संस्कृताय बालीच्या लोकांनी अजुनूय सांबाळून दवरल्या. बाली पळोवंक बशीन भोंवता आसतना बशीच्या कण्डक्टरान म्हाका हांव भारतीय काय म्हणून विचारलें आनी हांवें 'हय' अशें सांगतकच, आपूण हिंदू आनी आपलें नांव 'भुमिपुत्र' अशें ताणें सांगलें आनी "हांव तुका एक कितें दाखयतां, तें कितें तें सांग," अशें म्हणून ताणें "भूं भुवस्वाहा ..तस्य....ऽ" अशें म्हणून ताणें म्हाका गायत्री मंत्र म्हणून दाखयलो. गायत्री मंत्र म्हाका खबर आशिल्लो, हाचें कारण म्हणल्यार म्हजी मूज जाता आसतना मडगांवच्या

घाटे भटान म्हाका तो शिकयिल्लो. देवाची पुजा करतासतना सदांच तो म्हणपाक जाय, अशें भटान म्हाका सांगिल्लें. पुजा करतासतना तो मंत्र म्हणूंक जाय, अशें म्हणून भटान सांगलें खरें, पूण दीसपट्टी पुजा करपाक जाय अशें भटान सांगूंक नाशिल्लें. हांवें पुजा केन्नाच करूंक ना. वर्सांतल्यान एक-दोन फावटीं जावपी जाणटेल्यांचें श्राद्ध वा देवकारें सोडल्यार हांवें पुजा केन्नाच केल्यो नात. पूण घाटे भटान शिकयिल्लो गायत्री मंत्र मात म्हाका अजुनूय याद आसा. त्या 'भुमिपुत्र' कण्डक्टरान म्हणिल्लो गायत्री मंत्र म्हाका वळखुपाक येवंक नाशिल्लो जाल्यार भारतीय हिंदू म्हूण सांगपाचो म्हाका कितलो हक्क आसतलो आशिल्लो तें खबर ना; नाकूच कापपाचें!

इण्डोनेशिये उपरांत आमी जपानाची भोंवडी केली. जपानांत टोकियो, कोबे, क्योटो ह्या शारांक भेटी दिल्यो. चीनी सिल्क फामाद जावचे पयलीं येवरोप, अमेरिकेंत जपानी सिल्क फामाद आशिल्लें. पूण अर्थीक उदरगती वांगडा जपानी लोकांचो जिणेचो पांवडो उंचावंक लागलो आनी चड पगाराच्यो नोकऱ्यो सोदूंक गांव सोडून लोक शारांनी वचून रावूंक लागले. किडे पाळपाचो उद्देग ल्हवू ल्हवू बंद पडपाक लागलो आनी हाचो परिणाम म्हणून रेशमी सुताचें उत्पादन उणें जावंक लागलें. जपानांतूय बी आतां चीनांतलें रेशीम येतालें. किडे पाळपाची, रेशमी सूत आनी लुगट तयार करपाची प्रक्रिया खूबशी उणी जाल्ली, पूण चलताली. पयलींच्यो जपानी बायलो 'किमोनो' घालताल्यो. एका किमोनोचें अडेज तीन किलो वजन. आतां पयली गजाल म्हणल्यार किमोनो घालपी बायलो कमी आनी दुसरी गजाल म्हणल्यार रेशमाचे किमोनो घालप फकत खूब गिरेस्त बायलांक परवडटा. चडशे किमोनो आतां नायलॉन, पॉलिस्टर असल्या कपड्यांचे आसतात. हाचे फुडें जपानांत रेशमी कपड्यांची मागणी कमी आसतली आनी ते मागणे प्रमाण रेशमी कपड्यांची पुरवण फकत चीनांतल्यान करची पडटली अशें जपानी शेतकारांनी आनी रेशमाच्या वेपाऱ्यांनी सांगलें. येवरोप, अमेरिकेक जपानी रेशीम धाडपाचो हाचे मुखार प्रस्नूच येवचो ना अशें जपानी अधिकारी म्हणपाक लागले.

जपानाचे भोंवडेंत कोबे आनी क्योटो शारां पळोवंक मेळ्ळीं. कोबे शार व्हड व्हड उद्देगीक आस्थापनां आशिल्लें शार. आमी रावताले त्या हॉटेलांत साडेतीन हजार कुडी आशिल्ल्यो. कोबे शारांत रेशमाचो विशय शिकपा खातीर न्हय, तर शार पळोवचें म्हणून आमी गेल्ले. तशेंच आमच्या जपानी येजमानांचे सुचोवणे वयल्यान आमी क्योटो शार पळोवंक गेले. थंयचीं व्हडलीं व्हडलीं देवळां आनी बुद्धाचे पुतळे पळोवन चीन, जपान,भारत, श्रीलंका आनी दक्षीण उदेंत आशियेंतल्या हेर देशांतली संस्कृताय एकेच भशेन म्हणपाचें कळ्ळें. खरें म्हणल्यार भारतान आपणालो शेक पातळावपाक हेर देशांचेर केन्नाच घुरी घाली ना. तरी आसतना ह्या सगल्या देशांनी भारतांतल्यान राजकी चेपण नासतना हिंदू संस्कृताय पातळ्ळी हीच अजापाची गजाल.

जपानाच्यान आमी भारतांत आयले आनी रेशीम बोर्डाच्या अधिकाऱ्यां वांगडा हांवें ली'क सिल्क विणपाच्यो मुखेल सुवातो पळोवपाक धाडलो. बेंगळुरू, म्हैसूर, कांचीपुरम, सेलम, भागलपूर, कोलकाता आनी श्रीनगर ह्या सुवातांक आमच्या अधिकाऱ्यां वांगडा भेट दिवन ली बेंगळुरूक परत येवन पांच दीस रावलो. बेंगळुरूक आमी कोरामंगला वाठारांत रावतालीं. ली'क आमी लागींच सँण्ट्रल सिल्क बोर्डाच्या गेस्ट हावसांत दवरिल्लो. तो सबंद दीस आमगेरूच रावतालो, जेवतालो आनी रातचो गेस्ट हावसांत वतालो. हिंदुस्तानी आनी चड करून गोंयचें जेवण ताका एकदम आवडटालें. आपल्याक हो वाठार एकदम आवडलो, अशें म्हणून तो दर दिसा एकलोच पांयांनी भोंवून झाडां-पेडां, मनीस, मोटारी, स्कुटरी, सुणीं, माजरां पळयत भोंवतालो. एक दीस ताणें आमगेर रांदचेकुडींत वचून लता वांगडा चीनी जेवण रांदलें.

भारतांत 15 दीस रावून हांव आनी ली येवरोपाक गेले. येवरोपांत स्वित्झर्लॅण्ड, इटली, फ्रांस ह्या देशांनी पावरलुमाचेर रेशमी कापड विणपाचें काम चालू आसता. रेशमी सूत ते चडशें चीनांतल्यान घेतात. येवरोपांत आनी अमेरिकेंत चीनी सरकारांतल्या अधिकाऱ्यांक माथ्यार उखलून धरतात. भारतांतल्या अधिकाऱ्यांक म्हत्वूच दिनात. बार्जी फाटल्यान पनेळ गेल्ले भशेन, येवरोपांत आनी अमेरिकेंत ली फाटल्यान हांव वतालों. ली वांगडा आसा म्हणून तांकां म्हाकाय उखलून धरचें पडटालें. म्हाका जो कितें मान मेळटा तो ली वांगडा आयलां म्हणून, भारतीय म्हणून न्हय, हें सगले कडेन स्पश्ट जातालें.

पयलीं आमी मिलानाक गेले. मिलान हें इटलींतलें फॅशन-कॅपिटल. येवरोपांतले खूबशे नामनेचे फॅशन डिझायनर मिलान आनी पॅरीस ह्या शारांनी आसात. मिलानाक तीन-चार कडेन भोंवून आमी थंयचे पावरलूम पळयले, डिझायनिंगाचे स्टुडियो पळयले, रेशमी कापडाचे निर्गती आनी फॅशनी विशीं भासाभास केली, हेर कडेन आयकूंक येतालें ताचे परस वेगळें कांयच आयकूंक आयलें ना. चीनी सिल्काचो दर्जो बरो, कितलेंय जाय जाल्यार मेळटा, वेळार मेळटा. तरेकवार डिझायनांचो इल्लो इल्लो कपडो वर्सभर जाय जाल्यार त्या कामाक भारत बरो. पूण व्हड वेपाऱ्यांचे फास्केंत तो धंदो बसना. हो मंत्र सगले कडेन आयकूंक येता तसोच तो मिलानाकूय बी आयकूंक मेळ्ळो. मिलानाच्यो दोन घडणुको हांव केन्नाच विसरचों ना. मिलानाक आमी जानेवरींत पाविल्ले. मिलानाच्या एका वेपाऱ्यान आमकां जेवणाक व्हेले. उलयतां उलयतां "तुमची सोनिया गांधी आतां फुडाराक एकाद्री आमची प्रधानमंत्री जावंये, सध्या ती प्रधानमंत्र्याची बायल" अशें हांवें म्हणलें. आंगा वयल्यान जल्लो, पाल, बी फाफडून उडयिल्ले भशेन ताणें उजवो हात फाफुडलो आनी म्हणपाक लागलो, "तिका इटलींत व्हडलोसो व्हालोर ना, ती अशी कांय व्हडले फामिलींतली न्हय. धाकल्या गांवांतली, सादारण कुटुंबांतली." "तुमकां

इटलींत व्हड फामील, ल्हान फामील, खानदानी कुटुंब (आरीस्टोक्रॅसी) असल्यो गजाली खूब लागतात काय किर्ते?'' हांवें विचारलें. ''सगलेच लोक ताचो विचार करतात अशें ना, पूण समाजांतले मुखेल लोक सदांच ह्या गजालींक म्हत्व दितात,'' ताणें सांगलें.

मिलानाक साकून झुरिकाक वतना विमानांत बसतकच बर्फ पडपाक लागलो. बर्फ थांबतकच विमान चालू करतले अशें पायलटान मायका वयल्यान सांगलें. विमानांतल्या जनेलांतल्यान भायर पळयतां पळयतां म्हाका एक कॉमीक गजाल दिसली. वीस तीस मिटरांचेर आनीक एक विमान उबें आशिल्लें. विमानाच्या पांखट्यांचेर खूब बर्फ एकठांय जाल्लो आनी त्या पांखट्यांचेर चडून दोन मनीस सान्नीन तो बर्फ झाडटाले. विमाना वयलो बर्फ सान्नीन कुशीन काडपाची प्रक्रिया म्हाका कॉमीक दिसली. आर्विल्ल्या टॅक्नोलॉजींत लेगीत सान्न जाय पडली, म्हणून म्हाका अजाप दिसलें. तो देखाव हांव केन्नाच विसरचों ना.

मिलानच्यान आमी झुरिकाक गेले. झुरिकाक थोड्या वेपाऱ्यांक मेळ्ळे, आनी तांचे कडल्यानूय बी हेर कडेन आयकूंक येता तोच मंत्र आयकलो. झुरिकाक हांव एका ल्हानशा हॉटेलांत राविल्लों. भारतीय अधिकारी सरकारी कामांक लागून भायल्या देशांनी वतात, तेन्ना त्या देशांतल्या भारतीय दुतावासांनी हॉटेलां रिझर्व केल्यार हांगच्यान वचपी अधिकाऱ्यांक व्हड हॉटेलांनी रावचें पडटा. पूण जेन्ना दुतावास भारतांतल्यान वचपी अधिकाऱ्यांची रावपा, जेवपा, भोंवपाची तजवीज करिना आनी जेन्ना हें करपा खातीर अधिकाऱ्यांक भारत सरकारा कडल्यान परकी चलनांतल्यान भत्तो मेळटा, तातूंतल्यान आपल्याक जाय तीं हॉटेलां वेंचून काडूंक मेळटा. सादारण हॉटेलांनी रावन आनी जेवन भत्त्यांतलो खूबसो पयसो वांचोवपाक मेळटा. आंतरराष्ट्रीय बाजारांत रेशमाचो खप वाडोवपा खातीर रिपोर्ट तयार करचो म्हणून इस्कॅप ह्या संयुक्त राष्ट्रांच्या एका आस्थापनान ली'ची आनी म्हजी नेमणूक केल्ली. ते खातीर आमकां प्रवास खर्च, दीसपट्टो भत्तो आनी आमच्या कश्टांचें फळ म्हणून पगार अशी आमची येणावळ आशिल्ली. खर्च उणो करपा खातीर व्हड व्हड, म्हारग हॉटेलांनी रावनासतना आमी सादारणशा, पूण सगल्यो सुविधा आशिल्ल्या हॉटेलांनी रावताले. झुरिकाकूय बी तसल्याच एका हॉटेलांत आमी रावले. असल्या हॉटेलांनी सामान बी वयर रुमांत व्हरपाक वेटर नासता. सामान आपणेंच उखलून व्हरचें पडटा. रुमाच्या भाड्यांत सकाळची च्या-काफी, उंडो, लोणी आनी जॅम (कॉण्टीनॅण्टल ब्रेकफास्ट) मेळटा.

पत्रां बरयिल्लीं तीं लाखाट्यांत घालून लाखाटो बंद करपाक हांव स्पञ्ज सोदतालों. लाखाट्याक गम लायिल्लें आसता, पूण इल्लें उदक लायतकच लाखाटो चिप्प दसता. धारवाड, मुंबय, बी हॉस्टेलांत आसतना आमी लाखाटो जिबेक लावन, तें

गम वलें करून लाखाटो बंद करताले. स्वित्झर्लॅण्डाक अशें केल्लें कोणेंय पळयल्यार भारताचें नांव पेड्डेर जातलें, अशें म्हाका दिसलें, देखून हांव स्पञ्ज सोदपाक लागलों. सकयल गल्ल्याचेर एक क्लार्क कसलें तरी काम करतालो. "तुजे कडेन स्पञ्ज आसा?" हांवें ताका विचारलें. 'कित्याक?' ताणें विचारलें. "हो लाखाटो बंद करपाक जाय," हांवें सांगलें. ताणें हात मुखार केलो, म्हजे कडल्यान लाखाटो घेतलो आनी जिबेक लावन तो बंद केलो, आनी म्हजे कडेन पळोवन हीऽऽही करून हांसलो. हांवें लाखाटो घेतलो, 'थँक्यू' म्हणलें आनी थंय सावन पळ काडलो.

जायते फावटीं भायल्या देशांतल्या लोकांक अमकेंच आवडचें ना, तमकेंच आवडचें ना, तांचे मुखार आमी अशेच तरेन वागूंक जाय, तशेच तरेन वागूंक जाय, अशें म्हणून आमी खूबशीं बंधनां घालून घेतात आनी आमचोच घुस्मटमार करतात. पुर्तुगेज राजवटींतल्या गोंयांत कांय लोक पुडवीं न्हेसताले, खोमीस पुडव्या भितर खोयताले, टाय आनी ज्युदी घालून ऑफिसाक वताले. पुडवें सुटत म्हणून ताचेर पटो बांदताले. मे म्हयन्यांत आंग हुमेन चिप्प भिजिल्लें आसून लेगीत भर दनपारच्या कडार कांय गोंयकार सूट मारून लग्नाक वताले. सूट घालिनासतना लग्नाक गेल्यार लोक कितें म्हणटले हाचो हुसको! अमेरिकेंत एका सोयऱ्यागेर गेल्ले कडेन रातची लुंगी आनी कुर्तो घालून हांव टिवी पळयतालों. इतल्यांत म्हज्या सोयऱ्याक कोणूय तरी थंयचे शेजारी मेळपाक आयले. एके वटेन घोव दार उगडपाक गेलो आनी दुसरे वटेन बायलेन म्हाका बेगीन बेगीन एक हावस कोट हाडून दिलो आनी म्हाका लुंगेचेर घाल म्हूण सांगलें. अमेरिकी लोकां हुजीर लुंगी घालून बसूंक जायना, हें तिचें शास्त्र!

च्या, दूद वा आनीक कसलीय गरम वस्त पियेता आसतना फूर्र फूर्र करून आवाज करपाक जायना, अशें शिकिल्ले लोक मानतात. ल्हान ल्हान गांवांनी बी कपांतली च्या बशयेंत घालून, फूर्र फूर्र करीत बरे रुचीन लोक च्या पियेतात. जपानी आनी चीनी लोकांक सूप पियेतना फूर्र फूर्र करून पियेवपाची संवय आसा. येवरोपाक, अमेरिकेक शिकून आयिल्ले लोक व्हड व्हड शारांनी अस्तंती संस्कृतायेचें वजें हेरांच्या माथ्यार दवरपाचो यत्न करतात, तातूंतलीच एक गजाल म्हणल्यार सूप फूर्र फूर्र करून पियेवंक जायना अशें ते सांगतात. टोकियोक एका हॉटेलांत इंग्लीश टुरिस्टां खातीर म्हायतीचीं इंग्लीश पुस्तकां दवरिल्लीं. बेठेंच वयलेवयर चाळून पळयतना एका जपानी लेखकान सूप पियेवपा विशीं बरयिल्लें तें वाचलें. "आमची संस्कृताय पांच हजार वर्सां पयलींची. हजारांनी वर्सां आमी फूर्र फूर्र आवाज करीत सूप पियेतात. तशें करप हें समा न्हय, सभ्यताये आड, अशें आमकां सांगपाक तुमी कोण? अर्थीक उदरगत कशी करची हें तुमी सांगात, आमी आयकतात. पूण सूप कसो पियेवचो हें तुमी आमकां सांगूं नाकात. आमी सूप पियेतात तो हेरांक बरें दिसचें म्हणून न्हय, आमकां आवडटा म्हणून."

झुरिकाक जिबेक लावन लाखाटो बंद करून तो स्विस मनीस म्हजे कडेन पळोवन हांसतकच म्हाका एका खिणा भितर ह्यो यादी जाल्यो.

शिकिल्ले सवरिल्ले भारतीय लोक अस्तंती संस्कृतायेचो कशे तरेन फायदो घेवंक सोदतात, हाचें उदाहरण म्हाका झुरीक विमानतळा वयल्यान शारांत वतना दिश्टी पडलें. विमानतळा वयल्यान शारांत बर्शींतल्यान एका वराची वाट. म्हज्या फुडल्या सिटार एक भारतीय बशिल्लो. उलोवपाची आनी लोकां कडेन वागपाची पद्दत पळयल्यार दिल्ली, पंजाब ह्या वाठारांतलो काय दिसतालो. दोग जाण बसपाच्या त्या सिटार ताचे म्हऱ्यांत एक थंयचीच चली बशिल्ली. तीं दोगांय उलयतात तें म्हाका स्पश्ट आयकूंक येतालें. ताणें तिका तूं खंयची, खंय वता, खंय गेल्ली, ही सगली म्हायती विचारली आनी तिणें आपणाली सगली म्हायती दिली. तो भारतांतल्यान रेडिमेड कपड्यांची येवरोपाक निर्गत करतालो, आनी सगल्या देशांनी भोंवून थंयच्या वेपाऱ्यांक बी मेळटालो. उलयतां उलयतां आपूण हात पळोवन ज्योतीश सांगतां, अशें ताणें तिका सांगलें. मागीर तिचो हात आपणाल्या हातांत घेवन, तिका ज्योतीश सांगपाक लागलो. तिचे विशीं ताणें सगल्यो बऱ्यो बऱ्यो गजाली सांगल्यो. ती सगली 'रायट रायट रायट' म्हणीत आशिल्ली. हो सामको हुशार. कोणाय विशीं बऱ्यो गजाली सांगल्यार कोणूच ना म्हणचो ना, हें ताका खबर आशिल्लें. ती झुरिकाच्या बस स्टॅण्डार पावतकच थंयच्यान ती खंय वतली हें तिका तो विचारपाक लागलो. आपणाली गाडी थंयच दवरिल्ली आसा, थंयच्यान गाडी घेवन 60 मैलांचेर आशिल्ल्या आपणाल्या गांवांत वतलीं, अशें तिणें ताका सांगलें. थंय तुर्जी कोण कोण आसात, अशें विचारतकच बापूय, आवय, भाव आनी आपूण अशें तिणें ताका सांगलें. तुजें लग्न जालां काय ना हें ताणें तिका विचारलें ना. पूण हेर प्रस्न विचारून ताणें ती म्हायती मेळयली. आपूण हांगा दोन दीस आसतलों. दिसाचें आपल्याक काम आसता, सांजेच्या स वरां उपरांत आपल्याक भरपूर वेळ आसता, तूं आयज तुज्या गांवांत वचचे पयलीं म्हजे वांगडा जेवंक यो, अशें ताणें तिका सांगलें. तिणें आपल्याक गांवांत बेगीन पावपाक जाय, आयज आपल्याक येवंक मेळना अशें सांगलें. ताणें तिका दुसऱ्या दिसा आपयली. दुसऱ्याय दिसा आपल्याक काम आसा, आपल्याक येवंक मेळचें ना, अशें सांगून तिणें विशय बदल्लो. मागीर बस थांबतकच गूड बाय, सी यू बी म्हणून ती आपले वटेन गेली. तिका आपणा वांगडा व्हरपाचे हाचे सगले यत्न फसले. कांय भारतीय लोक येवरोप, अमेरिकेक पावतकच कितले फुडारपाक शकतात, हाचें उदाहरण पळोवन म्हाका हांसूंक आयलें. हांवें बेठेंच म्हणून तो खंयचे वटेन वता तें पळोवपाक ताचे वटेन पळयलें. तो म्हजे कडेन पळोवन हांसलो. हांवेंय बी ताका 'गूड बाय' म्हणून हात हालयलो.

अस्तंत संस्कृतायेचो कांय वांटो जाय जाल्यार आमी आपल्या फायद्या खातीर आपणावंक जाता आनी ताचो बरो उपेग करूं येता, हें हांवें पळयलें. झुरिकाच्यान आमी जिनिव्हाक गेले आनी थंयच्यान रेल्वेंत बसून फ्रान्साच्या लियाँ शारांत गेले. मिलानाक आनी झुरीकाक आमी कारखाने पळोवपाचें आनी वेपाऱ्यां कडेन भासाभास करपाचें जें काम केल्लें, तशेंच लियाँ शारांतूय बी तीन दीस रावन केलें. लियाँ शारांतल्यान ऱ्होन न्हंय व्हांवता. आमी जानेवारी म्हयन्यांत येवरोपाची भोंवडी केल्ली. झुरिकाच्यान रेल्वेन लियाँक येतना दाव्यान उजव्यान दोंगर, रानां, गांव सगले बर्फान भरिल्ले. बर्फ घरांचेर एकठांय जावन उरचो न्हय म्हणून थंयच्या घरांचीं पाखीं 70-80 डिग्री पालशीं आसतात. धव्याच दोंगरां मदीं झाडांच्यो काळश्यो तेंगश्यो आनी घरांचीं काळशीं पाखीं हें चित्र पळयत रावनशें दिसता. लियाँ शारांतल्यान व्हांवपी न्हंयूय बी आयज मेरेन खंयच पळोवंक नाशिल्ली अशी! उदकाचो झेल जाल्लो आनी सबंद न्हंयेचें पात्र एक व्हडलो झेलाचो पाट कसो दिसतालो. फ्रान्साच्यान आमी अमेरिकेक गेले. न्यू जर्सी, न्यूयॉर्क, सान फ्रांन्सिस्को आनी लॉस एंजलीस ह्या शारांक भेटी दिवन थंयच्या वेपाऱ्यां कडेन आमी बसका घेतल्यो. चीनी अधिकाऱ्यांक माथ्यार घेवन नाचपाचो प्रोग्राम अमेरिकेच्या वेपाऱ्यांनीय बी चालू दवरलो. सगल्या शारांनी 'लिमुझीन' (लिमुझीन म्हणल्यार 6 दारांची आलिशान टॅक्सी, ती खूब म्हारग जाल्ल्यान फकत चड म्हत्वाच्या गेस्टां खातिरूच ती टॅक्सी वापरतात) घेवन आमकां येवकार दिवपाक विमानतळाचेर लोक आसताले. दनपारचीं, रातचीं बऱ्या बऱ्या हॉटेलांनी जेवणां! हॉटेल कसलेंय आसूं, शिवराक जेवणाक कसलोच प्रोब्लेम नासतालो. फकत नांवां वेगळींवेगळीं आसतालीं आनी हातूंत कितें आसा, तातूंत कितें आसा, अशें विचारतकच सगली म्हायती मेळटाली.

भारतीय रेशमा विशीं हेर कडेन आयकूंक आयिल्लीं मतां अमेरिकेंतूय बी आयकलीं. रेशीम सगले कडेन म्हारग जालां, अशेंच म्हारग जायत रावलें जाल्यार मागणी उणी जातली आनी देखून फुडाराचो विचार करून रेशमाचे दर जाता तितले उणे दवरपाचो चीनान यत्न करूंक जाय, अशें सगले सांगताले. "चीना इतलें बरें आनी चड रेशीम आनीक खंयचोच देश तयार करिना, देखून ह्या लोकांक आमचें रेशीम घेतले बगर उपाय ना. आमी आयल्यात देखून कितेंय तरी आमकां सांगपाक जाय म्हणून ते दर उणो करात म्हणून सांगतात. आमी कांयच करपाची गरज ना," अशें ली म्हाका परतून परतून सांगतालो. लॉस एंजलीसाच्यान आमकां परतून बँगकॉकाक वचून थंय 15 दीस रावन तो रिपोर्ट बरोवंक जाय आशिल्लो. आमी एकेच विमान कंपनी वतीन प्रवास केल्ल्यान आमकां कांय सवलती मेळ्ळ्यो. ली लॉस एंजलीसाच्यान बिजिंगाक गेलो आनी थंयच्यान बँगकॉकाक आयलो. हांव बँगकॉकाक वता आसतना वाटेर हवाई (अमेरिका) आनी

सोल (दक्षीण कोरिया) ह्या शारांनी दोन दोन दीस रावलों. गोंयच्यो दर्या-वेळो बऱ्यो काय हवाईची दर्यावेळ बरी हें पळोवपाची म्हाका उमळशीक आशिल्ली. हवाईचे दर्यावेळ एकूय माड दिश्टी पडलो ना. रेंवूय बी दक्षीण गोंयांतल्या दर्यावेळांचेर आसता तशी धवी आनी फुसफुशीत नाशिल्ली. हवाईची वेळ कोलवें भशेन मातशी रुंद, पूण चडशे कडेन बरीच अशीर आशिल्ली. ल्हारां कडल्यान 75-100 मिटरांचेर व्हड व्हड बिल्डिंगो! जाणट्या लोकांचे व्हड व्हड चोंबे वेळेचेर सकाळसांज व्यायाम करतना दिश्टी पडटाले. फकत इंग्लीश भास सोडल्यार हवाईचीं पांच नखेत्री हॉटिलां आनी आमचीं पांच नखेत्री हॉटिलां हातूंत कांयच फरक नाशिल्लो. हवाईतल्यान हांव दक्षीण कोरियाची राजधानी सोल शारांत वचून थंय दोन दीस रावलों. हांव सोल विमानतळाचेर अमक्या अमक्या दिसा, अमक्या अमक्या विमानान पावतां, अशें न्युयॉर्काक भारतीय कॉन्सुलेटींतल्यान सोलांत आशिल्ल्या भारतीय दुतावासाक रेकाद आयिल्लो. ते प्रमाण दुतावासांतलो फस्ट सेक्रेटरी विमानतळार गाडी घेवन आयिल्लो. म्हाका म्हज्या हॉटिलांत पावोवन दुसऱ्या दिसा भारताच्या राजदुता कडेन म्हजी बसका दवरल्या अशें त्या फस्ट सेक्रेटरीन सांगलें. म्हाका राजदुता कडेन कांय काम ना, पूण मिटींग दवरल्या जाल्यार हांव येतां, अशें हांवें ताका सांगलें. कुलकर्णी नांवाची एक बायल थंय भारताची राजदूत आशिल्ली. म्हजे परस दोन वर्सां सिनियर. ती म्हाका पळोवन ताप ताप तापली. ''तूं भारत सरकाराच्या कामाक येवंक ना, तूं संयुक्त राष्ट्रांच्या कामाक आयला, आमी तुजे खातीर कांयच करपाची गरज ना, आमचो फस्ट सेक्रेटरी विमानतळार वचपाची गरजूच नाशिल्ली.'' ती तापता ती पळोवन म्हजीय तकली तापली आनी हांवूय तिचेर तापलों, ''हांवें कोणाक विमानतळार आपोवंक ना आनी तुवें मिटींग दवरल्या म्हणून हांव आयज आयलों; भारतांतल्या न्युयॉर्क कॉन्सुलेटान तुमकां रेकाद धाडला, हें म्हाका खबर नाशिल्लें, म्हाका तुमची कांयच गरज ना आनी हाचे फुडें तुमी कोणाक धाडपाची गरज ना,'' अशें सांगून गूड बाय करिनासतना हांव हॉटिलांत गेलों. फस्ट सेक्रेटरीन म्हाका आपले मोटारीन हॉटिलांत पावयलो. तो बावडो 'सॉरी सॉरी' म्हणीत आशिल्लो. ''तिणें अशें वागपाचें न्हय, ती मातशी तकलेन कॅरेक, लग्न जावंक ना म्हणून ती अशी,'' अशें ताणें हांसत हांसत म्हाका म्हणलें. ''तिचें एका कोरियी मनशा कडेन लग्न लावन दियात आनी भारतांत परतून येवं नाका अशें सांगात'' अशें ताका सांगून, थँक्यू म्हणून हांवें ताका 'गूड बाय' केलें.

हॉटिलांत पावलों मात, पोटांत खूब दुखूंक लागलें आनी मुतता आसतना त्रास जावंक लागले. हॉटिलाच्या मॅनेजरान दोतोराक आपयलो. दोतोरान तपासलो, म्हजें मूत बी पळयलें आनी ''तुका युरिनरी इन्फॅक्शन जालां, ह्यो गुळयो घे, सारकें जातलें. तूं प्रवासांत आशिल्ल्यान दोन दिसां भितर तुका सारको करपाच्यो गुळयो दिल्यात,'' अशें

ताणें सांगलें. ‘‘हांव बरो जातकच म्हाका कशें कळटलें? तुका परतून मेळूंक जाय?’’ हांवें ताका विचारलें. ‘‘म्हाका परतून आपोवपाची गरज ना, तूं आनीक दोन दीस हांगा राव, ह्यो गुळयो सारक्यो घे, सदांच मुतता आसतना एका निवळ ग्लासांत मूत आनी लायटी मुखार दवरून पळय, मूत सामकें निवळ जातकच, तूं सामको बरो जालो अशें समज,’’ अशें सांगून तो म्हजे कडल्यान 60 अमेरिकी डॉलर घेवन गेलो. ते उपरांत हांव कितलेशेच फावटीं भायल्या देशांनी कामा खातीर गेलों. पूण त्या 60 डॉलरांच्या भंयान वा आनीक कसल्याय कारणाक लागून जावंये, म्हाका युरिनरी इन्फॅक्शन केन्नाच जालें ना. दोन दिसां उपरांत मूत सामकें निवळ जालें. मागीर हांव बँगकॉकाक आयलों.

बँगकॉकाक रिपोर्ट बरोवप चालू आसतना एका आयताराक इस्कॅपाचो अधिकारी म्हाका पटाया दर्यादिगेर घेवन गेलो. बँगकॉक विमानतळा वयल्यान सुमार 50-60 किलोमिटर पयस आशिल्ली दर्यादिग जगभर फामाद! पूण ही दर्यादिग इतली कित्याक फामाद जावची ह्या प्रस्नाची जाप म्हाका अजून मेरेन मेळूंक ना. वेळेची लांबाय एक किलोमिटर सुमार, पूण रुंदाय सामकी उणी! रस्त्या कुशींतल्यान ल्हारां कडेन पाव म्हणसर हांव पावलां मेजीत गेलों. धा काय इकरा पावलां मारतकच पांयांक उदक लागलें. गोंयच्यो सगल्यो वेळो हे वेळेच्याकूय 6-7 पटींनी तरी रुंद आसात हाची म्हाका याद जाली.

दक्षीण-उदेंत आशियेंत पयलीं दक्षीण कोरिया आनी उत्तर कोरिया हांचे मदलें झूज, मागीर अमेरिकेचें व्हियेतनामा आडचें झूज! ह्या झुजांत वांटो घेवपी अमेरिकी सिक्स्थ फ्लिटांतल्यो व्हड व्हड बोटी त्या वाठारांतल्या दर्यांत आसताल्यो, आनी त्या बोटीं वयल्यान हजारांनी नावीक सैनीक थायलंड आनी फिलिपिन्स ह्या देशांतल्या दर्यावेळांचेर सुटयो घालोवपाक वताले. पटाया दर्यादिग त्या सैनिकांक लागून फामाद जाली. त्याच वांगडा ह्या दर्यादिगांचेर शिंदळकेचो धंदो वाडलो आनी फिलिपिन्स आनी थायलंडाच्या समाजांचेर तिचो वायट परिणाम जालो.

गोंय हें भारतांतलें सगल्यांत ल्हान राज्य. पूण हांगाच्या दर्यादिगां इतल्यो सोबीत दर्यादिगो हेर कडेन मेळूंक कुस्तार! हे सैमाचे देणगे खातीर गोंयांत येवपी विदेशी भोंवडेकारांचो आंकडो खुबूच वाडला. फिलिपिन्स आनी थायलंड हांचे भशेन ह्या भोंवडेकारांक लागून जावपी अर्थीक उदरगती वांगडाच शिंदळकेचो धंदोय बी सामको ताळतंत्र नासतना हाता भायर वचपाचो भंय आसा. गोंयच्या सरकाराक हाचें कांयच पडूंक ना अशें दिसता.

ली’न आनी हांवें बँकॉकाक 15 दीस रावून तो रिपोर्ट बरयलो. रिपोर्ट इंग्लीशींतल्यान बरोवपाचो आशिल्ल्यान तें काम सगलें म्हाकाच करचें पडलें. हांवें सांगिल्लें स्टॅनोग्राफर बरोवन घेताली आनी मागीर वाचून दाखयताली. कसल्याय विशयांचो आसपाव जायनासतना उरल्यार ली ती याद करून दितालो. रिपोर्ट तयार करून तांचे

कडेन सोंपयतकच ली चीनाक गेलो आनी हांव बेंगळुरूक परतलों. मागीर पंदरा दिसां भितर म्हाका 15 हजार डॉलरांचो एक चेक आयलो. त्या पयशांतल्यान लतान वज्राच्या वेडींचो पार घेतलो. 1968 वर्सा कोडायकनालाक सुटी घालोवपाक गेल्ले कडेन लताची वज्राची वेड कोणेंय तरी चोरून व्हेल्ली. फुडलीं 18 वर्सां तसली नवी वज्राची वेड घेवपाक आमचे कडेन पयशे नाशिल्ले. 1985 त आमी बरयिल्ल्या रिपोर्टाक लागून आंतरराष्ट्रीय बाजारांत चीनी आनी भारतीय रेशीम चड खपतलें काय ना, हें खबर नाशिल्लें, पूण त्या रिपोर्टाक लागून लताक एक नवी वेड घेवपाक मेळ्ळी, हें खरें.

जून 1985 त केंद्रीय रेशीम बोर्डांतलो म्हजो काळ सोंपलो. भारतीय प्रशासन सेवेंतल्या नेमां प्रमाण संयुक्त सचीव पांवडया वयले अधिकारी राज्य सरकारांतल्यान भारत सरकारांत काम करपाक वतात, तेन्ना त्या पांवड्यार तांणी 5 वर्सां परस चड रावंक जायना, राज्याच्या प्रशासनांत परतून येवंक जाय, असो नेम आसा. केंद्रीय रेशीम बोर्डांत म्हजें पद संयुक्त सचीव ह्या पांवड्याचें आशिल्ल्यान 1985 जूनांत म्हाका पांच वर्सां पुराय जातालीं आनी राज्य सरकारांत म्हाका परतून वचचें पडटलें आशिल्लें.

भारतांत शेतकी, उददेग-धंद्याची वा हेर तरांची उदगत सगले कडेन सारकी कित्याक जायना, थोड्या राज्यांनी चड आनी हेर राज्यांनी उणी अशी कित्याक जाता, प्रशासन सगले कडेन सारकेच तांकीचें कित्याक नासता, ब्रिटीशांचें राज्य जंय पयलीं पाविल्लें त्या वाठारांनी आयज प्रशासन चड बरें आसा, काय जंय कळावान पाविल्लें थंय चड बरें आसा, प्रशासन आनी उदरगत हांचे मदीं कसलें नातें आसा, अशे खूबशे प्रस्न केंद्रीय रेशीम बोर्डांत आसतना म्हजे मुखार उबे रावले.

1980-85 ह्या काळांत सरकारांत संगणकाचो वापर व्हडलोसो जायनाशिल्लो. ज्या ऑफिसांनी संगणक वापरपाक सुरवात केल्ली, थंय टायपरायटर जें काम करतालो तेंच काम संगणक वापरून करताले. संगणक आनीक कसल्याच कामांत वापरिनाशिल्ले. वयल्या प्रस्नांचेर अभ्यास करपाक जाय ती सगली म्हायती रेशीम बोर्डाच्या फायलींनी आशिल्ली आनी ना ती राज्य सरकारा कडल्यान मागोवंक येताली. अभ्यास करी सारको हो एक बरो विशय! प्रशासन शास्त्राक हो खूब म्हत्वाचो. भौसाची अर्थीक उदरगत जावपा खातीर उदरगतीचे प्रक्रियेंत सरकारान हात घालपाची गरज ना, अशें अस्तंतेचे देश आयज मेरेन मानीत आयल्यात. सरकारान लक्ष घाले बगर आनी प्रक्रियेचेर नदर दवरले बगर, अर्थीक उदरगत जावंकूच शकना, अशें उदरगतीचे वाटेर आशिल्ले आशियेंतले आनी आफ्रिकेंतले देश मानतात. प्रशासन आनी उदरगत हांचे मदीं संबंद आसात काय ना हाचो अभ्यास करपाची ही एक संद बरी आसा, अशें म्हाका दिसलें. हाचेर 'स्टडी लीव' (अभ्यास

करपा खातीर सुटी) घेवची अशें म्हाका दिसलें. दोन वर्सां मेरेन स्टडी लीव घेवं येता आनी हीं दोन वर्सां स्टडी लीव घेवपी अधिकाऱ्यांक सरकारान पगार दिवं येता, असो भारतीय प्रशासन सेवेंत नेम आसा. त्या नेमाक धरून हांवें दोन वर्सां स्टडी लीव घेतली आनी 1985 च्या जूनाचे अखेरेक म्हजी स्टडी लीव सुरू जाली.

## भाग 16
## परतून पिएचडीचो यत्न

जून 1985 त आमी धारवाड रावपाक गेलीं. दीसपट्ट जिणेंत जाय तितलेंच म्हणल्यार टिवी, गॅस, शेगडी, थोडीं पिएचडीचीं पुस्तकां, फायली आनी कपडे घेवन आमी धारवाडाक गेलीं. न्हिदपाक खाटी बी थंयच विकत्यो घेतल्यो. बेंगळुरूक आशिल्लें आनी फाटल्या वीस वर्सां मदीं आपले आपूण एकठांय जाल्लें, जाय आशिल्लें आनी नाकाशिल्लें, सगलें सामान व्हेल्लोराक एका इश्टागेर धाडून दिलें. तो एका व्हडल्या बंगल्यांत रावतालो आनी बंगल्याच्यो कांय कुडी रिकाम्यो आशिल्ल्यो. तसलेच एके कुडींत ताणें सामान बंद करून दवरलें.

आमी चेन्नैक आसतना युगेशाक पयलीं तमीळींतल्यान आनी मागीर इंग्लीशींतल्यान शिकोवपी मुळावे शाळेंत घाल्लो. मागीर ताका हिन्दींतल्यान आनी इंग्लीशींतल्यान शिकोवपी केंद्रीय विद्यालयांत घालो. चेन्नैच्यान बेंगळुरूक येतकच युगेशाचें शिकप थंयच्या केंद्रीय विद्यालयांत चालू उरलें. आमी बेंगळुरूक आसतना युगेशाच्या फुडाराचो विचार सुरू जालो. युगेश शिकपांत, खेळांत आनी हेर सगले वटेन हुशार आशिल्लो. राज्यांतल्या अभियांत्रिकी कॉलेजांनी शिकतलो जाल्यार त्याच राज्यांतल्या शाळां वरवीं एस.एस. सी. पास जाल्लो आसूंक जाय असो चडश्या राज्यांनी 25-30 वर्सां आदीं कायदो आशिल्लो. फुडलें फुडें, पूण युगेशाक आमच्या वांगडा आसुंदी अशें लताक दिसतालें. फुडल्या शिक्षणाचे नदरेन ताका आनीक खंयूय हॉस्टेलांत बी

रावन शिकचें पडल्यार ताणें तशें करचें अशें म्हजें मत आशिल्लें. गोंयांत इंजिनियरिंग आनी मॅडिकल कॉलेजी आसात, आमचे लोकूय बी सगले थंय आसात, देखून आमी बेंगळुरूक आसतनाच युगेशाक शिकपा खातीर गोंयांत धाडिल्लो. मडगांवच्या भाटीकार मॉडेल इंग्लीश स्कुलांत तीन वर्सां तो शिकलो आनी 1985 वर्सा तो एस. एस. सी. परिक्षा पास जालो. गोंयच्या एस. एस. सी. बोर्डांत पयल्या पन्नास भुरग्यां भितर ताजोय नंबर लागलो.

आमी धारवाडा रावंक आयलीं तेन्ना युगेशाच्या शिक्षणाचें कितें करप हो प्रस्न उप्रासलो ना, कारण एस. एस. सी. जावन पणजे धेंपे कॉलेजींत विज्ञान विभागांत युगेशाचें शिकप सुरू जाल्लें.

युगेश सामको ल्हान आसतना आमी घरांत ताचे कडेन तमीळ उलयतालीं, कारण सभोंवतणचें सगलें वातावरण तमीळ आशिल्लें. मागीर आमी ताचे कडेन कोंकणी उलोवंक लागलीं. पूण हेर सगले कडेन दीसरात तमीळ उलयिल्ल्यान आनी फकत घरांतच कोंकणी उलयिल्ल्यान ताका कोंकणी तितली बरी उलोवंक येनाशिल्ली. गोयांत वतकच कोंकणी लोकां मदीं रावन ताची कोंकणी सारकी जातली हातूंत दुबाव नाशिल्लो.

तो गोयांत वचून थोडयाच दिसां भितर एक मजेची गजाल घडली. एक दीस बापू आनी ताचो इश्ट खबऱ्यांत गुल्ल जाल्ले आसतना युगेश थंय पावलो. "हो अरविंदालो चलो, युगेश," अशें म्हणून बापून त्या इश्टा कडेन युगेशाली वळख करून दिली. "बाबा, तूं बरो आसा मरे?" त्या इश्टान युगेशाक मायेन विचारलें. "हय, तुमी सारके आसात मूं?" युगेशान त्या इश्टाक मोट्या रेश्पेतान विचारलें. तो इश्ट काचाबूल जावन बापू कडेन पळोवंक लागलो. तो मद्रासाक वाडला आनी हालींच गोयांत आयला, देखून अजून ताका कोंकणी सारकी येना, अशें म्हणून बापून युगेशाक सांबाळ्ळो. "आर यू ओके?" हया इंग्लीश वाक्याचो युगेशान आपल्याक कोंकणी येता म्हणून दाखोवंक कोंकणींतल्यान अणकार केल्लो!

धारवाडाक युनिवर्सिटी म्हऱ्यांत दोन कुडींचें एक ल्हानशें घर घेवन आमी रावपाक लागलीं. कर्नाटक युनिवर्सिटीच्या "कवसाली इन्स्टिट्यूट ऑफ मॅनेजमॅण्टां"त हांवें पिएचडी खातीर नांव नोंदयलें. प्रो. तिगडी त्या इन्स्टिट्युटाचो डायरेक्टर आशिल्लो. ताणें म्हजो गायड जावपाक मान्यताय दिली. युनिवर्सिटींत आशिल्ल्या स्टेट बँकेच्या फांट्यांत तमीळनाडू सरकारा कडल्यान दर म्हयन्याक म्हजो पगार पावोवपाची वेवस्थाय जाली. बेंगळुरूच्यान येवचे पयलीं आमची खाजगी मोटार आमी विकून उडयली. म्हणटकच धारवाडाक आमचे कडेन कांयच वाहन नाशिल्लें. हांव दर दिसा 5 मिनटांची वाट चलून युनिवर्सिटींत यो-वच करतालों.

1961 त एमए जातकच बॉम्बे युनिवर्सिटींत हांवें पिएचडीचो अभ्यास सुरू केल्लो. तो कांय वर्सां चालू उरलो आनी पिएचडी पुराय जावचे पयलींच हांव भारतीय प्रशासन सेवेंत भितर सरलों. पिएचडी करपाचो तो म्हजो पयलो यत्न! तो यत्न अर्द्यार सोडटना म्हाका बिलकूल वायट दिसलें ना. कारणां खूब आशिल्लीं. एक मुखेल कारण म्हणल्यार त्या काळांत गोंयच्या राजकी फुडारा विशीं मुंबय आनी गोंयांत जायत्यो चळवळी चलताल्यो आनी त्यो चळवळी कितल्योय आंगाक लावन घेवचों ना म्हणल्यारूय जमनाशिल्लें. तातुंतूच गोंयांत येवन कॉलेजींत नोकरी करपाची बुद्द सुचली. तातूंतल्यान गोंयची राजकी आनी भाशीक चळवळ म्हाका चड लागीं जाली. मागीर पिएचडीच्या अभ्यासांत ध्यान उणें जावपाक लागलें. भारतीय प्रशासन सेवेंत भितर सरतकच पिएचडीचो अभ्यास तसोच सोडचो पडलो. तेन्नाचो विशय वेगळो आशिल्लो. 1985 त तेवीस वर्सां उपरांत, म्हाका परतून पिएचडीचो अभ्यास करीनशें दिसलें. जाय ती सगली म्हायती म्हजे कडेन नाशिल्ली, पूण ती खंय मेळूं येता आनी कशी एकठांय करूंक येता, तें म्हाका खबर आशिल्लें. देखून धारवाडा सारकिल्या थंड आनी चड बोवाळ नाशिल्ल्या शारांत वचून पिएचडीच्या फाटल्यान लागल्यार ती पुराय जावं येता, अशें दिसलें. देखून "शेतकी उदरगतींत सरकाराचो कितलो वांटो आसूं येता आनी उदरगतीच्या मार्गार आशिल्ल्या फाटसारिल्ल्या देशांनी सरकार लक्ष घालिना जाल्यार समाजाची उदरगत जावं येता काय ना," हो विशय घेवन हांव म्हज्या प्रबंधाचे तयारेक लागलों.

प्रबंध बरोवपाक जाय ती म्हायती केंद्रीय रेशीम बोर्डांत आसा आनी जी नाशिल्ली ती म्हायती एकठांय करपाक जाता असो म्हजो समज आशिल्लो. देखून विचारांची फास्की हांवें पयलीं तयार केली. ती विचारांची फास्की तयार करतना, सिध्दांतांक आदार दिवपाक वा आदार ना अशें थारावपाक पुरावे मेळटले काय ना, हाचेर व्हडलोसो विचार जालो ना. 1961 त पिएचडीचो अभ्यास सुरू करचे पयलीं म्हज्या गायडान एक म्हत्वाचो नेम सांगिल्लो आनी तो म्हणल्यार कसल्याय विशयाचो अभ्यास करपाक जाय जाल्यार आपल्याक कसल्या विशयाचो अभ्यास करपाक जाय, तें पयलीं थारावंक जाय, तो अभ्यास करपा इतली म्हायती सरकारी पुस्तकांनी आनी फायलींनी आसा काय ना, आसल्यार आपल्याक ती मेळूं येता काय ना, तें पयलीं पळोवंक जाय. मागीर प्रबंध बरोवपा सारको तो विशय आसा काय ना, तें थारावंक जाय. म्हज्या गायडान 1961 त सांगिल्लो हो नेम 1985 त हांव विसरिल्लों. देखून म्हायती आसा काय ना, ती म्हाका जाय तशी आसा काय ना, हें हांवें पयलीं ध्यानांत घेतलें ना. सिद्धांतांची फास्की हांवें पयलीं तयार केली आनी मागीर म्हायती सोदूंक लागलों.

सिद्धांतांची फास्की म्हणल्यार असो विशय : प्रशासनाचो आनी उदरगतीचो

संबंद आसा काय ना, हाचो अभ्यास करतलो जाल्यार पयलीं उदरगत म्हणल्यार कितें हाची व्याख्या करपाक जाय. रेशमी किड्यांच्या धंद्यांत उदरगत म्हणल्यार कितें, ती कशी मेजपाची, प्रशासन म्हणल्यार कितें, ताच्या शेंकड्यांनी तासां पैकी खंयच्या तासांचेर म्हायती एकठांय करची, तातूंतल्या खंयच्या तासांचो उदरगती कडेन संबंद आसूं येता, तीं तासां चड प्रमाणांत आसात काय उण्या प्रमाणांत आसात हें कशें मेजपाचें, राज्य प्रशासनांचो अभ्यास करून उदरगती कडेन संबंद आशिल्लीं तासां मेजून वेगळ्यावेगळ्या राज्यांतल्या प्रशासनांची आनी उदरगतीची तुळा करून, मागीर प्रशासनाक आनी उदरगतीक संबंद आसा काय ना हें थारावपाचें ..........ह्या विशयाचेर जितलो खोलायेन विचार जावंक लागलो, तितलो एका तात्वीक भोंवऱ्यांत सांपडिल्ले भशेन जावंक लागलें. ब्रिटीशांच्या हाता सकयल पयलीं आयिल्ल्या राज्यांच्या प्रशासनांत ज्यो पद्दती आनी जी म्हायती मेळटा, त्यो पद्दती आनी ती म्हायती उत्तर भारतांतल्या राज्यांनी खूबश्या प्रमाणांत मेळना आनी ते खातीर प्रशासनाची तुळाच करपाक शक्य ना म्हणपाचें ध्यानांत येता.

धारवाडाक राबितो करून एक वर्सभर रातदीस फाटीक लागून पिएचडीचें काम पुराय करपाचो म्हजो यत्न फसलो. कारण ज्या विशयाचेर जाय ती आनी जाय तितली म्हायती नाशिल्ली, त्या विशयाचो अभ्यास हांवें हातांत घेतिल्लो. प्रबंधाचे पयले चार भाग हांवें बरयले पूण फुडलें काम कशेंच जायना जालें.

1954-58 वर्सां धारवाडाक कर्नाटक कॉलेजींत हांव शिकिल्लों. सत्तावीस वर्सां उपरांत जेन्ना हांव परतून धारवाडाक पावलों तेन्ना धारवाड बदल्लां काय ना आनी जो कितें बदल जाला, तो बरो काय वायट, हो विशय प्रो. तिगडी आनी हांव सदांच उलयताले. 1958 आनी 1985 ह्या वर्सां भितर कर्नाटक युनिवर्सिटी खूबशी बदलिल्ली. चड विभाग सुरू केल्ले, चड इमारती उबारिल्ल्यो, भितरले बारीक बारीक रस्ते डांबरी जाल्ले, झाडां उणीं जाल्लीं, पूण युनिवर्सिटी कडल्यान मातसो पयस गेल्यार, फाटल्या 25 वर्सां मदीं व्हडलोसो बदल जावंक ना, हें कळटालें. आमी रावतालीं तो वाठार पुराय तरेन नवो आशिल्लो. नवी कॉलनी, नवीं घरां, पूण थंयच्यान युनिवर्सिटींत वचपाचो रस्तो पयलीं भशेनूच आशिल्लो. वाटेर एक व्हडली पेरांची बाग आशिल्ली. 25 वर्सां उपरांत ती बाग तश्शी पळोवन अजाप जालें. पयलीं ते बागेंतलीं पेरां रस्त्या कुशीक पाटल्यांनी विकपाक येतालीं. तीं वर्सूयभर मेळटालीं. आतां हांव सद्दां तेच वटेन युनिवर्सिटींत चलून वतालों, पूण एक्कूय दीस म्हाका तीं पेरां दिसलीं नात. तीं पेरां सगलीं हुबळी आनी बेंगळुरूक धाडटात अशें कळ्ळें. पिकता थंय विकना अशें म्हणटात ती गजाल खरी.

धारवाडची आनीक एक याद म्हणल्यार, थंयचो मंगळारचो बाजार आनी

'मिश्रा'चे पेढे! गोंयांत पेढ्यांक दुदफेणे म्हणटात, पूण ते धारवाडचे पेढे म्हणल्यार आमचे दुदफेणे न्हय. उत्तर हिंदुस्थानांतल्यान धारवाडाक येवन राबितो केल्ल्या एका 'मिश्रा' नांवांच्या कुटुंबाचें गोडशें विकपाचें एक दुकान आशिल्लें. थंयचे तांबशे-काळशे, मोव-मोव खव्याचे पेढे आमी कॉलेजींत आसतना आमकां खूब आवडटाले. आतां 25 वर्सां उपरांत मिश्राचीं पंदरा दुकानां जाल्लीं. मिश्रा फामिलींतल्या सगल्या भुरग्यांनी वेगळींवेगळीं दुकानां थाटिल्लीं आनी ते सगलेच पेढे विकताले. हे पेढे म्हणल्यार धारवाडचें खाशेलेपण जावन आशिल्लें. धारवाड रेल्वे स्टेशनाचेर च्याच्या दुकानांत 'धारवाड पेढा' म्हूण लेबल आशिल्ल्यो काशी दाळून दवरिल्यो आसताल्यो, त्यो दर फावटीं खंयचीय गाडी थांबतकच नाच्च जाताल्यो.

1985 वर्सा आमी जेन्ना धारवाडाक थोडो तेंप रावपाक गेल्लीं, तेन्ना दीसपट्टें जिणेंत आमकां लागपी जिनस कितले सवाय आशिल्ले, हाची म्हाका याद ना. पूण आमी मुद्दाम बसींत वा रिक्षेंत बसून, मंगळारच्या बाजारांत 8 आण्यांक 3 किलो तोमाट घेवंक वताल्लीं, तें घट्ट याद आसा. तीं एक रुपयाचीं तोमाटां घेवपाक, तीन चार रुपया रिक्षेक खर्च येतालो. पूण तसलें कोंत तकलेंत येनाशिल्लें. 8 आण्यांक 3 कील तोमाट हें सत! तें सत आपणावपाक कितलोय खर्च जालो जाल्यार लेगीत वायट दिसनाशिल्लें. तो मोटारीचो, बसीचो वा ऑटोरिक्षेचो खर्च म्हणल्यारूय एक सत, पूण सगलींच सत्यां एके कडेन मांडून तांचें कोंत करीत बसल्यार जीण गुणाकार आनी भागाकार करपांतूच काबार जातली आशिल्ली आनी जिणेंतली खोस भोगपाक वेळूच मेळचो नाशिल्लो.

धारवाडची आनीक एक खोसदिणी गजाल म्हणल्यार, धारवाड रेस्टोरण्ट. कॉलेजींत आसतना हें रेस्टोरण्ट सगल्या गोंयकारांक प्रिय. तेन्ना इडली, दोसा, उपमा कितलें सवाय आसताले, तें म्हाका याद ना, पूण आमी गोंयकार सगले थंय वचून पाट्यो करताले, तें याद आसा. जनार्दन हो त्या हॉटेलाचो धनी. तो धनयाचो भाचो वा मेवणोय आसुंये! तो दीसरात गल्ल्याचेर आसतालो. कर्नाटक कॉलेजींतले सगले विद्यार्थी आनी विद्यार्थिनी ताका जनार्दन म्हणून उलो मारताली. तो एका दोळ्यान मातसो तिरसो आशिल्लो. जायते फावटीं 'जनार्दन' म्हणून उलो मारतकच तो आमचे कडेन पळोवन ओ म्हण्टा, काय दुसरे कडेन पळोवन उलयता तें समजनाशिल्लें. पूण दरेकाक खूश करपाचो तो यत्न करतालो. तमीळनाडूंत आनी बेंगळुरूक आसतना खूब फावटीं मोटारीन गोंयांत येतना आमी राती कडेन मुद्दाम धारवाडाक रावताल्लीं, धारवाड रेस्टोरण्टांत सकाळचो दोसा खावपाक वताल्लीं. आमी थंय वतकच दर फावटीं आमकां जनार्दन गल्ल्यार मेळटालो. ''जनार्दन, वळखता?'' अशें विचारल्यार, तो व्हडल्यान हांसून, ''खंय आसता, कितें करता?'' अशें म्हणून खबर घेतालो. मागीर कोणाचेंय तरी नांव घेवन, ''तो आतां खंय

आसता?'' अशें म्हणून तो विचारतालो. जनार्दन म्हाका वळखूंक ना, हें म्हाका मागीर कळटालें. पूण तुका हांव वळखूंक ना, तूं खंयच्या वर्साक शिकतालो, अशें ताणें केन्नाच कोणाक विचारलें ना. धारवाडाक शिकपी आमी विद्यार्थी खंयूय मेळ्ळ्यार पयलींच्यो यादी काडटात, तेन्ना तातूंत जनार्दनाक एक मुखेल सुवात आसता.

धारवाडची 1985 ची आनीक एक याद म्हणल्यार, आमी रावतालीं ते कॉलनींल्या लोकांची, लोकांनी आमचेर केल्ल्या मोगाची! हांव आनी लता सद्दां सांजेचीं भोंवपाक वतालीं. तिनसांजेचीं परतून येता आसतना रस्त्याचेर म्हाका सारकें दिसत ना दिसत म्हणून लता म्हजो हात धरून चलतालें. जाण्टेपणांत लेगीत हांचो एकामेकांचेर कितलो मोग आसा, अशें म्हणून तोखणाय करीत, आमी एकामेकांचो हात धरून चलतात तें पळोवपाक खूबशीं जाणटेलीं तिनसांजचीं भायर वारांदांत येवन बसतालीं. खंयच्या तरी शेजाऱ्यान एक दीस हो विशय लता कडेन उलोवन दाखयतकच आमचें प्रेम ना अशें न्हय, पूण आपूण घोवाचो हात धरतां तें ताका तिनसांजचें सारकें दिसत ना दिसत ह्या कारणा खातीर अशें सांगून लतान आमचें गुपीत तांचे मुखार उक्तें केलें. तें गुपीत आतां तांकां कळिल्ल्यान तांचेय जिणेंतली उचांबळाय मातशी तरी उणी जाली जातली हातूंत दुबाव ना. फट आशिल्ल्यो गजाली खऱ्यो, अशें समजून ते समजिकायेंतल्यान आमकां जर खोस मेळटा, मनाक आनंद जाता, जिवाक बरें दिसता आनी आमचे भलायकेक लेगीत बऱ्याक पडटा, जाल्यार खऱ्या गजालींचो सोद घेवंक कित्याक लागूंक जाय? कथा, कादंबरी, बरे बरे सिनेमा हें सगलें सत न्हय, कल्पनेचेर आदारिल्लें, हें आमकां सगल्यांक खबर आसता; तरीय आसतना त्यो फटी कांय तेंप आमचेच जिणेंत आसपावन आमी हांसतात, रडटात, खोशयेन नाचतात. ह्यो सगल्यो गजाली आमच्या व्यक्तित्वाचेर परिणाम करतात. हातांत हात धरपा फाटलें गुपीत सांगिनासतना राविल्लें जाल्यार कांयच लुकसाण जावचें नाशिल्लें. उरफाटें, तें आमी तांकां सांगतकच तांचे जिणेंतलो रंग मातसो उणो जालो जावंये.

सुमार धा म्हयने धारवाडाक रावून आमी 1986 मार्च-एप्रील म्हयन्यांत गोंयांत आयलीं. गोंयांत येवन रावपाचीं दोन तीन कारणां: एक कारण म्हणल्यार गोंयात कितें चल्लां, कशें चल्लां हें पळोवपाची उमळशीक आनी दुसरें कारण म्हणल्यार, लताचे फामिलीचे इस्टेटीची सगल्या भावां-भयणीं भितर वांटणी जावपाची आशिल्ली, तातूंत भाग घेवपाचो. ते वांटणे उपरांत खूबश्या दुकुमेंतांचेर निशाण्यो करून मागीर लताच्या वांट्याक जें कितें आयिल्लें, ताचें फुडें कितें आनी कशें करचें हें थारावपाचें आशिल्लें. गोंयांत राविल्लो आसतनाच जमल्यार पिएचडीचें उरिल्लें काम करचें हें आनीक एक उद्दिश्ट! म्हजे सोयरे, म्हणल्यार आवयबापूय, भावभयणी सगलीं मडगांवां आशिल्लीं

पूण आमी पणजे रावपाचें थारायलें. दोन वर्सां 'स्टडी लिवां'तले सुमार तेरा म्हयने उरिल्ले. तेरा म्हयन्यां खातीर भाड्यान फ्लॅट घेवपाचे यत्न सुरू केले. 1963-64 त हांव धेंपे कॉलेजींत शिकयतालों, पणजे मळ्यांत शंकर सरदेसायाच्या घरांत माळयेर भायले कुडींत रावतालों. 1963-86 च्या काळांत गोंय आनी गोंयकार खूबशे बदलिल्ले. लोक सगले आमकां वळखतात- लता अमक्या-अमक्याची धूव, हांव गोंयांत जल्मल्लों, गोंयच्यान शिकून भायर गेल्लों, पयलो आयएएस ऑफिसर-आनी आमकां सोंपेपणान खंयूय घर वा फ्लॅट भाड्याक मेळटलो, असो म्हजो समज आशिल्लो. पूण आमकां कोणूच फ्लॅट भाड्यान दिवपाक तयार नाशिल्लो. म्हजे वांगडा कॉलेजींत शिकपी एक इश्ट त्या वेळार गोंयांत मंत्री आशिल्लो. ''फ्लॅट दिवपाक कुस्तार करतात मरे, तूं कोणाकूय सांग रे,'' अशें हांवें ताका म्हणटकच तुज्या त्या अमक्या-अमक्या सोयऱ्याक ते भियेतात जावंये, कारण तो पुलितिकां करता तीं कोणाच्यान करपाक जायनात, अशें ताणें आमकां सांगलें. अखेरेक आनदाद कोलवाळकार ह्या लताच्या मावशान आपणाली गॅरण्टी दिवन मिरामार वाठारांत दोन बेडरुमांचो एक फ्लॅट आमकां भाड्यान घेवन दिलो. आनदाद सरकारी इंजिनियर! समाजांत ताका खूब मान आशिल्लो कारण तो कोणाचेंच वायट येवजी नाशिल्लो, फटींगपणां करिनाशिल्लो आनी हेरांक मजत करपाक सदांच तयार आसतालो. ते खातीर ताज्या उतराक मान दिवन कंटक नांवाच्या ताज्या इश्टान आपणालो फ्लॅट आमकां भाड्यान दिलो. मिरामार दर्यादिगे वयल्यान पांच मिनटांचे वाटेर हो फ्लॅट आशिल्लो, म्हणटकच दर दिसा दर्यादिगेर चलपाक मेळटलें, म्हणून आमकां भोव खोस जाली. आमी गोयांत तेरा म्हयन्यां वांट्याचीं सोळा म्हयने रावलीं. पूण दर्यादिगेर भोंवपाक फकत तीन फावटीं गेलीं. म्हजे कडेन विदेशांतल्यान हाडिल्लो एक टायपरायटर आशिल्लो. आमचे वळखीचे फामिलींतल्या एका चली भुरग्याक टायपिस्ट म्हणून कामार दवरलें आनी म्हजो पिएचडीचो प्रबंध तें इल्लो इल्लो टायप करपाक लागलें. टायपिंग इन्स्टिट्यूटांत शिकून आनी सगलीं सर्टिफिकेटां घेवन लेगीत ताचें टायपिंग बाबत आशिल्लें, इतलेंच न्हय, तर ताका टायपरायटराचें रिबीन कशें बदलपाचें हें लेगीत खबर नाशिल्लें. एक दीस अकस्मात आपल्याच्यान नजो अशें सांगून तें काम सोडून गेलें. टायपरायटींग पास जाल्ल्या भुरग्यांक रिबीन बदलपाक येना म्हणटात तें फकत गोंयांतूच जावं येता, काय हेर राज्यांनीय जावं येता, हें समजुपाक मार्ग नाशिल्लो.

आनीक एक म्हत्वाचो अणभव म्हणल्यार ड्रायवराचो. पणजे येतकच आमी एक नवी फियाट मोटार घेतली. आमी दोगांय मोटार चलयतालीं, पूण परतून परतून मडगांवां वचपाक आनी खंयूय पयस प्रवासाक वतलो जाल्यार ड्रायवर बऱ्याक पडटा, देखून ड्रायवर दवरलो. पयलीं तो बेहरेन देशांत आशिल्लो. तो बेहरेनच्यान गोंयात परतलो

म्हणून आमकां अजाप जालें. आपल्याक थंयची जीण आवडली ना अशेंच तो सांगतालो. वागूंक बरो; मोटारूय बी बरी चलयतालो. अकस्मात एक फावट चार दीस येनासतना रावलो. मागीर परतून येतकच खंय गेल्लो काय म्हणून विचारल्यार बेळगांवां एका इण्टरव्यूक गेल्लों म्हणून सांगपाक लागलो. हें असलें आमचे कडेन चलचें ना, अशें सांगतकच "बरें तर, हांव फाल्यांच्यान येना," अशें सांगून चावी म्हज्या हातार दवरून तो गेलो. मागीर आनीक दुसरो ड्रायवर दवरपाचो आमी यत्न केलो ना.

1986-87 म्हणल्यार गोंयांत कोंकणी राजभास चळवळीचो काळ. कोंकणी चळवळींतले सगले फुडारी म्हजे इश्ट! सगले कडल्यान चळवळी विशीं दीसरात म्हायती मेळटाली. एक आयएएस अधिकारी ह्या नात्यान म्हाका उक्तेपणान खंयचेच चळवळींत वांटो घेवंक मेळनाशिल्लो, तरी आसतना 'कोंकणी प्रजेचो आवाजा'च्यो मिटिंगो जाताल्यो, तेन्ना हांवें तीन-चार मिटिंगांनी वांटो घेतिल्लो. गोंयची राजभास फकत कोंकणी आसची ह्या मुद्द्याचेर सबंद दक्षीण गोंय बंद जाल्लें, त्याच दिसा मडगांवां म्हज्या पुतणयाचें लग्न जावपाचें आशिल्लें. म्हाका मडगांवां लग्नाक वचूंक जाय, कशें वचपाचें, सरकार एस्कॉर्ट दिवंक शकता काय ना अशें हांवें कलेक्टर शक्ती सिन्हाक फोन करून विचारलें. गोंयचे सगले आयएएस ऑफिसर म्हाका नांवान वळखताले. चडशे म्हाका केन्नाच मेळूंक नाशिल्ले. कलेक्टरूय बी म्हाका नांवान वळखतालो. अमक्या अमक्या वरांचेर चार ट्रकांनी 70-80 सिआरपीएफ जवान मडगांवां वचपाक भायर सरतले. तांचे वांगडा थोड्यो प्रायवेट गाडयोय वतल्यो. तुंवूय बी तांचे वांगडा चल. तशेंच, परतून येवपाच्या वेळार आपल्याक फोन कर, म्हणटकच कोणा वांगडा येवपाचें तें आपूण सांगतां अशें ताणें सांगलें. सकाळच्या धा वरांचेर सुमार 70-80 सिआरपीएफ जवानांनी भरिल्ले चार ट्रक आनी फाटल्यान धा-पंदरा प्रायवेट गाडयो अशी मिरवणूक मडगांवां वचपाक भायर सरली. आगशी-कुठ्ठाळचो मार्ग बंद पडिल्लो. खूब कडेन रस्तो खणून दवरिल्लो आनी व्हड व्हड झाडां उडयिल्लीं, देखून आमची मिरवणूक फोंडें बोरये वटेन गेली. बोरये जातकच दोन तीन सुवातांनी रस्तो खणिल्लो. जवानांनी रस्त्या कडेचे व्हडले व्हडले फातर हाडून त्यो खळयो भरून काडल्यो आनी साडेबारांक सुमार आमी मडगांवां पावले. सांजेच्या चारां उपरांत परतून येवपी एके मिरवणुकी वांगडा आमी पणजे आयले. कोंकणी चळवळीचो फोर्स दक्षीण गोंयांत चड आशिल्लो आनी उत्तर गोंयांत उणो. लोक येवन तरातरांच्यो खबरो दिताले. अमके कडेन तुळस फोडली, तमके कडेन देवूळ फोडलें, तमके कडेन हिंदू-क्रिस्तांवांचे दंगे सुरू जाले, हजार वावड्यो. एकूय वावडी खरी न्हय. 'गोमन्तक' दिसाळ्यांत येवपी लेख, खबरो आनी संपादकीय वाचल्यार गोंयांत केन्नाच जावंक ना असल्यो मारामारी आनी दंगे सध्याक जातात, अशें चित्र दोळ्यां मुखार रावतालें.

हांव वेल्होराक कलेक्टर आसतना विश्व हिंदू परिशदेचे वतीन असलींच उजो पेटोवपी लिखाणां एका नेमाळ्यांतल्यान उजवाडाक येतालीं. हांवें म्हजे अधिकार वापरून तें नेमाळें बंद उडयिल्लें आनी त्या धनयाक आनी संपादकाक कोर्टांत व्हेल्ले. गोंयांत 1986-87 चे कोंकणी चळवळी वेळार आनी ताचे पयलीं 1966-67 जनमत कौला वेळार, गोंयच्या खबरांपत्रांनी अशींच समाजांत उजो लावपाचीं लिखाणां उजवाडाक येतालीं. पूण खबरांपत्रां बंद जावपाचें सोडातूच, तांचेर कायद्याची कारवाय लेगीत सरकारान केली ना. गोंयचें प्रशासन गोंया भायले आयएएस अधिकारी चलयताले देखून जावंये वा गोंयच्या राजकी फुडाऱ्यांक प्रशासन कशें चलोवपाचें तेंच कळनाशिल्लें म्हणून जावंये, खबरांपत्रांचेर कारवाय जायनाशिल्ली. राजभास चळवळी वेळार पणजे आझाद मैदानाचेर जाल्ले सभे इतली व्हड सभा आयज मेरेन हांवें गोंयांत केन्नाच पळोवंक ना. आमी करंजाळेंच्यान पणजे सभेक येवपाक मोटार घेवन भायर सरलीं जाल्यार पणजे खंयच्याच रस्त्यार पार्किंग करपाक सुवात ना. तुमी पणजे वटेन मोटारीन वचूंकूच नाकात, तुमी एक तर करंजाळ्यां बी खंयूय तरी मोटार पार्क करून सभेक चलून वचात, नाजाल्यार थंय वचूंच नाकात, अश्यो एका इश्टान मिरामार वाठारांत पावना फुडें सुचोवण्यो केल्यो. तरी आसतना कितें जाता तें पळोवया, म्हणून आमी गाडी घेवन सबंद पणजे शारांत भोंवलीं आनी पार्किंगाक सुवात ना म्हणून घरा आयलीं. पार्किंगाक जागो मेळ्ळो ना म्हणून आमकां बिलकूल वायट दिसलें ना. गोंयकार आपणाल्या हक्कां खातीर झगडपाक शकतात म्हणपाचें त्या दिसा गोंयकारांनी दाखोवन दिलें. 1987 त कोंकणी राजभास जाली आनी मागीर त्या आदाराचेर गोंय एक वेगळें राज्य करपा खातीर भारत सरकाराची मान्यताय मेळ्ळी. शंबरांतले 95 गोंयकार कोंकणी उलयतात देखून कोंकणी गोंयकारांची भास आनी देखून ती गोंयची राजभास केल्या असो कायदो तेन्ना गोंयचे विधानसभेन पास केलो. पूण 1986 त कोंकणी चळवळीचो आवाठ पळयल्यार कोंकणी भाशेचो मोग वा कोंकणी आपली भास आनी देखून ती गोंयची राजभास जांवची अशें जुवारीचे दक्षीणेक आशिल्ल्या गोंयकारांकूच दिसता काय कितें, असो दुबाव येतालो. चळवळ दक्षीण गोंयांत चड दिसताली. उत्तर गोंयांतल्या थोड्याच तालुक्यांनी हयन्हयशी आनी थोड्या तालुक्यांनी जाल्यार बिलकूल नाशिल्ली. सत्तरी, पेडणें, दिवचल ह्या तालुक्यांनी चळवळ नाशिल्लीच म्हणल्यार जाता. हाचें कारण म्हणल्यार हे तालुके गोंयच्या चडश्या तालुक्यां भशेन पुर्तुगेजांच्या शेकातळा साडेचारशें वर्सां नाशिल्ले. ते फकत 220-230 वर्सां गोंयचो वांटो जावन आसात. दुसरी गजाल म्हणल्यार इंग्लीश खबरांपत्रां ह्या भागांनी लोक उणीं आनी मराठी चड वाचतात. गोंय स्वतंत्र जाले उपरांतचें पयलें मराठी वर्तमानपत्र गोंया भायल्यान येवन गोंयांत स्थायीक जाल्ल्या चौगुले कुटुंबान सुरू केल्लें 'गोमन्तक' दिसाळें. ह्या

दिसाळ्याचे चडशे संपादक गोंया भायल्यान येताले. गोंय महाराष्ट्रांत घालपा खातीर तांणी तरातरांच्यो येवजण्यो केल्यो. तातूंत जात, धर्म, भाटकार, मुंडकार, संस्कृताय ह्या सगल्या विशयांचो तांणी आदार घेतलो. गोंय वेगळें उरतकच लेगीत लोकांचे तकलेंत जें वीख भरिल्लें तें वचपाक खूब तेंप लागलो. हालीं हालींच गोंयच्या सगल्या वाठारांतल्या गोंयकारांक आमी गोंयकार, आमी सगले एक, आमीच आमचो फुडार घडोवपाचो, आमीच आमचो सांबाळ करपाचो असले विचार पटपाक लागल्यात. गोंयकारांचें अर्थीक हीत राखपा खातीर जाल्ल्या चळवळींनी सगल्या वाठारांतले गोंयकार वांटो घेतात.

जनमत कौलाच्या आनी राजभास चळवळीच्या काळांत गोंयच्या क्रिस्तांवांनी खूब मोलादीक काम केलें आनी रक्त आटयलें. फकत लोकांचो आंकडो पळयल्यार ह्या दोनूय काळांनी गोंया खातीर आनी कोंकणी खातीर झगडपी भौसा मदीं क्रिस्तांवांचो आंकडो चड आनी हिंदूंचो आंकडो उणो आशिल्लो. हे गजालीचो हालीं हालीं कांय क्रिस्तांव फुडारी वेगळो अर्थ लावंक लागल्यात. गोंय वेगळें उरलां तें आनी कोंकणी राजभास जाल्या ती मुखेलपणान क्रिस्तावांक लागून आनी देखून क्रिस्तांव सरसादारणपणान वापरतात ती रोमी लिपी देवनागरी वांगडाच गोंयचे राजभाशेची अधिकृत लिपी जावची अशी मागणी ते करतात. कोंकणी चळवळीचो इतिहास अजून मेरेन कोणेंच बरोवन काडूंक ना. क्रिस्तांव पाद्रींनी सोळाव्या, सतराव्या आनी अठराव्या शेंकड्यांनी कोंकणीचेर मोलादीक संशोधन केलां आनी खूबशें मुळावें बरप करून दवरलां. तांकां देवनागरी खबर नाशिल्ल्यान तांणीं तें रोमी लिपयेंत बरयलां. संशोधन आनी साहित्य म्हणल्यार कोंकणी खातीर झगडीं न्हय, कोंकणी खातीर चळवळ न्हय. चळवळीचो एक वांटो म्हणून संशोधन जाता वा साहित्य उप्रासता ती वेगळी गजाल. अशें चळवळीचें एक आंग म्हणून संशोधन आनी साहित्य शणै गोंयबाबान केलें आनी तेन्नाच्यान गोंयांत आनी मुंबय रावपी गोंयकार हिंदू समाजाच्या मनांत कोंकणीची चळवळ सुरू जाली. गोंय स्वतंत्र जातकच 1962 त कोंकणी एक स्वतंत्र भास, ती मराठीची बोली न्हय, गोंय महाराष्ट्रांत वचपाक जायना, अशें म्हणून ज्या गोंयकार तरनाट्यांनी मराठी संमेलना मुखार निदर्शनां करपाक सुरू केलीं ते एक दोग जाण सोडल्यार, सगले हिंदू आशिल्ले. खरें म्हणल्यार गोंय वेगळें उरपाची चळवळ ह्याच तरनाट्यांनी सुरू केली अशें म्हणूं येता.

राजभास चळवळींत भोवजन समाजांतल्या हिंदू तरनाट्यांनी फुडारपण हातांत घेतिल्लें. जनमत कौला वेळार आनी ताचे पयलीं आनी मागीर, कोंकणी चळवळींत रगत आटोवपी हिंदू फुडाऱ्यां वांगडा ह्या भोवजन समाजांतल्या तरनाट्यांनी दीसरात काम करून हो विशय हिंदू समाजांतल्या तळागाळांत पसरावपाचो यत्न केलो. ताका लागून कोंकणी राजभास जावंक पावली.

कोंकणीं भाशेचें मूळ खंयच्यान आयलां, संस्कृतांतल्यान काय लॅटिनांतल्यान, हे भाशेची सभावीक लिपी खंयची, पुर्तुगेज येवचे पयलीं कोंकणी खंयचे लिपयेंत बरयतालें, पुर्तुगेज राजांनी क्रिस्तांव धर्मगुरुंच्या आदारान कोंकणीक मारून उडोवपाचो यत्न कसो केलो आनी गोंयकार भारताचो एक भाग म्हूण आपणालो फुडार घडयतलो जाल्यार तो कोंकणी बरोवपाक खंयची लिपी वापरतलो, हे सगले प्रस्न 1987त सोडयिल्ले जाल्यार आयज ह्या प्रस्नांचो सुवार्थी राजकारणा खातीर उपेग जावचो नाशिल्लो.

1987 च्या मे म्हयन्यांत गोंयचें राजकी आनी प्रशासकी रूप बदल्लें. डिसेंबर 1961 ते मे 1987 मेरेन गोंय एक संघप्रदेश आशिल्लो. संघ प्रदेशांत चडशें प्रशासन दिल्लीच्यान चलतालें आनी गोंयच्या मंत्र्यांक वा मुख्यमंत्र्याक चड अधिकार नासतालें. 1987 वर्साच्या मे म्हयन्यांत महाराष्ट्र, कर्नाटक, केरळ, तमीळनाडू आनी भारतांतल्या हेर राज्यां भशेन गोंय एक वेगळें राज्य जालें. गोंयच्या मुख्यमंत्र्याक आनी हेर मंत्र्यांक चड अधिकार आयले. गोंयच्या राजकी नितीमुल्यांची घसरगुंडी त्या दिसाच्यान सुरू जाली अशें खूबश्या गोंयकारांक दिसता. 30 मे 1987 ह्या दिसा गोंय वेगळें राज्य जालें. महाराष्ट्र, कर्नाटक आनी हेर राज्यां, लायटींचो झगझग, फोगेट्यांचीं धुमशेणां आनी तरातरांचे प्रोग्राम करून आपणालो जल्मदीस मनयतात. गोंय राज्याच्या जल्मदिसा गोंयचे राजकारणी, राजकीय पक्ष आनी सरकार तरातरांच्यो कार्यावळी घडोवन हाडटले, राज्यभर सरकारी इमारतींनी लायटींचो झगझग, फोगेट्यांचो गडगड आनी फोगाचो धुंवर पातळिल्लो आसतलो, असो म्हजो अदमास आशिल्लो. पूण गोंय राज्याच्या जल्मदिसा सुतकी वातावरण आशिल्लें. गोंयचें फुडें कितें जावपाचें आसा, ताचें दुखख गोंयकारांनी त्याच दिसा साकून सोंसपाक सुरवात केली काय कितें, असो मनांत विचार येतालो. पणजे सेक्रेटरीएटाचेर झगझगीत लायटी घाल्ल्यो, पूण आनीक खंयच व्हडलोसो झगझग दिसलो ना. गोंयकारांच्या सपनांचो धुंवर सुरू जाला, देखून आनीक आनीक फोगेट्यांचो धुंवर नाका, अशें सरकारांतल्या अधिकाऱ्यांक दिसलें जावंये, देखून फोगेट्यांचो गडगड आनी धुंवर खंयच दिश्टी पडलो ना. बाजारांत गेल्ले कडेन एके भाजयेकान्नीक हांवें विचारलें, "आयच्यान गोंयचें वेगळें राज्य जालां म्हणून खबर आसा मगे तुका?" हांव कितें उलयतां तें तिका कांयच समजलें ना. तिणें विचारलें, "म्हणजे कितें बाबा, गोंयचें कितें जालें?" म्हज्यानूय त्या प्रस्नाची जाप सारकी दिवपाक जावची नाशिल्ली देखून हांवें थंयच्यान कूस मारली.

आमी गोंयांत आसतना युगेशाक बारावेचे परिक्षेंत बरे मार्क पडले आनी ताणें कम्प्यूटर इंजिनियरिंगेचे पदवे खातीर इंजिनियरिंगाक वचपाचें थारायलें. पूण गोवा इंजिनियरिंग कॉलेजींत त्या वेळार कम्प्यूटर हो विशय नाशिल्लो. म्हण्टकच एका आयएयस

ऑफिसर इश्टाचे वळखीन पुण्यांतल्या महाराष्ट्र इन्स्टिट्यूट ऑफ टेक्नॉलॉजी (एमआयटी) हे कॉलेजींत ताणें कम्प्यूटर इंजिनियरिंग शिकपाक सुरवात केली. त्या कॉलेजींत नांव घालपाक खूप कॅपिटेशन फी दिवची पडटाली. म्हज्या इश्टाचे वळखीक लागून आमकां कांयच कॅपिटेशन फी दिवची पडली ना.

कॉलेज शिक्षणा खातीर पुण्याक वा गोंया भायर खंयूय धाडचें पडटलें म्हूण कळिल्लें जाल्यार युगेशाक बारावी मेरेन शिकपा खातीर गोंयांत धाडपाची गरजूच नाशिल्ली. आमच्या वांगडा रावून ताणें शिकपाक जातालें. पूण गोयांत कम्प्यूटर इंजिनियरिंग आनीक पांच वर्सांनी आसतलें काय ना हें पळयनासतनाच ताका आमी गोंयांत धाडलो. जिणेंतलीं पांच वर्सां भुरग्याच्या सांगातान बरे मजेंत घालयतलीं आशिल्लीं, तें ना जालें. जिणेचे आंखणेंत केन्ना केन्नाय गोंदळ जाता तो असो!

म्हजी दोन वर्सांची स्टडी लीव 1987 त जुलय म्हयन्यांत सोंपली. हांवें तीन म्हयने लीव वाडोवन घेतली, कारण इल्लेशें काम उरिल्लें. इतले मजगतीं म्हज्या प्रबंधाचो आनीक एक भाग बरोवन हांवें म्हज्या गायडा कडेन धाडलो, आनी उरिल्लें सगलें काम मद्रासाक करून धाडटलों म्हणपाचो प्रस्ताव ताणें मानून घेतलो.

आमी पणजे आसतना, बापूक शिक्षणाच्या मळार मोलादीक काम केलां म्हणून गोंयच्या सरकारान पुरस्कार दिलो. भारताचो राष्ट्रपती झैल सिंग हाणें गोंय सरकारा वतीन तो शिक्षणीक पुरस्कार बापूक दिवन ताचो भोवमान केलो. तेन्ना बापूक 82 वर्सां! ह्या सुवाळ्याक बापूक मडगांवच्यान पणजे हाडिल्लो, तेन्ना बापूच्यान सारकें चलूंक जायनाशिल्लें आनी दोळ्यांची मोतीबिंदू शस्त्रक्रिया सारकी जावंक नाशिल्ल्यान ताका सारकें दिसनाशिल्लें. कला अकादमींत जाल्ल्या सुवाळ्यांत ताका उखलून म्हणटात तसो स्टेजीर व्हरून उबो करून, चलोवन पुरस्कार घेवंक लायलो. ऑगस्ट 1987 त बापू भायर पडलो. तो रावतालो तो मडगांवचो धाकलो एक बेडरूम फ्लॅट रिकामो करून आमी सगल्यांनी घर धनयाच्या हातांत दिलो आनी अमके दीस हागेर रावतली, तमके दीस तागेर रावतली, अशें करून 'बागबान' सिनेमांतले भशेन तिनांय पुतां मर्दी आईची 'वांटणी' करून आमी चेन्नैक परतून गेलीं.

हांव लीव सोंपोवन परतून आयलां आनी म्हजी आतां सरकारांत जाय थंय नेमणूक करची, अशें हांवें चीफ सेक्रेटरीक पत्र बरयलें. मागीर म्हजी तमिळनाडू व्हिवर्स कॉ-ऑपरेटीव्ह ॲपेक्स सोसायटी, जें भारतभर 'कोऑपटॅक्स' म्हणून फामाद आसा, ते संस्थेचो अध्यक्ष आनी प्रशासकीय संचालक (चॅअरमन आनी मॅनेजिंग डायरेक्टर) म्हणून नेमणूक जाली.

# भाग 17
# को-ऑपटॅक्स

लोकशायेची राजकी बांदावळ अस्तंती देशांतल्यान भारतांत आयली. इतिहास काळांत भारतांत आतां भशेन लोकशाय पद्‌दत नासताली. लोकशाय पद्‌दतींत खरें म्हणल्यार सरकारी प्रशासन आनी भौसाची दीसपट्टी जीण कायद्यांक आनी नेमांक धरून चलूंक जाय. पूण भारतांत तशें जायना. धर्म, जात, वाठार, अर्थीक पांवडो आनी हेर गजाली तकलेंत घेवन मागीर ते नेम आनी कायदे जाय तशे, जाय तेवटेन बागांवन प्रशासन चलता. केंद्रीय सरकाराच्या प्रशासनांत, जंय अर्थीक आनी राजकी धोरणां घडोवन हाडटात आनी सबंद देशा खातीर धोरणां आंखतात, थंय धर्म, जात, अर्थीक पांवडो, वाठार, असल्या गजालींचें चडशें चेपण पडना. पूण राज्य सरकारांत असल्योच गजाली चड म्हत्वाच्यो आसतात.

1980 ते 87 मेरेन सात वर्सां केंद्रीय सरकाराचे बांदावळींत आनी स्टडी लिवीचेर आशिल्ल्यान धर्म, जात आनी हेर कायद्या कडेन संबंद नाशिल्ले गजालींनी भरिल्ल्या प्रशासना कडेन म्हजो संबंद आयलो ना. पूण ऑक्टोबर 1987 ंत तमीळनाडूंत परतून वतकच तो संबंद सुरू जालो.

म्हजें मद्रासाक (चेन्नै) घर ना, देखून म्हाका एक सरकारी फ्लॅट दिवचो असो हांवें घर खात्याक अर्ज केलो. ''तुका अमको अमको सरकारी फ्लॅट दिला'' अशी थोड्याच दिसां भितर सरकारी ऑर्डर आयली. तोच फ्लॅट सरकारान आनीक एका

अधिकाऱ्याक दिल्लो. तिवूय ऑर्डर आमकां दोगांकूय एकाच दिसा मेळ्ळी. तो अधिकारी म्हजे परस धा वर्सांनी ज्युनियर! ''हो गोंदळ तुमीच सोडयात आनी हांव सिनियर जाल्ल्यान ताची ऑर्डर फाटीं घेयात,'' अशें सांगूंक हांव घर खात्याच्या सचिवाक मेळ्ळों. ''तुका प्रशासन कशें चलता तें खबर आसा. राव हो जरी तुजे परस धा वर्सांनी ज्युनियर आसलो तरीय तो अनुसुचीत जातींतलो, आपले अनुसुचीत जातीचें कार्ड हातांत घेवन, त्या आदाराचेर आपल्याक तो फ्लॅट दिवचो म्हणून तो आमचेर चेपण हाडटा. तो करता तें बरोबर न्हय, पूण सगली बांदावळूच अशी जावन पडल्या. आमी कितें करतले? तरी आसतना तो फ्लॅट तुका दिवपाचो हांव यत्न करतां,'' अशें ताणें म्हणलें.

''तुजी ऑर्डर आमी रद्द करतात, तो फ्लॅट रावाक दिवचो अशी मुख्यमंत्र्यान फोनार ऑर्डर दिल्या, तूं आनीक खंयूय तरी प्रायवेट फ्लॅट घेवन राव,'' अशें ताणेंच म्हाका कांय दिसां उपरांत सांगलें. भारताच्या आनी खास करून तमीळनाडूच्या प्रशासनांत जात कितली म्हत्वाची आसता हाचो अणभव म्हाका तमीळनाडू प्रशासनांत परतून भितर सरना फुडें रोखडोच आयलो. खरें म्हणल्यार म्हजे जिणेचेर जात-कातीच्या प्रभावाचो हो पयलो अणभव. 1967 ते 1980 मेरेन जातीचेर आदारून हांवें प्रशासन केन्नाच चलयलें ना.

हांव 1971 ते 73 वर्सा साकर कारखान्यांत आसतना सुंदरकुमार नांवाचो मुखेल रसायनतज्ञ सदांच आपूण बामण, अमको गौडर, अमको पिळ्ळय, अमको अनुसुचीत जातीचो अशें उलयतालो. ताका शिटकावणी दिवन ताचें तें तसलें उलोवप म्हाका बंद करचें पडलें. पयले फावटीं म्हाका तो अणभव येतकच हांगाचे लोक परतून परतून जात वयर काडटात ताचें कारण म्हणल्यार तांचे जिणेचेर जातीभेदाचो असोच कितेंय तरी वायट परिणाम जाल्लो आसुंये, अशें म्हाका दिसलें. अडयार वाठारांतल्या गांधीनगर वाड्यार आमी एक फ्लॅट भाड्यान घेवन, व्हेल्लोराक आमच्या इश्टागेर दवरिल्लें सामान हाडून मद्रासाक (चेन्नै) राबितो सुरू केलो.

'को-ऑपटॅक्स' हें तमीळनाडू हातमाग सहकारी संस्थेचें नांव. सरकारी रिकॉर्डांनी एक नांव आनी दीसपट्टे जिणेंत वापरपाचें दुसरें नांव अशीं दोन नांवां पुतांक, धुवांक दवरपाची पद्दत भारतांत खूब कडेन आसा. गोंयांतूय हीच पद्दत आसा. तीच पद्दत खूबश्या संस्थांक लागू जाता. तमीळनाडू हातमाग संस्थेचें सरकारी नांव खूब व्हड, पूण दीसपट्ट्या कामधंद्यांत आनी प्रशासनांत वापरपा खातीर हे संस्थेन को-ऑपटॅक्स हें नांव आपणायलें आनी तें भारतभर खूब फामाद जालें. सुमार 15 लाख हातमाग विणकारांक तांच्या सहकारी संघां वरवीं सूत दिवप, साडयो आनी हेर कपडे विणपाची ऑर्डर दिवप, तशेच देशभर आशिल्ल्या आपल्या 500 वयर दुकानां वरवीं ते कपडे विकप, हें को-

ऑपटॅक्साचें काम. जम्मू-काश्मीर, आसाम आनी आसामाचे उदेंतेक आशिल्लीं राज्यां सोडल्यार हेर सगल्या राज्यांनी को-ऑपटॅक्साचीं दुकानां आशिल्लीं. चडशीं लुकसाणींत चलतालीं. सामकीं थोडीं फायद्यांत चलतालीं.

भारतांत सहकारी चळवळ चड येसस्वी जाली ती महाराष्ट्रांत आनी दक्षीण भारतांत. उत्तर भारतांत सहकारी चळवळ भ्रश्टाचारान आनी सुवार्थान किडेल्ली. दक्षीण भारतांत जेन्ना जेन्ना सहकारी पद्‌दतीन चलिल्ल्या आस्थापनांक कीड लागता अशें दिसता, तेन्ना लोकांनी वेंचून काडिल्ल्या फुडाऱ्यांक कुशीक दवरून सिनियर अधिकाऱ्यांच्या हातांत सरकार तीं आस्थापनां दिता. तमीळनाडूंत अश्योच सहकारी सुताच्यो गिरणी, सहकारी साकर कारखाने आनी को-ऑपटॅक्स, अशींच खूबशीं वर्सां सिनियर आयएएस अधिकारी चलयताले. देखून तमीळनाडूच्या सहकारी चळवळीच्यो जायते फावटीं 'सरकारी सहकारी चळवळ' अश्यो बकत्शायो जातात.

को-ऑपटॅक्स ही सुमार पंदरा हजार हातमाग सोसायटींनी एकठांय येवन उबारिल्ली संस्था. पूण ते संस्थेची वाट लागूंक लागली तेन्ना ती सरकारान आपल्या हातांत घेतली. सहकारी अशें नांव आसलें जाल्यार लेगीत ती सरकारी आस्थापना भशेन चलता. आयज को-ऑपटॅक्साचो धंदो 300 (तिनशें) कोटी रुपयांचेर पावला. 1987 त तो 200 (दोनशें) कोटी सुमार आशिल्लो. हेर राज्यांनी लुकसाणींत चलपी दुकानां कित्याक चालू दवरिल्लीं, तें कोणाक खबर नाशिल्लें. केन्नाय तरी कोणेंय तरी सुरू केल्लीं, तीं तशींच चालू उरलीं. सरकार, मागीर तें खंयचेंय आसूं, ताचें एक खाशेलपण म्हणल्यार सुरू जाल्लें तें काम केन्नाच बंद जायना, कारण तें सुरू करपांत आनी चालू दवरपांत खूबश्या जाणांचे हितसंबंद घुस्पल्ले आसतात. बंद केल्यार कोणाक फायदो ना. हांव को-ऑपटॅक्सांत पावणेदोन वर्सां सुमार त्या पदाचेर उरलों. त्या पावणेदोन वर्सां मदीं हांवें सुमार 60 दुकानां बंद केलीं. दुकानां हेर राज्यांनी आशिल्ल्यान आनी दर कडेन फकत एक-दोन कर्मचारी आशिल्ल्यान, आनी तेय बी जायते कडेन तमीळनाडूंतल्यान थंय धाडिल्ल्यान तीं दुकानां बंद करतना खंयच्यानूच आडमेळीं आयलीं नात.

तमीळनाडूंत कांचीपुरम, सेलम आनी तंजाउर नगरांनी रेशमी साडयो करपी विणकार भरल्यात. दर जाग्याचें आपणालें म्हणून एक खाशेलेपण आसता. नल्ली, कुमरन, राधा सिल्क हीं त्या वेळा वयलीं सिल्काचीं फामाद दुकानां. को-ऑपटॅक्साचीं मद्रासाक 15 दुकानां आसात, पूण नल्ली, कुमरन, राधा सिल्क आनी असल्या हेर प्रायवेट दुकानांनी दीसपट्टो धंदो जाता, तो को-ऑपटॅक्साचीं पंदराय दुकानां एके कडेन करून लेगीत जायना. ज्या विणकारांच्या सोसायटींनी आपणालो म्हाल विकपा खातीर को-ऑपटॅक्स स्थापन केलें, तेच रेशीमाचे विणकार बरो बरो म्हाल पयलीं प्रायवेट दुकानांक दितात

आनी उरिल्लो को–ऑपटॅक्साक दितात. हाचें कारण म्हणल्यार प्रायवेट दुकानां तांकां रोखडेच पयशे दितात आनी को–ऑपटॅक्स पयशे दिवपाक 30-40 दीस लायता. सरकारी संस्था जाल्ल्यान विणकारां कडल्यान रोख पयशे दिवन साडयो घेवप शक्य जायना. अशेच आनीक कितलेशेच प्रस्न को–ऑपटॅक्सा मुखार उबे आशिल्ले आनी त्या प्रस्नांक जापो मेळप कुस्तार आशिल्लें. सरकारान बिझनेस वा उद्देग–धंदो केन्नाच करचो न्हय म्हणटात तें हे खातीर. कारण सरकारी पयसो हो लोकांचो पयसो. तो वापरतना कायद्यान आनी नेमान वापरूंक जाय आनी कितल्याय वर्सां उपरांत कोणाकूय जाणा जावंक जाय जाल्यार, खंयचो पयसो खंय वापरला, कोणाचे मान्यतायेन वापरला, हाचीं कागदपत्रां सारकीं मेळूंक जाय. देखून सरकारी फास्कॆंत आसतात त्यो पद्दती खाजगी धंद्यांक उपकारनात. चडशे सरकारी धंदे वा सरकारी आस्थापनां लुकसाणींत चलतात तें हेच खातीर. सगल्या 15 हजार सहकारी संघांनी आशिल्ल्या विणकारांक म्हाल घेतना रोखडेच पयशे दिवप शक्य नाशिल्लें. पूण ज्या सहकारी संघांतलो म्हाल बरो आसतालो आनी जे प्रायवेट दुकानांक चड म्हाल दिताले, तांची वळेरी करून तांकांच मातशे पयशे बेगीन फारीक करपाची पद्दत आमी सुरू केली. तातूंतल्यान परिस्थिती मातशी सुदारली.

बरो म्हाल विकपाक बरीं दुकानां, बरो कर्मचारी वर्ग आनी बरी जायरात पद्दत आसची पडटा. ती को–ऑपटॅक्सा कडेन नाशिल्ली. रेशमी साडयो म्हारग. देखून, रेशमी साडयो चड विकल्यार को–ऑपटॅक्साचो धंदो बेगीन वाडटलो, हें हांवें को–ऑपटॅक्सांतल्या वडील अधिकाऱ्यांक पटोवन दिलें, आनी रेशमी साडयांचो खप वाडोवपाचें काम आमी नेटान सुरू केलें. मद्रास (चेन्नै), सेलम, मदुराय आनी बेंगळुरू ह्या राज्यांनी आमचीं थोडीं व्हड दुकानां फकत रेशमी साडयो विकपा खातीर म्हणून वेंचून काडलीं. नव्यो आरमारी, लायटी बी घालून दुकानां ॲर कण्डिशण्ड केलीं. आपल्याक जाय थंय वचून, वेंचून काडिल्ले सोसायटींनी वचून जाय तो म्हाल घेवपाचो खास अधिकार मॅनेजरांक दिलो. हो अधिकार तांकां पयलीं नाशिल्लो. सोसायटीं कडल्यान म्हाल विकतो घेवपाचें काम एक विभाग पळयतालो आनी वेगळ्यावेगळ्या विभागांतल्यान दुकानांत विकपा खातीर जो म्हाल वतालो, तो मॅनेजरांक कितें जाय, कितें नाका हें विचारिनासतनाच थंय पावतालो आनी मागीर तो खपनासतना तसोच उरलो जाल्यार मॅनेजरांक तापोवणी खावची पडटाली. एकदम सगली बांदावळ बदलप शक्य नाशिल्लें. देखून सिल्क साडयांची वेवस्था पयलीं बदलपाक सुरवात केली.

म्हालाचो खप वाडोवपाक को–ऑपटॅक्स दिल्ली, मुंबय, कोलकाता, हैदराबाद ह्या शारांनी तमीळनाडूंतल्या हातमाग कपडयांचीं प्रदर्शनां घडोवन हाडटालें. असल्या प्रदर्शनांचेर चड खर्च जावचो न्हय आनी चड फायदो उरचो हीं उद्दिश्टां दोळ्यां मुखार

दवरून असलीं प्रदर्शनां खंयचे तरी धर्मशाळेंत वा सवाय हॉटेलांनी वा लग्नाच्या हॉलांनी ते भरयताले. तशेंच आपणाल्या म्हालाची जायरात करपाची पद्दत को-ऑपटॅक्सान सुदारूंक नाशिल्ली. व्हड व्हड प्रायवेट कंपन्यांनी टिवीचेर बऱ्यो बऱ्यो रंगीत आनी आकर्शक जायराती दिवपाक सुरवात केल्ल्यो. को-ऑपटॅक्सान टिवीचेर जायरात करपाक सुरवात करूंक नाशिल्ली. व्हड व्हड शारांनी को-ऑपटॅक्साचो म्हाल लोक कित्याक घेतात, कित्याक घेनात, को-ऑपटॅक्सांत येनासतना प्रायवेट दुकानांनी कित्याक वतात, हाचेर को-ऑपटॅक्सान केन्नाच अभ्यास करूंक नाशिल्लो.

दिल्ली, मुंबय आनी बेंगळुरू ह्या शारांनी आमी को-ऑपटॅक्साचीं प्रदर्शनां व्हड व्हड पांच नखेत्री हॉटेलांनी करपाक सुरवात केली. पयलेच फावट दिल्ली चाणक्यपुरीच्या सम्राट हॉटेलांत केल्ल्या प्रदर्शनांत तीन दिसांनी जो खप जालो तो तेन्ना मेरेन दिल्लींत केल्ल्या प्रदर्शनां परस तीन पटींनी चड आसलो. फायदोय बी खूबसो वाडलो आनी रेशमी साडयो विकत्यो घेवप्यां मर्दी को-ऑपटॅक्साचें नांव जालें. तसलोच अणभव आमकां मुंबय आनी बेंगळुरू ह्या शारांनी आयलो.

को-ऑपटॅक्सान टिवीचेर चडशी जायरात करूंक नाशिल्ली आनी दिसाळ्यांनी ज्यो जायराती येताल्यो त्यो फकत दिवाळेच्या आनी 'पोंगला'च्या दिसांनी येताल्यो. खंयच्या तरी व्हड अधिकाऱ्यांच्या फामिलींतल्या, तांतले तातूंत बऱ्या दिसपी बायलांचे फोटू घालून को-ऑपटॅक्साच्यो जायराती येताल्यो. को-ऑपटॅक्साची जायरात पद्दत सुदारपा खातीर हांवें 'हिंदुस्थान थॉम्सन' हे व्हड जायरात कंपनीक आपयली. "को-ऑपटॅक्सा" खातीर काम करपाची आमची इत्सा ना, आमकां मेळटात तातूंतलो 25 प्रतिशें दुडू को-ऑपटॅक्साचो कर्मचारी संघ आपल्याक मागता, हाचे पयलीं को-ऑपटॅक्सा खातीर काम करतल्या सगल्या जायरात कंपन्यांनी तांकां 25 प्रतिशें वांटो दिला, आमचे कंपनींत आमकां असली पद्दत आवडना," अशें तांणी म्हाका फोनार सांगलें. "तुमी एक्क पयसो कोणाक दिवपाची गरज ना, तुमी येवन काम सुरू करात," अशें तांकां सांगतकच आनी बरोवन ऑर्डर दितकच ते कंपनीन काम सुरू केलें.

हिंदुस्थान थॉम्सन ही भारतांतल्या जायरात कंपन्यां मदली एक मुखेल कंपनी. हातांत घेतिल्लें काम एकदम बरे शिस्तीन करपाची तांची संवय. तुमचे खातीर काम करतलो जाल्यार पयलीं आमकां को-ऑपटॅक्साची मार्केट सर्वे करची पडटली. को-ऑपटॅक्साच्या दुकानांनी खंयच्या अर्थीक पांवड्याचे लोक येतात, कितें घेतात, कितें घेनात आनी को-ऑपटॅक्सांत जीं गिरायकां येनात आनी दुसरे कडेन वतात, तीं कित्याक वतात हें आमी सोदून काडचें पडटलें आनी ते प्रमाण आमकां कितें करपाक जाय तें पयलीं थारावचें पडटलें. मागीर तीं उद्दिश्टां मतींत दवरून जायराती तयार करच्यो

पडटल्यो. हांवें जें को-ऑपटॅक्साच्या मॅनेजरांक पयलीं सांगिल्लें तेंच ह्या तज्ञांनी मार्केट सर्वे बी सगलें करून आमकां परतून सांगलें. पयलो मुद्दो म्हणल्यार, तुवाले, पुडवीं, नॅपकीन, दाट चादर (बुर्नूस) हें घेवपाचें आसल्यार सकयल्या अर्थीक पांवड्या वयलीं गिरायकां को-ऑपटॅक्सांत येतात. रेशमी साडयो घेवपाक वा आनीक कसलेंय म्हारग सामान घेवपाक लोक प्रायवेट दुकानांनी वतात. रेशमी साडयो विकपाक दुकानां बरीं करचीं पडटलीं. सोबीत सजावट करची पडटली. तसल्या दुकानांक फावो तशी उजवाडाची वेवस्था करची पडटली आनी सगल्या तरांचो रेशमी म्हाल दवरचो पडटलो. म्हयन्याक एक कोटीचो म्हाल विकतलो जाल्यार उण्यांत उणो म्हणल्यार वीस कोटींचो म्हाल दुकांनांत आसचो पडटलो. मागीर ल्हवूल्हवू गिरायक कसलें आनी कितें घेतात, तें पळोवन स्टॉक उणो करपाक जाता. जायरातींचो दर्जो वाडोवचो पडटलो आनी शक्य जालें जाल्यार सिनेमांतल्यो नटयो को-ऑपटॅक्साच्यो साडयो वापरतात अशें दाखोवन जायराती करच्यो पडटल्यो. हिंदुस्थान थॉमसनच्या तज्ञांनी आनीक खूबश्यो सुचोवण्यो केल्यो, त्यो सगल्यो चालीक लावंक सुरवात जाली. मिनाक्षी शेषाद्री आनी जयप्रदा हांचे कडेन कबलात करून, बऱ्यांतली बरी टिवी 'जिंगल' तयार केली आनी टिवी वरवीं जायराती दिवंक सुरवात केली. त्या काळांत सांजेच्या स ते धा वरां मेरेन टिवीचेर जायराती दिल्यार धा सेकंदाचे जायरातीक सत्तर हजार रुपया पडटाले. को-ऑपटॅक्साच्या लोकांचे दोळे वरशे जाले. हो सिएमडी कित्याय कितें करपाक लागला, अशेंय थोड्या जाणांक दिसलें जावंये. जयप्रदा आनी मिनाक्षी शेषाद्री न्हेशिल्ल्या साडयांक सगले कडल्यान चड मागणी येवपाक लागली. तसल्यो साडयो एक दोन दुकानां सोडल्यार खंयच्याच हेर दुकानांनी तयार नाशिल्ल्यो. तुमचे कडेन साडयो नात जाल्यार जायराती कित्याक दितात, अशें म्हणून लोक तापूंक लागले. तसल्योच साडयो हातमागाचेर विणून दुकानांचेर पावयता म्हणसर गिरायकाची त्या साडयां विशींची उमेद थंडावली.

को-ऑपटॅक्सांत फॅशन शो म्हणटात ते केन्नाच जावंक नाशिल्ले. हांवें चेन्नै को-ऑपटॅक्साच्या कपड्यांचे दोन फॅशन शो घडोवन हाडले आनी तरनाट्या चलयां खातीर सर्ती घडोवन हाडल्यो.

आमच्या फॅशन शोंची गजाल आयकून दिल्लींतल्या भारत सरकाराच्या नॅशनल इन्स्टिस्ट्यूट ऑफ फॅशन टॅक्नोलॉजीच्या डायरेक्टरान म्हाका फोन केलो, आनी सबंद संवसारभर नामना जोडिल्लो फॅशन डिझायनर पियॅर कार्दा हो आनीक एक दोन म्हयन्यांनी दिल्लीक फॅशन शो करपाचो आसा, ताका को-ऑपटॅक्साच्यो साडयो दिल्यार फॅशन शोंत तो त्यो साडयो वापरतलो आनी को-ऑपटॅक्साचें नांव सगले कडेन गाजतलें, देखून आमच्यो को-ऑपटॅक्साच्यो साडयो दिल्लीक बेगोबेग धाडच्यो अशें ताणें सुचयलें.

आमी खूबश्यो बऱ्यो बऱ्यो साडयो धाडल्यो आनी तांचे तरातरांचे ड्रॅस करून त्या फॅशन शोंत पियॅर कार्दांच्या 'मॉडेल्सांनी' लोकांक दाखयल्यो. पियॅर कार्दान म्हाका शाल दिवन म्हजो भोवमान केलो. त्या फॅशन शोच्यो खबरो सगल्या खबरांपत्रांनी आनी टिवीचेर आयल्यो आनी को-ऑपटॅक्साची बरी जायरात जाली. रेशमी साडयांचो खप कितल्याश्याच पटींनी वाडूंक लागलो.

गोंयांत को-ऑपटॅक्साचें एक व्हड दुकान उगडल्यार फायद्यांत चलत काय ना, हाचो अदमास घेवपाक हांवें दोन ऑफिसरांक गोंयांत धाडले, आनी पणजे आनी मडगांवां भोंवून लुगटां बाजारांचो नियाळ घेवंक लायलो. गोंयांत पांच-स दीस रावन, सगले कडेन भोंवन, पणजे एक व्हडशें दुकान घाल्यार फायद्यांत चलूं येता, असो रिपोर्ट तांणी दिलो. व्हड दुकानां खंयच भाड्याक मेळनाशिल्लीं, देखून इडीसीन नवेच बांदिल्ले बिल्डिंगेंत दुकाना खातीर व्हड जागो घेवपाचें थारायलें. इडीसी ही गोंय सरकाराची कंपनी. गोंय सरकारा कडल्यान जागो विकतो घेवपाक आमकां मान्यताय दिवची, अशें सांगूंक तमीळनाडू सरकारच्या अर्थ खात्या कडेन म्हाका खूब फावटी मारच्यो पडल्यो. सरकाराक, मागीर तें खंयचेंय सरकार जावं, एक खंयच बरोवंक नाशिल्ली आनी कोणूच उलोवन दाखयना असली मानसीकताय आसता. ती म्हणल्यार, खंयचोय सरकारी नोकर प्रायवेट व्यापाऱ्यां कडल्यान, व्हड उद्देग-धंद्यांच्या धनयां कडल्यान, सरकारा खातीर कितेंय विकतें घेत जाल्यार तातूंत त्या सरकारी नोकराची कितेंय तरी चोरयेची येणावळ आसूंक जाय, हो विचार. गोंयांत विकतें घेतात तें दुकान प्रायवेट मनशां कडल्यान न्हय, गोंय सरकारा कडल्यान, अशें म्हणून तमीळनाडू सरकाराक पटोवन दिवपाक म्हाका बरोच त्रास पडलो. अखेरेक १९८४त पणजे को-ऑपटॅक्साचें दुकान हांवें सुरू केलें. एका वर्सा भितर महाराष्ट्र आनी गुजरात ह्या राज्यांनी आशिल्ल्या दुकानां परस सगल्यांत चड खप गोंयांत जावंक लागलो. आनी "तुवें केलें तें बरोबर केलें," अशें को-ऑपटॅक्साचे सगले मॅनेजर म्हणूंक लागले.

1973-76 ह्या वर्सांनी हांवें तमीळनाडू हस्तकला निगम सुरू केल्लो. ताचीं दुकानां दिल्ली, मुंबय, बेंगळुरू, हैदराबाद आनी तमीळनाडूंत सगले कडेन 'पुंपुहार' ह्या नांवान फामाद आसात.

सरकार वेगळ्यावेगळ्या कारणां खातीर उद्येग-धंदो सुरू करता, पूण धंद्याक फावो तो वेग आनी मेकळीक धंदो चलोवपी अधिकाऱ्यांक मेळना. धंदो सरकारी कायद्या प्रमाण चलयल्यार तो केन्नाच फायद्यांत चलना. तमीळनाडू सरकारांत एक मुखेल कायदो असो: अधिकाऱ्यांनी कांयच चूक करपाक जायना. अधिकाऱ्यांनी काम केल्यार चुकी जातात, देखून जायते अधिकारी फकत फायली धुकलपाचें काम करतात; काम कांयच

करिनात. जे काम करिनात, ते चुकीय करिनात. मजा म्हणल्यार अशी, जे चुकी करिनात तांचेर 'बरो अधिकारी' म्हणून छाप पडटा. पूण काम करिनासतना रावता म्हणून 'वायट अधिकारी' असो छाप तांचेर केन्नाच पडना. धंदो करतना तो वाडोवपा खातीर सरकारी कायद्यांत बसनाशिल्ल्यो गजाली करच्यो पडटात. जे ऑफिसर धिटायेन फुडें सरतात, तांचे कडेन मातशी चूक जाल्यार लेगीत ते त्रासांत सांपडटात. धंदो वाडोवपाचे नदरेन पळयल्यार चूक न्हय, पूण सरकारी नेम लक्ष्मणरेशा अशें धरल्यार ती चूक अशें मानूं येता.

को-ऑपटॅक्सांतल्या म्हालाचो खप प्रायवेट दुकानां भशेन फास्ट वाडना, हाचें कारण अधिकाऱ्यांक जोखीम घेवन काम करपाची मेकळीक नासता. मद्रासच्या नुगमब्बाक्कम वाठारांत एका ल्हानशा को-ऑपटॅक्स दुकांनांतलो मॅनेजर धंदो वाडोवपाक कितेंय करपाक तयार आशिल्लो. मनीस प्रामाणीक, पूण लक्ष्मणरेशा आपल्याच हातान पुसून उडोवपी. गिरेस्त गिरायकांक वा व्हड व्हड अधिकाऱ्यांच्या बायलांक तो फोन करून वा तांच्या घरा वचून मेळून, दुकानार आपोवन तांकां व्हड मनीस करून खप वाडोवपाचो यत्न करतालो. जायत्यो गिरेस्त बायलो ''ह्यो पंदरा साडयो हांव व्हरतां, हांतूतल्यो दोन-तीन दवरून उरिल्ल्यो धाडून दितां, म्हाका घोवाक दाखोवंक जाय,'' अशें सांगून जायते फावटीं साडयो व्हरताल्यो. जाय तितल्यो विकत्यो घेवन उरिल्ल्यो परतून धाडून दिताल्यो. सरकारी कायद्या प्रमाणे तो मॅनेजर करतालो तें चूक आशिल्लें, पूण हांव ताका तशें करपाक दितालों. भ्रश्टाचार करिनासताना तो धंदो वाडयतालो आनी फकत वळखीच्याच गिरायकांक तो बरी सवलत दितालो.

मागीर, म्हजी बदली जातकच तो त्रासांत सांपडलो. एक फावट एके बायलेन तीन-चार साडयो परतून धाडिनासतनाच आपणें धाडिल्ल्यो अशें सांगलें. वयल्या ऑफिसांतले लोक स्टॉक तपासपाक आयले तेन्ना तांकां चार साडयो उण्यो मेळ्ळ्यो. मॅनेजरान खरी गजाल तांकां सांगली. ताणें खप वाडयिल्लो म्हणून शाबासकी दिवपाची सोडून, कांयच बरोवन घेनासतना लोकांच्या घरांत साडयो पावयल्यो म्हणून ताका सेवेंतल्यान निलंबीत केलो.

हेर प्रायवेट दुकानां भशेन धंदो करतलो जाल्यार उपकारा पडपी आनी सरकारान धंदो करपाक लागू जावपी, अशे वेगळे कायदे करचे, अशा आशयाचीं हांवें सरकाराक कितलींशींच पत्रां धाडलीं. तांचो कांयच परिणाम जालो ना काय दिसता. तो मॅनेजर मागीर खूब तेंप निलंबीत जावन उरिल्लो. मागीर निवृत्त जावपाची पिराय जावचे तीन-चार वर्सां पयलींच ताणें आपणेंच जावन को-ऑपटॅक्साची नोकरी सोडली आनी एके प्रायवेट कंपनीन चार पटींनी पगार चड दिवन ताका कामाक दवरलो.

को-ऑपटॅक्सांत चलून आयिल्ल्या नेमां प्रमाण, फकत तमीळनाडू विणकारांनी विणिल्ल्यो साडयो आनी हेर कपडे विकपाची मेकळीक आशिल्ली. तिवूय बी फकत विणकार सोसायटींतल्यान विकती घेवन, मागीर आमच्या को-ऑपटॅक्सांतल्या दुकानांनी विकपाची! प्रायव्हेट विणकारां कडल्यान म्हाल घेवंक जायना आनी प्रायवेट दुकानां वरवीं तांकां कमिशन बी दिवन विकूंक जायना, असो नेम आसलो. आनीक एक नेम म्हणल्यार, फकत तमीळनाडूंत तयार जाल्ल्यो साडयो आनी हेर लुगटां, म्हणल्यार तुवाले, लुंग्यो, पुडवीं, चादर बी असल्यो वस्तू विकताले. हेर राज्यांतल्या सहकारी संस्थां कडल्यान म्हाल घेवन को-ऑपटॅक्सांतल्या दुकानांतल्यान विकपाची पद्दत नाशिल्ली. तशेंच को-ऑपटॅक्साचो म्हाल हेर राज्यांतल्या सहकारी संस्थां वरवीं विकपाचीय बी पद्दत नाशिल्ली. हेर राज्यांतल्या हातमाग विणकार सहकारी संस्थां कडेन उलोवन तांचो म्हाल आमी घेवपाची आनी आमचो म्हाल तांकां विकपाची पद्दत हांवें सुरू केली. बंगाल, मध्यप्रदेश, काश्मीर आनी आंध्र हांच्यो रेशमी साडयो तशेंच मध्यप्रदेश आनी उत्तरप्रदेश राज्यांतल्यो रेशीम आनी नायलॉन 'ब्लेण्डेड' साडयो आमी विकूंक लागले. को-ऑपटॅक्साचो म्हाल तांच्या दुकानांतल्यान विकूंक लागलो. तांचो म्हाल विकिल्ल्यान को-ऑपटॅक्साक चड फायदो जावंक लागलो आनी तमीळनाडूच्या साडयांचो आनी लुगटांचो हेर राज्यांतलो खपूय बी वाडूंक लागलो. को-ऑपटॅक्सांतल्यान म्हजी बदली दुसरे कडेन जातकच हेर राज्यांतलो म्हाल तमीळनाडूंत कित्याक विकपाक जाय, आमची सहकारी संस्था आसा ती आमच्या विणकरां खातीर, अशें खंयच्याय तरी एका वडील अधिकाऱ्याक दिसलें आनी मागीर हांवें जो आंतरराज्य वेपार सुरू केल्लो, तो बंद जालो.

गुजरातांत सहकारी चळवळी वरवीं दूद उत्पादन वाडयिल्ले खातीर 'आणंद' हो वाठार खूब फामाद! त्या वाठारांत राष्ट्रीय दूद उत्पादन संस्था वावुरता आनी तांचे 'अमूल' ह्या नांवान दुदाचे वेगळेवेगळे जिनस, म्हणल्यार श्रीखंड, लोणी, तूप, धंय, चीज, आयस्क्रीम आनी हेर जिनस भारतभर फामाद आसात. गायो आनी म्हशी पाळटल्यांच्यो सहकारी सोसायटी स्थापन करून वेगळ्यावेगळ्या गांवांतलें दूद एकठांय करून, खूबश्या मुखेल सुवातांनी त्या दुदाचेर फावो ती प्रक्रिया करून, पयलीं पयलीं बाटल्यांनी आनी मागीर प्लास्टिकाच्या पोतयांनी घालून सगले कडेन पावोवपाचें काम त्या राष्ट्रीय दूद उत्पादन संस्थांनी बेस बरें केलें. तशेंच गायांचें आनी म्हशींचें दूद उत्पादन वाडोवपा खातीर सरकारा वांगडा यत्न करून दूद उत्पादन वाडयलें आनी गायो आनी म्हशी पाळप्यांची येणावळूय वाडयली. दूद उत्पादन आनी विक्री वाडोवपा खातीर राष्ट्रीय दूद संस्थेन केल्ल्या कामा भशेनूच तमीळनाडूंतल्या हातमाग कपड्याचें उत्पादन आनी विक्री वाडोवपाचें काम को-ऑपटॅक्स करतालें. को-ऑपटॅक्साचें काम राष्ट्रीय दूद उत्पादन

संस्थेच्या अधिकाऱ्यांक कळोवपा खातीर आनी तांच्या अणभवा वयल्यान आमी कितेंय आपणावपा सारकें आसा काय कितें हें पळोवपाक दोन दिसां खातीर हांवें तांच्या 'आणंद' जिल्ल्यांतल्या आस्थापनांक भेट दिली. थंय म्हाका अचकीत खूब सुकी खांक येवन जोर आयलो. पांच-स दिसांनी आमी सुटयेंत कश्मीराक वचपाचीं आशिल्लीं. हो आनीक जोर ह्या वेळार कित्याक आयलो, अशें येवजून फडफडत मद्रासाक वतकच हांव दोतोरा म्हऱ्यांत गेलों. दोतोरान व्हडलो शॉक दिलो. "बेगोबेग कश्मीरची ट्रिप रद्द करून फाल्यांच्यान हांव बरोवन दितां ती सगली तपासणी करपाक जाय," अशें म्हणून ताणें म्हाका एक तर कॅन्सर, ना जाल्यार टिबी जाल्ल्याचो दुबाव उक्तायलो. धा-पंदरा दीस लागून सगल्यो तपासण्यो केल्यो. तरी आसतना दरेके कडेन हो टिबी आसूं येता वा कॅन्सर आसूं येता, अशें दोतोरांचें मत जालें. मागीर एक निमाणो उपाय म्हणून आमी व्हेल्लोराक क्रिश्चन मॅडिकल कॉलेजीच्या हॉस्पिटलांत गेलीं. थंय हांव पयलीं कलेक्टर आशिल्ल्यान थंयचे सगले दोतोर बी म्हाका वळखताले आनी खूब मान दिताले. तांणी रोखड्यारोखडी तपासणेक सुरवात केली, आनी तांणीय बी तेंच मत उक्तायलें. हो टिबी वा कॅन्सर जावं येता, खंयच्याय तरी एका दुयेंसाचें वखद सुरू करपाक जाय, अशें तांणी सांगलें. टिबीचें वखद पयलीं सुरू करून, टिबी न्हय म्हणून मागीर सिद्ध जाल्यार, एक दोन म्हयने बेठेच फुकट गेले अशें दिसलें; आनी कॅन्सरा आड उपाय करपाचो जाल्यार तो कळावान सुरू केल्यार ताचो जाय तितलो परिणाम जायना, हेंवूय खरें. कॅन्सर म्हणून खरेपण आसले बगर बेठोच कॅन्सराचो उपाय करपाक ते तयार नाशिल्ले, कारण त्या उपायांचो मागीर कुडीचेर आनीक खूबश्या तरांनी वायट परिणाम जाता.

युगेशाची मूज अजून करपाची आशिल्ली. युगेश पुण्यांत इंजिनियरींग शिकपाक वचून अजून एक वर्स जावंक नाशिल्लें. टिबी जावं कॅन्सर, उपाय सुरू करचे पयलीं युगेशाची मूज करून उडोवया, अशें हांवें थारायलें. गोंयांत सगली वेवस्था करपाक आमकां वेळ मेळचो ना, देखून ही मूज तमीळनाडूंतूच करया, अशें आमी थारायलें. गोंयचे भशेन तमीळनाडूंत लेगीत सगल्या देवळांनी देवकार्य करपाची वेवस्था आसता. तमीळनाडूंत 'मुरुगा' (कार्तिकेय) ह्या देवाक लोक चड म्हत्व दितात आनी चड पुजतात. उत्तर भारतांत आनी गोंयांत बी मुरुगाक कार्तिकेय म्हणटात. कार्तिकेय हो गणपतीचो व्हडलो भाव. पूण ताची पुजा उत्तर भारतांत, महाराष्ट्रांत, गोंयांत बी चडशी करिनात. तमीळनाडूंत पाळणी शारांत एका दोंगराचेर मुरुगाचें फामाद देवूळ आसा. भारतांत सगले कडचे तमीळ लोक थंय पुजा करपाक येतात. तिरुपती फाटोफाट गिरेस्त देवस्थान पाळणी अशें म्हणटात. अमरावती सहकारी साकर कारखान्यांतल्यान पाळणी फकत अर्द वराची वाट. अमरावती सहकारी साकर कारखान्याचो 1971-73 ह्या वर्सा हांव अध्यक्ष आनी

प्रशासकी संचालक आशिल्लों तेन्ना आमी पाळणीक देवाचें दर्शन घेवपाक दर दोन म्हयन्यांनी एके फावटीं तरी वतालीं. कारण लताची त्या देवाचेर खूब भक्ती आशिल्ली.

एके फावटीं आमी ते वटेंतल्यान मदुराय वतना देवळांत वचून देवाक पांयां पडून येवया अशें मनांत आयिल्लें. आतां नाका, आनीक केन्नाय या, अशें म्हणून देवळांत वचपाचें फुडें धुकल्लें. पूण आमी देवळा म्हऱ्यांत पावतकच मोटार बंद पडली. आनी दुरुस्त करपाक वेळ लागतलो अशें ड्रायव्हरान सांगलें. आमचे कडेन भरपूर वेळ आशिल्ल्यान आमी देवाचें दर्शन घेतलें. मागीर मोटार बी सारकी जातकच आमी मदुराय गेलीं. त्या दिसाच्यान आमचे जिणेंत मुरुगा देवाचें म्हत्व वाडलें.

युगेशाची मूज खंय करची हो प्रस्न कुस्तार नाशिल्लो. पाळणीकूच वचून करपाक जाय, अशें थारलें. अमरावती सहकारी साकर कारखान्यांत आमचे कचेरेंत बालसुब्रमण्यम् नांवाचो थंयचो एक व्हड भाटकार, वेवस्थापक (मॅनेजर) म्हणून काम पळयतालो. तो हरशीं गिरेस्त. त्या वाठारांत ताका आनी ताच्या घराण्याक खूब मान. नोकरी करपाची गरज नाशिल्ली, तरी आसतना शेतां-भाटां पळोवपी हेर लोक आसात, देखून घरा बेकार बसचे परस नोकरी केल्ली बरी म्हणून तो अमरावती साकर कारखान्यांत ऑफीस मॅनेजराचें काम पळयतालो. तमीळनाडूच्या भौसांत आयएएस अधिकाऱ्यांक आशिल्लो मान आनीक खंयच्याच राज्यांत आसा अशें म्हाका दिसना. गोंयांत तर हालीं हालीं मेरेन आयएएस म्हणटात तें कितें हें चडश्या जाणांक खबर नाशिल्लें. तमीळनाडूंतल्यान भायर सरल्यार म्हाका वीस वर्सां जालीं, तरी आसतना आयज लेगीत थंयच्या खंयच्याय वळखीच्या मनशाक कसलेंय काम सांगलें जाल्यार तो व्हड भक्तीभावान म्हणटात तशें तें काम करून म्हाका कळीत करता. युगेशाची मूज करूंक जाय आनी पाळणीक सगली वेवस्था करपाक जाय, अशें हांवें बालसुब्रमण्यमाक सांगलें, तेन्ना ''तुमी कांयच चिंता करूं नाकात, हांव सगली वेवस्था करतां, फकत तुमचे कितले लोक येतले तें सांगात,'' अशें ताणें म्हाका सांगलें. ते प्रमाण हांवें सगली म्हायती दितकच देवळाची अगरसाळ, कुडी, जेवणाखाणांचे कॉण्ट्रॅक्टर, मुजीचें सामान, भट बी सगलें ताणें तयार केलें आनी रोखडीच, 15 दिसां भितर आमी युगेशाची मूज करून उडयली. युगेशाक परतून पुण्याक धाडून आमी व्हेल्लोर हॉस्पिटलांत वचून ''आतां तुमकां जाय ते उपाय सुरू करात,'' अशें तांकां सांगलें. खंयचो उपाय सुरू करपाचो हें थारावचे पयलीं म्हाका आनीक एके फावटीं तपासुया, अशें म्हूण त्या दोतोरान म्हजो गळो, ताळो, मान, खांको, छाती दामपाक सुरवात केली. खाक्यांत दामून पळयता आसतना ताका बारीक बारीक गुटां लागिल्ले भशेन दिसलीं. मागीर गुटांची बायॉप्सी करतकच टिबी जाल्ल्याचें सिद्ध जालें. थंय दोन दीस हॉस्पिटलांत रावून, दोतोरान बरोवन दिल्लीं वखदां बरोबर घेवन, आमी मद्रासाक

परतीं आयलीं. "तुका टिबी जालो हें अजाप. घाणेरड्या वातावरणांत रावपी वा खाणजेवण सारकें मेळनाशिल्ल्या लोकांक टिबी जाता. तुज्या लागींच्या इश्टांक, सोयऱ्यांक वा कोणाकूय टिबी आसल्यार, तो तुका येवं येता. पूण खावन जेवन सुखी आशिल्ल्या मध्यमवर्गीय लोकांक चडसो टिबी जायना. तुज्या कामांत तुजो कोणा कोणा कडेन संबंद येता?" अशें आमच्या मद्रासच्या दोतोरान विचारलें. फाटलो वर्सभर हातमाग विणकारांच्या खोंपींनी आनी ल्हान ल्हान घरांनी तांचे हातमाग, विणकाम पळोवन तांचे वांगडा उलोवपाक म्हाका तांचे म्हऱ्यांत बसचें पडटालें, हें हांवें दोतोराक सांगलें. "खूबश्या हातमाग विणकारांक टिबी आसता. तांचें खाणजेवण सारकें नासता आनी दीसरात तांकां काम करचें पडटा. तांतल्या कोणाय कडल्यान तरी तुका हो टिबी आयला. पूण आयज काल टिबी ही सादी गजाल. एक वर्सभर नेमान चुकनासतना वखद घेतकच तूं सारको जातलो," अशें ताणें म्हाका सांगलें. ते प्रमाण हांवें वखद सुरू केलें.

म्हाका को-ऑपटॅक्साचो चॅअरमेन आनी मॅनेजींग डायरेक्टर म्हूण नेमणूक करता आसतना थंयच्यान तीन वर्सां तरी हालोवचो न्हय, अशें हांवें मुखेल सचिवाक सुचयिल्लें. आयएएस अधिकाऱ्यांक व्हड सरकारी कंपन्यांनी अध्यक्ष/वेवस्थापकी संचालक म्हणून नेमपाची भारतभर प्रथा आसा. आयएएस अधिकाऱ्यांक वेवस्थापनशास्त्र आनी प्रशासनशास्त्र खबर आसता. आनी प्रशासनाचीं वेगळींवेगळीं तासां हाताळपाचो तांकां हेरां परस चड अणभव आसता. पूण नव्या कंपन्यांनी कदेलार बसतकच थंयच्या कामाच्यो बारीकसाणी शिकून घेवपाक दोन-तीन म्हयने तरी लागतात. आनी कसलींय नवीं धोरणां आपणायलीं जाल्यार तीं कांय काळ चालीक लावन तांचो परिणाम पळोवचो पडटा. कंपनीचीं सुत्रां आयएएस अधिकाऱ्याच्या हातांत उण्यांत उणीं तीन वर्सां उरूंक जाय, अशें सगले मानतात, पूण चालंत प्रशासनांत जाता तें वेगळेंच. प्रशासना कडेन वा अधिकाऱ्याचे तांकी कडेन संबंद नाशिल्ल्या गजालींचेर आदारून ताका हांगा थंय साळूबाये भशेन नाचयतात.

रिटायर जातकच गोंय सरकाराच्या सेक्रेटरीएटांत हांव केन्ना केन्नाय गोंयांतल्या आयएएस अधिकाऱ्यां वांगडा थोडो वेळ घालोवपाक वतालों. एक आयएएस अधिकारी गेल्ले फावटीं म्हाका वेगळ्यावेगळ्या कदेलांचेर दिश्टी पडटालो. "आरे, अशें कितें, हांव सचिवालयांत आयिल्ले फावटीं तुजें कॅबीन आनी कदेल बदलिल्लें दिश्टी पडटा, कितें चल्लां?" हांवें विचारलें. "सर! च्याच्या रिकाम्या कपांतलो जल्लो तुवें केन्ना पळयला? तो वयर सकयल, हेवटेन तेवटेन धांवत आसता, तशे आमी. त्या कपांतल्यान आनी बशयेंतल्यान भायर सरून वचपाचें धाडस आमकां नासता," ताणें व्हडल्यान हांसत जाप दिली.

को–ऑपटॅक्सांत काम बरे तरेन चलतालें आनी थंय खूबशी सुदारणा जाल्ली. हें सरकारान लेगीत मानून घेतिल्लें. अचकीत एक दीस मुखेल सचिवाचो फोन आयलो. म्हाका तमीळनाडू उद्देगीक गुंतवणूक आस्थापनांत अध्यक्ष आनी संचालकी वेवस्थापक म्हणून नेमला, अशें ताणें सांगलें. म्हाका को–ऑपटॅक्सांत फकत पावणेदोन वर्सां जाल्यांत, इतले बेगीन म्हाका कित्याक हालयतात, अशें विचारतकच थंय आमकां बरें प्रशासन चलोवपी मनीस जाय, देखून तुका थंय घालतात, अशें ताणें म्हाका सांगलें. बरें प्रशासन चलोवपी आयएएस अधिकारी तमीळनाडूंत खोंटल्यांनी मेळटले, अशें ताका सांगतकच तूं आनीक दोन–तीन दिसां भितर थंय वचून सुत्रां हातांत घे, अशें म्हणून चड उलयनासतना ताणें फोन दवरलो. बरें प्रशासन, वायट प्रशासन, ह्यो सगल्यो उलोवपाच्यो गजाली आनी तातूंत कांय खरेपण नासता, हें म्हाका अणभवान खबर आशिल्लें. हातमाग विणकारांचो समुदाय तमीळनाडूंत राजकी पक्षांक खूब म्हत्वाचो. तातूंतले थोडे सहकारी संघ राजकी मळाचेर खूब बळिश्ट आसतात. नेमा प्रमाण वचनासतना आपलो म्हाल चड घेवचो, दुसऱ्यांचो उणो घेवचो, आपल्याक बेगीन फारीक करचें, हेरांक वेळ जाल्यार कोंताक येता अशी वागपाची पद्दत जायत्या बळिश्ट संघांनी चलून आयिल्ली आसता. सहकारी संघांतल्यान म्हाल विकतो घेवप, तांकां पयशे फारीक करप, खंयचो म्हाल घेवचो आनी खंयचो म्हाल घेवचो न्हय, हें कोणें थारावप, ह्या सगल्या गजालींचेर घडयिल्ल्या नेमा प्रमाण काम जावंक जाय, अशें हांवें घालून दिल्लें. तें कांय जाणांक आवडूंक नाशिल्लें. ते भोवतेक करून मुख्यमंत्र्यांच्या कानांत फुतफुतले जातले, असो म्हाका दुबाव आयलो. 1989 एप्रील–मे म्हयन्यांत हांवें तमीळनाडू उद्देगीक गुंतवणूक म्हामंडळ म्हणल्यार तमीळनाडू इण्डस्ट्रियल इन्वेस्टमॅण्ट कॉर्पोरेशन, हे सरकारी कंपनीच्या अध्यक्ष आनी प्रशासकी संचालक (चॅरमेन ॲण्ड मॅनेजींग डायरेक्टर) पदाचो ताबो घेतलो.

# भाग 18
# तमीळनाडू इण्डस्ट्रियल इन्वॅस्टमॅण्ट कॉर्पोरेशन

महाराष्ट्रांत जशें महाराष्ट्र स्टेट फायनान्शियल कॉर्पोरेशन, कर्नाटकांत जशें कर्नाटक स्टेट फायनान्शियल कॉर्पोरेशन, तशेंच तमीळनाडूंत तमीळनाडू इण्डस्ट्रियल इन्वॅस्टमॅण्ट कॉर्पोरेशन! ल्हान आनी मध्यम उद्‌देगधंद्यांक रीण दिवपा खातीर आनी हेर मजत करपा खातीर दर राज्यांत स्टेट फायनान्शियल कॉर्पोरेशन आसता. सगल्या राज्यांनी तांकां हेंच नांव आसता. पूण तमीळनाडूंत मात वेगळें नांव. कारण, भारतांतलें हें सगल्यांत पयलें आस्थापन. तेन्ना भारतभर असल्या आस्थापनांक एकेच भशेन नांवां आसचीं अशें थारूंक नाशिल्लें. देखून, तमीळनाडून आपल्याक जाय तशें, म्हणल्यार तमीळनाडू इण्डस्ट्रियल इन्वॅस्टमॅण्ट कॉर्पोरेशन (टिआयआयसी) अशें नांव दिलें. तमिळनाडूची लोकसंख्या सुमार 6 कोटी आनी जमनीचो आंवाठ सुमार 13,000,00 चौ. किलोमिटर, म्हणचे  गोंया परस 36 पटींनी थंयची लोकसंख्या चड, आनी जमनीचो आंवाठ 300 पटींनी व्हड. वर्साक सुमार 400 कोटींचें रीण नवे उद्‌देगधंदे सुरू करपाक आनी पोरणे उद्‌देग वाडोवपाक आमी दिताले.

रिणां मागपा खातीर येतात ते प्रकल्प तपासून पळोवपाचे, त्या प्रकल्पांतल्यान फायदो जावन त्या फायद्यांतल्यान दिल्लें रीण परत येतलें काय ना हें तपासपाचें, प्रकल्प तयार करता त्या सामानाक मार्केटांत खप आसतलो काय ना हाचो अदमास घेवपाचो, ह्या सगल्या गजालींचो हाचे पयलीं म्हाका व्हडलोसो अणभव नाशिल्लो.1979-80 त

रिपॅट्रीएटस् कॉ-ऑपरेटीव्ह बँकेत प्रशासकी संचालक म्हणून काम करतना ह्या विशयांत थोडोसो अणभव आयिल्लो. थंय प्रकल्पाच्यो येवजण्यो सरकारी अधिकारीच करताले, आनी श्रीलंका आनी बर्माच्यान परतून भारतांत आयिल्ल्या तमीळ, आंध्र आनी कानडी लोकांक फावो तितली अर्थीक मजत करून तांचो संवसार परत उबो करपा कडेन चड लक्ष आसतालें. तांकां दिल्लें रीण परतून वसूल करपाचेर उणो भर आसतालो. टिआयआयसींत तसली गजाल नाशिल्ली. रीण वसूल करपा इतलेंच रीण दिवप हें म्हत्वाचें आशिल्लें, कारण वसूल केल्ल्या रिणांतल्यानूच नवीं रिणां दिवंक मेळटालीं.

टीआयआयसींत कदेलार बसना फुडें म्हाका वेगळो अणभव आयलो. दीसरात म्हाका मेळपाक ल्हान व्हड उद्देजकांची रांक! रीण घेवपाक न्हय तर घेतिल्लें रीण परतून दिवपाक त्रास जातात, कळंतर माफ करचें आनी मुदल परत दिवपाक आनीक वेळ दिवचो, असलीं गाराणीं! आपलो उद्देग सारको चलता अशें सांगपाक एकलोय उद्देजक येनाशिल्लो. तांतले तातूंत मातशे चड आर्स्तीक आशिल्ले उद्देजक खंयच्याय मिनिस्टरा कडल्यान वा वडील अधिकाऱ्या कडल्यान चेपण हाडटाले. चेपण हाडलें म्हणून म्हाका चड सवलती दिवंक मेळनाशिल्ल्यो. आपणें सांगून लेगीत हो आपल्या मनशाक सवलती दिना, म्हणून वडील अधिकारी आनी मंत्री फडफडटाले.

भारताचो श्रीलंकेंतलो राजदूत आलॅक्झेंडर म्हजे परस 8-10 वर्सांनी व्हड. तो मूळ मद्रासचो. ताणें एके फावटीं म्हाका कसलें तरी काम कर अशें सांगलें आनी हांवें तें केलें. तें कसलें काम तें म्हाका आतां याद ना. पूण तेन्नाच्यान मद्रासाक आयिल्ले फावटीं तो म्हाका फोन करतालो, आनी हांव वेळ मेळटा तेन्ना ताका वचून मेळटालों. मागीर आमच्या खबरांक रंग येतालो. विशय राजकारणाचे, प्रशासनाचे, संस्कृतायेचे!

टिआयआयसींत दोन-तीन म्हयने जातकच म्हाका सामकी निरशेणी आयली, कारण आयिल्लो मनीस धंदो सारको चलना म्हणून रडटा, सगल्याच मनशांक सवलती दिल्यार टिआयआयसी बुडीत खात्यांत वतली म्हणून भिरांत, वडील अधिकारी आनी मंत्र्यांचो राग, रीण दिवपा खातीर टिआयआयसींतले अधिकारी कमिशन मागतात, अशें म्हणून कागाळी, कोणूच कोणाचेंच नांव घेवंक तयार ना, आनी बरोवन कागाळ करपाक तयार ना, ह्या सगल्या कारणांक लागून म्हाका निरशेणी येवंक लागली. आनी दोन-तीन म्हयने सुटी काडून घरा बसल्यार आपले आपूण म्हजी बदली जातली अशें येवजून सुटी घेवपाची काय ना हाचो विचार करतां करतां एक दीस आलॅक्झेंडर मद्रासाक पावलो. सदां भशेन ताणें म्हाका फोन केलो. ताका मेळिल्ले कडेन म्हजी निरशेणी ताका सांगली.

आयएएस अधिकाऱ्यांक प्रशासनाचो आनी वेवस्थापनाचो अणभव आसता.

वेगळेवेगळे, खूबशे विशय तांणी हाताळिल्ले आसतात. पूण खंयचोच विशय तांणी सारको खोलायेन हाताळिल्लो नासता. हाचो परिणाम म्हणल्यार, ते जेन्ना निवृत्त जातात, तेन्ना सगल्या विशयांतलें तांकां इल्लें इल्लें खबर आसता, पूण एक्काय विशयाचें तांकां खोलायेन गिन्यान नासता. तुका कितें खबर आसा, अशें निवृत्त जाल्ल्या आयएएस अधिकाऱ्याक विचारल्यार, आपल्याक कांयच खबर ना, पूण सगलेंच खबर आसा, अशी जाप ताका दिवची पडटली. "तूं टिआयआयसींत आयलो हें तुजें बरें नशीब म्हणून समज. हांगा जो तुका अणभव मेळटलो, तो फुडाराक हेर अणभवां परस चड उपकारा पडटलो. तरातरांचे प्रकल्प तुजे मुखार येतले, खंयचो प्रकल्प बरो, खंयचो प्रकल्प फायद्यांत चलतलो, खंयच्या प्रकल्पाक कितलें रीण फावता, हे सगले विशय विसकटावन, खोलायेन तपासपा खातीर जीं तंत्रां लागतात, तीं सगलीं तुका समजून घेवन वापरचीं पडटलीं. हो विशय फकत कांय जाणांकूच खबर आसता. खंयचेय कंपनीच्या बोर्डरुमांत तूं बसलो जाल्यार, हेर तज्ञांचेर निंबून रावनासतना प्रकल्प फायद्याचो काय लुकसाणीचो हें तुज्यान सांगूं येतलें. निरशेणे खाला चेपून वचपा वांट्याचो ह्या कदेलाचेर बसून जायतें शिकून घेवपा सारकें आसा, आनी हेर खंयच्याय पदा परस हें पद फुडाराचे नदरेन चड म्हत्वाचें, अशें येवजिल्यार ह्या कामांत तुजें मन लागतलें, आनी तूं खूब शिकूंक पावतलो. आयएएस अधिकाऱ्यांक तरातरांच्या कामाचे अणभव आसतात आनी देखून निवृत्त जातकच लेगीत तांच्यानी बरे तरेन समाजाक आनी आपल्याकूय बी उपेगी पडपा सारकें काम करपाक जाता. आमचे भशेन इण्डियन फॉरेन सर्वीसीच्या अधिकाऱ्यांक 'न घरका न घाटका' अशें जें जाता, तशें तुमकां जावपाची गरज ना," असो ताणें म्हाका समजायलो.

भारतीय प्रशासन सेवा (इण्डियन ॲडमिनीस्ट्रेटीव सर्वीस) आनी भारतीय विदेश सेवा (इण्डियन फॉरेन सर्वीस) हांच्या अधिकाऱ्यांक एकेच परिक्षेक बसचें पडटा. परिक्षेंत वयले जागे मेळोवपी उमेदवार चड करून इण्डियन फॉरेन सर्वीसींत (आयएफएस) भितर सरतात आनी तांचे फाटोफाट आशिल्ले उमेदवार आयएएसांत भितर सरतात. आयएफएस अधिकारी भारताचे दूत म्हणून संवसारभर सर्वीस करतात. हीं तीन वर्सां लंडनाक, फुडलीं तीन वर्सां मलेशियेक, ताच्या फुडलीं तीन वर्सां रशियेक, अशी एका देशांतल्यान दुसऱ्या देशांत तांची बदली जायत आसता. मदीं मदीं ते दिल्लीक येवन भारत सरकाराच्या विदेश मंत्रालयांत वेगळ्यावेगळ्या पदांचेर थोडो तेंप काम करतात. जिणेचीं तीस पस्तीस वर्सां भारता भायर काडिल्ल्यान ल्हवू ल्हवू सोयरेदायरे, शेजारी, इश्ट तांकां पयसावतात. निवृत्त जातकच भारतांत खंय राबितो करचो हो एक व्हड प्रस्न तांचे मुखार येता. आनी ताचेकूय व्हडलो प्रस्न म्हणल्यार फुडें कितें करचें, हें प्रस्नचिन्न तांचे मुखार उबें रावता. आंतरराष्ट्रीय मळाचेर नांव गाजयिल्ल्या लोकांक निवृत्त जातकच भारताच्या खंयच्याय शारांत फ्लॅट

वा बंगलो घेवन एकसुरी आनी रिती जीण जगची पडटा. भारतीय विदेश सेवेंतल्या अधिकाऱ्यांचे प्रस्न आनी कश्ट भारतीय प्रशासन सेवेंतल्या अधिकाऱ्यां परस चड आसतात.

शाळेंतल्या भुरग्यांक जायते फावटीं कुवाडें घालतात. मास्तर बोर्डाचेर खडवान एक वळ मारता. मागीर "हे लायनीक हात लायनासतना ती मोटवी करून दाखयात" अशें तो विद्यार्थ्यांक सांगता. विद्यार्थ्यांक खबर नासता. मास्तर मागीर ते वळी शेजरा तिचे परस एक व्हड वळ मारता आनी विचारता, "आतां ही पयली काडिल्ली ती वळ मोटवी जाली काय ना?"

आलॅक्झेंडरान आपणाले व्हड त्रास सांगून म्हजे त्रास ल्हान अशें दाखोवपाचो यत्न केलो. आनी ह्या ल्हान त्रासांतल्यान सुटपाचो मार्गूय बी म्हाका दाखयलो. ते उपरांत म्हाका टिआयआयसींत केन्नाच निरशेणी आयली ना. टिआयआयसींत म्हाका खूबशें शिकूंक मेळ्ळें आनी म्हजे तांकी प्रमाण हांवें वेवस्थापन सुदारपाचो यत्न केलो.

टिआयआयसीच्या नेमा प्रमाण घेतिल्लें रीण कोणेंय कळंतरा सयत थारायिल्ल्या हप्त्यांनी परतून दिलें ना जाल्यार पयलीं ताका नोटिशी धाडटाले, शिटकावणी दिताले आनी मागीर रिणांतल्यान उबो केल्लो प्रकल्प, म्हणल्यार जमीन, इमारत, मशिनां आनी हेर ल्हान-सान गजाली जप्त करताले. जप्त केल्लो प्रकल्प पावणेर काडटाले. पावणेर काडून लेगीत येवपाक जाय तें मुदल आनी कळंतर परतून येना जाल्यार मागीर निमाणें प्रकल्प धनयाच्या हेर भाटां-बेंसांचेर जप्ती हाडटाले. जप्त केल्लो प्रकल्प पावणेर काडटना सरकारान घालून दिल्ले नेम आपणावचे पडटाले. पावणेंत वांटो घेवपी उद्देजक आपले भितर कबलात करून तो प्रकल्प कोणें घेवचो हें थारायताले, आनी सामक्या उण्या दरान घेताले. देखून जप्तीचो मार्ग आपणावन टिआयआयसीचें रीण केन्नाच वसूल जालें ना. ते परस प्रकल्प धनयाक आपोवन, ताका बाबापुता करून जमत त्यो सवलती ताका दिवन ताचे कडल्यान पयशे वसूल करप हेंच शाणेपणाचें. हो शाणेपणाचो मार्ग आमी आपणावपाक जाय, अशें हांव सदांच वयल्या अधिकाऱ्यांक सांगतालों. जप्ती करपाचो उपाय हो आनीक कांयच मार्ग सांपडना जाल्यार एक निमाणो उपाय म्हणून आपणावपाचो, अशें हांवें थारायलें. रिणां कोणाक दिवपाचीं, कसल्या प्रकल्पाक दिवपाचीं, प्रकल्प फायद्यांत चलतले काय ना, हें सगलें तपासपाक आनी थारावपाक खूबशीं तंत्रां बँकांनी आनी वित्त संस्थांनी आपणायल्यांत. पूण मॅनेजरा मुखार बशिल्लो प्रकल्पधनी प्रामाणीक काय फटींग, सुसेगाद काय दीसरात काम करपी, मंदबुद्दीचो काय बुदवंत हें थारावपाक अजून मेरेन कोणाकूच कसलींच तंत्रां सापडूंक नात. टिआयआयसींतलो लोकांचो अणभव म्हणल्यार व्हड व्हड शिकिल्ले इंजिनियर, चार्टर्ड

अकावण्टण्ट आनी हेर डिग्र्यो घेतिल्ले तरनाटे प्रकल्पधनी जातात तेन्ना तांच्या डिग्र्यांचो कांयच उपेग जायनासतना चडशे प्रकल्प लुकसाणींत वचूं येतात. कांयच शिकूंक नाशिल्ल्या मनशांनी सुरू केल्ले प्रकल्प फायद्यांत चलूं येता. तमीळनाडूंतली वेपारी जात, म्हणल्यार चेट्टियार. गोयांत वेपाऱ्यांक वाणी म्हणटात, आंध्रांत चेट्टी म्हणटात आनी कर्नाटकांत शेट्टी म्हणटात. मंगळूरूच्या तुळू समुदायांतले शेट्टी हांचो चडसो शेती वेवसाय आसता. चेट्टियार समुदायांतल्या लोकांनी सुरू केल्ले प्रकल्प चड करून फेल जायनात. घेतिल्लीं रिणां कळंतरा सयत वेळार फारीक जातात. मागीर ते उद्देग वाडोवपाक आनीक रिणां मागतात. आयजकाल सगल्या समुदायांतले तरनाटे बरे शिकून वयर सरल्यात पूण तीस चाळीस वर्सां पयलीं चेट्टियार समुदायांतले लोक व्हडलेशे शिकूंक नाशिल्ले. शिक्षणाक आनी बरे तरेन धंदो करपाक कांयच संबंद ना हें तांणी सिद्ध करून दाखयलें. देखून खंयच्याय चेट्टियार समुदायांतलो तरनाटो रीण मागूंक आयल्यार आमकां खोस जाताली.

इण्डस्ट्रियल डेवलपमॅण्ट बँक ऑफ इण्डिया हे बँकेक आयडिबीआय ह्या नांवान सगले लोक वळखतात. ती भारत सरकाराची व्हड व्हड रिणां दिवपी बँक. शेंकड्यांनी वा हजारांनी कोटींच्या प्रकल्पांक रिणां दिवप हें आयडिबीआयचें काम. आयडिबीआयच्या नेमां प्रमाण राज्य सरकारांच्या वित्त संस्थां वतीन खंयचेय तरी एके राज्य वित्त संस्थेचो अध्यक्ष आयडिबीआयच्या बोर्डार आसता. अध्यक्ष म्हणून टिआयआयसीचो कारबार हातांत घेतकच म्हाका आयडिबीआयन आपणाल्या 'बोर्डार' डायरेक्टर म्हणून घालो आनी व्हड व्हड प्रकल्प फायद्यांत चलप शक्य आसा काय ना हें कशें तपासप आनी कोट्यांनी रुपया रिणां दितना कसली जतनाय घेवप, आनी कसल्यो चाली आपणावप हें सगलें शिकपाची म्हाका संद मेळ्ळी. आयडिबीआयच्या बोर्डांत व्हड व्हड नामनेचे उद्देगपती आनी हेर सरकारी संस्थांचे प्रतिनिधी आशिल्ले. पूण कित्याक म्हणून कोणाक खबर बोर्डाच्या मिटिगांनी आयडिबीआयचो अध्यक्ष जो प्रकल्प बोर्डा मुखार मांडटा ताचेर व्हडलीशी भासाभास जायनासतना तो पास जातालो. हाचे उरफाटें आमच्या टिआयआयसीच्या बोर्डाचेर ल्हानसान गजालींचेर लेगीत खूब भासाभास जाताली. म्हजे वांगडा एमए शिकपी पाटील नांवाचो एक इश्ट 'आयडिबीआयं'त कार्यकारी संचालक (एक्झीक्युटिव डायरेक्टर) आशिल्लो. सुरेश नाडकर्णी म्हणून आयडिबीआयचो अध्यक्ष आशिल्लो. तो मूळ कारवारचो अशें कांय जाणांनी म्हाका सांगिल्लें. पूण तो आपूण जावन केन्नाच ही गजाल म्हजे कडेन उलयलो ना. जायते गजालींचेर आमचीं मतां जुळनाशिल्लीं, देखून आमी एकामेकाचे वाटेक वचनाशिल्ले. व्हड व्हड प्रकल्प भासाभास जायनासतना पास जातात, तेन्ना व्हड व्हड सरकारी आस्थापनांचे बोर्ड सगले 'नाम के वास्ते' आसतात काय कितें, असो म्हाका दुबाव

येतालो. हांवें पाटीलाक तशें उलोवन दाखयलें. ते बाराबर तो व्हडल्यान हांसलो आनी ताणें विशय बदल्लो. पाटील मागीर नॅशनल स्टॉक एक्सचेंजीचो अध्यक्ष जालो. आमचे वांगडा शिकपी आनी एमए जाल्ले दोग इश्ट हेर बँकांचे अध्यक्ष आसले. एकलो विजया बँकेचो आनी दुसरो सिंडिकेट बँकेचो. आमचे परस मातसो सिनियर आशिल्लो एक इश्ट बँक ऑफ बडोदाचो अध्यक्ष आशिल्लो. आपल्या सोयऱ्यांनी वा इश्टांनी सुरू केल्ल्या व्हड व्हड प्रकल्पांक रीण दिवपा खातीर दिल्लीच्या राजकारण्यां कडल्यान कशें चेपण येता, आनी आमी कशे त्रासांत सांपडूं येतात, हाचेर आमचें सदांच उलोवप जातालें. टिआयआयसीचो कारबार फकत तमीळनाडूंतूच आशिल्ल्यान म्हजेर दिल्लींतल्यान कांय चेपण येनाशिल्लें, तमीळनाडूंतल्यान लेगीत रीण दिवपा खातीर चेपण नासतालें. थंयचे राजकारणी वयल्या अधिकाऱ्यांक कुशीक दवरून सकयल्या अधिकाऱ्यां कडल्यान आपलीं कामां करून घेवपांत तरबेज आशिल्ले. खंयच्याय सरकारी आस्थापनांत आनी चड करून वित्त संस्थांनी वेगळ्यावेगळ्या खात्यांतल्यान खंयच्याय प्रकल्पाची तपासणी करून त्या प्रकल्पाक रीण दिवं येता, अशी शिफारस सगल्या खात्यांनी केली जाल्यार ती शिफारस, तशेंच बळिश्ट कारण आसले बगर भायर उडोवंक मेळना. अमक्या अमक्याक रीण दी असो म्हाका कोणेंच केन्नाच फोन केलो ना. पूण सकयल्या पांवड्यांचेर फायल आपल्याक जाय तशी घुंवडावन, सगली आपल्याक जाय तशी शिजोवन, म्हज्या मेजार दवरपा खातीर जाय तें चेपण राजकारणी हाडटाले, हें म्हाका खबर आशिल्लें. पूण खंयच्याय प्रकल्पाचेर फायली भायर कितें जाता, तें कळपाक मार्ग नाशिल्लो. कोणेंय कागाळ केल्यार हें कळपाचें. पूण कोणूच कागाळ करिनाशिल्लो. वेपारी वा उद्देजक हांकां आपलो वेपार वा उद्देग सारको चलिल्लो जाय आसता; कोणाकूय पयसो खावोवन काम जाता जाल्यार तांकां प्रोब्लेम नासता. पयसो खावयता आसतना ते सरकारी बांदावळीची वाट लागता हाचें तांकां वायट दिसुंये वा दिसनासुंये. पूण ते केन्नाच बांदावळ सुदारपा खातीर वयल्या अधिकाऱ्यांक पालव दिनात. "तुमी वडील आयएएस ऑफिसर शेवण्यां भशेन आयज ह्या झाडाचेर, फाल्यां त्या झाडाचेर बसत आसतात, आमकां सदांच कामां करून घेवचीं पडटात तीं सकयल्या अधिकाऱ्यां कडल्यान. देखून तांचे आड भ्रश्टाचाराची वा आनीक कसलीय कागाळ आमी केन्नाच करिनात," अशें व्हड व्हड उद्देजक सांगताले.

टिआयआयसी भारतांतली सगल्यांत पयली राज्य वित्त संस्था! राज्यांत उद्देगधंदे वाडोवपाक, उद्देगधनयांक प्रकल्प उबारपा खातीर लागपी मुदलाचो कांय वांटो टिआयआयसीय बी दितालें. प्रकल्पाक लागपी मुदलाचो चवथो वा पांचवो वांटो टिआयआयसी आपल्या आंगार घेतालें आनी आस्थापन कशें चलता हाचेर नदर दवरपाक

आपलो मॅनेजींग डायरेक्टर त्या आस्थापनाच्या बोर्डाचेर नेमतालें. अडियार गेट ह्या पांच नखेत्री हॉटेलाक टिआयआयसीन 25 प्रतिशें भांडवल दिल्लें. ते खातीर टिआयआयसीचो अध्यक्ष त्या हॉटेलाच्या बोर्डाचेर वांगडी म्हणून आसतालो. हांव त्या बोर्डाचो वांगडी आसतना इण्डिया टॉबेको कंपनी (आयटीसी) तें हॉटेल चलयताली. हॉटेलां कशीं चलयतात, तांचे प्रस्न किते, हॉटेलां फायद्यांत चलोवपाक ते कसल्यो येवजण्यो चालीक लायतात, हें सगलें म्हाका शिकपाक मेळ्ळें. आयएएसांतल्यान रिटायर जातकच वेगळ्यावेगळ्या प्रायवेट कंपन्यांक सल्लागार म्हणून काम करतना वेवसायीक भासाभास करपा खातीर आनी सल्लो दिवपा खातीर टिआयआयसींत मेळिल्लें गिन्यान म्हाका खूब बऱ्याक पडटालें.

हांव टिआयआयसींत सुमार पावणेदोन वर्सां अध्यक्ष आनी प्रशासकी संचालक म्हणून उरलों. सगलें वेवस्थीत चल्लें आनी आमचो वेवसायूय बी वाडलो. रिणां पयलीं परस चड दिलीं आनी वसुलीय बी चड जाली. म्हजे पयलीं वेगळेवेगळे आयएएस अधिकारी थंय अध्यक्ष म्हणून येवन गेले. तांच्याय काळांत वेवसाय वाडिल्लो. जशी जशी लोकांची येणावळ वाडटा, गरजो वाडटात, तशे तशे नवे उद्देगधंदे सुरू जातात आनी उद्देगधंदे सुरू करपा खातीर रीण जाय पडटा. वित्त संस्थांचो कारबार वर्सान वर्स वाडत वता. आपल्या काळांत आमचे संस्थेची चड उदरगत जाली आनी चड फायदो जालो अशें म्हणपाची जायत्या अधिकाऱ्यांक संवय आसता. उदरगत, फायदो, लुकसाण, ह्या गजालींक जायतीं कारणां आसतात; देखून आपल्याकूच लागून अशें अशें जालें, अशें कोणेंय म्हणल्यार तें 100 प्रतिशें खरें नासता. हेरांच्या काळांत टिआयआयसीची उदरगत जाली तशी म्हज्याय काळांत जाली.

हांव टिआयआयसींत आसतना आनीक एक महत्वाची गजाल घडली ती म्हणल्यार दोळ्यांच्या दुयेंसाचेर उपाय करून घेवंक केल्ली म्हजी रशियेची ट्रीप!

म्हाका रेटिनायटीस पिगमॅण्टोझा ह्या नांवाचें दोळ्याचें दुयेंस आशिल्लें. आयएएस प्रशिक्षणा खातीर मसुरीक आसतना प्रशिक्षणाचोच एक वांटो म्हणून अधिकाऱ्यांचे गट करून 'भारत दर्शना'क धाडटात. म्हजो गट राजस्थान आनी अस्तंत बंगालाक गेल्लो. कलकत्त्याक (कोलकाता) राती कडेन जेवन येतना आमी पांच-स जाण रेल्वेचो रूळ हुपून येताले. म्हाका तो रूळ साप्प दिसना जालो. देखून हेरांचे मजतीन म्हाका तो रूळ हुपचो पडलो. मसुरीक वतकच दोळ्यांच्या दोतोरागेर गेलों तेन्ना "ए विटामीन उणें आसा, देखून तूं ए विटामीनाच्यो गुळयो घेवपाक सुरवात कर," अशें ताणें सांगलें. प्रशिक्षण पुराय करून मद्रासाक वतकच थंयच्या एका नामनेच्या दोळ्यांच्या दोतोरा कडल्यान तपासून घेतलें, तेन्ना "तुका रेटिनायटीस पिगमॅण्टोझा हें दुयेंस आसा,

ह्या दुयेंसाक कांयच वखद ना आनी तुका ए विटामीन घेत रावचें पडटलें. ह्या दुयेंसाक लागून तुज्या कामाचेर आनी जिणेचेर कांयच परिणाम जावचो ना. ह्या दुयेंसा विशीं आमकां चडशें कांय खबर ना. ताचेर संशोधन सध्या चालू आसा. कांय जाणांचें दुयेंस एकदम फास्ट वाडटा आनी तांकां चड त्रास जातात. हाचे उरफाटें, कांय जाणांचें दुयेंस सामकें सवकास वाडटा आनी तांचे जिणेचेर ताचो कसलोच वायट परिणाम जायना. जोर आयलो वा आनीक कसलेंय भिरांकूळ दुयेंस जालें जाल्यार दोळ्यांच्या दुयेंसाचेर परिणाम जावन तुजें हें दुयेंस आनिकूय वाडूं येता. देखून आनीक कसलींय भिरांकूळ दुयेंसां जावचीं न्हय अशी जतनाय घेवची पडटली," अशें ताणें सांगलें.

दोळ्यांच्या दुयेंसाक लागून म्हजे दीसपट्टे जिणेंत कसलीच बादा आयली ना.1988 मेरेन हांव मोटार लेगीत चलयतालों. कॉ–ऑपटॅक्सांत काम करतना म्हाका टिबीचें वखद खूब म्हयने घेवचें पडले आनी ताचो परिणाम दोळ्यांच्या दुयेंसाचेर जालो. ह्या दुयेंसाचो एक वांटो म्हणजे काळखांत उणें दिसप आनी कांय तेंपा उपरांत काळखांत कांयच दिसना जावप. दुसरो वांटो म्हणल्यार, सादारण मनशाक सरळ पळयल्यार कांय प्रमाणांत दावो आनी उजवो, वयलो आनी सकयलो वाठार जसो दिसता, तशें आर.पी. दुयेंस जाल्ल्याक दिसना, आनी 'टनल विजन' जाता. 'टनल विजन' म्हणल्यार नळयेंतल्यान पलतडीं पळयिल्ले भशेन.

म्हजे भशेन दोळ्यांचें दुयेंस आशिल्ले जायते लोक आशिल्ले. ह्या दुयेंसाक कसलें वखद करचें हें कोणाक खबर नाशिल्लें. एका वळखीच्या दोतोरान हें दुयेंस जाल्ल्या आपल्या पेशण्टांचीं नांवां, पत्ते बी सगली म्हायती आपल्या संगणकाचेर घालून दवरिल्ली. म्हज्या क्लार्कान म्हज्या दोळ्यांच्या दुयेंसा विशीं त्या दोतोराक सांगलें आनी तो दोतोर म्हाका येवन मेळ्ळो; हें दुयेंस जाल्ले खूब लोक आसात, आमी कितेंय तरी करपाक जाय, अशें सांगून आपूण आनी हेर दोतोर मजत करपाक तयार आसात, अशें ताणें सांगलें. मागीर खूबश्या पेशण्टांची आमी एक बसका आपयली आनी एक सोसायटी स्थापन केली. तिका नांव दिलें 'सोसायटी ऑफ रेटिनायटीस पिगमॅण्टोझा पेशण्ट्स.' संवसारांत आनी भारतांत ह्या दुयेंसाचेर कसले उपाय चलतात आनी हें दुयेंस जाल्ले लोक बरे जाल्यात काय ना, हें जाणून घेवपा खातीर आमी एक राष्ट्रीय पांवड्याचेर संमेलन करपाचें थारायलें. आमचे सोसायटीचो हांव अध्यक्ष आशिल्लों. आमी चेन्नैंतल्या पेशण्टांनी जापसालदारकी घेवन राष्ट्रीय आंवाठाची एक व्हड परिशद घडोवन हाडली. ते परिशदेंत आर.पी.चेर तरातरांचीं वखदां दिवपी मुंबय, पुणें, दिल्ली, अलाहाबाद, हैदराबादचे दोतोर आयले आनी भारतांतल्या सगल्या वाठारांतल्यान सुमार तिनशें पेशण्ट आयले. अजून मेरेन ह्या दुयेंसाक वखद ना, हाचें कारण म्हणल्यार ह्या दुयेंसाच्या संशोधनाचेर

अमेरिकेंत आनी येवरोपांत चड पयसो खर्च जायना. काळीज, मुत्रपिंड हांचीं दुयेंसां, तशेंच कॅन्सर असल्या जिवघेण्या दुयेंसांच्या संशोधनाचेर चड पयसो खर्च जाता. हाचे उरफाटें, आर.पी. दुयेंसान कोणाक मरण येना, जीण कांय आडमेळीं नासतना सारकी चलूं येता, आनी फकत सामक्या जाणटेपणांत ताचो चड त्रास जावं येता, देखून ताचेर उणें संशोधन जाता, अशें सगल्या दोतोरांचें मत जालें. हें दुयेंस आशिल्ल्या लोकांनी कसली जतनाय घेवंक जाय, हें आपआपले भशेन सगल्या दोतोरांनी परिशदेच्या वांगड्यांक हिंदी, तमीळ आनी इंग्लीशींत समजावन सांगलें. हें दुयेंस हाताळपांत रशिया आनी क्युबा हेर देशां परस खूब फुडें पावल्यात अशें थोड्या दोतोरांनी सांगलें. पूण दोनांय देशांनी कम्युनिस्ट राजवटी आशिल्ल्यान येवरोप, अमेरिकेंत तांकां म्हत्व दिनात, ताका लागून आमकां ताची चड म्हायती मेळना, अशें दोतोरांनी सांगलें. परिशदेक आयिल्ल्यां मदले कांय जाण रशियेक वखद घेवन आयिल्ले. तांणीय आपले अणभव सांगले.

परिशद जातकच हांवें आनीक कांय पेशण्टां वांगडा रशियेक वचून उपाय करपाचें थारायलें. सरकारांतल्यान अर्थीक मजत मेळपाक खूब त्रास जाले, कारण हो उपाय भारतांत शक्य ना आनी रशियेंत शक्य आसा हें सरकारी दोतोर मानपाक तयार नाशिल्ले. भारतांत शक्य ना म्हणून तांकां खबर आशिल्लें आनी ते तशें बरोवन दिवपाक तयार आशिल्ले, पूण रशियेक शक्य आसा हें कोणाक खबर नाशिल्लें. खूब खटपट करून अखेरेक तमीळनाडू सरकार रशियेक येवपा वचपाचो, रावपाचो आनी हॉस्पिटलाचो खर्च करपाक तयार जालें. मॉस्को शारांत हॅलमोल्ज हॉस्पिटलांत इकरा दीस उपाय करचो पडलो. सबंद येवरोपांतल्यान हजारांनी लोक आर.पी.चेर उपाय करपाक त्या हॉस्पिटलांत येताले. दर सकाळीं हॉटेलांतल्यान थंयच्या बशींनी बसून हॉस्पिटलांत वचप आनी थंयच्यान दनपार मेरेन परतून हॉटेलांत येवप. हॉस्पिटलांत दोतोर दोळ्यांच्यो पापण्यो उक्त्यो करून भितरले वटेन एके बारीक सुये वरवीं कसलें तरी वखद इंजॅक्ट करताले, तशेंच भेंडाक आनीक एक इंजॅक्शन दिताले. दोळ्यांत कसलें वखद घालताले तें कोणाक खबर नाशिल्लें. खंयचेय तरी गुपीत प्रयोगशाळेंत तें वखद तयार करताले आनी बर्फांत घालून ॲर कण्डीशण्ड वाहनांनी तें दर दिसा सकाळीं हॉस्पिटलांत येतालें, अशें थंय आयिल्ले रशियी आनी येवरोपी पेशण्ट सांगताले. "तुमी करतात त्या उपायां विशीं अमेरिकेक आनी येवरोपाक कांय खबर ना. थंयच्या सरकारांक तुमी कित्याक बरयनात?" अशें विचारतकच, "आमी कितें करतात तें पेशण्टांच्या बऱ्या खातीर, पेशण्ट बरे जाले जाल्यार वखद उपेगाक पडटा काय ना तें पेशण्टांनी थारावपाचें, अमेरिकेंतल्या आनी येवरोपांतल्या दोतोरांचो आनी आमचो संबंद ना. आमी करतात तें तांकां मानवता काय मानवना हाची आमकां परवा ना, देखून आमी तांकां कांयच सांगिनात," अशें हॅलमॉल्ज हॉस्पिटलांतले दोतोर

सांगताले तांकां इंग्लीश साप्प समजनाशिल्ली. आमच्या रशियेच्या राबित्यांत पावला कणकणीं आमकां मजत करपाक इंग्लीश आनी रशियी जाणा आशिल्ली एक बायल सदांच आमचे वांगडा आसताली. थंयच्या दोतोरांक लेगीत इंग्लीश समजनाशिल्ली. आमी रशियेक 1990 जून–जुलयंत गेल्ले. चार पेशण्ट आनी तांचे वांगडा गेल्ले लोक मेळून आमी वट्ट 10 जाण आशिल्ले.

1983 त केंद्रीय रेशीम बोर्डांत आसतना सेरिकल्चर शास्त्रज्ञांचो एक पंगड घेवन सोविएत युनियनांत वचपाची पयली फावट, आनी 1990 जून–जुलयंत दोळ्यांचो उपाय करपा खातीर गेल्लों ती दुसरी फावट. मॉस्कोंत व्हडलेशें कांय वेगळेपण दिसलें ना. गोरबाशोवान 'ग्लासनॉस्त' आनी 'पॅरेस्ट्रोयका' हे विचार जरी सोविएत प्रशासनांत पातळावपाचो यत्न केल्लो, तरी अजून त्या विचारांचो समाजाचेर आनी राजकारणाचेर परिणाम जाल्लो दिसनाशिल्लो. पूण पयलीं परस जाय थंय भोंवपाक चड मेकळीक आशिल्ली. सरकारान थारायिल्ल्या दरा प्रमाण एका अमेरिकी डॉलराक स रशियी 'रुबल' येताले. पूण बँकें तल्यान डॉलरांचे रुबल करिनासतना भायर उक्त्या बाजारांत बदल्ले जाल्यार एका डॉलराक तिसां परस चड रुबल मेळटाले. देखून आमचे कडेन हॉटेल, खाण, जेवण आनी हॉस्पिटलाचो खर्च हांकां लागपी डॉलरां परस खूब डॉलर चड उरपाक लागले. पूण सोविएत युनियनांतल्यो खास वस्तू वा थंयच्यो यादी म्हणून कितेंय विकतें घेतलो जाल्यार कांयच मेळनाशिल्लें. चडशीं दुकानां बंद आसतालीं वा दुकानां उक्तीं आसल्यार लेगीत तातूंत सामान नाशिल्ल्यान रिकामीं आसतालीं. ल्हान ल्हान गाड्यांचेर ब्रॅड घेवंक व्हड व्हड रांको लागताल्यो. पूण खंयूंय कितेंय घेवपा सारकें आसा काय म्हणून पळोवपाक दर दिसा सांजेचीं मॉस्को शारांत टॅक्सी घेवन आमी भोंवत आसतालीं.

म्हजे वांगडा आमचो इश्ट मित्तल, ताची घरकान्न आनी दोग पूत आयिल्ले. दोगांय पुतांक आर.पी.चें दुयेंस आशिल्लें पूण तें म्हजे परस धा पटींनी चड वाडिल्लें आशिल्लें. मद्रासाक मित्तलाचो सिगरेटीचे पेपर विकपाचो धंदो आशिल्लो. व्हडल्यो व्हडल्यो सिगरेट कंपन्यो ताचीं गिरायकां. त्या कंपन्यांतल्या वयल्या पांवड्याच्या अधिकाऱ्यांक खूश दवरपाक, तांच्या बायलां खातीर ताणें तीन 'मिंक कोट' विकते घेतले. थंड प्रदेशांत मिंक कोट फकत खूब गिरेस्त आशिल्ल्यो बायलोच वापरतात. एका डॉलराक तीस रुबलां प्रमाण कोंत केल्यार हरशीं म्हारग आसपी मिंक कोट आमकां खूब सवाय लागले. ''प्रायवेट कंपन्यांनी वडील मॅनेजरांक तुवें कित्याक खूश दवरपाक जाय, तुजो म्हाल दर्ज्यान बरो आसल्यार तांणी तुजो म्हाल घेवंक जाय, तुवें असल्यो वस्तू दिवन तांकां खूश दवरपाची गरज ना,'' अशें हांवें मित्तलाक म्हणलें. ''प्रायवेट कंपन्यांतल्या लोकांक सरकारी अधिकाऱ्यां भशेनूच खूश दवरचें पडटा नाजाल्यार ते तुजें सामान विकत

घेनात, आनी विकत घेतल्यार बेगीन पयशे फारीक करीनात," अशें मित्तलान सांगलें. भ्रश्टाचार हो सरकारांतूच न्हय, तर व्हड व्हड प्रायवेट कम्पन्यांनीय आसता म्हणपाचें हें एक उदाहरण.

मॉस्कोक जून-जुलय म्हयन्यांत रातच्या दोन वरां मेरेन सुर्याचो उजवाड आसता, पूण रस्त्यांचेर कोण्ण नासता, कारण भायर उजवाड आसूं नासूं, लोक आपलो न्हिदपाचो वेळ जातकच घरांतल्यो लायटी ऑफ करून जनेला वयलो पड्डो ओडून न्हिदूंक वतात. सगले कडेन घणघणीत उजवाड आनी रस्त्यांचेर एक्कूय मनीस ना आनी एक्कूय मोटार चलना, असो विचित्र देखाव रातच्या इकरा वरां उपरांत थंय दिश्टी पडटा. संवसाराच्या उत्तर भागांत खूबश्या देशांनी मध्यानरातचो सूर्य दिश्टी पडटा. 'मिडनायट सन' अशें भुगोलाच्या पुस्तकांत स्कुलांत आसतना वाचपाक मेळटालें. ताचो खरो अर्थ रशियेक पावतकच समजलो.

रशियेची आनीक एक याद, आमच्या हॉटेलाची! हॉटेलांत तीन हजार कुडी. दर माळयेचेर वडाच्या रुखा भशेन एक लांब रुंद बायल थंय रावपी लोकांचेर नदर दवरून थंय बशिल्ली आसताली. ती सरकाराची गुप्तहेर अशें थंयचे कांय लोक सांगताले. आमच्या वांगडा आशिल्ले चडशे लोक सगले मारवाडी समाजांतले- शिवराक! पूण गोंयकारां भशेन शिवराक न्हय. गोंयच्या शिवराक लोकांक नुस्त्याच्या वासांत रावपाची आनी खावपा जेवपाची संवय आसता. मारवाडी लोकांक तशें साप्प सोंसना. देखून तांणी आपले वांगडा खूबशें जेवणाचें सामान, तरातरांचीं खाणां, इलॅक्ट्रीक हिटर बी सगलें व्हेल्लें. सूप, भाजी, शीत थंय करपाचें आनी मद्रासच्यान रेडिमेड जेवणाचीं पाकिटां व्हेल्लीं तीं गरम करून जेवपाचें. हें सगलें ते चोरयां कुडींतूच करताले. 14 दीस अशेच काडून मागीर आमी मद्रासाक परतलीं.

रशियेक दोळ्यांचो उपाय करतकच स म्हयने सुमार काळखांत लेगीत उणो त्रास जावंक लागलो आनी उपायांचो परिणाम जाला, अशें दिसूंक लागलें. पूण एका वर्सा उपरांत परिस्थिती पयलीं आशिल्ली तशी जावपाक लागली. येवरोपांतले पेशण्ट दर वर्सा रशियेक वचून तोच ट्रिटमॅण्ट घेताले. दर वर्सा हीं इंजेसांवां घेवंक जाय म्हणपाचें तांकां अणभवान कळिल्लें. दर वर्सा थंय वचपाचो खर्च आमकां कोणाकूच पेलपाचो नाशिल्लो. म्हणटकच आमी कोणेंच थंय परतून वचपाचो विचार केलो ना.

1990 त अखेरेक तमीळनाडू सरकारा कडल्यान दर वर्साक येता त्या प्रमाण एक पत्र आयलें-गोंयांत भारत सरकाराच्या जॉयण्ट सेक्रेटरी पांवड्याचो एक जागो रिकामो जातलो. हो जागो मुरगांव पोर्ट ट्रस्टाच्या अध्यक्षाचो. ज्या कोणाक ह्या जाग्या खातीर

वचपाची इत्सा आसा ताणें अमक्या दिसां भितर नांव धाडून दिवचें अशें त्या पत्रांत बरयिल्लें. आयएएस अधिकाऱ्यांचें प्रशिक्षण जातकच तांकां वेगळ्यावेगळ्या राज्यांनी वांटून घालतात आनी 30-35 वर्सांच्या सिर्विसेच्या काळांत तांच्यांनी जाय जाल्यार कांय काळ केंद्र सरकाराच्या हाता सकयल दिल्लीक वा भारत सरकाराच्या प्रशासना खाला वेगळ्यावेगळ्या राज्यांनी चलिल्ल्या आस्थापनांनी काम करूं येता.

गोंयांत सुवात रिकामी आसा म्हणिना फुडें हांव थंय वचपाक तयार आसां अशें हांवें रोखडेंच सरकाराक कळीत केलें. 1996 डिसेंबरांत हांव सेवानिवृत्त जावपाचो आशिल्लों. म्हणटकच 1991त गोंयांत गेल्यार पांच वर्सां थंय काम करून मागीर थयंच रिटायर जावंक मेळटलें म्हणपाचें येवजून हांवें गोंयचे सुवाते खातीर अर्ज केलो.

आयएएस अधिकाऱ्यांची एक खाशेली संस्कृताय आनी परंपरा आसता. ते परंपरे प्रमाण, जितलो अधिकारी जाण्टो जाता आनी सिनियर जाता, तितलो राज्य सरकारांत रावचे परस केंद्र सरकारांत गेल्यार चड बरें अशें ते मानतात. निवृत्ती उपरांत भारतांत वा विदेशांत व्हड व्हड पदांचेर आयएएस अधिकाऱ्यांची नेमणूक जाता. राज्यपाल, वा विदेशांत राजदूत, वा वेगळ्यावेगळ्या म्हत्वाच्या समित्यांचेर तांची अध्यक्ष म्हणून नेमणूक जाता. असली नेमणूक करप प्रधानमंत्र्यांच्या वा वडील मंत्र्यांच्या हातांत आसता. हे खातीर केंद्र सरकारांत वचून जाता तितल्या सिनियर मंत्र्यां वांगडा वा प्रधानमंत्र्यां वांगडा काम करपाची संद मेळची आनी तांचेर आपलो प्रभाव पडचो असो जाण्ट्या आयएएस अधिकाऱ्यांचो यत्न आसता. केंद्र सरकारांत काम करपाक जाय, पूण वेगळ्यावेगळ्या राज्यांनी आशिल्ल्या केंद्र सरकाराच्या आस्थापनांतलीं पदां नाकात अशी परिस्थिती आसता. कारण 'आवट ऑफ सायट, आवट ऑफ मायण्ड' (फकत दोळ्यां मुखार दिश्टी पडटा तो मनीस मतींत उरता) म्हणटात तो कायदो आयएएस अधिकाऱ्यांक सामको लागू जाता. गोंयांत वा मंगळूरूक वा मद्रासाक (चेन्नैक), केंद्र सरकाराच्या आस्थापनांत जोड सचीव वा अतिरिक्त सचीव (जॉयण्ट सेक्रेटरी वा ॲडिशनल सेक्रेटरी)पावंड्या वयलीं पदां, कोण्णाक नाका आसतात. पूण तीच पदां दिल्लीक आसल्यार सगल्यांक जाय आसतात. गोंयच्या मुरगांव पोर्ट ट्रस्टाच्या अध्यक्षपदा खातीर हांवें सोडल्यार आनीक खंयच्याच आयएएस अधिकाऱ्यान अर्ज करूंक नाशिल्लो. वेगळ्यावेगळ्या पोर्टांचेर 25-30 वर्सां सिर्वीस केल्ल्या, सकयल्यान वयर सरिल्ल्या अधिकाऱ्यांनी त्या पदा खातीर अर्ज केल्ले. पोर्टांतल्यानूच वयर सरिल्ल्या एका अधिकाऱ्यान पयशांनी भरिल्ल्यो ब्रिफकेशी लेगीत वांटपाची तयारी दाखयिल्ली, पूण अखेरेक म्हजी थंय नेमणूक जाली. जानेवारी 1991त हांवें मुरगांव पोर्ट ट्रस्ट अध्यक्षपदाचो ताबो घेतलो.

# भाग 19
# मॉर्मुगांव पोर्ट ट्रस्ट

वास्को शाराचे जिणेचो प्राणवाय (ऑक्सिजन) म्हणल्यार एमपिटी. बसस्थानकां जश्यो येतल्या वतल्या बसींतले प्रवाशी देंवोवपाच्यो आनी बसींचेर चडोवपाच्यो सुवातो, तशेच दर्याचेर, न्हंयेचेर आशिल्ले पोर्ट, म्हणल्यार येतल्या वतल्या ल्हान व्हड बोटींक, प्रवाशी आनी सामान चडोवपाच्यो आनी देंवोवपाच्यो सुवाती. मुरगांव बंदरांत पॅसेंजरां परस सामानाचें हाडप व्हरप चड जाता आनी त्या सामानांत 80 प्रतिशें मीन आसता. 1991 त जेन्ना हांवें एमपिटीच्या अध्यक्षाचें पद हातांत घेतिल्लें तेन्ना सुमार एक कोटी तीस लाख टन मीन पोर्टांतल्यान निर्यात जातालें. व्हड व्हड बोटींनी 40,000 ते एक लाख टना मेरेन मीन व्हरताले. चडसो पोर्टांतलो कर्मचारी वर्ग वास्को शारांत वा सरभोंवतणच्या वाठारांत रावतालो आनी वास्कोचो बाजार चडसो पोर्टाचेरूच निंबून आसतालो. शीप चॅण्डलर्स, म्हणल्यार बोटींक प्रवासाक जाय त्या सामानाची पुरवण करपी, स्टिविडोर कंपनी म्हणल्यार बोटींतलें सामान देंवोवपा आनी चडोवपा खातीर मशिनां आनी लोकांची पुरवण करपी, शिपींग एजण्ट आनी कस्टम्स एजण्ट म्हणल्यार पोर्ट, जकात आनी हेर सरकारी आस्थापनांनी बोटीं संबंदी काम पळोवपी कंपन्यो, अशें धंद्यांचें जाळें पोर्टा भोंवतणीं पातळिल्लें आसता. देखून वास्कोक पोर्ट टावन, म्हणल्यार बंदराचें शार, अशें म्हणटात. बंदरांतलें काम कसल्याय कारणांक लागून बंद पडल्यार आनी बोटी येवपाचें बंद जाल्यार वास्को शारांत सुतकी वातावरण पातळटालें.

गोंयचें चडशें मीन खंयच्याच लोखंडाच्या कारखान्याक विकिनात. सगलें मीन, म्हणल्यार जें बऱ्या दर्ज्याचें आसता, ज्या मिनांत 61-62 प्रतिशें लोखंड आसता, तें मीन सगलें निर्गत करतात. सांगें, केपें, दिवचल ह्या तालुक्यांनी चलता ती मीन काडपाची प्रक्रिया सगली पोर्टांतल्यान जावपी निर्गतीचेर निंबून आसता. 15-20 वर्सां पयलीं ही निर्गत फकत मुरगांव बंदरांतल्यान जाताली. आतां कांय प्रमाणांत पणजे बंदरांतल्यानूय बी ती निर्गत जाता. मीन काडपाची आनी निर्गत करपाची प्रक्रिया गोंयचे अर्थीक बांदावळीक कितली म्हत्वाची हाचो अभ्यास कोणेंच करूंक ना, पूण गोंयचे अर्थीक बांदावळीचो तिसरो वांटो मिनाचेर निंबून आसता, अशें गोंयचें सरकार आनी हेर आस्थापनां मानतात.

मुरगांव बंदर हें वास्को शाराचो प्राणवाय जाल्ल्यान पोरणो अध्यक्ष वतना आनी नवो अध्यक्ष येतना वास्कोच्या मुखेल वेपाऱ्यां मर्दीं जायती मानसीक उचांबळाय जाता. कोण नवो अध्यक्ष येता, खंयच्यान येता, तो कसो, ह्या सगल्या गजालींचेर जंय जंय पोर्टा कडेन संबंध आशिल्ले वेपारी वर्गांतले लोक मेळटात, थंय थंय चर्चा जाता.

हांव एमपिटीचो अध्यक्ष म्हूण येवचे पयलीं अशी बरीच चर्चा जाताली आनी दिल्लीक पोर्ट मंत्रालयांत म्हाका गोंयांत धाडचो असो फायलीचो चडटेचो प्रवास सुरू जातकच वास्कोंत ही चर्चा सुरू जाल्ली. सरकारांत खंयच्या विभागांत कितें चलता हें सरकारा परस वेपाऱ्यांक चड खबर आसता. गोंयांत येवचे म्हयनोभर पयलीं, चेन्नैच्यान पुण्यांत वता आसतना, मुंबय विमानतळार, मुरगांव बंदराचो अध्यक्ष हो कितल्या म्हत्वाचो हें म्हजे तकलेंत आयलें. विमानाची वाट पळयत हांव बशिल्लों आसतना म्हाका वळखुपी एक गोंयकार म्हजे म्हऱ्यांत आयलो आनी ताणें आपले वांगडा सूट-बूट घालून आशिल्ल्या जाणट्या मनशाची वळख करून दिली. "हो अमको अमको. कोण तो तुका खबर आसतलोच." त्या सूट-बूट वाल्याक हांवें जायते कडेन पयलीं पळयिल्लो - गोंय आनी मुंबय विमानतळांचेर आनी हेर कडेन. पूण ताणें वा ताचे वांगडा आशिल्ल्या गोंयकार कर्मचाऱ्यांनी हो अमको अमको अशें सांगपाक ताका म्हजे म्हऱ्यांत केन्नाच हाडलो ना. तो गोंयचो एक व्हड मिनेर हें म्हाका खबर आशिल्लें.

गोंयांत अध्यक्ष म्हणून येवचे पयलीं गोंयच्यान जायत्या जाणांनी फोन केले. तातूंतले थोडे म्हजे इश्ट आशिल्ले आनी कांय जाण कोण तें हांव जाणा आशिल्लों पूण तांचे कडेन इश्टागत अशी नाशिल्ली. "घरकी मुर्गी दाल बराबर" अशी हिंदींत एक म्हण आसा. भायर सावन हाडिल्लें चिकन बरें लागता आनी घरांत केल्लें बरें लागना, ताका घरांत केल्ले दाळीच्या रोसा इतलेंच म्हत्व आसता, असो हे म्हणीचो अर्थ आसुंये. "तो अध्यक्ष म्हणून येता? ताका पोर्टाचें कितें कळटा? हांगा येवन तो कितें करतलो? आमी

वळखतात मरे ताका!" अशें म्हणून पोर्टा कडेन संबंद आशिल्ल्या जायत्या जाण्ट्यांनी आपणालें मत उक्तायिल्लें.

भारतीय प्रशासन सेवेंत सोंपेपणान भितर सरपाक मेळना. हांव ज्या वर्सा आयएएस परिक्षेक बशिल्लों त्या वर्सा भारतभरांत सुमार तीन लाख उमेदवार परिक्षेक बशिल्ले आनी तातूंतल्यान सात भारतीय विदेश सेवा (इण्डियन फॉरेन सर्वीस), देडशें भारतीय प्रशासन सेवा (आयएएस) आनी 500 उमेदवार भारतीय पुलीस सेवा, भारतीय कस्टम्स सेवा असल्या केंद्रीय सेवा विभागां खातीर पास जाल्ले. पास जातकच तांकां चार म्हयने मुळावें प्रशिक्षण, म्हणल्यार भारतीय संविधान, मुखेल कायदे, राज्य आनी केंद्र सरकार हांचे संबंद, भारतीय इतिहास, प्रशासन, ह्या विशयांचेर प्रशिक्षण आसता. मागीर वेगळ्यावेगळ्या सेवांतले अधिकारी वेगळ्यावेगळ्या संस्थांनी वचून थंय खाशेलें प्रशिक्षण घेतात. विदेश सेवेचे अधिकारी पयलीं दिल्लीक प्रशिक्षण घेतात, पुलीस सेवेंतले अधिकारी राजस्थानांतल्या मावण्ट आबूंत वताले. आतां तांची प्रशिक्षण संस्था हैदराबादेक आसा. भारतीय प्रशासन सेवेंतल्या अधिकाऱ्यांचें प्रशिक्षण मसुरीकूच चालू उरता. एक वर्स मसुरीक जातकच मागीर ज्या राज्यांनी तांकां कारबार सांबाळपाचो आसता, त्या राज्यांनी वचून एक वर्स वडील अधिकाऱ्यांच्या हाता सकयल वेगळ्यावेगळ्या विभागांनी तांकां कामां करचीं पडटात. प्रशिक्षणा उपरांत नोकरी सुरू करतकच दर दोन वर्सांनी वेगळ्यावेगळ्या खाशेल्या प्रशिक्षण कोर्साक तांकां वचचें पडटा. म्हजे तीस वर्सांचे प्रशासन सेवेंत हांव वीस फावटीं सात दीस ते एक म्हयनो वेगळ्यावेगळ्या विशयांचेर प्रशिक्षण घेवपाक गेल्लों.

सादारण प्रशासन आसूं वा वेपारधंद्याचें आस्थापन आसूं, प्रशासनाचे कांय मुळावे नेम आनी चालीरिती आसतात. प्रशासनाचीं उद्दिश्टां थारावप, तीं उद्दिश्टां गांठपाक कसलो वावर करूंक जाय हें थारावप, त्या वावराक पयसो, मशिनां, मनीसबळ एकठांय हाडप, वावर चालीक लावन तो सारको चलता काय ना तें पळोवप आनी हें सगळें करतना फुडाराची उदरगत करपा खातीर कांय आडमेळीं येवचीं न्हय हाची जतनाय घेवप.

वेपारधंदो वा उद्देग कोणेंय चलोवं येता. कांय लोक बरे तरेन चलयतात, हेर कांय धंद्याची वा उद्देगाची वाट लायतात. हालींच्या काळांत व्हड व्हड उद्देजकांच्या घरांतले तरणाटे शिकून वयर सरिल्ले आसतात आनी चडशे विदेशांत वचून पदव्यो घेवन येतात, पूण 20-30 वर्सां पयलीं उद्देजकांच्या घराण्यांतले तरनाटे जेन्ना जाण्टेल्यांनी दिल्ल्या कदेलार बसताले तेन्ना तांकां शिक्षणूय नासतालें आनी प्रशिक्षणूय नासतालें. अमक्या अमक्या घराण्यांत ते जल्मल्यात आनी घराण्यांत चलिल्ल्या धंद्याचो तांकां आपले आपूण अणभव आयला, इतलेंच भांडवल तांचे कडेन आसतालें.

आयएएस अधिकारी जेन्ना व्हड व्हड आस्थापनांचे मुखेल अधिकारी म्हणून पद सांबाळटात, तेन्ना कसलेंय पद सांबाळपाक लागता ती बुद्द आपणाक आसा, हें तांणीं आदींच सिद्ध केल्लें आसता. तांणी विंगडविंगड विशयांचेर प्रशिक्षण घेतिल्लें आसता आनी विंगडविंगड विभागांनी सरकाराचे आनी हेर आस्थापनांतले अणभव तांकां आसतात. वेगळेवेगळे विभाग वा आस्थापनां चलोवपाचो अणभव जितलो आयएएस अधिकाऱ्यांक आसता, तितलो आनीक कोणाक नासता.

प्रशासन आनी वेवस्थापनशास्त्र जांकां खबर नासता ते, "तुवें हाचे पयलीं हें काम केन्नाच करूंक ना, आतां तूं तें कशें करतलो?" अशें विचारतात. हांव जेन्ना मुरगांव बंदराचो अध्यक्ष म्हणून आयलों तेन्ना जायत्या इश्टांनी प्रामाणीकपणान हो प्रस्न म्हाका विचारलो. तांकां हांवें विशय समजावन सांगलो. सवसारांतले सगले वेपारधंदे बरे तरेन चलोवपाची जापसालदारकी देवान फकत पयलीं आपल्या जाण्टेल्यांचेर आनी आतां आपणाचेर सोडल्या अशें मानपी कांय कुच्छित्री उद्देजकांनी म्हाका होच प्रस्न विचारतकच हांवें तांकां कांयच जाप दिनासतना ''आगे देखो होता है क्या!'' अशें सांगून तांचीं फकांडां मारलीं.

म्हजो एक लागींचो इश्ट भारतांतले एके राष्ट्रीय बँकेचो अध्यक्ष जालो. ते बँकेन ताका 35 वर्सां पयलीं वेवस्थापक (मॅनेजर) म्हूण वेंचून काडिल्लो आनी ल्हवू ल्हवू वयर चडत चडत निमाणें तो अध्यक्षपदाचेर पावलो. ताणें बरें काम केलें आनी नामना जोडली. बँकेंतल्यान निवृत्त जातकच बँकेंतल्या 35 वर्सांच्या अणभवाचेर आदारून ताणें पुस्तक बरयलें. भारत सरकाराचीं धोरणां, तीं चालीक लायतना आपणाक आयिल्ले अणभव, बँकेच्या हेर अधिकाऱ्यां कडेन आशिल्ले संबंद, कामगार संघां कडेन जाल्ले मतभेद, बँकेंतलो भ्रश्टाचार, राजकारण, असल्या सगल्या विशयांचेर ताणें आपलें मत उक्तायलें. निवृत्त जावन थोड्याच वर्सां भितर ताणें हें पुस्तक बरयिल्लें. ताचे बाराबर काम केल्ल्या सगल्या अधिकाऱ्यांनी आनी कामगार फुडाऱ्यांनी ताचें पुस्तक वाचलें. कांय जाणांनी ताका परबीं दिलीं आनी कांय जाणांनी ताका कोर्टांत व्हेलो. कोर्टांत चलिल्ल्या केशींचो परिणाम ताचे भलायकेचेर जालो.

सरकारांतले वा निजी वाठारांतले वयल्या पांवड्यार काम केल्ले अधिकारी जायत्या फावटीं निवृत्त जातकच आपणाल्या अणभवांचेर पुस्तकां बरयतात आनी त्रासांत सांपडटात. गोंयच्या भौसा खातीर आनी फुडल्या पिळग्यां खातीर म्हत्वाचीं अशीं जायतीं भौशीक उद्दिश्टां गांठपाक म्हजे इश्ट आनी हांव सध्या काम करतात. ह्या बोवाळांत दीस केन्ना उदेता आनी केन्ना अस्तंता तेंच समजना. हातांत आशिल्लीं कामां पुराय करपाक जागरणां करचीं पडटात. देखून हांवें बरयिल्ल्या पुस्तकांत सगल्यो गजाली स्पश्ट बरोवन

त्रासांत पडपाची म्हाका इत्सा ना. पोर्टांतलो अणभव बरयता आसतना चडश्या फावटीं मनशांचीं, कंपन्यांचीं वा सुवातांचीं नांवां घालपाक मेळचीं नात, पूण ज्या मनशांचो आनी कंपन्यांचो त्या घडणुकां कडेन संबंद आसा, तांचे मेरेन हें पावत जाल्यार ह्यो खऱ्यो गजाली अशें तांकां मानचें पडटलें.

पोर्टाचें वेवस्थापन म्हणल्यार कितें? बरें वेवस्थापन आनी वायट वेवस्थापन म्हणल्यार कितें? बरें वेवस्थापन हें कितलें बरें हें कशें मेजपाचें? हें थारावपा खातीर नेम आसात काय नात? ह्यो सगल्यो गजाली पयलीं जाणा जावन घेवच्यो पडटल्यो. आपूण अध्यक्ष आशिल्ल्या काळांत पोर्टाचो धंदो अमक्या पटींनी वाडयलो, पोर्टांत येवपी-वचपी बोटींचो आंकडो आपणें वाडयलो, चड सामान हाताळ्ळें, चड फायदो जालो, अशें दर अध्यक्ष म्हणटा. पोर्टाच्या भोंवतणच्या वाठारांत उद्देगधंद्यांचो विकास जायना जाल्यार पोर्टांत चड बोटींचें येवप-वचप आनी चड सामानाचें हाताळप जायना. पूण पोर्टांतलें काम बरें चलता काय ना, हें थारावपाक नेम आसतात. बोट धक्याक लागचे पयलीं पोर्टा भायर बोटींक कितले दीस रावचें पडटा, बोट रिती करपाक वा भरपाक कितलो वेळ लागता, तें करपाक बोट कितलो खर्च करता, ह्या विशयांचे म्हायतीचेर पोर्ट बरें काम करता काय वायट तें कळटा. फकत चड सामान हाताळ्ळें देखून पोर्ट बरें काम करता, अशें म्हणप खरें जावचें ना.

बोट धक्याक केन्ना लावं येता? खंयची बोट धक्याक पयलीं लावंक येता, बोटीक केन्ना भायर सर अशें सांगूं येता, वा बोट केन्ना आडावन धरूं येता, हें आनी असल्या हेर गजालींचेर सरकारान कायदे आनी नेम केल्ले आसतात. खंयच्याच कायद्यांत आनी नेमांत 100 प्रतिशें गजाली आसपाक शकनात. थोडे कडेन तरी अधिकाऱ्यांक आपलो अदमास वा समजणी वापरची पडटा. पूण समजणी वापरतना बोटीच्या धनयांक वा आयात वा निर्गत जातल्या म्हालाच्या कंपन्यांक पोर्टांतले अधिकारी अमक्या अमक्याक फावोर करतात आनी दुसऱ्याक बेठोच त्रास दितात अशें दिसूंक जायना. नेम हे सगल्यांक खबर आसूंक जाय आनी सगल्यांक सारकी वागणूक मेळपाक जाय, जाल्यारूच पोर्टाच्या प्रशासनाचेर लोकांचो विस्वास बसता. सगलें नेमां प्रमाण जावंक जाय, हो पोर्ट वेवस्थापनाचो एक म्हत्वाचो वांटो. मुरगांव बंदराचो मुखेल कारबार म्हणल्यार मिनाची निर्गत करप. मॅकानिकल ओर हॅण्डलींग प्लाण्ट म्हणल्यार बार्जींतल्यान येता तें मीन देंवोवन जमनीर सांठोवपाची आनी बोट येतकच बोटीर चडोवपाची ऑटोमॅटीक यंत्रणा. हो पोर्टाचो मुखेल भाग. बोट येतकच मीन बोटीर चडोवपा खातीर धक्या वयल्या प्लॉटांचेर मीन पयलींच सांठोवन दवरचें पडटा. मिनाच्या खणीं वयल्यान मांडवी आनी जुवारी न्हंयेंतल्यान बार्जीं वयल्यान तें मीन पोर्टांत येवन तें ऑटोमॅटीक यंत्रणे वरवीं धक्यार आशिल्ल्या प्लॉटांचेर व्हरून सांठयतात. गोंयच्या मुखेल मीन कंपन्यांक ते प्लॉट वांटून

दिल्ले आसात. दर वर्सा नवी वांटणी जाता. तांच्या प्लॉटांचो आंवाठ उणो वा चड करतलो जाल्यार आदींच थारायिल्ल्या, सगल्यांक खबर आशिल्ल्या एका नेमा प्रमाण तें करूंक जाय. प्लॉटांचो आंवाठ वाडयल्यार अमक्या अमक्याक इतले चड मेळटले, हें हांव अध्यक्ष आसतना सगल्यांक खबर आसतालें. हो अध्यक्ष नेमांक धरून वतलो, हें सगल्यांक खबर आशिल्लें.

पोर्ट वेवस्थापनाचें आनीक एक म्हत्वाचें आंग म्हणल्यार आयचो प्रस्न सोडयतना फुडाराच्या विकासाक आडखळी निर्माण करपाक जायना. आतांचे पयलीं पळोवया, आतां आमचे मुखार प्रसंग आयला, तातूंतल्यान पयलीं भायर सरुया, मागीर फुडलें फुडें, असलें धोरण जायत्या बंदरांनी अध्यक्ष आपणायतात आनी मागीर फुडलें प्रशासन त्रासांत सांपडटा. आपल्यो मागण्यो मानून घेवपा खातीर, प्रशासनाचेर दबाव हाडपा खातीर, बोट धक्याक लागिल्ली आसता तो वेळ सगल्यांत बरो अशें कामगार संघ सदांच मानतात. सामान आयात करपी विदेशी कंपन्यो बोटींच्या कंपन्यां कडल्यान बोटी भाड्याक घेतात. अमक्या दिसांनी बोट परतून दिवपाची तांची कबलात आसता. तितल्या दिसां भितर आमच्या देशांत त्यो बोटी धाडून त्या सामानाची तांकां आयात करची पडटा. बोट धक्याक लागून पोर्टाच्या त्रासा खातीर बोट भरपाक आदींच थारायिल्ल्या काळा परस चड दीस लागल्यार सामान निर्गत करपी कंपन्यांक दंड भरचो पडटा आनी हो दंड लाखांनी वा कोट्यांनी रुपयांचो आसता. परतून परतून संप वा बोट हाताळपाक हेर तरेचो त्रास जावंक लागल्यार त्या बंदरांत उण्यो बोटी येवंक लागतात. देखून थारायिल्ल्या काळा भितर बोटी रित्यो करपाचें वा भरपाचें काम पुराय जावन बोटींक परतून धाडपाची प्रशासन सदांच जतनाय घेता. बोट धक्याक लागिल्ली आसतना आपणें संप करपाची वा सवकासायेन काम करपाची धमकी दिल्यार प्रशासन घडये आपल्यो मागण्यो मान्य करुंये म्हणून कामगार संघ जायत्या फावटीं असल्यो धमक्यो दितात. त्या धमक्यांक भियेवन, "सध्या पयलीं ही बोट भरून तुमी भायर काडात, मागण्यो मान्य करपाचें काय ना, तें मागीर पळोवया," अशें सांगप, वा "तुमच्यो मागण्यो मान्य करतां, तुमी बोट भरात," अशें अध्यक्षान सांगल्यार, आतांचो प्रस्न सुटटा, पूण फुडाराक ताचो वायट परिणाम जावं येता. देखून कसलोय थाराव घेतना हाचो फुडाराचेर कितें परिणाम जावं येता, हें तकलेंत घेवंक जाय. कांय कडांनी कामगार फुडाऱ्यां कडेन अध्यक्ष एकदम इश्टागतीचे संबंद दवरतात, तांकां वा तांच्या फामिलींक खास सोंपेपणां दितात आनी "तुमकां जाय तें हांव करतां, पूण तुमी संप केन्नाच करपाक जायना," अशी तांचे कडेन गुपीत कबलात करतात. आपणाली बदली जातकच फुडल्या अध्यक्षांक हाचो त्रास जातलो, हाची गुपीत कबलात करतल्या अध्यक्षाक परवा नासता.

भारत सरकारान घालून दिल्ल्या नेमां प्रमाण पोर्टाचें काम बरें चल्लां काय वायट चललां हें थारावंक जाता, पूण पोर्टाचें काम कितलेंय बरें चल्ल्यार लेगीत पोर्टाच्या सरभोंवतणच्या वाठारांत उद्‌देग-धंदे चलनात जाल्यार आयात-निर्यात करपाक पोर्टांत बोटी येवच्यो नात. ते खातीर राज्य सरकारा कडेन आनी भारत सरकाराच्या संबंदीत विभागां कडेन भासाभास करून, आयात-निर्यात ज्या उद्‌देगांक चड लागता, तसले उद्‌देग पोर्टा भोंवतणीं वाडोवपाचे यत्न अध्यक्षाक सदांच करचे पडटात.

दिल्ल्या वेळा भितर काम जावंक जाय हें तत्व म्हळ्यार पोर्ट प्रशासनाचो आत्मो. कडक शिस्त आसले बगर हें तत्व चालीक लावंक कुस्तार! सदांच अध्यक्षान आनी ताच्या अधिकाऱ्यांनी चाबूक हातांत घेवन भोंवचें, असो ताचो अर्थ न्हय, तर 'कॅरट आनी स्टीक' जाका म्हणटात, बरें काम केल्यार शाबासकी दिवप आनी वायट काम केल्यार वा शिस्त मोडल्यार कारवाय करप, ह्या तत्वां प्रमाण पोर्ट प्रशासन चलूंक जाय, आनी हांव तें चलयतालों. "ह्या पोर्टांत शिस्त सामकी पेङ्गेर जाल्या, कामगार फुडारी येतना वतना अधिकाऱ्यांचो अपमान करतात, आयज मेरेन अध्यक्षाच्या दोळ्यां मुखार अपमान जाल्यार लेगीत तांणी तो थांबोवपाचो यत्न केलो ना, आनी सबंद अधिकारी वर्गाचें मनोबळ सामकें खालावलां," अश्यो कागाळी हांवें अध्यक्ष म्हणून सुत्रां हातांत घेतकच म्हजे कडेन येवंक लागल्यो. कामगार फुडारी आपल्याक जाय तेन्ना, जाय तितले लोक घेवन अध्यक्षाच्या कॅबिनांत घुसतात, पूण अध्यक्षान तांकां थांबोवपाचो कांयच यत्न करूंक ना, अश्योय कागाळी म्हजे कडेन आयल्यो.

"जो गेला तो वायट आशिल्लो, ताणें वाट लावन उडयली, तूं नवो आयला, म्हणटकच तूं सगलें सारकें करतलो," अशें म्हणून नाडेपेन्नां करपाची चडश्या सरकारी आस्थापनांतल्या वयल्या अधिकाऱ्यांक संवय आसता. हांवें कितल्याश्याच सरकारी आस्थापनांनी अध्यक्ष वा प्रशासकी संचालक म्हणून काम केल्लें आनी थंय म्हाका हो अणभव आयिल्लो. मुरगांव पोर्टांतूय बी कागाळी कानार येना फुडें म्हाका कांय अजाप दिसलें ना. पूण कांय बसकांनी कांय कामगार फुडाऱ्यांचें वागप पळयतकच हांवें आयकल्ल्या अधिकाऱ्यांच्या कागाळींनी खरेपण आसा, अशें म्हाका दिसलें. "कामगार फुडाऱ्यांनी बसकांनी वा हेर तरांची भासाभास करतना अधिकाऱ्यांचो अपमान न करपाची जतनाय घेवंक जाय, तशेंच पयलीं वेळ आनी तारीख थारायले बगर म्हाका येवन मेळूंक जायना," हिवूय बी ऑर्डर हांवें दिली. बसकांनी कामगार फुडाऱ्यांनी अधिकाऱ्यांचो वा अधिकाऱ्यांनी कामगार फुडाऱ्यांचो अपमान केल्यार तांकां सगल्यां हुजीर हांव शिटकावणी दितालों. कामाच्या वेळार जायत्या फावटीं ऑफिसांतले कर्मचारी ऑफिसा भायर वचून कामगार संघाच्या फुडाऱ्यां वांगडा व्हडल्या व्हडल्यान घोशणा दिताले. काम सोडून गेले म्हणून

तांकां अर्द दीस गैरहजर म्हणून नोंद करपाची हांवें ऑर्डर दिली. “आमी ऑफीस टायमांत आंदोलन करिनात जाल्यार आनीक केन्ना करपाचें?” असो वाद कांय कामगार फुडारी म्हजे कडेन घालूंक आयले. “तुमी पगार घेतात तो काम करपाक, आंदोलन करपाक न्हय, आंदोलन करतले जाल्यार ऑफीस टायमाच्या भायर करात,” अशें हांवें तांकां सांगलें. “ऑफीस टायमाच्या भायर आमच्यो घोशणा आयकुपाक कोण आसतलो?”अशें तांणी विचारतकच, “तुमी केन्नाय घोशणा दियात, फकत केन्ना दितले तें म्हाका सांगात, म्हणटकच हांव येवन त्यो आयकतां”अशें हांवें तांकां सांगतकच तांच्या फुगिल्ल्या अहंकाराची फुंकूच गेली.

पोर्टाच्यो कार्यावळी वेळार सुरू जायनाशिल्ल्यो. सांजेच्या पांच वरांचेर कार्यावळ म्हणल्यार साडेपाचांक लेगीत चडशे लोक येनाशिल्ले. हांवें थारिल्ल्या वेळार कार्यावळी सुरू करपाची पद्दत घाली. लोक येवं ना येवं, हांवूच थंय वेळार वचून जे आसात तांकां घेवन कार्यावळ सुरू करतालों.

पोर्टांत ल्हानव्हड खूब कामां चलत आसतात आनी शेंकड्यांनी कंत्राटदार काम करीत आसतात. कांय कंत्राटदार आपणाक तुजे कडेन अर्जण्ट उलोवंक जाय, अशें म्हणून अध्यक्षाच्या बंगल्यार येवन म्हाका मेळूंक सोदताले. कांय कंत्राटदार अशे बंगल्यार येवन मेळून मागीर, “अध्यक्ष म्हज्या बोल्सांतलो, म्हाका जाय तें हांव ताचे कडल्यान करून घेतां,” अश्यो भायर वचून हेरांक फटाश्यो मारतात. हें सगले कडेन चलता. तमीळनाडूंतूय चलतालें आनी थंय जायत्या अधिकाऱ्यांनी कंत्राटदारांक आपणाल्या घरा येवपाचेर बी बंदी घाल्ली. पोर्टाच्या अध्यक्षाचो बंगलो आनी बंगल्या भोंवतणचो व्हड वाठार मुरगांव ‘सडो’भागांत आसा. गोंयांत राजभवना फाटोफाट मुरगांव पोर्ट अध्यक्षाचो बंगलो आनी गार्डन अशें म्हणटात. बंगल्याच्या दोनांय गेटींचेर रातदीस पुलीस राखणदार आसतात, देखून कंत्राटदारांचेर बंदी घालपाक कांय कुस्तार जालें ना.

चडश्या विभागांनी कर्मचारी सकयल्या पांवड्या वयल्यान बडटी मेळून वयल्या पांवड्यार येताले. कांय विभागांनी बडटी मेळपा खातीर ते लायक आसात काय ना हें थारावपाक आमी तांकां परिक्षा सुरू केल्यो. कामगार संघान आंदोलन सुरू केलें आनी “आमी तुमकां परिक्षा घेवंक दिवचे नात,” अशी शिटकावणी दिली. परिक्षा सुरू जाली त्या दिसा कामगार संघान परिक्षेच्या हॉलांत येवपी कर्मचाऱ्यांक आडायले. हांव जेन्ना परिक्षेच्या हॉलाच्या दारांत पावलों, तेन्ना कामगार संघाच्या फुडाऱ्यांनी म्हाकाय आडायलो. आंदोलन करपी कामगार संघ पोर्टांतलो सगल्यांत व्हड कामगार संघ आसलो. आपूण खूब बळिश्ट, आपणाक जाय तेन्ना आपणाच्यान पोर्ट बंद उडोवं येता, अशें त्या कामगार संघाच्या सचिवाक दिसलां आसुंये. त्या फुडाऱ्याचेर कारवाय केल्यार पोर्ट बंद जावपाची

शक्यताय आशिल्ली, पूण पोर्टाक शिस्त लायतलो जाल्यार ताचेर कारवाय करचीच पडटली आशिल्ली. कर्मचाऱ्यांक आडायिल्ले खातीर आनी म्हाकाय आडायिल्ले खातीर हांवें त्या फुडाऱ्याक निलंबीत केलो. कामगार फुडाऱ्यांनी रोखड्यारोखडो दुसऱ्या दिसाच्यान पोर्ट बंद उडोवपाचो यत्न केलो, पूण त्या फुडाऱ्याचेर जायते कामगार भितरल्ले भितर कोंत्र आशिल्ले जावंये, वा फुडाऱ्यान केलें तें बरोबर केलें ना आनी अध्यक्षान आतां केलां तें समा केलां अशें तांकां दिसलें जावंये, कामगारांनी संप करपाची कल्पना भायर मारली.

आनीक एक फावट मीन हाताळपाची ऑटोमॅटीक यंत्रणा थंयच्या कामगार संघान बंद उडयली. बंद उडोवपाचें कारण म्हणल्यार पांच कामगारांच्या बेशिस्तपणाक लागून तांकां हांवें निलंबीत केल्ले. मीन हाताळप 15 दीस बंद उरलें. गोंयच्या मिनेरांक आनी वास्को शाराक खूब लुकसाण जालें. हांवें सगल्या मिनेरांची एक बसका घेवन सगल्या मिनेरां मुखार दोन प्रस्ताव दवरले. पयलो प्रस्ताव, मातशे त्रास आनी लुकसाण सोंसप, पूण कामगारांक शिस्त लावप; दुसरो प्रस्ताव, शिस्तीचें पाड पडल्यार लेगीत पडूं, कामगारांक परतून कामार घेवन पोर्ट सुरू करप; वास्को शाराची आनी निर्यातदारांची सध्याच्या त्रासांतल्यान सुटका करप, पूण एक बेशिस्त पोर्ट तांचे मर्दी दवरून तांकां सासणाचे त्रासांत उडोवप. सगल्यांनी पयलो प्रस्ताव मानून घेतलो आनी मातसो त्रास जाल्यार जावं, पूण शिस्त म्हणटात ती आसुंकूच जाय, हो विचार तांणी उखलून धरलो. मिनेरांच्या मिना खणींनी आनी वास्को शारांतल्या ल्हान व्हड आस्थापनांनी शिस्त कशी दवरप, हो प्रस्न तांकां सदांच आसता. देखून आपणाल्या आस्थापनांनी शिस्त आसूंक जाय म्हणटा आसतना पोर्टांत शिस्त नाका अशें आमी कशें म्हणटले अशें तांकां दिसलें जावंये. त्या निलंबीत केल्ल्या पांच कामगारांक कामार परतून घेवचे म्हणून गोंय सरकारा कडल्यान आनी भारत सरकाराच्या एका मंत्र्या कडल्यान म्हजेर खूब चेपण आयलें. "तुमी म्हजेर चड चेपण हाडल्यार हांव आयएएसांतल्यान राजिनामो दितलों आनी राजिनामो कित्याक दिलो तें जगाक सांगतलों," अशी म्हाका शिटकावणी दिवची पडली. दक्षीण गोंयच्या एका राजकारण्या भशेन आवाज आशिल्ल्या कोणेंय तरी, "तुजे बायलेक आनी चलयेक हांव मारून उडयतलों," अशी फोना वयल्यान म्हाका धमकी दिली. "तूं बायलेक मारून उडय, पूण चलयेक मारून उडोवपाक मेळचें ना, कारण म्हाका चली ना," अशें म्हणून हांवें ताचीं फकांडां केलीं. "ह्या अध्यक्षाक 15 दिसां भितर हांव ह्या पदा वयलो हालयतां," अशें म्हणून दिल्लीक आपणाच्यान जाय तें करूं येता अशें मानपी गोंयच्या त्या एका राजकारण्यान पोर्टांतल्या कामगारांक सांगलें. त्या पांच जाणांक कामार घेतल्यार आमी संप काबार करतात अशें कामगार संघान सांगून धाडलें. पूण हांवें तांचें मानून घेतलें ना.

अखेरेक कामगार संघान संप फाटीं घेतलो आनी काम सुरू केलें. मागीर कांय दिसां उपरांत त्या पांच कामगारांक कामार घेतले आनी तांचेर कायद्या प्रमाण कारवाय सुरू केली.

आयएएस अधिकाऱ्यांक दर दोन-तीन वर्सांनी नव्या पदार बसचें पडटा. आयएएस अधिकारी दोन तरांचे आसतात. प्रशासनांत कितलींशींच वर्सां जें चलत आयलां, तें आपूण दोन-तीन वर्सां भितर बदलपाक शकना वा आपणें कितलेय त्रास घेवन तातूंत थोड्यो गजाली बदल्ल्यो जाल्यार लेगीत आपल्या उपरांत जो मनीस येतलो, तो हो बदल चालू दवरतलो काय ना, हें आपल्याक खबर ना, आनी देखून आपणें कांय बदल करपाची गरज ना, अशी 'जैसे थे' संस्कृताय मानपी अधिकारी आसतात. काळा प्रमाण प्रशासन बदलूंक जाय, प्रशासन म्हणटात तें कडक शिस्तीन चलपाक जाय, ते खातीर अध्यक्षान आपल्याक स्वताक कडक शिस्त लावन घेवंक जाय, असली कडक आनी गतिशील संस्कृताय मानपी कांय अधिकारी आसतात. 'जैसे थे' संस्कृतायेंतले अध्यक्ष, बेशिस्तपणां चलतात तीं चलूंक दितात, आनी चडशा वेळार भ्रश्टाचाराच्या पावसाची वावझड आपल्याय आंगार घेतात. ''तुमकां जाय तें करात, पोर्टाचें काम जातकच जालें,'' अशें मानपी अध्यक्षा आड कोण कागाळ करिना. पूण जे लोक शिस्तीच्या आनी प्रामाणीकपणा आड आसतात, ते कडक शिस्तीच्या आनी प्रामाणीक अध्यक्षाच्या आड कागाळी करीत रावतात.

हेर सरकारी आस्थापनां भशेन आनी हेर पोर्टां भशेन मुरगांव पोर्टांतूय बी जायतो भ्रश्टाचार चलतालो आनी तो आतांय चलता जावंये. भ्रश्टाचार मुळा सयत हुमटून उडोवं येता काय ना, हाचेर कोणाचेंच एकमत ना. जे मेरेन लोकांचे हातूच भ्रश्टाचारान म्हेळे जाल्यात, ते मेरेन भ्रश्टाचार नाशिल्लें प्रशासन आसुंकूच शकना, अशें चडश्या जाणांचें मत आसा. भ्रश्टाचार उणो करपाची एक वाट म्हणल्यार, नेमांची आनी कायद्यांची बांदावळ, आनी ती बांदावळ चालीक लावपाची प्रक्रिया कडक करप. दुसरी वाट म्हणल्यार, भ्रश्टाचार करपी कर्मचाऱ्यांक कडक ख्यास्त करप. हांवें दोनूय वाटो आपणायल्यो, आनी पोर्टांतलो भ्रश्टाचार उणो करपाचो यत्न केलो.

पोर्टाच्यो इमारती, रस्ते, बर्थ, उदकाची पुरवण आनी हेर सोंपेपणां बंद पडनासतना चालू दवरपा खातीर एक वेगळें खातें आसा. त्या खात्यांतले इंजिनियर वेगळ्यावेगळ्या ल्हान व्हड कंत्राटदारां कडल्यान पोर्टाचें काम करून घेतात. त्या कंत्राटदारांच्या संघाचे फुडारी एक फावट म्हाका मेळ्ळे. आपणालीं बिलां फारीक करपाक पोर्टाचे अधिकारी खूब वेळ लायतात, एक बील 18 मेजांचेर बशिल्ले 18 क्लार्क तपासतात, दर क्लार्क दोन तीन दीस तरी लायता, आनी त्या बिलाची फायल फाटीफुडें धुकलीत रावतात, अशें

तांणी सांगलें. तेन्नाच्या अकावण्टस् खात्याच्या मुखेल अधिकाऱ्याक आपोवन हाडून हें कित्याक जाता, अशें विचारतकच ताणें 18 मेजांचेर 18 क्लार्क एकूच फायल तपासतात. ती सामकी गरजेची. कारण, बारीकसाणीन तपासले बगर कंत्राटदारांक फारीक करपाक जायना, आनी तशे फावो ते परस चड पयशे फारीक जाल्यार मागीर ऑडिटर आमकां धरतले, अशी भिरांत ताणें उलोवन दाखयली. बारीकसाणीन तो विशय विसकटावन पळयतकच एक फायल सात जाणां वयर क्लार्कांनी तपासपाची गरज ना, अशें म्हाका दिसूंक लागलें. पूण हिसबा खात्यांतल्या कर्मचाऱ्यांक बरे भशेन सांगून तांचो पालव घेवन ही 18 मेजांची चाल बदलूंक जाय आशिल्ली. थोडो काळ असोच वेगळ्यावेगळ्या विशयांचेर भासाभास करपांतूच गेलो. कांय काळा उपरांत एक फायल फकत सात जाणांनी तपासल्यार पुरो अशी ऑर्डर आमी काडली आनी कंत्राटदारांचीं बिलां बेगीन फारीक करपाची चाल सुरू केली. तशेंच पोर्टा खातीर खूब वर्सां काम केल्ल्या आनी पोर्टाचो विस्वास जोडिल्ल्या कंत्राटदाराक काम करपाक 90 प्रतिशें मेरेन 'ऑन अकावण्ट' एडवान्स दिवं येता, असो कायदो आमी घालो. कंत्राटदारांनी केल्ल्या कामाचो नियाळ घेवन इंजिनियरांनी रिपोर्ट दिवप, त्या रिपोर्टाच्या आदारान अकावण्टस खात्यान तांकां पयशे फारीक करप, ह्या प्रक्रियां मदीं आशिल्लो भ्रश्टाचार उणो करपा खातीर ही एक कारवाय आमी सुरू केली.

खंयच्याय प्रशासनांत, मागीर तें प्रशासन सरकारी आसूं वा खाजगी, त्या आस्थापनांत काम करतल्या अधिकाऱ्यांक आनी कर्मचाऱ्यांक शिस्त लायतलो आनी प्रशासनांतलो भ्रश्टाचार उणो करतलो जाल्यार अध्यक्षान वा प्रशासकी संचालकान पयलीं आपणाक शिस्त लावन घेवंक जाय, भ्रश्टाचारी चालीरितीं पसून पयस रावंक जाय, हें म्हत्वाचें. सरकारांत भ्रश्ट मंत्री वा भ्रश्ट अधिकारी भ्रश्टाचारा आड भाशणां दितात, तेन्ना लोक तांच्यो बकत्शायो करतात. उदक जशें वयल्या पांवड्या वयल्यान सकयल्या पांवड्यार व्हांवता, तसो भ्रश्टाचारूय बी वयल्यान सुरू जाता; सकयल्यान वयर केन्नाच वचना.

1973 त तमीळनाडू हस्तकला आस्थापनाचो हांव प्रशासकी संचालक आसतना तमीळनाडूच्या हस्तकला वस्तूंची व्हड प्रमाणांत निर्गत करपाचो हांवें यत्न केलो. थोडे कडेन तो यत्न फसलो. लंडनाच्या एका वेपाऱ्यान आमकां चार लाख रुपया दिवपाचे आशिल्ले ते दिलेच ना, कारण ताणें कसली तरी बेपर्वाय केल्ल्यान ताचो धंदो बुडलो, आमचेय पयशे बुडले. हांवें पयशे बुडयले म्हणून सरकारान म्हजे आड कारवाय सुरू केल्ली. हांवें त्या वेपाऱ्या कडल्यान एक टिवी भेटवस्त म्हणून घेतल्या आनी देखून ताका चड सवलती दिल्ल्यो अशी म्हजे आड एक निनावी कागाळ सरकाराक आयली. ते कागाळीचेर, ''ह्या अधिकाऱ्याक हांव वळखतां, तो भ्रश्टाचार केन्नाच करपी न्हय,

देखून हे कागाळीचेर फुडें आमी आनीक कांय प्रक्रिया करपाची गरज ना,'' अशी मुखेल सचिवान ऑर्डर दिली. कडक आनी प्रामाणीक सरकारी अधिकाऱ्यांचो बरोचसो वेळ सदांच तांचे आड जातल्या कागाळींक जापो दिवपांत फुकट वता, पूण ताका उपाय नासता.

पोर्ट ट्रस्ट अध्यक्षाचें काम राज्य सरकारांतल्या वा भारत सरकारांतल्या हेर विभागां परस वेगळें. पोर्ट ट्रस्टांनी, एका इल्ल्याशा, म्हणल्यार सुमार दोन किलोमिटराच्या वाठारांत, हजारांनी कामगार आनी अधिकारी काम करतात. अध्यक्षान आयज कितें केलें, तो कोणा कडेन उलयलो, सांजेचो खंय गेल्लो, घरा केन्ना आयलो, ह्या असल्या सगल्या गजालींचेर त्या दोन किलोमिटर वाठारांत रावपी वा काम करपी पोर्ट कामगारांचें आनी अधिकाऱ्यांचें लक्ष आसता. प्रशासनांत नितळसाण हाडूंक जाय जाल्यार आपणें नितळ आसपाक जाय, इतलेंच न्हय, तर ती गजाल सगल्यांच्या कानार पावोवंक जाय, हें म्हत्वाचें.

मुरगांवच्या सड्यार अध्यक्षाच्या बंगल्या शेजरा पोर्टाचें गेस्ट-हावस आसा. आमगेर आमचे सोयरे वा इश्ट गोंयच्यान वा गोंया भायल्यान येवन रावताले वा जेवपाक येताले, तेन्ना जायत्या फावटीं हांव गेस्ट हावसांतल्यान जेवण मागयतालों. गेस्ट हावसाचो मॅनेजर म्हयन्या अखेर बील दितालो, आनी म्हजो पिए ताका चेक दिवन फारीक करतालो. खाजगी कामाचे पयशे फारीक करतना, बाजारांतलें भाजी आनी नुस्तें सोडल्यार, सगले पयशे चेक दिवन फारीक जाताले आनी तेय बी दोन तीन पिएनी बिलां तपासून जातकच! अध्यक्षाचे मोटारीक ॲर कण्डीशण्ड सोंपेपणां नाशिल्लीं. देखून मोटारीक ॲर कण्डीशनर घालून घेतलो, आनी ताचो खर्च म्हज्या पगारांतल्यान कापून घेवचो, अशी हांवें ऑर्डर दिली. तो खर्च सगलो इल्लो इल्लो करून म्हज्या पगारांतल्यान कापून वतालो. त्या काळांतल्या भारत सरकाराच्या आनी पोर्टाच्या कायद्या प्रमाण वयल्या पांवड्या वयल्या अधिकाऱ्यांक दर म्हयन्याक सरकारान थारायिल्ले प्रमाण पयशे दिवन सरकारी मोटार खाजगी कामां खातीर वापरपाक मेळटाली. मुरगांव पोर्ट ट्रस्ट अध्यक्षाची मोटार हांव खूब फावटीं मडगांवां आनी हेर कडेन खाजगी कामां खातीर वापरतालों. प्रवास खाजगी काय सरकारी हें म्हजे कडेन विचारून, मोटारीचो लॉग बूक बरोवन दवरपाचें, ते प्रमाणे खाजगी कामां खातीर वापरिल्ल्या किलोमिटरांचो हिशोब दवरून ताचे पयशे पगारांतल्यान वसूल करपाचें, तें हिसबा खात्याक बरोवन धाडपाचें, हीं सगलीं कामां पिए करताले.

पोर्टांतलो भ्रश्टाचार उणो करपाक सगल्यांत म्हत्वाच्यो ज्यो चाली हांवें बदल्ल्यो, त्यो कामगार भरती करतना जावपी प्रक्रियेंत! पोर्टाचे अधिकारी गोंयच्या सरकारी रोजगार केद्रांतल्यान नांवां मागयताले आनी रोजगार केंद्रान धाडिल्ल्या उमेदवारांची परिक्षा

घेताले. परिक्षेचे पेपर काडप, पेपर तपासप, हें काम पोर्टाचेच अधिकारी करताले. हीं दोनूय कामां हांवें पोर्टाच्या अधिकाऱ्यां कडल्यान काडून वेगळ्यावेगळ्या म्हाविद्यालयांतल्या प्रोफेसरां कडेन सोंपयलीं. तीन प्रोफेसरां कडल्यान एकाच विशयाचेर परिक्षेचो पेपर घेवन, परिक्षे दिसा सकाळीं हॉलांत खंयचेंय तरी एक बंडल उक्तें करून तातूंतले पेपर उमेदवारांक वांट्टाले. मागीर तो पेपर ज्या प्रोफेसरान काडला – प्रोफेसराचें नांव फकत म्हाका खबर आसतालें – ताकाच ते तपासपाक लायताले. प्रोफेसराक उमेदवारांचीं नावां खबर नासतालीं, कारण दर उमेदवाराक आमी कोड नंबर दिल्लो आसतालो. उमेदवारांची वेंचणूक बी जावन तांचें नांव नोटीस बोर्डाचेर घाली मेरेन सगली प्रक्रिया हांव आनी म्हजे दोन पिए करताले.

कायदो मोडपी हे कायदो करपी लोकां परस चड हुशार आसतात अशें म्हणटात. आतां भ्रश्टाचार कसोच जावचो ना, अशें म्हाका अधिकाऱ्यांची आनी कामगारांची भरती करतना दिशिल्लें. गोवा इंजिनियरींग कॉलेजींतल्यान पयल्या वर्गांत पयलो आयिल्लो एक भुरगो एक दीस म्हाका मेळूंक आयलो. ‘‘म्हाका तुमी वेंचून काडला आनी नोकरी दिल्या पूण म्हाका तुमची नोकरी नाका, कारण तुमचे लोक भ्रश्टाचारान बुडबुडल्यात,’’ अशें सांगून ताणें म्हाका शॉक दिलो. आमी नोटीस बोर्डाचेर नांवां घाल्लीं त्याच दिसा दनपारचो प्रशासन विभागांतलो एकलो कर्मचारी त्या भुरग्याच्या घरा पावलो आनी धा हजार रुपया दिल्यार बेगोबेग दोन-तीन दिसां भितर नेमणुकेची ऑर्डर हाडून दितां अशें सांगपाक लागलो. नोटीस बोर्डाचेर नांवां लागतकच नेमणुकेच्यो ऑर्डरी तयार करून पोस्टांत घालता म्हणसर चार-पांच दीस तरी लागतात, आनी गोंयांत सगल्या वाठारांनी राबितो करून आशिल्ल्या उमेदवारांक आपणाली नेमणूक जाल्या म्हणून पोस्टांतल्यान ती ऑर्डर हातांत पडटकच कळटा. हे गजालीचो फायदो घेवन कांय कर्मचारी पयसो करपाक सोदताले. मागीर आमी पद्दत आनीक मातशी बदल्ली. उमेदवारांक वेंचून काडिना फुडें पयलीं तांकां तेलेग्राम मारताले आनी 3-4 दिसां उपरांत तांचीं नांवां नोटीस बोर्डाचेर लागतालीं.

आमी चालीक लायिल्ली ही पद्दत हांव पोर्टांतल्यान निवृत्त जातकच चालू उरली काय म्हजे पयलीं आशिल्ली ती परतून सुरू जाली हें खबर ना, आनी हांवेंय कोणाक केन्नाच विचारुंकूय बी ना. म्हजे उपरांत आयिल्ल्या अध्यक्षांची आनी म्हजी बरी इश्टागत आशिल्ली आनी आमचें म्हयन्याक एक फावट तरी मेळप जातालें. पूण हे गजालीचेर ताचे कडेन हांव केन्नाच उलयलों ना. दरेकाची काम करपाची तरा वेगळी आसता. आपूण करतां तेंच बरोबर आनी दुसरे करतात तें बरोबर न्हय, अशें म्हणप म्हणल्यार मुर्खपणाचें.

म्हज्या मांवाचीं जायतीं शेतां-भाटां आशिल्लीं. उत्तर गोंयांतल्या व्हड भाटकारां मदलो तो एक! तांच्या भाटांतलो एक मुंडकार एक फावट म्हाका मेळूंक आयलो. "तूं तुज्या पुता खातीर नोकरी बी मागूंक आयला जाल्यार तुका तशी नोकरी बी हांव दिवपाक शकचों ना; कायद्या प्रमाण मेळ्ळी जाल्यार मेळ्ळी, नाजाल्यार ना," अशें तो येना फुडें हांवें सांगलें. ताची जाप आयकून हांव सामको शेळेलों. "ना ना, भाटकारा, हांव नोकरी मागूंक येवंक ना, पोटींत वीस हजार रुपया दिल्यार कोणाकूय नोकरी मेळटा. हांव आनीक दुसरें कसलें तरी काम घेवन आयिल्लों," अशें ताणें सांगलें. आपूण अध्यक्षांक सांगून तुमकां नोकरी दितां, वीस हजार रुपया दिवचे पडटले, अशें सांगून उमेदवारां कडल्यान कांय कर्मचारी पयशे घेतात आनी अध्यक्षांचेर चेपण हाडून त्या उमेदवारांक नोकरी दितात, अशें आमच्या दक्षता अधिकाऱ्यान म्हाका सांगलें. "ही गजाल तुवें म्हाका पयलीं कित्याक सांगली ना?" अशें विचारतकच "हांवें थोडे कडेन चवकशी केली, पूण म्हाका कांय पुरावो मेळ्ळोना, देखून तुका हांवें सांगलें ना" अशी जाप ताणें म्हाका दिली.

कांय म्हयन्यां उपरांत दोन उमेदवार म्हजे कडेन कागाळ घेवन आयले. तांणी एका अधिकाऱ्याचें नांव दिलें आनी नोकरी दितां अशें सांगून त्या अधिकाऱ्यान एकल्या कडल्यान तीस आनी दुसऱ्या कडल्यान चाळीस हजार रुपया घेतिल्ले, पूण नोकरी बी कांय दिली ना, अशी कागाळ तांणी केली. नोकरी लागिल्ल्या उमेदवारां कडेन त्या दोगांयनी चवकशी केली तेन्ना कांयच फारीक करिनासतना सगल्यांक नोकऱ्यो मेळ्ळ्यात म्हणपाचें तांकां कळ्ळें. दक्षता अधिकाऱ्यान तांचे कडल्यान कागाळ बरोवन घेवन पुलीस बी घेवन त्या पोर्ट अधिकाऱ्याक धरपाचो यत्न केलो. ताचे आड रोखडीच कारवाय सुरू जातली अशें खंयच्यान तरी त्या अधिकाऱ्याच्या कानार गेल्लें आसुंये, कारण जेन्ना दक्षता अधिकारी त्या अधिकाऱ्याच्या पोर्ट ट्रस्टान दिल्ल्या फ्लॅटार गेलो तेन्ना साटलीपोटली घेवन, फ्लॅट रिकामो करून, फ्लॅटाक कुलप लावन तो अधिकारी पळून गेलो म्हणपाचें कळ्ळें. त्या अधिकाऱ्या विशीं मागीर आनीक कागाळी आयल्यो. उमेदवारां कडल्यान सुमार पांच लाख रुपया एकठांय करून तो पळून गेला म्हणपाचें उपरांत कळ्ळें. ताका निलंबीत करून मागीर ती केस आमी सीबीआय कडेन दिली.

प्रशासनाची तांक वयल्या पांवड्याचेर काम करतल्या अधिकाऱ्यांचेर आनी चड करून मुखेल अधिकाऱ्याचेर निंबून आसता. राज्य सरकार, केंद्र सरकार वा सरकारी आस्थापन, खंयचीय बांदावळ आसूं, प्रशासनांत वेगळेवेगळे थाराव घेवपाची तांक आनी ते चालीक लावपाचो वेग वयल्या पांवड्या वयल्या अधिकाऱ्यांचेर निंबून आसता. तांचे आपल्या मदले संबंद बरे आसल्यार प्रशासनांतलीं कामां बरीं जातात. तांचे मदीं कसल्याय कारणा खातीर तणाव आसल्यार ताचो परिणाम तांच्या कामाचेर जाता. तांचे मदलो

तणाव आनी झगडीं जितलीं चड आसतात, तितले त्या आस्थापनाच्या अध्यक्षाक वा प्रशासकी संचालकाक प्रशासन चलोवपाक चड त्रास जातात. देखून, वयल्या पांवड्यार खात्यांच्या मुखेल अधिकाऱ्यां मदीं बरे संबंद आसूंक जाय, आनी बरे संबंद तशेच उरपा खातीर आस्थापनान यत्न करपाक जाय. खाजगी जिणेंत जें कितें चलता, ताचो परिणाम तांच्या कामाच्या दर्ज्याचेर जाता. मुखेल अधिकाऱ्यां मदीं आनी तांच्या फामिलीं मदीं बरे इश्टागतीचे संबंद दवरपा खातीर तांकां अध्यक्षांच्या बंगल्यार पार्ट्यो करप, बायलां मदीं इश्टागत वाडोवप, तांच्या समाजीक कार्यावळींक तेंको दिवप, संस्कृतीक कार्यावळींनी वांटो घेतिल्ल्या कर्मचाऱ्यांक अध्यक्षाच्या बंगल्याचेर जेवणाक आपोवप, असल्यो कार्यावळी हांवें सुरू केल्यो. ताका लागून पोर्टांतलें वातावरण बरेंचशें सुदारलें म्हणपाचें पोर्टांत आनी पोर्टा भायल्या लोकांक दिसूंक लागलें.

सरकारी प्रशासन जांव वा खाजगी वेवस्थापन, मुखेल अधिकाऱ्यांक सदांच दोन उद्‌दिश्टां आसतात: चालू आसा तो वेव्हार, उद्‌देग वा प्रशासन बरे तरेन आनी येसस्वी रितीन चलोवप हें एक उद्‌दिश्ट आनी ह्या वेव्हाराची, उद्‌देगाची वा प्रशासना कडल्यान लोकांक मेळटले सेवेची फुडल्या काळांत वाड जावपा खातीर यत्न करप, हें दुसरें उद्‌दिश्ट! हें दुसरें उद्‌दिश्ट दोळयां मुखार दवरून म्हज्या स वर्सांच्या अध्यक्षपदाच्या काळांत हांवें खूब वावर केलो. बर्थ नंबर एक, दोन, तीन, चार हांचो पोर्टाक कांयच उपेग जायनाशिल्लो कारण हे बर्थ 100 वर्सां पयलीं बांदिल्ले. ते बर्थ आनी तांच्या मुखा वयलो उदकाचो वाठार कसोय तरी वापरून फुडाराक पोर्टाची येणावळ वाडोवपाक जाय अशें म्हाका दिसतालें. तशें करपा खातीर तो उदकाचो वाठार आनी ते बर्थ आमी बोट दुरुस्त करपाचें एक शिपयार्ड बांदपा खातीर एके खाजगी कंपनीक भाड्यान दिलो.

भारतीय बंदरांनी सामान हाताळपाची क्षमताय वाडोवपाक आनीक बर्थ ताकतिकेन बांदपाची गरज आशिल्ली आनी सगल्या पोर्टांनी आनीक जायते बर्थ, व्हड व्हड मशिनरी आनी हेर सोंपेपणां बांदूंक वा हाडूंक भारत सरकारा कडेन जाय तितलो पयसो नाशिल्लो. देखून पोर्टांचें खाजगीकरण (प्रायवेटायजेशन) करपाचें केंद्रान थारायलें. खाजगीकरणा फाटल्यान दोन मुखेल उद्‌दिश्टां आसतात: सरकारी भांडवला भायर व्हड व्हड उद्‌देजकांचें भांडवल वापरूंक मेळचें हें एक आनी तांच्या भांडवलांतल्यान तयार जाल्लीं सोंपेपणां तांणीच चलोवपाचीं हें दुसरें. हाचें कारण म्हणल्यार खाजगी वेवस्थापन सरकारी प्रशासना परस वेगळें आनी उद्‌देग धंद्याक फावोशें आसता. हीं उद्‌दिश्टां मतींत दवरून मुरगांव पोर्टाच्या बर्थ नम्बर पांच आनी स ह्या बर्थांचें खाजगीकरण करचें अशें भारत सरकारान थारायलें. 15-20 वर्सां पयलीं मुरगांव पोर्टांतल्यान लोखंड कारखान्याक आनी हेर उद्‌देगांक लागपी कोळसो चड आयात जायनाशिल्लो. कोळश्याच्यो बोटी

चड येनाशिल्ल्यो. कर्नाटकांतल्या हॉस्पेट-बेल्लारी भागांत आशिल्ल्या लोखंड आनी वीज कारखान्यांक लागपी कोळसो भायल्या देशांतल्यान आयात करचो पडटालो आनी गोंयच्या पोर्टांतल्यान तो देशांत भितर काडप तांकां चड सवाय पडटालें. म्हणून हॉस्पेट-बेल्लारी भागांतल्या उद्देगांक लागपी कोळसो मुरगांव पोर्टांतल्यान आयात करचो अशें थारावन फुडली कारवाय करपाची भारत सरकारान आमकां ऑर्डर दिली. ते प्रमाण बर्थ नम्बर पांच आनी स हे बरे तरेन बांदून तांची तांक वाडोवन, मुखार आशिल्ल्या उदका वाठाराची खोलाय वाडोवन, कोळसो घेवन येवपी व्हड बोटी हाताळपाचीं सोंपेपणां तयार करपाचीं आशिल्लीं. हीं सोंपेपणां बांदून काडपाक आनी फुडें तीं चालीक लावन चलोवपाक खाजगी कंपन्यांक तीस-चाळीस वर्सांचें कंत्राट दिवपाची प्रक्रिया आमी चालू केली. हॉस्पेटा खातीर मुरगांवच्यान कोळसो व्हरता आसतना वास्कोचें वातावरण प्रदुशीत जावचें न्हय हे खातीर जतनाय घेवची पडटली, आनी ऑस्ट्रेलिया, जपान आनी येवरोपी देश जे तरेन प्रदुशण थांबोवपाक आधुनीक तंत्रगिन्यान आनी यंत्रां वापरतात, तसलें गिन्यान आनी यंत्रां मुरगांव पोर्टांत वापरूंक जाय, ह्योय बी अटी आमी घाल्ल्यो.

पोर्टाची येणावळ वाडयतलो जाल्यार चड बोटी हाताळूंक जाय आनी ते खातीर पोर्टान नवे बर्थ बांदूंक जाय. बर्थ नम्बर 11 बांदपाचो प्रस्ताव मुरगांव पोर्टान भारत सरकाराक धाडल्यार तीन वर्सां जाल्लीं पूण फायल दिल्लीक खंयूय तरी शिरकून उरिल्ली. बर्थाची गरज आसा काय ना, 40-50 कोटी खर्च करून बर्थ बांदल्यार बोटी येतल्यो काय नात, असले प्रस्न विचारून ती फायल तशीच पडून उरिल्ली. भोंवतणच्या वाठारांतल्या उद्देगधंद्यांचो विकास जायत रावतलो जाल्यार ते खातीर बर्थ तयार आसूंक जाय; पयलीं पुरवण आनी मागीर मागणी हें धोरण हाँगकाँग, सिंगापूर आनी जायत्या येवरोपी देशांनी आपणायिल्लें. भारतांत मात मागणी आसल्यार आमी पुरवण करतले असलें धोरण आशिल्ल्यान सदांच अर्थीक बांदावळीक गरज आशिल्ले बर्थ केन्नाच मेळनात. भारत सरकारांतल्या वयल्या अधिकाऱ्यांक हें पटोवन दितकच मागीर तांणी मुरगांवच्या बर्थ नम्बर इकराक रोखडीच मान्यताय दिली आनी थोड्याच काळा भितर तो बांदून आमी वापरांत हाडलो.

गोंयच्या उद्देग-धंद्यांक मशिनरींनी आयात करपाक आनी आपणालो म्हाल निर्यात करपाक मुंबय बंदराचो उपेग करचो पडटालो. देखून हेर राज्यांनी आशिल्ल्या उद्देगां परस तांकां खर्च चड जातालो. मुरगांव बंदरांत कण्टेनर हाताळपाची वेवस्था नाशिल्ल्यान गोंयच्या उद्देगधंद्यांक हें लुकसाण सोंसचें पडटालें. कण्टेनर बोटींच्या वेगळ्यावेगळ्या आंतरदेशीय कंपन्यां कडेन संपर्क सादून तांकां गोंयांत ल्हान कण्टेनर बोटी आयल्यार फायदो जातलो काय ना हाचो अभ्यास करपाक लावन अखेरेक ल्हान

ल्हान कण्टेनर बोटी गोंयांत हाडून कण्टेनर हाताळपाची वेवस्था आमी सुरू केली. तशेंच नुस्तें निर्गत करपाचे खास कण्टेनर हाताळपाचें सोंपेपण तयार केलें.

पोर्टांतल्यान येवपी वचपी ट्रकांक वास्को शारांतल्यान वचचें पडटालें आनी शारांत आवाजाचें आनी हवेचें प्रदुशण जातालें. देखून पोर्टांतल्या ट्रकां खातीर आनी कण्टेनरां खातीर राष्ट्रीय म्हामार्ग सतरा वयल्यान सरळ एक चार पदरी म्हामार्ग पोर्टांत हाडपाची आंखणी आमी सुरू केली.

1991-96 ह्या काळांत डॉक लेबर बोर्डाचें प्रशासन वेगळें आशिल्लें. मागीर कांय वर्सांनी ताचो पोर्टा भितर आसपाव करून घेतलो आनी पोर्ट प्रशासनाचें तें एक खातें कशें वावुरपाक लागलें. डॉक लेबर बोर्डांतल्या कामगारांनी चड काम करचें आनी आपणाली येणावळ वाडोवची हे खातीर आमी नव्यो येवजण्यो चालीक लायल्यो.

पोर्टांत काम करपाचें वातावरण खोशयेचें आनी झगड्यां विरयत आसचें म्हणून कामाच्या वेळा भायर तरातरांच्यो कार्यावळी आसतात. ऑफिसा भायर कामगार आनी तांच्यो फामिली एकामेकांक मेळटकच तांचो संपर्क आनी इश्टागत वाडटा. इश्टागत वाडटकच ऑफिसाच्या कामाचो दर्जो आनी वेग वाडटा, अशें भायल्या देशांतल्या प्रशासनांनी केल्ल्या संशोधनांत दिसून आयलां. हे खातीर पोर्टांतल्या कर्मचाऱ्यांक आनी तांच्या फामिलींक तरातरांचे खेळ, सर्ती, मनरिजवणेच्यो कार्यावळी आनी हेर कार्यावळी पोर्टांत पयलीं सावन जाताल्यो. ह्या कार्यावळींचो आंकडो हांवें वाडयलो, इतलेंच न्हय, तर तातूंत वांटो घेवपी सगल्या कर्मचाऱ्यांक आनी तांच्या घरच्यांक अध्यक्षाच्या बंगल्यार पाट्यो दिवपाक सुरवात केली.

न्हंयेचें उदक जे वटेन व्हांवता तेच वटेन आपणें पेंवल्यार पेंवपाक कश्ट उणे पडटात, आनी प्रवाहा आड पेंवतलो जाल्यार चड कश्ट जातात. प्रशासनांतूय बी अशेंच आसता. आदींच चलिल्ल्या भ्रश्टाचाराचो, गैरवेव्हारांचो आनी बेशिस्तपणाचे वागणुकेचो आपुणूय एक वांटो जावन प्रशासन चलयलें जाल्यार कोणाक कांयच त्रास जायना. सगले, "हांव तुजी फाट खरपितां, तूं म्हजी खरपी," ह्या तत्वाचेर आपलीं कामां करून घेतात. पूण शिस्तीन कडक आशिल्ल्या आनी प्रामाणीकपणान वेव्हार चलोवंक सोदतल्या अधिकाऱ्यांक सदांच त्रास जातात. निनांवी पत्रां बरोवन कागाळ करप, नाका आशिल्लीं बगलांटां तांचेर घालप, हो सरकारी प्रशासनाचो एक वांटो. पोर्टांतूय बी तशेंच आसता. शिस्तीन आनी कायद्या प्रमाण चलतलो जाल्यार वयल्या पांवड्या वयल्या भ्रश्ट मंत्र्या सावन सामक्या सकयल्या पांवड्या वयल्या भ्रश्ट प्युना मेरेन आशिल्ल्या कर्मचाऱ्यांक प्रामाणीक अधिकाऱ्याची नसाय जाता.

मोटारी आनी हेर वाहनां खातीर जशे रस्ते आसचे पडटात तशेंच दर्यांतल्यो बोटी पोर्टांत येवपाक मार्ग आसचे पडटात. दर्याचो तळ खणून 25-50 मिटर रुंदायेचो, चड खोलाय आशिल्लो रस्तो तयार करतात आनी ताका चॅनल अशें म्हणटात. दर पोर्टाक बोटींचें यो-वच करपाक चार ते सात किलोमिटर लांबायेचो आनी 25-50 मिटर रुंदायेचो आनी बोटींक जाय तितले खोलायेचो हो रस्तो आसता. दर वर्सा ह्या रस्त्या वयलो गाळ उसपून उडोवन ह्या चॅनलांची खोलाय जाय तितली दवरपा खातीर पोर्टांत काम करचें पडटा. गाळ उसपुपा खातीर पोर्टाक दर वर्सा स-सात कोटी रुपया खर्च करचो पडटालो. खंयच्याय तरी एका वर्सा गाळ उसपुपाचें स-सात कोटींचे कंत्राट आमी एके विदेशी कंपनीक दिलें. कंत्राट दिवचे पयलीं कायद्या प्रमाण जें कितें करपाक जाय तें सगलें आमी केलें. कंत्राटाचे फायलीचेर निश्याण्यो करून दुसऱ्या दिसा हांव एका म्हयन्याची सुटी घेवन अमेरिकेक वचपाचों आशिल्लों. कंत्राट अमक्या अमक्या पयशांनी, अमके अमके कंपनीक दिवचें, अशी फायलीचेर ऑर्डर दिवन हांव तिनसांजचो मातसो आड पडिल्लों, तेन्ना म्हाका दिल्लीच्यान एका मंत्र्याचो फोन आयलो. हांवें कंत्राट दिलां तें रोखडेंच रद्द करचें आनी अमके अमके कंपनीक दिवचें अशें मंत्र्यान म्हाका सांगलें. "हांवें आतां ऑर्डर दिल्ली आसा, ती म्हाका बदलपाक मेळची ना, आनी म्हजी पयलींची ऑर्डर हांवें रद्द केल्यार लेगीत मंत्र्याक जाय ते कंपनीक आमकां ती ऑर्डर कायद्या प्रमाण दिवंक मेळची ना," अशें हांवें त्या मंत्र्याक सांगलें. मंत्र्यान म्हाका फोनाचेर तापयलो आनी "तूं कितें उलयता तें तुका खबर ना, सीबीआय तुजेर सोडटलों" अशी शिटकावणी दिवन, मागीर "तूं करता काय ना?" अशें ताणें म्हाका विचारलें. "म्हाका तसलें कांयच करपाक मेळचें ना, तुमकां जाय जाल्यार तुमी पोर्टाक पत्र बरोवन ती फायल व्हरात आनी तुमकां जाय तें करात," अशें हांवें ताका सांगलें. हो मंत्री भ्रश्टाचाराच्या खातोणांत सामको बुडिल्लो आसा अशें म्हाका हेर अध्यक्षांनी खूब फावटीं सांगिल्लें. पूण म्हजो हो पयलोच अणभव. दुसऱ्या दिसा सकाळीं हांवें भारत सरकाराच्या सचिवाक एक व्हड पत्र बरयलें, आनी तातूंत हे गाळ उसपुपाचे फायली संबंदान सगली म्हायती दिली. "दिल्लीच्यान पत्र वा फॅक्स धाडून ती फायल मागयली जाल्यार म्हगेलें पत्र सचिवाक धाडपाचें; कांयच लिखीत आदेश धाडिनासतना फायल मागयल्यार दिवपाची ना," अशी ऑफिसांतल्या लोकांक ऑर्डर दिवन हांव अमेरिकेक गेलों. ती फायल धाडून दिवची, अशें हांव सुटयेर आसतना दिल्लीच्यान फॅक्स आयलें; आनी कसलेंय तरी कारण सोदून काडून तांणी म्हजी ऑर्डर रद्द करून पोर्टान परतून निविदा मागोवच्यो अशी ऑर्डर धाडली. पोर्टान परतून निविदा मागयतकच मंत्र्याक जी कंपनी जाय आशिल्ली, तेच कंपनीन निविदा दिली आनी हेर खंयचेच कंपनीन दिली ना. फाटले फावटीं ज्या

खर्चाक मान्यताय दिल्ली त्याच खर्चा भितर तें काम करपाची निविदा ते कंपनीन दिल्ली, म्हणटकच तें कंत्राट मागीर मंत्र्याक जाय तेच कंपनीक मेळ्ळें. तो मंत्री म्हजेर खूब रागार आसतलो आनी म्हजो अपमान करतलो अशें म्हाका दिशिल्लें, पूण मागीर जेन्ना तो गोंयांत दोन तीन फावटीं आयलो, तेन्ना तो म्हजे कडेन चडूच बरेपणान वागूंक लागलो.

एके फावटीं मुरगांवच्यान पणजे येतना म्हाका आपले वांगडा बसपाचो आग्रो करून, "तुका कितलीं भुरगीं, कितें करतात, खंय आसतात," असले प्रस्न विचारपाक लागलो. "म्हाका एकूच चलो आनी तो सध्या अमेरिकेक कम्प्युटर इंजिनियर म्हणून नोकरी करता," अशें ताका हांवें सांगलें. "अमेरिकेक नोकरी करून चडांत चड ताका कितले मेळटले? ताका परतून आपय, खंयचेय व्हड कंपनींत ताका 25 प्रतिशें भांडवलदार म्हणून भितर घेवया आनी ते कंपनीचो भागीदार करुया," असो प्रस्ताव ताणें म्हजे मुखार मांडलो. "तो सध्या अमेरिकेंतूच रावूंक सोदता, हांगां परतून येवपाचो ना; आयलो जाल्यार लेगीत ताका असल्यो ह्यो गजाली आवडनात," अशें म्हणून त्या मंत्र्याच्या प्रस्तावांतल्यान हांवें म्हजी सुटका करून घेतली. आपणालें काम करून घेवपाक, राज्य चलयतल्यांनी 'साम, दाम, दंड, भेद' ह्या चारूय उपायांचो फावो तसो वापर करचो, अशें हजारांनी वर्सां पयलीं चाणक्यान म्हणलां खंय. पोर्टाच्या अध्यक्षां कडेन जे तरेन हो मंत्री संपर्क दवरतालो, तें पळयल्यार हाका चाणक्याचोय गुरू म्हणचो पडटलो आशिल्लो.

एके फावटीं तो गोंयांत आयिल्लो आसतना असल्याच कसल्याय तरी विशयाचेर म्हजेर पिकार जालो, आनी हे फावटीं तुका आपूण दाखयतां अशें म्हणून तिडकीन दिल्लीक परतलो. पूण म्हजें नशीब बरें देखून हांव सुटलों. त्या मंत्र्याचीं कर्तुपां प्रधानमंत्र्याच्या कानार गेलीं जातलीं आनी देखून ताणे ह्या मंत्र्याचें खातेंच बदल्लें.

1996 डिसेबरांत हांव सेवेंतल्यान निवृत्त जावपाचों आशिल्लों. निवृत्त जातकच खंय रावप हो प्रस्न आशिल्लो. पणजे आमचो एक धाकलो फ्लॅट आशिल्लो, तो लताचे एके इश्टिणीक जाय आशिल्लो, देखून तिका आमी तो विकून उडयलो. पणजे खंयच्याच बिल्डिंगांनी ग्रावण्ड फ्लोराचेर फ्लॅट बांदिनात, दुकानांच बांदतात, "म्हज्या जाण्ट्या आवय बापायक ग्रावण्ड फ्लोराचेरूच फ्लॅट जाय, तुमचो फ्लॅट दिल्यार बऱ्याक पडटलो," अशें ते इश्टिणीन सांगतकच आमी तो तिकाच विकपाचो थारायलो आनी वास्को भोंवतणच्या वाठारांत निवृत्ती उपरांत रावपा खातीर घर बांदपाचें थारायलें. दाबोळी रंगवी इस्टेटींत प्लॉट घेवन एक व्हडसो बंगलो बांदलो. बंगल्याचीं सगलीं बिलां चेक दिवन फारीक जातालीं आनी म्हजे दोनूय पिए सगले बारीकसारीक हिशोब पळयताले. कांय कारणाक लागून मागीर आमी वास्को रावनासतना मडगांवां रावपाचें थारायलें. वास्कोचो बंगलो विकून मडगांवां घोगळांत मठाच्या वाठारांत एक बंगलो बांदून निवृत्त जाले उपरांत

आमी थंय रावपाक सुरवात केली. कोणेंय तरी म्हज्या 'बरें मागप्यान' दोनांय घरांचे फोटे काडून हांवें कोट्यांनी रुपयांचीं घरां बांदल्यांत आनी खूब भ्रश्टाचार केला अशी भारत सरकारा लागीं कागाळ केली. हांव निवृत्त जायना फुडें ही कागाळ केल्ली, म्हणटकच म्हज्या फाटल्यान पोर्टांत अध्यक्ष म्हणून सुत्रां हातांत घेतिल्ल्या जुजे पॉल ह्या अधिकाऱ्या कडेन भारत सरकारान ही कागाळ धाडली. तूं चवकशी कर आनी आमकां रिपोर्ट धाड, अशें भारत सरकारान ताका बरयिल्लें. आपले कडेन चवकशी करपाक यंत्रणा ना, भारत सरकारा कडेन आसा, देखून भारत सरकारानूच हाची चवकशी करची, अशें केंद्राक कळयिल्ल्याची ताणें म्हाका म्हायती दिली. खरें म्हणल्यार, आमकां अशें अशें पत्र आयलां, तुजेर अशी अशी कागाळ आयल्या, तुका कितें म्हणपाक जाय, अशें पोर्टांतल्या दक्षताय अधिकाऱ्यान म्हाका येवन विचारल्यार जातालें. पूण दक्षताय अधिकारी आयलो ना. आनी कांय तेंपान त्यो कागाळी म्हजे कडेन आयल्यो, तेन्ना हांवें भारत सरकाराक बारीकसाणीन विस्कटावन सगली म्हायती धाडली, आनी हीं दोनूय घरां बांदपाक खंयच्या खंयच्यान पयशे आयिल्ले त्या पयशांचो पुरावो, बँक अकावण्ट, बिलां, चेक नम्बर, हें सगलें म्हज्या दोनांय पिएनी वेवस्थीतपणान सांबाळून दवरिल्लें, तें सगलें धाडलें. भारत सरकारान मागीर तें सगलें सीबीआय कडेन धाडलें. सीबीआयन म्हजे कडेन आनीक कांय दुकुमेंत मागले, आनी सगले तपासतकच कांय तेंपान हे कागाळींत कांय तथ्य ना, भ्रश्टाचार बी कांय ना, अशें म्हणून रिपोर्ट धाडलो अशें म्हाका कळ्ळें.

फायल सीबीआय कडेन पावतकच आनी सीबीआयन म्हजे कडेन दुकुमेंत मागतकच गोंयच्या सगल्या खबरांपत्रांच्या संपादकांचीं हांवें पणजे बसका आपयली. संपादकां मदले जायते जाण म्हजे इश्ट आशिल्ल्यान आनी हेर संपादक म्हाका बरे वळखताले देखून, हांवें आपोवणें दितकच सगले संपादक आयले. भारत सरकाराक धाडिल्लो सगलो हिशोब हांवें सगल्या संपादकांक दिलो आनी तांकां कितें कितें चल्लां हाची म्हायती दिली. भारत सरकारान अजून मेरेन दिसाळ्यांक कांय म्हायती धाडूंक ना आनी सीबीआयन लेगीत कांय उजवाडाक हाडूंक ना, म्हणटकच आमीच "आ बैल मुझे मार" करपाची गरज ना; सीबीआयन जर कितेंय उजवाडाक हाडलें जाल्यार हावें दिल्ले दुकुमेंत वापरून म्हजे सगले दुकुमेंत लोकां मुखार दवरूं येता, अशें मत सगल्या संपादकांनी उक्तायलें.

सीबीआयची काम करपाची पद्दत चडशा लोकांक खबर नासता. भारत सरकारान तांकां कसलीय कागाळ वा कसलोय गुन्यांव खोलायेन तपासपाक लायल्यार ते एकदम तातूंत उडी घालिनात. पयलीं ते वयले वयर चवकशी करतात, तिका ते 'प्रिलिमिनरी इन्कायरी' म्हणटात. ते चवकशेंत कितेंय मेळ्ळें जाल्यार ते 'केस' नोंद

करून घेतात आनी खोलायेन चवकशी करतात. म्हजे विशींची कागाळ आनी हांवें धाडिल्ले दुकुमेंत तांचे कडेन पावतकच तांणी प्रिलिमिनरी इन्कायरी केली आनी मागीर म्हजे कडल्यान व्हेल्ले सगले दुकुमेंत म्हाका परतून धाडले. "म्हजेर केल्ले कागाळेंत कांय तथ्य ना, अशें तुमी म्हाका कळोवपाचें," अशें हांवें एका अधिकाऱ्याक म्हणलें. "तशी पद्दत ना; पूण केस नोंद करिनासतना दुकुमेंत परतून दितकच आमचे नदरेन ते कागाळींत कांय अर्थ ना, अशें समजुचें," अशी जाप म्हाका मेळ्ळी.

पोर्टांत काम करतल्या वयल्या पांवड्या वयल्या जायत्या अधिकाऱ्यांक म्हजे आड जाल्ले कागाळीचें खूब वायट दिसलें. तुवें निलंबीत केल्ल्या त्या कामगार संघटणेच्या फुडाऱ्यानूच ही कागाळ केली जावंक जाय, अशें ते म्हणपाक लागले. "तुजे आड कागाळ हांवें करूंक ना, म्हाका तशी लोकांच्या फाटल्यान रावन कागाळ करपाची संवय ना, झगडीं करपाचीं जाल्यार हांव समोरासमोर करतां, असलीं भिजूडपणाचीं कामां हांवें केन्नाच करूंक ना," अशें त्या कामगार फुडाऱ्यान आपले आपूण जावन, हांवें आपयनासतना म्हाका मेळून ही गजाल सांगली. पोर्टांत हांवें जायत्या अधिकाऱ्यां आड शिस्तभंगा खातीर कारवाय केल्ली. जायत्या जाणांच्यो एका खात्यांतल्यान दुसऱ्या खात्यांत बदल्यो केल्ल्यो, तातूंतल्याच कोणेंय तरी ती कागाळ केल्ली आसूंक जाय, अशें चडश्या अधिकाऱ्यांचें मत जालें.

पोर्टांत सड्यार अध्यक्षाच्या बंगल्या शेजरा पोर्टाची मेकळी सुवात आशिल्ली. ते जमनीचेर कितेंय तरी करपाक जाय, नाजाल्यार ती जमीन पोर्टाच्या हातांतल्यान वतली म्हणपाचें पोर्टाच्या अधिकाऱ्यांक दिसतालें. त्या काळांत पोर्टाचें प्रशासन तीन-चार वेगळ्यावेगळ्या बिल्डिंगांनी चलतालें. प्रशासनाचें काम सोंपें जावपाक एक वेगळी बिल्डिंग बांदून सगलें काम एके बिल्डिंगेंत हाडपाचें थारलें आनी सड्यार अध्यक्षाच्या बंगल्या कुशीक मेकळ्या आशिल्ल्या मैदानाचेर ती बिल्डिंग उबी जाली. ती बिल्डिंग उबी करता आसतना हांवें खूब भ्रश्टाचार केलो, म्हणून कांय लोकांनी कागाळ केली. ते कागाळींत कितेंय तथ्य आसा काय ना, तें पळोवपा खातीर सीबीआयन ते बिल्डिंगे कडेन संबंद आशिल्ल्यो सगल्यो फायली तपासल्यो, आनी अध्यक्षां आड जाल्ले कागाळींत कांय तथ्य ना, अशें थारायलें.

हांव एमपीटींत अध्यक्ष आसतना. 1991 त युगेशान इंजिनियरिंगाची पदवी घेतली आनी व्हड व्हड अखिल भारतीय परिक्षा आसतात तांची तो तयारी करूंक लागलो. ताणें आयएएस परिक्षेक बसचें अशें म्हजें आनी लताचें मत आशिल्लें.

त्या काळांत आयएएस परिक्षेक कम्प्यूटर इंजिनियरिंग मळावेले विशय नाशिल्ले.

आपणें कॉलेजींत शिकिल्ले विशय आयएएस परिक्षेंत घेना जाल्यार, आनी हेर खयंचेय नव्यान शिकचे पडिल्ले विशय घेवचे पडल्यार, आयएएसांत भितर सरप कुस्तार, हें म्हाका खबर आशिल्लें. पयलीं आयआयएमचे परिक्षेक बसून थंय प्रवेश मेळ्ळो जाल्यार एमबीए करून, मागीर ते विशय घेवन आयएएसाक बसपाचें थारलें. आयआयएमचे लेखी परिक्षेंत तो वेंचून आयलो, पूण बेंगळुरू आयआयएमांत इण्टरव्यूंत ताका येस मेळ्ळें ना. मागीर तो मास्टर ऑफ सायन्स (एमएस) पदवी घेवंक अमेरिकेंतल्या टॅक्सास युनिवर्सिटींत गेलो.

1994 च्या मार्च म्हयन्यांत मावजो कुटुंबातल्या वेदा कडेन ताचें लग्न जालें. लग्न जावन अमेरिकेक वचपी चलयो हुशार आसूंक जाय, कारण थंय सगलें काम म्हणल्यार मोटार चलोवप, भुरग्यांक इश्कोल आनी घर हांचे मदीं हाड–व्हर करप, घर सांबाळप आनी जाय जाल्यार नोकरीय करप हें सगलें बायलांक करचें पडटा. त्या भायर, अमेरिकेंत रावन, भारतीय संस्कृतायेंत भुरग्यांक वयर काडपाची कुस्तार जापसालदारकी भारतीय बायलांचेर आसता. वेदा सुंदर आनी हांसत्या तोंडाचें, देखून लग्नाच्या माटवांत आंगार भांगरांशिंगरां आनी गळ्यांत फुलांचो हार घालून लोकांक मेळपा खातीर उबें राविल्ले कडेन मुंबयच्यान आयिल्ल्या म्हज्या कांय इश्टांनीं ''अगदीं लक्ष्मी नारायणाचा जोडा आहे हो!'' अशें म्हणलें.

भ्रश्टाचारा आड झगडटल्यांनी आपणाली जीण आनी करण्यो निवळ आनी भ्रश्टाचारा विरयत आसची हाची जतनाय घेवंक जाय. व्हड व्हड अधिकाऱ्यांच्या वा मंत्र्यांच्या घरांनी लग्नां आनी हेर सुवाळे जातात तेन्ना तातूंत भ्रश्टाचार आसुंकूच जाय अशें चडशे लोक समजतात. देखून असल्या वेळार नितळ चरित्र आशिल्ल्या अधिकाऱ्यांनी आपल्यागेर जाता त्या सुवाळ्यांत कांयच भ्रश्टाचार ना हाची जाणविकाय शक्य तितली लोकां मदीं पातळावंक जाय. युगेशाच्या लग्नावेळार सगलीं बिलां म्हज्या 3 पीए कडेन येतालीं आनी तीं चेकान फारीक जातालीं. सगलो खर्च, बील नंबर, चेक नंबर, तारीख बी घालून म्हज्या खाशेल्या फायलींनी दवरिल्ली. पोर्टांत कडक शिस्त दवरपाचो यत्न केल्ल्यान खूबशे अधिकारी, कामगार आनी कामगार युनियनाचे फुडारी म्हजेर सदांच पिकार आसताले. अजापाची गजाल म्हणल्यार, पोर्टाच्या अध्यक्षान चल्याच्या लग्नांत भ्रश्टाचार केलो अशें म्हणून एक लेगीत कागाळ भारत सरकारा कडेन गेली ना.

लग्नाक, मुजीक भेटवस्त हाडची वा धाडची न्हय, अशें म्हणून गोंयांत सगल्या आमंत्रण पत्रिकांचेर बरयिल्लें आसता. युगेशाच्या लग्नाकूय बी आमी तशेंच बरयिल्लें. चेन्नै, बेंगळुरू आनी दिल्लीच्या म्हज्या कांय इश्टांनी म्हजीं फकांडां केलीं: "कितें रे, प्रेझेण्टां हाडूंक जाय म्हणून तूं याद करून दिता?" अशें म्हणून प्रत्येकान व्हडल्यान हांसत विचारलें. ''ही आमची गोंयची पद्दत. सगल्या लग्न सुवाळ्यांनी अशेंच बरयतात. खास

लार्गीचे सोयरे आनी इश्ट सोडल्यार कोण्ण भेटवस्त बी दिनात,'' अशें म्हणून परतून परतून तांकां सांगचें पडलें. दिल्ली, मुंबय, चेन्नै, बेंगळुरूक इश्टांच्या घरच्या लग्न सुवळयांक हांव गेल्लों आसतना दर फावटीं थंयच्या पद्दती प्रमाण हांवें न्हवऱ्याक वा व्हंकलेक भेटवण दिल्या. गोयांत आमची भेटवण न दिवपाची पद्दत हेर कडेन अजून सुरू जावंक ना काय दिसता. गोंयकारां कडल्यान हेरांनी घेवपा सारकी ही एकूच बरी देख आसा, अशें म्हाका दिसता.

भ्रश्टाचारा आड झगडटल्यांनी आपणाली जीण निवळ, भ्रश्टाचारा विरयत दवरची पडटा. आनी ताची जाणविकाय लोकांक दिवची पडटा. सरकारी प्रशासनांत, मागीर तें राज्यांत आसू वा केंद्रांत आसूं, वयल्या पांवड्याच्या अधिकाऱ्यांचेर अश्यो जायत्यो कागाळी जायत आसतात आनी तांकां जापो दीत रावचें पडटा. जापो दिवचो ना म्हणून ओगी रावल्यार त्यो कागाळी खऱ्यो, देखून त्या अधिकाऱ्यान जाप दिवंक ना, असो अर्थ वडील अधिकारी काडटात. हांव स वर्सां पोर्टाचो अध्यक्ष आसतना अश्यो खूबश्यो कागाळी येत रावताल्यो. आनी तांकां जापो दीत रावचें पडटालें. हांव खूब पार्ट्यो करतां आनी जेवणाची पुरवण करपी हॉटेलांतल्यान म्हाका कमिशनां मेळटात, अशी एक कागाळ जाली. ते कागाळीची जाप म्हणून अमक्या अमक्या वर्सा कितल्यो पार्ट्यो जाल्यो, खंयच्या हॉटेलांतल्यान जेवण मागयलें, बील कितलें जालें, बील कोणें फारीक केलें, ही सगली म्हायती आमकां धाडची पडली. ती कागाळ करतल्याक कांय फळ मेळ्ळें ना. आनीक अश्योच कितल्योश्योच कागाळी जायत आसताल्यो. जापो दिवपाचे प्रक्रियेंत आमचो बरोचसो वेळ फुकट वतालो.

"तुज्या बँकेच्या अकावण्टांत कितले पयशे आसात, अशें एक सीबीआय ऑफिसर विचारतालो," अशें एका बँक मॅनेजरान म्हाका सांगले. "ताच्या अकावण्टांत कांय पयशे नात, ताका आमी ओवरड्राफ्ट दिला," अशें त्या बँक मॅनेजरान त्या सीबीआय इन्स्पेक्टराक सांगलें. "तो असल्यो गजाली कित्याक विचारता?" अशें त्या मॅनेजरान म्हाका विचारलें. म्हाका कांयच खबर नाशिल्लें. हेर बँकांनीय बी तो इन्स्पेक्टर असले प्रस्न विचारीत भोंवतालो, अशें म्हाका कळ्ळें. "हें कितें चललां," अशें हांवें आमच्या दक्षताय अधिकाऱ्याक विचारतकच, ताणें एके घडणुकेची याद करून दिली. कांय म्हयन्यां फाटीं खंयच्यान तरी एक पुलीस ऑफिसर आयिल्लो, आनी ताणें आमचे कडेन कळंगुटे वचपाक जीप मागली. "आमी कांय ताका आपोवंक ना, आमच्या कामा खातीर तो कळंगुटे वचना, आनी देखून आमी ताका जीप दिवपाची गरज ना," अशें हांवें दक्षताय अधिकाऱ्याक सांगिल्लें. म्हाका बुद्द शिकोवपाक तोच अधिकारी बँकांनी वचून चवकशी करता जावंक जाय, असो आमकां दुबाव मारलो. "हें तुमी कितें चलयलां?" अशें म्हाका

दिल्ली विचारचें पडलें आनी त्या उपरांत त्या ऑफिसरान चवकशी करपाची बंद केली. हे गजालींतल्यान देख घेवपा सारकी म्हणल्यार जे सरकारी अधिकारी तुमकां त्रास दिवंक शकतात तांकां सदांच बरे खोशी दवरात, तांकां केन्नाच 'ना' म्हणूं नाकात. खाजगी कंपन्यो ही गजाल बेस बरी जाणात. हातांत सत्ता आशिल्ल्या सरकारी अधिकाऱ्यां भोंवतणीं नाचपाक तांणी खास कर्मचारी नेमिल्ले आसतात. पूण सरकारांतूच काम करतल्या खूबश्या अधिकाऱ्यांक हें तंत्र आपणावपाक जमना. हे खातीर वयल्या पांवड्याच्या अधिकाऱ्यां कडल्यानूच न्हय, तर राजकारणी लोकां कडल्यान लेगीत असल्या अधिकाऱ्यांक त्रास जातात. हेय गजालींचो पोर्टांत म्हाका खूब अणभव आयलो.

भारतीय घटनेंत घालून दिल्ल्या प्रमाण लोकांनी वेंचून दिल्ल्या आमदारांनी आनी खासदारांनी कायदे करपाचे आसतात आनी सरकारान, म्हणल्यार प्रधानमंत्री वा मुख्यमंत्री, हेर मंत्री, सचीव आनी हेर अधिकारी हांणी ते चालीक लावपाचे आसतात. ते कायदे सारके चालीक लायतात काय ना, सरकाराचें काम सारकें चलता काय ना, हें पळोवपाचें काम लोकसभेंत आनी विधानसभेंत आशिल्ल्या खासदारांचें आनी आमदारांचें.

मुरगांव पोर्ट ट्रस्ट भारत सरकाराचें आस्थापन आशिल्ल्यान लोकसभेच्यो वेगळ्योवेगळ्यो कमिटी दर वर्सा पोर्टाचें काम कशें चल्लां हें पळोवपाक येताल्यो. दरेके कमिटींत धा-बारा तरी खासदार आसताले. गोंय हें सोबीत राज्य म्हणून नामना जाल्ल्यान चडशे खासदार गोंयांत येवपाची संद व्हगडायनाशिल्ले. देखून, पोर्टांत येवपी संसदेच्यो कमिटी चडश्यो 'फुल्ल हावस' आसताल्यो. सरकारी आस्थापनांतल्या अधिकाऱ्यांनी ह्या कमिटीं कडेन कशें वागपाचें हें पयलीं सावन चलत आयिल्लें एक शास्त्र : "खासदारांक माथ्यार घेवन नाचयल्यार तांकां आमचें काम आवडटा, नाजाल्यार ते तापतात, फडफडटात आनी चुकी दाखयत रावतात," हें तें शास्त्र.

हांव स वर्सां एमपिटीचो अध्यक्ष आशिल्लों. दर वर्सा पांच-स समित्यो पोर्टाक भेट दिताल्यो. तांकां विमानतळार येवकार दिवपाक वचप, फुलांचे बुके दिवन तांकां येवकार दिवप, बऱ्यांतल्या बऱ्या ॲर कण्डीशण्ड मोटारींनी तांकां हाडप-व्हरप, तांची कितेंय खाजगी कामां आसल्यार तीं करप, तांकां आमच्या आस्थापना वतीन भेटवस्तू दिवप आनी निमाणें तांकां विमानतळार पावोवप, हें सगलें काम अध्यक्षाक आनी हेर अधिकाऱ्यांक करचें पडटालें.

कांय अणभव म्हज्यान केन्नाच विसरूंक जावचे नात.

हांव अध्यक्ष जातकच थोड्याच दिसांनी अनुसुचीत जात आनी जमात कमिटी पोर्टाक भेट दिवंक आयली. चलत आयिल्ल्या चालीरितीं प्रमाण अध्यक्षान कांय

अधिकाऱ्यांक घेवन विमानतळांत भितर सरपाच्या गेटी म्हऱ्यांत वचून कमिटीच्या वांगड्यांक फुलांचे बुके दिवन येवकार दिवपाचो आसता. थंय तांकां सगल्यांक उबे रावून बुके दिता म्हणसर कांय फावट कळाव जाता, कारण ते सगले एकाच वांगडा आयिल्ले नासतात. हेरांक बेठेंच उबें रावचें पडटा. "हांव विआयपी वेटींग रुमांत तांची वाट पळयतां, तुमी तांकां वचून हाडात, मागीर आमी तांकां हांगा बसोवन, च्या बी दिवन, फुलां बी दिवन येवकार दिवया," अशें हांवें आमच्या वडील अधिकाऱ्यांक सांगलें. हांव तांची वाट पळयत विआयपी रुमांत बसलों. ते आयले बाराबर, "आमचो अध्यक्ष विआयपी रुमांत तुमची वाट पळयता, ताणें तुमकां थंय येवंक सांगल्यात," अशें पोर्टाच्या सचिवान ते कमिटीच्या अध्यक्षाक सांगलें. तो अध्यक्ष पयलींच कसल्याय तरी कारणाक लागून पिकार आशिल्लो. "तुमचो अध्यक्ष आपणाक कोण समजता?" अशें म्हणून तो तिडकीन उसळ्ळो आनी सरळ हॉटेलांत या अशें म्हूण ताणें सचिवाक ऑर्डर दिली. म्हाका सगली खबर मेळना फुडें त्या अध्यक्षाक मेळपाक हांव हॉटेलांत गेलों तेन्ना "तुका हांगा मेळपाची आमची इत्सा ना, सांजे बसकेक मेळुया" असो ताणें म्हाका रकाद धाडलो. अनुसुचीत जाती आनी जमातींच्या विशयांत भारत सरकाराचें धोरण पोर्टांत बरे भशेन चालीक लागिल्लें, म्हणटकच आमच्या कामांत तांकां चड चुकी काडूंक मेळ्ळ्यो नात. अध्यक्ष मातसो तापट सभावाचो आशिल्लो, पूण हेर वांगडी बरे भशेन वागले आनी आमकां कांय व्हडलोसो त्रास जालो ना.

आनीक एक फावट दुसरे एके कमिटीच्या वांगड्यां कडेन बसका चलता आसतना म्हाका बरोच वाद घालचो पडलो. हांवें एका कर्मचाऱ्याक भ्रश्टाचाराक लागून निलंबीत केल्लो. तो अनुसुचीत जातींतलो आशिल्लो हें म्हाका खबर नाशिल्लें, आनी खबर आशिल्लें जाल्यार लेगीत ताका हांव निलंबीत करतलोंच आशिल्लों. कमिटीची बसका चलता आसतना अस्तंत बंगालच्या मार्कसिस्ट वांगड्यान हो विशय वयर काडलो आनी "तुवें ताका ताबडतोब कामार घेवंक जाय, कांय पुरावो नासतना तुवें ताका निलंबीत करपाक जायना, आनी तो अनुसुचीत जातींतलो कर्मचारी, हेंय तुवें मतींत घेवंक जाय," अशें म्हणून तो वांगडी म्हजेर तापूंक लागलो. "ताका परतून घेवंक मेळना, आमचे कडेन सध्या पुरावे आसात त्या आदाराचेर ताका निलंबीत केला आनी चवकशी पुराय जातकच ताका नोकरे वयल्यान काडून उडोवपाचो काय परतून घेवपाचो हें हांव थारायतलों," अशी हांवें जाप दिली. ते बाराबर आनीक एक वांगडी उसळ्ळो, "आमी सांगिल्लें तूं आयकना? तो सांगता तें तुवें करूंक जाय," अशें म्हणीत तो तापलो. तितले म्हणसर म्हजीय तकली ल्हवू ल्हवू तापताली. लोकसभेच्या वांगड्यांक भियेवन कायदे आनी नेम कुशीक काडून तांकां जाय तशें बेकायदेशीर रितीन प्रशासन चलयल्यार

प्रशासनाची वाट लागतली, अशें म्हाका सदांच दिसतालें. "संसदीय समितीचें काम म्हणल्यार पोर्टाचें काम कशें चलता तें पळोवपाचें. आमचें काम सुदारूंक जाय अशें समितीक दिसता जाल्यार समितीन आपणालो रिपोर्ट लोकसभेक धाडचो, लोकसभा मागीर तो रिपोर्ट आमच्या मंत्रालयाक धाडटली आनी मागीर मंत्रालय तो आमचे कडेन धाडून आमी तो चालीक लायतले. समितीच्या वांगड्यांक आमकां अशें करात, तशें करात म्हणून ऑर्डर दिवपाचो अधिकार ना," अशें हांवें त्या वांगड्यांक तिडकीन सांगलें. ते बाराबर खंयच्यान तरी लायटीचो शॉक लागिल्ले भशेन सगले एकामेकां कडेन पळोवंक लागले. थंय म्हज्या वांगडा हाजीर आशिल्ले पोर्टांतले वडील अधिकारीय बी काचाबूल जाले. प्रमोद महाजन ते समितीचो अध्यक्ष आशिल्लो. परिस्थिती हाता भायर वता अशें ताका दिसलें जावंये. "आमचें काम कितें आनी तुमचें काम कितें हें मागीर पळोवया, सध्या आमी ह्या विशयाचेर उलोवया," अशें म्हणून ताणें विशय बदल्लो. ते समितीन सरकाराक कसलो रिपोर्ट धाडलो तें म्हाका कळ्ळें ना, पूण त्या विशयाचेर आमकां दिल्ली सावन कांय पत्र आयलें ना.

पोर्टांतल्यो आनीक कांय यादी म्हणल्यार प्रधानमंत्र्यांच्या भेटींच्यो आनी राज्यपालांच्यो.

नरसिंह राव प्रधानमंत्री आसतना गोंयांत आयिल्लो तेन्ना रोमेश भंडारी राज्यपाल आशिल्लो. रोमेश भंडारी हो मूळ भारतीय विदेश सेवेंत आशिल्लो अधिकारी म्हणून हेर अधिकाऱ्यां विशीं ताका एक आपलेपण आसतालें. प्रधानमंत्री अमक्या अमक्या दिसा येता, राज्यपालान कांय जाणांक आपयल्यात, तुकाय बी आमंत्रण येतलें, तुवें येवंकूच जाय असो म्हाका राजभवनांतल्यान भंडारीच्या पिएचो फोन आयलो. पी व्ही आर के प्रसाद हो म्हज्या वांगडा भारतीय प्रशासन सेवेंत भितर सरिल्लो आंध्राचो अधिकारी, प्रधानमंत्र्यांचो मुखेल खाजगी सचीव म्हणून काम सांबाळटालो. "आमी खूब तेंप मेळूंक नात, देखून आमी राजभवनांत मेळुया," असो ताणेंय फोन केल्लो. हांव थंय गेल्या बाराबर रोमेश भंडारीन म्हजी नरसिंह रावा कडेन वळख करून दिली. नरसिंह रावान म्हाका पळयलो काय पळयलो ना हें खबर ना. ताच्या तोंडा वेल्यान कांयच समजनाशिल्लें.

"ताचे म्हऱ्यांत फोट्याक राव" अशें रोमेश भंडारीन म्हाका सांगलें, आनी नरसिंह रावा म्हऱ्यांत रावून हांवें फोटो काडून घेतलो. थंय लागीं प्रसाद उबो आशिल्लो. "प्रधानमंत्र्यां वांगडा एकलोच फोटो काडून घेवप म्हणल्यार म्हजो भोवमान मरे!" अशें हांवें ताका म्हणलें. ते बाराबर तो व्हडल्यान हांसलो. त्या हांसपाचो अर्थ दोन दिसां उपरांत म्हाका कळ्ळो. ते रातीं राजभवनांत आयिल्ल्या चडश्या लोकांनी प्रधानमंत्र्या वांगडा आपलो फोटो काडून घेतिल्लो.

हांव अध्यक्ष आसतना दोन राज्यपालां कडेन म्हजो चड लागींचो संबंद आयलो. पयलो भानुप्रताप सिंह, दुसरो रामानुजम! गोंयचे सगले मोटे मनीस राज्यपाल भानुप्रताप सिंहाक 'म्हाराज म्हाराज' म्हणून उखलून धरताले. मध्य प्रदेशांतल्या इंदौरा म्हऱ्यांत कांय गांवांचो आसपाव आशिल्ल्या वाठाराचो तो जमीनदार आशिल्लो आनी पयलींच्या तेंपार ताच्या जाण्टेल्यांक जशे म्हाराज म्हणटाले, तशेच आतांय बी भानुप्रताप सिंगाक थंय म्हाराज म्हणपाची प्रथा आसली. गोंयांत आशिल्ले व्हड व्हड क्रिस्तांव आनी हिंदू भाटकार उत्तर हिंदुस्थानांतल्या राजस्थान, मध्यप्रदेश, उत्तर प्रदेश आनी बिहार सारकिल्या राज्यांनी आशिल्ले जाल्यार थंयचे लोक तांकां म्हाराज म्हणटले आशिल्ले.

तमीळनाडूंत म्हजे वांगडा प्रशासन सेवेंत छत्रसाल सिंग नांवाचो बिहारचो एक अधिकारी आशिल्लो. तो बिहार आनी नेपाळ शिमे लागसार आशिल्ल्या एका 'म्हाराजा'ले चलये कडेन लग्न जाल्लो. ताचो म्हाराज मांव एके फावटीं मद्रासाक आयिल्लो आनी हांव ताका भोंवपाक घेवन गेल्लों. मावण्ट रोडा वयल्यान (अण्णा सालै) वतना रस्त्या कुशीक एका गाड्याचेर लोक सामोसा खातना ताका दिश्टी पडले. "चलो, वहाँ जाके समोसा खायेंगे," अशें ताणें म्हाका सांगलें. "आप इतने बडे महाराज, आप रोडसायड पे खडे रहके समोसा खायेंगे?" "अरे, काहेके महाराज? चारसौ-पांचसौ एकर जमीन के मालिक हैं, बस! गाँव के लोग हमको महाराज महाराज करके पुकारते हैं," अशी ताणें व्हडल्यान हांसत म्हाका जाप दिली.

भानुप्रताप सिंग हाका गोंयचे पयशेकार 'म्हाराज म्हाराज' म्हणून ताचे भोंवतणीं नाचतना आनी राजभवनांत पार्ट्यां वेळार लोकांक पियेवपा खातीर म्हारग व्हिस्कीच्यो क्रेटी धाडटना हांवें पळयल्ले. पयलीं भानुप्रताप सिंग लोकसभेचो वांगडी आशिल्लो. मागीर ताका केंद्रांतल्या कॉंग्रेस सरकारान गोंयचो राज्यपाल केलो. राज्यपालांनी राज्यांतल्या राजकारणांत वांटो घेवंक जायना, पूण भानुप्रताप सिंग गोंयच्या राजकारणांत घुस्पलो आनी अचकीत एक दीस ताचें राजकारण चड जाल्ल्यान भारत सरकारान ताचें पद काडून घेतलें. राज्यपालाचें पद सोडून तो दिल्लीक परतून वतना हांव आनी लता ताका पावोवपाक विमानतळार गेलीं. विमानतळार विआयपी वेटींग रुमांत तो एकलोच बशिल्लो. ताचे भोंवतणीं म्हाराज म्हाराज म्हणून सदांच नाचपी गोंयचे बरेचशे 'पयशेकार' लोक ताका बाय बाय म्हणपाक आसतले, अशें आमकां दिशिल्लें. ताका एकलोच पळोवन आमकां अजाप जालें. "तुमी खंय वचपाक आयल्यांत?" अशें ताणें म्हाका विचारलें. "सर, आमी खंयच वचनात, आमी तुकाच गूडबाय करपाक आयल्यांत," अशे हांवे आनी लतान ताका सांगलें. ते सरशीं ताच्या दोळ्यांत दुकां आयलीं. मागीर वास्कोचो प्रशांत जोशीय बी ताका गूडबाय म्हणपाक आयलो. सेक्युरिटी गेटी मेरेन ताका पावोवन

आमी तिगांय परतलीं. गोंयकारांच्या सभावाचें एक सामकें घाणयारें चित्र त्या दिसा आमच्या दोळ्यां मुखार उबें रावलें.

म्हजो लागींचो संबंद आयिल्लो दुसरो राज्यपाल म्हणल्यार रामानुजम! तो पयलीं इण्डियन नॅशनल ट्रेड युनियन काँग्रेस (इंटक)चो सचीव आशिल्लो. इंटक हो काँग्रेस पक्षाचो कामगार संघ, अशें लोक मानतात. रामानुजम सभावान सामको सादो. ताचे बायलेक तमीळ सोडून आनीक कसलीच भास कळनाशिल्ली. हांव तमीळनाडू काडराचो आयएएस अधिकारी हें कळना फुडें ताका आनी बायलेक खूब खोस जाली. फकत तमीळींत कोणा कडेन तरी उलोवपाक मेळचें म्हणून ताची बायल जायत्या फावटीं आपल्याक येवन मेळ, असो लताक रकाद धाडटाली. पोर्टांत केन्नाय पार्टेक आपयलो जाल्यार थंय सोरो आसूंक जायना आनी पाट्यो बेगीन काबार करपाक जाय, अश्यो अटी तो घालतालो. एके फावटीं सांजेवेळची च्या घेवपाक ताका आपयलो तेन्ना ताचे खातीर सगल्या लोकांक इडल्यो खावोवच्यो पडल्यो. तो इतलो सादो आनी इतल्या सरळ सभावाचो कीं तो केन्ना आयलो आनी केन्ना गेलो हें गोंयकारांक कळ्ळेंच ना.

राज्यपालाचो आनीक एक अणभव म्हणल्यार केदारनाथ साहनी कडेन आयिल्लो म्हजो संबंद. राज्यपाल जालो तरीय तो सगल्या सुवाळ्यांक आपणाली धोती, सदरो आनी चप्पल घालून वतालो आनी इतलो जाण्टो आसून लेगीत फास्ट चलून हेरांक फाटीं उडयतालो. तो राष्ट्रीय स्वयंसेवक संघाचो एक म्हालगडो फुडारी, अशें हांवें आयकल्लें. संघ परिवाराची राष्ट्र, राष्ट्रप्रेम, राष्ट्रनिश्ठा, ह्या विशयांची व्याख्या म्हाका आनी म्हज्या जायत्या इश्टांक केन्नाच मानवली ना. आपले संस्कृतायेचो आनी आपल्या मतांचो अभिमान आसप आनी तांकां दसून रावप हो गुण बरो. ह्या गुणाक लागून म्हाका केदारनाथ साहनीची तोखणाय दिसताली. कुस्ती करपी पैलवाना भशेन तो दिसतालो. गोंयकारांचे संस्कृताये विशीं खंय तरी ताणें उलोवप केलें. आनी गोंयकारांक भरपूर उपदेश दिलो. "तूं आयले बाराबर उपदेश दिवपाक सुरवात करूं नाका, पयलीं गोंयचो इतिहास आनी समाजांतल्यो चालीरिती शीक आनी मागीर उलय," असो हांवें हेराल्ड दिसाळ्यांत एक लेख बरयलो. ही गजाल हांव निवृत्त जातकच जाल्ली. ताणें तो लेख वाचलो. "राज्यपालाक तुजे वांगडा उलोवपाक जाय, देखून-- दिसा--वरांचेर यो"अशें म्हाका राजभवनांतल्यान आमंत्रण आयलें. तो म्हजे कडेन अर्द वर सुमार उलयलो. राजभवनांत राज्यपालाक मेळपाक आयिल्ल्या लोकांक च्या दिवपाची पद्दत पयलीं सावन चलत आयल्या. कांय काळ फकत च्या मेळटाली. कांय काळ च्या आनी केक मेळटालो. कांय काळ फकत च्या आनी बिस्किटी. केदारनाथ साहनीन भजीं दिवपाक सुरवात केली. घरचो जाण्टो जाल्ले भशेन, वेटराच्या हातांतल्यान भज्यांची बशी घेवन तो आपल्या हातान भजीं काडून म्हजे बशयेंत घालतालो. तो सगळ्यांकूच तशीं दितालो काय म्हाका

तीं भर्जीं सारकीं दिसत ना दिसत ह्या दुबावान तीं म्हजे बशयेंत घालतालो, हें सांगप कुस्तार! ताका वाचपाची खूब आवड आशिल्ली अशें दिसतालें. कारण तो उलयता ताचे वयल्यान ताणें खूब ग्रंथ वाचल्यात अशें दिसतालें. ताचे तकलेंत खंयच्याच विशयाचेर कसलोच गोंदळ आशिल्लो कसो दिसलो ना.

शणै गोंयबाबाची 125वी जयंती आमी गोंयांत मनयताले आनी ते समितीचो हांव कार्यकारी अध्यक्ष आशिल्लों. कोंकणीच्या मळार मोलादीक काम केल्ल्या गोंयच्या आनी कर्नाटकांतल्या सात म्हालगड्यांचो समिती भोवमान करपाची आशिल्ली. राज्यपालांच्या हातान तो भोवमान जावचो अशें आमी राज्यपालाक आमंत्रण दिलें आनी तांणी तें मानून घेतलें. कोंकणीचो दुस्वास करीत आयिल्ले थोडे आपल्याकूच व्हड समजुपी गोंयकार ताका मेळ्ळे आनी कोंकणींच्या ह्या सुवाळ्याक ताणें मुखेल सोयरो म्हणून वचचें न्हय, अशें सांगून ताका सतावपाक लागले. "हांवें थंय वचूंक जायना पूण कित्याक वचूंक जायना हाचेर तुमी एक्कूय सारकें कारण दिवंक शकनात," अशें म्हणून राज्यपालान तांकां परते धाडले. सुवाळ्याक आयलो तेन्ना कला अकादमीच्या भायर ताचे मोटारीचें दार उगडून हांवें ताका येवकार दिलो आनी ताका ब्लॅक बॉक्सांत घेवन वचूंक लागलों. ताका फास्ट चलपाची संवय आशिल्ल्यान आनी म्हाका म्हज्या दोळ्यांचे पिडेक लागून सवकास चलचें पडिल्ल्यान तो फुडें चलपाक लागलो आनी हांव ताचे फाटल्यान वचूंक लागलों. हांवें ताका सुवाळ्यांत व्हरपा वांट्याचो तोच म्हाका सुवाळ्याक व्हरता काय दिसतालें.

डिसेंबर 1996त हांव निवृत्त जालों. वयल्या पांवड्या वयले अधिकारी निवृत्त जातात तेन्ना व्हड सुवाळो करून तांचें व्हड 'स्तोत्र' गावन तांकां 'गूडबाय' म्हणपाची सगले कडेन प्रथा आसता. कसलेंय बळिश्ट कारण आसले बगर ही प्रथा कोणूच मोडिना. असल्या सुवाळ्यांनी मनांतल्यान बॉसाक गाळी घालपी लोक लेगीत बॉसा विशीं बरें बरें उलयतात. पोर्टांत म्हाका कितले कर्मचारी आनी अधिकारी गाळी घालताले, तें म्हाका खबर ना, पूण वेगळ्यावेगळ्या खात्यांनी जाल्ल्या 'फॅरवॅल' सुवाळ्यां वेळार सगल्यांनी स्तोत्रां म्हणपाचीं तीं म्हणलीं. उगडास उरपा सारको एक फॅरवॅल सुवाळो घडोवन हाडलो तो मॅकॅनिकल इंजिनियरींग खात्यान. सुवाळ्यांत सगळ्यांक दिश्टी पड सारको तांणी व्हडलो बॅनर लायिल्लो, 'द वन मॅन हू मेड ऑल द डिफरन्स.' ह्या इंग्लीश वाक्याचो उतरा उतरान अणकार करप कुस्तार. 'ज्या मनशाक लागून पोर्टांत बदल जाले तो हो मनीस' असो ताचो अर्थ काडूं येता.

निवृत्त जातकच कांय वर्सां तरी मडगांवां रावपाचें येवजून घोगळ वाठारांत आमी एक बंगलो बांदून घेतलो, आनी 1997च्या फेब्रुवारी म्हयन्यांत थंय रावपाक गेलीं.

## भाग 20
# नोकरेंतल्यान निवृत्ती, जिणेंतल्यान न्हय!

आमी पयलीं वास्कोच घर बांदून रावपाचें थारायिल्लें आनी थंय आमचें घरूय बी बांदून वयर सरिल्लें. पोर्टाचो अध्यक्ष आसतना खूबश्यो नव्यो इश्टागती जाल्यो. जाण्टेपणांत दुयेंसांचेर उपाय करपाक पोर्टाचें हॉस्पिटल उपकारा पडटलें असो विचार करून आमी दाबोळे रंगवी इस्टेटींत घर बांदिल्लें. मडगांवां रावल्यार भाटीकार मॉडेल हायस्कूलाचेंय काम पळोवपाक मेळटलें, कोंकणी भास आनी संस्कृताय फुलची, फळची म्हणून कोंकणीच्या मळार काम करपा खातीर आमी कांय इश्टांनी सुरू केल्ल्या 'अस्मिताय प्रतिश्ठान' संस्थेचेंय काम करपाक मेळटलें आनी मडगांव शारांतूय बी आर्दी सावन जायते इश्ट आनी सोयरे आशिल्ले, देखून वास्को परस मडगांवां रावप चड बरें, अशें आमकां दिसूंक लागलें. आनीक एक सादें, आमच्याच पिशेपणांक लागून उप्राशिल्लें कारण आशिल्लें. दर्याचें आनी भोंवतणच्या सैमाचें दर्शन जायत रावचें म्हणून वास्कोच्या घरांत हांवें आमचो बेडरूम पयले माळयेर करपाक लायलो. निवृत्ती उपरांत आमी जाण्टीं जायत रावतलीं ही गजाल हांव विसरिल्लों. आनी दीसरात वयर सकयल चड-देंव करपाक आमच्यांनी जातलें काय ना, हे गजालींचो विचार जालो ना. आनीक एक गजाल म्हणल्यार, म्हज्या दोळ्यांच्या दुयेंसाक अजून मेरेन संवसारांत खंयच उपाय सोदून काडूंक नाशिल्लो. तो उपाय फुडल्या दोन तीन वर्सां भितर येतलो अशें अमेरिकेंत, रशियेंत दोळ्यांचे दोतोर सांगताले. फाटलीं धा-पंदरा वर्सां ते अशेंच सांगताले. तो उपाय येवन

म्हाका उपेगी पड म्हणसर हांवें जीव सांबाळून रावंक जाय आनी हे पिरायेर सोंपणां वेल्यान निसरल्यार आनीक आनीक परतून उठपाची परिस्थिती उरची ना, असो विचार करून घरांत भितर सरचे पयलींच आमचो हुस्को सुरू जालो. तो हुस्को नाका, हें घर विकून मडगांवां दुसरें घर बांदुया, अशें थारलें.

बापून 1935 वर्सा मॉडेल इंग्लीश स्कूल सुरू केल्लें. 1937 वर्सा एक व्हड बिल्डींग भाड्यान घेवन, तें इश्कोल थंय हालयलें. 1987 मेरेन इश्कोल हें एका कुटुंबाच्या ट्रस्टान चलयिल्लें इश्कोल म्हणून चलतालें. 1987 त मॉडेल शिक्षणीक संस्था स्थापन जाली आनी ती संस्था तें इश्कोल चलोवंक लागली. भाटीकार कुटुंबाचो ते शिक्षणीक संस्थेंत म्हत्वाचो वांटो आशिल्लो.

इश्कोलाक आपले मालकीची एक बिल्डींग आसची आनी ती जाता तितले बेगीन उबी करची अशें बापूक सदांच दिसतालें. इश्कोला खातीर बापून बारीकसारीक पयशे एकठांय लेगीत केल्ले, पूण पयलींच्या काळांत सरकारी ग्राण्ट नाशिल्ल्यान ते पयशे इश्कोल चलोवपाक खर्च जाताले. 1987 त बापू भायर पडलो तेन्ना लेगीत 'आमची इश्कोलाची बिल्डींग आसूंक जाय' म्हणटाले ताचे पेल्यान कांय यत्न जावंक नाशिल्ले. सोसायटीच्यो कितल्योश्योच बसका जाताल्यो. आर एस कामत हो सोसायटीचो सुरवातीक सावन अध्यक्ष आशिल्लो. ताच्या हाता खाला इश्कोलाची बरी उदरगत जाताली. पूण फावो तितलो अर्थीक पालव हेरां कडल्यान मेळनाशिल्ल्यान इश्कोलाची स्वताची बिल्डिंग उबी जावंक पावली ना. 1991त हांव एमपिटीचो अध्यक्ष म्हणून येतकच बिल्डिंग उबी करपाच्या यत्नांक नेट आयलो आनी आर एस कामतीन आनी हांवें पयशे एकठांय करून बँकेचें रीण काडून हावसींग बोर्डांत बिल्डिग उबी केली आनी 1998त इश्कोलाच्यो भोवतेक कार्यावळी आनी वर्ग हावसींग बोर्डांतले नवे बिल्डींगेंत हालयले.

मडगांवां वचून रावतकच इश्कोलाच्या वेवस्थापनांत म्हाका चड वांटो घेवंक मेळ्ळो. संस्थेचो अध्यक्ष रवींद्र एस कामत, हांव आनी म्हजो पुतणयो राजेश भाटीकार इश्कोलाचें वेवस्थापन पळोवंक लागले आनी इश्कोलाचो दर्जो वाडूंक मजत जावंक लागली. इश्कोलाच्या भुरग्यांक आनी तांच्या आवयबापायांक नेमान कावन्सलिंग करपाचें काम लतान हातांत घेतलें.

चेन्नैक आनी बेंगळुरूक आसतना वेगळ्यावेगळ्या सरकारी आनी खाजगी आस्थापनांनी वचून थंयच्या अधिकाऱ्यां खातीर वा कर्मचाऱ्यां खातीर लता कावन्सलिंग आनी संबंधीत विशयांचेर वर्ग घेतालें. आमी चेन्नैक आसतना चेन्नै पोर्ट ट्रस्टांत दर म्हयन्याक एक फावटीं तें हे वर्ग घेतालें आनी स म्हयन्यांनी एक फावट अधिकाऱ्यां खातीर वर्ग घेवंक मुरगांव पोर्ट ट्रस्टांत येतालें. मुरगांव पोर्ट ट्रस्टांत हांव अध्यक्ष म्हणून

येवचे पयलीं तें तीन–चार फावटीं हे वर्ग घेवपाक चेन्नैच्यान मुरगांव आयिल्लें. हांव अध्यक्षाच्या पदार बसतकच कावन्सलिंगाच्या नांवा खाल कांय बायलो ताचे कडेन येवन आपल्या भुरग्यां खातीर पोर्टांत नोकऱ्यो मागप, पोर्टांत काम करतल्या आपल्या घोवाची बदली मागप, असल्यो गजाली सुरू जाल्यो. लताक हांवें कावन्सलिंगाचें काम बंद करपाक लायलें. पोर्टांत आदीं करतालें तसलें कावन्सलिंगाचे वर्गूय बी नाकात अशें हांवें सांगलें. गोंयांत खंयच्याच खाजगी आस्थापनांत असले वर्ग चलोवपाचे नात अशें हांवें थारायलें. मडगांवां रावंक वतकच आमच्या इश्कोलांत आनी इश्कोला भायर जंय जंय लोकांक जाय, थंय थंय ताणें कावन्सलिंगाचें काम सुरू केलें.

कोंकणी गोंयची राजभास जावन गोंय वेगळें राज्य जालें, पूण कोंकणींत पुस्तकां विकतीं घेन दिसलीं जाल्यार तीं खंय मेळटात तें कोणाक खबर नासता. एक तर पणजे गोवा कोंकणी अकादेमीच्या ऑफिसांत, नाजाल्यार मडगांवां कोंकणी भाशा मंडळांत वचून घेयात, अशें लोकांक सांगचें पडटा. गोंयकार कोंकणी पुस्तकां खूब विकतीं घेतात. दर वर्सा सुमार 100 कोंकणी पुस्तकां देवनागरी लिपयेंत उजवाडाक येतात. लोक हीं पुस्तकां विकतीं घेतात, पूण लेखकान वा आनीक कोणंय तरी तीं तांकां तांच्या घरा कडेन वचून विकचीं पडटात. देखून कोंकणी भाशेची आनी संस्कृतायेची एक सेवा म्हणून कोंकणी पुस्तकां विकपा खातीर एक खास पसरो सुरू करपाचें खूब तेंप म्हज्या मनांत घोळटालें. 1998 वर्सा पयलीं हरी मंदिरा मुखार दलाल कमर्शियल कॉम्प्लॅक्स बिल्डिंगेंत कोंकणी पुस्तकघर सुरू करून मागीर तें आक्यां विद्यानगरांत पालासियो सांतान गुदीन ह्या राजेंद्र तालकान बांदिल्ले कॉलनींत हालयलें. पयलीं पयलीं कोंकणी बरोवपी आपणालीं पुस्तकां थंय हाडून विकपाक दवरताले. खप सारको जायना अशें दिसतकच तांणी तीं पुस्तकां हाडपाचें बंद केलें. अस्मिताय प्रतिश्ठानाचीं आनी युगवेद प्रकाशनाचीं पुस्तकां थंय विकूंक दवरिल्लीं. किरकोळ खप व्हडलोसो जायनाशिल्लो कारण पसरो मुखेल रस्त्या म्हऱ्यांत नाशिल्लो. किरकोळ विकप 2007 मेरेन चल्लें. मागीर खंयच्याय खाजगी पुस्तकघरांतल्यान मागणी आयल्यार वा कोंकणी भाशा मंडळ, गोवा कोंकणी अकादेमी वा हेर संस्थांक जाय जाल्यार ठोक दरांत पुस्तकां विकपाचें काम चालू उरलें.

अस्मिताय प्रतिश्ठान ही संस्था आमी 1994 वर्सा सुरू केली. कोंकणींतल्यान मोलादीक ग्रंथ छापप, कोंकणीच्या मळार संशोधन आनी हेर मोलादीक काम केल्ल्यांक पुरस्कार दिवप, तशेंच हेर कडेन चलतल्या कोंकणी कामांक शक्य तितलो अर्थीक आनी बौद्धीक पालव दिवप हीं कामां अस्मिताय प्रतिश्ठान मडगांव शारांतल्यान करता. मडगांवां रावंक येतकच संस्थेच्या कामांत म्हाका आनी लताक चड वांटो घेवंक मेळ्ळो.

भाजपा सरकार सत्तेर येवचे पयलीं कांय काळ लुईझीन फालेरोचें सरकार आशिल्लें आनी ताचे पयलीं कांय म्हयने गोंयांत राष्ट्रपती शासन आशिल्लें. सेवाराम शर्मा हो म्हजे वांगडा आयएएसांत भितर सरिल्लो आनी मसुरीक वांगडाच प्रशिक्षण घेतिल्लो अधिकारी गोंयांत मुखेल सचीव पदाचेर आयिल्लो. लॅफ्टनण्ट जनरल जेकब हो गोंयचो राज्यपाल आशिल्लो. त्याच काळांत गोंय लोकसेवा आयोगांत म्हणल्यार 'गोवा पब्लीक सर्वीस कमिशनांत' अध्यक्षाचें पद रिकामें आशिल्लें. "तूं अध्यक्षाच्या पदार येवपाक तयार आसा?" अशें सेवाराम शर्मान म्हाका विचारलें. "म्हाका त्या पदार बसपाची इत्सा ना, कारण राष्ट्रपती राजवट सोंपतकच थंय आमची सदांची 'लोकशाय' परतून सुरू जातली आनी दीसरात मंत्र्यां आड झगडपाचें म्हाका पासियेंस नासतलें," अशें हांवें ताका सांगलें. "तूं दीसरात सरकारी भ्रश्टाचारा आड बोवाळ घालता, तो उणो करपाक जाय म्हण्टा आनी झगडपाची संद येतकच तूं महाभारतांतल्या अर्जुना भशेन झुजांतल्यान फाटीं सरपाक सोदता, हें समा न्हय," असो थोमणो सेवारामान मारलो. सेवाराम हेर इश्टां परस पुजा, धर्म, देव ह्या विशयांनी चड घुस्पल्लो आसतालो आनी येतनावतना ताका रामायण आनी महाभारतांतल्यो गजाली याद जाताल्यो. देखून ताणें संद मेळना फुडें म्हजो अर्जुन करून सोडलो. मागीर एक दीस राज्यपालान म्हाका आपोवंक धाडलो आनी तुवें तें पद घेतल्यार गोंयच्या प्रशासनाक बऱ्याक पडटलें, अशें सांगून तें पद घेवपाचो म्हाका आग्रो केलो. तेन्ना गोवा लोकसेवा आयोगाचो हांव अध्यक्ष जालों.

गोंय सरकारांत तेन्ना वयल्यान सकयल मेरेन सुमार 40,000 कर्मचारी काम करताले. तातूंतल्या फकत 4,000 सुमार 'अ' आनी 'ब' म्हणल्यार वयल्या पांवड्या वयल्या अधिकाऱ्यांची वेंचणूक गोवा लोकसेवा आयोगाच्या हातांत आशिल्ली. हेर 36,000 कर्मचाऱ्यांची नेमणूक सरकारान आपल्या हातांत दवरिल्ली. सरकारांतल्या लोकांक भरपूर पयसो खावयले बगर एकूय नोकरी मेळना, अशें सगले कडेन लोक उलयताले. भारतीय घटनेन घालून दिल्ले प्रमाण लोकसेवा आयोग फकत उमेदवारांची वेंचणूक करता, नेमणूक करिना; नेमणूक करपाचें काम सरकाराचें. सादारणपणान लोकसेवा आयोगान वेंचणूक केल्ल्या उमेदवारांची सरकार नेमणूक करता. सरकारांत भ्रश्टाचार म्हणटात तो खंयूय, केन्नाय आनी कसोय जावं येता. पूण लोकसेवा आयोगान वेंचणूक केल्यार भ्रश्टाचार उणो जावं येता आनी सरकारान वेंचणूक केल्यार भ्रश्टाचार चड जाता अशें प्रशासनांतले आनी प्रशासना भायले गिन्यानी मानतात. 1987 उपरांत म्हणल्यार गोंय संघप्रदेशाचें एक वेगळें राज्य जातकच, भ्रश्टाचार तेंगशेर पावला, अशें लोक मानूंक लागल्यात. सगल्या सरकारी कर्मचाऱ्यांची वेंचणूक लोकसेवा आयोगा वरवीं करीत जाल्यार हो भ्रश्टाचार जायतो उणो जातलो, हें हांवें राज्यपालांक पटोवन दिलें आनी 'अ', 'ब', 'क', आनी 'ड' ह्या सगल्या वर्गांतली वेंचणूक लोकसेवा आयोगान आपल्या

हातांत घेवची, अशी राज्यपालान ऑर्डर काडली. मागीर दोन-तीन म्हयन्यांनी राष्ट्रपती शासन सोंपलें आनी लुईझीन फालेरोचें मंत्रीमंडळ सरकार चलोवंक लागलें. सत्ता हातांत घेतले बाराबर तांणी ताकतिकेन 'क' आनी 'ड' वर्गांतल्या कर्मचाऱ्यांची वेंचणूक लोकसेवा आयोगा कडल्यान काडून घेतली आनी ही वेंचणूक पयलीं भशेन सरकारी खार्तीं करतलीं म्हणपाची ऑर्डर काडली. ही सरकाराची करणी भारतीय घटने आड आसा, अशें हांवें सरकाराक पत्र बरयलें. ही ऑर्डर भारतीय घटने आड ना, अशें सरकाराच्या कायदो खात्यान आपलें मत दिलें. सरकाराची ही करणी लोकसेवा आयोगाचो अध्यक्ष ह्या नात्यान म्हाका पटूंक ना आनी भ्रश्टाचाराक चड वाव दिवपी ह्या सरकारी धोरणाक म्हजो विरोध दाखोवपाक हांवें लोकसेवा आयोग अध्यक्षपदाचो राजिनामो दिलो. राज्यपाल जेकब आनी मुखेल सचीव सेवाराम शर्मांक वायट दिसलें. पूण ताका उपाय नाशिल्लो. लुईझीन फालेर सरकार वचून मागीर भाजपाचो आसपाव आशिल्लें सार्दीन सरकार आयलें आनी मागीर सार्दीन सरकार वचून भाजपाचें सरकार आयलें. पूण कोणेंच कायंच बदल्लें ना.

आनीक एक म्हत्वाचें काम हांवें आनी म्हज्या इश्टांनी सुरू केलें, तें म्हणल्यार 2003 वर्सा 'नितळ जीण ट्रस्ट'ची स्थापणूक. गोंयांत भ्रश्टाचार वाडत चल्ला आनी भ्रश्टाचारा आड आवाज काडपाक खंयचीच संस्था मुखार येना, राजकी पक्ष आपल्या हातांत सत्ता नासता तेन्ना सरकारांत भ्रश्टाचार चल्ला म्हणून करंदाय मारता, पूण आपल्या हातांत सत्ता येतकच तोच भ्रश्टाचार चालू दवरता. सरकारांत चलिल्ल्या भ्रश्टाचारा विशीं लोकांची जाणविकाय वाडोवपाचें आनी भ्रश्टाचारा आड आवाज उठोवपाचें काम करपा खातीर आमी कांय इश्टांनी एकठांय येवन गोंयच्या आप-वावुरपी संस्थांक एकठांय हाडून भ्रश्टाचारा आड आवाज उठोवपाचो यत्न केलो. 'जॉयण्ट ॲक्शन कमिटी अगेन्स्ट करप्शन' (जॅकॅक) नांवाची समिती घडोवन ते समितीच्या नांवा खाल आमी पणजे आनी मडगांवां भौशीक सभा आनी हेर कांय कार्यावळी केल्यो. मागीर ल्हवू ल्हवू ते समितींतल्यान एक एक करून सगल्यो संस्था फाटीं सरल्यो आनी अखेरेक ती समिती आमकां बरखास्त करची पडली. पूण भ्रश्टाचारा आड आवाज उठोवपाकूच जाय, ओगी बसपाक फावना म्हणपाचो विचार आमकां सतायतालो. अखेरेक ॲड. उदय भेंब्रे, ॲड. बेर्नाद-डिसोझा, झुजे मारी मिरांदा, शशी कामत, आवदा व्हिएगश, लता आनी हांव मेळून आमी 'नितळ जीण ट्रस्ट' हो ट्रस्ट स्थापन करून रजिस्टर केलो आनी हांव त्या ट्रस्टाचो अध्यक्ष जालों. संस्थेचें काम आमचे तांकी प्रमाण आमकां जमता तशें आमी चलयतात आनी संद मेळटा तश्यो आमच्यो कार्यावळी चालू आसतात. सरकाराक भ्रश्टाचाराच्या विशयाचेर पत्रां बरोवप, लोकांची जाणविकाय वाडोवपाक भौशीक सभा घडोवन हाडप, सरकारा आड उच्च न्यायालयांत केशी करप, असल्यो कार्यावळी चालूच आसात.

प्रादेशीक आराखडो-2011, 2006 वर्सा उजवाडाक आयलो आनी मागीर तो भायर मारचो आनी नवो करचो म्हणून गोंयकारांची चळवळ सुरू जाली. 2005 मेरेन गोंयांत भाजपाची राजवट आशिल्ली. हांव आनी म्हजे इश्ट हांचीं राजकी मतां संघ परिवाराच्या धोरणां कडेन जुळनाशिल्लीं. काँग्रेसीच्या धोरणां कडेन जुळटालीं पूण काँग्रेस सरकारांत चलिल्लो भ्रश्टाचार पळोवन मन विट्टालें आनी फुडाऱ्यांची तिडक मारताली. इतलें आसून लेगीत निवृत्त जातकच भाजपा सरकारान म्हजो एके तरेन भोवमान केलो.

फ्रांसिस्क सार्दीन मुख्यमंत्री आसतना ताच्या सरकारान बरेंचशें रीण काडिल्लें. सरकारान रीण काडटासतना बारीकसारीक चालीरिती आनी नेम पाळचे पडटात आनी तें सगलें काम करपाक सरकार एजण्ट नेमता. त्या एजण्टांक कमिशन दिवचें पडटा. खंयचो एजण्ट नेमचो तें थारावपाक सरकाराक कांय प्रक्रिया आपणावची पडटा. सार्दीन सरकारान रीण काडचे पयलीं हे नेम सारके पाळूंक नात, एजण्टांक फावो ताचे परस चड कमिशन दिल्लें आनी हें चड कमिशन दितना सरकारांत कोणेंय तरी भ्रश्टाचार केला म्हणपाच्यो वावड्यो आशिल्ल्यो. ह्या गजालींचेर चवकशी करपा खातीर कोणूय तरी 'बरें चरित्र' आशिल्लो आनी कोणाचेंच आयकनासतना कायद्या प्रमाण न्याय दिवपी असो मनीस भाजपा सरकाराक जाय आशिल्लो. तेन्नाचो मुख्यमंत्री मनोहर पर्रीकार हाणें ही चवकशी करपाक तयार आसा काय म्हणून म्हाका विचारलें आनी हांवें हय म्हणून सांगतकच मागीर एक सरकारी ऑर्डर काडून म्हजी 'चवकशी अधिकारी' म्हणून नेमणूक केली. चार म्हयने फायली तपासून संबंदीत अधिकाऱ्यांच्यो जबान्यो घेवन चवकशी पुराय करून हांवें म्हजो अहवाल दिलो. आदलो मुख्यमंत्री सार्दीन हाचेर भारतीय दंड संहिते खाला कारवाय करपाक मेळटा काय ना हें सरकाराच्या कायदो खात्यान तपासचें आनी फुडली कारवाय करची, कारण रीण काडपाचे हे प्रक्रियेंत भरपूर घुस्पागोंदळ जाला आनी अधिकाऱ्यांनी जें कितें फायलीचेर बरयलां ताचे वयल्यान ह्या घुस्पागोंदळाक अधिकारी जापसालदार नात हें कळटा, असो अहवाल हांवें सरकाराक दिलो. त्या अहवालाचेर सरकारान कसली कारवाय केली तें कळ्ळें ना. "आमी सांगतां तें तूं आयक, नाजाल्यार हो अहवाल वापरून आमी तुका त्रासांत उडयतले" अशें म्हणून सरकारान त्या अहवालाचो सार्दीना आड राजकी उपेग केलो आसुंये, अशें कांय जाणांचें मत जालें.

गोंयांत जायते ल्हान उद्देग-धंदे 'सीक' जाल्ले, म्हणल्यार तरातरांचे कारखाने बी लुकसाणींत चलून बंद पडिल्ले. हे उद्देग-धंदे तांच्या धनयांनी परतून सुरू करचे म्हणून सरकार तांकां कसलोय तरी पालव दिवंक सोदतालें. कसलो आनी कोणाक पालव दिवचो आनी ते खातीर कसले नेम करचे हें तपासपा खातीर सरकारान एक समिती नेमली आनी ते समितीचो म्हाका अध्यक्ष नेमलो. सरकारान पालव दिवचो म्हणून जायत्या

'सिक' उद्देग-धंद्यांचे अर्ज सरकारा कडेन आयिल्ले, ते अर्जूय बी तपासपा खातीर सरकारान आमचे समिती कडेन धाडले. कांय म्हयन्यांनी आमी आमचो अहवाल सरकारा कडेन दिलो. त्या अहवालांत शिफारस केल्ले प्रमाण पयलीं भाजपा सरकारान आनी मागीर काँग्रेस सरकारान कसली कारवाय केल्या हें आमकां खबर ना. सरकारांत असले बरेचशे अहवाल वाळटींनी खावन खंयचेय तरी आरमारींत पडिल्ले आसतात. तसोच होय आमचो अहवाल वाळटींनी खाला काय ना हें आमकां खबर ना.

आनीक एक महत्वाची घडणूक म्हणल्यार 'गोवन ऑबझर्वर' ह्या सप्तकी नेमाळ्याची. ऑक्टोबर 2003 त राजन नारायण ह्या म्हज्या इश्टान हॅराल्ड दिसाळ्याचें संपादक पद सोडून दिलें. ताचे पयलीं एक सप्टेंबराच्यान ताणें आपणाले 'स्ट्रे थॉट्स' इण्टरनॅटार बरोवपाक सुरवात केल्ली. 15 नोवेंबराक आमी कांय जाणांनी मेळून पयशे एकठांय करून राजन नारायणाक 'गोवन ऑबझर्वर' हें सप्तकी नेमाळें सुरू करपाक पालव दिलो. भाजपाचे राजवटींत कोणूच सरकाराच्या धोरणा आड उलोवंक तयार नाशिल्लो. लोक आपणालो जीव सांबाळपाक 'सर सलामत तो पगडी पचास' म्हणून भियेवन भियेवन दीस काडटाले. एक सुनापरान्त कोंकणी दिसाळें सोडल्यार गोंयच्या खंयच्याच दिसाळ्यांनी सरकारा आड कोण्ण बरयनाशिल्लो. सरकारा आड बरयल्यार सरकारी जायरातींतल्यान येवपी येणावळ बंद जातली अशी सगल्यांक भिरांत आशिल्ली. हॅराल्डांत राजन नारायण सरकारा आड बरयतालो. पूण तो त्या दिसाळ्यांतल्यान भायर सरतकच थंय पयलीं भशेन निर्भीडपणान, भिरांत नासतना कोणूय बरयतलो काय ना तें आमकां खबर नाशिल्लें. देखून राजकारण्यांचो भ्रश्टाचार उक्ताडार हाडपा खातीर आनी भिरांत नासतना सरकाराच्यो बऱ्योवायट करण्यो तपासपा खातीर इंग्लीशींत नेमाळ्याची गरज आशिल्ली. जमता तितले पयशे एकठांय करून त्या पयश्यांनी दिसाळें चलचें नाशिल्लें देखून सप्तकी नेमाळें आमच्या पालवान राजन नारायणान सुरू केलें. हॅराल्ड दिसाळ्यांत फाटलीं वीस वर्सां ताचे अग्रलेख आनी हेर लेख वाचून गोंयांत आनी भारता भायर राबितो केल्ले जायते गोंयकार ताका माथ्यार घेताले आनी ताचे खातीर कितेंय करपाक ते तयार आशिल्ले. 'गोवन ऑबझर्वर' सुरू करपाक चडशे पयशे तांणी धाडून दिले. गोंयच्या खूबश्या आस्तीक लोकांनी मजत केली, पूण भाजपाचे भिरांतीन आपलें नांव उजवाडायनाकात अशें राजन नारायणाक सुचयलें. गोंय महाराष्ट्रांत वचचें न्हय म्हणून 1963त राष्ट्रमत दिसाळें सुरू करपाक पयशे दिवपी आनी मागीर ओपिनियन पोला वेळार गोंय वेगळें उरचें म्हणून सगले तरांचो पालव दिवपी आनी गोंय आनी कोंकणी खातीर सदांच वावुरपी, अशा मडगांवचे एके मिनेर फामिलीच्या वडील वांगड्यान सगल्यां परस चड मजत केली.

गोवन ऑबझर्वरांत वेगळ्यावेगळ्या विशयांचेर लेख बरोवपाचें म्हजें काम चालूच आशिल्लें. ते भायर 'गोवा पुट' नांवाचें हांवें एक सदर सुरू केलें. तातूंत 'गोवा पुट' ह्या राज्यांत राजकारण कशें चलता, राजकारणी कसलीं चिकानां करतात, हाचेर ल्हान ल्हान नाटकुलीं बरयतालों. त्या नाटकुल्यांतलीं नांवां वाचून जायते लोक हें नाटकुलें गोंयचे परिस्थितीचेर आदारून बरयलां अशें म्हणटाले. देखीक हांव 'पर्रीटलर' नांवाच्या 'गोवा पुटां'तल्या एका राजकी फुडाऱ्या विशीं बरयतना हांव मनोहर पर्रीकारा विशीं बरयतां अशें जायते लोक म्हणटाले. ही गजाल खरी न्हय. पूण गोंयांतल्या घडणुकांचें त्या काणयां वरवीं दर्शन जायनाशिल्लें अशें म्हणूं नजो, कारण आपले भोंवतणीं जें दिसता, जें घडटा, जो अणभव लेखकाक येता, ते अणभव लेखकाच्या विचारांचो एक भाग जाता आनी जायते फावटीं तो काणयां वरवीं उजवाडाक येता. 'गोवा पुट' हें सदर लोकांक खूब आवडपाक लागलें. मागीर कांय खाजगी कारणांक लागून म्हाका तें बंद करचें पडलें.

2006 ऑक्टोबरांत 'गोवा बचाव अभियान' सुरू जालें आनी नितळ जीण ट्रस्ट त्या अभियानाचो एक म्हत्वाचो घटक जावन तांणी घडोवन हाडिल्ले चळवळीचो सासणाचो वांटो जावन बसलें. फुडारांत योग्य ते दिशेन गोंयची अर्थीक आनी समाजीक उदरगत जावपा खातीर गोंय सरकारान दर धा वर्सांनी येवजण करची पडटा. ती येवजण शार आनी गांवगिरो वाठार येवजण कायदो ह्या कायद्या खाल करची पडटा. कायद्या खाल ते येवजणेचें नांव 'प्रादेशीक आराखडो' (रिजनल प्लॅन) अशें आसता. गोंयचो फाटलो प्रादेशीक आराखडो 2001त काबार जाल्लो. 2001-11 ह्या धा वर्सां खातीर प्रादेशीक आराखडो करपाक सरकारान 1999त सुरवात केल्ली. पूण जायत्या कारणांक लागून तो प्रादेशीक आराखडो 2006 त उजवाडाक आयलो आनी गोंयच्या राजकारण्यांनी मोटे चलाखीन दिल्ली-मुंबयच्या कोट्याधीश बिल्डरांक गोंय विकून आपलीं बोल्सां भरपा खातीर ही येवजण केल्या म्हणपाचें लोकांच्या लक्षांत आयलें. शेतां, भाटां, रानां, दोंगुल्ल्यो हांचे खाला आशिल्ली लाखांनी एकर जमीन व्हड-व्हड बिल्डिंगो, हॉटेलां, गॉल्फ कोर्स आनी असले हेर प्रकल्प बांदपा खातीर मेकळी करून दिली. ती जमीन मेकळी करपा खातीर कोट्यांनी रुपयांचो भ्रश्टाचार जालो जावंक जाय, असो लोकांक दुबाव मारलो. फुडल्या पिळग्यां खातीर गोंय वाटावपाक जायत्या आप-वावुरपी संस्थांनी आनी प्रामाणीक कार्यकर्त्यांनी एकठांय येवन सुरू केल्ली चळवळ म्हणल्यार 'गोवा बचाव अभियान!' नितळ जीण ट्रस्टाचो अध्यक्ष ह्या नात्यान गोवा बचाव अभियानाच्या कार्यावळींनी वांटो घेतना म्हाका बरे-वायट अशे अणभव आयले. अधिकारी राजकारण्यांक गरजे भायर भियेवन दीस काडटात हें म्हाका आनीक एक फावट सरकारी बांदावळीच्या भायल्यान रावन पळोवंक मेळ्ळें. काम सारकें करिनात म्हणून सरकाराची,

मंत्र्यांची, भौशीक सभांनी प्रादेशीक आराखड्याचेर उलयतना तासमपट्टी करची पडटाली. देखून मिनिस्टर बी म्हजेर सदांच पिकार आसताले. वयलेवयर खंयूंय मेळ्ळ्यार हांसून जाप दिताले, पूण भितरल्यान फणफणटाले. सरकाराक हांव 'पॅर्सोना नॉन ग्राटा' म्हणल्यार संबंद न दवरपा सारको मनीस म्हणून गोंयच्या सरकारांत मुखेल पदां सांबाळून बशिल्ल्या दिल्लीच्यान आयिल्ल्या चडश्या आयएएस अधिकाऱ्यांक कळ्ळें. केन्नाय फोन केल्यार पयलीं इश्टागतीन उलोवपी आनी म्हायती दिवपी अधिकारी आतां वयलेवयर जापो दिवन हांव हाचे फुडें तांचे कडेन उलयना जाल्यार बरो अशें सुचयतात काय दिसतालें. आयएएस अधिकाऱ्यांनी आपली वागणूक इतल्या सकयल्या पांवड्यार कित्याक व्हरची हाचें म्हाका अजाप जातालें. हांव जरीय निवृत्त जाल्लों, तरी ज्युनियर अधिकाऱ्यां कडल्यान असली वागणूक मेळटा म्हणून वायट दिसतालें. मागीर हांवें त्या अधिकाऱ्यां कडेन उलोवपूच सोडलें. केन्नाय तांचे कडेन भासाभास करपाक गेलों जाल्यार गोवा बचाव अभियानाचो एक वांगडी म्हणून तांचे मुखार बसतालों आनी हेरां वांगडा तांचे कडेन वाद घालतालों.

जून 2007 त गोंयच्यो वेंचणुको जाल्यो. ताचें पयलीं गोवा बचाव अभियानाचे चळवळीक लागून कॉंग्रेस सरकारान प्रादेशीक आराखडो-2011 रद्द केल्लो आनी नवो आराखडो करतले अशी घोशणा केल्ली. गोवा बचाव अभियानाची चळवळ भारतांतल्या व्हड-व्हड दिसाळ्यांनी आनी टिवी चॅनलांनी उखलून धरली आनी एक लेगीत फातर मारिनासतना, कांयच हिंसा करिनासतना लोकांनी सरकारी धोरण कशें बदलूं येता हाचें हें बेस बरें उदाहरण म्हणून अभियानाचे चळवळीची तोखणाय जाली. लोक एकठांय येवन संघटीत जावन तांणी सरकाराचेर चेपण हाडल्यार कसलेंय उद्दिश्ट सादूं येता हें गोंयकारांक कळिल्लें. गोंयकारां भितर जाल्ली ही जागृताय वेचणुकां वेळार कॉंग्रेसीक बादतली देखून कॉंग्रेस सरकारान वेंचणूक दोळ्यां मुखार दवरून प्रादेशीक आराखडो 2011 रद्द केलो. गोंयांत भाजपा आनी कॉंग्रेस हांचे मदलो निधर्मी, निवळ आनी बरें सरकार दिवपी गोंयचो एक पक्ष आसचो आनी गोवा बचाव अभियानान आपणालें रूप बदलून राजकी पक्ष सुरू करचो असो सूर गोंयच्या सगल्या भागांतल्यान येवंक लागलो. अभियानाच्या वांगड्यांनी हाचेर खूब विचार केलो आनी राजकी पक्ष जावचो न्हय आनी राजकारणांत वांटो घेवचो न्हय आनी अभियान ही सासणाचीच एक गोंयकारांची चळवळ म्हणून चालू उरची, अशें सगल्या वांगड्यांनी थारायलें.

राजकी पक्ष जावचो न्हय हें सगल्यांक पटलें पूण राजकारणांत वांटो घेवचो न्हय म्हणटात तें खूब जाणांक पटूंक नाशिल्लें. फकत एक बिगर सरकारी चळवळ वा संस्था म्हणून सरकाराचेर चेपण हाडल्यार सरकारी धोरण बदलना, पूण राजकारणाचो

एक वांटो जावन भितरल्यान चेपण हाडून राजकारण निवळ करप आनी ताचो दर्जो वाडोवप हें सोपें, अशें म्हाका आनी म्हज्या जायत्या इश्टांक दिसतालें. 2007 तल्या वेंचणुकां विशीं लोकां भितर कसलीय जागृताय करतलो जाल्यार राजकारणांत वांटो घेतले बगर तें जावचें ना, अशें आमकां दिसलें, आनी आमी 'जागृत गोंय' नांवाची आनीक एक आघाडी सुरू केली. खंयच्या मतदारसंघांत खंयच्या उमेदवाराक मतां दिवचीं तें आमी थारायलें आनी त्या प्रमाण खबरांपत्रांत जायराती दिल्यो. भ्रश्टाचाराचे आरोप आशिल्ल्या जायत्या उमेदवारांचीं नांवां आमी दिसाळ्यांनी उजवाडायलीं आनी तांकां मतां दिवचीं न्हय अशें लोकां कडेन मागणें केलें. आमी वेंचून काडिल्ल्या उमेदवारांक तेंको दिवपा खातीर आमी पांच-स सुवातांनी भौशीक सभा घडोवन हाडल्यो. आमची लोकशाय म्हणल्यार फकत पयशांचो खेळ अशें आमी जायते कडेन वाचताले. पूण 2007त पयले फावटीं हे गजालीचो अणभव लागींच्यान घेतलो. भ्रश्टाचाराचे आरोप आशिल्ले उमेदवार, जांकां मतां दिवंनाकात म्हणून लोकांक सांगिल्लें तेच उमेदवार फाटले फावटीं परस चड मतांनी निवडून आयले आनी आमी शिफारस केल्ले 'बरे' उमेदवार हारले आनी कांय जाणांचें 'डिपॉझीट' लेगीत जप्त जालें. वेंचणूक जातकच गोंयकारांक सतावपी म्हत्वाच्या विशयांचेर दर म्हयन्याक आमी भौशीक उलोवपां सुरू केलीं. लोकां भितर जाणविकाय वाडची हें हाचे फाटलें उद्दिश्ट. पयलीं पयलीं खूब लोक येताले. दीस वता तशे लोक उणें जावंक लागले. 'गोंयची अर्थीक परिस्थिती आनी फुडार' ह्या विशयाचेर दवरिल्ल्या एका व्याख्यानाक कोण्ण आयलो ना. त्या दिसाच्यान 'जागृत गोंय' बंद पडूंक लागलें.

प्रादेशीक आराखडो-11 आडची चळवळ सोंपली, गोवा बचाव अभियान थंडावलें, 'जागृत गोंय' आघाडेंतल्यान कार्यकर्ते फाटीं सरूंक लागले, आनी त्याच वेळार 'खास अर्थीक विभागा' आड चळवळ सुरू जाली. जागृत गोंयच्या वतीन ते चळवळींत पडटकच लताक आनी म्हाका दीस केन्ना उदेवन अस्तंता तेंच कळना जालें.

'गोवन ऑब्जर्वर'चे कचेरेंत असेंब्लींत चलिल्या प्रश्न आनी जापां वेल्यान नदर भोवंडायता आसतना गोंयच्या सरकारान 18 'एस. ई. झेड'खातीर सुमार 40 लाख चौखण मिटर जमीन व्हड व्हड उद्देजकांक दिवपाची केल्या आनी तांचे प्रकल्प भारत सरकारा कडेन मान्यताये खातीर धाडल्यात अशी म्हायती मेळ्ळी. खबरांपत्रांनी, असेंब्लींत वा आनीक खंयच भासाभास जायनासतना गोंय सरकारान ताकतिकेन केल्लें हें एक कारस्थान अशें म्हाका दिसलें. एसईझेड कायदो वाचून पळयतकच म्हजो दुबाव खरो थारलो. भारतांत निर्गत वाडोवपा खातीर उद्देगीकरणांत वाड करपाच्या हेतून भारत सरकारान हो कायदो 2006 त पास केल्लो. राज्य सरकारा कडल्यान आपल्याक जाय थंय आनी जाय तितली जमीन सवाय दरान घेवप, जमनीचेर प्लॉट, रस्ते, उदक, लायट, खळयो हीं

सगलीं मुळावीं सोंपेपणां तयार करून वेगवेगळ्या उद्‌देजकांक दिवप, उद्‌देजकांनी थंय कारखाने घालून देशांतल्यान निर्गत करपा खातीर म्हाल तयार करप, अशी ही येवजण. सरकारा कडल्यान घेतिल्ले वट्ट जमनींतले 50 ते 75 प्रतिशें जमीन मुख्य उद्‌देजकांक (डेव्हलपर) घरां, थेटरां, होटेलां, वेपारी संकुलां, ह्यो गजाली बांदून तातूंतल्यान आपणाक फायदो करून घेवपाची मेकळीक आसतली. हेरांक लागतात तसले कसलेच कर - मागीर ते भारत सरकाराचे, वा राज्य सरकाराचे, वा म्युनिसिपालिटीचे, वा पंचायतीचे आसूं - ह्या उद्‌देजकांक लागचे नात, आनी निर्गतींतल्यान जातल्या फायद्याचेरूय बी कांय वर्सां इनकम टॅक्स लागचो ना. उद्‌देगधंदो वाडोवपाच्या नांवांन सरकारा कडल्यान उण्या दरान जमनी 'लीजा'चेर घेवन, तातूंतल्यान जावपी हेर तरेचे धंदे चड आनी निर्गत जावपी म्हालाची उप्रासणी उणी, असले प्रकल्प गोंया भायल्या व्हड व्हड उद्‌देजकांनी रातयां तयार करून, गोयांत धाडले. त्या प्रकल्पांची सारकी तपासणी करिनासतना गोंयांतल्या कांय राजकारण्यांच्या चेपणाक लागून सरकारान ते दोन सप्तकां भितर दिल्लीक धाडले. दिल्लीक ते प्रकल्प खयंच्याय तरी उपसचिवाच्या मेजाचेर धुल्ल खाताले, तेन्ना गोंयच्या असेंब्लींत सरकाराक ह्या खास अर्थीक वठारा विशीं म्हायती दिवची पडली.

पणजे कारितासच्या सभागृहांत खासा घडोवन हाडिल्ले एके व्हड सभेंत हांवें आनी ॲडव्होकेट आल्बेर्तीना आल्मेदा हिणें हो विशय लोकांक सारको समजावन सांगलो. 'कावन्सील फॉर सोशल जस्टीस ॲण्ड पीस' हे आर्चबिशपाच्या हाता खाला वावुरतले संस्थेन दोन वर्सां फाटीं 'एस.ई.झेडा'आड एक रिपोर्ट गोंय सरकाराक दिल्लो. गोयांत खास अर्थीक विभाग आयल्यार गोंयकारांचें लुकसाण जातलें; ज्या उद्‌देगांत गोंयकार नोकरी करिनात तसले उद्‌देग गोंयांत येतले; हजारांनी भायले लोक गोंयांत येवन राबितो करतले; उदक, लायट, कोयराचो विलो, हांचो आदींच जाल्लो त्रास आनीक वाडटलो; गोंयचे संस्कृतायेक आनी अस्मितायेक मार बसतलो; ह्यो सगल्यो गजाली हांवें लोकांक समजावन सांगल्यो.

खाजगी उद्‌देजकांक दिल्ल्या सुमार 40 लाख चौखण मिटर जमनींतली सुमार 25 लाख चौखण मिटर वेर्णां उद्‌देगीक वसाहतींत, 12 लाख चौखण मिटर फोंडें तालुक्यांतल्या केरी गांवांत भुतखांब पठाराचेर, 2 लाख चौखण मिटर सांकवाळ आनी उरिल्ली इल्ली हेर जाग्यांनी आशिल्ली. खास अर्थीक विभागाचे वायट परिणाम सबंद गोंयचेर जातले आशिल्ले, इतलेंच न्हय, तर वेर्णां, लोटले, कुठ्ठाळे, सांकवाळ आनी फोंडें तालुक्यांत केरी ह्या गांवांत आनी भोंवतणच्या वाठारांत लोकांक चड मार बसतलो आशिल्लो. ह्या खातीर त्या गांवांतल्या लोकांनी एकठांय येवन 'सेझ विरोधी मंच'ही आघाडी उबी केली. 'कावन्सील फॉर सोशल जस्टीस ॲण्ड पीस' हे गोयंचे आर्चबिशपाच्या हाता खाल काम

करपी संस्थेन मंचाक तेंको दिलो. 'जागृत गोंय' मंचान सेझ विरोधी मंचाक तेंको दिवचो अशी सुचोवणी आयली. त्या मंचांत राजकारणी फुडाऱ्यांक भायर दवरिल्ले. मथानी साल्दानाच्या फुडारपणा खाला राजकारणी लोक, बिगर सरकारी संस्था आनी खूबशे नामनेचे भौशीक कार्यकर्ते एकठांय येवन तांणी 'सेझा'च्या आड झगडपाक आनीक एक आघाडी सुरू केली. ह्या दोनूय मंचांच्या कार्यकर्त्यांनी आनी फुडाऱ्यांनी गोंयभर 2007-08 आनी 2008-09 ह्या काळांत 'सेझा'आड खर चळवळ केली. गोंय सरकारान आंदोलना मुखार नमतें घेतलें, आनी गोंयचे सगले खास अर्थीक विभाग रद्द करचे अशी केंद्र सरकाराक शिफारस केली. थोड्यो व्हड कंपन्यो सरकारा आड कोर्टांत गेल्यो. लोटलेच्या फ्रेंकी मोंतेरोन म्हायती हक्क कायद्या खाल गरजेक जायती म्हायती एकठांय केली. गोवा उद्देगीक उदरगत महामंडळान (जी.आय.डी.सी.) एस. ई. झेड. उद्देजकांक जमीन दिवपाचे प्रक्रियेंत बेकायदेशीर आनी भ्रश्टाचारान भरिल्ल्यो गजाली घडल्यात आनी ते खातीर तांकां दिल्ल्या जमनींची ऑर्डर रद्द करची, अशी गोंय हाय कोर्टांत केस घाली. ही जमीन दिवपाची प्रक्रिया बेकायदेशीर आसा, तांतूत भ्रश्टाचार भरला, जी.आय.डी.सी. न जे नेम आनी चालीरिती लागू करूंक जाय आशिल्ल्यो त्यो करूं नात, अशीं कारणां दाखोवन हायकोर्टान त्यो जमनी उद्देजकांक दिवपी ऑर्डर रद्द केली.

एस. ई. झेड. चळवळ चलता आसतना केरी गांवांतल्या वेगळ्यावेगळ्या वाड्यांनी तिनसांजच्या वेळार सभा घेवन खास अर्थीक विभाग थंयच्या लोकांक आनी गोंयकारांक कित्याक वायटाक पडटले हें हांव आनी लता समजावन सांगतालीं. तशेंच लोटले, वेर्णा, कुठ्ठाळे, सांकवाळ, नागोआ ह्या गांवांनी सभा घेवन एस. ई. झेड. आड लोकां मदीं जागृताय केली. मडगांवां लोहिया मैदानार सुमार पांच हजार लोकांची सभा घेवन आवाज उठोवचो पडलो. हें सगलें पळोवन मागीर गोंय सरकारान खास अर्थीक विभाग येवजण रद्द केली. आमच्या राज्यांत खास अर्थीक विभाग नाका म्हणून भारत सरकाराक सांगपी गोंय हें एकूच राज्य.

2008 जानेवारींत हांवें 'प्रुडंट मिडिया' ह्या थळाव्या चॅनलाचो कार्यकारी अध्यक्ष म्हणून पद हातांत घेतलें. दोन वर्सां तें चॅनल चलोवन मागीर हांवें राजिनामो दिलो. थंय हांवें कोंकणींतल्यान 'जायात जागे' आनी इंग्लीशींतल्यान 'स्ट्रेट फायट' नांवाच्यो दोन सप्तकी कार्यावळी सुरू केल्यो. 'जायात जागे' ही कार्यावळ 80 सप्तकां चलली.

टिवी कार्यावळी करतना चडशे फावटीं कार्यावळ करपी लोक 'टॅलीप्रोम्प्टरा'ची मजत घेतात. टिवी वयल्यान आमकां दीसपट्ट्यो खबरो सांगपी निवेदक खरें म्हणल्यार तांच्या मुखार दवरिल्ल्या टॅलीप्रॉम्प्टरा वयलें वाचून दाखयतात. फकत भासाभास जाता

तेन्ना आनी चार-पांच लोक एकामेकां कडेन उलयतात तेन्ना टॅलिप्रॉम्प्टर नासता. म्हज्या दोळ्यांच्या दुयेंसाक लागून टॅलिप्रॉम्प्टराची मजत घेतलो जाल्यार म्हाका सवकास वाचचें पडटलें आसलें आनी ती सवकसाय टिवीचे कार्यावळीक कोंता येना. देखून दर फावटीं 27-28 मिनटां म्हाका टॅलिप्रॉम्प्टराची मजत घेनासतना उलोवचें पडटालें. 'जायात जागे' कार्यावळ ही खूब लोकप्रिय जाल्ली. गोंयच्या प्रस्नांचेर लोकांची जाणविकाय वाडची आनी लोकांनी फुडें सरून हे प्रस्न सुटावे करपाचे यत्न करचे अशी मोख 'जायात जागे' सुरू करतना हांवें मनांत धरिल्ली. पूण जाणविकाय जाली म्हणून लोक प्रस्न सोडोवपाक मुखार येनात, फकत घरा बसून कार्यावळी विशीं उलयतात. "तुजी कार्यावळ बरी जाता आं!" अशें मेळत थंय लोक म्हणटाले. "हांवें अमक्या अमक्या विशयाचेर प्रोग्राम केलो, तो तुमकां आवडलो, ताचेर तुमी कितें कारवाय केल्या? बसका बी घेतल्यात? सरकाराक बी पत्रां धाडल्यांत?" अशें विचारतकच 'तें आमकां जमपाचें न्हय' अशें म्हणून शेण खाल्ले भशेन तोंड करून लोक तो विशय बदलताले. 'स्ट्रेट फायट' हो प्रोग्राम फकत 11-12 फावटीं चल्लो. प्रुडंट मिडिया चॅनल सोडपाच्या तीन म्हयन्यां आदीं लोकांचे मागणे वयल्यान हो प्रोग्राम हांवे सुरू केल्लो. थंयूय बी म्हाका वायट अणभव आयलो. मंत्र्यांक वायट दिसत, आपणाल्या खाजगी उद्देग-धंद्याक मार बसत, हे भिरांतीन कार्यावळींत वांटो घेवपी चडशे लोक स्पश्ट उलोवंक भियेताले. 'स्पोर्ट्स सिटी'चेर एक प्रोग्राम करतना एका 20-30 वर्सांचो अणभव आशिल्ल्या खेळां पत्रकाराक आपयिल्लो. तेन्ना स्पोर्ट्स सिटी धारगळ गांवांत जातली, 2011त थंय राष्ट्रीय खेळ जातले आनी भारत सरकार आमकां हे खातीर 500 कोटी रुपया अनुदान दितलें, अश्यो बडायो गोंय सरकार मारतालें. 'जायात जागे' कार्यावळींत हांवें हे स्पोर्ट्स सिटीक विरोध केल्लो आनी 2013-2014 मेरेन राष्ट्रीय खेळ गोंयांत जावंकूच शकनात, अशी म्हायती दिल्ली. 2011 मेरेन पांचशें कोटी रुपया खर्चून स्पोर्ट्स सिटी तयार जावंक येता काय ना? असो प्रस्न विचारल्यार तीन-चार व्हडले स्टेडियम, एक पांच नखेत्री हॉटेल, एक तीन नखेत्री हॉटेल, रस्ते, उदकाची पुरवण, वीज, सुवरेज, ही सगली वेवस्था देड वर्सा भितर तयार करूं येता, अशें मत त्या खेळां पत्रकारान उक्तायलें. म्हाका शॉक बसलो. तो ह्या विशयाचेर गिन्यान ना म्हणून उलयलो, काय सरकाराच्या चेपणाक लागून, तें कळपाक वाट नाशिल्ली. सरकारांतल्या लोकांक बरें दिसपाक जाय म्हणून सरकारी धोरणाचेर वा सरकारी कामाचेर उलयतना प्रोग्रामांत वांटो घेवपी कितलेशेच लोक स्पश्टपणान खरी गजाल उलोवंक भियेताले.

आनीक एक सप्तकी नाटकुलें आमी सुरू केल्लें. 'लोकशाय हाय हाय' हो माथाळो सर्गेस्त डॉ. मनोहरराय सरदेसाय हांचे एके कवितेंतल्यान घेतिल्लो. प्रुडंटाचें कार्यावळ संपादक प्राप्ती मनोहर प्रभु कोंकार हाका दर सप्तकाक हांव हें नाटकुलें डिक्टेट

करतालों. प्राप्ती कार्यावळ संपादक जावचे पयलीं खबरां विभागाचें उप-संपादक आसलें. देखून रिपोर्टरांच्या पालवान कोंकणी खबरांपत्र तयार करपाचें काम ताचे कडेन आसतालें. कोंकणी आनी मराठी भाशांचेर ताचो बरोच शेक आशिल्लो. हांवें डिक्टेट केल्लें तें संगणकाचेर टायप करतालें, इतलेंच न्हय, तर हांव उतरां खातीर आडखळून उरल्यार तें उतरां सुचयतालें. हांव तें नाटकुलें बरयतालों म्हणचे परस आमी दोगांय मेळून तें नाटकुलें बरयतालीं अशें म्हणप चड समा जातलें. तें नाटकुलें पयलीं प्रदीप पाडगांवकार, ताची घरकान्न शोभा आनी ताचे इश्ट मेळून करतालीं. मागीर प्रदीप कांय म्हयन्यां खातीर आफ्रिकेक गेल्लो, तेन्ना तें नाटकुलें मडगांवचे दिलीप प्रभुदेसाय आनी ताचे इश्ट करताले. मागीर कांय तेंपान तें बंद पडलें. तेंवूय बी नाटकुलें खूब लोकप्रिय जाल्लें. तातूंतल्यानूय बी गोंयांतल्या राजकी घडणुकांचो नियाळ जातालो. 2009 डिसेंबरांत हांवें प्रुडंट सोडलें आनी जायात जागे आनी स्ट्रेट फायट कार्यावळीय बी करपाच्यो बंद केल्यो.

निवृत्त जातकच फकत पेन्शनाची येणावळ उरिल्ली. लताच्या वांट्याक आयिल्ली जाण्टेल्यांची इस्टेट थोडी विकून पयशे आयिल्ले, ते घर बांदपा खातीर खर्च जाल्ले. मडगांवचो आमचो बंगलो उमेदीच्या हुंवारांत सांपडून खूब व्हड बांदलो आनी ताची जतनाय करपाक खर्चूय खूब जावंक लागलो, देखून आनीक येणावळीची गरज भासपाक लागली. देखून तमीळनाडू सरकारा कडेन अर्ज करून परवानगी मेळटकच हांवें युग्वेद नांवाची कन्सल्टन्सी सुरू केली.

मलेशियेक 100-150 वर्सां पयलीं तमीळनाडूचे खूबशे वेपारी वचून राविल्ले. तातूंतल्या कादीर नांवाच्या एका गिरेस्त वेपाऱ्या कडेन म्हज्या दिल्लीच्या एका इश्टान वळख करून दिली. तो वेपारी हिंदूस्थानांत कसलेय तरी व्हड उद्देग-धंदे सुरू करपाक सोदतालो. रिटायर जातकच कांय दिसांनी ताणें म्हाका आपणालो ॲडवायझर नेमलो. कांय म्हयने ताचे खातीर काम करून मागीर आमी तें काम बंद केलें, कारण आपणालें भांडवल गुंतोवपाची बरी संद ताका मलेशियाक आनी सिंगापूराक चड मेळपाक लागली. तशेंच भारतांत धंद्यांत गुंतयिल्ले पयशे परते मेळटले काय ना, हाचो ताका दुबाव येवपाक लागलो. 1998 त मुंबयच्या 'ग्रेट इस्टर्न शिपींग कंपनी'च्या अध्यक्षाचो हांव ॲडवायझर जालों. तांचे कंपनींतलें प्रशासन, वेवस्थापन, भारत सरकारा कडेन आशिल्ले संबंद ह्या विशयांनी उप्रासपी प्रस्न आनी आडखळी सुटाव्यो करपाक मजत दिवंक लागलों. सात वर्सां ते कंपनीचो ॲडवायझर म्हणून काम करून मागीर हांवे तें काम बंद केलें. ते कंपनीचो ॲडवायझर म्हणून म्हाका तांचे वांगडा भारतांत मुंबय, कोलकाता, दिल्ली, मंगळूरु, कोचीन, चेन्नै, ह्या शारांनी वचचें पडटालें. त्या भायर भारत सरकारान म्हाका पयलीं दोन वर्सां चेन्नै पोर्टाचो ट्रस्टी आनी मागीर दोन वर्सां मंगळूरू पोर्टाचो ट्रस्टी नेमिल्लो. तांच्याय

बसकां खातीर म्हाका दर म्हयन्याक चेन्नै आनी मंगळूरू वचचें पडटालें. 2005-2006 उपरांत म्हाका दोळ्यांचो त्रास चड जावंक लागलो. प्रवास करूंक भिरांत दिसूंक लागली, देखून ॲडवायझराचें काम सोडचें पडलें.

'ग्रेट ईस्टर्न शिपींग कंपनी'चो ॲडवायझर आसतनाच गोंयचे फोमेंतो कंपनींत म्हाका ॲडवायझर म्हणून नेमलो. कुडचड्यां लागसार आशिल्ल्या शेळवण गांवांत ते एक प्रकल्प उबो करपाचो येवजिताले. ते खातीर म्हजी नेमणूक जाली. त्या प्रकल्पाचें काम मुखार वचनाशिल्लें आनी आडखळी वाडत राविल्ल्यो. देखून म्हजेर जाता त्या खर्चांतल्यान फोमेंतो कंपनीक कांय फळ मेळना, अशें ते कंपनीक आनी म्हाकाय बी दिसूंक लागलें. देखून तें काम हांवें दोन वर्सां उपरांत बंद केलें.

2000-2005 ह्या पांच वर्सां मदीं हांवें आनीक दोन उपद्व्याप केले. दिल्ली, मुंबयचे आयएएसांतल्यान निवृत्त जाल्ले म्हजे इश्ट, व्हड व्हड खाजगी कंपन्यांनी डायरेक्टर, प्रेसिंडेण्ट, ॲडवायझर अशीं पदां सांबाळटाले. गोंयांत हॉटेलां, व्हड व्हड बंगले, गेस्ट हावसां आनी हेर गजालीं खातीर तांकां दर्यादिगेर जमीन जाय, असो ते फोन करताले. जमीन सोदप, वेंचून काडप, दुकुमेंत तपासप, दर थारावप, हें सगलें काम हांवें करून घेवपाचें आनी म्हजें बील तांकां धाडपाचें अशें तें सांगताले. बशिल्ले कडेन चड खरशेनासतना पयसो जोडूंक मेळटा जाल्यार कित्याक जोडू नये अशें येवजून हांवें म्हज्या इश्ट आनी तांच्या कंपन्यां खातीर उत्तर आनी दक्षीण गोंयांत दर्यादिगेर विकपाक आशिल्ल्यो व्हड व्हड जमनी पळोवपाक सुरवात केली. खूबश्या ब्रोकरां वांगडा काम करचें पडलें. एक व्हड जमीन एका उद्देजकान घेवपाचें थारायलें, तेन्ना एका तरनाट्या ब्रोकरान सगळ्यांक सारके फटयले. जमीन विकपाच्या धंद्यांत चलतात तीं फटींगपणां पळोवन म्हजें मन विटलें आनी हांवें ते उपद्व्याप बंद केले.

दुसऱ्या एका उपद्व्यापांत हांवें वांटो घेतलो, तो म्हणल्यार मीन येरादारी! म्हजे कांय इश्ट कर्नाटकांतल्यान बऱ्या दर्ज्याचें मीन हाडून गोंयच्या मिनेर निर्यातदारांक विकताले. ते मिनाचे  येरादारींत वाटेर खूब चोरी जाताली. मीन हाडून गोंयांत पावोवपाचे ते सबंद प्रक्रियेचेर नदर दवरून सगलो हिशेब दवरपाचें काम हांवे आनी म्हज्या स्टाफान करचें अशें तांणी सुचयलें आनी ते खातीर तांकां जावपी फायद्याचो एक वांटो म्हाका दिवपाचो अशें थारलें. ही प्रक्रिया सुमार एक वर्स चलली आनी प्रक्रियेंत वट्ट वीस लाखांचो फायदो जावपाचो, तो फकत एक लाख सुमार फायदो जालो. म्हाका येणावळी परस खर्च चड जालो आनी एका वर्सा उपरांत मीन येरादारी कडेन आशिल्लो म्हजो खाजगी संबंद सोंपलो. 1997 ते 2005 वर्सा म्हजी दर म्हयन्याची येणावळ आयएएसांत नोकरी करतना वर्सभर मेळपी पगारा परस चड आशिल्ली. आयएएसांतल्यान आदींच निवृत्त जावन मुंबय,

दिल्लीच्या खाजगी कंपन्यां खातीर काम केल्लें जाल्यार येणावळीचे नदरेन पांस-स पटींनी चड येणावळ येतली आसली.

निवृत्ती उपरांत धा वर्सां सुमार हांवें वेगळ्यावेगळ्या खाजगी कंपन्यांनी सल्लागार म्हूण काम केलें. तें काम चलता आसतनाच दोन वर्सां एक टिवी चॅनल चलयलो. एके वटेन येणावळ चालू दवरपा खातीर सल्लागार म्हणून काम करप, आनी दुसरे वटेन कोंकणी भाशेची आनी संस्कृतायेची जतनाय करून ती फुलची, फळची, तशेंच गोंयच्या राजकारणाचो आनी भौसाचे जिणेचो दर्जो सुदारचो म्हणून वेगळ्यावेगळ्या भौशीक संस्थांनी आनी भौशीक चळवळींनीं वांटो घेवप हें काम चालू आशिल्लें. खूबशे बरे वायट अणभव आयले, तातूंतले कांय अणभव हांव केन्नाच विसरचों ना.

ग्रेट ईस्टर्न शिपींग कंपनीच्या अध्यक्षाचो सल्लागार म्हणून काम करतना तांकां अस्तंत बंगालांत त्रास जावंक लागले. तांणी हालदीया बंदराच्या वेवस्थापनांत एक 'टग' भाड्यान दिल्लो. तांचे कबलाती प्रमाण टगा वांगडा टग चलोवपी आनी टगाचेर हेर काम करपी सगले जेस्को (ग्रेट ईस्टर्न शिपिंग कंपनीचें सुटसुटीत नांव) कंपनीन टगा वांगडा धाडूंक जाय आशिल्ले. ही अट जेस्कोन घाल्ली. कोट्यांनी रुपयांचो टग हेरांच्या हातांत दिल्यार ताची वाट लागतली अशें जेस्कोक दिसतालें. भारतांत खंयूय आपणालो टग वा बोटी भाड्यान दिल्यार आपणाल्याच लोकांनी तो टग वा बोटी चलोवंक जाय अशी तांची अट आसताली. हालदीया वाठारांतलो खासदार हो अस्तंत बंगालच्या कम्युनिस्ट पक्षाचो एक म्हत्वाचो फुडारी आशिल्लो. महाराष्ट्रांतले लोक हालदीयांत कामाक येवपाक जायनात, मुंबयच्यान हाडिल्ल्या ह्या टगाचेर हांगाच्या थळाव्या लोकांनी काम करपाक जाय, अशें म्हणून ताणें हालदीया बंदराच्या वेवस्थापनाक सतावपाक सुरवात केली आनी त्या टगाचें काम बंद उडयलें. जेस्कोक खूब लुकसाण जावंक लागलें. "हो प्रस्न तूं सोडयशी?" अशें जेस्कोच्या अध्यक्षान म्हाका विचारलें. जेस्कोच्या एका उपाध्यक्षाक घेवन हालदीयाक गेलों आनी त्या खासदाराक मेळ्ळों. तो खासदार कांयच आयकुपाक तयार नाशिल्लो. त्या गांवांत आनी भोंवतणच्या वाठारांत सरकाराच्या वा खंयच्याय खाजगी कंपन्याच्या कसल्याय कामां खातीर कामगार जाय जाल्यार त्या खासदाराच्याच कामगार संघांतले लोक घेवचे पडटाले. बशींतल्यान सामान देंवोवपी हमाल, रिक्षा, टॅक्सी, ताचे युनियनाचे वांगडी जाले बगर त्या वाठारांत तांकां आपलें पोट भरपाची मेकळीक नाशिल्ली. हिंदी सिनेमांनी 'अण्डरवल्डा'चें राज्य चलता तेच भशेन ह्या खासदाराचें राज्य थंय चलतालें. सरकारी प्रशासन आनी पुलीस ताका भियेवन दीस काडटाले. हेर पक्षांचें सरकार गिरेस्त लोकांच्या हातांत आसता आनी कम्युनिस्ट पक्षाचें सरकार आम आदमीचें आसता, असो प्रचार कम्युनिस्ट पक्ष करता. हालदीयाचें तें चित्र

पळयल्यार राजकी पक्ष खंयचोय आसूं, दादागिरी केले बगर ते लोकांचेर शेक गाजोवंक शकनात, हें सत्य म्हाका कळ्ळें.

म्हजे वांगडा आयएएसांत आशिल्लो म्हजो एक इश्ट अस्तंत बंगालांत मुखेल सचीव आशिल्लो. तो म्हजे परस चार वर्सांनी ल्हान, देखून अजून निवृत्त जावंक नाशिल्लो. अमक्या अमक्या कामां खातीर आमकां मुख्यमंत्र्याक मेळपाक जाय, आनी ते खातीर तूं मुख्यमंत्र्या कडेन विचारून वेळ थाराय अशें ताका सांगलें. ताणें मुख्यमंत्र्याक विचारून आमी ताका केन्ना मेळपाचें तें सांगलें. अस्तंत बंगालचो मुख्यमंत्री बुद्धदेव भट्टाचार्य सादो आनी प्रामाणीक मनीस अशें आयकल्लें. ताका मेळना फुडें ताणें म्हजी "तूं कसो आसा? तूं आपणालो इश्ट आनी वांगडी अशें मुखेल सचीव सांगतालो," अश्यो खूबश्यो गजाली उलयतकच मागीर ताणें आमकां शॉक दिलो. "जेस्कोचो प्रॉब्लेम हांवें थंयच्या कलेक्टरा कडल्यान जाणून घेतला. हो घुस्पागोंदळ आमच्याच एका खासदारान थंय केला. हो प्रस्न सोडोवपाची जापसालदारकी म्हजी, तुमची न्हय, हेर राज्यांतल्या कंपन्यांनी अस्तंत बंगालांत भांडवल घालून धंदे सुरू करचे म्हूण आमी तरातरांच्यो येवजण्यो सुरू केल्यात. म्हणटकच आमच्या खासदारान केल्ली असली बेजबाबदार वर्तणूक म्हाका बंद करची पडटली. एका सप्तका भितर तो खासदार तुमकां फोन करतलो आनी वाट मेकळी करून दितलो." "हो म्हजो घर सचीव, हो ह्या विशयाचेर लक्ष दवरतलो. कितेंय प्रोब्लेम आसल्यार तुमी ताचे कडेन संपर्क दवरात," अशें ताणें सांगलें. आमी येवचे पयलीं कलेक्टरा कडेन तो उलयिल्लो आनी घर सचिवाक त्या विशयाचेर म्हायती बरोवन धाड म्हूण ताणें सांगिल्लें. ती म्हायती ताणें वाचली. आमी ताका मेळपाक गेल्ले तेन्ना घर सचीव ताचे म्हऱ्यांत बशिल्लो, आनी दोगूय जाण आमची वाट पळयताले.

7-८ दिसां भितर तो प्रस्न सुटावो जालो आनी जेस्कोचो टग जेस्कोचेच मनीस घेवन हालदीया बंदरांत काम करूंक लागले. आमी मेळचे पयलीं आमी जो विशय उलोवंक आयिल्ले तो विशय वाचून, समजून घेवपी आनी तो प्रस्न कसो सोडोवचो हेंवूय बी थारावन आमकां सांगपी मुख्यमंत्री आमकां हेर मुख्यमंत्र्यां परस चड तांकीचो आनी चड प्रामाणीक काय दिसलो. आपणाल्या राजकी पक्षाच्या फुडाऱ्यान चूक केल्या आनी ती हांव सुदारतां, म्हूण मानून घेवपाक प्रामाणीकपण लागता, तें चडश्या मुख्यमंत्र्यांक नासता. म्हजे प्रशासनीक जिणेंत, आनी मागीर सल्लागार म्हणून काम करतना जायत्या मुख्यमंत्र्यां कडेन म्हाका वेगळेवेगळे प्रस्न मांडचे पडिल्ले. खंयच्याच मुख्यमंत्र्याक विशयाचो अभ्यास करपाक वेळ नासतालो आनी "पळोवया, करपाचो यत्न करतां," असल्यो जापो मेळटाल्यो. फुडले वेचणुकेंत कम्युनिस्ट पक्ष हारतलो आनी बुद्धदेवाचो मुख्यमंत्रीपदाचो काळ सोंपतलो अशें चडश्या राजकारणी फुडाऱ्यांक दिसतालें.

खबरांपत्रांनीय बी अशेंच छापून येतालें. हालदीयांत जाता तशी लोकांची सतावणूक हेर कडेनूय बी जाता जावंये, आनी परिस्थितीय बी बुद्धदेवाच्या हाता भायर गेली जावंये.

2006 उपरांत म्हजो चडसो वेळ भौशीक चळवळींनी वांटो घेवपांत गेलो. गोंयच्या भौशीक चळवळींनी वांटो घेतना एक गजाल मुखेलपणान जाणवली. ती म्हणल्यार सबंद गोंया विशीं विचार करपी लोक सामके थोडे. चडशे लोक आपल्याच घराचो, वाठाराचो वा गांवां पुरतोच विचार करतात आनी घराचेर, वाठाराचेर वा गांवाचेर हावळ आयल्यारूच ते चळवळींत भाग घेवपाक फुडें सरतात. आपल्या गांवांत जे मेरेन शेतांत धा मजली बिल्डिंगेक सरकार परवानगी दिना, ते मेरेन व्हड व्हड बिल्डिंगां आड हेर कडेन कितल्योय चळवळी जावं, त्या गांवांतले लोक तातूंत भाग घेनात. गोंयांत सगले कडेन हीच तरा! भोंवतणच्या लोकांचें बरें वायट येवजिनासतना कांय मिनेर मिनाखणीं भोंवतणीं आशिल्ल्या वाठाराची वाट लायतात, तेन्ना थंयचे लोक मिना आड आवाज उठयतात. बेकायदा आनी बेपर्वा मिनां आड चलिल्ले चळवळींत गोंयचे दर्यादिगेर आशिल्ल्या गांवांतले लोक केन्नाच वांटो घेनात. पर्यटनाक लागून दर्यादिगेर आशिल्ल्या गांवाचो फुडार पेड्ड्यार जाता, देखून दर्यादिगेर आशिल्ल्या गांवांतले लोक चळवळ करतात, पूण त्या चळवळींनी सत्तरी, दिवचल, सांगें, केपें ह्या तालुक्यांतले शेतकार वा हेर लोक केन्नाच वांटो घेनात. हें अशें कित्याक? भारतांत चडश्या राज्यांनी व्हड-व्हड चळवळी जातात, तेन्ना सबंद राज्यांतले लोक तातूंत भाग घेतात.

गोंयचे लोक अशे कित्याक? आपणाली भास, संस्कृताय, अस्मिताय राखून दवरपाक जाय आनी ते खातीर फावो तें धोरण चालीक लावपाक सरकाराचेर चेपण हाडपाक जाय हें गोंयकारांक कित्याक समजना? आपल्या घराचेर वा गांवाचेरूच हावळ आयल्यार चळवळींत वांटो घेवन आपली जापसालदारकी सोंपना, तर गोंयांत खंयूय हावळ आयल्यार काल वता तसो आपल्या घराचेरूय बी हावळ येतली हें गोंयकार कित्याक समजनात? ह्या प्रस्नांच्यो जापो गोंयकारांनी सोदून काडूंक जाय आनी भारताच्या आनी गोंयच्या भौसाचो आपूण एक वांटो, फकत घराब्याचो वा गांवचो वांटो न्हय, हें मतींत धरून सबंद गोंया खातीर वा भारता खातीर कारवाय करपाक जाय. मागीर भौसाची जीण सुदरतली.

प्रशासन आनी भौशीक जीण सुदारपा खातीर कितें, कोणें, कशें आनी केन्ना करूंक जाय ह्या प्रस्नाचेर गोंयकार आपलीं मता सांगपाची एकूय संद सोडिनात. जांकां भौसा खातीर कांयच करपाचें नासता, जांकां आपल्याच जगांत आपणें रावचें अशें दिसता ते ओगी कित्याक बसल्यात, हार्चीं व्हड व्हड कारणां सांगतात. हें गोंयांतूच न्हय, तर सगले कडेन चललां.

हांवें आनी म्हज्या वांगडा आशिल्ल्या इश्टांनी खूबश्या चळवळींनी वांटो घेतलो. कांय कडेन येस आयलें, आनी कांय कडेन चळवळी अजुनूय चालू आसात. ह्या चळवळींचो परिणाम कितें जातलो आनी गोंयचें फुडें कितें जातलें हें आमकां खबर ना, पूण आपूण ओग्गी बसून लोकांक शापोतां सांगचे परस आपणाक दिसता, समजता, ते प्रमाण भौसाची जीण सुदारपाचो यत्न आमी करीत आसां.

# निमाणीं दोन उतरां

म्हज्या यादींचो परमळ अजुनूय म्हजे जिणेंत घोळटा. जण एका कुटुंबाक 'कभी खुशी, कभी गम' अणभव आसतात, तशे आमच्याय कुटुंबाक आसात. तांतल्या खूबश्या अणभवांचो हांवें ह्या पुस्तकांत आसपाव करूंक ना. ताचें कारण म्हणल्यार अणभवांचो भौशीक जिणे कडेन संबंद नासल्यार ते अणभव लोकांक सांगून उपेग ना.

निवृत्त जाल्ले सरकारी अधिकारी एक तर 'कृति पुत्र' वा 'स्मृति पुत्र' आसतात. हांव अजून कृति पुत्र आसां, म्हण्टकच खंयच्या काळा मेरेन स्मृति बरोवन काडच्यो ह्या प्रस्नाक तर्कशुध्द जाप मेळूंक कुस्तार. 2010 मेरेन प्रशासनांतल्यो आनी भौशीक जिणेंतल्यो, ज्यो कोणाकूय उपेगी आसूं येतात अश्यो घडणुको ह्या पुस्तकाच्या रुपान वाचप्यां मुखार दवरल्यात.

हें पुस्तक छापखान्यांत वता आसतनाच आतां गोंयांत गोंयच्या सरकाराक इंग्लीश भाशेंतल्या मुळाव्या शिक्षणाक अनुदान सुरू करपाची दुर्बुध्दी सुचल्या. सरकाराच्या ह्या धोरणा आड आतां व्हड आंदोलन सुरू जालां, आनी हांव आनी लता आपले आपूण ह्या वावटींत सांपडल्यांत. हेवूय बी अणभव बरयत रावल्यार हें पुस्तक केन्नाच पुराय जावचें ना. देखून ह्या म्हज्या वोंवळांच्या सराक हांगाच गांठ मारून तो तुमचे मुखार दवरला.



## बरोवप्याची वळख

अरविंद भाटीकार हाचो जल्म 8/12/1938 ह्या दिसा मडगाव शारांत जालो. गोंय पुर्तुगेजाच्या शेकातळा आसतना ताचें मुळावें शिकप मराठीतल्यान जालें. मडगांवां भाटीकार कुटुंबान चलयिल्ल्या मॉडॅल इंग्लीश हायस्कुलांत एसएससी मेरेनचें शिकप करून धारवाडाक कर्नाटक कॉलेजांत अर्थशास्त्र आनी फ्रॅंच हे विशय घेवन ताणें बिएची पदवी घेतली. उपरांत बॉम्बे युनिवर्सिटीच्या 'स्कूल ऑफ इकॉनॉमिक्स' ह्या विभागांतल्यान एमए (अर्थशास्त्र) पदवी घेतली. मागीर शेतकी अर्थशास्त्र विशयाचेर पिएचडी करपा खातीर ताका शिश्यवृत्ती मेळ्ळी. ते उपरांत फुडले जिणेचो मार्ग बदलून 1965 वर्सा तो आयएएस परिक्षेक बसलो. 1966 वर्सा ताची भारतीय प्रशासन सेवेंत (आयएएस) नेमणूक जाली.

कोंकणी भास आनी गोंयकारांची वेगळी अस्मिताय सांबाळपा खातीर गोंयांत विलिनीकरणा आड चळवळ जाली. 1961 ते 1964 मेरेन भाटीकारान हे चळवळींत वांटो घेतलो.

भारतीय प्रशासन सेवेंतल्या तीस वर्सांच्या काळांत तमिळनाडू सरकार, भारत सरकार आनी युनायटेड नेशन्साच्या प्रशासनांनी ताणें कारभार हाताळ्ळो. सेवेंत आसतना सरकारी कामां खातीर 49 फावटीं भायल्या देशांनी आनी दोन फावटीं सबंद जगाची भोंवडी करपाची संद ताका मेळ्ळी.

1996 डिसेंबरांत तो भारतीय प्रशासन सेवेंतल्यान निवृत्त जालो. कांय काळ वेवस्थापन मळाचेर कन्सल्टन्सी करून आतां वेगळ्यावेगळ्या समाजीक चळवळींचो तो एक वांटो जाला. वेगळ्यावेगळ्या विशयांचेर बरयिल्ले ताचे 300 वयर लेख हेराल्ड आनी गोमन्तक टायम्स दिसाळ्यांनी आनी गोवन ऑब्जर्वर नेमाळ्यांत उजवाडाक आयल्यात.

तो आनी ताची सायकोलॉजिकल कावन्सलर बायल स्नेहलता पणजेच्या करंजाळें वाठारांत रावतात. तांचो कम्प्युटर इंजिनियर चलो युगेश, सून वेदा आनी नाती नीना आनी मीरा हीं अमेरिकेंत आसतात.

वोंवळां हें ताचें पयलेंच कोंकणी पुस्तक.


**युगवेद प्रकाशन**

पणजी - गोंय

Email : yugved@hotmail.com

Contact No.: 2465127 / 2465080